श्रीकृष्णान अर्जुनाक दिव्य दिश्टी दिली आनी ताका विश्वात्म्याक पळोवंक मेळ्ळें आनी अज्ञानाचो काळोख नासो जावंक लागलो. दिव्यचक्षुंच्या प्रकाशाक लागून अर्जुनाची ज्ञानदिश्टी फांकली आनी ताका एकदम दिव्य ऐश्वर्य आनी तेज हीं दिसलीं! ताचें मनाचें मनपण ना जालें आनी बुद्दी स्तंभीत जाली. ताणें दोळे मेटले, तेन्ना ताचेफुडें कृष्णाचें रूप उबें आशिल्लें. ताणें दोळे उगडले तर ताचेफुडें विश्वरूप आशिल्लें!'' (ज्ञा. ११, १७६-९६.) विश्वरूपदर्शन जातकीच अर्जुनाचे मनस्थितीचें वर्णन फुडें श्रीज्ञानेश्वरान केलां तें वाचपासारकेंच आसा. (ज्ञा. ११, ५५५-५६०; ५६७-७४; ६०९-३९.)

अर्जुन विश्वरूप पळोवपाक समर्थ नाशिल्लो, म्हणून ताचे खातीर पर्थून श्रीकृष्णान मनुष्यरूप कशें धारण केलें हाचें श्रीज्ञानेश्वरान साबार उमपा दिवन वर्णन केलां. (ज्ञा. ११, ६४०-४६.) जांकां अव्यक्त परमात्म्याक पळोवपाची इत्सा आसता, तांकां व्यक्त रुपाचोय लाभ जाता, हो ह्या सगल्या वर्णनाचो मतितार्थ आसा, अशें श्रीज्ञानेश्वराची म्हणणी. होच विशय भगवद्गीतेच्या आनी ज्ञानेश्वरीच्या बाराव्या अध्यायांत मुखेलपणान चर्चिला. ह्याच अध्यायांत ''व्यक्त आनी अव्यक्त हांचे पयकीं स्रेश्ठ खंयचें आनी व्यक्ताची उपासना करपी स्रेश्ठ काय अव्यक्ताची उपासना करपी तत्त्वज्ञानी स्रेश्ठ?'' असो प्रस्न विचारतकी, ''अव्यक्तांपरस व्यक्त आनी ज्ञान्यांपरस भक्त स्रेश्ठ अशी जाप स्पश्टपणान दिल्या.'' ''पावसाळ्यांत दिर्शी मार्शी वाडत वचपी न्हंयेप्रमाण जाची भक्ती वाडत वता, तो भक्त म्हाका प्रिय'' अशें श्रीकृष्णान सांगलां. (ज्ञा. १२, ३४-३९; ४०-५९.)

**ब्रह्मस्वरूपवर्णन**: प्रत्यक्ष अणभवाचे दिश्टीन, अव्यक्तापरस व्यक्त स्रेश्ठ मानल्यारय, तत्त्वीक नदरेन निर्विकल्प अक्षरब्रह्माची कल्पना वा अक्षरब्रह्म हें ध्येयच स्रेश्ठ थारता, अशें श्रीज्ञानेश्वरान खूब फावटीं प्रतिपादन केलां: ''तें एकाबराबर भितर आनी भायर, लार्गी आनी पयस आसता; तें अद्वितीय. ताच्या निरंतर तेजाक हालप खबर ना. तें विश्वाचे आर्दी, मर्दी आनी अंतीं अखंड आसता. सकाळ, दोनपार आनी सांज हे फरक जाले तरी आकाश बदलना, तेप्रमाण तें विश्वरूप अखंड आनी निरंतर रावता; तें ब्रह्म, विष्णु आनी रुद्र हीं नांवां घेता; गूणत्रयाचो लोप जाता, तेन्ना बाकी रावपी शून्याप्रमाण तें आसा. तें उज्याचें दीपन, चंद्राचं जीवन आनी सूर्याचे नयन आसा.'' (ज्ञा. १३, ९१५-३८.) तें सगल्या शून्याचो सार आसा. पूण ताचें कितेंय तरी वर्णन करपाक जाय म्हणून ताका विश्वबाहु, विश्वचक्षु, विश्वतोमूख अशें म्हणचें पडटा. कारण, शून्याची कल्पना स्पश्ट करून दाखोवची जाल्यार वर्तुळ काडचें पडटा, तेप्रमाण अद्वैताची कल्पना द्वैतावरवींच मांडची पडटा.'' (ज्ञा.१३, ८७३-८९.)

**चित्सूर्यवर्णन**: सोळाव्या अध्यायाचे आरंभीं ज्ञानेश्वरान ब्रह्माक चित्सूर्याची उपमा दिवन जें ताचें वर्णन केलां तें सुंदरच आसा. प्लेटोन आपल्या Republic (लोकसत्ताक राज्य) ह्या ग्रंथांत जें ताचें वर्णन संवादरुपान केलां, तशेंच श्रीज्ञानेश्वरान ह्या अन्तिमस्वरुपी चित्सूर्य-ब्रह्माचें वर्णन रुपकांनी केलां: ''सदचो आकाशांतलो सूर्य उदेलो, तर सृश्ट पदार्थ दिसपाक लागतात; हाचे उलट हो अंतिमसत्यस्वरूप सूर्य उदेतकीच विश्वाभास पूर्ण ना जाता: तो ज्ञानरुपी आनी अज्ञानरुपी चांदण्यांक गिळून 'ज्ञानियांक' आत्मबोधाचो उजवाड दिता. आत्मज्ञानाचो अरुणोदय जालो म्हणटकीच जीवरुपी पक्षी 'देह आनी अहंता'रुपी आपलो घोंटेर सोडून आत्मज्ञानार्थ भायर सरतात. हे जीवरुपी चिद्भ्रमर लिंगदेहाच्या कमळांत इतलो वेळ शिरकून राविल्ले, पूण चित्सूर्याचो उदय जातकीच ते बंधनांतल्यान मेकळे जाले आनी स्वैरपणान आत्मप्रकाशांत उडपाक लागले. (ज्ञा. १६, १-१६.)

### श्रीज्ञानेश्वरींतलो नितीविचार

श्रीज्ञानेश्वराच्या नितीविशींचे शिकवणेचो विचार करतना एक गजाल लक्षांत दवरप गरजेचें आसा. ती म्हळ्यार, हेर संतांप्रमाण ज्ञानेश्वरांचोय इंद्रियांचेर विश्वास ना. ''ह्या इंद्रियांचें बळ इतलें जबरदस्त आसता की, जे योगाभ्यासान आपलें मन आपले मुठींत दवरतात, अश्या योग्यांक लेगीत कासावीस करून उडयतात.... इतलें भयंकर सामर्थ्य ह्या इंद्रियांत आसा. (ज्ञा. २, ३११-१४.) तशेंच, अनेक सद्गुणांचें जें खोलायेन आनी मार्मीक वर्णन श्रीज्ञानेश्वरान केलां, तातूंत तांची उच्च प्रतिभा आनी तांचे विशेश गूण दिसतात. श्रीभगवद्गीतेंत तेराव्या अध्यायांत खऱ्या परमार्थाक लागपी सगल्या सद्गुणांचें विस्तारान वर्णन दिलां, ताचो श्रीज्ञानेश्वरांक आधार म्हणून खूब उपेग जाला. प्रत्येक सद्गुणाचें म्हत्व वाचकांक सांगपाखातीर श्रीज्ञानेश्वरान इतलीं रुपकां वापरल्यांत, की अलंकारीक भाशेंत नितीशास्त्राचें वर्णन करपी सगल्या लेखकांत तें स्रेश्ठ थारतात, हातूंत दुभाव ना. नमळाय, अदंभित्व, अहिंसा, क्षमा, ऋजुताय, गुरुसेवा, शुचिताय, मनाची थिराय, आत्म-संयम, वैराग्य, अनहंकार (कर्तेपणाचो अहंकार बाळगप ना) इत्यादी सगल्या सद्गुणांची तांणी केल्ली विसकावणी मुळांतल्यानूच वाचपासारकी आसा. अहिंसा साबार तरांची आसता. शरीरान, शब्दान वा मनान कोणाकूच मात पसून दुखोवप ना हीच अहिंसा. तिनय तरांच्या अहिंसेंचें वर्णन श्रीज्ञानेश्वरान भोवूच बरें केलां. (ज्ञा. अ.१३, २४१-५५; २७८-९०; २६१-७६; २९३-३१३.)

**दुःखवाद**: संवसार दुःखान भरला अशें मानप परमार्थाक गरजेचें अशें श्रीज्ञानेश्वर म्हणटात. जल्म, मरण, म्हातारपण आनी पिडा रोग हांचेपसून जावपी दुःखांचो प्रत्यक्ष भोग भोगचे पयलीं पयसल्यानूच विचार करचो. (ज्ञा.अ. १३, ५३६-९०.) गौतम बुद्धान धम्मपदांत (जरावग्गांत) हेच तरेचे विचार मांडल्यात.

**अज्ञान-लक्षण**: दुर्गुणाविशीं श्रीज्ञानेश्वरान अशेंच ज्ञानप्रधान मत मांडलां. अज्ञान म्हणजे ज्ञानाचो अभाव म्हणजेच वयर सांगिल्ल्या

सगल्या सद्गुणांचो अभाव. ''अज्ञानं यदतोऽन्यथा'' ह्या भगवद्गीतेंतल्या सूचक विधानावयल्यान श्रीज्ञानेश्वरान खंयच्या गुणाचो अभाव म्हळ्यार अज्ञान हाचें विस्तारान विवेचन केलां. वयर सांगिल्ल्या प्रत्येक सद्गुणाक विरोधार्थक दुर्गूण आसता आनी त्या प्रत्येकाचीं लक्षणां श्रीज्ञानेश्वरान सविस्तर दिल्यांत. (ज्ञा. अ. १३, ६५३-८४२.)

**दैवी संपत्ती**: सोळाव्या अध्यायांत पर्थून ह्याच विशयाचें विवेचन वेगळ्या माथाळ्यासकल आयलां. थंय दैवी आनी आसुरी संपत्तीचें वर्णन दिलां. दैवी संपत्ती म्हळ्यार सद्गुणांची संपत्ती आनी आसुरी संपत्ती म्हळ्यार दुर्गुणाचो मेळो. (दैवी संपत्ती. ज्ञा. १६, ६८-१०८; ११३-१८५; २०७-१२; आसुरी संपत्ती: ज्ञा., अ.१६, २१७-२५२; २५३-२६३; ४०७-२२.) तेराव्या अध्यायांत ज्ञान आनी अज्ञान ह्या सदरा सकल आनी सोळाव्या अध्यायांत दैवी आनी आसुरी संपत्ती ह्या माथाळ्या सकल श्रीज्ञानेश्वरान जे विंगड विंगड नैतीक सद्गूण आनी तांचीं विकृत रुपां हांचें जें वर्णन दिलां, ताचे वयल्यान अशा मनांच्या अवस्थांची सुक्षीम विसकावणी करपाच्या कामांत ते प्रवीण आशिल्ले अशें दिसता. ज्ञानेश्वरीच्या हेर अध्यायांत आनिकय सामान्यगुणांचें वर्णन मेळटा. देखीक: दुसऱ्या अध्यायांत बुद्दीचें म्हत्व वर्णिलां; (ज्ञा. अ.२, ३७-२४२); ईश्वरप्राप्ती खातीर वैराग्याची खूब आसा अशें श्रीज्ञानेश्वर सांगता (ज्ञा. अ-६, ४७-५०); ह्याच अध्यायांत वासनांचो नाश म्हळ्यार आत्मज्ञान अशें ताणें म्हळां (ज्ञा.६, ८१-८४). ह्याच अध्यायांत प्रत्येक गजालींत सुवर्णमध्य साधप हें परमार्थाक अती गरजेचें अशें ताणें सांगलां (ज्ञा. अ-६, ३४९-५१); बाराव्या अध्यायांत साधुचे आत्यंतीक समतायेचें सुंदर वर्णन ज्ञानेश्वरान केलां (ज्ञा.अ.१२, १९७-२१३).

**यज्ञाचें स्वरूप**: सतराव्या अध्यायांत श्रीज्ञानेश्वरान यज्ञ आनी तप ह्या दोन विशयांचें उत्तम विवेचन केलां. भगवद्गीतेच्या आधारान ह्या दोनूय सद्गुणांक मानसशास्त्रीय फाटभूंय आसता अशें ताणें म्हळां. यज्ञ आनी तप हीं तीन तरांचीं - सात्त्वीक, राजस आनी तामस - अशें ताणें सांगलां. (ज्ञा. अ-१७, १७०-९४; २१६-२३; २२५-३६; २४२-५१; २५२-६२.)

**ईश्वराक शरण वचप**: श्रीज्ञानेश्वरान आपले ज्ञानेश्वरीच्या निमाण्या म्हळ्यार अठराव्या अध्यायांत ईश्वराक शरण वचप ह्या सद्गुणाचें नैतीक न्हय तर तात्त्वीक स्वरूप कितें हाचे विशीं चर्चा केल्या. ईश्वराकडेन एकरूप जावप म्हळ्यार ताका खरें शरण वचप, अशें ताणें स्पश्ट म्हळां. श्रीकृष्णाकडेन अर्जुन पूर्णपणान तन्मय जालो तेन्नाच ''तो कृष्णाक शरण गेलो'' अशें म्हणप योग्य. (ज्ञा. अ.१८, १३९८-१४१६.)

**आदर्श कर्मयोगी**: भगवद्गीतेंतल्या तत्त्वाक धरून श्रीज्ञानेश्वरान आदर्श कर्मयोगी कर्म आनी अकर्म हांच्या समन्वयान नैष्कर्म्य-सिद्धी कशी मेळयता हें साबार कडेन वर्णिलां. (ज्ञा. अ-४, ९९-१०२.) हांगा श्रीज्ञानेश्वरान, सूर्य भोंवता असो दिसलो तरी तो खरोखर थीर आसा हें खगोलशास्त्रांतलें मूळ तत्त्व सांगलां, ज्या तत्त्वांचो सोद युरोपियन राष्ट्रांकूय त्या काळांत लागूंक नासलो. फुडें, आदर्श कर्मयोग्याक नैष्कर्म्य-सिद्धी प्राप्त जाल्यारय ताका लोकांखातीर कर्तव्य करचेंच लागता. (ज्ञा. अ.३, १५५-५८; १७२-७६.)

**कर्मापासून नैष्कर्म्य-प्राप्ती**: खंयच्या आनी कसल्या कर्माचो उपदेश कर्मयोग्यान लोकांक करचो हाचेविशीं श्रीज्ञानेश्वरान अठराव्या अध्यायांत विस्तारान सांगलां. यज्ञ, दान, तप आदी गरजेचीं कर्मां निश्ठेन केल्यार रज आनी तम गुणांचो म्हेळ वता आनी मनीस सत्त्वगुणी जाता. (ज्ञा. अ.१८, १४९-६३.)

**कर्म आनी ज्ञान**: कर्म आनी ज्ञान हीं दोनूय वेगळीं अशें लोक अनादीकालासावन मानीत आयल्यात, आनी श्रीज्ञानेश्वरय भगवद्गीतेक अनुसरून कर्माचरण आनी ईश्वरज्ञान हातूंत खूब व्हडलो भेद आसा अशें सांगलां. ज्ञानाचे दिश्टीन कर्म सामकें क्षुल्लक आसा अशें श्रीज्ञानेश्वर सांगता. ईश्वराक जाणून घेतले शिवाय त्रैलोक्याचें ज्ञान जाल्यारय तें व्यर्थ अशें तो म्हणटा. (ज्ञा.अ.९, ३०७-३४.)

**कर्तव्य म्हणजेच ईश्वरीआज्ञा**: हे प्रमाण कर्मां करीत आसतनाच आध्यात्म-प्रांतांत कसो प्रवेश मेळत हे पासत धर्ममार्गाचे दिश्टीन जायतीं साधनां सुचयल्यांत. कर्तव्य म्हणून सगळीं कर्मां करची संवय लावन घेतल्यार कर्म बंधनकारक जायना. हें कर्मपासांतल्यान सुटपाचें पयलें साधन. ज्ञानेश्वरीच्या तिसऱ्या अध्यायांत परमेश्वरानच लोकांक देख दिवपाखातीर कर्म करपाक आज्ञा दिली. कर्म निश्ठेन करात; फळाची आज्ञा धरूं नाकात; व्रत नेम करूं नाकात; तीर्थयात्रा करून कुडीक कश्टावं नाकात; योगयागादीक सकाम कर्मां करूं नाकात; मंत्रतंत्रांचे भानगडींत पडूं नाकात असो उपदेश तो करता. (ज्ञा. अ.३, ८५-९४.)

**अनासक्त जावन कर्म करप**: कर्मांत खंयचेच तरेन घुसपनासतना कर्म करप हो कर्मपासांतल्यान सुटपाचो दुसरो मार्ग. अनासक्ती होच नैष्कर्म्यसिद्धी मेळोवपाचो एक उपाय. महात्मा गांधीनय हाचेरच भर दिला. आपल्या अंतस्कर्णाचेर कर्तेपणाचो पगडो बसूंक दिनासतना सगळीं कर्मां करचीं अशें श्रीज्ञानेश्वरान अठराव्या अध्यायांत सांगलां. (ज्ञा. अ.१८, १६६-७६.)

**कर्मफळाचो त्याग**: कर्मामदीं निश्कामतायेचें फळ मेळोवपाचें आसल्यार कर्मफळाक पूर्ण सोडचें हो तिसरो मार्ग. (ज्ञा. अ.१२, १२५-३४.)

**कर्म ईश्वराक ओंपप**: कर्मांतल्यान निश्कामताय जोडपाचो सगळ्यांत स्रेश्ठ मार्ग म्हळ्यार सगळीं कर्मां ईश्वराक ओंपचीं अशें श्रीज्ञानेश्वरान सांगलां. (ज्ञा. अ.९, ४००-४०५; अ.१२, ११४-२४; अ.१८, ९१६-९२२.) हे भाशेन, कर्मांतल्यान नैष्कर्म्य जोडपाचे चार मार्ग

सुचयल्यात. समाजीक जबाबदारी म्हणून कर्म करप हो पयलो मार्ग; आसक्तीविणें कर्म करप हो दुसरो मार्ग; कर्माच्या फळाचो त्याग करप हो तिसरो; आनी सगलीं कर्मां ईश्वराक ओंपप हो निमाणो, चवथो आनी चड विधायक मार्ग.

**सत्त्व-रज-तम ह्या गुणांपसून येवपी विविध मनाच्यो वृत्ती**: सात्त्वीक, राजस आनी तामस ह्या तीन तरांच्या मानसीक प्रवृत्तींच्या आधारान नैतीक मनाधर्याचेय सात्त्वीक, राजस आनी तामस अशे विविध प्रकार मानपाक येतात, हें मत आतां सर्वमान्य जालां. आतां सात्त्वीक, राजस आनी तामस गूणधर्म मनशाच्या मनांत कशे उप्रासतात हाची विसकावणी श्रीज्ञानेश्वरान बारकायेन चौदाव्या अध्यायांत दिल्या. (ज्ञा.१४, १३९-१५४; १६१-१७२; १७४-९४.)

**गूणत्रयाचो त्याग**: त्रिगुणाचो शेक जांच्या मनाचेर आसा ताचें साधारण वर्णन वयल्या होंवयांत केलां. ह्या गुणांचे पेल्यान हजारांतल्यान एकाद्रोच वता. तांच्या बंधनांतल्यान सुटप, आत्मस्वरुपाकडेन एक जावप आनी हे भाशेन त्रिगुणातीत जावप म्हणजेच खरी मुक्ती. (ज्ञा. अ.१४, २८७-३१५.)

**अश्वत्थ-वृक्षाचें (भववृक्षाचें) हुमटावप**: हे प्रमाण गुणांच्या बंदेपणांतल्यान मनशाक मुक्त जावपाक येता. तशेंच, असत्यरुपी अश्वत्थरुखाचें हुमटावप सदाचरणान कशें करपाक येता हाची विसकावणी दुसऱ्या एका रुपकान केल्या. तें जावपाक पयलीं मनशाचें मन वैराग्यपुराय जावपाक जाय. (ज्ञा.अ. १५, २५५-६५.)

त्रिगुणाचें बंदेपण सोडप वा भवरुखाक हुमटावप होच ईश्वरप्राप्तीचो मार्ग हाची विसकावणी श्रीज्ञानेश्वरान केल्या. तेच भाशेन काम (खर इत्सा), क्रोध (तिडक) आनी लोभ हे परमार्थांतले मारेकार आसून तांचो नाश केलेबगर परमेश्वर प्राप्ती जायना अशें गीतेप्रमाण ज्ञानेश्वरींतय सांगलां. (ज्ञा. अ.१६, ४२४-४३.)

## साक्षात्कार

**ईश्वरप्राप्तीचो मार्ग**: आत्मप्राप्तीच्या मार्गाची वाट दाखोवप हो सगल्याच संतांचो आवडीचो विशय. श्रीज्ञानेश्वरान ह्या मार्गाचें वर्णन जायत्या तरांनी करपाची पराकाश्टा केल्या. ''हो पंथराज निमाणे मेरेन कोणूच पांथस्थ चलून वचूंकच शकना'' अशें ज्ञानेश्वर म्हणटा. ''ह्या मार्गान चलपाक लागतकच आपणाक ज्या गांवाक वचूंक जाय, तो गांव आपूणच जाता, हो ह्या मार्गाचो विशेश आसा.'' (ज्ञा. अ.६, १५२-६०.)

**पंथराजाच्यो चार वृक्षराजी**: भगवद्गीतेक अनुसरून श्रीज्ञानेश्वरान ह्या पंथराजाच्यो चार वृक्षराजी आशिल्ल्याचें वर्णन दिलां. ''सांख्य-दर्शनाचो मार्ग धरून ज्ञान मार्गान वचप, ध्यानमार्गान वचप, कर्ममार्गाची वाट धरप, आनी निमाणो मार्ग म्हळ्यार, आपलो अभिमान सोडून, गुरूचेर विश्वास दवरून, अज्ञान तिमिराचो नाश करून, ईश्वरप्राप्ती करून घेवप.'' (ज्ञा.अ.१३, १०३७-४७.) ज्ञानयोग, ध्यानयोग आनी कर्मयोग हांचे इतलोच भक्तीयोग स्रेश्ठ मानला. स्रेश्ठ गुरूच्या उपदेशान जो वागता, ताका हेर मार्गांवयले क्लेश सोंसपाचें लागना, आनी सहज आत्मज्ञान मेळटा.

**सगल्या आपत्तींत ईश्वराचो सोद**: जल्म दुःखमय आशिल्ल्यान मनशाचेर कितलींय संकश्टां कोंसळ्ळीं, तरी तातुंतल्यान ईश्वरप्राप्तीचो मार्ग ताणें काडचो. ईश्वराचो सोद घेतल्यारच, मनशाच्या ह्या जिवितांतलीं दुःखां ना जातलीं. (ज्ञा.अ. ९, ४९०-५१६.)

**दृढ भावनेन ईश्वरप्राप्ती**: मानसशास्त्राचे दिश्टीन खंयचीय तीव्र भावना ईश्वराकडेन घेवन वता अशें दिसता. हे प्रमाण तीव्र प्रेम, भंय वा द्वेश हांचे पयकीं खंयचेय भावनेच्या आधारान परमेश्वर प्राप्ती जाता अशें ज्ञानेश्वरान सांगलां. (ज्ञा. अ.९, ४६५-४७०.)

**दुराचाऱ्याकय परमेश्वर प्राप्तीची आशा**: जांणी आपलें जिवीत अधमपणांत आनी पापकर्मांत सादलां, त्या पातक्यांकय सुधारपाची आशा श्रीज्ञानेश्वरान दाखयल्या. तांणी फकत परमेश्वराविशीं भक्ती बाळगूंक जाय. पातक्यांक आनी पतितांक लेगीत साधू जावप शक्य आसा अशें श्रीज्ञानेश्वरान म्हळां. (ज्ञा. अ.९, ४१८-२८.) ईश्वरभक्तींत कूळ आनी जात ना अशेंय श्रीज्ञानेश्वर आश्वासन दितात. (ज्ञा. अ.९, ४४१-६१.) तशेंच भक्तीनय ईश्वर प्राप्ती जाता अशें तो सांगता. (ज्ञा. अ.९, ४३०-४०; अ.११, ६८५-९०; अ.९, २५०-६१.)

इंद्रियां वरवीं मेळिल्ल्या सुखांचो त्याग करून ईश्वर आनी ताचे भक्त हांचेर विश्वास दवरप हें परमार्थ मार्गावयले प्रगतीचें पयलें सोंपण. (ज्ञा. अ.१०, १४४-१७२.)

**सद्गुरूचे कुर्पेनय ईश्वरप्राप्ती** जावंक शकता, देखून संतांची सेवा करची अशें श्रीज्ञानेश्वर सांगता. (ज्ञा. अ.४, १६५-७१.) सद्गुरू लेगीत योग्य वेळ येतकीच भेट्टा अशें श्रीज्ञानेश्वर सांगता. (ज्ञा. अ.१८, ९५८-९९१). तशेंच, ईश्वराकडेन ऐक्य सादपाक नाम आनी कीर्तन हें एकूच साधन भक्तीसंप्रदायान सांगलां. (ज्ञा. अ.९, १९७-२०९) ईश्वरप्राप्तीचीं नामस्मरणा परसूय कांय योगसाधनां आसात. हटयोग होय तातूंतलो एक मार्ग श्रीज्ञानेश्वरान सांगला. (ज्ञा. अ.८, ८१-८३.) अभ्यासयोगाचें म्हत्वय ताणें सांगलां. (ज्ञा. अ.१२, १०४-१३.) योगअभ्यासाचे सुवातेचें वर्णन श्रीज्ञानेश्वरान सव्या अध्यायांत केलां (ज्ञा. अ.६, १६३-१७९). अशे सुवातेर ध्यानाक बसतकच कुंडलिनी जागी जाता आनी कालांतरान अनाहत नाद आयकुपाक येता (ज्ञा. अ.६, २७४-७९). ह्या योग मार्गांतल्या अडचणींची कल्पना श्रीज्ञानेश्वराक आसा. भक्तीमार्गापरस हो मार्ग कित्याक कठीण हें ताणें सांगलां. (ज्ञा. अ.१२, ६०-७५). भक्तान सदांच आपले भायर-भितर सगलेकडेन परमेश्वराक पळोवचें. (ज्ञा. अ.११, ५१९-३२)

परमात्मो ज्या अनेक रुपांनी परगट्टा, तातुंतलें तेज हें एक मुखेल रूप आसा अशें दिसता. (ज्ञा. अ.८, ८०-९०). देव कापुराची दिव्य दिवटी हातांत घेवन, तत्त्वज्ञानान शुद्ध जाल्ल्या ज्ञानियांक परमार्थ-मार्ग दाखोवपी दिवटेकार जाता अशें ज्ञानेश्वर म्हणटा. (ज्ञा., अ.१०, १४१-४३.) आत्म्याच्या ह्या अनंत तेजाचें वर्णन अकराव्या अध्यायांतय दिलां. (ज्ञा., अ.११, २३७-४१.) घडये तो श्रीज्ञानेश्वराचोच प्रत्यक्ष अणभव आसुंयेत, फकत तो संजयाच्या मुखांतल्यान आमी तो आयकतात.

**अंतर्बाह्य आत्मदर्शन**: अर्जुनान विश्वरूप पळयलें तेन्ना परमात्मो आत्मज्ञानामुखार खंयच्या रुपान परगट्टा हाचें वर्णन श्रीज्ञानेश्वरान इकराव्या अध्यायांत केलां (हों. २२६-३४). अर्जुनाचे दिश्टीक स्वर्ग-पाताळ वा भूंय-अंतराळ हो भेद रावंक नाशिल्लो. सगळें विश्वच ईश्वरान भरिल्लें. त्या अणभवाचें वर्णन फुडें आयलां. (हों. २७१-२७९).

**आत्मसाक्षात्कार**: साधकाक आत्मसाक्षात्कार कसो घडटा हाचें श्रीज्ञानेश्वरान सुंदर वर्णन पंदराव्या अध्यायांत केलां. हें वर्णन इकराव्या अध्यायांत दिल्ल्या विश्वरुपाच्या वर्णनापरस मातशें वेगळें आसप सभावीक आसा. पंधराव्या अध्यायांत आत्मदर्शन कशे तरेचें आसता हाचें वर्णन वाचपासारकें आसा. (हों. २६६-२८३). आत्मानंद भोगप म्हळ्यार सुखाचे तेमकेचेर वचप. जाणें आत्मानंद भोगलो ताची विशयसुखाची इत्सा आपशींच सरता अशें श्रीज्ञानेश्वर सांगता (ज्ञा. अ.५, १०५-१०८). हीच कल्पना पर्थून बाराव्या अध्यायांत मांडल्या. आत्मसुखाक जगांत सर ना, म्हणून आत्मज्ञाक विशयसुखाची लालसा उरना. (ज्ञा., अ.१२, १९०-१९६; अ.२., ३६२-३६७; अ.१०, १९२-२००). साधकाक मेळपी आनंदाची ही परिसिमाच.

ईश्वरी साक्षात्काराचे साधकाच्या शरीराचेर, मनाचेर आनी आचरणाचेर कसले परिणाम जातात हाचोय अभ्यास श्रीज्ञानेश्वरान केला आनी तो ताणें आठव्या अध्यायांत मांडला (होंवी २४८-५७). शरीराविशीं साधक उदासीन जाता आनी ही स्थिती दीर्घ अभ्यासानच ताका मेळटा हाची विसकावणी ताणें सव्या अध्यायांत केल्या (हों. १८६-९१; ३६१-३६७). आत्मानुभवाचे नैतीक परिणामय साधकांत दिसूंक लागतात. ताचें वर्णन दुसऱ्या, तिसऱ्या आनी सव्या अध्यायांत मेळटा (अ.२, २९७-३००; अ.३, ६८-७४; अ.६, ९२-१०४). ईश्वरी साक्षात्कार जाल्ल्या साधुचें वर्णन पंदराव्या अध्यायांत रुपका वरवीं सांगलां (हों. २८४-३०४). तशेंच, ज्ञानेश्वरीच्या चवदाव्या अध्यायांत ईश्वराकडेन एकरूप जाल्ल्या आत्मज्ञांचीं आनीक कांय लक्षणां दिल्यांत (हों. ३२०-४८; ३५०-६६; ३७२-४००).

**अष्टसात्त्वीक भाव**: परमेश्वराच्या दर्शनान शारिरीक आनी मानसीक परिणामाचें कितें जाता, हाचें रहस्य श्रीज्ञानेश्वरान इकराव्या अध्यायांत सांगलां. हें वर्णन भारतीय अनुभुतीशास्त्रांत 'अष्टसात्त्वीक भाव' ह्या नांवान प्रसिद्ध आसा. (हों. २४५-५२). परमार्थांत साधकाची प्रगती जावंक लागतकच ताच्या अंतस्करणांत भंय आनी आनंद ह्या दोन भावांमदीं कशी सर्त सुरू जाता हें अर्जुनाचे बाबतींत स्पश्टपणान दिसून येता (ज्ञा. अ.११, ३६६-७०). ह्या भंयाचे उरफाटें अद्वैत-स्वरुपानंदाचें वर्णन पांचव्या अध्यायांत दिलां. अनुभुतीचे भयानकतायेक लागून भंय दिसता, तर नाविन्याक लागून आनंद जाता. ऐक्यभावांत अनंत आनंदाचो झरो आसता (ज्ञा. अ.५, १३१-३५).

ही ऐक्यभावाची स्थिती खूब थोड्या लोकांच्या अणभवाक येता. परमार्थमार्गावयल्या प्रत्येक साधकाच्या नशिबांत हो अणभव येता अशें म्हणपाक येवचें ना अशें श्रीज्ञानेश्वरान मुद्दाम सांगलां. शेवटची मोख गांठपी साधक विरळो अशें सातव्या अध्यायांत ताणें स्पश्टपणान सांगलां (हों. १०-१३).

**क्रम-मुक्ती**: परमार्थांत मुक्ती पुरायपणान क्रमाक्रमान मेळटा हें श्रीज्ञानेश्वरान स्पश्टपणान सांगलां. परमार्थ मार्गाचेर पावल दवरतकीच अंतीम ध्येय गांठपाचें हुतहुतेपण कोणेंच करचें न्हय (ज्ञा.अ.१८, ९९६-१००८).

**क्रम-मुक्तीचो खरो अर्थ**: ज्ञानेश्वरींतल्या निमाण्या अध्यायांत श्रीज्ञानेश्वराच्या तत्त्वज्ञानाची परिणती जाता. ह्या अध्यायांत ताणें परमेश्वर प्राप्ती क्रमानच जाता अशें सांगलां. जीव परमात्म्याच्या सामको लागीं पावता, पूण ताचेकडेन एकरूप केन्नाच जायना, असो हे क्रम-मुक्तीचो भावार्थ आसा. ताचें वर्णन अठराव्या अध्यायांत सुंदर तरेन केलां (हों. १०४७-९०).

श्रीज्ञानेश्वरान जीव आनी ईश्वर हांच्या ऐक्याविशीं कितें सांगलां तें म्हत्वाचें आसा. संतांक ईश्वर हो एकूच सर्वंकश विशय आसता आनी तांचें ऐक्य हो उलोवपाचो आनी अर्थ नाशिल्ल्या शब्दांचो नासता, तर प्रत्यक्ष अणभवचेलोच आसता (ज्ञा. अ.७, १३०-३४). भक्तांचें परमेश्वराचेर अव्यभिचारी प्रेम आशिल्ल्यान, तांचेबद्दल तशेंच प्रेम करपी संतांविशींय ताका तितलेंच उत्कट प्रेम दिसता. अश्या भक्तांच्या आपापसांतल्या सूख-संवादाचें वर्णन ज्ञानेश्वरान धाव्या अध्यायांत उत्तम तरेन केलां (हों. ११९-२८).

**भक्तांच्या योगक्षेमाची देवाक काळजी**: संतांचो योगक्षेम चलोवप हें देव आपलें कर्तव्य मानता अशें श्रीज्ञानेश्वरान पर्थें पर्थें स्पश्ट केलां (अ. ९, ३३५-४२; अ.१२, ७६-८५; अ.१०, १२९-३९). भक्तान दिल्ली सामकी क्षुल्लक वस्तूय देव आनंदान स्विकार करता अशें श्रीज्ञानेश्वर सांगता, मागीर तें फळ, फूल वा पान वा उदकय आसूं (ज्ञा. अ.९, ३८२-९६). भक्त देवाचेर नितांत प्रेम करता म्हणून ताच्या मोबदल्यांत देव ताका आपल्या माथ्यावयलो मुकूटच मानता (ज्ञा. अ.१२, २१४-३७). भक्ताक परमार्थ-मार्गाचेर ईश्वरच व्हरता आनी ताका मुक्ती दिता अशें श्रीज्ञानेश्वर सांगता (ज्ञा. अ.१२, ८७-९६). भक्ताच्या मरणाचे घटके वेळारय आपल्या भक्तांचेर विशेश कृपा करता

आनी तांकां आपलेकडेन सुखान घेवन वता (ज्ञा. अ.८, १२०-१३३). देवाकडेन एकरूप जाल्ल्या संतांची भायली चलणूक कशी आसता हाचेंय वर्णन श्रीज्ञानेश्वरान केलां (अ.९, १८६-९६; अ.१८, ११३०-८३).

अठराव्या अध्यायाचे शेवटीं सामरस्य-प्रेमाचें वर्णन एका परिच्छेदांत केलां. थंय संजय धृतराष्ट्राक कृष्ण आनी अर्जुन हांचे समरसतायेचें वर्णन करता आनी तें करतना तो ऐक्य-भावनेन इतलो व्हांवून वता की तो स्वताच त्या दोगांयकडेन समरस जाता. श्रीकृष्ण-अर्जुनाच्या प्रेमन्हंयांच्या संगमांत संजय मिठाचे बावलेवरी पडलो आनी त्या संगमाच्या पाणयांत पुरायपणान विरून गेल्ल्यान तो दोगांयच्या प्रेमाकडेन अभिन्नच रावलो. संजयान म्हळें: ''आगा धृतराष्ट्रा, पूर्व आनी पश्चीम सागरांमदीं फक्त नांवाचोच फरक आसता, पूण खऱ्यांनी पळेशी जाल्यार उदक एकूच आसता. शरीराकडेन पळेल्यार श्रीकृष्ण आनी अर्जुन वेगळे दिसताले, पुणून आत्मसंगमाकडेन पळयल्यार ते पूर्णपणान एकूच आसले. श्रीकृष्ण आनी अर्जुन एकामेकांमुखार दवरिल्ल्या दोन निवळ हारश्यांभाशेन आशिल्ले, आनी एकाचीं अनंत पडबिंबां दुसऱ्यांत पडटालीं. अर्जुनान श्रीकृष्णासयत आपणाक श्रीकृष्णामदीं पळयलें, आनी संजयान त्या दोगांकूय एकदम एकठांय पळयलें! श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांचेमदीं भेद नाशिल्लो जाल्यार तांचो संवाद जावंचोच नासलो; तांचेमदीं भेद आशिल्लो जाल्यार समरसताय अशक्य जातली आसली. संजयान तांचो संवादय आयकलो आनी सामरस्यय पळयलें. तथापि, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन एकरूपच आसले. एक हारसो दुसऱ्याफुडें दवरतकीच बिंब आनी पडबिंब हांचेमधलो भेद ना जाता. एक हारसो दुसऱ्याफुडें दवरतकीच खंयच्या हारशाचें पडबिंब दुसऱ्यांत पडटलें? समजा, एका सुर्याफुडें दुसरो सूर्य दवरलो, जाल्यार उजवाडावपी कोण आनी उजवाड घेवपी कोण? अश्या वेळार द्वैताचो निर्धार करप व्यर्थ आसता. एकठांय भरशिल्ल्या उदकाचो भेद सांगपाक मीठ गेल्यार, तें खिणाभितर त्या दोनूय उदकांत विरून वता. तेच भाशेन, ''कृष्ण आनी अर्जुन एकरूप जातकच हांवूय तांच्यांत समरस जालों...'' ताचो कंठ सद्गदीत जालो आनी उतरां भायर सरना जालीं (ज्ञा. अ.१८, १५८९-१६०६).

### ज्ञानेश्वरीचो उपसंहार

ज्ञानेश्वरीच्या उपसंहारांत श्रीज्ञानेश्वरान दोन गजाली सांगल्यात: (१) परमेश्वर जाचो सहकारी जाता, ताचें जैत थारिल्लेंच आसता, आनी (२) परमेश्वर विजयरूप आशिल्ल्यान तो जे वटेन आसता, ताचो विजय खंयचेय परिस्थितींत जातलोच. तो सांगता: ''जंय चंद्र आसता, थंय चान्नें आसता; जंय शंभु थंय अंबिका आसता; जंय संत थंय विवेक आसता... जंय धर्म थंय सूख, जंय सौजन्य थंय इश्टागत, जंय दया थंय धर्म, जंय सूख थंय पुरुषोत्तम आसता.'' हें सगलें मुळांतल्यानूच वाचून ताची गोडी चाखपाची. संजय फुडें सांगता; ''अर्जुन आसा थंय विजय आसाच; कारण, तो देवाचो खूब आवडीचो भक्त. धृतराष्ट्रा, व्यासाच्या वचनाचेर तुजो विश्वास आसत जाल्यार हांव सांगतां ताचेर विश्वास दवर. ''जंय श्रीवल्लभ आसा, थंय भक्ताचो मेळो आसता आनी थंय सूख आनी मंगल हांचोय लाव जाता.'' हीं म्हजीं उतरां फट थारत जाल्यार व्यासाचें शिश्यपण हांव सोडून दियन,'' अशें आपले दोनय हात उबारून संजयान गाजून म्हळें (ज्ञा. १८, १६३३-५९).

**प्रसाद-दान**: श्रीनिवृत्तिनाथाच्या कृपाप्रसादान ह्या 'धर्मकीर्तना'ची सांगता जाली. मागीर हो वाग्यज्ञ सोंपलो. ताचे उपरान्त श्रीज्ञानदेव समस्त प्राणीमात्रांखातीर प्रसाद-दान मागता. तो म्हणटा: ''म्हज्या ह्या वाग्यज्ञान विश्वरुपी देव संतुश्ट जावं, आनी संतुश्ट जावन म्हाका हें प्रसाद-दान दिवं! दुश्टांची दुश्टपणाचें वांकडेपण मोडून तांची सत्कर्माविशीं आवड वाडूं. जगांतल्या सगल्या प्राणीमात्रांमदीं इश्टागत नंदूं. पातकांचो काळोख सरूं. सगल्या विश्वाक स्वधर्मसूर्याचो प्रकाश मेळूं. जो जो प्राणी जें जें वांशीत तें तें सगलें ताका मेळूं. सगले मंगलतायेचो शिंवर करपी संतांचे मेळे पृथ्वीवयल्या प्राणिमात्रांक सदांच आनी अखंड भेटूं. ते खऱ्यांनीच कल्पवृक्षाचे चलते-भोंवते बागोच आसात; चिंतामणयांची जणूं कितें खणूच; अमृताचे उलोवपी सागरच; कलंका विरयत चंद्र आनी तापा विरयत सूर्यच! ते संत सदां सगल्यांचे सोयरे जावंदी. चड कितें उलोवं, तिनूय लोक सगल्या सुखांनी पूर्ण जावन आदिपुर्साक अखंड भजूंदी! ह्या ग्रंथाचेर जे जियेतले, तांकां दृश्ट-अदृश्टांत विजय मेळूं! श्रीविश्वेश्वरान हे विनंतीक, ''हय, हें प्रसाद-दान तुका मेळटलें'' अशें म्हळें आनी ह्या वरदानान श्रीज्ञानेश्वर सुखी जालो (ज्ञा. अ.१८, १७९४-१८०२).

श्रीज्ञानेश्वरी हें साहित्यीक मोल आशिल्लें अलौकीक काव्य, तशेंच तो भारतीय तत्त्वगिन्यानाचेर आधारिल्लो एक प्रबंध. तातुंतल्या काव्याचो आस्वाद घेतना, आनी शब्दकळेकडेन लक्ष दितना, ताचो अर्थय समजप म्हत्वाचें. जे विचार श्रीज्ञानेश्वरान मांडल्यात, ताचेर खोलायेन विचार करप गरजेचें. कोंकणी वाचकांकडल्यान अशें चिंतन सोंपेपणान जावंचें म्हणून घडये हो अणकार श्रीज्ञानेश्वरानच म्हजे कडसून करून घेतला जावंये. पुर्विल्ले मराठी भाशेंतलें काव्य हो म्हज्या व्यासंगाचो विशय नाशिल्लो. पूण 'धम्मपद', 'भगवद्गीता' आनी 'तिरुक्कुरळ' ह्या ग्रंथांचो अभ्यास आनी अणकार करतां करतां हांव एक दीस ज्ञानेश्वरीसरीं पावलों. तिणें म्हजेर मोहिनी घाली आनी पांच वर्सां हांव ज्ञानेश्वरीमय जालों.

अठराव्या अध्यायांत सगल्या अंतर्वृत्तीमदीं एकली बुद्दीच सगल्यांत स्रेश्ठ हें सांगतना श्रीज्ञानेश्वरान कांय देखी दिल्यात: आनी ऋतु बरवा शारदु । शारदीं पुढती चांदु । चंद्रीं जैसा संबंधु । पूर्णिमेचा ।१८-३४४। कां वसंतीं बरवा आरामु । आरामीं ही प्रिय संगमु । संगमीं

आगमु । उपचारांचा । १८-३४५। (रुतुमदीं बरो शरदु । तांतुं उदेलो चंद्रु । चंद्रीं जसो संबंधु । पुनवेचो ।३४४। वा वसंतीं चंद बाग । तातूंत प्रियाचो संग । मगे सरबराय चांग । जावंची थंय ।३४५।

ह्या दृष्टांता उपरांत फुडें एक म्हत्वाचो दृश्टांत दिला: वाचे बरवें कवित्व । कवित्वीं बरवें रसिकत्व । रसिकत्वीं परतत्त्व । स्पर्शु जैसा ।१८-३४७। (वाणींत आसचें कवित्व । कवित्वांतय रसिकत्व । रसिकत्वांतय परतत्त्व । स्पर्शुचें जशें ।३४७। तशी सर्ववृत्तीं वैभवीं । बुद्दीच एकली बरवी । बळ इंद्रियांचें बी । लाभचें बुद्दीक ।३४८। बुद्दीची स्रेश्ठताय सिद्ध करपाच्या नादांत हे होंवयेंत ज्ञानेश्वरांनी तांकां स्वताक अभिप्रेत आशिल्ली साहित्या विशींची मुल्यांची परंपरा सांगून उडयल्या. ज्ञानेश्वरांनी मांडिल्ली मूल्यपरंपरा अशी आसा: वाक् म्हळ्यार वाणी ही सगल्या वाङ्मयाची बुन्याद. वाणींत कवित्व म्हळ्यार काव्य, काव्यांत रसिकताय, आनी रसिकतायेंत परतत्त्व विचार, असो हो क्रम. सौंदर्यतत्त्वांक लागून वाचेक कवित्वाचें रूप लाभता आनी परतत्त्व विचाराची जोड मेळटकीच तें साहित्य व्हड पदवेक पावता, असो श्रीज्ञानेश्वराचो आशय. जातूंत रस चड प्रमाणांत आसा तेंच उच्च साहित्यीक मुल्य आशिल्लें काव्य. सौंदर्य ही साहित्याची बुन्याद आनी परतत्त्व हें ताचो कळस अशें ज्ञानेश्वराचें मत. वाग्विलास विस्तारून जगाक आनंदाचें निधान प्राप्त करून दितकीच (१३-११६०), विवेक उलोवंक लागूं, काना वांगडाच मन लेगीत कृतार्थ जावं आनी प्रत्येकाक ब्रह्मविद्येची खण सांपडूं (१३-११६१) अशी इत्सा परगटायतकीच ज्ञानेश्वर म्हणटा:

> दिसे परतत्त्व डोळां । पाहो सुखाचा सोहळा ।
> रिघो महाबोध सुकाळा- । माजीं विश्व ।१३-११६२।

> *परतत्त्व दोळ्यां दिसूं । सुखा सुवाळो दिसूं ।*
> *जगीं सुकाळु जावूं । महाबोधाचो ।१३.११६२।*

परतत्त्वाची जोड होच ज्ञानेश्वरांचे दिश्टीन खरो 'सुखाचो सुवाळो'. ब्रह्मविद्येचो सुकाळ जावन तो सगल्या विश्वाक पळोवंक मेळूं अशें तांकां दिसता. होच 'रसिकत्वीं परतत्त्व स्पर्श.' परतत्त्वाची जोड मेळ्ळे वीण रसिकत्वाचेंय सार्थक ना आनी कवित्वाचेंय.

ज्ञानेश्वरीचें हें अनुसर्जन घडटना, म्हजी जीण परतत्त्वाच्या अखंड स्पर्शान उजळ्ळी आनी म्हजी तांकय नासतना ज्ञानेश्वरीचो हो अणकार सिद्ध जालो. म्हणूनच 'इदं न मम' (हें म्हजें न्हय) अशी हे कृतीविशीं म्हजी भावना. ईश्वरान आपले कृपेचें उपाट न्हाण म्हाका घालें, देखुनूच हें शक्य जालें.

श्रीज्ञानेश्वरांनी हो काव्यप्रबंध पंडितां पासत बरोवंक नाशिल्लो. तो तांणी पिडिल्ल्या लोकांच्या मनाक समाधान मेळचें म्हणूनच बरयल्लो, हें तांचेच सांगणेवेल्यान स्पश्ट दिसता.

> मर्ग आर्ताचे नि वोरसें । गीतार्थ ग्रंथन मिसें ।
> वर्षला शांत रसें । तो हा ग्रंथु ।१८.१७६१।

> *मगे पिडिल्ल्यांचे कळवळीनु । गीतार्थाच्या निमित्तानु ।*
> *शांतरसाचें जालें वर्शणु । तोच हो ग्रंथ ।१७६१।*

पिडिल्ल्यांक आश्वासक समाधान मेळचें ह्याच एका हेतून आपणें गीतार्थाच्या निरुपणाचें फकत निमित्त केलां आनी शांतरसाची वृश्टी केल्या अशें ज्ञानेश्वरान स्पश्ट म्हळां. निरुपणाखातीर 'गीता'च कित्याक घेतली आनी 'ब्रह्मसूत्रां' वा 'दशोपनिषदां' कित्याक निवडलींनात हाचें कारण सामकें उक्तें आसा. पिडिल्ल्यांच्या उबगल्ल्या मनाचें समाधान करचें आसलें. भक्ती तत्त्वाचो प्रसार आनी पुरस्कार करचो आसलो आनी हें करपाखातीर 'गीता' हो समन्वयवादी प्रबंधच तांचे दिश्टीन खरो उपेगी आसलो. ते म्हणटात;

> याकारणें मियां । श्रीगीतार्थ मऱ्हाठिया ।
> केला लोकां ययां । दिठीचा विषो । १८.१७३५

> *म्हणून हांवें मराठींत । सांगलो लोकांक गीतार्थ ।*
> *जो दिसतलो स्पश्ट । तांकां । १८.१७३५*

सगल्या लोकांच्या, चड करून नेणार, अशिक्षीत अश्या सामान्य लोकांक गीता समजुची अशी ज्ञानेश्वरांची इत्सा आसली. म्हणूनच तांणी 'आबाल सुबोधें वोवियेचेनि प्रबंधें' (१८.१७४२) परतत्त्वाचें निरूपण करचें थारायलें. व्यासानय गीता सामान्य मनशांखातीरच रचिल्ली अशेंय ज्ञानेश्वरांनी म्हळां:

> तैसें शब्दें जें नलभे । ते घडुनियां अनुष्टुभें ।
> स्त्रीशूद्रादिप्रतिभे । सामाविलें ।१८.१६९९ ।

> *तशें जें शब्दां पेल्यानु । तें अनुष्टुभांत घालूनु ।*
> *स्त्रीशुद्रादिकांचे बुद्दीकु । केलें सोंपें ।१८.१६९९।*

श्रीज्ञानेश्वरांनी गुरु माऊलीकडेन आनी एक वरदान मागलें, 'मऱ्हाठियेचां नगरीं । ब्रह्मविद्येचा सुकाळु करी । घेणे देणे सुखचिवरी । हो देईं या जगां' ।१२-१६। (मराठीचे नगरीं। तरतर ब्रह्मविद्येचो करी। जगीं देणेंघेणें जावंदी तरी। सुखाचें।१६।)

श्रीज्ञानेश्वराच्या काळांत सगलें ब्रह्मज्ञान संस्कृत भाशेंत आशिल्ल्यान सामान्य लोक आध्यात्माक पारखे जाल्ले. ह्या मराठी भाशेच्या गांवांत आत्मज्ञानाचो तरतर जातलो आनी ह्या जगांत केवळ ब्रह्मसुखाचेंच देणें घेणें जातलें असो आशिर्वाद ते मागतात. त्या संवादांतल्यान अद्वैताचो, उदारमत्तवादाचो, सहिष्णुतेचो आनी समजिकायेचो मंत्र सगल्यांमेरेन पावचो अशी तांची आस्त आसली.

आयज, हेर साहित्यांतले मोलादीक विचार कोंकणींत येवची गरज आशिल्ल्यान, माऊलीकडल्यान म्हाका प्रेरणा मेळ्ळी आनी हें अनुसर्जन

करपाचो तांचो आदेश जालो अशी म्हजी भावना. पांच वर्सां निरंतर चलिल्लो हो वाग्यज्ञ म्हजेकडल्यान ताणें पूर्ण करून घेतला. २ फेब्रुवारी, २००० ह्या दिसा सुरू जाल्लो हो यज्ञ आयज सोंपता. मदल्या काळांत म्हजेर जिवावयलीं संकटां आयलीं खरीं, पूण देवा दयेन तीं म्हाका बादलिंनात. ह्या वावराचो, ह्या अनुसर्जनाचो सगलो भार ईश्वरानूच आपल्या आंगार झेललो आनी तो तडीक व्हरूंक म्हाका प्रेरणा, स्फूर्त आनी शक्त दिली.

ही कोंकणी ज्ञानेश्वरी वाचतना म्हजे भाशेनूच तुमचेंय जिवीत परतत्त्वाच्या स्पर्शान उजळूं हें मागणें देवालागीं करून हांव तुमचो निरोप घेतां.

माघ शु. १४
२२ फेब्रुवारी, २००५
गुरुकुंज, दत्तवाडी
म्हापसा, गोवा.

सुरेश गुं‌डु आमोणकार

देवा तूंच

देता सगळ्यां मतींक प्रकाश



# ।। ज्ञानेश्वरी ।।

### अध्याय पहिला

श्रीगणेशाय नम: । ॐ नमो जी आद्या । वेदप्रतिपाद्या । जय जय स्वसंवेद्या । आत्मरुपा ।१ । देवा तूंचि गणेशु । सकलमतिप्रकाशु । म्हणे निवृत्तिदासु । अवधारिजो जी ।२ । हें शब्दब्रह्म अशेष । तेचि मूर्ति सुवेष । तेथ वर्णवपु निर्दोष । मिरवत असे ।३ । स्मृति तेचि अवयव । देखा अंगीकभाव । तेथ लावण्याची ठेव । अर्थशोभा ।४ । अष्टादश पुराणें । तींचि मणिभूषणें । पदपद्धती खेवणें । प्रमेयरत्नांची ।५ । पदबंध नागर । तेंचि रंगाथिलें अंबर । जेथ साहित्य वाणें सपूर । उजाळाचें ।६ । देखा काव्यनाटका । जें निर्धारितां सकौतुका । त्याचि रुणझुणती क्षुद्रघंटिका । अर्थध्वनि ।७ । नाना प्रमेयांची परी । निपुणपणें पाहतां कुसरी । दिसती उचित पदरें माझारीं । रत्नें भलीं ।८ । तेथ व्यासादिकांच्या मती । तेचि मेखळा मिरवती । चोखाळपणें झळकती । पल्लवसडका ।९ । देखा षड्दर्शनें म्हणिपती । तेचि भुजांची आकृती । म्हणऊनि विसंवादें धरिती । आयुधें हातीं ।१० । तरी तर्कु तोचि फरशु । नीतिभेदु अंकुशु । वेदान्तु तो महारसु । मोदकु मिरवे ।११ । एके हातीं दंतु । जो स्वभावता खंडितु । तो बौद्धमतसंकेतु । वार्तिकांचा ।१२ । मग सहजें सत्कारवादु । तो पद्मकरु वरदु । धर्मप्रतिष्ठा तो सिद्धु । अभयहस्तु ।१३ । देखा विवेकवंतु सुविमळु । तोचि शुंडादुंडु सरळु । जेथ परमानंदु केवळु । महासुखाचा ।१४ । तरी संवादु तोचि दशनु । जो समताशुभ्रवर्णु । देवो उन्मेषसूक्ष्मेक्षणु । विघ्नराजु ।१५ । मज अवगमलिया दोनी । मीमांसा श्रवणस्थानीं । बोधमदामृत मुनी- । अली सेविती ।१६ । प्रमेयप्रवाल सुप्रभ । द्वैताद्वैत तेचि निकुंभ । सरिसे एकवटत इभ- । मस्तकावरी ।१७ ।

---

**अर्थ:** (१) मुळचो; सगल्यांत आदलो; परमात्मो. सगलें विश्व परमात्म्यापसून जाल्ल्यान परमात्मो विश्वांतल्या खंयच्याय पदार्थापरस वा वस्तुपरस पुर्विल्लो. (२) प्रणव; एकाक्षर ब्रह्म. ॐ हें ध्वनीचें मूळ रूप. हो सभावीक सहज ध्वनी. अ, उ आनी म ह्यो तीन आनी चवथी मात्रा. तातूंत अर्ध मात्रा ( ँ ) अव्यक्त आसा. हातूंतल्यानूच सगल्या वेद वाङ्मयाचो आनी विश्वाचोय विस्तार जालो अशें मानतात. परब्रह्माचें सर्वश्रेश्ठ प्रतीक म्हणून हाचें ध्यान करतात. नामजपय ॐकार जपांतल्यान निर्माण जालो. ॐ म्ह. परब्रह्मवाचक शब्द आनी तातूंत सगल्यो ईश्वराविशींच्यो कल्पना एकठावल्यात. ह्या मात्रांचे अनेक अर्थ उपनिषदांत दिल्ले मेळटात. अ = विष्णु, उ = शिव, म = ब्रह्म आनी एकाक्षर ॐ म्ह. परब्रह्म. वा अ = पृथ्वी, उ = अंतरिक्ष, म = स्वर्ग आनी एकठांय केल्लें ॐ म्ह. विश्वाचें मूळ, परब्रह्म. अर्धमात्रा ( ँ ) ही मूळमायेची निदर्शक समजतात. (३) वेद आनी उपनिषदांत वर्णिल्लो. (४) सगल्या प्राणीमात्रांत आत्मरुपान आशिल्ली आमच्या देहांत रावपी जी जाणीव आसा तिच्या शुद्ध स्वरुपाक




# ।। ज्ञानेश्वरी ।।

## अध्याय पयलो

श्रीगणेशाक नमन । आद्य[1] ॐ[2] कारा गा नमन । वेदांत[3] तुजें प्रतिपादन । जाणी तूं आपणा आपूण । जय आत्मरुपा[4] ।१। देवा तूंच गणेशु । दिता सगल्यां मतींक प्रकाशु । म्हणी निवृत्तिदासु[5] । सम आयकात ।२। हें शब्दब्रह्म[6] अशेश[7] । तुजी मुर्ती सुवेश। तिची वर्णकूड[8] निर्दोश । मिरयता तूं ।३। स्मृती[9] तिचे अवेव । पळे काव्यपंक्ती हावभाव । थंय लावण्याची ठेव । अर्थाची सोबा ।४। अठरा पुराणां । तीच वज्रांभुशणां । तांतुली शब्दरचना । जडाव रत्न तत्त्वांचे ।५। शब्दरचणूक सुंदर । तेंच रंगयल्लें वस्त्र । तांतले साहित्य अळंकार[10] । लिकलिकतात ।६। पळय काव्य नाटकां। तोखेवन नियाळटां । घुंगरां किणकिणटा । अर्थध्वनी ।७। तरतरां प्रमेयांच्यो परी । चोयतां तांच्यो कुशळ कुसरी । दिसऽ तांतुतलीं वज्रां भारी । उचीत पदां ।८। व्यास आदिकांच्यो मती । त्योच मेखलेवयर मिरयती । शेल्या मिरयो चकचकती । मेखलेवयर[11] ।९। स[12] दर्शनां[12] म्हण्टात तीं । तागेलीं स भुजांच तीं । तांतुलीं भिन्न मतां तीं। हातांतलीं आयुधां ।१०। तरी तर्क[13] तोच परशु । वैशेषिक[14] अंकुशु । रोसभरीत वेदान्तु । सोबता मोदक ।११। एका हातीं दांतु । मुळांतूच खंडितु[15] । बौद्धमता[16] संकेतु । वार्तिकांचो[17] ।१२। सत्कारवाद[18] सहाजीक । वरदिणो कमलहस्त[19] देख। अभयहस्त[20] धर्मस्थापक । सभावसिद्ध ।१३। पळय विवेकसुविमल। तीच गणेशा सोंड सरळ । जंय परमानंद केवळ । महासुखाचो ।१४। तरी संवाद होच दशन[21] । जो समताये शुभ्रवर्ण । ज्ञान हेंच बारकेले नयन । विघ्नरायाले[22] ।१५। म्हाका भासती दोनी[23] । मीमांसा[23] कानांस्थानीं । बोध मदामृत मुनी । चाखी भोंवरशें ।१६। प्रमेयांची तेजस्वी पोंवळीं। द्वैत अद्वैत मत प्रणाली । गजमस्तकीं गंडस्थळीं । एकठावली समबळानु ।१७।

---

उदय आनी अस्त ना. 'हांव' रुपान आमी जिका अणभवतात तीच सद्वस्तु आसून तिका आत्मो अशें म्हणटात. (५) ज्ञानेश्वर हो आपलो व्हडलो भाव, आपूण ताचो शिश्य म्हणून दास. (६) वेदवाङ्मय. (७) सगलें; पुराय; अकारादी अक्षररूप शरीर. (८) अकारादी अक्षररूप शरीर. (९) जातूंत धर्म नेमांचें वर्णन केलां अशे ग्रंथ. मनू, पराशर आदी रुशींनी मनशांखातीर केल्ले धर्म आनी समाजशास्त्राचे नेम आनी ते जातूंत संग्रहीत केल्यात अशे ग्रंथ. वेद सोडून हेर महाभारत धर्म ग्रंथांचोय उल्लेख स्मृती शब्दान करतात. (१०) साहित्य अळंकार. (११) कमरेचो पटो. (१२) पातंजल, सांख्य, वैषषिक, न्याय, मीमांसा आनी वेदान्त. (१३) तर्कशास्त्र. (१४) न्यायशास्त्र. (१५) तुटिल्लो. (१६) बौद्धांचो शून्यवाद. (१७) बौद्ध वार्तिककार (टीकाकार) कुमारील भट्ट. (१८) कपिलाच्या सांख्यशास्त्रांतलो सरळ विचार. (१९) कमळाभाशेन. (२०) भंया विरयत. (२१) दांत. (२२) गणेशाचे. (२३) पूर्व आनी उत्तर मीमांसा.

* **टिपो:** परिशिश्ट ४ पळयात.

उपरि दशोपनिषदें। जियें उदार ज्ञानमकरंदें । तियें कुसुमें मुगुटीं सुगंधें । शोभतीं भलीं ।१८। अकार चरणयुगुल। उकार उदर विशाल । मकार महामंडल। मस्तकाकारें ।१९। हे तिन्ही एकवटले । तेथें शब्दब्रह्म कवळलें । तें मियां गुरुकृपा नमिलें । आदिबीज ।२०। आतां अभिनव वाग्विलासिनी । जे चातुर्यार्थकलाकामिनी । ते शारदा विश्वमोहिनी । नमस्कारिली मियां ।२१। मज हृदयीं सद्गुरु । जेणें तारिलों हा संसारपुरु। म्हणऊनि विशेषें अत्यादरु। विवेकावरी।२२। जैसें डोळ्यां अंजन भेटे। ते वेळीं दृष्टीसी फांटा फुटे। मग वास पाहिजे तेथ प्रगटे।२३। कां चिंतामणि जालया हातीं । सदा विजयवृत्ति मनोरथीं। तैसा मी पूर्णकाम निवृत्ती । ज्ञानदेवो म्हणे ।२४। म्हणोनि जाणतेनो गुरु भजिजे । तेणें कृतकार्या होईजे । जैसें मूळसिंचनें सहजें। शाखापल्लव संतोषती।२५। कां तीर्थे जियें त्रिभुवनीं । तियें घडती समुद्रावगाहनीं। ना तरी अमृतरसास्वादनीं। रस सकळ ।२६। तैसा पुढतपुढती तोचि । मियां अभिवंदिला श्रीगुरुचि । जो अभिलषित मनोरुचि । पुरविता तो ।२७। आतां अवधारा कथा गहन । जे सकळां कौतुकां जन्मस्थान । कीं अभिनव उद्यान । विवेकतरूचें ।२८। ना तरी सर्व सुखांची आदि। जे प्रमेयमहानिधि । नाना नवरससुधाब्धि । परिपूर्ण हे ।२९। कीं परमधाम प्रकट । सर्व विद्यांचें मूळपीठ । शास्त्रजातां वसिष्ठ। अशेषांचे ।३०। ना तरी सकळ धर्मांचें माहेर । सज्जनांचें जिव्हार । लावण्यरत्नभांडार। शारदेचें ।३१। नाना कथारुपें भारती । प्रकटली असे त्रिजगतीं । आविष्कारोनी महामती । व्यासाचिये ।३२। म्हणोनि हा काव्यां रावो । ग्रंथ गुरुवतीचा ठावो। एथूनि रसां झाला आवो । रसाळपणाचा ।३३। तेवींचि आईका आणीक एक । एथूनि शब्दश्री सच्छास्त्रिक । आणि महाबोधीं कोंवळीक । दुणावली ।३४। एथ चातुर्य शहाणें झालें । प्रमेय रुचीस आलें । आणि सौभाग्य पोखलें । सुखाचें एथ ।३५। माधुर्यी मधुरता । शृंगारीं सुरेखता । रूढपण उचितां । दिसे भलें ।३६। एथ कळाविदपण कळा । पुण्यासि प्रतापु आगळा । म्हणऊनि जनमेजयाचे अवलीळा । दोष हरले ।३७। आणि पाहतां नावेक । रंगीं सुरंगतेची आगळीक । गुणां सगुणपणाचें बिक । बहुवस एथ ।३८। भानुचेनि तेजें धवळलें । जैसें त्रैलोक्य दिसे उजळलें। तैसें व्यासमती कवळलें । मिरवे विश्व ।३९। कां सुक्षेत्रीं बीज घातलें । तें आपुलियापरी विस्तारलें । तैसें भारतीं सुरवाडलें । अर्थजात ।४०। ना तरी नगरांतरीं वसिजे । तरी नागराचि होईजे । तैसें व्यासोक्तितेजें। धवळित सकळ ।४१। कीं प्रथमवयसाकाळीं । लावण्याची नव्हाळी । प्रगटे जैसी आगळी । अंगनाअंगीं ।४२। ना तरी उद्यानीं माधवी घडे । तेथ वनशोभेची खाणी उघडे। आदिलापासोनि अपाडें। जियापरी ।४३। नाना घनीभूत सुवर्ण। जैसें न्याहाळितां साधारण । मग अळंकारीं बरवेपण । निवाडु दावी ।४४। तेसैं व्यासोक्ती अळंकारिलें । आवडे तें बरवेपण पातलें । तें जाणोनि काय आश्रयिलें । इतिहासीं ।४५। नाना पुरतिये प्रतिष्ठेलागीं। सानीव धरूनि आंगीं। पुराणें आख्यानरुपें जगीं ।भारता आलीं ।४६। म्हणऊनि महाभारतीं जें नाहीं । तें नोहेचि लोकीं तिहीं। येणें कारणें म्हणिपे पाहीं । व्यासोच्छिष्ट जगत्रय ।४७। ऐसी सुरस जगीं कथा । जे जन्मभूमि परमार्था । मुनि सांगे नृपनाथा । जनमेजया ।४८। जें अद्वितीय उत्तम । पवित्रैक निरुपम । परम मंगलधाम। अवधारिजो ।४९। आतां भारतीं कमळपरागु । गीताख्यु प्रसंगु । जो संवादला श्रीरंगु । अर्जुनेसी ।५०। ना तरी शब्दब्रह्माब्धि । मथिलेया व्यासबुद्धि। निवडिलें निरवधि । नवनीत हें ।५१। मग ज्ञानाग्निसंपर्कें । कडसिलें विवेकें । पद आलें परिपाकें । आमोदासी ।५२। जें अपेक्षिजे विरक्तीं । सदा अनुभविजे संतीं। सोहंभावें पारंगतीं। रमिजे जेथ ।५३। जें आकर्णिजे भक्तीं। जें आदिवंद्य त्रिजगतीं । ते भीष्मपर्वी संगती । सांगिजैल ।५४। जें भगवद्गीता म्हणिजे । जें ब्रह्मेशांनीं प्रशंसिजे । जें सनकादिकीं सेविजे । आदरेसीं ।५५। जैसे शारदियेचे चंद्रकळे-। माजीं अमृतकण कोंवळे । ते वेंचिती मनें मवाळें । चकोरतलगें ।५६। तियापरी श्रोतां । अनुभवावी हे कथा । अति हळुवारपण चित्ता । आणुनियां ।५७। हे शब्देविण संवादिजे । इंद्रियां नेणतां भोगिजे । बोलाआदि झोंबिजे । प्रमेयासी ।५८।

---

**अर्थ:** (२४) ओंकार. (२५) हो मणी इत्सिल्लें दिता असो समज आशिल्लो. (२६) व्हडलें भांडार. (२७) शृंगार, वीर, करूण, हास्य, रौद्र, भयानक, बीभत्स, अद्भुत आनी शांत हे साहित्यशास्त्रांतले णव रस. (२८) अमृताचो सागर. (२९) परीक्षित राजाचो चलो, अर्जुनाचो पणटु. (३०) त्रिलोक - सर्ग, पृथ्वी आनी पाताळ. (३१) कल्याणाचें स्थान. (३२) भारतरुपी कमळांतलें केंसर. (३३) श्रीकृष्ण. (३४) हांवूच ब्रह्म जालों ह्या अणभवान.

ज्ञान म्होंव भरभरुनु । दिती उपनिषदां धायु । तीं परमळीत फुलां मुकुटांतु। सोबता बरीं ।१८। दोन चरणु अकारु । विशालु पोट्ट उकारु । वाटकुळोच मकारु। मस्तका आकारु ।१९। हे तिनूय एक जाले । थंय शब्दब्रह्म कवळलें। तें मियां गुरुकुर्पेन नमिलें । आदीबीज[२४] ।२०।

**श्रीशारदास्तवन – श्रीसद्गुरुस्तवन :** आतां वाणीचे अभिनव विलास दाखोवणी । चतुराय वागर्थ-कला स्वामिनी । ती शारदा विश्वमोहिनी । तिका नमिली हांवें ।२१। म्हज्या हृदयीं सद्गुरु। जाणें तरलां हो संवसार हुंवारु । म्हूण विशेश आदरु । विवेकाचेरी ।२२। घालें दोळ्यांत अंजन । दिश्टीक फुट्टा अंतर्ज्ञान । मगे जंय वतात नयन। थंय धना ठेवे ।२३। वा चिंतामणी[२५] येतच हातीं । सदीं मनोरथ जैतीवंत जाती । तशी निवृत्तिन केली कामनापुर्ती । म्हणी ज्ञानदेव ।२४। देखून शाण्यांनी। जावंचें कृतकृत्य गुरुभजनीं । जशें शिंपशी मुळांक पाणी । तुश्टती खांदयो पानां ।२५। वा तीर्थां जितलीं त्रिभुवनीं। ती घडटी समुद्रन्हाणांनी । वा अमृतरोस चाखुनी । मेळटी सगले रोसु ।२६। तसो घडी घडी तोच । हांवें वंदिलो श्रीगुरुकूच । जो आयिल्लें मनांतूच । करता पूर्ण ।२७।

**भारतवर्णन:** आतां आयका कथा गहन । जी सकळ नवलां जल्मस्थान । वा जी अभिनव उद्यान । विवेकरुखांचें ।२८। वा जी सर्व सुखांचें मूळ कारण । सर्व प्रमेयांचें[२५] महानिधान[२६] । वा णवय[२७] रसांचो[२७] परिपूर्ण । अमृतसिंधु[२८] ।२९। वा मोक्षस्थान प्रकट । सगल्यां विद्यांचें मूळपीठ । शास्त्रसमूह स्रेश्ठ । हांगा आयले वसतेक ।३०। वा सकळ धर्मांचें कुळार । सज्जनां जिव्हाळ्या आधार । लावण्य-रत्न भांडार । शारदेचें ।३१। तर्तरां कथारुपान भारतीं । परगटली त्रिजगतीं । व्यासाचे महामतीं । रिगून ती ।३२। देखून हो रायु काव्यांचो । थारो अख्ख्या ग्रंथगौरवाचो। णव-रसां आब रोसाळयेचो । आयलो हंयसून ।३३। तशेंच आयका आनीक एक। हांगसून शब्दश्री सशास्त्रीक । नि ब्रह्मज्ञानाची कंवळीक । दुणावली ।३४। हांगा शाणी जाली चतुराय । मधुर म्होंवाळ प्रमेय । आनी सुखाचें सौभाग्य । पुश्टावलें ।३५। गोडी गोडयेंत । सुरेखपण शिंगारांत। व्हडवीक योग्यतायेंत । हांकां सोबिताय ।३६। हांगा कलापण कलांक । प्रताप आगळो पुण्याक । म्हूण सहज गेले दोश । जनमेजयाचे[२९] ।३७। चिंतशी एकु खीण। रंगीं सुरंगताये आगळेंपण । वाडलें गुणांचें सगूणपण । भोव हांगा ।३८। सूर्य तेजान प्रकाशिल्लें । जशें त्रैलोक्य दिसऽ उजळिल्लें। तशें व्यासमतीन व्यापिल्लें । सोबता विश्व हें ।३९। वा पिकाळ भुंयीं बीं घाल्लें। तें आपशींच तरतरल्लें । तशे सर्व विशय उत्कर्शा आयले । भारतीं ।४०। वा नगरांत जो रावता । तो सभ्य चतुर जाता। तशें सगल्यां उजळायता । व्यास उक्तीचें तेज ।४१। वा वयांत येतच चली । ती लावण्याची नवलायी । ती फुलऽ जशी आगळी । अस्तुरे आंगीं ।४२। वा फुलतां वसंत उद्यानीं । उगडट्टी वना सोबाये खणी ।आदलेकुय लकलकणी। जशी धाय दिकीं ।४३। वा लगडीचें भांगरु। सादेंच नियाळल्यारु। घडयतां अळंकारु। रुपच आगळें ।४४। तशें अळंकारिल्लें व्यासवाणीनु । घेता मनाजोगतें बरेंपणु। म्हूण घेतला आश्रय इतिहासानु। भारतीं ।४५। वा जगीं पूर्ण प्रतिश्ठा इत्सुनु । सानपण आंगीं धरूनु । पुराणां आख्यानरुपानु । आयलीं भारतीं ।४६। म्हूण जें ना महाभारतीं। तें खंयच ना त्रिजगतीं । हाकाच लागून म्हण्टी । जगत्त्रय[३०] व्यासाउश्टें* ।४७। अशी सुरस जगीं कथा । जी जल्मभूंय परमार्था । वैशंपायन मुनी सांगता । नृपनाथ जनमेजया ।४८। जी अद्वितीय उत्तम। भारी पवित्र निरूपम । मंगलधाम[३१] परम । आयका सारकी ।४९। आतां भारतींकमळपरागु[३२] । सांगिला गीता प्रसंगु । जो सांगी श्रीरंगु[३३] । अर्जुना ।५०। वेदसागर चाळूनु। व्यासमती रवीनु। हें लोणी तातुंतल्यानु । काडलें अपार ।५१। मगे ज्ञानाग्नीचे हुनसाणीन । तें कडयलें विवेकान । गीता जाली पद्यरुपान। साजूक तुपावरी ।५२। जिका इत्सिती वैराग्यवंत । सदीं अणभवती संत । सोऽहं[३४] भावान ब्रह्मरत । रमती थंय ।५३। जी सदीं आयकती भक्त। परमपुज्य त्रिलोकांत । सांगिल्या भीष्मपर्वांत । सुसंगत ही ।५४। जिका भगवद्गीता म्हळ्यार । ब्रह्माशिवान तुस्तिल्या। सनकादिनी सेविल्या। आदरान ।५५। जशे शरदा चान्न्यांतले । अमृतकण कंवळे । वेंची चकोरतलगांलें। मन मोवळायेन ।५६। तशी गा श्रोत्यांनी । अणभवची ही काणी । अती अळंगपण मनीं । हाडुनू ।५७। ही शब्दावीण सांगुची। इंद्रियां नकळटां भोगुंची । आयकुंचे आदींच समजुंचीं । तत्त्वां हिचीं ।५८।

जैसे भ्रमर परागु नेती। परी कमळदळें नेणती । तैसी परी आहे सेविती । ग्रंथीं इये ।५९। कां आपुला ठावो न सांडितां । आलिंगिजे चंद्र प्रगटतां । अनुरागु भोगितां । कुमुदिनी जाणे ।६०। ऐसेनि गंभीरपणें । थिरावलेनि अंत:करणें । आथिला तोचि जाणे । मानूं इये ।६१। अहो अर्जुनाचिये पांती। परिसणया योग्य होती । तिहीं कृपा करूनि संतीं । अवधान द्यावें ।६२। हें सलगी म्यां म्हणितलें । चरणां लागोनि विनविलें । प्रभू सखोल हृदय आपुलें । म्हणऊनिया ।६३। जैसा स्वभावो मायबापांचा। अपत्य बोले जरी बोबडी वाचा । तरी अधिकचि तयाचा । संतोष आथी ।६४। तैसा तुम्हीं मी अंगीकारिला । सज्जनीं आपुला म्हणितला। तरी उणें सहजें उपसाहला। प्रार्थूं कायी ।६५। परी अपराधु तो आणीक आहे । जें मी गीतार्थु कवळूं पाहें । तें अवधारा विनवूं लाहें। म्हणऊनियां ।६६। हें अनावर न विचारितां । वायांचि धिंवसा उपनला चित्ता । येऱ्हवीं भानुतेजीं काय खद्योता । शोभा आथी ।६७। कीं टिटिभू चांचुवरी । माप सूये सागरीं। मी नेणतु त्यापरी । प्रवर्ते येथ ।६८। आयका आकाश गिंवसावें । तरी आणीक त्याहूनि थोर होआवें । म्हणऊनि अपाडु हें आघवें । निर्धारितां ।६९। या गीतार्थाची थोरी । स्वयें शंभू विवरी । जेथ भवानी प्रश्नु करी । चमत्कारोनी ।७०। तेथ हरु म्हणे नेणिजे । देवी जैसें कां स्वरूप तुझें । तैसे हें नित्य नूतन देखिजे । गीतातत्त्व।७१। हा वेदार्थसागरु । जया निद्रिताचा घोरु । तो स्वयें सर्वेश्वरु । प्रत्यक्ष अनुवादला ।७२। ऐसें जें अगाध । जेथ वेडावती वेद । तेथ अल्प मी मतिमंद । काय होय ।७३। हें अपार कैसेनि कवळावें । महातेज कवणें धवळावें । गगन मुठीं सुवावें । मशकें केवीं ।७४। परी एथ असे एकु आधारु। तेणेंचि बोलें मी सधरु । जे सानुकूळ श्रीगुरु । ज्ञानदेवो म्हणे ।७५। येऱ्हवीं तरी मी मुर्खु। जरी जाहला अविवेकु । तरी संतकृपादीपकु । सोज्वळु असे ।७६। लोहाचें कनक होये । हें सामर्थ्य परिसींच आहे । कीं मृतही जीवित लाहे । अमृतसिद्धि ।७७। जरी प्रकटे सिद्धसरस्वती । तरी मुकया आथी भारती। एथ वस्तुसामर्थ्यशक्ती । नवल कायी ।७८। जयातें कामधेनु माये । तयासी अप्राप्य कांहीं आहे । म्हणऊनि मी प्रवर्तो लाहें। ग्रंथीं इये ।७९। तरी न्यून तें पुरतें । अधिक तें सरतें । करूनि घेयावें हें तुमतें । विनवितु असें ।८०। आतां देइजो अवधान । तुम्हीं बोलविल्या मी बोलेन । जैसें चेष्टें सूत्राधीन। दारुयंत्र ।८१। तैसा मी अनुग्रहीतु । साधुंचा निरूपितु । ते आपुला अलंकारितु । भलतयापरी ।८२। तंव श्रीगुरु म्हणती राहीं । हें तुज बोलावें नलगे कांहीं । आतां ग्रंथा चित्त देईं । झडकरी वेगा ।८३। या बोला निवृत्तिदासु । पावूनि परम उल्हासु । म्हणे परियेसा मना अवकाशु । देऊनियां ।८४।

*धृतराष्ट्र उवाच:* **धर्मक्षेत्रे कुरुक्षेत्रे समवेता युयुत्सवः । मामकाः पाण्डवाश्चैव किमकुर्वत संजय ॥१॥**

तरी पुत्रस्नेहें मोहितु । धृतराष्ट्र असे पुसतु । म्हणे संजया सांगें मातु । कुरुक्षेत्रींची ।८५। जें धर्मालय म्हणिजे । तेथ पांडव आणि माझे । गेले असती व्याजें। झुंझाचेनि ।८६। तरी तिहीं येतुलां अवसरीं । काय किजत असे येरयेरीं । तें झडकरी कथन करीं । मजप्रती ।८७।

*संजय उवाच:* **दृष्ट्वा तु पाण्डवानीकं व्यूढं दुर्योधनस्तदा । आचार्यमुपसंगम्य राजा वचनमब्रवीत् ॥२॥**
**पश्यैतां पाण्डुपुत्राणामाचार्य महतीं चमूम् । व्यूढां द्रुपदपुत्रेण तव शिष्येण धीमता ॥३॥**

तिये वेळीं तो संजय बोले । म्हणे पांडवसैन्य उचललें । जैसें महाप्रळयीं पसरलें । कृतांतमुख ।८८। तैसें तें घनदाट । उठावलें एकवाट । जैसें उसळलें कालकूट । धरी कवण ।८९। ना तरी वडवानलु सांदुकला । प्रलयवातें पोखला । सागर शोषूनि उधवला । अंबरासी ।९०। तैसें दळ दुर्धर । नानाव्यूहीं परिकर । अवगमलें भयासुर । तिये काळीं ।९१। तें देखिलेयां दुर्याधनें। अव्हेरिलें कवणें मानें । जैसें न गणिजे पंचाननें । गजघटांतें ।९२। मग द्रोणापासीं आला । तयातें म्हणे हा देखिला। कैसा दळभारु उचलला । पांडवांचा ।९३। गिरिदुर्ग जैसे चालते । तैसें विविध व्यूह संभवते । हे रचिले आथि बुद्धिमंतें। द्रुपदकुमरें ।९४। जो का तुम्हीं शिक्षापिला । विद्या देऊनि कुरुठा केला । तेणें हा सैन्यसिंहु पाखरिला । देखदेख ।९५।

---

**अर्थ:** (३५) मन आनी धा इंद्रियां. (३६) चंद्र विकासी कमळ. (३७) पार्वती. (३७) वाणी. (३८) वस्तुच्या आंगांतली सभावीक तांक. (३९) काळाचें तोंड. (४०) भयंकर वीख. (४१) दर्यांतलो उजो. (४२) प्रळयकाळचो वारो. (४३) तिरस्कारान. (४४) शींव. (४५) सेनासमूह.

जशे भोंवर पराग व्हरती। पूण कमळदळां[३५] नेणटी। तशी समजुचेली रिती । ह्या ग्रंथा ।५९। आपल्या ठावाकु ना सोडटां । उदेल्ल्या चंद्राकु वेंगायता । प्रिती मोगा सूख भोगता । जें जाणी कमलिनीच[३६] ।६०। असो गंभीरपणान । थिरावल्ल्या अंतस्करणान । तोच गीते रहस्यज्ञान । जाणटलो ।६१। आगा बसून अर्जुना पंगतीं। आयकुं जे फावशे आसती । कृपा करून त्या संतांनी । दिवचें लक्ष ।६२। हें सलगीन हांवें म्हळें । पायां हात लावन विनयलें । प्रभु, अगड हृदय आपलें। देखूनु; ।६३। जसो सभाव मायबापाचो । लुडाबो बोल जरी भुरग्याचो । तरी अदीकूच तांकां ताचो । आसता संतोश ।६४। तसो म्हाका तुमी आपणायलो। सज्जनांनी आपलो म्हळो । म्हजो उणावूय सोंसलो । कित्या करूं विनवणी ।६५। पूण अपराध आसा आनीकु । गीतार्थ पळय हांव मुठीं कवळुंकु । वयल्यान विनयतां सगल्यांकु । आयका म्हण्णु ।६६। नातचना कितु होडु धाडस। व्यर्थ लागलो चित्ता ध्यास । सुर्या फुडें काजुल्या प्रकाश । सोबऽ कितें? ।६७। चोंची मापानु टिटापयु । उपशी समुद्राचो थावु। ते परी नेणारु हांवु । सल्लां मुखारु ।६८। मळबा वेंगेंत घेवचें । व्हड आनीक ताचेहून जावंचें। गीतातत्त्व हांवें सांगुं वचचें। म्हजे तांकी पेल्यान ।६९। ह्या गीतार्थाची थोरवी । सोता शंभू विसकायी । जेन्ना भवानी[३७] प्रस्नु करी । अजापान ।७०। तेन्ना शंभून दिली जाप । कळना देवी तुजें रूप । सदीं नवेलेंच तुजें रूप । तशें हें गीतातत्त्व ।७१। जेन्ना घोरेलो सर्वेश्वर। तेन्ना जालो वेदार्थसागर। पूण हें गीताशास्त्र । ताचें प्रत्यक्ष उलोवणें ।७२। अशें जें अगाध । जंय पिसावती वेद । थंय नेणार हांव, मतीमंद। उलोवं कितें? ।७३। हें अपार कशें कवळचें । सूर्य तेजा कोणें उजळचें?। आकाश मुठींत कशें धरचें । किमसान?।७४। पूण हांगा आसा एक आधारु। म्हूण हांव उलय करून धिरू । अनुकुळ म्हाका गुरूवरु । म्हणी ज्ञानदेव ।७५। हरशीं हांव तर मूर्ख । जरी जालो अविवेक । तरी संतकृपे दीपक । तेवऽ म्हजेर ।७६। लोखणाचें भांगर जाता । ही तांक परीसांतूच आसता। मेल्लोय जिवो जाता । घेतां अमृत ।७७। परगट्टां प्रत्यक्ष सरस्वती । मोन्याकूय फुट्टा भारती[३७] । ही वस्तुबळाची शक्ती[३८]। नवल तें कितें? ।७८। जाची कामधेनू माय । ताका दुर्लभ ना कांय । म्हूण सल्लां मुखार हांव । ह्या ग्रंथा ।७९। तरी उणें तें पुरें करचें । अदीक तें सोडून दिवंचें । फावऽ तेंच तुमी घेवचें । विनयतां हांव ।८०। आतां दिया हो ध्यान । तुमी उलोवं लावपी, हांव उलयन । जशें नाचता सूत्रधारा हातान । बावली खामसुत्री ।८१। तरी म्हजेर कृपा जाली। साधुंची सांगणी पावयली । तुमी करा सजोवणी । तुमकां जाय तशी ।८२। तावळी श्रीगुरून पुरो म्हळें । अदीक बरें हें नुलयल्लें । ग्रंथाकडेन चित्त आपलें। दिवचें वेगीं ।८३। निवृत्तिदास ह्या बोलान । भारी संतुश्ट जावन । म्हणी, आतां सस्त चित्तान। हें आयकुंचें ।८४।

*धृतराष्ट्रान म्हळें:* **धर्मक्षेत्रार कुरुक्षेत्रार जमिल्ल्या झुजूंक खुमखुमेन । म्हज्या नि पांडु पुत्रांनी केलें गा संजया कितें ॥१॥**

तर जाल्लो कुड्डो पुता मोगान । विचाल्लो प्रस्न त्या धृतराष्ट्रान । संजया, सांग म्हाका वर्तमान । करूक्षेत्राचें ।८५। म्हळां जाका धर्मक्षेत्र । थंय पांडव नि म्हजे पूत । निमित्यान ते गेल्यात । झुजपाच्या ।८६। तरी इतु वेळु तांणी । केलें कितें एकमेकांनी । सांग हें तूं बेगीं । संजया म्हाका ।८७।

*संजयान म्हळें:* **पळेलो पांडवां सैन्या-व्यूह दुर्योधनानु थैं । गेलो गुरू सरीं तो नी राजानु त्या अशें म्हळें ॥२॥**
**पळे तूं पांडु पुत्रांलें आचार्या होडु सैन्य तें । मांडलां द्रुपदु पुत्रानु तुजो बुदवंतु शिश्य जो ॥३॥**

**सैन्याचें वर्णन:** तावळी त्या संजयान म्हळें । पांडवांलें सैन्य खुबळ्ळें । जशें म्हाप्रळयीं पसरलें । कृतांतमूख[३९] ।८८। तशें घनदाट तें सैन्य । चलुं लागतां एकठांय। जशें उसळिल्लें काळकूट[४०] । थंडायत कोण? ।८९। वा वडवानळ[४१] पेटलो । प्रळयवावान[४२] भडकलो । समुद्र शोशून उसळ्ळो । मळबा मेरेन ।९०। तशें पांडवां दळ दुर्धर । तर्तरां व्युहांनी तयार । दिसलें भयासूर । त्या वेळार ।९१। तें पळोवन दुर्योधनान । कुसकुटायलें अखटायेन[४३] । जसो गणिना पंचानन[४४] । हींड हतयांचो ।९२। मगे द्रोणासरीं आयलो । ताका म्हळें, हो चोयलो?। कसो दळभार[४५] उसळ्ळो । पांडवांलो ।९३। दोंगरये कोट चलतले। विविध व्यूह हे तसले । ते बुदवंतान भोंवतणीं रचले । त्या द्रुपदकुंवरान ।९४। जाका तुवें शिकयलो । विद्येन खांपो केलो । ताणें हो सैन्यशींवु उबाल्लो। पळय, पळय ॥९५॥

अत्र शूरा महेष्वासा भीमार्जुनसमा युधि । युयुधानो विराटश्च द्रुपदश्च महारथ: ॥४॥

आणिकही असाधारण। जे शस्त्रास्त्रीं प्रवीण । जे क्षात्रधर्मीं निपुण । वीर आहाती ।९६। जे बळें प्रौढी पौरुषें । भीमार्जुनांसारिखे। ते सांगेन कौतुकें । प्रसंगेंचि ।९७। एथ युयुधानु सुभट्टु । आला असे विराट्टु । महारथी श्रेष्ठु । द्रुपद वीरु ।९८।

धृष्टकेतुश्चेकितान: काशिराजश्च वीर्यवान् । पुरुजित्कुन्तिभोजश्च शैब्यश्च नरपुङ्गव: ॥५॥

युधामन्युश्च विक्रान्त उत्तमौजाश्च वीर्यवान् । सौभद्रो द्रौपदेयाश्च सर्व एव महारथा: ॥६॥

चेकितान धृष्टकेतु। काशीश्वरु विक्रांतु। उत्तमौजा नृपनाथु। शैब्य देख।९९। हा कुंतिभोजु पाहें। एथ युधामन्यु आला आहे। आणि पुरुजितादि राय हे। सकळ देखें।१००। हा सुभद्राहृदयनंदनु। जो अपरु नवा अर्जुनु। तो अभिमन्यु म्हणे दुर्योधनु। देखें द्रोणा।१। आणीकही द्रौपदीकुमर। हे सकळही महारथी वीर। मिती नेणिजे परी अपार। मीनले असती।२।

अस्माकं तु विशिष्टा ये तान्निबोध द्विजोत्तम । नायका मम सैन्यस्य संज्ञार्थं तान्ब्रवीमि ते ॥७॥

भवान्भीष्मश्च कर्णश्च कृपश्च समितिंजय: । अश्वत्थामा विकर्णश्च सौमदत्तिस्तथैव च ॥८॥

आतां आमुचां दळीं नायक । जे रूढ वीर सैनिक । ते प्रसंगें आइक । सांगिजती ।३। उद्देशें एक दोनी । जायिजती बोलोनी। तुम्ही आदिकरूनी । मुख्य जे जे ।४। हा भीष्मु गंगानंदनु । जो प्रतापतेजस्वी भानु । रिपुगजपंचाननु । कर्ण वीरु ।५। या एकेकाचेनि मनोव्यापारें । हें विश्व होय संहरे । हा कृपाचार्य न पुरे । एकलाचि ।६। एथ विकर्ण वीरु आहे । हा अश्वत्थामा पैल पाहें । याचा अडदरु सदा वाहे । कृतांतु मनीं ।७। समितिंजयो सौमदत्ति। ऐसे आणीकही बहुत आहाती । जयांचिया बळा मिती । धाताही नेणे ।८।

अन्ये च बहव: शूरा मदर्थे त्यक्तजीविता: । नानाशस्त्रप्रहरणा: सर्वे युद्धविशारदा: ॥९॥

जे शस्त्रविद्यापारंगत । मंत्रावतार मूर्त । हो का जे अस्त्रजात । एथूनि रूढ ।९। हे अप्रतिमल्ल जगीं । पुरता प्रतापु अंगीं । परी सर्व प्राणें मजचिलागीं । आराइले असती ।११०। पतिव्रतेचें हृदय जैसें । पतीवांचूनि न स्पर्शे । मी सर्वस्व या तैसें । सुभटांसी ।११। आमुचिया काजाचेनि पाडें । देखती आपुलें जीवित थोकडें । ऐसे निरवधि चोखडे । स्वामिभक्त ।१२। झुंजती कुळकणी जाणती । कळे कीर्तीसी जिती । हें बहु असो क्षात्रनीती । एथोनियां ।१३। ऐसे सर्वांपरी पुरते । वीर दळीं आमुतें । आतां काय गणूं यांतें । अपार हे ।१४।

अपर्याप्तं तदस्माकं बलं भीष्माभिरक्षितम् । पर्याप्तं त्विदमेतेषां बलं भीमाभिरक्षितम् ।१०।

वरी क्षत्रियांमाजि श्रेष्ठु । जो जगजेठी जगीं सुभटु । तया दळवैपणाचा पाटु । भीष्मासी पैं ।१५। आतां याचेनि बळें गवसलें । हें दुर्ग जैसें पन्नासिलें । येणें पाडें थेंकुलें । लोकत्रय ।१६। आधींच समुद्र पाहीं । तेथ दुवाडपण कवणा नाहीं । मग वडवानळु तैसेयाही । विरजा जैसा ।१७। ना तरी प्रलयवन्हि महावातु । या दोघां जैसा सांघातु । तैसा हा गंगासुतु । सेनापति ।१८। आतां येणेंसि कवण भिडे । हें पांडव सैन्य कीर थोडें । ओइचलेनि पाडें । दिसत असे ।१९। वरी भीमसेन बेथु । तो जाहला असे सेनानाथु । ऐसें बोलोनि हे मातु । सांडिली तेणें ।१२०।

अयनेषु च सर्वेषु यथाभागमवस्थिता:। भीष्ममेवाभिरक्षन्तु भवन्त: सर्व एव हि ॥११॥

मग पुनरपि काय बोले । सकळ सैनिकांतें म्हणितलें । आतां दळभार आपुलाले । सरसे करा ।२१। ज़या जिया अक्षौहिणी । तेणें तिया आरणी । वरगण कवणकवणी । महारथिया ।२२। तेणें तिया आवरिजे । भीष्मातळीं राहिजे । द्रोणातें म्हणे पाहिजे। तुम्हीं सकळ ।२३। हाचि एकु रक्षावा । मी तैसा हा देखावा । येणें दळभारु आघवा । साचु आमुचा ।२४।

---

**अर्थ:** (४८) (भीष्म, हो) गंगेचो पूत. (४९) सूर्य. (५०) शत्रू हेच हती, तांकां मारपी शींव. (५१) शस्त्रविद्येंत निपूण वा खांपे. (५२) क्षत्रियांचो धर्म. (५३) पृथ्वी, स्वर्ग आनी पाताळ. (५४) हुपपाक कठीण. (५५) समुद्रांतलो उजो. (५६) सेनापती. (५७) दर एक अक्षौहिणी सैन्यांत २१८७० रथ, तितलेच हती, हतयांचे तिपेटीन घोडे, पांच पटीन पांयदळ - २१८७००.

**हांगा शूर धनुर्धारी रणीं भीमार्जुनावरी । विराट सात्यकी आनी म्हारथी द्रुपदावरी ॥४॥**

आनिकूय असाधारण । जे शस्त्र अस्त्रांत प्रवीण । जे क्षात्रधर्मीं निपूण । वीर आसात; ।९६। जे व्हडपण-बळ-पौरूशान । भीमा अर्जुना समान । ते सहज सांगन । ह्या प्रसंगान ।९७। हांगा युयुधान वीर । आयला विराट शूर । महारथी द्रुपद थोर । जमल्यात हांगसर ।९८।

**धृष्टकेतु तसो वीर तो काशीरायु चेकितान् । पुरुजित् कुंतिभोजू गा आनी शैब्य नरोत्तम ॥५॥**
**पराक्रमी युधामन्यु उत्तमौजो बळिश्ट गा । सुभद्रे-द्रौपदे पूत हे सगलेच म्हारथी ॥६॥**

चेकितान धृष्टकेतु। काशीरायु विक्रान्तु[४६]। उत्तमौजो नृपनाथु। शैब्य चोय।९९। पळे कुंतिभोज वीर। हांगा युधामन्यु मुखार। पुरुजितादी राय सामकार। सगल्यांक पळय।१००। हो सुभद्राहृदयनंदन[४७]। जो जणूं दुसरो अर्जुन। तो अभिमन्यु, म्हणी दुर्योधन। पळय द्रोणाक।१। आनिकूय द्रौपदे कुंवर। सगलेच महारथी वीर। मेजूं येनात, अपार। जमल्यात।२।

**आमच्या पक्षा मुखेली जे दळनायक ते म्हजे । म्हायती तांची दितां हांवु आतां ती आयकुची बरी ॥७॥**
**भीष्म, खासा तुमी, कर्ण झुजांतु विजयी कृप । अश्वत्थामो विकर्णू बी सोमदत्त महारथी ॥८॥**

आतां आमच्या दळीं नायक । नामनेचे वीर सैनिक । तांचीं नांवां सांगन, आयक । ह्या प्रसंगान ।३। देखीक एक दोन । वतां उलोवन । तुमी आदी कर्न। मुखेल जे जे ।४। हो भीष्म, गंगानंदनु[४८] । जो प्रतापी तेजस्वी भानु[४९] । वैरीहतयां पंचाननु[५०] । कर्ण वीर ।५। एक एकलोच मनीं हाडल्यारी । जातलो विश्वसांवारी । कृपाचार्य जातलो भारी । एकलोच ।६। हांगा हो विकर्ण । पळे अश्वत्थामो पेल्यान । हाचो धेंक सदां मनांत । काळाच्या ।७। झुजांत जैतवंत सोमदत्ति । आनिकूय भोव आसाति । बळाची करूं येना गणटी । ब्रह्मदेवाकय ।८।

**हेरू अनेक ते वीर म्हाकाच जीवु ओंपुनू । शस्त्रां हातांत घेतिल्ले खांपे युद्धकळेंतुले ॥९॥**

जे शस्त्रविद्या पारंगत[५१] । मंत्र अवतार मुर्तीमंत । शस्त्रां सगलीं आसात । तीं आयलीं हांचेपसून ।९। हांची सर कोणा येना जगीं। पुराय प्रताप तांच्या आंगीं। पूण प्राण म्हजेपासत दिती । ह्या खिणा ।११०। जशें प्रतिव्रतेचें हृदय । आफडिना कोणा पती शिवाय । तशें सर्वस्व म्हजेठांय । मन ह्या झुजाऱ्यांचें । ११। आमच्या कामांफुडें । तांकां जिविता पडलां थोडें । अशे स्वामीभक्त चोखडे । निस्सीम ते ।१२। हे झुजा कलेंत निपूण । कलाकीर्त हांची जीण । वा क्षात्रधर्म[५२] जालो उत्पन्न । हांचेपसून ।१३। अशे सामके बळिश्ट । वीर आमच्या दळांत । हे इतले आसात । कशे गणूं हांकां ।१४।

**अशीम सैन्य आमगेलें भीष्मानु राखिलांच तें । ल्हानूच सैन्य हांगेलें राखलां भीमानु तें बरें ॥१०॥**

वयल्यान क्षत्रियांमदीं स्रेश्ठ । जो जग जिखपी वीर विख्यात । दिला दळवीपणा पाट । भीष्माक ।१५। हाणें हें सैन्य अशें सांवल्लें । जणूं दुर्ग हांगा बांदलें। तांचे तुळेन क्षुद्र दिसले । तिनूय[५३] लोक[५३] ।१६। पळय, मुळचोच सागर । बलांडप भारी दुस्तर[५४] । तातुं वडवानळा[५५] आधार । जायत कशें?।१७। वा प्रळया उजो नि महावात । हांची एकमेकां मदत । तसो हो गंगेपूत* । सेनापती ।१८। आतां हाचेलागीं झुजत कोण? । हें पांडवांचें सैन्य ल्हान । पूण तें दिसऽ होड पैसुल्यान । आमच्या सैन्या मानान।१९। वयल्यान दांडगो भीमसेन। जाला तो सैन्यनाथ[५६]। अशें दुर्योधनान उलोवन। सोडली ती गजाल ।१२०।

**दारांनी रावनु व्यूहाच्या जैं दवरल्यातु थैं तशे । सगले मेळूनु भीष्माकु राखातु चों वशीं तुमी ॥११॥**

मगे पर्थून कितें उलयता। सगल्यां सैनिकांक म्हण्टा। दळां आपापलीं आतां। करात सज्ज ।२१। जांच्यो ज्यो अक्षौहिणी[५७] । तांणी त्यो झुजास्थानीं। दिवंच्यो त्यो वांटुनी । महारथ्यांकडेन ।२२। तांणी तांकां राखचें । भीष्माचे आज्ञेंत रावचें । मगे द्रोणाक म्हळें, देखचें। तुमी सगलें ।२३। ह्या भीष्मा एकल्या सांबाळचो । ताका म्हजे वरीच मानचो । हाणेंच सर्व वटयां भार दळाचो । उखल्ला ।२४।

*संजय उवाच:* तस्य संजनयन्हर्षं कुरुवृद्धः पितामहः । सिंहनादं विनद्योच्चैः शङ्खं दध्मौ प्रतापवान् ॥१२॥

या राजाचिया बोला । सेनापति संतोषला । मग तेणें केला । सिंहनादु ।२५। तो गाजत असे अद्भुतु । दोनी सैन्यांआतु । प्रतिध्वनि न समातु । उपजत असे ।२६। तयाचि तुलगासवें । वीरवृत्तीचेनि थावें । दिव्य शंख भीष्मदेवें । आस्फुरिला ।२७। ते दोन्ही नाद मिनले । तेथ त्रैलोक्य बधिरभूत जाहलें। जैसें आकाश का पडिलें । तुटोनियां ।२८। घडघडीत अंबर । उचंबळत सागर । क्षोभलें चराचर । कांपत असे ।२९। तेणें महाघोषगजरें । दुमदुमिताती गिरिकंदरें । तंव दळामाजि रणतुरें। आस्फारिलीं ।१३०।

ततः शङ्खाश्च भेर्यश्च पणवानकगोमुखाः । सहसैवाभ्यहन्यन्त स शब्दस्तुमुलोऽभवत् ॥१३॥

उदंड सैंघ वाजतें । भयानकें खाखातें । महाप्रळयो जेथें । धाकडांसी ।३१। भेरी निशाण मांदळ । शंख काहळा भोंगळ । आणि भयासुर रणकोल्हाळ। सुभटांचे ।३२। आवेशें भुजा त्राहाटिती । विसणैले हांका देती । जेथ महामद भद्रजाती । आवरती ना ।३३। तेथ भेडांची कवण मातु । कांचया फेर फिटतु। जेणें दचकला कृतांतु । आंग नेघे ।३४। एकां उभयांचि प्राण गेले । चांगांचे दांत बैसले । बिरुदांचे दादुले । हिंवताती ।३५। ऐसा अद्भुत तूरबंबाळु । ऐकोनि ब्रह्मा व्याकुळु । देव म्हणती प्रळयकाळु । वोढवला आजी ।३६। ऐसी स्वर्गीं मातु । देखोनि तो आकांतु । तंव पांडवदळांआंतु । वर्तलें कायी ।३७। हो का निजसार विजयाचें । कीं तें भांडार महातेजाचें । जेथ गरुडाचिये जावळियेचे । कांतले चाऱ्ही ।३८।

ततः श्वेतैर्हयैर्युक्ते महति स्यन्दने स्थितौ । माधवः पाण्डवश्चैव दिव्यौ शङ्खौ प्रदध्मतुः ॥१४॥
पाञ्चजन्यं हृषीकेशो देवदत्तं धनंजयः । पौण्ड्रं दध्मौ महाशङ्खं भीमकर्मा वृकोदरः ॥१५॥

कीं पाखांचा मेरु जैसा। रहंवरु मिरवतसे तैसा। तेजें कोंदाटलिया दिशा। जयाचेनि।३९। जेथ अश्ववाहकु आपण । वैकुंठीचा राणा जाण। तया रथाचे गुण। काय वर्णूं ।१४०। ध्वजस्तंभावरी वानरु। तो मूर्तिमंत शंकरु। सारथी शार्ङ्गधरु । अर्जुनेसीं ।४१। देखा नवल तया प्रभूचें। अद्भुत प्रेम भक्तांचें। जें सारथ्य पार्थाचें। करितु असे।४२। पाइकु पाठीसीं घातला। आपण पुढां राहिला। तेणें पांचजन्यु आस्फुरिला । अवलीळाचि ।४३। परी तो महाघोषु थोरु। गाजत असे गंहिरु। जैसा उदैला लोपी दिनकरु। नक्षत्रांतें ।४४। तैसे तूरबंबाळु भंवते । कौरवदळीं गाजत होते। ते हारपोनि नेणों केउते । गेले तेथ ।४५। तैसाचि देखें येरें । निनादें अति गहिरें । देवदत्त धनुर्धरें । आस्फुरिला ।४६। ते दोनी शब्द अचाट । मिनले एकवट । तेथे ब्रह्मकटाह शतकूट । हों पाहत असे ।४७। तंव भीमसेनु विसणैला । जैसा महाकाळु खवळला । तेणें पौंड्र आस्फुरिला । महाशंखु ।४८।

अनन्तविजयं राजा कुन्तीपुत्रो युधिष्ठिरः। नकुलः सहदेवश्च सुघोषमणिपुष्पकौ ।।१६।।

तो महाप्रलयजलधरु । जैसा घडघडिला गंहिरु । तंव अनंतविजयो युधिष्ठिरु । आस्फुरित असे ।४९। नकुळें सुघोषु । सहदेवें मणिपुष्पकु । जेणें नादें अंतकु। गजबजला ठाके ।१५०।

काश्यश्च परमेष्वासः शिखण्डी च महारथः । धृष्टद्युम्नो विराटश्च सात्यकिश्चापराजितः ॥१७॥
द्रुपदो द्रौपदेयाश्च सर्वशः पृथिवीपते । सौभद्रश्च महाबाहुः शङ्खान्दध्मुः पृथक्पृथक् ॥१८॥

तेथ भूपती होते अनेक । द्रुपदद्रौपदेयादिक । हा काशीपति देख । महाबाहू ।५१। तेथ अर्जुनाचा सुतु । सात्यकि अपराजितु। धृष्टद्युम्नु नृपनाथु । शिखंडी हन ।५२। विराटादि नृपवर । जे सैनिक मुख्य वीर । तिहीं नाना शंख निरंतर । आस्फुरिले ।५३। तेणें महाघोषनिर्घातें । शेषकूर्म अवचितें । गजबजोनि भूभारातें । सांडूं पाहती ।५४। तेथ तिन्हीं लोक डंडळित । मेरु मांदार आंदोळित । समुद्रजळ उसळत । कैलासवेरी ।५५।

---

**अर्थः** (५८) आकाश. (५९) स्थावर जंगम. (६०) कुकारे. (६१) काळान. (६२) सेवकाक. (६३) सूर्य. (६४) राजा. (६५) काशीचो राय. (६६) शेष (सोरोप) आनी (६७) कुर्म (कांसव) हांचो पृथ्वीक आदार आसा असो समज आसलो. (६८) पर्वतांचीं नांवां. (६९) कैलास पर्वताचे वटयां.

*संजयान म्हळें:* **आजो भीष्म कुरूजाण्टो खोशी ताच्यांत निर्मुकू । प्रतापी गर्जलो शींवसो व्हडानु शंख फुंकुनू ॥१२॥**

**भीष्माचो शींवगाज:** त्या रायाल्या बोलान । सेनापती फुल्लो खोशेन । मगे ताणें गाजून । केलो शींवनाद ।२५। तो गाज आसलो अदभूत । दोनूय सैन्यांत । प्रतीध्वनी आकाशांत । आसपावलोना ।२६। त्या पडसादा सवें स्फुरून । वीर वृत्तीच्या बळान । दिव्य शंख भीष्मदेवान । गाजयलो ।२७। ते दोनी नाद मेळ्ळे। त्रैलोक्याचे कान भेरेले । आकाश पडटाशें दिसलें । तुटून ।२८। धडधडलें अंबर[५८] । उचंबळ्ळो सागर । कोपलें चराचर[५९] । तें लागलें थरथरूं ।२९। त्या महाघोशाच्या गाजान। दुमदुमले दोंगर रान । तंव त्या सैन्यांतल्यान । घुमलीं रणवाद्यां ।१३०।

**मृदंगां शंख मागीरू नगारे धोलु गोमुखां । तेन्ना वाजून वांगडाच जालो बोवाळु भयंकर ।।१३॥**

वाजती वाद्यां उदंड । कर्कश, भयानक । तेन्ना धिरिश्टांक । दिसलो महाप्रळय ।३१। धोल नौबत म्हादळीं । शंख घुमटां वाजलीं । रणकुळ्ळाळाची जाली। आड्डी विरांची ।३२। कांय थापटायती भुजां नेटान । तुतुल्यो[६०] घाली व्हडान । हती उन्मत्त मदान । सुटले सुसाट ।३३। थंय भिजुडां विचारी कोणु? । कांचवेल्ले कोयर कशे गेले हुबूनु । काडलें आंग कृतांतानु[६१]। कडसरलो तो ।३४। उब्या उब्यांच कांय मेले । बऱ्या बऱ्यांचे दांतच बसले। बिरुदां मिरयतले दादले। लागले कुडकुडुं ।३५। असो अद्भूत रणकुळ्ळाळु । आयकूनु ब्रह्मो आकुळु । देव म्हणी प्रळयकाळु । आयलो आयज ।३६। अशी गजाल सर्गांत। पळोवन तो आकांत । तावळी पांडवा सैन्यांत । पळय वर्तलें कितें? ।३७। रथ जो विजया सार । वा महातेजा भांडार । जाका गरुडावरी चार। बांदल्यात घोडे ।३८।

**तेदोळा शुभ्र घोड्यांच्या महारथांतु बैसुनू । कृष्णार्जुनानु आपापले वाजयले दिव्य शंख गा ।१४।**
**पांचजन्य हृषीकेशान् देवदत्त धनंजयान् । वाजयी गा महाशंख । पौंड्र भीम महाबळी ।१५।**

वा पांखांचो जसो मेरु पर्वतु । तसो तो रथ सोबीतु । तेज धायदिकांतु । जाचें दाटलें ।३९। जंय वैकुंठराय श्रीकृष्ण । जालो सारथी आपूण । त्या रथाचे गूण। कशे वर्णू? ।१४०। घुडयेचेर वानरु । तो मुर्तीमंत शंकरू । सारथी तो शारंगधरू । अर्जुनाचो ।४१। पळय नवल त्या प्रभुचें । अद्भूत प्रेम भक्तांचें । जो सारथीपण पार्थाचें । करी गा ।४२। घालो पायकाक[६२] फाटसून। रावलो फुडें आपूण । ताणें फुंकलो पांचजन्य । अचळय ।४३। पूण तो महाघोश थोरू । गाजता भारी गंभीरू । जसो उदेल्लो दिनकरू[६३] । धांकी नखेत्रां ।४४। तशे कौरवसैन्यांत । गाजताले वाद्यांचे निनाद । ते नेणा कशे त्या खिणांत । नाच्च जाले ।४५। तसोच देख तो हेर । नाद भारी गंभीर । देवदत्त धनुर्धर । वाजय तो ।४६। ते दोनूय नाद भीशण । जाले एक भरसून। दिसलें ब्रह्मांड शतचूर्ण । जातलें फुटून ।४७। मगे भीमाक नेट चडलो । जसो महाकाळ खुबलो । ताणें पौंड्र फुंकलो। महाशंख ।४८। गडगड प्रळय मेघांचो । तसो नाद गंभीर पौंड्राचो ।

**अनंत विजया शंखा कुंतीपूत युधिष्ठिर । नकुळ सहदेवानु सुघोष मणिपुष्पक ॥१६॥**

तेन्ना घुमलो युधिष्ठिराचो । अनंत विजय ।४९। सुघोष नकुळानु । मणिपुष्पक सहदेवानु । फुंकिल्ल्यान त्या नादानु । गडबडलोय काळ ।१५०।

**काशीरायु धणू धरपी शिखंडी तो महारथी । अजितु सात्यकी आनी धृष्टद्युम्न विराट बी ॥१७॥**
**द्रुपद द्रौपदेपुत्रान् सुभद्रेच्या पुतानु बी । वाजयले शंख आपापले तांणी विंगडु विंगडु ।।१८॥**

**शंखध्वनीचो परिणाम:** थंय भूपती[६४] आसले अनेक । द्रुपद द्रौपदेय आदीक । हो काशीपती[६५] देख । व्हडल्या बावळ्यांच्यो ।५१। थंय अर्जुनाचो पूत । सात्यकी अपराजीत। धृष्टद्युम्न नृपनाथ । आनी शिखंडी ।५२। राय विराट अनेक । जे सैन्याचे प्रमूख । निरंतर तरतरांचे शंख । वाजयले तांणी ।५३। त्या आकांताळ्या आघातान । अवचीत शेष[६६] कुर्मान[६७] । गडबडून पृथ्वी भारान । उठले उडोवंक ती ।५४। तिनीलोक डळमळ्ळे । मेरू[६८] मंदर[६८] उचंबळ्ळे । समुद्राचें उदकय उसळ्ळें । कैलासावर्शी[६९] ।५५।

**स घोषो धार्तराष्ट्राणां हृदयानि व्यदारयत् । नभश्च पृथिवीं चैव तुमुलो व्यनुनादयन् ॥१९॥**

पृथ्वीतळ उलथों पहात । आकाश असे आसुडत । तेथ सडा होत । नक्षत्रांचा ।५६। सृष्टि गेली रे गेली । देवां मोकळवादी जाहली । ऐशी एक टाळी पिटली। सत्यलोकीं ।५७। दिहाचि दिन थोकला । जैसा प्रळयकाळ मांडला । तैसा हाहाकारु उठिला । तिन्हीं लोकीं ।५८। तंव आदिपुरुष विस्मितु । म्हणे झणें होय पां अंतु । मग लोपिला अद्भुतु । संभ्रमु तो ।५९। म्हणोनि विश्व सांवरलें । एऱ्हवीं युगान्त होतें वोडवलें । जैं महाशंख आस्फुरिले । कृष्णादिकीं ।**१६०**। तो घोष तरी उपसंहरला। परी पडिसाद होता राहिला । तेणें दळभार विध्वंसिला । कौरवांचा ।६१। जैसा गजघटाआंतु । सिंह लीला विदारितु । तैसा हृदयातें भेदितु । कौरवांचिया ।६२। तो गाजत जंव आइकती । तंव उभेचि हियें घालिती । एकमेकांतें म्हणती । सावध रे सावध ।६३।

**अथ व्यवस्थितान्दृष्ट्वा धार्तराष्ट्रान्कपिध्वजः । प्रवृत्ते शस्त्रसंपाते धनुरुद्यम्य पाण्डवः ॥२०॥**

तेथ बळें प्रौढीपुरते । जे महारथी वीर होते । तिहीं पुनरपि दळातें । आवरिलें ।६४। मग सरिसेपणें उठावले । दुणवटोनि उचलले । तया दंडीं क्षोभलें । लोकत्रय ।६५। तेथ बाणवरी धनुर्धर । वर्षताती निरंतर । जैसे प्रळयांत जलधर । अनिवार कां ।६६। तें देखलिया अर्जुनें । संतोष घेऊनि मनें । मग संभ्रमें दिठी सेने । घालितसे ।६७। तंव संग्रामी सज्ज जाहले। सकळ कौरव देखिले। मग लीला धनुष्य उचलिलें। पंडुकुमरें ।६८।

**हृषीकेशं तदा वाक्यमिदमाह महीपते । अर्जुन उवाचः सेनयोरुभयोर्मध्ये रथं स्थापय मेऽच्युत ॥२१॥**

ते वेळीं अर्जुन म्हणतसे देवा । आतां झडकरी रथु पेलावा । नेऊनि मध्यें घालावा । दोहीं दळां ।६९।

**यावदेतान्निरीक्षेऽहं योद्धुकामानवस्थितान् । कैर्मया सह योद्धव्यमस्मिन्रणसमुद्यमे ॥२२॥**
**योत्स्यमानानवेक्षेऽहं य एतेऽत्र समागताः । धार्तराष्ट्रस्य दुर्बुद्धेर्युद्धे प्रियचिकीर्षवः ॥२३॥**

जंव मी नावेक । हे सकळ वीर सैनिक । न्याहाळीन अशेख । झुंजते जे ।**१७०**। एथ आले असती आघवे । परी कवणेंसीं म्या झुंजावें । हें रणीं लागे पहावें। म्हणऊनियां ।७१। बहुतकरूनि कौरव । हे आतुर दुःस्वभाव । वांटिवावीण हांव । बांधिती झुंजीं ।७२। झुंजाची आवडी धरिती । परी संग्रामीं धीर नव्हती। हें सांगोनि रायाप्रती । काय संजयो म्हणे ।७३।

*संजय उवाचः* **एवमुक्तो हृषीकेशो गुडाकेशेन भारत । सेनयोरुभयोर्मध्ये स्थापयित्वा रथोत्तमम् ॥२४॥**

आइका अर्जुन इतुकें बोलिला । तंव कृष्णें रथु पेलिला । दोहीं सैन्यांमाजीं केला । उभा तेणें ।७४।

**भीष्मद्रोणप्रमुखतः सर्वेषां च महीक्षिताम् । उवाच पार्थ पश्यैतान्समवेतान्कुरूनिति ॥२५॥**
**तत्रापश्यत्स्थितान्पार्थः पितृनथ पितामहान् । आचार्यान्मातुलान्भ्रातृन् पुत्रान्पौत्रान्सखींस्तथा ॥२६॥**
**श्वशुरान्सुहृदश्चैव सेनयोरुभयोरपि । तान्समीक्ष्य स कौन्तेयःसर्वान्बन्धूनवस्थितान् ॥२७॥**

जेथ भीष्मद्रोणादिक । जवळिकेचि सन्मुख । पृथिवीपति आणिक । बहुत आहाति ।७५। तेथ स्थिर करुनि रथु । अर्जुन असे पाहातु । तो दळभार समस्तु। संभ्रमेंसीं ।७६। मग देवा म्हणे देख देख । हे गोत्रगुरू अशेख । तंव कृष्णा मनीं नावेक । विस्मो जाहला ।७७। तो आपणयां आपण म्हणे । एथ कायी कवण जाणे । हें मनीं धरिलें येणें । परि कांहीं आश्चर्य असे ।७८। ऐसी पुढील से घेतु । तो सहजें जाणे हृदयस्थु । परी उगा असे निवांतु। तिये वेळीं ।७९। तंव तेथ पार्थु सकळ । पितृपितामह केवळ। गुरुबंधुमातुळ। देखता जाहला ।**१८०**। इष्टमित्र आपुले । कुमरजन देखिले । हे सकळ असती आले । तयांमाजीं ।८१।

---

**अर्थः** (७०) धा हजार झुजाऱ्यांचेर लक्ष दवरपी झुजारी. (७१) युद्धांत; झुजांत. (७२) तोंडा सामकार. (७३) अंदाज.

**धृतराष्ट्रा पुतां काळजां त्या घोशानु विदारलीं । मळब भूंय गाजोवपी घोश गाजलो भयंकर ॥१९॥**

पृथ्वीतळ पळेता उमथूंक । पावलें आकाश तुटूंक । तावळी लागलीं शिंवरूंक । नक्षत्रां ।५६। सृश्टी गेली रे गेली । देवां उल्लो ना वाली । एकूच हुयेल माल्ली । सत्यलोकीं ।५७। दिसाचोच सुर्या थांबयलो । जसो प्रळयकाळ मांडलो । तावळी हाहाकार जालो । तिनी लोकीं ।५८। तंव आदीपुरूश विस्मीत। म्हणी खरोच जातलो अंत । ताणे थांबयलो अद्भूत । गदळ तो ।५९। म्हूण संवसार हो सांवल्लो । युगान्तूच जावंक पाविल्लो । तावळी शंखनाद केलो। कृष्णादिकांनी।**१६०**। तो घोश जरी थांबयलो। तरी पडसाद जायत रावलो । ताणें दळभार नश्टिलो । कौरवांचो ।६१। जसो हतयां हींडांत । शींव करी दानाधिस्पट। तसो तो काळजां भेदीत । गेलो कौरवांचीं ।६२। आयकून तो पडसाद । सुटलो तांच्या काळजां थाव । म्हण्टी ते एकमेकांक। सादूर रे सादूर ।६३।

**देखुनू कौरवां माण्णेन शस्त्रांचो घावु घालुंकू । वानराचि घुडि लायिल्लो पार्थ उखलूनु गा धणू ॥२०॥**

तांतले शूर बळीश्ट थोरु। जे आसले महारथी[७०] वीरु । तांणी परतून दिवन धीरु । सांवल्लीं दळां ।६४। तयारेन फुडें सल्ले । दोट्टी नेटान उठले । तांच्या धेंकान तिडकले। त्रिलोक ।६५। थंय धनुर्धारी वीर। बाण शिंवरायती निरंतर । जशे प्रळयीं अनिवार । वर्सती मेघ ।६६। तें चोवनु अर्जुन । संतोशलो मनान। मगे सैन्यार, गदळून। घाली दिश्टी।६७। तंव संग्रामीं[७१] सज्ज जाल्ले । सगल्यां कौरवां देखले । मगे अचळय धणू उखल्लें । पांडुकुंवरान ।६८।

**आगा राया अशीं उतरां उलयलो पार्थ केशवा ।**

*अर्जुनान म्हळें:* **थाराय रथ म्हजो आतां कृष्णा दोनै दळां मदीं ॥२१॥**

तावळी अर्जुन म्हणी देवा । आतां बेगीं रथ धांवडाया । व्हरून तो मदीं थाराया । दोनूय दळां मदीं ।६९।

**म्हण्टच हांव नियाळीन झुजा इत्सेनु जे उबे । कोणाकडेन झुजपाचें तें म्हाका ह्या रणसंगरीं ॥२२॥**
**पळेतां सर्व योद्ध्यांकु जे आयिल्ले रणांतु ह्या । दुश्ट दुर्योधनाचें गा ह्या झुजांत इत्सुपी बरें ॥२३॥**

म्हणटच हांव खीण एक । ह्या सगल्या वीर सैनिकांक । नियाळीन एक एक । जे आयल्यात झुजूंक ।**१७०**। हांगा सर्व आयले जे झुजूंक । पूण कोणाकडेन जाय झुजूंक । तें गरजेचें पळोवंक । रणांत ह्या ।७१। भोव करून हे कौरव । जाल्या आतूर, तांचो दुश्ट सभाव । पराक्रमावीण हांव । धरती झुजाची ।७२। झुजाची आवड धरतात । पूण संग्रामीं गंभीर नासतात । हें सांगून रायाक । फुडें उलयलो संजय ।७३।

*संजयान म्हळें:* **अर्जुनाचीं अशीं उतरां कृष्णान आयकूनु भारता । दोनै सैन्यांमदीं केलो उबो भौच बरो रथ ॥२४॥**

आयक, अर्जुन इतलें उलयलो । मगे कृष्णान रथ सांवल्लो । दोनूय सैन्यांमदीं केलो । उबो ताणें ।७४।

*संजयान म्हळें:* **सामखार भीष्म द्रोणाच्या सर्व राजां मुखारु तो । म्हळें पार्था पळे सगल्यां जमिल्ल्यां कौरवांकु तूं ॥२५॥**
**अर्जुनान पळेलें थंय आजे नि बापुल्ये उबे । मामा इश्ट गुरू आनी भाव नातू पुतै तशे ॥२६॥**
**मांवु तशे बरे मागते दोनै सैन्यांतु सारके । देखले पार्थानु गा सारके आप्त झुजाकु सज्ज ते ॥२७॥**

जंय भीष्म द्रोण आदीक । लागशिल्ले सन्मुख[७२] । पृथ्वीपती आनीक । जायते आसातु ।७५। थंय थीर कर्न रथ । अर्जुन आशिल्लो पळेत । तो दळभार समस्त । सामको गोंदळून ।७६। मगे पळय, पळय, म्हणी देवाक । ह्या गोत्र-गुरूंक सगल्यांक। तंव कृष्ण मनीं खीण एक । जालो विस्मीत ।७७। श्रीकृष्ण आपल्या मनीं म्हणी । हाका जालां कितें, कोण जाणी । हाणें धल्लां हें मनीं । पूण नवलाचें हें ।७८। असो फुडलो हव[७३] घेत । सहज कळ्ळें ताचें हृदगत। पूण वोगी रावलो तो निवांत । त्या वेळारी ।७९। तेन्ना थंय सगले । फकत आजे नि बापोलये । गुरू भाव तशे मावळे । देखले पार्थान ।१८०। इश्ट मित्र आपले । नि कुंवरय देखले । मेवणेय तशे आयले । तांचे मदीं ।८१।

सुहृज्जन सासरे । आणीकही सखे सोइरे । कुमर पौत्र धनुर्धरें । देखिले तेथ ।८२। जयां उपकार होते केले । कां आपदीं जे राखिले । हे असो वडील धाकुले-। आदिकरूनि ।८३। ऐसें गोत्रचि दोहीं दळीं । उदित जालें असे कळीं । हें अर्जुनें तिये वेळीं। अवलोकिलें ।८४।

**कृपया परयाविष्टो विषीदन्निदमब्रवीत् ।**

तेथ मनीं गजबज जाहाली । आणि आपैसी कृपा आली । तेणें अपमानें निघाली । वीरवृत्ति ।८५। जिया उत्तमकुळींचिया होती। आणि गुणलावण्य आथी। तिया आणिकीतें न साहती । सुतेजपणें ।८६। नविये आवडीचेनि भरें । कामुक निजवनिता विसरे । मग पाडेंवीण अनुसरे । भ्रमला जैसा ।८७। कीं तपोबळें ऋद्धी । पातलिया भ्रंशे बुद्धी । मग तया विरक्ततासिद्धी । आठवेना ।८८। तैसें अर्जुना तेथ जाहलें । असतें पुरुषत्व गेलें । जें अंत:करण दिधलें। कारुण्यासी ।८९। देखा मंत्रज्ञु बरळु जाय । मग तेथ कां जैसा संचारु होय । तैसा तो धनुर्धर महामोहें । आकळिला ।१९०। म्हणऊनी असता धीरु गेला । हृदया द्रावो आला। जैसा चंद्रकळीं सिंपिला । सोमकांतु ।९१। तयापरी पार्थु । अतिस्नेहें मोहितु । मग सखेद असे बोलतु । अच्युतेंसी।९२।

*अर्जुन उवाच:*

**दृष्ट्वेमं स्वजनं कृष्ण युयुत्सुं समुपस्थितम् ॥२८॥**

**सीदन्ति मम गात्राणि मुखं च परिशुष्यति । वेपथुश्च शरीरे मे रोमहर्षश्च जायते ॥२९॥**

**गाण्डीवं स्रंसते हस्तात्त्वक्चैव परिदह्यते । न च शक्नोम्यवस्थातुं भ्रमतीव च मे मन: ॥३०॥**

तो म्हणे अवधारीं देवा । म्यां पाहिला हा मेळावा । तंव गोत्रवर्गु आघवा । देखिला एथ ।९३। हे संग्रामीं अति उद्यत । जाहाले असती कीर समस्त। पण आपणपेयां उचित । केवीं होय ।९४। येणें नांवेंचि नेणों कायी। मज आपणपें सर्वथा नाहीं। मन बुद्धी ठायीं । स्थिर नोहे ।९५। देखें देह कांपत । तोंड असे कोरडें होत । विकळता उपजत । गात्रांसी ।९६। सर्वांगा कांटाळा आला। अति संतापु उपनला । तेथ बेंबळ हातु गेला । गांडिवाचा ।९७। तें न धरतचि निष्टलें । परि नेणेंचि हातोनि पडिलें । ऐसें हृदय असे व्यापिलें । मोहें येणें ।९८। जें वज्रापासोनि कठिण । दुर्धर अतिदारुण । तयाहून असाधारण । हें स्नेह नवल ।९९। जेणें संग्रामीं हरु जिंतिला । निवातकवचांचा ठावो फेडिला । तो अर्जुन मोहें कवळिला। क्षणामाजीं ।२००। जैसा भ्रमर भेदी कोडें । भलतैसें काष्ठ कोरडें । परि कळिकेमाजीं सांपडे । कोंवळिये ।१। तेथ उत्तीर्ण होईल प्राणें । परी तें कमळदळ चिरूं नेणे। तैसें कठीण कोंवळेपणें । स्नेह देखा ।२। हे आदिपुरुषाची माया । ब्रह्मेयाही न येचि आया । म्हणऊनी भुलविला ऐकें राया । संजयो म्हणे ।३। अवधारीं मग तो अर्जुनु । देखोनि सकळ स्वजनु । विसरला अभिमानु । संग्रामींचा ।४। कैसी नेणों सदयता । उपनली तेथें चित्ता । मग म्हणे कृष्णा आतां । नसिजे एथ ।५। माझें मन अतिशय व्याकुळ । होतसे वाचा बरळ । जे वधावे हे सकळ । येणें नांवें ।६।

**निमित्तानि च पश्यामि विपरीतानि केशव । न च श्रेयोऽनुपश्यामि हत्वा स्वजनमाहवे ॥३१॥**

या कौरवां जरी वधावें । तरी युधिष्ठिरादिक कां न वधावें । हे येरयेर आघवे । गोत्रज आमुचे ।७। म्हणोनि जळो हें झुंज । प्रत्यया न ये मज । एणें काय काज। महापापें ।८। देवा बहुतीं परीं पाहतां । एथ वोखटें होईल झुंजतां । वर कांहीं चुकवितां । लाभु आथी ।९।

**न काङ्क्षे विजयं कृष्ण न च राज्यं सुखानि च । किं नो राज्येन गोविन्द किं भोगैर्जीवितेन वा ॥३२॥**

**येषामर्थे काङ्क्षितं नो राज्यं भोगा: सुखानि च । त इमेऽवस्थिता युद्धे प्राणांस्त्यक्त्वा धनानि च ॥३३॥**

तया विजयवृत्ती कांहीं। मज सर्वथा काज नाहीं। एथ राज्य तरी कायी। हें पाहुनियां।२१०। या सकळांतें वधावें । मग जे भोग भोगावे। ते जळोत आघवे। पार्थु म्हणे।११। तेणें सुखेंविण होईल। तें भलतैसें साहिजेल। वरी जीवितही वेंचिजेल। यांचिलागीं।१२।

---

**अर्थ:** (७४) चंद्रकांत मणी. (७५) अर्जुनाचें धणूं. (७६) भयंकर. (७७) शंकराक. (७८, ७९) राक्षसांचीं नांवां.

बरे मागते नि मांवु। सखे सोयरे आनिकूयु । पार्थान देखले थंयु । नातू नि कुंवर ।८२। जांचेर उपकार केल्ले। अपदेंत राखिल्ले। हें आसूं, व्हड धाकले । आदी सगले ।८३। अशें दोनूय सैन्यांत । कळे वेळारी उपस्थीत । त्या खिणा दायजी गोत्र। पळेलें अर्जुनान ।८४।

**कळवळून कौंतेय खेदिश्ट जावनु तो म्हणी ।**

**अर्जुनाच्या मना गंदळाचें वर्णन:** तावळीं मनीं गडबड जाली। आनी आपशीं काकुयट आयली । त्या अपमानान सोडून भायर सल्ली । वीरवृत्ती ।८५। ज्यो उत्तम कुळीच्यो आसती। नि गुणाची, लावण्यवती । नसाय करी सवतीची ती । तेजस्वीपणान ।८६। नवेले जारिणीचे प्रितीन । कामुक, घरकान्न विसरून । फावनाशिल्ले फाटसून । वेता पिश्यावरी जसो; ।८७। वा मेळटां तपोबलान रिद्धी । भ्रमता विरक्ताची बुद्दी । मगे ताका वैराग्य सिद्धी । आठोवना ।८८। तशें अर्जुनाचें थंय जालें। आशिल्लें पौरूश गेलें । अंतस्कर्ण ताणें दिलें । करुणेक ।८९। पळे, मांत्रीक मंत्रा उच्चार चुकतां । मगे ताका भूतबाधा जाता। तशें वारें लागलें पार्था । म्हाभ्रमाचें ।१९०। पूण सल्लो आशिल्लो धीरू । हृदयाकु फुटलो पाझरु । जशें चान्नें स्पर्शिल्यारू । पगळटा चंद्रकांत[७४] ।९१। ते परी अर्जुनु । गोंदळ्ळो अती स्नेहानु । उलयलो खेदानु । कृष्णाकडेन ।९२।

*अर्जुनान म्हळें:* **देखुनु आप्त हे कृष्णा खुमखुमले झुजपाक जे ॥२८॥**

**गळऽगात्रां म्हगेलीं हीं सुकलां गा तोंडु हें म्हजें । म्हगेली कूड थरथरता फुल्ता कांटो तिचेरु गा ॥२९॥**

**सुटऽ गांडीव हातांतलें ही कातूय हुल्पता म्हजी । जावना उबोच रावूंकू घुंवताशें मन हें म्हजें ॥३०॥**

**मना गंदळाचो परिणाम:** आयक देवा, ताणें म्हळें । हो मेळ हांव पळे । तंव गोत्रवर्गी सगले । दिसले म्हाका ।९३।-हे झुजाक शिंवशिंवल्यात । जाल्यात सज्ज समस्ता । पूण आपणां हें झूज उचीत । जायत कशें? ।९४। गजाल काडटांच झुजाची । सुद्द बुद्द वता म्हजी । सस्तताय मनबुद्दीची । नश्ट जाता ।९५। पळय थरथरता ही कूड। सामकें सुकलां म्हजें तोंड । जालीं गात्रां गुळो जड । सामकीं विकळ ।९६। कांटो आंगार फुल्ला । मना जाळ पडला । हातचें सुटलां । गांडीव[७५] ।९७। तें धरऽ म्हणसर निश्टलें । नकळटां हातसून पडलें । अशें हृदय दाटलें । ह्या गोंदळान ।९८। जें वज्रापरस कठीण । दुर्धर अती दारूण[७६] । ताचेहून असाधारण । हो संभ्रम ।९९। जाणें संग्रामीं हराक[७७] जिखलो । निवांत[७८]* कवचा[७९]* थाव फोडलो । त्या अर्जुना मोहान कवळ्ळो । खिणांत ।२००। जसो भोंवर कोरांथी । सहज सुक्या काश्टाची कांठी । पूण शिरकता कळयेमदीं । कंवळे ।१। थंय करीत प्राण अर्पण । पूण कमळदळ चिरूंक जायना मन । तशें कंवळिकायेन कठीण । मयपास ।२। ही आदी पुरसाची माया । ब्रह्मदेवाकय आवरना राया । म्हणून भुलयलो तिणें धनंजया। म्हणी संजय ।३। आयक, मगे तो अर्जुनु । पळोवन सगले स्वजनु । विसल्लो अभिमानु । झुजाचो ।४। नेणा कशी करुणा। आयली ताच्या मना । मगे म्हण्टा, आतां कृष्णा । हांगा नाशिल्लें बरें ।५। म्हजें मन भारी व्याकूळ । वाचा म्हजी बरळ । कशें मारूं हे सकळ । कळना म्हाका ।६।

**दिसऽ हीं लक्षणां म्हाका विपरीतूच केशवा । कल्याण दिसना जायतु आप्तां हाणूनु संगरीं ॥३१॥**

ह्या कौरवां जर वधचें । तर युधिष्ठिरादिकां कित्या न्ही वधचें? हे सगले लागिंचे । दायजी आमचे ।७। म्हूण जळूं हें झूज । मना पडना समज । म्हजें कितें कामकाज । ह्या महापातकाशीं ।८। देवा, भोव तरांनी पळेतां । झूज हें पडटलें वायटा । वयल्यान पडत हिता । हें चुकयल्यार ।९।

**जैता इत्साच ना कृष्णा नाका राज्य तशीं सुखां । कित्या तें राज्य नी भोग जगून हांव करतलों कितें ॥३२॥**

**राज्य भोग सुखां आमी जांचे पासतु इत्सुचीं । आशा प्राणां धना सोडून् उबे रावल्यातु ते रणीं ॥३३॥**

अशा त्या विजयाकडेनु । म्हाका कांयच येना लागूनु । अशें राज्य मेळोवनु । करचें कितें? ।२१०। ह्या सगल्यां मारचे । मगे जे भोग भोगचे । ते जळूं सगले । म्हणी पार्थ ।११। त्या सुखावीण । हांव कितेंय सोंशीन । घडये जिवूय दियन । हाचे पासत ।१२।

परी यासी घातु कीजे। मग आपण राज्य भोगिजे। हें स्वप्नींही मन माझें। करूं न शके ।१३। तरी आम्ही कां जन्मावें । कवणालागीं जियावें। जें वडिलां या चिंतावें। विरुद्ध मनें ।१४। पुत्रातें इप्सी कुळ । तयाचें कायि हेंचि फळ । जे निर्दाळिजे केवळ। गोत्र आपुलें।१५। हें मनींचि केविं धरिजे । आपण वज्राचेया बोलिजे। वरी घडे तरी कीजे । भलें एयां ।१६। आम्हीं जें जें जोडावें । तें समस्तीं इहीं भोगावें । हें जीवितही उपकारावें। काजीं यांचां ।१७। आम्ही दिगंतींचे भूपाळ । विभांडूनि सकळ। मग संतोषविजे कुळ । आपुलें जें ।१८। तेचि हे समस्त । परी कैसें कर्म विपरीत । जे जाहले असती उद्यत । झुंजावया।१९। अंतौरियां कुमरें । सांडोनियां भांडारें। शस्त्राग्रीं जिव्हारें। आरोपुनी ।२२०। ऐसियांतें कैसेनि मारूं । कवणावरी शस्त्र धरूं । निज हृदया करूं। घातु केवीं ।२१।

आचार्याः पितरः पुत्रास्तथैव च पितामहाः । मातुलाःश्वशुराःपौत्राःश्यालाःसंबन्धिनस्तथा ॥३४॥

हे नेणरसी तूं कवण । परी पैल भीष्म द्रोण । जयांचे उपकार असाधारण । आम्हां बहुत ।२२। एथ शालक सासरे मातुळ । आणि बंधु कीं हे सकळ । पुत्र नातू केवळ । इष्टही असती ।२३। अवधारीं अति जवळिकेचे । हे सकळही सोयरे आमुचे । म्हणोनि दोष आथि वाचे । बोलतांचि ।२४।

एतान्न हन्तुमिच्छामि घ्नतोऽपि मधुसूदन । अपि त्रैलोक्यराज्यस्य हेतोः किं नु महीकृते ॥३५॥

हे वरी भलतें करितु । आतांचि एथें मारितु । परि आपण मनें घातु । न चिंतावा ।२५। त्रैलोक्यींचें अनकळित । जरी राज्य होईल प्राप्त । तरी हें अनुचित। नाचरें मी ।२६। जरी आजि एथ ऐसें कीजे । तरी कवणाच्या मनीं उरिजे । सांगें मुख केवीं पाहिजे । तुझें कृष्णा ।२७।

निहत्य धार्तराष्ट्रान्नः का प्रीतिः स्याज्जनार्दन । पापमेवाश्रयेदस्मान्हत्वैतानाततायिनः ॥३६॥

जरी वधु करुनि गोत्रजांचा । तरी वसौटा होऊनि दोषांचा । मज जोडिलासि तूं हातींचा । दूरी होसी ।२८। कुळहरणीं पातकें। तियें आंगीं जडती अशेखें। तये वेळीं तूं कवणें कें । देखावासी ।२९। जैसा उद्यानामाजीं अनळु । संचरला देखोनि प्रबळु । मग क्षणभरी कोकिळु । स्थिर नोहे ।२३०। कां सकर्दम सरोवरु । अवलोकूनि चकोरु । न सेवितु अव्हेरु । करूनि निघे ।३१। तयापरी तूं देवा । मज झकों न येसी मावा । जरी पुण्याचा वोलावा। नाशिजैल ।३२।

तस्मान्नार्हा वयं हन्तुं धार्तराष्ट्रान्स्वबान्धवान् । स्वजनं हि कथं हत्वा सुखिनः स्याम माधव ॥३७॥

म्हणोनि मी हें न करीं । इये संग्रामीं शस्त्र न धरीं । हें किडाळ बहुतीं परीं । दिसतसे ।३३। तुजसीं अंतराय होईल । मग सांगें आमुचें काय उरेल । तेणें दुःखें हियें फुटेल । तुजवीण कृष्णा ।३४। म्हणवूनि कौरव हे वधिजती । मग आम्हीं भोग भोगिजती। हे असो मात अघडती । अर्जुन म्हणे ।३५।

यद्यप्येते न पश्यन्ति लोभोपहतचेतसः । कुलक्षयकृतं दोषं मित्रद्रोहे च पातकम् ॥३८॥
कथं न ज्ञेयमस्माभिः पापादस्मान्निवर्तितुम् । कुलक्षयकृतं दोषं प्रपश्यद्भिर्जनार्दन ॥३९॥

हेंय अभिमानपदें भुलले । जऱ्हीं पां संग्रामा आले । तऱ्हीं आम्हीं हित आपुलें । जाणावें लागे ।३६। हें ऐसें कैसें करावें । जे आपुले आपण मारावे। जाणत जाणतांचि सेवावें । काळकूट ।३७। हां जी मार्गीं चालतां । पुढां सिंह जाहला अवचितां । तो तंव चुकवितां । लाभु आथी ।३८। असता प्रकाशु सांडावा। मग अंधकूप आश्रावा । तरी तेथ कवणु देवा । लाभु सांगें ।३९। कां समोर अग्नि देखोनी । जरी न वचिजे वोसंडोनी । तरी क्षणीं एका कवळूनि । जाळूं सके ।२४०। तैसे दोष हे मूर्त । अंगीं वाजों असती पाहात । हें जाणतांही केवीं एथ । प्रवर्तावें ।४१। ऐसे पार्थ तिये अवसरीं। म्हणे देवा अवधारीं। या कल्मषाची थोरी । सांगेन तुज ।४२।

पूण हांचो घात करून। भोगचें राज्य आपूण। हें सपनांतूय म्हजें मन। करचें ना।१३। तर आमी कित्या जल्मुंचें । कोणा पासत जियेवंचें । जाण्ट्यांचें अशेंच चिंतुचें । अहीत मनीं? ।१४। पूत मेळचो इत्सी कूळ । ताचें कितें हेंच फळ?। जो निर्दाळी केवळ। गोत्र आपलें?।१५। हें मनीं कशें हाडचें?। वज्रावरी कशें उलोवंचें?। केल्यार बरेंच करचें। दिसता वयल्यान।१६। आमी जें जें जोडुंचें । तें तें तांणीच भोगुंचें । हें जिवीतूय समर्पुचें । तांचे पासत ।१७। दशदिशांचे जे भूपाळ[८०]। ते जिखून सकळ। मगे तुश्ट करचें कूळ। आमचें जें।१८। पूण कशें कर्म विपरीत। पळे, तेच हांगा समस्त। हांगा खुमखुमल्यात। झुजूंक ।१९। अस्तुऱ्यो, कुंवर । सोडुनूय भांडार । जीव शस्त्रां तोंकार । दवरून ।२२०। अश्यांक कशे मारूं?। कोणाचेर शस्त्र धरूं। नीज हृदया करूं। कसो घात? ।२१।

**आचार्य आनी जाण्टेले आजे नि पूत बी तशे । मामा नातू तशे मांवु मेवणे आप्तेश्ट ते म्हजे ।३४।**

तूं नेणा हे कोण। पेल्यान भीष्म द्रोण। जांचे उपकार म्हान। भोव आमचेर।२२। हांगा मेवणे मांव मावळे । नि भाव हे सगले। पूत नातूय तांतले । इश्टय आसात ।२३। आयक, हे चड लागिंचे । सगलेच सोयरे आमचे । म्हूण पातक वाचे । उलयल्यारूय ।२४।

**मारीनु दिसना हांकां मारती म्हाका जरी हरी। राज्य नाका त्रिलोकाचें पडलां कोणाकु पृथ्विचें ।।३५।।**

तें तांकां जायतें करूं दी। आमकां हांगाच मारूं दी। पूण तांचो घात आमी। मनांतय चिंतुचो न्ही ।२५। त्रैलोक्याचें वैऱ्यां विरयत। जरी राज्य आमकां मेळत । तरी हें अनुचीत । करचो ना हांव ।२६। तरी आयज हांगा अशें करचें । तर कोणें आमकां व्हड म्हणचें?। सांग तोंड तरी कशें देखचें । तुजें कृष्णा?।२७।

**जातलें बरें कशें कृष्णा हाणूनु कौरवांक ह्या । लागतु पातकू आमकां मारूनु घातक्यांकु ह्या ।।३६।।**

जर वध केलो दायज्यांचो। तर जातलो आसरो दोशांचो। म्हाका मेळिल्लो तूं हातांतलो। वेतलो पयस।२८। पातकां कुळक्षयाचीं असलीं। सगलीं आंगाक दसतलीं । मगे ते कळेवेळीं । सोदूं खंय तुका? ।२९। जसो उद्यानांत उजो लागतां। वेगीं भडकून पेट्टां। खीणभरय रावता। कोगूळ थंय?।२३०। वा चिखलान भरिल्लें सरोवर । तें पळोवन चकोर । चाखलेवीण कर्न अव्हेर। वेता पयस?।३१। देवा, तूंय ते परी। जर पुण्याची ओल सुकली । म्हाका मायेन फटयशी । वशीत पयस ।३२।

**मारूंकु फावना देखून आमच्या भावांक कौरवां । आमच्या घरच्यांक मारुनु कृष्णा भोगूं कशें सुख ।।३७।।**

म्हणून हांव हें करिना । ह्या संग्रामीं शस्त्र धरिना । ही करणी निंद्य कृष्णा। दिसता म्हाका ।३३। तूं आमकां अंतरशीत । तर सांग आमचें कितें उरत?। दुःखान हृदय फुटत । आमचें कृष्णा ।३४। म्हूण कौरवां मारचे । मगे भोग भोगचे । हें कशेंच ना घडचें । म्हणी अर्जुन ।।३५।

**बुद्द लोभानु भश्टल्ल्यान हांकां म्हणूनु दीसना । पातकु इश्ट द्रोहाचें दोश कूळ क्षयांतुलो ।।३८।।**
**कळना गा कशें आमकां टाळचें हें पातकु कशें । कूळक्षयांतुलो दोश जो येवपी स्पश्ट दिस्तना ।।३९।।**

हे अभिमान मदान भुल्ले । जरी झुजपाक आयले । तरी आमीच हीत आपलें । जाय पळोवंक ।३६। हें अशें कशें करचें?। जे आपले, आपणेंच मारचे?। दाटून पियेवंचें । काळकूट?।३७। आगा वाट चुकतां । फुडें शींव अवचीत येतां । ताका चुकोवपांत आसता । हीत आपलें ।३८। आशिल्लो उजवाड सोडचो । आसरो काळखा बायेंत घेवंचो। देवा तुवेंच सांगचो । थंय कितें लाभ? ।३९। वा मुखार उजो दिसतां। जर वचना तो बालांडतां। तर तो खिणांत उडयता। लासून।२४०। तशे हे दोश मुर्तीमंत । आंगार कोसळुं पळेतात । हें कळुनूय झुजूंक । फुडें कशें सरचें ?।४१। अशें म्हणी पार्थ त्या वेळारी । ह्या पातकाची थोरी । देवा तुका सांगन बरी । आयक सारकें ।४२।

**कुलक्षये प्रणश्यन्ति कुलधर्माः सनातनाः । धर्मे नष्टे कुलं कृत्स्नमधर्मोऽभिभवत्युत ॥४०॥**

जैसें काष्ठें काष्ठ मथिजे । तेथ वन्हि एक उपजे । तेणें काष्ठजात जाळिजे । प्रज्वळलेनि ।४३। तैसा गोत्रींची परस्परें । जरी वधु घडे मत्सरें । तरी तेणें महादोषें घोरें । कुळचि नाशे ।४४। म्हणवूनि येणें पापें । वंशजधर्मु लोपे । मग अधर्मुचि आरोपे । कुळामाजीं ।४५।

**अधर्माभिभवात्कृष्ण प्रदुष्यन्ति कुलस्त्रियः । स्त्रीषु दुष्टासु वार्ष्णेय जायते वर्णसंकरः ॥४१॥**

एथ सारासार विचारावें । कवणें काय आचरावें । आणि विधिनिषेध आघवे। पारुषती ।४६। असता दीपु दवडिजे । मग अंधकारीं राहाटिजे । तरी उजूचि का अडखुळिजे । जयापरी ।४७। तैसा कुळीं कुळक्षयो होय । तये वेळीं तो आद्य धर्म जाय। मग आन काहीं होय । पापावांचुनी ।४८। जैं यमनियम ठाकती। तेथ इंद्रियें सैरा विचरती । म्हणवूनि व्यभिचार घडती । कुळस्त्रियांसी ।४९। उत्तम अधमीं संचरती । ऐसे वर्णावर्ण मिसळती । तेथ समूळ उपडती। जातिधर्म ।२५०। जैसी चोहटाचिये बळी । पाविजे सैरा काउळीं । तैसीं महापापें कुळीं । प्रवेशती ।५१।

**संकरो नरकायैव कुलघ्नानां कुलस्य च । पतन्ति पितरो ह्येषां लुप्तपिण्डोदकक्रियाः ॥४२॥**

मग कुळा तया अशेखा । आणि कुळघातकां । येरयेरां नरका । जाणें आथी ।५२। देखें वंशवृद्धि समस्त । यापरी होय पतित। मग वोवांडिती स्वर्गस्थ। पूर्वपुरुष ।५३। जेथ नित्यादि क्रिया ठाके । आणि नैमित्तिक कर्म पारुखे । तेथ कवणा तिळोदकें । कवण अर्पी ।५४। तरी पितर काय करिती। कैसेनि स्वर्गीं वसती । म्हणोनि तेही येती । कुळापासीं ।५५। जैसा नखाग्रीं व्याळु लागे । तो शिखांत व्यापी वेगें । तेवीं आब्रह्म कुळ आघवें। आप्लविजे ।५६।

**दोषैरेतैः कुलघ्नानां वर्णसंकरकारकैः । उत्साद्यन्तेजातिधर्माःकुलधर्माश्चशाश्वताः ॥४३॥**
**उत्सन्नकुलधर्माणां मनुष्याणां जनार्दन । नरकेऽनियतं वासो भवतीत्यनुशुश्रुम ॥४४॥**
**अहो बत महत्पापं कर्तुं व्यवसिता वयम् । यद्राज्यसुखलोभेन हन्तुं स्वजनमुद्यताः ॥४५॥**

देवा अवधारीं आणीक एक । एथ घडे महापातक । जे संगदोषें हा लौकिक । भ्रंशु पडे ।५७। जैसा घरीं आपुला । वानिवसें वह्नि लागला । तो आणिकांहीं प्रज्वळिला । जाळूनि घाली ।५८। तैसिया तया कुळसंगती । जे जे लोक वर्तती । तेही बाधु पावती। निमित्तें येणें ।५९। तैसें नाना दोषें सकळ । अर्जुन म्हणे तें कुळ । मग महाघोर केवळ । निरय भोगी ।२६०। पडिलिया तिये ठायीं । मग कल्पांतींही उकल नाहीं । येसणें पतन कुळक्षयीं। अर्जुन म्हणे ।६१। देवा हें विविध कानीं ऐकिजे । परी अझुनिवरी त्रासु नुपजे । हृदय वज्राचें हें काय कीजे । अवधारीं पां ।६२। अपेक्षिजे राज्यसुख। जयालागीं तें तंव क्षणिक। ऐसें जाणतांही दोख । अव्हेरूं ना ।६३। जे हे वडिल सकळ आपुले । वधावया दिठी सूदले । सांग पां काय थेंकुलें । घडलें आम्हां ।६४।

**यदि मामप्रतीकारमशस्त्रं शस्त्रपाणयः । धार्तराष्ट्रा रणे हन्युस्तन्मे क्षेमतरं भवेत् ॥४६॥**

आतां यावरी जें जियावें। तयापासूनि हें बरवें। जें शस्त्रें सांडूनि साहावे। बाण यांचे।६५। तयावरी होय जितुकें । तें मरणही वरी निकें। परी येणें कल्मषें। चाड नाहीं।६६। ऐसें देखून सकळ। अर्जुनें आपुलें कुळ । मग म्हणे राज्य तें केवळ । निरयभोगु ।६७।

*संजय उवाच:* **एवमुक्त्वार्जुनः संख्ये रथोपस्थ उपाविशत् । विसृज्य सशरं चापं शोकसंविग्नमानसः ॥४७॥**

ऐसें तिये अवसरीं । अर्जुन बोलिला समरीं । संजयो म्हणे अवधारीं । धृतराष्ट्रातें ।६८। मग अत्यंत उद्वेगला । न धरत गहिंवरु आला । तेथ उडी घातली खालां । रथौनियां ।६९। जैसा राजकुमरु पदच्युतु । सर्वथा होय उपहतु । कां रवि राहुग्रस्तु । प्रभाहीनु ।२७०।

---

**अर्थः** (८३) समयीं. (८४) रणांत. (८५) धृतराष्ट्र राय. (८६) सूर्य. (८७) राहून गिळिल्लो.

**लया वती कुळा नाशान् कुळाचार सनातनू । ना जाल्ल्यानु कुळाचार मातऽ अधर्मु गा कुळांत् ।।४०।।**

जशी कांठी कांठयेर घश्टुंची । थंय उज्या कीट पेटवंची । मगे सगलीं लाकडां जळचीं । कीट भडकून ।४३। तसो गोत्रांत परस्पर । जर वध घडय मत्सर। तर त्या महादोशान घोर । कुळक्षय जातलो ।४४। देखून ह्या पातकानु । कुळधर्मा नाश जावनु । मगे रावता अधर्म रिगूनु । कुळामाझारीं ।४५।

**कृष्णा अधर्मु मातल्यार भश्टतातु कुळास्त्रियो । भश्टतकीच त्यो कृष्णा वर्णसंकर जायि गा ।।४१।।**

मगे हांगा सारासार विचार । योग्य-अयोग्य आचार । कर्तव्य-अकर्तव्य विचार । सर्वय जातात नश्ट ।४६। पेटिल्लो दिवो वाडोवंचो । मगे काळखांत भोवंचो। सरळ वाटेंतय आदळचो । जे परी; ।४७। तशें कुळीं जाता कुळक्षय । आद्यधर्माचो विलय जाय । मगे पातकाशिवाय । उरत कितें? ।४८। जंय यम[८१]नियम[८२] घडनात । थंय इंद्रियां हेडटी सैराट । म्हूण व्यभिचार घडटात । कुळस्त्रियांचे ।४९। उत्तम अधर्मीं हेडटा । वर्णांत वर्ण भरसता । थंय मुळां सयत हुमटता। धर्म जातीचे ।**२५०**। जसो बळी ठेयल्लो चव्हाटयारी । कावळे मारी झोंपय ताचेरी । तसो महापातकांचो संचारी । कुळीं जाता ।५१।

**नर्कांतु संकरान वेती कुळघातक्यांसवें कुळ । श्राद्धकर्माविणे कृष्णा पितरांची अधोगती ।।४२।।**

मगे त्या कुळा अख्ख्या । आनी कुळघातक्यां । वचप दोगांकूय नरका । चुकना मातूय ।५२। पळय, हे परी समस्त । वंश जातात भ्रश्ट । आनी पुर्वज सर्गेस्त । येती परतून ।५३। जंय नित्य कर्मां घडनात । आनी नैमित्तीक मोडटात । थंय तिळां उदक पितरांक । दितलो कोण? ।५४। तेन्ना पितर कितें करतले? । सर्गीं कशे रावतले? । म्हणून तेय परते येतले । स्वकुळीं ।५५। जसो नाखटा तोंका सर्प चावतां । तें वीख वेगीं तकलेक चडटा । तशें ब्रह्मावेर बुडटा । सगलें कूळ ।५६।

**दोश हे कूळ घातक्यांचे घडोवनु वर्णसंकर । बुडटातु धर्म जातीचे शाश्वतु कूळ धर्म बी ।।४३।।**
**मोडटातु जे कुळाचार भोगतातु दीर्घ काळ ते । नरकवास गा कृष्णा आमी हें आयकलां अशें ।।४४।।**
**कटाऽ कटा कितलें होडु आमी करतातु पातकु । भावां जिवारू ऊठल्यातु आशेवनु राज्य सूख हें ।।४५।।**

देवा, आयक आनीक एक। हांगा घडटा महापातक । जांच्या संगदोशान हो लोक । जाता आचारभश्ट ।५७। जशें आपल्या घरांत । उजो लागता अकस्मात । तो वता पातळत । जाळी शेजारचीं ।५८। तशें त्या कुळासंगतीं । जे जे लोक वर्तती । तांकां पातकां बादती । हे निमतीं ।५९। तशें तरतरां दोशांनी सकळ । म्हणी अर्जुन तें कूळ । मगे महाघोर केवळ । भोगी नरक ।**२६०**। पडटां त्या नरकाठांयीं । सुटका ना कल्पान्ती । इतलें पतन कुळक्षयीं। म्हणी अर्जुन ।६१। देवा, हें इतलें तुवें आयकलें । मातूय कानार ना घेतलें । हृदय वज्राचें कित्या केलें? । आयक तूं ।६२। अपेक्षुचें राज्य सूख। तें आसता क्षणीक। कळिल्ल्यान तांतलें पातक । कित्या सोडचें न्ही? ।६३। हे वाडवडील आमचे सगले । मारचे म्हणून पळेले । सांग, थोडें कितें पातक घडलें । हेंच आमकां? ।६४।

**घालिना घावु पर्तो हांव शस्त्र सोडल्यारि हें बरें । शस्त्र हातांतु घेतिल्ले मार्तीतु कौरवु भौ बरें ।।४६।।**

आतां हाचे वयर जियेवंचें । ते परसय शस्त्र उडोवचें । आनी तांगेले बाण सोंसचे । हेंच बरें ।६५। अशें कर्न मर्ण आयलें । तेंय आयलें बरें जातलें । पूण तांकां मारून जाल्लें । नाका तें पाप ।६६। अशें पळोवन सगलें । अर्जुनान कूळ आपलें । राज्य तें, मगे म्हळें । फकत नरक भोग ।६७।

*संजयान म्हळें:* **अशें रणांतु उलोवनू शोक-व्याकूळु अर्जुनू । धणू नि बाण उडोवनू स्वस्थ रथांतु बैसलो ।।४७।।**

अश्या त्या अवसरीं[८३] । अर्जुन उलयलो समरीं[८४] । राया[८५] बरें ध्यान दिल्यारी । संजयान म्हळें ।६८। मगे तो भारी उद्वेगलो। गळो भरून आयलो । उडकी मारून खाला देंवलो । रथांतल्यान ।६९। जसो राजकुंवर पदभश्ट । जाता सामको अपमानीत। वा रवी[८६] राहुग्रस्त[८७] । तेजहीण; ।**२७०**।

ना तरी महासिद्धिसंभ्रमें । जिंतिला तापसु भ्रमें । मग आकळूनि कामें । दीनु कीजे ।७१। तैसा तो धनुर्धरु । अत्यंत दुःखें जर्जरु । दिसे जेथ रहंवरु । त्यजिला तेणें ।७२। मग धनुष्यबाण सांडिले । न धरत अश्रुपात आले । ऐसें ऐकें राया तेथें वर्तलें । संजयो म्हणे ।७३। आतां यावरी तो वैकुंठनाथु । देखोनि सखेद पार्थु । कवणेपरी परमार्थु । निरूपील ।७४। ते सविस्तर पुढारी कथा । अति सकौतुक ऐकतां । ज्ञानदेव म्हणे आतां । निवृत्तिदासु ।२७५।

इति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे
**अर्जुनविषादयोगो** नाम **प्रथमो**ऽध्यायः ॥१॥
(श्लोक ४७; ओव्या २७५)

ॐ श्रीसच्चिदानन्दार्पणमस्तु ।



**अर्थः** (८८) तपस्वी. (८९) श्रीकृष्ण.

वा महासिद्धी मेळून । जैतवंत तापस[८८] भुलून । विशय वान्सेन ग्रासून । जाता दीन ।७१। तसो तो अर्जुनु । भारी जर्जर दुःखानु । देंविल्लो रथांतल्यानु । लागलो दिसूंक ।७२। मगे धणू बाण सांडले । अश्रु आवरना जाले। आयक, राया अशें थंय वर्तलें। म्हळें संजयान ।७३। आतां हाचेर तो वैकुंठनाथ[८९] । खेदभरीत पळोवन तो पार्थ । कशे परी परमार्थ । सांगतलो पळे ।७४। ती सविस्तर फुडली कथा । उत्सुकतायेन आयका । ज्ञानदेव म्हणी आतां । तो निवृत्तिदास ।२७५।

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**अर्जुनविषादयोग** (अर्जुनाचो खेद) नांवाचो **पयलो** अध्याय सोंपलो.
(श्लोक ४७; होंवयो २७५)

ही ज्ञानेश्वरी मराठीतुली । कोंकणी भाशेंतु अनुसर्जिली ।
ज्ञानेश्वरदास सुरेशान सांगिली । माऊलीचेच आज्ञेनु ॥





# ।। ज्ञानेश्वरी ।।

## अध्याय दुसरा

*संजय उवाच :* **तं तथा कृपयाविष्टमश्रुपूर्णाकुलेक्षणम् । विषीदन्तमिदं वाक्यमुवाच मधुसूदन : ॥१॥**

मग संजयो म्हणे रायातें । आइकें तो पार्थु तेथें। शोकाकुल रुदनातें । करितसे ।१। तें कुळ देखोनि समस्त । स्नेह उपनलें अद्‌भुत । तेणें द्रवलें असे चित्त । कवणेपरी ।२। जैसें लवण जळें झळंबलें । ना तरी अभ्र वातें हाले । तैसें सधीर परी विरमलें। हृदय तयाचें ।३। म्हणोनि कृपा आकळिला । दिसतसे अति कोमाइला । जैसा कर्दमीं रुपला । राजहंस ।४। तयापरी तो पांडुकुमरु । महामोहें अति जर्जरु । देखौनी श्रीशार्ङ्गधरु । काय बोले ।५।

*श्रीभगवानुवाच :* **कुतस्त्वा कश्मलमिदं विषमे समुपस्थितम् । अनार्यजुष्टमस्वर्ग्यमकीर्तिकरमर्जुन ॥२॥**

म्हणे अर्जुना आदि पाहीं । हें उचित काय इये ठायीं । तूं कवण हें कायी । करीत आहासी ।६। तुज सांगें काय जाहलें । कवण उणें आलें । करितां काय ठेलें । खेदु कायिसा ।७। तूं अनुचिता चित्त नेदिसी । धीरु कंहींच न संडिसी । तुझेनि नामें अपयशीं। दिशा लंघिजे ।८। तूं शूरवृत्तीचा ठावो । क्षत्रियांमाजीं रावो । तुझिया लाठेपणाचा आवो । तिहीं लोकीं ।९। तुवां संग्रामीं हरु जिंतिला । निवातकवचांचा ठावो फेडिला । पवाडा तुवां केला। गंधर्वांसी ।१०। हें पाहतां तुझेनि पाडें । दिसे त्रैलोक्यही थोकडें। ऐसें पौरुष चोखडें । पार्था तुझें ।११। तो तूं कीं आजि एथें । सांडूनिया वीरवृत्तीतें। अधोमुख रुदनातें । करितु आहासी ।१२। विचारीं तूं अर्जुनु । कीं कारुण्यें कीजसी दीनु । सांग पां अंधकारें भानु । ग्रासिला आथी ।१३। ना तरी पवनु मेघासी बिहे । कीं अमृतासी मरण आहे । पाहें पां इंधनचि गिळोनि जाये । पावकातें ।१४। कीं लवणेंचि जळ विरे । संसर्गे काळकूट मरे। सांग महाफणी दर्दुरें । गिळिजे कायी ।१५। सिंहासी झोंबे कोल्हा । ऐसा अपाडु आथि कां जाहला । परी तो त्वां साच केला। आजि एथ ।१६। म्हणोनि अझुनी अर्जुना । झणें चित्त देसी या हीना । वेगीं धीर करूनियां मना । सावधान होईं ।१७। सांडीं हें मूर्खपण । उठीं घे धनुष्यबाण । संग्रामीं हें कवण। कारुण्य तुझें ।१८।

---

अर्थ: (१) मेघ, ढग, अभ्र. (२) श्रीकृष्ण. (३) प्रतिश्ठा. (४) पृथ्वी, स्वर्ग आनी पाताळ. (५) शिवाक. (६) निवात आनी कवच नांवाचे बळिश्ट आनी मायावी राक्षस. इंद्राचे शत्रू. प्रल्हादाचो भाव संन्हाद हाचे हे पूत. इंद्राचे विनंतेक लागून अर्जुनान तांचो वध केलो. (७) देवांचो गवय. ताणें अर्जुनाची कीर्त गायली. (८) सूर्य. (९) भयंकर वीख. (१०) सावध. *** टिपो:** परिशिश्ट ४ पळयात.




# ।। ज्ञानेश्वरी ।।

अध्याय दुसरो

*संजयान म्हळें:* **काकुटेनु भरिल्ल्या नी दाटिल्ल्या दोळयां दुकां । त्या शोकाकूळ पार्थाकु म्हळें हें मधुसूदनान ॥१॥**

मगे संजय म्हणी रायाकु । आयक, पळे थंय तो पार्थु । लागला तो रडुंकु । जावन शोक आकूळ ।१। तें कूळ देखून समस्त । प्रेम उपजलें अद्भूत । द्रवलें ताचें चित्त । कशे परी; ।२। जशें मीठ जळांत विरचें । वा कूप[1] वावांत हालचें । तशें धिराचें आसुनय विरगळ्ळें । काळीज ताचें ।३। म्हूण काकुळटेन ग्राशिल्लो । दिसता सामकोच बाविल्लो । जसो चिखलांत शिरकल्लो। राजहंस ।४। ते परी तो पांडुकुंवरु । महामोहान भारी जर्जरु । पळोवन तें शारंगधरु[2] । उलयता कितें? ।५।

*भगवंतान म्हळें:* **भ्रम जालो कसो पार्था कठीण समयीं तुका । अनार्यांकूच रुचपाचो सर्ग कीर्तीकु बाधक ॥२॥**

**अर्जुनाचें गूणवर्णन:** म्हणी अर्जुना आदीं देख । हें सोबता ह्या खिणाक? । तूं कोण? हें कित्याक । करता तूं? ।६। सांग तुका कितें जालें?। वा कितें उणें पडलें?। वा कितें करचें रावलें?। म्हूण करता खेद?।७। तूं अनुचीत केन्नाच चिंतिना । धिरय केन्नाच सोडिना । तुज्या नांवांतूच अर्जुना । अपेस लागता देशोधडी ।८। तूं आधार शूरवृत्तीचो । मुकूटमणी क्षत्रियांचो। आब[3] तुज्या पराक्रमाचो। गाजता त्रिलोकीं[4] ।९। तूं रणीं हरा[5] जिखलो । निवात[6]-कवचांचो[6] उच्छेद केलो। तुजें येस विशय जालो। गंधर्वां[7] गांवचेलो ।१०। हें पळेशी, तुजे फुडें । दिसता त्रैलोक्य थोडें । अशें पौरूश चोखडें । पार्था तुजें ।११। तो तूं हांगा ह्या खिणाक । सोडून वीरवृत्तीक । सकल घालून मूख । रडटा मुळुऽमुळुऽ ।१२। विचार कर तूं अर्जुनु । काकुटेन कित्या तूं दिनु?। सांग काळखान भानु[8] । गिळ्ळो केन्ना?।१३। भिता वारो मेघांक?। वा आसा मर्ण अमृताक?। वा गिळटा लाकडां उज्याक। पालोवन ताका?।१४। वा विरत उदक मिठांत?। मरत हेर विखां वशान काळकूट[9]?। बेबो नागाक गिळीत। सांग तूं?।१५। शिंवाशीं झुजला कोलो?। असो प्रसंग केन्ना घडलो?। पूण तो तुवें खरो केलो। आयज हांगा ।१६। पूण आजुनूय अर्जुना । करूं नाका हीं पिशेपणा । वेगीं धीर करून मना । जा सादूर[10] ।१७। सांडून ह्या मूर्खपणा। ऊठ, घे धणू-बाणा । झुजांत ही करुणा । कसल्या कामाची? ।१८।

हां गा तूं जाणता । तरी न विचारिसी कां आतां । सांगें झुंजावेळें सदयता । उचित कायी ।१९। हे असतिये कीर्तीसी नाशु । आणि पारत्रिकासि अपभ्रंशु । म्हणे जगन्निवासु । अर्जुनातें ।२०।

*अर्जुन उवाच:* **क्लैब्यं मा स्म गम: पार्थ नैतत्त्वय्युपपद्यते । क्षुद्रं हृदयदौर्बल्यं त्यक्त्वोत्तिष्ठ परंतप ॥३॥**

म्हणोनि शोकु न करीं । तूं पुरता धीरु धरीं । हे शोच्यता अव्हेरीं । पंडुकुमरा ।२१। तुज नव्हें हें उचित । येणें नासेल जोडलें बहुत। तूं अझुनि तरी हित। विचारीं ।२२। येणें संग्रामाचेनि अवसरें । एथ कृपाळुपण नुपकरे । आतांचि हे काय सोयरे । जाहले तुज ।२३। तूं आधींचि काय नेणसी । कीं हे गोत्र नोळखसी । वायांचि काय करिसी । अतिशो आतां ।२४। आजिचें हें झुंज। काय जन्मा नवल तुज । हें परस्परें तुम्हां व्याज । सदाचि आथी ।२५। तरी आतां काय जाहलें । कायि स्नेह उपनलें। हें नेणिजे परि कुडें केलें । अर्जुना तुवां ।२६। मोह धरिलिया ऐसें होईल । जे असती प्रतिष्ठा जाईल । आणि परलोकही अंतरेल। ऐहिकेंसी ।२७। हृदयाचें ढिलेपण । एथ निकयासि नव्हे कारण । हें संग्रामीं पतन जाण । क्षत्रियांसीं ।२८। ऐसेनि तो कृपावंतु। नानापरी अशे शिकवतु । हें ऐकोनि पंडुसुतु । काय बोले ।२९।

**कथं भीष्ममहं संख्ये द्रोणं च मधुसूदन । इषुभि: प्रति योत्स्यामि पूजार्हावरिसूदन ॥४॥**

देवा हें येतुलेवरी । बोलावें नलगे अवधारीं । आधीं तूंचि चित्तीं विचारीं । संग्रामु हा ।३०। हें झुंज नव्हे प्रमादु । एथ प्रवर्तलिया दिसतसे बाधु । हा उघडा लिंगभेदु । वोढवला आम्हां ।३१। देखें मातापितरें अर्चिजती । सर्वस्वें तोष पावविजती । तियें पाठीं केवीं वधिजती । आपुलां हातीं ।३२। देवा संतवृंदु नमस्कारिजे । कां घडे तरी पूजिजे । हें वांचूनि केवीं निंदिजे । स्वयें वाचा ।३३। तैसे गोत्रगुरु आमुचे । हे पूजनीय आम्हां नियमाचे । मज बहुत भीष्म*द्रोणांचें* । वर्ततसे ।३४। जयांलागीं मनें विरू। आम्हीं स्वप्नींहि न शकों धरूं । तयां प्रत्यक्ष केवीं करूं। धातु देवा ।३५। वरी जळो हें जियालें। एथ आघवेयांसि हेंचि काय जाहलें । जे यांच्या वधीं अभ्यासिलें । मिरविजे आम्हीं ।३६। मी पार्थु द्रोणाचा केला । येणें धनुर्वेदु* मज दिधला । तेणें उपकरें काय आभारैला । वधीं तयातें ।३७। जेथींचिया कृपा लाभिजे वरु । तेथेंचि मनें व्यभिचारु। तरी काय मी भस्मासुरु*। अर्जुन म्हणे ।३८।

**गुरूनहत्वा हि महानुभावान् श्रेयो भोक्तुं भैक्ष्यमपीह लोके । हत्वार्थकामांस्तु गुरूनिहैव भुञ्जीय भोगान्रुधिरप्रदिग्धान् ॥५॥**

देवा समुद्र गंभीर आइकिजे । वर तोहि आहाच देखिजे । परी क्षोभु मनीं नेणिजे । द्रोणाचिये ।३९। हें अपार जें गगन । वर तयाही होईल मान । परि अगाध भलें गहन । हृदय याचें ।४०। वरी अमृतही विटे । कीं काळवशें वज्र फुटे । परि मनोधर्मु न लोटे । विकरविला हा ।४१। स्नेहालागीं माये। म्हणिपे तें कीरु होये । पण कृपा ते मूर्त आहे । द्रोणीं इये ।४२। हा कारुण्याची आदि। सकळ गुणांचा निधि । विद्यासिंधु निरवधि । अर्जुन म्हणे ।४३। हा येणें मानें महंतु । वरी आम्हांलागीं कृपावंतु । आतां सांग पां येथ घातु । चिंतूं येईल ।४४। ऐसे हें रणीं वधावे । मग आपण राज्यसुख भोगावें । तें मना नये आघवें । जीवितेंसीं ।४५। हें येणें मानें दुर्भर । जे यांहीहुनि भोग सधर । ते असतु येथवर । भिक्षा मागतीं भली ।४६। ना तरी देशत्यागें जाइजे । का गिरिकंदर सेविजे । परी शस्त्र आतां न धरिजे । इयांवरी ।४७। देवा नवनिशितीं शरीं। वावरोनी यांच्या जिव्हारीं । भोग गिंवसावे रुधिरीं । बुडाले जे ।४८। ते काढूनि काय कीजती । लिप्त केवीं सेविजती । मज न ये हे उपपत्ति । याचिलागीं ।४९। ऐसें अर्जुन तिये अवसरीं। म्हणे श्रीकृष्णा अवधारीं । परि तें मना न येचि मुरारी । आइकोनियां ।५०। हें जाणोनि पार्थु बिहाला। मग पुनरपि बोलों लागला । म्हणे देवो कां चित्त या बोला । देतीचि ना ।५१।

---

**अर्थ:** (११) श्रीकृष्ण. (१२) मृत्यूलोकासयत. (१३) ज्ञानदेव.

---

आगा, तूं बेस बरो जाणा । तूं कित्या विचार कर्ना? । सांग, झुजा वेळारी अर्जुना। ही काकूट सोबऽ तुका? ।१९। ही नाश करतली आशिल्ली किर्ती । इबाडटली परलोकगती । जगन्निवास[११] अशें म्हणी। अर्जुनाक ।**२०**।

*अर्जुनान म्हळें:* **जावं नाका षंढ तूं पार्था हें मातूय सोबना तुका । मना उणाकु दुबळायु सोडून ऊठ अर्जुना ॥३॥**

म्हूण शोक नाका करूं । तूं पुराय धीर धरू । आनी हो खेद आवरू । पांडुकुंवरा ।२१। तुका हें सोबना मात । भोव जोडिल्लें नाशें जायत। आजुनूय हीत कित्यांत । कर तूं विचार ।२२। ह्या झुजा समयारी । दया उपकरना कोणारी । आतांच जाले हे वैरी । सोयरे तुजे ।२३। तुका हें आदींच कळ्ळेंना? । वा ह्या गोत्रजां वळखना? । कित्या वोगीच करी अर्जुना । बोवाळ आतां? ।२४। झूज हें आयचें । तुजे जिणेंत नवलाचें ? । निमित्य आपसांतल्या कलहाचें । आसा सदींच ।२५। तरी आतां कितें जालें? । हें प्रेम कशें उफाळ्ळें? । हें नेणा, पूण वायट केलें । अर्जुना तुवें ।२६। ह्या मोहांत पडशी, दशा वतली । आशिल्लीय पत ना जातली । आनी परलोकूय अंतरशी । ह्या लोकासयत[१२] ।२७। हृदयाचें दुबळेंपण । हें कल्याणाचें न्ही कारण । हें झुजांत पतन जाण । क्षत्रियांक ।२८। हे परी तो कृपावंत । तरांतरांनी समजायत । हें आयकून पांडुपूत । पळय उलयता कितें ।२९।

**भीष्मद्रोणाकडेन झुजूं कसो हांव मधुसूदना । बाण तांचेर कशे मारूं दोगुयु पुजनीय ते ॥४॥**

**झुजाआड अर्जुनाची भुमिका:** देवा हें इतलें भाशण । आयक, करचें ना कारण । आदीं विचार करचो आपूण । ह्या झुजाचो ।**३०**। हें झूज न्ही, हो प्रमाद । आमी फुडें सल्ले जाचे पासत । उक्तेपणान जाण्ट्यां उच्छेद । मांडला आमी ।३१। पळय, आवय बापायक पुजचें । तांकां तुश्टांवचें । मागीर तांकांच मारचें । हातांनी आपल्या?।३२। देवा, संतवृंदाक वंदुंचें । वा जमल्यार तांकां पुजुंचें । हें सोडून तांकां कशें निंदुंचें । आपलेच वाचेन?।३३। तशे गोत्र गुरू आमचे। नेमान तांकां पुजचे। भारी रीण भीष्मद्रोणांचें । म्हजेर ।३४। जाचे विशीं मनीं वैरू । आमी सपनांतूय शकना धरूं । तांचो प्रत्यक्ष कसो करूं। घात देवा? ।३५। ते परस जळूं हें जियेवप । हांगा अशें कशें सगल्यांचें चलप?। आमकां शिकयतल्यांक मारप । नि तातूंत मानची व्हडवीक? ।३६। म्हाका पार्थ द्रोणान केलो । हाणें धनुर्वेद म्हाका दिलो । ताच्या उपकारांत आशिल्लों । हांव मारूं ताका? ।३७। जाचे कुर्पेन मेळ्ळो वर?। थंयच मनीं व्यभिचार?। तरी कितें हांव भस्मासूर?। म्हणी अर्जुन ।३८।

**मारचे बदला व्हडविके गुरूंकु भिक्षा मागल्यारि जातुलें बरेंच।**
**मारून धना आशेच्या ह्या गुरूंक रगताळिल्लीं सुखां भोगूं कशीं हांव? ॥५॥**

**द्रोणस्तवन:** देवा आयकलां, समुद्र गंभीर । पळेशी, तसो दिसय वयलेवयर । पूण द्रोणा मना भितर । ना खोवदोळ ।३९। हें अपार जें गगन। ताचेंय करूं येत मापन। पूण बाबा गहन । हृदय हाचें ।**४०**। घडये अमृतय विटकळत । कालगतीन वज्रय फुटत। पूण अगड द्रोणाचित्त । खुबळायल्यारय ।४१। सर येना आवयचे मायेक । ही म्हण्णी तशी खरीच । पूण ह्या द्रोणाठांयींच । माया मुर्तीमंत ।४२। हो करुणे मूळ कुळारु । सगल्या गुणांचें भांडारू। विद्येचो अनंत सागरू । म्हणी अर्जुन ।४३। थोर हो महंत । तरी आमचेर कृपावंत । आतां सांग गा तांचो घात । चिंतूं येत? ।४४। अशे हांकां रणीं वधुंचे । मगे आमी राज्य सूख भोगुंचें। हें मनीं कशें हाडुंचें । गेल्यारय जीव; ।४५। अशी ही करणी कठीणु । भोग स्रेश्ठ हाचेहून्‌ु । तें सगलेंच सोडूनु। मागप भीक बरें ।४६। ना जाल्या देश त्याग करीनु । दोंगरा होंवरेंत रावीनु । पूण हांचेर दिसना घालीनु । घाव शस्त्राचो ।४७। देवा, धार काडिल्ल्या बाणांनी । घाव घालून हांच्या मर्मस्थानीं । त्या रगतान बुडबुडिल्ल्या भोगांनी । सूख कशें सोदूं? ।४८। तें मेळोवन कितें करचें? । रगताळिल्ले भोग कशे भोगचे? । तुजें म्हणणें कशें पटचें । मनाक? ।४९। अशें पार्थान त्या वेळारी । श्रीकृष्णाक आयक म्हळें जरी । तें आयकून मुरारी[१३] । जालोना तुश्ट ।**५०**। हें कळून भिलो अर्जुनु । मगे म्हळें ताणें पर्थूनु । देवा, कित्या घेना आयकूनु । उतरां म्हजीं? ।५१।

**न चैतद्विद्म: कतरन्नो गरीयो यद्वा जयेम यदि वा नो जयेयु: । यानेव हत्वा न जिजीविषामस्तेऽवस्थिता: प्रमुखे धार्तराष्ट्रा: ॥६॥**

येऱ्हवीं माझां चित्तीं जें होतें । तें मी विचारूनि बोलिलों एथें । परी निकें काय यापरौतें । तें तुम्ही जाणा ।५२। पैं विरु जयांसी ऐकिजे । आणि या बोलींचि प्राणु सांडिजे । ते एथ संग्रामव्याजें । उभे आहाती ।५३। आतां ऐसेयांतें वधावें । कीं अव्हेरूनियां निघावें । या दोहोंमाजीं काइ करावें । तें नेणों आम्ही ।५४।

**कार्पण्यदोषोपहतस्वभाव: पृच्छामि त्वां धर्मसंमूढचेता: । यच्छ्रेय: स्यान्निश्चितं ब्रूहि तन्मे शिष्यस्तेऽहं शाधि मां त्वां प्रपन्नम् ॥७॥**

आम्हां काय उचित । तें पाहतां न स्फुरे येथ । जे मोहें येणें चित्त । व्याकुळ माझें ।५५। तिमिरावरुद्ध जैसें । दृष्टीचें तेज भ्रंशे। मग पांसींच असतां न दिसे । वस्तुजात ।५६। देवा मज तैसें जाहलें । जे मन हें भ्रांती ग्रासिलें । आतां काय हित आपुलें । तेंही नेणें ।५७। तरी श्रीकृष्णा तुवां जाणावें । निकें तें आम्हां सांगावें । जे सखा सर्वस्व आघवें । आम्हांसि तूं ।५८। तूं गुरु बंधु पिता। तूं आमची इष्ट देवता । तूंचि सदा रक्षिता। आपदीं आमुतें ।५९। जैसा शिष्यांतें गुरु । सर्वथा नेणे अव्हेरु। कीं सरितांतें सागरु । त्यजी केवीं ।६०। ना तरी अपत्यातें माये। सांडूनि जरी जाये । तरी तें कैसेनि जिये । ऐकें कृष्णा ।६१। तैसा सर्वांपरी आम्हांसि । देवा तूंचि एक आहासी । आणि बोलिलें जरी न मानिसी । मागील माझें ।६२। तरी उचित काय आम्हां। जें व्यभिचरेना धर्मा । तें झडकरी पुरुषोत्तमा । सांगें आतां ।६३।

**न हि प्रपश्यामि ममापनुद्याद् यच्छोकमुच्छोषणमिन्द्रियाणाम् । अवाप्य भूमावसपत्नमृद्धं राज्यं सुराणामपि चाधिपत्यम् ॥८॥**

हें सकळ कुळ देखोनि। जो शोकु उपजलासे मनीं । तो तुझिया वाक्यावांचुनि । न जाय आणिकें ।६४। एथ पृथ्वीतळ आपु होईल। हें महेंद्रपदही पाविजेल। परि मोह हा न फिटेल । मानसींचा ।६५। जैसीं बीजें सर्वथा आहाळलीं । तीं सुक्षेत्रीं जऱ्ही पेरिलीं। तरी न विरूढती सिंचलीं। आवडे तैसीं।६६। ना तरी आयुष्य पुरलें आहे । तरी औषधें कांहीं नोहे । एथ एकचि उपेगा जाये। परमामृत ।६७। तैसें राज्यभोगसमृद्धि । उज्जीवन नोहे जीवबुद्धि। एथ जिव्हाळा कृपानिधि । कारुण्य तुझें ।६८। ऐसें अर्जुन तेथें बोलिला। जंव क्षण एक भ्रांती सांडिला। मग पुनरपि व्यापिला। ऊर्मी तेणें ।६९। कीं मज पाहतां ऊर्मी नोहे । हें अनारिसें गमत आहे। तो ग्रासिला महामोहें । काळसर्पे ।७०। सवर्म हृदयकल्हारीं । तेथ कारुण्यवेळेच्या भरीं । लागला म्हणोनि लहरी। भांजेचि ना ।७१। हें जाणौनि ऐसी प्रौढी । जो दृष्टिसवें विष फेडी । तो धांवया श्रीहरी गारुडी । पातला कीं ।७२। तैसिया पंडुकुमरा व्याकुळा ।मिरवतसे श्रीकृष्ण जवळा । तो कृपावशें अवलीळा । रक्षील आतां ।७३। म्हणोनि तो पार्थु। मोहफणिग्रस्तु। म्यां म्हणितला हा हेतु । जाणोनियां ।७४। मग देखा तेथ फाल्गुनु । घेतला असे भ्रांतीं कवळुनु । जैसा घनपडळीं भानु। आच्छादिजे ।७५। तयापरी तो धनुर्धरु । जाहलासे दु:खें जर्जरु । जैसा ग्रीष्मकाळीं गिरिवरु । वणवला कां ।७६। म्हणोनि सहजें सुनीळु । कृपामृतें सजळु । तो वोळला श्रीगोपाळु। महामेघु ।७७। तेथ सुदर्शनाची द्युति । तेचि विद्युल्लता झळकती । गंभीर वाचा ते आयती । गर्जनेची ।७८। आतां तो उदार कैसा वर्षेल । तेणें अर्जुनाचळु निवेल । मग नवी विरूढी फुटेल। उन्मेषाची ।७९। ते कथा आइका । मनाचिया आराणुका । ज्ञानदेवो म्हणे देखा। निवृत्तिदासु ।८०।

*संजय उवाच:* **एवमुक्त्वा हृषीकेशं गुडाकेश: परंतप । न योत्स्य इति गोविन्दमुक्त्वा तूष्णीं बभूव ह ॥९॥**

ऐसें संजयो सांगतु । म्हणे राया तो पार्थु । पुनरपि शोकाकुलितु । काय बोले ।८१। आइकें सखेदु बोले श्रीकृष्णातें । आतां नाळवावें तुम्हीं मातें । मी सर्वथा न झुंजें येथें । भरंवसेनि ।८२। ऐसें येकि हेळां बोलिला । मन मौन करूनि ठेला । तेथ श्रीकृष्ण विस्मयो पावला। देखोनि तयातें।८३।

**कळनाच आमकां कितें हिताचें तांणी वा आमी हें जैत जोडचें।**
**जगचेली वान्सा ना मारून जांकां ते हे कौरवु उबे सामखारी॥६॥**

हरशीं जें म्हज्या मनीं आसलें । तें विचार कर्न सांगलें । हाचे पेल्यान कितें खरेलें । तें तूंच जाणा ।५२। आतां वैर आसा जांचेकडेन । अशें आयकतांच सोडचे प्राण । ते हांगा झुजा निमतान । फुडें आसात उबे ।५३। आतां अश्या मनशांक हाणचें?। वा तांकां सोडून वचचें?। दोनांमदीं कितें करचें?। कळना म्हाका ।५४।

**होगडावल्लो मना दुबळायेन सभाव नेणा लागणूक म्हजें चित्त भुल्लां ।**
**कितें हिताचें खरें सांग म्हाका दी बोध तूं शरणागत शिश्याक ॥७॥**

**अर्जुनाची शरणागती:** म्हाका कितें सोबत । ह्या विचारानय हांगा कांयच ना सुचत । कित्या ह्या मोहान चित्त । आकुळ्ळां म्हजें ।५५। काळकान भरिल्ले । फुट्टी जशे दोळे । मगे लागशिल्लें । दिसना मातय ।५६। देवा, तशें म्हाका जालें । हें मन भ्रांतीन ग्रासलें । आनी कितें हीत म्हगेलें । तेंय नेणा ।५७। तरी श्रीकृष्णा तुवें समजुंचें । खरें तेंच आमकां सांगचें । कित्या सखो, आमचें-। सर्वस्व तूं ।५८। तूं गुरू, बंधु, पिता । तूं आमचो इश्ट, देवता । तूंच सदीं राखता। अपदेंतु ।५९। जसो शिश्यांक गुरू । केन्नाच नेणा अव्हेर करूं । वा न्हंयांक सागरू । सोडीत केन्ना?।६०। वा माय आपल्या बाळकाक । जर सोडून वचत । तर कशें तें वांचत? । आयक कृष्णा ।६१। तसो तूंच म्हजें सर्वस्व । देवा तूंच म्हाका एक । म्हूण मान्य नासत । आदीं उलयलां जें;।६२। तर कितें सोबत म्हाका। जें बादना धर्मा । तेंच सडसडीत आतां । सांगचें कृष्णा ।६३।

**दिसना जें आमडीत हो शोक पयस सुकयी जो हीं इंद्रियां म्हगेलीं । मेळ्ळ्यार निर्वैर गिरेस्त पृथ्वी वा देवलोकांतुलें इंद्रपद ॥८॥**

हें सगलें कूळ चोवन । जो शोक उपजलो मनांत । तो तुज्या उपदेशा वीण । वचचोना मातूय ।६४। हांगा पृथ्वीचें राज्य लाभत। वा इंद्रपदय मेळत। पूण हो गदळ जो मनांत । वचचोना ।६५। जशीं बियां भाजिल्लीं । तीं सुपीक शेतांत वोंपिल्लीं। जाय तशीं शिंपिल्लीं । रूजनात तीं; ।६६। वा जेन्ना जिवीत सरता । तेन्ना वखद खंय पारता?। थंय एकूच लागता। परम अमृत ।६७। तशें राज्यभोग समृद्धीनु। बुद्दीक मेळचिना जिवसाणु। तुजी मायाकुर्पे राखणु । दितली गा म्हाका ।६८। एक खीण सोडलो भ्रांतीनु । तंव उलयलो हें अर्जुनु । मगे घेरलो ताका भौनु। मोहा उर्मीन ।६९।

**मन गदळिल्लो अर्जुन:** म्हाका दिसना हो उमाळो। हो दिसता कितें निराळो। ताका काळसोरोप चावलो। म्हागदळाचो।७०। मर्मारी हृदयकमळारी। कारुण्याचे तीनकात्रेरी। म्हूण मारतात वेग वेगारी । थांबनात ते ।७१। कळून खराय ह्या विखाची । जो दिश्टीनूच वीख उतरायी। उल्या पावलो गारुडी श्रीहरी। एका खिणांत ।७२। तसो व्याकूळ अर्जुनु । ताचे सरीं कृष्ण दिसऽ सोबुनु । सहज तो कृपाबळानु। राखतलो आतां ।७३। म्हणून, तो पार्थ । मोहा सोरपान ग्रस्त । होच हेतू धरून मनांत । हांव उलयलों हें ।७४। मगे पळे थंय तो अर्जुनु । उडयला मोहान कवळूनु । जसो धांकलो मेघपड्ड्यानु । सुर्याक ।७५। ते परी तो धनुर्धरु । जालो दुख्खान जर्जरु । जसो गिमांत गिरीवरू । वणवो पेट्टां ।७६। म्हूण सहज निळो सांवळो । कुर्पेअमृतान भल्ललो । तो मेघरुपी कृष्ण वळ्ळो । अर्जुनासरीं ।७७। थंय ताच्या दांतांची लखलखणी । हीच कितें जोगलावणी । आनी ताची गंभीरवाणी । चाल गर्जनेची ।७८। आतां तो उदार मेघ वर्सतलो । तो अर्जुनपर्वत न्हिवयतलो । मगे नवो आंकूर फुट्टलो। ज्ञानाचो ।७९। ती कथा आयक । मना समाधानाक । म्हणी ज्ञानदेव, देख । तो निवृत्तिदासु ।८०।

*संजयान म्हळें:* **अशें त्या वीर पार्थानु हृषीकेशाकु गा म्हळें । ''झुजना हांवु गोविंदा'' जालो वोगी म्हणून अशें ॥९॥**

संजय अशें सांगता । म्हण्टा, राया, त्या पार्था । भौन खंत ग्रासता । आयक, तो म्हण्टा कितें ।८१। तो कृष्णाक कळवळून म्हण्टा । म्हाका कित्या समजायता?। जाला मना निश्चय आतां । झुजचोच ना हांव ।८२। असो एकाहेळान उलयलो । मगे मोन्यांनीच रावलो । तावळी श्रीकृष्ण अजापलो । चोवन ताका ।८३।

तमुवाच हृषीकेश: प्रहसन्निव भारत । सेनयोरुभयोर्मध्ये विषीदन्तमिदं वच: ॥१०॥

मग आपुलां चित्तीं म्हणे । एथ हें कायी आदरिलें येणें । अर्जुन सर्वथा कांहीं नेणे । काय कीजे ।८४। हा उमजे आतां कवणेपरी। कैसेनि धीरु स्वीकारी । जैसा ग्रहातें पंचाक्षरी । अनुमानी कां ।८५। ना तरी असाध्य देखोनि व्याधी । अमृतासम दिव्य औषधी । वैद्य सूची निरवधि । निदानींची ।८६। तैसे विवरतु असे श्रीअनंतु । तया दोहीं सैन्याआंतु । जयापरी पार्थु । भ्रांति सांडी ।८७। तें कारण मनें धरिलें । मग सरोष बोलों आदरिलें । जैसें मातेच्या कोपीं थोकलें । स्नेह आथी ।८८। कीं औषधाचिया कडवटपणीं । जैसी अमृताची पुरवणी । ते आहाच न दिसे परी गुणीं । प्रकट होय ।८९। तैसीं वरिवरि पाहतां उदासें । आंत तरी अतिसुरसें । तियें वाक्यें हृषीकेशें । बोलों आदरिलीं ।९०।

*श्रीभगवानुवाच:* अशोच्यानन्वशोचस्त्वं प्रज्ञावादांश्च भाषसे । गतासूनगतासूंश्च नानुशोचन्ति पण्डिता: ॥११॥

मग अर्जुनातें म्हणितलें । आम्हीं आजि हें नवल देखिलें । जें तुवा तेथ आदरिलें । माझारींचि ।९१। तूं जाणता तरी म्हणविसी। परी नेणिवेतें न संडिसी। आणि शिकवूं म्हणों तरी बोलसी । बहुसाल नीति ।९२। जात्यंधा लागे पिसें । मग तें सैरा धावे जैसें। तुझें शहाणपण तैसें । दिसतसे ।९३। तूं आपणापें तरी नेणसी । परी या कौरवांतें शोचूं पाहासी । हा बहु विस्मय आम्हांसी । पुढतपुढती ।९४। तरी सांग पां मज अर्जुना । तुजपासूनि स्थिति या त्रिभुवना । हे अनादि विश्वरचना । तें लटकें कायी ।९५। एथ समर्थु एक आथी । तयापासूनि भूतें होती । तरी हें वांयाचि काय बोलती । जगामाजीं ।९६। हो कां सांप्रत ऐसें जहालें। जे हे जन्ममृत्यु तुवां सृजिले । आणि नाशु पावे नाशिले । तुझेनि कायी ।९७। तूं भ्रमलेपणें अहंकृती । यांसि घातु न धरिसी चित्तीं । तरी सांगें कायि हे होती । चिरंतन ।९८। कीं तूं एक वधिता । आणि सकळ लोकु हा मरता । ऐसी भ्रांति झणें चित्ता। येवों देसी ।९९। अनादिसिद्ध हें आघवें । होत जात स्वभावें । तरी तुवां का शोचावें । सांगें मज ।१००। परी मूर्खपणें नेणसी। न चिंतावें तें चिंतीसी । आणि तूंचि नीति सांगसी । आम्हांप्रति ।१। देखें विवेकी जे होती । ते दोहींतेंही न शोचती । जे होय जाय हे भ्रांती । म्हणऊनियां ।२।

न त्वेवाहं जातु नासं न त्वं नेमे जनाधिपा: । न चैव न भविष्याम: सर्वे वयमत: परम् ॥१२॥

अर्जुना सांगेन आइक । एथ आम्ही तुम्ही देख । आणि हे भूपति अशेख । आदिकरुनी ।३। नित्यता ऐसेचि असोनी । ना तरी निश्चित क्षया जाउनि । हे भ्रांति वेगळी करूनी । दोन्हीं नाहीं ।४। हें उपजे आणि नाशे । तें मायावशें दिसे । येऱ्हवीं तत्त्वतां वस्तु जे असे । ते अविनाशचि ।५। जैसें पवनें तोय हालविलें । आणि तरंगाकार जाहलें । तरी कवण कें जन्मलें । म्हणों ये तेथ ।६। तेंचि वायूचें स्फुरण ठेलें । आणि उदक सहज सपाटलें । तरी आतां काय निमालें । विचारीं पां ।७।

देहिनोऽस्मिन्यथा देहे कौमारं यौवनं जरा। तथा देहान्तरप्राप्तिर्धीरस्तत्र न मुह्यति ॥१३॥

आइकें शरीर तरी एक । परी वयसा भेद अनेक । हें प्रत्यक्षची देख। प्रमाण तूं ।८। येथ कौमारत्व दिसे। मग तारुण्यीं तें भ्रंशे। परी देहची न नाशे। एकासवें।९। तैसीं चैतन्याच्या ठायीं। इयें शरीरांतरे होती जाती पाहीं। ऐसे जाणें तया नाहीं व्यामोहदु:ख ।११०।

मात्रास्पर्शास्तुकौन्तेयशीतोष्णसुखदु:खदा: । आगमापायिनोऽनित्यास्तांस्तितिक्षस्व भारत ॥१४॥

एक नेणावया हेंचि कारण । जे इंद्रियांआधीनपण । तिहीं आकळिजे अंत:करण । म्हणऊनि भ्रमे ।११। इंद्रियें विषय सेविती । तेथ हर्ष शोकु उपजती। ते अंतर आप्लविती । संगें येणें ।१२। जयां विषयांचां ठायीं । एकनिष्ठता कहीं नाहीं । तेथ दु:ख आणि कांहीं । सुखहि दिसे ।१३। देखें हे शब्दाची व्याप्ति । निंदा आणि स्तुति । तेथे द्वेषाद्वेष उपजती । श्रवणद्वारें ।१४।

---

**अर्थ:** (१४) प्राणीमात्र; (१५) परब्रह्म; (१६) आत्म्याठांय; जिवांठांय; (१७) हर्श आनी शोक.

**तेन्ना ताका हृषीकेश उलयलो हांशिल्लेवरी । त्या खेदिश्ट अश्या पार्था राया, दोनूय दळांमर्दी ॥१०॥**

मगे आपल्याच मनीं म्हळें। हाणें हें कितें आरंबलें । हाका कांयच ना समजलें । करचें कितें? ।८४। हाका कसो समजावप?। हाका धीर कसो येत?। जसो मांत्रीक घेता हव । पिशाच्च बाधेचो।८५। वा असाध्य चोवन पिडा व्याधी ।अमृतावरी दिव्य औषधी । वैज तात्काळ सुचयी । अंतकाळीं ।८६। तसो उबो दोनी सैन्यां मर्दीं। पडलो विचारांत श्रीहरी । भ्रांत सोडीत कशे परी?। तो पार्थ ।८७। तें कारण मनीं धल्लें। मगे तिडकीन म्हळें । जशें आवयचे तिडकींत लिपिल्लें । आसता प्रेम ।८८। वा वखदांचे कोडसाणीं । जशी अमृताची जिवसाणी। वयल्यान दिसना, पूण गुणीं । जाता उक्ती ।८९। उदास, पळेशी वयले वयर । अंतरीं अती मधूर । अशीं उतरां हृषीकेश । लागलो उलोवंक ।९०।

*श्रीभगवंतान म्हळें:* **फावनाशिल्ल्यां करी खेद वयर गिन्यानु सांगिता । गेल्ल्यां जिव्यांविशीं पार्था शाणे कर्नातु शोक गा ॥११॥**

मगे अर्जुनाक म्हळें। हांवें आयज हें नवल देखलें। हांगा तुवें जें आडायलें। मर्दींच ।९१। तूं आपणा जाणटो जरी म्हणशी । पूण नेणारपण तूं सोडिनाशी। नि शिकोवं गेल्यार सांगशी। जाणवायो नितीच्यो ।९२। जल्मांधा लागचें पिशें । मगे तें सैराण धांवऽ जशें । तुजें शाणपण तशें । दिसऽ म्हाका ।९३। तूं सोताक जरी वळखनाशी। पूण कौरवां पासत शोक करशी । ही नवलाची गजाल जाली कशी । दिसऽ घडी घडी ।९४। तरी सांग म्हाका अर्जुना । तुजोच आधार ह्या त्रिभुवना?। म्हण्टी ही अनादी विश्वरच ना । तें लटीक कितें?।९५। हांगा एकूच आसा समर्थ । ताचे पासुनूच हें भूतजात[१४]। अशें हांगा लोक म्हणटात। तें वोगीच? ।९६। आतां अशें कितें जालें?। हांचें जल्म-मरण तुवें निर्मिलें?। तुवें जर मनांत हाडलें। तर मरतले ते? ।९७। तूं जाला अहंकारी भ्रमिल्ल्यान?। म्हूण तांकां मारचें ना मनांत । जर केलो तुवें तांचो घात। जायत चिरंजीव ते?।९८। वा तूंच एक तो मारपी । आनी सगलो लोक हो मरपी?। मातूय येवं दिनाका चित्तीं। ही भ्रांती।९९। अनादीसिद्ध हें सगलें । सभावीक घडत रावतलें । हातूंत कितें शोक करचेलें । सांग म्हाका?।१००। पूण मुर्खपणान तूं नेणा। चिंतचें न्ही तें चिंतता। आनी तूंच नीत सांगता । म्हाका? ।१। पळय, जे आसात विवेकवंत । दोंयचो शोक करिनात । जल्म-मर्ण ही फकत भ्रांत । म्हणून ।२।

**तूं हांव आनिकु हे राजा केन्ना नासले अशेंयु न्ही । नासतले हे फुडें आमी सगलेच गा अशेंयु न्ही ॥१२॥**

अर्जुना, सांगन तें आयक। हांगा सगल्यांक देख। हे सगले राय आदीक। जे जमल्यात;।३। ते तशेच नित्य आसतले। वा ना जावन वतले। हो भ्रम वेगळो कर्न पळे। हीं दोनी न्ही खरीं।४।

**मायेचो प्रभाव:** हें उपजता नि ना जाता । तें मायेक लागून दिसता । हरशीं खरेपणीं जी वस्तु[१५] आसता। ती अविनाशी ।५। जशें वाऱ्यान उदक हालयलें। आनी ताणी ल्हारांचें रूप घेतलें। तर कितें जल्मा आयलें। म्हणचें थंय?।६। त्याच वाऱ्याचें हालप थांबलें। नि उदक आपशीं थिरावलें। तर आतां कितें ना जालें। कर विचार ।७।

**भुर्गी तर्णी दशा म्हात्री जिवात्म्याकु कुडींत हे । कूड तशी नवी मेळऽ हें जाण्टल्यांकु मोह ना ॥१३॥**

आयक, शरीर जरी एक । पूण वयान भेद अनेक । हें प्रत्यक्षच देख । प्रमाण तूं ।८। हांगा भुरगेंपण दिसता । मगे तरणेपणीं तें भंगता। पूण हो देह खंय ना जाता । एकेके दशे सवें?।९। तशें चैतन्याठांय[१६] आसता । एक सोंपता, देह नवो मेळटा । हें जाका कळटा। ताका ना दुख्ख भ्रांतीचें ।११०।

**विशयांस्पर्श बादयता शीं-हून सूख नी दुख । अनित्य तीं वती येती पार्था देखूनु सोंस तीं ॥१४॥**

**भ्रमाचें कारण - विशयसंग:** हें नेणपा हेंच कारण। जें इंद्रियांचें आधीनपण । इंद्रियां ओड्टात विशयांकडेन*। म्हूण मनाभ्रम ।११। इंद्रियां विशय सेवतात। म्हणून हर्श शोक उपजतात । ते[१७] अंतस्कर्ण व्यापतात। विशय संगतीन ।१२। ज्या विशयां ठांय। केन्नाच ना थिराय । थंय दुःख आनी कांय । दिसऽ सुखय ।१३। पळय शब्दांची व्याप्ती । निंदा वा स्तुती । एक द्वेश जागयी। दुसरी संतोश, आयकतां ।१४।

मृदु आणि कठीण । हे स्पर्शाचे दोन्ही गुण । जे वपूचेनि संगें कारण । संतोषखेदां ।१५। भ्यासुर आणि सुरेख । हें रूपाचें स्वरूप देख । जें उपजवी सुखदुःख । नेत्रद्वारें ।१६। सुगंधु आणि दुर्गंधु । हा परिमळाचा भेदु । जो घ्राणसंगें विषादु-। तोषु देता ।१७। तैसाचि द्विविध रसु । उपजवी प्रीतित्रासु । म्हणूनि हा अपभ्रंशु । विषयसंगु ।१८। देखें इंद्रियांआधीन होईजे । तैं शीतोष्णांतें पाविजे। आणि सुखदुःखीं आकळिजे । आपणपें ।१९। या विषयांवांचूनि कांहीं । आणीक सर्वथा रम्य नाहीं । ऐसा स्वभावोचि पाहीं । इंद्रियांचा ।१२०। हे विषय तरी कैसे । रोहिणीचें जळ जैसें । कां स्वप्नींचा आभासे । भद्रजाति ।२१। देखें अनित्य तियापरी। म्हणऊनि तूं अव्हेरीं । हा सर्वथा संगु न धरीं । धनुर्धरा ।२२।

**यं हि न व्यथयन्त्येते पुरुषं पुरुषर्षभ । समदुःखसुखं धीरं सोऽमृतत्वाय कल्पते ॥१५॥**

हे विषय जयातें नाकळिती । तया सुखदुःखें दोन्ही न पवती । आणि गर्भवासुसंगती । नाहीं तया ।२३। तो नित्यरूपु पार्था । वोळखावा सर्वथा । जो या इंद्रियार्थां । नागवेचि ।२४।

**नासतो विद्यते भावो नाभावो विद्यते सतः । उभयोरपि दृष्टोऽन्तस्त्वनयोस्तत्त्वदर्शिभिः ॥१६॥**

आतां अर्जुना आणिक कांहीं एक । सांगेन मी आइक । जें विचारें परलोक । वोळखिती ।२५। या उपाधिमाजीं* गुप्त । चैतन्य असे सर्वगत । तें तत्त्वज्ञ सतत । स्वीकारिती ।२६। सलिलीं पय जैसें । एक होऊनि मीनलें असे । परी निवडूनि राजहंसें । वेगळें कीजे ।२७। कीं अग्निमुखें किडाळ । तोडोनियां चोखाळ । निवडिती केवळ । बुद्धिमंत ।२८। ना तरी जाणिवेच्या आयणीं। करितां दधि कडसणी । मग नवनीत निर्वाणीं । दिसे जैसें ।२९। कीं भूस बीं एकवट । उपणितां राहे घनवट । तेथ उडे तें फलकट। जाणों आलें।१३०। तैसें विचारितां निरसलें । तें प्रपंचु सहजें सांडवलें । मग तत्त्वतां तत्त्व उरलें । ज्ञानियांसी ।३१। म्हणोनि अनित्याच्या ठायीं । तयां आस्तिक्यबुद्धि नाहीं । निष्कर्षु दोहींही । देखिला असे ।३२।

**अविनाशि तु तद्विद्धि येन सर्वमिदं ततम् । विनाशमव्ययस्यास्य न कश्चित्कर्तुमर्हति ॥१७॥**

देखें सारासार विचारितां । भ्रांति ते पाहीं असारता । तरी सार तें स्वभावता । नित्य जाणे ।३३। हा लोकत्रयाकारु । तो जयाचा विस्तारु । तेथ नाम वर्ण आकारु । चिन्ह नाहीं ।३४। जो सर्वदा सर्वगतु । जन्मक्षयातीतु । तया केलियाहि घातु । कदाचि नोहे ।३५।

**अन्तवन्त इमे देहा नित्यस्योक्ताः शरीरिणः । अनाशिनोऽप्रमेयस्य तस्माद्युध्यस्व भारत ॥१८॥**

आणि शरीरजात आघवें । हें नाशवंत स्वभावें । म्हणोनि तुवां झुंजावें । पंडुकुमरा ।३६।

**य एनं वेत्ति हन्तारं यश्चैनं मन्यते हतम् । उभौ तौ न विजानीतो नायं हन्ति न हन्यते ॥१९॥**

तूं धरूनि देहाभिमानातें । दिठी सूनि या शरीरातें । मी मारिता हे मरते । म्हणत आहासी ।३७। तरी अर्जुना तूं हें नेणसी । जरी तत्त्वतां विचारिसी । तरी वधिता तूं नव्हेसी । ते वध्य नव्हती ।३८।

**न जायते म्रियते वा कदाचिन् नायं भूत्वा भविता वा न भूयः । अजो नित्यः शाश्वतोऽयं पुराणो न हन्यते हन्यमाने शरीरे ॥२०॥**
**वेदाविनाशिनं नित्यं य एनमजमव्ययम् । कथं स पुरुषः पार्थ कं घातयति हन्ति कम् ॥२१॥**

जैसें स्वप्नामाजिं देत्रखजे । तें स्वप्नींचि साच आपजे । मग चेऊनियां पाहिजे । तंव कांहीं नाहीं ।३९। तैसी हे जाण माया । तूं भ्रमत आहासी वायां। शस्त्रें हाणितलिया छाया । जैसी आंगीं न रुपे ।१४०। कां पूर्ण कुंभ उलंडला । तेथ बिंबाकारु दिसे भ्रंशला । परी भानु नाहीं नासला । तयासवें ।४१।

---

**अर्थः** (१८) विशय; (१९) सर्वव्यापपी; (२०) ना जाता.

मोंव आनी कठीण । हे स्पर्शाचे दोन गूण । ते कुडी संगतीन कारण । संतोश खेदांक ।१५। भयासुर आनी सुरेख । ह्यो तरा रुपाच्यो देख। जें जिवा दिता सूख दुःख । दोळ्यां वरवीं ।१६। सुगंधु आनी दुर्गंधु । हो पर्मळा भेदु। दिता आनंदु, खेदु। नाका वरवीं ।१७। तसो कोडु, गोडु रोसु। करी उत्पन्न प्रिती त्रासु । म्हूण तांचो सांगातु। करी भश्ट ।१८। पळय जो इंद्रियां आधीन जाता । ताका शीं हून बादता । तो सूख दुःखीं घुसपता । आपशीं आपुणूच ।१९। ह्या विशयां शिवायु। आनीक रम्य ना कांयु। असो पळय सभावु । इंद्रियांचो ।१२०। हे विशय तरी कशे । ते मृगजळ जशें । वा सपनींचे हती* जशे*। भासती*।२१। पळय ते[१८] अनित्य तांचेपरी। म्हणून तूं ते अव्हेरी । हांचो मातूय संग ना धरी । धनुर्धरा ।२२।

**हीं जांकां बादना पार्था म्हालगड्या मनशांतुल्या । सम दुख्खीं सुखीं धीर जाता मोक्षाकु फाव तो ॥१५॥**

हे विशय जाका ओडिनात । ताका सूखदुःखां भेटनात । आनी गर्भवासाचो सांगात । ना तांकां ।२३।तो ब्रह्मरूप पार्था । वळखुंचो सर्वथा। जो ह्या विशयां पासा सदा। दवरी पयस ।२४।

**नाशिल्ली आसना वस्तु आशिल्ली वस्तु नासना । पळेती थावु ह्या दोंचो जांणी गा ब्रह्म जाणिलां ॥१६॥**

**कूड नाशिवंत, आत्मो अमरः** आतां अर्जुना आनीक एक । हांव सांगन तें आयक । जें शाण्यांक। कळटा विचारान ।२५। ह्या विश्वांत गुप्त । चैतन्य आसा सर्वगत[१९] । तें तत्त्वज्ञ सतत। आपणायती ।२६। जशें दूद उदकांत । एकजीव भरसून । पूण राजहंस वेगळावन । काडी वेगळें ।२७। वा उज्या तोंडांत हीण । चोख केलें तापोवन। काडटात तें निवळावन । फकत कसबी ।२८। वा बुद्दीचे चतुरायेन । धंय चाळून। मगे लोणी निमणे कडेन । दिसता जशें;।२९। वा धानांत पोल भरसल्लें । फाफुडटा धान उल्लें । तेन्ना पोल हुबिल्लें। दिसता जशें; ।१३०। तशे विचारान्ती निरास[२०] जातां । प्रपंच आपशींच सरता। मगे ज्ञानियांक खरेंलेंच उरता । ब्रह्म तें ।३१। म्हणून अनित्याचे संबंधी । दवरिना जो सत्यबुद्दी । निश्कर्श दोनांचो[२१] अंतीं। पळेला तांणी ।३२।

**समज अविनाशी तूं जाणें हें विश्व व्यापलां । नाश ह्या नित्य तत्त्वाचो कोणानूच करूं नजो ।१७।**

करशी सारासार विचार । हो विश्वभ्रम असार । जें नित्य तोच सार । जाण सभावीक ।३३। हो त्रिलोका आकारु । तो जाचो विस्तारु । ताका नामरूप आकारु । हें चिन्न ना ।३४। जो सर्वव्यापी शाश्वतु । जल्म-मर्णा अतीतु । ताचो केल्यारूय घातु। केन्नाच जायना ।३५।

**म्हळ्या कुडी विनाशी त्यो जिवाच्यो अविनाशि जो । नित्य, कळना प्रमाणांनी म्हणून तूं झूज अर्जुना ।।१८॥**

आनी देहमात्र सगलें । सभावान ना जातलें । म्हणून तुवें झुजचेलें । पंडुकुंवरा ।३६।

**जो म्हणी मारि गा आत्मो मानी मरपी अशेंयु वा । हे दोगूय नेणती ताका मर्ना वा मारिनायु तो ॥१९॥**

तूं धरून देहाभिमान । दिश्टी कुडीर दवरून । हांव मारपी, हे वतले मरून । म्हणी अशें; ।३७। तरी अर्जुना तूं हें नेणशी । जरी खऱ्यांनी विचार करशी। तरी मारपी तूं नासशी । हे मरपी न्ही ।३८।

**जल्म घेना हो वा केन्नाच मरना। जल्माकु येवनूय हो परतो ना जायना।**
**अजल्मी हो नित्य शाश्वत पुराण। कुडीक हाणल्यारूय हो केन्नाच मरना ॥२०॥**
**जाणी जो अविनाशी हो अजल्मी नित्य अक्षय । कसो कोणाकु तो लायत हाणूंक हाणितूय कसो ॥२१॥**

**आत्मो आनी ताचें अंवरपण:** जशें सपनांत देखचें । तें सपनींच खरें दिसचें । मगे जाग येतां चोवचें । तेन्ना कांयच ना; ।३९। तशी जाण ही माया*। तूं भ्रमता गा वायां । शस्त्रान हाणिल्ली छाया । जशी रोंबना आंगा;।१४०। वा भरिल्ली कळशी उमथितां । तांतलें सूर्यबिंब ना जाता । पूण सूर्य तो आसता । गेल्यारय बिंब; ।४१।

ना तरी मठीं आकाश जैसें । मठाकृती अवतरलें असे । तो भंगलिया आपैसें। स्वरूपचि ।४२। तैसें शरीराचां लोपीं । सर्वथा नाशु नाहीं स्वरूपपीं । म्हणऊनि तूं हे नारोपीं । भ्रांति बापा ।४३।

**वासांसि जीर्णानि यथा विहाय नवानि गृह्णाति नरोऽपराणि । तथा शरीराणि विहाय जीर्णान्यन्यानि संयाति नवानि देही ॥२२॥**

जैसें जीर्ण वस्त्र सांडजे । मग नूतन वेडिजे । तैसे देहांतरातें स्वीकारिजे । चैतन्यनाथें ।४४।

**नैनं छिन्दन्ति शस्त्राणि नैनं दहति पावक: । न चैनं क्लेदयन्त्यापो न शोषयति मारुत: ॥२३॥**

हा अनादि नित्यसिद्धु । निरुपाधि विशुद्धु । म्हणऊनि शस्त्रादिकीं छेदु। न घडे यया ।४५। हा प्रळयोदकें नाप्लवे । अग्निदाहो न संभवे । एथ महाशोषु न प्रभवे । मारुताचा ।४६।

**अच्छेद्योऽयमदाह्योऽयमक्लेद्योऽशोष्य एव च । नित्य: सर्वगत: स्थाणुरचलोऽयं सनातन: ॥२४॥**
**अव्यक्तोऽयमचिन्त्योऽयमविकार्योऽयमच्युते । तस्मादेवं विदित्वैनं नानुशोचितुमर्हसि ॥२५॥**

अर्जुना हा नित्यु । अचळु हा शाश्वतु । सर्वत्र सदोदितु । परिपूर्णु हा ।४७। हा तर्काचिये दिठी । गोचर नोहे किरीटी । ध्यान याचिये भेटी । उत्कंठा वाहे ।४८। हा सदा दुर्लभु मना । आपु नोहे साधना । नि:सीमु हा अर्जुना । पुरुषोत्तमु ।४९। हा गुणत्रयरहितु । व्यक्तीसी अतीतु । अनादि अविकृतु । सर्वरूप ।**१५०**। अर्जुना ऐसा जाणावा । हा सकळात्मकु देखावा । मग सहजें शोकु आघवा । हरेल तुझा ।५१।

**अथ चैनं नित्यजातं नित्यं वा मन्यसे मृतम् । तथाऽपि त्वं महाबाहो नैवं शोचितुमर्हसि ॥२६॥**

अथवा ऐसा नेणसी। तूं अंतवंतचि हें मानिसी। तऱ्ही शोचूं न पवसी। पंडुकुमरा।५२। जे आदि-स्थिति-अंतु । हा निरंतर असे नित्यु। जैसा प्रवाहो अनुस्यूतु। गंगाजळाचा।५३। तें आदि नाहीं खंडलें। समुद्रीं तरी असे मिनलें। आणि जातांचि मध्यें उरलें। दिसे जैसें।५४। इयें तिन्ही तयापरी। सरसींच सदा अवधारीं । भूतांसि कवणीं अवसरीं । ठाकतीना ।५५। म्हणोनि हें आघवें। एथ तुज लनलगे शोचावें । जे स्थितीचि हे स्वभावें । अनादि ऐसी ।५६। ना तरी हें अर्जुना। नयेचि तुझिया मना। जे देखोनि लोकु अधीना । जन्मक्षया ।५७। तरी येथ कांहीं । तुज शोकासि कारण नाहीं । जे जन्ममृत्यु हे पाहीं । अपरिहर ।५८।

**जातस्य हि ध्रुवो मृत्युर्ध्रुवं जन्म मृतस्य च । तस्मादपरिहार्येऽर्थे न त्वं शोचितुमर्हसि ॥२७॥**

उपजे तें नाशे । नाशलें पुनरपि दिसे । हें घटिकायंत्र तैसें । परिभ्रमे गा ।५९। ना तरी उदोअस्तु आपैसे । अखंडित होत जात जैसे । हें जन्ममरण तैसें। अनिवार जगीं ।**१६०**। महाप्रळयअवसरें । हें त्रैलोक्यही संहरे । म्हणोनि हा न परिहरे । आदिअंतु ।६१। तूं जरी हें ऐसें मानसी । तरी खेदु कां करिसी। काय जाणतचि नेणसी । धनुर्धरा ।६२। एथ आणिकही एक पार्था । तुज बहुतीं परी पाहतां । दु:ख करावया सर्वथा । विषो नाहीं ।६३।

**अव्यक्तादीनि भूतानि व्यक्तमध्यानि भारत । अव्यक्तनिधनान्येव तत्र का परिदेवना ॥२८॥**

जे समस्तें इयें भूतें । जन्माआदि अमूर्तें । मग पातलीं व्यक्तीतें । जन्मलेया ।६४। तियें क्षयासि जेथ जाती । तेथ निभ्रांत आनें नव्हती। देखें पूर्वस्थितीच येती । आपुलिये ।६५। येर मध्यें जें प्रतिभासे । तें निद्रिता स्वप्न जैसें । तैसा आकारु हा मायावशें। सत्स्वरुपीं ।६६। ना तरी पवनें स्पर्शिलें नीर । पढियासे तरंगाकार । कां परापेक्ष अळंकार-। व्यक्ति कनकीं ।६७।

---

**अर्थ:** (२१) नित्य तेंच सत् आनी अनित्य तेंच असत्. (२२) उत्पत्ती. (२३) पालन. (२४) सांवार. (२५) पुर्विल्ले मुस्तींत वेळ मेजपाचें यंत्र. (२६) सोनाराचे.

वा जशें आकाश घरांतलें । घरा आकार घेतलें । घर मोडतय, आसतलें। मूळ आकाश; ।४२। तशें सोंपतां शरीर । मूळ स्वरूप रावता थीर। म्हूण नाशा आरोप आत्म्यार* । बाबा करूं नाका भ्रमान ।४३।

**उडोवन आंगवस्त्रां झिर्झिरिल्लीं दुसरीं नवीं जशीं मनीस घेता ।**
**जीव तसो कुडी उडोवनु पोरण्यो धरता दुसऱ्योच तो कुडी नवेल्यो ॥२२॥**

जशें झिरझिरिल्लें वस्त्र उडयता । मगे नवेलें वस्त्र घालता । तसो देह दुसरो आपणायता । चैतन्यनाथ आत्मो ।४४।

**हाका शस्त्रां चिरीनातू हाका उजोयि जाळिना । भिजयना उदकू हाका सुकयना वाव बी तसो ॥२३॥**

हो अनादी नित्य शास्वत । विशुद्ध उपाधी विरयत । म्हणून शस्त्र आदिंनी घात । जायना ताचो ।४५। हो प्रळयजळीं बुडना। हो उज्यानय लासना । वारो सुकयना । ह्या आत्म्याक ।४६।

**नजो तोडूंकु जाळूंकु भिजोवंकु वा सुकोवंकु हो । अचल थीर हो नित्य सर्वव्यापी सनातन ॥२४॥**
**दिसना तो तर्कापेलो बदलना हो अशें म्हळां । जाणून हे तरे आत्मो खेद हो सोबना तुका ॥२५॥**

अर्जुना हो नित्य । अचळ हो, शाश्वत । सर्वांठांय सदोदीत । भरला पुराय ।४७। तर्कदिश्टीक दिसना । आत्मो हो, अर्जुना। हाचे भेटे ध्यानधारणा। तळमळटा ।४८। हो सदीं दुर्लभ मना । साधनांक गावना । अनंत हो अर्जुना । स्रेश्ठ जीवमात्रांत ।४९। हो त्रिगुणां* विरयत । हो आकारातीत । अनादी, विकारा विरयत। सर्वव्यापी ।१५०। अर्जुना, असो हो जाणचो। सगल्यां ठांय अणभवचो । मगे आपशीं शोक सगलो । सरतलो ।५१।

**सदीं हो जल्मुपी मरपी । मानलें अशें तुवें जरी । तरी शूर अशा पार्था । खेदाकु कारणूच ना ॥२६॥**

**श्रीकृष्णाचो दुसरो युक्तीवाद:** वा अशें नेणशी । आत्मो नाशिवंत लेखशी । तरी शोक करूं तुजेशीं । ना कारण ।५२। हो आदी[२२]-स्थिती[२३]-अंत[२४]-ओघ। आसा नित्य, अखंड। जसो ओघ अखंड । गंगाजळाचो ।५३। जाका उगमांत ना खंड । समुद्रांत मेळटांय अखंड । व्हाळिल्लो ओघ मदेकांत। दिसता जसो;।५४। ह्यो तिनी अवस्था ते परी । आत्म्याक सारक्योच धनुर्धारी । प्राणीमात्रांक खंयच्या वेळारी। सोडिनात गा ।५५। म्हूण हें सगलें देख । तुका सोबना हो शोक । सृश्टीक्रम हो सभावीक । अनादी असो; ।५६। ना जाल्यारी गा अर्जुना । येनाच हें तुज्या मना। हे सगले मनीस तूं पळेना । आधीन जल्ममर्णाच्या ।५७। तरी हांगा अर्जुना । तुका शोका कारणूच ना । पळे हीं जल्म-मर्णां । कोणाकूच चुकना ।५८।

**जल्मल्ल्या सुटना मर्ण मेल्ल्याक जल्म सुटना । सुटना ते गजालीचो शोक करप न्ही समा ॥२७॥**

उपजता तें नाशें जाता। नाशें जाल्लें परतें दिसता । हें घटिकायंत्र[२५] फिरता । अखंड तशें; ।५९। वा आपशीं उदय-अस्त । जशें जाता, ना जाता अखंडीत। तशें हें जल्म-मरण । चुकना कोणा ।१६०। महाप्रळया समयार । जाता त्रैलोक्या सांवार । म्हणून अटळ, अनिवार । आदी अंत ।६१। तूं जर हें मानशी। तर खेद कित्या करशी । कित्या कळुनूय नेणशी । धनुर्धरा? ।६२। हांगा आनिकूय एक पार्था । भोव तरांनी पळयशी, दिसता । दुःख करूं सर्वथा । न्ही हो विशय ।६३।

**मर्णा माक्शी जल्मा आदीं जिवांची दिसना दशा । दिसऽ मदलीच ती पार्था खेद कित्याकु ते विशीं ॥२८॥**

**तिसरो युक्तीवाद**

जे हे समस्त प्राणीमात्र । जल्मा आदीं निराकार । जाले जल्मा नंतर । साकार ।६४। ते जंव लया वतात । तंव अन्य दशे वचनात । निश्चीत पूर्व स्थितीर येतात । आपणाचे ।६५। हेर मदीं जें भासता । तें न्हिदेस्ताचें सपन जशें आसता । तसो हो मदीं आकार आभासता । मायेन आत्मस्वरुपीं ।६६। वा वाऱ्यान हालयल्लें नीर । आसता ल्हारां आकार । वा दुज्याचे[२६] इत्सेन आकार । घडयल्लो अळंकार ।६७।

तैसें सकळ हें मूर्त । जाण पां मायाकारित । जैसें आकाशीं बिंबत। अभ्रपटळ ।६८। तैसें आदीचि जें नाहीं । तयालागीं तूं रुदसी कायी। तूं अवीट तें पाहीं । चैतन्य एक ।६९। जयाची आर्तीचि भोगित । विषयीं त्यजिले संत । जयालागीं विरक्त । वनवासिये ।१७०। दिठी सूनि जयातें । ब्रह्मचर्यादि व्रतें । मुनीश्वर तपातें । आचरताती ।७१।

**आश्चर्यवत्पश्यति कश्चिदेनमाश्चर्यवद्वदति तथैव चान्य: । आश्चर्यवच्चैनमन्य: श्रृणोति श्रुत्वाप्येनं वेद न चैव कश्चित् ॥२९॥**

एक अंतरीं निश्चळ । जें निहाळितां केवळ । विसरले सकळ । संसारजात ।७२। एकां गुणानुवादु करितां । उपरति होऊनि चित्ता । निरवधि तल्लीनता। निरंतर ।७३। एक ऐकतांचि निवाले । ते देहभावीं सांडिले । एक अनुभवें पातले । तद्रूपता ।७४। जैसे सरिताओघ समस्त । समुद्रामाजिं मिळत । परी माघौते न समात । परतले नाहीं ।७५। तैसिया योगीश्वरांचिया मती । मिळणीसवें एकवटती । परी जे विचारूनि पुनरावृत्ति । भजतीचिना ।७६।

**देही नित्यमवध्योऽयं देहे सर्वस्य भारत । तस्मात्सर्वाणि भूतानि न त्वं शोचितुमर्हसि ॥३०॥**

जें सर्वत्र सर्वही देहीं । जया करितांही घातु नाही । तें विश्वात्मक तूं पाहीं । चैतन्य एक ।७७। ययाचेनिचि स्वभावें । हें होत जात आघवें । तरी सांग काय शोचावें । एथ तुवां ।७८। एऱ्हवीं तरी पार्था । तुज कां नेणों न मने चित्ता । परी किडाळ हें शोचितां। बहुतां परी ।७९।

**स्वधर्ममपि चावेक्ष्य न विकम्पितुमर्हसि । धर्म्याद्धि युद्धाच्छ्रेयोऽन्यत्क्षत्रियस्य न विद्यते ॥३१॥**

तूं अझुनि कां न विचारिसी । काय हें चिंतितु आहासी । स्वधर्मु तो विसरलासी । तरावें जेणें ।१८०। या कौरवां भलतें जाहलें। अथवा तुजचि कांहीं पातलें । कीं युगचि हें बुडालें । जऱ्हीं एथ ।८१। तरी स्वधर्मु एक आहे । तो सर्वथा त्याज्य नोहे। मग तरिजेल काय पाहें । कृपाळूपणें ।८२। अर्जुना तुझें चित्त । जरी जाहलें द्रवीभूत । तऱ्ही हें अनुचित । संग्रामसमयीं ।८३। अगा गोक्षीर जरी जाहलें । तरी पथ्यासि नाहीं म्हणितलें । ऐसेनिहि विष होय सुदलें । नवज्वरीं देतां ।८४। तैसें आनीं आन करितां। नाशु होईल हिता । म्हणऊनि तूं आतां । सावध होई ।८५। वायांचि व्याकुळ कायी । आपुला निजधर्मु पाहीं । जो आचरितां बाधु नाहीं । कवणे काळीं ।८६। जैसें मार्गेचि चालतां । अपावो न पवे सर्वथा। कां दीपाधारें वर्ततां । नाडळिजे ।८७। तयापरी पार्था । स्वधर्मे राहाटतां । सकळकामपूर्णता । सहजें होय ।८८। म्हणोनि यालागीं पाहीं । तुम्हां क्षत्रियां आणीक कांहीं। संग्रामावांचूनि नाहीं । उचित जाणें ।८९। निष्कपट होआवें । उसिणा घाई जुंझावें । हें असो काय सांगावें । प्रत्यक्षावरी ।१९०।

**यदृच्छया चोपपन्नं स्वर्गद्वारमपावृतम् । सुखिन: क्षत्रिया: पार्थ लभन्ते युद्धमीदृशम् ॥३२॥**

अर्जुना झुंज देखें आतांचें । हें हो काज दैव तुमचें । कीं निधान सकळ धर्माचें । प्रगटलें असे ।९१। हा संग्रामु काय म्हणिपे । कीं स्वर्गुचि येणें रूपें । मूर्त कां प्रतापें । उदो केला ।९२। ना तरी गुणाचेनि पतिकरें । आर्तीचेनि पडिभरें । हे कीर्तीचि स्वयंवरें। आली तुज ।९३। क्षत्रियें बहुत पुण्य कीजे। तैं झुंज ऐसें हें लाहिजे । जैसें मार्गे जातां आडळिजे । चिंतामणीसी ।९४। ना तरी जांभया पसरे मुख । तेथ अवचटें पडे पीयूख । तैसा संग्रामु हा देख। पातला असे ।९५।

**अथ चेत्त्वमिमं धर्म्यं संग्रामं न करिष्यसि । तत:स्वधर्मं कीर्तिं च हित्वा पापमवाप्स्यसि ॥३३॥**

आतां हा ऐसा अव्हेरिजे । मग नाथिलें शोचूं बैसिजे । तरी आपण आहाणा होइजे । आपणपेयां ।९६। पूर्वजांचें जोडलें । आपणचि होय धाडिलें । जरी आजि शस्त्र सांडलें । रणीं इये ।९७। असती कीर्ति जाईल । जगचि अभिशापु देईल । आणि गिंवसित पावतील । महादोष ॥९८। जैसी भ्रतारेंहीन वनिता । उपहती पावे सर्वथा । तैशी दशा जीविता । स्वधर्मेंवीण ।९९। ना तरी रणीं शव सांडिजे । तें चौमेरी गिधीं विदारिजे । तैसें स्वधर्महीन अभिभविजे । महादोषीं ।२००।

अर्थ: (२७) आकाराक आयिल्ले. (२८) चैतन्य; आत्मो. (२९) सगले प्राणी.

तशें सगलें जें मूर्त[२७]। समज मायेन आकारीत । जसो दशिल्लो मळबांत । पड्डो कुपांचो ।६८। तशें जें ना मुळांत । तूं रडटा कित्या ताचे पासत। अर्जुना घे लक्षांत। विटना तें चैतन्य।६९। जाची गोडी संता लागत। तेन्ना विशय तांकां सोडटात। विरक्त जाचे पासत। जातात वनवाशी।१७०। जाचेर दवरून दिश्ठी । व्रतां ब्रह्मचर्यादी । मुनीश्वर तपाचरणादी। आचरतात ।७१।

**नवलशें पळेती कोण हाका अजापशें वर्णिती हेरू कोणु । अजापानु आयकती हेरू कोण आयकून नेणी कोणूच हाका ॥२९॥**

**आत्मचैतन्याची व्हडविकायः** कांय अंतरीं निश्चळ। जें[२८] नियाळटां केवळ । विसरले सकळ । संवसारव्याप ।७२। कांय गूण वर्णितां । उपरती जावन चित्ता। भोगी अपार तल्लीनता। निरंतर ।७३। कोण शांत जाले आयकून । ते देहभाव विसरून । हेर कोणः अणभवान रमून। जाले तद्रूप ।७४। जशे न्हंयांचे ओघ समस्त । सागरांत मेळटात । थंय जरी आसपावलेना रिगून । येनात ते पर्थून; ।७५। ते परी जांच्यो मती । साक्षात्कारान तद्रूप जाती। म्हणून ते सिद्ध योगी । घेनात पुनर्जल्म ।७६।

**येना हाणूंक हो आत्मो सर्व कुडींतु रावि जो । म्हूण कोणाच जीवाचो करचो न्ही खेद गा तुवें ॥३०॥**

जें सर्वत्र सर्वय देहीं । जाचो केल्यारय घात ना जायी । तें सगल्यां अंतरीं चोयी । चैतन्य एक ।७७। हाच्याच सभावान । हे[२९] सगले जातात वतात। कित्या शोक हे पासत । करचो हांगा?।७८। नेणा कशें गा अर्जुना । हें तुज्या चित्ता मानवना । हो शोक तुका सोबना । भोव तरांनी ।७९।

**पळेशी तूं निजी धर्म । भियेवंक फावना तुवें । धर्म झुजाकुयू ना कांय् । हिताचें क्षत्रिया दुजें ॥३१॥**

**चवथो युक्तीवादः** तूं आजुनूय कित्या विचार करना?। हें आयलां कितें तुज्या मना?। तूं स्वधर्म तो विसरता। जाणें तरचें तुवें ।१८०। ह्या कौरवांचें भलभलतेंच जालें। वा तुजेरय अरिश्ट आयलें। वा युगच* हें* सल्लें*। जरी हांगा;।८१। तरी स्वधर्म आसा एकु । तो कसोच जायना सोडुंकु । मगे धरून हे काकुळटेकु। तरशीत तूं? ।८२। अर्जुना, तुजें चित्त । जर काकुळटेन विरगळत । तर हें अनुचीत। संग्रामा समयारी ।८३। आरे, गायचें दूद जरी आसलें। तरी तें पथ्याक ना उपकरचेलें। दिसा जोरांत जर दिलें। तें विखच जातलें।८४। तशें कोणें कायचे काय केलें। ताणें स्वहिता नाशें जातलें। म्हूण तुवें आतां सादूर जावचेलें । हें बरें ।८५। वोगीच कित्या कश्टी जाता?। तुजो स्वधर्म सम पळेतां । तो सारको आचरतां । केन्नाच दोश लागचोना ।८६। जशें मार्गान चलतां। अपाय सदीं टळटा । वा दिवो घेवन वतां । खंयच आदळना ।८७। ते परी पार्था । जो स्वधर्मान चलता । मनच्यो सर्व इत्सा जाता। आपशीं पूर्ण।८८। म्हूण तूं देख । तुमकां क्षत्रियांक । झुजा शिवाय हेर आनीक। सोबना कांयच हेर ।८९। तुवें निश्कपट जावचें । फुडें सरून नेटान झुजचें। चड कित्या सांगचें। हें दिसतना उक्तें।१९०।

**आपशींच दार सर्गाचें उगडलें गा तुजे फुडें । भाग्यवंत क्षत्रियांकु मेळऽ गा झूज हें अशें ॥३२॥**

अर्जुना, झूज पळय आतांचें। हें भाग्य फळ्ळें तुमचें। वा भांडार सर्वय धर्माचें । जालें उक्तें ।९१। हाका संग्राम कित्या म्हळो। सर्गच हांगा देंवलो। झुजा रुपान उदेलो । मुर्तीमंत ।९२। वा ह्या तुज्या गुणां लौकिकानु। आनी प्रितीचे ओडिनु । किर्तीच स्वता येवनु । वरी तुका ।९३। खेत्र्यान भारी पुण्य करचें। तेन्ना झूज अशें हें मेळचें। जशें वाटेंत वतां आदळचें। चिंतामणयाक ।९४। वा जांभयेक तोंड आऽ करचें । थंय अवचीत अमृत पडचें। तशें हें झूज आयलें। तुजे फुडें।९५।

**निजाचो धर्म सोडून झुजलोना धर्म झूज हें । पैसावशी धर्म कीर्तीक पातकाचो जातुलो धनी ॥३३॥**

**पांचवो युक्तीवादः** आतां अशें झूज सोडचें। मगे नसत्या दुःखान बसचें। म्हणचे नाशा कारण जावचें। आपुणूच आपल्या।९६। पुर्वजांनी जें जोडलें । तें आपणेंच होगडायलें। जर आयज शस्त्र सांडलें। रणांत ह्या।९७। आशिल्ली किर्त वतली। जगीं निंदा जातली। आनी सोदीत येतलीं । महापातकां।९८। जशी बायल, घोव गेल्ली । सदीं सामकी उवेखिल्ली । तशी जिविता दशा जातली। स्वधर्माविणें ।९९। वा प्रेतां जीं रणीं पडटी । गिधां चोंवशीं चोंचायती । तशीं स्वधर्माक घेरती । महापातकां ।२००।

**अकीर्तिं चापि भूतानि कथयिष्यन्ति तेऽव्ययाम् । संभावितस्य चाकीर्तिर्मरणादतिरिच्यते ॥३४॥**

म्हणोनि स्वधर्म हा सांडसील । तरी पापा वरपडा होसील । आणि अपेश तें न वचेल । कल्पांतवरी ।१। जाणतेनि तंवचि जियावें । जंव अपकीर्ति आंगा न पवे । आणि सांग पां केवीं निगावें । एथोनियां ।२। तूं निर्मत्सरु सदयता । येथूनि निघसी कीर माघौता । परी ते गति समस्तां । न मनेल ययां ।३। हे चहूंकडूनि वेढितील । बाणवरी घेतील । तेथ पार्था न सुटिजेल । कृपाळुपणें ।४। ऐसेनिहि प्राणसंकटें । जरी विपायें पां निघणें घटे । तरी तें जियालेंही वोखटें । मरणाहुनी ।५।

**भयाद्रणादुपरतं मंस्यन्ते त्वां महारथाः । येषां च त्वं बहुमतो भूत्वा यास्यसि लाघवम् ॥३५॥**

तूं आणीकही एक न विचारिसी । एथ संभ्रमें झुंजों आलासी । आणि सकणवपणें निघालासी । मागुता जरी ।६। तरी तुझें तें अर्जुना । या वैरिया दुर्जनां। कां प्रत्यया येईल मना । सांगें मज ।७।

**अवाच्यवादांश्च बहून्वदिष्यन्ति तवाहिताः । निन्दन्तस्तव सामर्थ्यं ततो दुःखतरं नु किम् ॥३६॥**

हे म्हणतील गेला रे गेला । अर्जुन आम्हां बिहाला । हा सांगें बोलु उरला । निका कायी ।८। लोक सायासें करूनि बहुतें । कां वेंचिती आपुलीं जीवितें। परी वाढविती कीर्तीतें । धनुर्धरा ।९। ते तुज अनायासें । अनकळित जोडिली असे । हें अद्वितीय जैसें। गगन आहे ।२१०। तैसी कीर्ती निःसीम । तुझां ठायीं निरुपम । तुझे गुण उत्तम । तिहीं लोकीं ।११। दिगंतीचे भूपति भाट होऊनि वाखाणिती । जे ऐकिलिया दचती । कृतांतादिक ।१२। ऐसा महिमा घनवट । गंगा तैसी चेखट । जया देखी जगीं सुभट । वांठ जाहले ।१३। तैं पोरुष तुझें अद्भुत । आइकोनियां हे समस्त । जाहले आथि विरक्त । जीवितेंसी ।१४। जैसा सिंहाचिया हांकां । युगांतु होय मदमुखा । तैसा कौरवां अशेखां । धाकु तुझा ।१५। जैसे पर्वत वज्रातें । ना तरी सर्प गरुडातें। तैसे अर्जुना हे तूंतें । मानिती सदा ।१६। तें अगाधपण जाईल । मग हिणावो अंगा येईल । जरी मागुता निघसील । न झुंजतचि ।१७। आणि हें पळतां पळों नेदिती । धरूनि अवकळा करिती । न गणित कुटी बोलती । आइकतां तुज ।१८। मग ते वेळीं हिये फुटावें । आतां लाठेपणं कां न झुंजावें । हें जिंतलें तरी भोगावें । पृथ्वीतळ ।१९।

**हतो वा प्राप्स्यसि स्वर्गं जित्वा वा भोक्ष्यसे महीम् । तस्मादुत्तिष्ठ कौन्तेय युद्धाय कृतनिश्चयः ॥३७॥**

ना तरी रणीं एथ । झुंजतां वेंचलें जीवित । तरी स्वर्गसुख अनकळित । पावसील ।२२०। म्हणोनि ये गोठी । विचारु न करीं किरीटी । आतां धनुष्य घेऊनि उठीं । झुंजें वेगीं ।२१। देखें स्वधर्मु हा आचरतां । दोषु नाशे असता । तुज भ्रांती हे कवण चित्ता। एथ पातकाची ।२२। सांगें प्लवेंचि काय बुडिजे । कां मार्गीं जातां आडळिजे । परी विपायें चालों नेणिजे । तरी तेंही घडे ।२३। अमृतें तरीचि मरिजे । जरी विखेंसीं सेविजे । तैसा स्वधर्मे दोषु पाविजे । हेतुकपणें ।२४। म्हणोनि तुज पार्था । हेतु सांडोनि सर्वथा । क्षात्रवृत्ती झुंजतां । पाप नाहीं ।२५।

**सुखदुःखे समे कृत्वा लाभालाभौ जयाजयौ । ततो युद्धाय युज्यस्व नैवं पापमवाप्स्यसि ॥३८॥**

सुखीं संतोषा न यावें । दुःखीं विषादा न भजावें । आणि लाभालाभ न धरावे । मनामाजीं ।२६। एथ विजयपण होईल । कां सर्वथा देह जाईल । हें आधींचि कांहीं पुढील । चिंतावें ना ।२७। आपणयां उचिता । स्वधर्मातेंचि रहाटतां । जें पावे तें निवांता। साहोनि जावें ।२८। ऐसेया मनें होआवें। तरी दोषु न घडे स्वभावें । म्हणोनि आतां झुंजावें । निभ्रांत तुवां ।२९।

**एषा तेऽभिहिता सांख्ये बुद्धिर्योगे त्विमां श्रृणु । बुद्ध्या युक्तो यया पार्थ कर्मबन्धं प्रहास्यसि ॥३९॥**

हे सांख्यस्थिति मुकुलित । सांगितली तुज एथ । आतां बुद्धियोगु निश्चित । अवधारीं पां ।२३०। जया बुद्धियुक्ता । जाहालिया पार्था। कर्मबंधु सर्वथा। बाधूं न पवे।३१। जैसें वज्रकवच लेइजे। मग शस्त्रांचा वर्षावो साहिजे। परी जैतेंसीं उरिजे। अचुंबिता।३२।

---

अर्थ : (३१) निर्मळ. (३२) हे सगले कौरव. (३३) प्रळयकाळ. (३४) फळाचे आशेवीण. (३५) ज्ञानयोग.

**लोकु तुजो सदांकाल सांगतले वायट लौकिकूय । वायट लौकीकु मानेस्तां मर्णा परस हीण गा ॥३४॥**

पूण तूं स्वधर्म सोडल्यारी । पातकांचो धनी, धनुर्धारी । आनी अपेस कल्पान्ता वेरी । सोडचें ना तुका ।१। शाण्यान जियेवपांत अर्थ । जंवर आंगा दसलिना अपकीर्त । आनी सांग, तूं कसो कडसरशीत । हांगसून ।२। तूं निर्मत्सर, काकुळटेनु। खरोच वचूं सोदशी हांगसूनु । पूण वैऱ्यांक तुजें मनु। मातूय कळचेंना ।३। हे चोंयवशीन वेढटले । बाण तुजेर मारतले । थंय सुटूं ना येवचेलें। गळवझां येवन ।४। अश्याय प्राणसंकश्टांतसून । घडये वचत तूं निश्टून । तरी तें जिणेंय मर्णाहून । वाश्ट गा ।५।

**म्हारथी मानतले पार्था सोडलें भयान् तुवें रण । आसलो मानेस्त गा जांकां तांकां जाशी उणाक तूं ॥३५॥**

तूं विचार करना आनिकय एकु । तूं नेटान आयला झुजूंकु । आनी परतून सोदी वचूंकु । काकुळटेन जरी; ।६। तरी तुजी करणी गा अर्जुना । ह्या वैऱ्यां दुर्जनां । खरी दिसत गा मना?। सांग म्हाका ।७।

**भौ उतरां फावनाशिल्लीं वैरी तुजे उलैतुले । निंदितले गा बळा तुज्या हाचेकूय दुःख तें कितें ॥३६॥**

ते म्हणटले, गेलो रे गेलो । अर्जुन आमकां भिलो । असो बोल तुजेर आयलो । जातलें बरें? ।८। लोक भारी कश्टान । दितात आपले प्राण । पूण जोडटात सायासान । किर्ती कित्या अर्जुना?।९।

**अर्जुनाची किर्ती:** ती तुवें अनायास । संपादल्या सहज । जशें हें आकाश। अद्वितीय ।**२१०**। तशी किर्ती निस्सीम। तुजे ठांयीं निरूपम । तुजे गूण उत्तम । तिनूय लोकीं ।११। पयसुले भूपती । भाट जावन वाखाणटी । जी आयकून भियेती । कृतांत काळ ।१२। असो म्हयमा अगड । गंगेवरी चोखट[३१] । जो आयकून वीर ह्या जगांत । जाले चकासूर ।१३। तो पराक्रम तुजो अद्भूत। आयकून हे[३२] समस्त[३२] । उदार जाल्यात। जिवाचेर ।१४। जसो शिंवाचो धेंकु । युगान्त[३३] हतयांकु । तसो सगल्यां कौरवांकु । धाक तुजो ।१५। जशे पर्वत वज्रा । वा सोरोप गरूडा। तशे हे तुका। मानतात सर्दी ।१६। तें व्हडपण सरतलें । आंगा हीणपण येतलें । जर शस्त्र उडयलें । तुवें फाटीं सरून ।१७। पळूं सोदशी, पळूं दिवचेनात। धरून लायतले तुजी वाट। आनी अगणीत उतरां वायट । संवतले तोंडार ।१८। तेन्ना तुजें हड्डें फुटचें । ते परस शूरपणान कित्या न्ही झुजचें । जिखशी कित्या न्ही भोगचें । राज्य पृथ्वीचें? ।१९।

**मेल्यारि सर्ग तूं जोडशी जिखल्यारि राज्य पृथ्विचें । देखूनु ऊठ कौंतेया निश्चयानु झुजुंकू तूं ॥३७॥**

वा झुजतां हांगा रणांत । सोंपलें तुजें जिवीत । तर अचळय सर्गसूख । जोडशी तूं ।**२२०**। देखून ही गोश्ट । नाका हाडूं मनांत। धणू घेवन ऊठ । झूज बेगीं ।२१। पळे स्वधर्म हो आचरतां । आशिल्लेय दोश ना करतां । हो भ्रम कित्या तुज्या चित्ता। पातकाचो? ।२२। सांग, व्हड्यांतलो कोण बुडत?। वा आदळत उजू वाटेंत?। पूण आयलेंना जर चलूं नीट। तर घडये पडतय ।२३। दुदानय मरण येत । विखासयत तें घेत । तसो फलाशेन स्वधर्म आचरीत । तें कर्म दोश लायतलें ।२४। म्हणून गा पार्था। निश्काम[३४] जावन सर्वथा । क्षात्रधर्मान झुजतां । ना पातक ।२५।

**लाभ हानी सुखां दुःखां । जैत हार समा धर । लाग झुजूंकु मागीरू । पातकाचो बादिकारू ना ॥३८॥**

**पापांतल्यान सुटपाचो उपाय:** सुखान वचचें न्ही भुरकुटून । दुःखान वचचें न्ही खचून । आनी लाभ हानी धरून । बसचें न्ही मनीं ।२६। रणीं जैत मेळत । देह सामको सोंपत । फुडारा कितें घडत । हें चिंतुचें न्ही आदीं ।२७। आपणां उचीत । स्वधर्म आचरीत । जें मेळटा तें निवांत। सोंसुचें ।२८। अशी मनास्थिती जायत । सहज दोश घडनात । देखून जावन निश्चींत । झुजचें तुवें ।२९।

**सांख्य बुद्दी तुका सांगली । आयक ही योगबुद्द तूं । जोडुनू बुद्दी ही पार्था । सोडशी तूं कर्मपास गा ॥३९॥**

**निश्काम योगबुद्दी:** हें सांख्य[३५] तत्त्वज्ञान थोडक्यांत । सांगलें तुका हे पर्यंत । आतां बुद्दीयोग* निश्चींत। आयक लक्ष दिवन।**२३०**। हो बुद्दीयोग सादतां । ताका गा पार्था। कर्मपास बाधना । मातय ।३१। जशें वज्रकवच[३६] घालतां । शस्त्रघाव सोंसूं येता । जैतय मेळटा । भंय बादले वीण ।३२।

**नेहाभिक्रमनाशोऽस्ति प्रत्यवायो न विद्यते । स्वल्पमप्यस्य धर्मस्य त्रायते महतो भयात् ॥४०॥**

तैसें ऐहिक तरी न नशे। आणि मोक्षु तो उरला असे। जेथ पूर्वानुक्रम दिसे। चोखाळत ।३३। कर्माधारें राहाटिजे। परी कर्मफळ न निरीक्षिजे। जैसा मंत्रज्ञु न बधिजे। भूतबाधा ।३४। तियापरी जे सुबुद्धि । आपुलाल्या निरवधि । हा असतांचि उपाधि । आकळूं न सके ।३५। जेथ न संचरे पुण्यपाप। जें सूक्ष्म अति निष्कंप । गुणत्रयादि लेप । न लगती जेथ ।३६। अर्जुना ते पुण्यवशें । जरी अल्पचि हृदयीं बुद्धि प्रकाशे । तरी अशेषही नाशे । संसारभय ।३७।

**व्यवसायात्मिका बुद्धिरेकेह कुरुनन्दन । बहुशाखा ह्यनन्ताश्च बुद्धयोऽव्यवसायिनाम् ॥४१॥**

जैसी दीपकळिका धाकुटी। परी बहु तेजातें प्रगटी। तैसी सद्बुद्धि हे थेकुटी। म्हणों नये ।३८। पार्था बहुतीं परी। हे अपेक्षिजे विचारशूरीं । जे दुर्लभ चराचरीं । सद्वासना ।३९। आणिकासारिखा बहुवसु । जैसा न जोडे परिसु । कां अमृताचा लेशु । दैवगुणें ।२४०। तैसी दुर्लभ जे सद्बुद्धि । जिये परमात्माचि अवधि । जैसा गंगेसी उदधि । निरंतर ।४१। तैसा ईश्वरावांचुनि कांहीं । जिये आणीक लाणी नाहीं । ते एकचि बुद्धि पाहीं । अर्जुना जगीं ।४२। येरी ते दुर्मति । जे बहुधा असे विकरती । तेथ निरंतर रमती । अविवेकिये ।४३। म्हणोनि तया पार्था। स्वर्ग संसार नरकावस्था । आत्मसुख सर्वथा। दृष्ट नाहीं ।४४।

**यामिमां पुष्पितां वाचं प्रवदन्त्यविपश्चितः । वेदवादरताः पार्थ नान्यदस्तीति वादिनः ॥४२॥**

वेदाधारें बोलती । केवळ कर्म प्रतिष्ठिती । परी कर्मफळीं आसक्ती । धरूनियां ।४५। म्हणती संसारीं जन्मिजे । यज्ञादि कर्म कीजे । मग स्वर्गसुख भोगिजे । मनोहर ।४६। एथ हेंवांचूनि कांहीं । आणिक सर्वथा सुखचि नाहीं । ऐसें अर्जुना बोलती पाहीं। दुर्बुद्धि ते ।४७।

**कामात्मानः स्वर्गपरा जन्मकर्मफलप्रदाम् । क्रियाविशेषबहुलां भोगैश्वर्यगतिं प्रति ॥४३॥**

देखें कामना अभिभूत । होऊनि कर्मे आचरत । ते केवळ भोगीं चित्त । देऊनियां ।४८। क्रियाविशेषें बहुतें । न लोपिती विधीतें। निपुण होऊनि धर्मातें। अनुष्ठिती ।४९।

**भोगैश्वर्यप्रसक्तानां तयापहृतचेतसाम् । व्यवसायात्मिका बुद्धिःसमाधौ न विधीयते ॥४४॥**

परि एकचि कुडें करिती। जे स्वर्गकामु मनीं धरिती । यज्ञपुरुषा चुकती । भोक्ता जो ।२५०। जैसा कर्पूराचा राशि कीजे । मग अग्नि लाऊनि दीजे। कां मिष्टान्नीं संचरविजे । काळकूट ।५१। दैवें अमृतकुंभ जोडला । तो पायें हाणोनि उलंडिला । तैसा नासिती धर्मु निपजला। हेतुकपणें ।५२। सायासें पुण्य अर्जिजे । मग संसारु कां अपेक्षिजे । परी नेणती ते काय कीजे । अप्राप्त देखें ।५३। जैसी रांधवणी रससोय निकी । करूनियां मोलें विकी । तैसा भोगासाठीं अविवेकी । धाडिती धर्मु ।५४। म्हणोनि हे पार्था। दुर्बुद्धि देख सर्वथा । तयां वेदवादरतां । मनीं वसे ।५५।

**त्रैगुण्यविषया वेदा निस्त्रैगुण्यो भवार्जुन । निर्द्वन्द्वोनित्यसत्त्वस्थोनिर्योगक्षेमआत्मवान् ॥४५॥**

तिन्हीं गुणीं आवृत । हें वेद जाणें निभ्रांत । म्हणोनि उपनिषदादि समस्त । सात्त्विक ते ।५६। येर रजतमात्मक । जेथ निरूपिजे कर्मादिक । जे केवळ स्वर्गसूचकं । धनुर्धरा ।५७। म्हणोनि तूं जाण । हे सुखदुःखासीच कारण । एथ झणें अंतःकरण । रिघों देसी ।५८। तूं गुणत्रयातें अव्हेरी । मी माझें हें न करीं । एक आत्मसुख अंतरीं । विसंब झणीं ।५९।

**यावानर्थ उदपाने सर्वतः संप्लुतोदके । तावान्सर्वेषु वेदेषु ब्राह्मणस्य विजानतः ॥४६॥**

जरी वेदें बहुत बोलिलें । विविध भेद सूचिले । तऱ्ही आपण हित आपुलें । तेंचि घेपे ।२६०।

---

अर्थः (३७) पिडा. (३८) तेजान. (३९) हाच्या स्पर्शान लोखंडाचें भांगर जाता असो समज आशिल्लो. (४०) विकार निर्मुपी. (४१) हेर धर्मग्रंथांत. (४२) कर्म आनी उपासना आदी. (४३) सत्त्व, रज, तम ह्या तीन गुणांक. (४४) अहंकार; हंतम. (४५) ममता. (४६) उपासना-मार्ग.

**हांगा आरंभिल्ल्या कामांक  ना नाश आडखळी मदीं । चलशी धर्मानु ह्या मात्सो  राखी व्हडा भयांतुनू ॥४०॥**

तशें हांगचें सरना सूख । नि अंतरना मोक्षसूख । जंय चलता निश्काम कर्म चोख । पुर्वापारचें* ।३३। कर्मा आधारान वर्तुंचें। पूण कर्मफळ ना इत्सुचें। बाधना मांत्रिका जशें । भूत गा ।३४। ते परी जी निश्काम* बुद्दी । हिची जाका जाली प्राप्ती । ताका जल्म मर्णाची उपाधी[३७] । बाधना ।३५। जंय रिगना पुण्य पाप । जी अती सुक्षीम, निश्कंप । सत्त्वादी गुणां लेप । लागना जंय ।३६। अर्जुना, पुण्यायेन ती इल्ली । जरी अंतरीं इल्ली उजवाडली। तरी ती पुराय नाश करतली । संवसारभंय ।३७।

**हातुं निश्चयु लाभूनु  बुद्दी विचार एकच । खांदे अनंत फुट्टात  बुद्दीक निश्चयाविणे ॥४१॥**

**सुबुद्दी:** जशी दिव्याची जोत धाकली । पूण व्हड दिप्तीन[३८] परगटली । तशी सुबुद्दी ही इल्ली । म्हणची न्ही ।३८। पार्था भोव परीं । विवेकी तिची इत्सा धरी। कित्या दुर्लभ चराचरीं । ही सद्वासना ।३९। परीसा[३९] वरी फातुल्ली। मेळना मळीं स्थळीं । वा कुपी अमृताची इल्ली । मेळऽ भाग्यान ।**२४०**। तशी दुर्मीळ ही सद्बुद्दी । जिची गती परमात्मीं अंतीं । जशी गंगेची गती । सागरीं; ।४१। जिका ईश्वरा वीण ना शेवट । ना हेर आसऱ्या सुवात । ती ही एकूच सुवात । अर्जुना जगीं ।४२।

**दुर्बुद्दी:** हेर त्यो दुर्बुद्दी। जंय भोवदां विकृती[४०]। थंय निरंतर रमती । अविवेकी; ।४३। म्हणून तांच्या वांटयां पार्था । सर्ग-संवसार-नरकावस्था । थंय आत्मसुखाची सर्वथा । ना दिश्टी भेट ।४४।

**ही फुलार अशी वाणी  उलयती अविवेकि गा । रमूनु वेद वादांतू  म्हण्टी आनीकु कांयु ना ॥४२॥**

ते कर्मफळा आसक्ती । धरून वेदाधारान उलयती । नि प्रस्थापना करताती । कर्मकांडाची ।४५। म्हण्टी संवसारीं जल्मुंचें। यज्ञादी कर्मूच करुंचें । मगे सर्गसूख भोगुंचें । आनंद दिणें ।४६। हांगा सर्गसुखा शिवायु । ना हेर सुखां कांयु । अशे उलयती, चोयु । दुर्बुद्दी ते ।४७।

**सर्गा वान्शेन फळा आशेन्  सादूंकु सूख वैभव । तरां तरां विधीनी ते  येती जल्माकु पर्थुनू ॥४३॥**

धरून इत्सांची ओड । ते कर्मां आचरतात । फकत भोगीं चित्त । दिवन गा ।४८। विंगडु कर्मां करूनु । विधीभंग जालेवीणु । ते दक्ष जावनु । धर्माक आचरतात ।४९।

**भुलिल्लें चित्त ते वाणीन्  घुस्पलें भौग वैभवीं । तांगेली निश्चया बुद्दी  थीर नी सम जायिना ॥४४॥**

पूण ते एकूच वायट करतात। सर्गा इत्सा मनीं धरतात। यज्ञ पुर्साक विसरतात। म्हाका, यज्ञ भोगतल्या।**२५०**। जशी कापुराची रास केली। उजो लावन ती पेटयली। वा गोडश्यांत भरशिली। विखा गुळी।५१। भाग्यान अमृतकुंभ मेळ्ळो। तो फांफरावन उमथिलो। तसो घालयतात धर्म हातांतलो। फळाशा धरून।५२। कश्टान पुण्य जोडचें । मगे संवसार सूख कित्या इत्सुचें । ज्ञान दिश्टी वीण कशें कळचें । हें नेणारां ।५३। जशी सुगरण रांदी बरी । मोल घेवन तें विकी । तसो भोगांपासत अविवेकी । होगडायती धर्म ।५४। म्हणून गा पार्था । जे विसकायी वेदार्था । तांच्या मनीं सर्वथा । वसता दुर्बुद्दी ।५५।

**भल्ल्या त्रिगूण वेदांत  जा मेकळो तांतुल्यानु तूं । जा तूं निश्चिंत निर्द्वंद्व  आत्म्या जिखूनु सात्त्विकु ॥४५॥**

**त्रिगुणांविरयत जावचें:** तिनुय गुणांनी व्यापल्यात । हे वेद, जाण निश्चीत । म्हणून उपनिषदादी समस्त । सात्त्वीक ते ।५६। हेर ते[४१] रजतमादीक । जंय निरूपिलां कर्मादीक[४२]। जे सुचयती सर्ग-सूख । धनुर्धारी ।५७। म्हणून तूं जाण । हे सूख-दुःखां कारण । थंय तुजें मन। रिगूं दिवं नाका ।५८। तूं गूणत्रयांक[४३] अव्हेरी । हांव[४४] म्हजें[४५] ना करी। एक आत्मसूख अंतरीं । विसरूं नाका ।५९।

**जितलो उपेगु गा बांयचो  भरतां हुंवारू चोंवशीं । तसो सगल्याच वेदांचो  ब्रह्मतत्त्वाकु जाण्टल्या ॥४६॥**

**वेदांत विवेक करचो:** जरी वेदांनी भोव सांगलें । विंगड मार्ग[४६] सुचयले । पूण जायत हीत आपलें । तेच घेवंचे ।**२६०**।

परि आणिकांचिये दिठी नावेक। जैसा स्फटिकुचि आभासे उदक। तैसा ज्ञानी नव्हे कौतुक। सांगतां तो।१३। जैसा वारा कां गगनीं विरे। मग वारेपण वेगळें नुरे। तेवीं भक्त हे पैज न सरे। जरी ऐक्या आला।१४। जरी पवन हालवूनि पाहिजे। तरी गगनावेगळा देखिजे। एऱ्हवीं गगन तो सहजें। असे जैसें।१५। तैसें शरीरें हन कर्में। तो भक्त ऐसा गमे। परी अंतरें प्रतीतिधर्में। मीचि जाहला।१६। आणि ज्ञानाचेनि उजिडलेपणें। मी आत्मा ऐसें तो जाणे । म्हणऊनि मीही तैसेंचि म्हणें। उचंबळला सांता।१७। हा गां जीवापैलीकडिलिये खुणे। जो पावोनि वावरोंही जाणे। तो देहाचेनि वेगळेपणें। काय वेगळा होय।१८।

उदारा: सर्व एवैते ज्ञानी त्वात्मैव मे मतम्। आस्थित: स हि युक्तात्मा मावमेवानुत्तमां गतिम् ॥१८॥

म्हणोनि आपुलालिया हिताचेनि लोभें। मज आवडे तोही भक्त झोंबे। परी मीचि करी वालभें। ऐसा ज्ञानिया एकु।१९। पाहें पां दुभतेयाचिया आशा। जगचि धेनूसि करीताहे फांसा। परि दोरेंवीण कैसा। वत्साचा बळी।१२०। कां जे तनुमनुप्राणें। तें आणिक कांहीचि नेणे। देखे तयातें म्हणे। हे मायचि कीं माझी।२१। तें येणें मानें अनन्यगती। म्हणूनि धेनूही तैसीचि प्रीती। यालागीं लक्ष्मीपती। बोलिले साच।२२। हें असो मग म्हणितलें। जे कां तुज सांगितलें। तेही भक्त भले। पढियंते आम्हां।२३। परि जाणोनियां मातें। जो पाहों विसरला मागौतें। जैसें सागरा येऊनि सरिते। मुरडावें ठेलें।२४। तैसी अंत:करणकुहरीं उपजली। जयाची प्रतीतिगंगा मज मिनली। तो मी हें काय बोली। फार करूं।२५। एऱ्हवीं ज्ञानिया जो म्हणिजे। तो चैतन्यचि केवळ माझें। हें न म्हणावें परि काय कीजे। न बोलणें बोलों।२६।

बहूनां जन्मनामन्ते ज्ञानवान्मां प्रपद्यते। वासुदेव: सर्वमिति स महात्मा सुदुर्लभ: ॥१९॥

जे तो विषयांची मोट झाडी-। माजीं कामक्रोधांचीं सांकडीं। चुकावूनि आला पाडी। सद्वासनेचिया।२७। मग साधुसंगें सुभटा। उजू सत्कर्माचिया वाटा। अप्रवृत्तीचा अव्हांटा। डावलूनि।२८। आणि जन्मशतांचा वाहतवणा। तेवींचि आस्थेचिया न लेचि वाहणा। तेथ फलहेतूचा उगाणा। कवणु चाळी।२९। ऐसा शरीरसंयोगाचिये राती-। माजीं धांवतां सडिया आयती। तंव कर्मक्षयाची पाहती। पाहांट जाली।१३०। तैसी गुरुकृपाउखा उजळली। ज्ञानाची वोतपली पडली। तेथ साम्याची ऋद्धि उघडली। तयाचिये दिठी।३१। ते वेळीं जयाकडे वास पाहे। तेउता मीचि तया एकु आहे। अथवा निवांत जरी राहे। तरी मीचि तया।३२। हें असो आणिक कांहीं। तया सर्वत्र मीवांचूनि नाहीं। जैसें सबाह्य जळ डोहीं। बुडालिया घटा।३३। तैसा तो मजभीतरीं। मी तया आंतुबाहेरीं। हें सांगिजे बोलवरी। तैसें नव्हे।३४। म्हणोनि असो हें यापरी। तो देखे ज्ञानाची वाखारी। तेणें संसरलेनि करी। आपु विश्व।३५। हें समस्तही श्रीवासुदेवो। ऐसा प्रतीतिरसाचा वोतला भावो। म्हणोनि भक्तांमाजीं रावो। आणि ज्ञानिया तोचि।३६। जयाचिये प्रतीतीचां वाखौरां। पवाडु होय चराचरा। तो महात्मा धनुर्धरा। दुर्लभु आथी।३७। येर बहु जोडती किरीटी। जयांचीं भजनें भोगासाठीं। जे आशातिमिरें दृष्टी-। मंद जाले ।३८।

कामैस्तैस्तैर्हृतज्ञाना: प्रपद्यन्तेऽन्यदेवता:। तं तं नियममास्थाय प्रकृत्या नियता: स्वया ॥२०॥

आणि फळाचिया हांवा। हृदयीं कामा जाला रिगावा। कीं तयाचिये घसणी दिवा। ज्ञानाचा गेला।३९। ऐसे उभयतां आंधारीं पडले। म्हणोनि पासींचि मातें चुकले। मग सर्वभावें अनुसरले। देवतांतरां।१४०। आधींच प्रकृतीचे पाइक। वरी भोगालागीं तंव रंक। मग तेणें लोलुप्यें कौतुक। कैसे भजती।४१। कवणी तिया नियमबुद्धि। कैसिया हन उपचारसमृद्धि। कां अर्पण यथाविधि। विहित करणें।४२।

यो यो यां यां तनु भक्त: श्रद्धयार्चितुमिच्छति। तस्य तस्याचलां श्रद्धां तामेव विदधाम्यहम् ॥२१॥

पैं जो जिये देवतांतरीं। भजावयाची चाड करी। तयाची ते चाड पुरी। पुरविता मी।४३। देवोदेवीं मीचि पाहीं। हाही निश्चय त्यासि नाहीं। भाव ते ते ठायीं। वेगळाला धरी।४४।

---

अर्थ: (२३) आत्मस्वरूपाची खूण.

कोणा दिश्टीक जसो। स्फटीक मणी भासऽ उदकसो। ज्ञानी दिसऽ तसो। कितु सांगुं कवतूक?।१३। जसो वारो आकाशीं वता विरून। मगे उरना वेगळें वारेंपण। तशें सरना ताचें भक्तपण। जरी जालो मद्रूप।१४। जसो वारो येता झुळझुळून। तो दिसता वेगळो गगना पसून। हरशीं ताचें ना गगनापसून। वेगळेंपण।१५। तसो देहान वा कर्मान। भक्त दिसता वेगळेपणान। पूण मना अणभवान। तो जालो हांवूच।१६। आनी ज्ञानाच्या उदयान। तो जाणी हांव ताचो आत्मोच म्हणून। देखून हांवय म्हणी उचंबळून। ताकाय म्हजोच आत्मो ।१७। आगा, जो जिवापेली[२३] खूण। करता आचरण जाणून। ताका देहाचें वेगळेंपण। कितें करी वेगळो?।१८।

**हे सर्व भक्त गा थोरू ज्ञानी आत्मोच मानि हांव। त्या योग्या हांवु आधारू ताका ना जोड होड हेर् ॥१८॥**

म्हूण सादूंक आपापलें हीत। म्हाका आवडऽ म्हजेसरीं येता जो भक्त। पूण हांवूच करी प्रीत। असो ज्ञानी एकूच।१९। पळय, दुदा आशेक। जग घालता दांवें गायेक। पूण दांव्याविणें ती वासराक। दिना दूद?।१२०। कित्या तें देह-मन-जिवान। नेणा आनीक कोणाक। गायेक देखले खिणाक। म्हणी ही माय म्हजीच।२१। तें करिना हेर कोणा भक्ती। म्हूण गायेकय ताची प्रिती। म्हूण, उलयलो जें लक्ष्मीपती। खरेंच तें;।२२। हें आसूं, मगे ताणें म्हळें। जें तुका कितें सांगलें। तेयु भक्त बरे म्हगेले। म्हजे आवडि ते।२३। पूण म्हाका खरोच वळखून। जे पळेनात संवसाराक फाटल्यानु। जश्यो न्हंयो सागरा मेळ्नु। फाटीं येनात।२४। तशी अंतस्कर्णा होंवरेंत उपजिल्ली। जाची अणभवगंगा म्हाका मेळ्ळी। तो हांवूच, हें उलोवचेली। गरज कितें?।२५। हरशीं ज्ञानी जाका म्हणचें। तो चैतन्यच म्हजें जाणचें। कोणाकूच न्ही सांगचें । जें सांगलें तुका।२६।

**अंतीं अनेक जल्मांच्या ज्ञानी म्हाकाच मेळऽ गा। वासुदेव सगलो भाव म्हात्मो दुर्लभु मेळप।१९।**

विशयांच्या दाट रानांतल्यान। कामक्रोधादी संकटां चुकोवन। आयलों दोंगर चडून। सद्वासनेचो।२७। धरता संता संगत। सत्कर्माची उजू वाट। कुकर्माची आडवाट। सोडून।२८। शतजल्मांचे भोंवडेंतल्यान। फळाशेची घालिना व्हाण। थंय फळ-हेतुचो कोण। करीत हिशेब?।२९। असो देह तन्मयी रातींत। तो एकलोच धांवतना वाटेंत। कर्मक्षय जावन फांतोट। जाली ज्ञान उदयाची।१३०। तावळी गुरुकृपेचें झिळमिळटें जालें। ज्ञानाचें वोत पडलें। थंय समतेचें धन परगटलें। ताचे दिश्टी फुडें।३१। तावळी दिश्टी जंय वता ताची। थंय तो म्हाका एकल्याकूच पळेयी। वा तो निवांत जरी रावी। तरी हांवूच ताका।३२। हें आसूं; आनीक कांय। ताका ना म्हजेशिवाय। जशें भायर भितर उदकूच बांयत। बुडिल्ले कळशेक।३३। तसो तो म्हजे अंतरीं। हांव ताचे भायर भितरी। उतरांनी सांगचे वरी। नासता हें।३४। आसूं, तो ज्ञानाचें भांडार। सर्वत्र पळय निरंतर। तो तें चलोवन करी वेव्हार। नि विश्व करी आपलें।३५। हें समस्तय श्रीवासुदेव। असो प्रतीतीरसा वोतिल्लो भाव। म्हणून भक्तां मदीं राव। आनी तोच ज्ञानी।३६। जाची अणभवाची वखार। घेता आसपावन चराचर। असो म्हात्मो गा धनुर्धर। आसता दुर्लभ।३७। अशे भोव म्हाका भजती। ते भोगांपासत भजनां करती। आशेच्या काळखान तांची दिश्टी। मंदावली।३८।

**भोगां वान्शेन पिसावल्ले त्या त्या नेमांकु पाळुनू। नीज सभावु धर्मानू भजतातु हेर दैवतां ॥२०॥**

फळाची धरिल्ल्यान हाव। अंतरीं इत्से रिगाव। ताचे घश्टीन ना जाय। ज्ञानदिवो।३९। अंतर्बाह्य अंधारीं बुडटात। लागीं आसुनूय म्हाका मेळनात। मगे सर्वभावान भजतात। हेर दैवतां।१४०। दास मुळचे, प्रकृती आधीन। वयल्यान भोगांपासत दीन। मगे विशय लालसेन। पळय कशे भजतात ते।४१। नेम सगलेच जाणटात। पुजे सामग्री पुंजायतात। यथा विधी ओंपतात। शास्त्रान सांगिल्लेवरी।४२।

**जे जे मुर्तीकु श्रद्धेनु जो जो भजऽ सदींच गा। ताची ताची तशी श्रद्धा ते देवतेंतु थिरायु हांव ॥२१॥**

पूण जो ज्या दैवतांची। इत्सा धरी भजुंची। इत्सा पुरी करी तांची। हांवूच।४३। हांवूच सगल्यो देवदेवता। ना ही श्रद्धा ताच्या चित्ता। भाव ताचो त्या त्या देवतां। विंगडु विंगडु।४४।

स तया श्रद्धया युक्तस्तस्याराधनमीहते। लभते च ततः कामान्मयैव विहितान्हि तान् ॥२२॥

मग श्रद्धायुक्त। तेथिंचें आराधन जें उचित। तें सिद्धीवरी समस्त। वर्तो लागे।४५। ऐसें जेणें जें भाविजे। तें फळ तेणें पाविजे। परी तेंही सकळ निपजे। मजचिस्तव।४६।

अन्तवत्तु फलं तेषां तद्भवत्यल्पमेधसाम्। देवान्देवयजो यान्ति मद्भक्ता यान्ति मामपि ॥२३॥

परी ते भक्त मातें नेणती। जे कल्पनेबाहेरी न निघती। म्हणोनि कल्पित फळ पावती। अंतवंत।४७। किंबहुना ऐसें जें भजन। तें संसाराचेंचि साधन। येर फळभोग तो स्वप्न। नावभरी दिसे।४८। हें असो परौतें। मग हो का आवडे तें। परि यजी जो देवतांतें। तो देवत्वासीचि ये।४९। येर तनुमनप्राणीं। जे निरंतर माझेयाचि वाहणीं। ते देहांचां निर्वाणीं। मीचि होती।१५०।

अव्यक्तं व्यक्तिमापन्नं मन्यन्ते मामबुद्धयः। परं भावमजानन्तो ममाव्ययमनुत्तमम् ॥२४॥

परी तैसें न करिती प्राणिये। वायां आपुलां हिती वाणिये। जे पोहताती पाणियें। तळहातींचेनि।५१। नाना अमृताचां सागरीं बुडिजे। मग तोंडा कां वज्रमिठी पाडिजे। आणि मनीं तरी आठविजे। थिल्लरोदकातें।५२। हें ऐसें काइसेया करावें। जें अमृतींही रिगोनि मरावें। तें सुखें अमृत होऊनि कां नसावें। अमृतामाजीं।५३। तैसा फळहेतूचा पांजरा। सांडूनिया धनुर्धरा। कां प्रतीतिपाखीं चिदंबरा। गोसाविया नोहावें।५४। जेथ उंचावतेनि पवाडें। सुखाचा पैसारु जोडे। आपुलेनि सुरवाडें। उडों ये ऐसा।५५। तया उमपा माप कां सुवावें। मज अव्यक्ता व्यक्त कां मानावें। सिद्ध असतां कां निमावें। साधनवरी।५६। परी हा बोल आघवा। जरी विचारीजतसे पांडवा। तरी विशेषें या जीवां। न चोजवे गा।५७।

नाहं प्रकाशः सर्वस्य योगमायासमावृतः । मूढोऽयं नाभिजानाति लोको मामजमव्ययम् ॥२५॥

कां जे योगमायापडळें। हे जाले आहाती आंधळे। म्हणोनि प्रकाशाचेनिहि देहबळें। न देखती मातें।५८। एऱ्हवीं मी नसें ऐसें। कांहीं वस्तुजात असे। पाहें पां कवण जळ रसें-। रहित आहे।५९। पवन कवणातें न शिवेचि। आकाश कें न समायेचि। हें असो एक मीचि। विश्वीं असें।१६०।

वेदाहं समतीतानि वर्तमानानि चार्जुन। भविष्याणि च भूतानि मां तु वेद न कश्चन ॥२६॥

येथें भूतें जियें अतीतलीं। तियें मीचि होऊनि ठेलीं। आणि वर्तत आहाति जेतुलीं। तींहि मीचि।६१। भविष्यमाणें जियें हीं। तींही मजवेगळीं नाहीं। हा बोलचि एऱ्हवीं कांहीं। होय ना जाय।६२। दोराचिया सापासी। डोंबा बडी ना गव्हाळा ऐसी। संख्या न करवे कोण्हासी। तेवीं भूतांसि मिथ्यत्वें।६३। ऐसा मी पंडुसुता। अनुस्यूत सदा असतां। या संसार जो भूतां। तो आनें बोलें।६४। आतां थोडी ऐसी। गोठी सांगिजेल परियेसीं। जैं अहंकारतनूंसी। वालभ पडिलें।६५।

इच्छाद्वेषसमुत्थेन द्वन्द्वमोहेन भारत। सर्वभूतानि संमोहं सर्गे यान्ति परंतप ॥२७॥

तैं इच्छा हे कुमारी जाली। मग ते कामाचिया तारुण्या आली। तेथ द्वेषेंसीं मांडिली। वराडिक।६६। तया दोघांस्तव जन्मला। ऐसा द्वंद्वमोह जाला। मग तो आजयाने वाढविला। अहंकारें।६७। जो धृतीसि सदां प्रतिकूळु। नियमाही नागवे सळु। आशारसें दोंदिलु। जाला सांता।६८। असंतुष्टीचिया मदिरा। मत्त होवोनी धनुर्धरा। विषयांचां वोवरां। विकृतीसी असे।६९। तेणें भावशुद्धीचिया वाटे। विखुरले विकल्पाचे कांटे। मग चिरिले अव्हांटे। अप्रवृत्तीचे।१७०। तेणें भूतें भांबावलीं। म्हणोनि संसाराचिया आडवामाजीं पडिलीं। मग महादुःखाचां घेतलीं। दांडेवरी।७१।

---

अर्थः (२४) शरीरासयत. (२५) जिवाच्या.

तो श्रद्धेनु तिचेवेले भजऽ ते देवतेकु तो। तांतल्यानु फळटल्यो ताच्यो इत्सा हांवूच त्यो फळै।।२२॥

मगे उचीत आराधन। करता तो श्रद्धेन। कार्य सिद्धी जाय मेरेन। करी यथाविधी।४५। अशी जी जी धरी भावना। तें तें मेळऽ ताका अर्जुना। पूण तेंय सगळें मेळऽ जाणा। म्हाकाच लागून।४६।

जोडिल्लें अल्पबुद्दीनी तें फळु नाशिवंतु गा। देवांले भक्त देवांकु म्हजे भक्त म्हजेसरीं॥२३॥

पूण ते भक्त म्हाका नेणात। संकल्पा भायर सरनात। म्हूण फळ नाशिवंत। मेळऽ इत्सिल्लें।४७। इतलेंच न्ही, अशें भजन। संवसाराचेंच साधन। तो फळभोग आसता सपन। जे दिसऽ खीणभर।४८। आसूं, दवरुया हें कुशीक। जें तांचें आवडीचें दैवत। तांकां जर तो पुजीत। पावऽ त्याच दैवता स्वरूपाक।४९। जे तन मन प्राण ओंपून। करी सदींच म्हजें भजन। देहाचें जातच निर्वाण। हांवूच जाता।१५०।

अबुद्दी रूप नेणात म्हजें शाश्वत उत्तम। ते म्हाका दिसना-जाल्ल्या दिसऽ तसलो धरतात गा ॥२४॥

पूण प्राणी तशें करिनात। व्यर्थ आपलें हीत सोडटात। जे उदकांत पेंवतात। तळटांतल्या।५१। अमृताच्या उदकांत बुडचें। पूण तोंड कित्या धांपून धरचें?। आनी मनांत कित्या स्मरचें। कोंडांतलें उदक?।५२। हें अशें कित्या करचें?। वा कित्या अमृतांत रिगून मरचें?। अमृतच जावन कित्या न्ही रावचें। अमृता मदीं?।५३। फळहेतूचो पांदरो सोडून। ह्या चैतन्य आकाशीं उडून। अणभवा पांखांनी भरारी मारून। कित्या धनी जांवचो न्ही ताचो?।५४। भंय उंच उडचें जशें। सूख मेकळेसाणीन मेळऽ तशें। सुखान उडूं येतलें। इत्सिल्लेवरी।५५। म्हाका अमापा, कित्या मेजचें? निराकार म्हाका, साकार कित्या मानचें?। साधना करून कित्या शिणचें?। हांव सिद्ध आसतना।५६। हें उलोवणें सगलें। जरी विवेकान भरिल्लें। तरी ह्या जिवांक इल्लेंय। समजना तें।५७।

हांव सर्वा दिसना पार्था योगा मायेनु धांकिल्ल्यान् । जल्मा विरयतु हांव नित्य मुढांक वळख ना म्हजी ॥२५॥

योग मायेच्या पड्ड्यान। जे कुड्डे जाल्यात। म्हूण प्रकाशा बळान। म्हाका पळेनात।५८। हरशीं हांव ना जिचेठांय। आसत वस्तु एक तरी खंय?। आसा रोसा विरयत खंय। उदक, सांग?।५९। वारो कोणा आफडिना। आकाश कितें व्यापिना। हें आसूं, ह्या सगल्या विश्वांत, अर्जुना। आसा हांवूच एक।१६०।

पुर्विल्ले जीव जाणी हांव आतांचेयु धनंजया। जातुले ते फुडाराकूय म्हाका कोणूच नेणता।२६।

प्राणीमात्र जितले जाले। ते हांवूच जावन रावले। आतां आसात जे सगले। तेयु हांवूच।६१। हाचे फुडेंय जे जातले। तेय म्हजेहून नासतले वेगळे। हें केवळ उलोवणें। हरशीं कांयच जायना, वचनाय।६२। कशें म्हणचें दोरयेवेल्या सोरपाविशीं। काळो, करडो, गव्हाळो ही जात ना अशी। जसो निश्चय जायना तांचे विशीं। तशें प्राण्याविशीं; जे मिथ्या।६३। असो हांव गा पांडुपुता। सगल्या जिवांत अखंड आसतां। संवसार जो तांकां भासता। तो वेगळोच।६४। गजाल तीच आतां थोडीशी। सांगन, आयक मात्रशी। जेन्ना अहंकाराची देहाशीं। जडली प्रिती;।६५।

वान्सा द्वेशानु जाल्लो जो द्वंद्वां गदळ भारता। गदळायी सर्व जीवांकु ह्या संवसारांतु अर्जुना ॥२७॥

तावळी, तांकां इत्सा ही कुंवरी जाली। मगे ती जुवानींत आयली। तेन्ना द्वेशा वांगडा जाली। व्हाड्डीक तिची।६६। मगे ह्या 'इत्सा-द्वेश ह्या जोडप्या जालो। 'द्वंद मोह' हो चलो। मगे ताका वाडयलो। अहंकार आज्यान।६७। हो मना धिराचो वैरी जालो। नेमांक आयकना जालो। आशेच्या दुदान जालो। धश्ट पुश्ट।६८। असंतुश्टतायेची मदिरा। ताका तर्र करी धनुर्धरा। विशयांचे कुडींत रमता। विकृती-अस्तुरेशीं।६९। तो चित्तशुद्धीचे वाटेवयरी। संशयाचे कांटे पसरी। वाटो मेकळ्यो करी। कुमार्गाच्यो।१७०। ताणे प्राणी भियेले। संवसार-अरण्यांत पडले। मग तोणक्यांनी तांकां धाडायले। सूखदु:खाच्या।७१।

**येषां त्वन्तगतं पापं जनानां पुण्यकर्मणाम् । तेद्वन्द्वमोहनिर्मुक्ता भजन्ते मां दृढव्रताः ॥२८॥**

ऐसे विकल्पाचे वांयाणे। कांटे देखोनि सणाणे। जे मतिभ्रमाचें पासवणें। घेतीचिना।७२। उजू एकनिष्ठतेचां पाउलीं। रगडूनि विकल्पाचिया भालीं। महापातकांची सांडिली। अटवी जिहीं।७३। मग पुण्याचे धांवा घेतले। आणि माझी जवळीक पातले। किंबहुना ते चुकले। वाटवधेयां।७४।

**जरामरणमोक्षाय मामाश्रित्य यतन्ति ये। ते ब्रह्म तद्विदुः कृत्स्नमध्यात्मं कर्म चाखिलम् ॥२९॥**

एऱ्हवीं तरी पार्था। जन्ममरणाची निमे कथा। ऐसिया प्रयत्नातें आस्था। विये जयांची।७५। तयां तो प्रयत्नुचि ऐके वेळे। मग समग्रें परब्रह्में फळे। जया पिकलेया रसु गळे। पूर्णतेचा।७६। ते वेळीं कृतकृत्यता जग भरे। तेथ अध्यात्माचें नवलपण पुरे। कर्माचें काम सरे। विरमे मन।७७। ऐसा अध्यात्मलाभ तया। होय गा धनंजया। भांडवल जया। उद्यमीं मी।७८। तयातें साम्याचिये वाढी। ऐक्याची सांदे कुळवाडी। तेथ भेदाचिया दुबळवाडी। नेणिजे तो।७९।

**साधिभूताधिदैवं मां साधियज्ञं च ये विदुः। प्रयाणकालेऽपि च मां ते विदुर्युक्तचेतसः ॥३०॥**

जिहीं साधिभूता मातें। प्रतीतीचेनि हातें। धरूनि अधिदैवातें। शिवतलें गा।**१८०**। जया जाणिवेचेनि वेगें। मी अधियज्ञु दृष्टी रिगे। ते तनूचेनि वियोगें। विन्हये नव्हती।८१। एऱ्हवीं आयुष्याचें सूत्र विघडतां। भूतांची उमटे खडाडता। काय न मरतयाहि चित्ता। युगांतु नोहे।८२। परी नेणों कैसें पैं गा। जे जडोनि गेले माझिया आंगा। ते प्रयाणींचिया लगबगा। न सांडितीच मातें।८३। एऱ्हवीं तरी जाण। ऐसे जे निपुण। तेचि अंतःकरण-। युक्त योगी।८४। तंव इये शब्दकुपिकेतळीं। नोडवेचि अवधानाची अंजुळी। जे नावेक अर्जुन तये वेळीं। मागांचि होता।८५। जेथ तद्ब्रह्मवाक्यफळें। जियें नानार्थरसें रसाळें। बहकाते आहाती परिमळें। भावाचेनि।८६। सहज कृपामंदानिळें। कृष्णद्रुमाचीं वचनफळें। अर्जुनश्रवणाचिये खोळे। अवचित पडिलीं।८७। तियें प्रमेयाचींच हो कां वळलीं। कीं ब्रह्मरसाचां सागरीं चुबुकळिलीं। मग तैसींच का घोळिलीं। परमानंदें।८८। तेणें बरवेपणें निर्मळें। अर्जुना उन्मेषाचे डोहळे। घेताति गळाळे। विस्मृयामृताचे।८९। तिया सुखसंपत्ति जोडलिया। मग स्वर्गा वाती वांकुलिया। हृदयाचां जीवीं गुतकुलिया। होत आहाती।**१९०**। ऐसें वरचिलीचि बरवा। सुख जावों लागलें फावा। तंव रसस्वादाचिया हांवा। लाहो केला।९१। झाकरी अनुमानाचेनि करतळें। घेऊनि तियें वाक्यफळें। प्रतीतिमुखीं एके वेळे। घालूं पाहिलीं।९२। तंव विचाराचिया रसना न दाटती। परी हेतूचांहि दशनीं न फुटती। ऐसें जाणोनि सुभद्रापती। चुंबीचिना।९३। मग चमत्कारला म्हणे। इयें जळींचीं मा तारांगणें। कैसा झकविलों असलगपणें। अक्षरांचेनि।९४। इयें पदें नव्हती फुडिया। गगनाचियाचि घडिया। येथ आमुची मति बुडिया। थाव न निघे।९५। वांचूनि जाणावयाची कें गोठी। ऐसें जीवीं कल्पूनि किरीटी। तियें पुनरपि केली दृष्टी। यादवेंद्रा।९६। मग विनवलें सुभटें। हां हो जी यें एकवाटें। सातही पदें अनुच्छिष्टें। नवलें आहाती।९७। एऱ्हवीं अवधानाचेनि वहिलेपणें। नाना प्रमेयांचे उगाणे। काय श्रवणाचेनि आंगणें। बोलों लाहाती।९८। परि तैसें हें नोहेचि देवा। देखिला अक्षरांचा मेळावा। आणि विस्मयाचिया जीवा। विस्मयो जाला।९९। कानाचेनि गवाक्षद्वारें। बोलाचे रश्मी अभ्यंतरें। पाहेना तंव चमत्कारें। अवधान ठकलें ।**२००**। तेवींचि अर्थाची चाड मज आहे। ते सांगतांही वेळु न साहे। म्हणूनि निरूपण लवलाहें। कीजो देवा।१। ऐसा मागील पडताळा घेउनी। पुढां अभिप्रावो दृष्टी सूनी। तेवींचि माजि शिरवुनी। आर्ती आपुली।२। कैसी पुसती पाहें पां जाणिव। भिडेचि तरी लंघों नेदी शींव। एऱ्हवीं कृष्णहृदयासि खेंव। देवों सरला।३। अगा गुरूतें जैं पुसावें। तैं येणें मानें सावध होआवें। हें एकचि जाणें आघवें। सव्यसाची।४।

---

अर्थः (२४) मायारूप जड सृश्टी. (२५) परमेश्वर.
(२६) वाऱ्याची झुळूक. (२७) (यादवांचो राय) श्रीकृष्णाकडेन.

**सल्लें पातकु जांगेलें पुण्यकर्मा करूनु गा। मुक्त ते द्वंद्व मोहांतले भजऽ म्हाकाच निश्चयी ॥२८॥**

अशे विकल्पांचे तीक्ष्ण। कांटे निश्फळ पळोवन। जे रावनात घुस्पून। मतीभ्रमाच्या जाळ्यांत;।७२। उजू एकनिश्टतायेच्या पावलांनी। विकल्पांचे कांटे चिड्डून जांणी। रानां महापातकांचीं तांणी। केलीं पार;।७३। ते पुण्याची धांव घेतात। आनी म्हजेसरीं पावतात। इतलेंच न्हय; ते हातसून सुट्टात। वाटमाऱ्यांच्या ।७४।

**जरा-मरण मोक्षाकु वावुर्पी आस्रयान म्हज्या। जाणी ते ब्रह्म नी कर्म सर्व आध्यात्म बी तशे ॥२९॥**

मगे, आगा पार्था। ही जल्म-मरणा कथा। सोंपची म्हणून आस्था। जाता जांकां;।७५। मग केन्नाय तरी तांचो यत्न। ब्रह्मरुपान फळटा पूर्ण। गळटा त्या पिकिल्ल्या फळांतसून। रोस पुर्णतायेचो।७६। तावळी सफळतायेन जग भरता। आध्यात्माचें नवल सरता। कर्माचें काम सोंपता। नि थंडावता मन।७७। असो आध्यात्माचो लाव जाता। आगा धनंजया ताका। जाका भांडवल हांवूच आसतां। ह्या उद्वेगांतलें।७८। थंय समवृत्ती वाडटा। ब्रह्म ऐक्याचो वेव्हार सादता। मगे भेदरूप दैन्य सरता। उरना नांवय।७९।

**म्हाका जिवांतु देवतांतु तसो यज्ञांतु जाण्टले। ते योगयुक्त गा म्हाका अंतखिणार जाणती॥३०॥**

म्हजें आधिभौतीक[२४] स्वरुप जाणुनू। आपल्या अणभवा हातानू। म्हज्या आधिदैवी[२५] स्वरूपा येवनू। रूपर्शिले गा;।१८०। जांणी म्हाका पूर्ण ज्ञानबळान। देखलो अधियज्ञ हे भावनेन। ते कुडीच्या वियोगान। जायनात कश्टी।८१। जिवाची दोरी तुट्टां। जिवांची खळबळ उडटा। जिवे आशिल्ल्यांच्याय चित्ता। दिसता युगान्त।८२। पूण कशें तें कळना भारता। जांणी जोडली म्हजेशीं एकरूपता। तांचो प्रयाण काळ येतां। ते सोडिनात म्हाका।८३। म्हूण अर्जुना हेंच जाण। जांकां मेळ्ळें पूर्ण ज्ञान। ते अंतस्कर्णासावन। योगी थीर म्हजेठांय।८४। पूण हे शब्दकुपये तळीं। नासली अर्जुनाची अवधान ओंजळी। ताचें चित्त खीणभर तावळी। रेंगाळ्ळें फाटल्या श्लोकीं।८५। वचनफळां ब्रह्मबोधाचीं। तरतरां रोसा अर्थाचीं। सद्‌भावनेच्या परमळाचीं। दरवळिल्ल्या।८६। तावळी व्हाळीक[२६] सुटली सहजकृपेची। तीं वचनफळां कृष्णरुखाचीं। पडटां अवचीत, अर्जुनाची-। श्रवणखोळ भल्ली।८७। सिद्धान्ताचीच तीं घडिल्लीं। ब्रह्मरोससागरीं बुचकळिल्लीं। मगे तशींच घोळयल्लीं। परमानंदांत।८८। फळांचे निवळ गोडयेचे। अर्जुना ज्ञानदुवाळे लागले। विस्मयाचे अमृतघोंट घेतले। त्या दुवाळ्यांनी।८९। ती सूख संपत्ती मेळोवनु। मगे सर्गाक चाळोवनु। अंतरीं खातकुतल्यो खोशेनु। जाल्यो ताका।१९०। भुलून फळांच्या वयल्या रुपा। आयलें सूख अणभवा। वेगीं रूच चाखपा। जाली इत्सा।९१। तर्कबुद्‌दीच्या तळटांत। रोखडीं वाक्यफळां घेत। सगलींच अणभवा मुखांत। पळेता घालूंक;।९२। तीं विचार जिबे रुचनात। हेतुच्या दांतांनी फुटनात। तांकां तोंडूच लायना पार्थ। हें कळून।९३। मगे अजापून तो म्हणटा। हीं तर उदकांतलीं तारांगणां। हीं उतरां समजलों फळां। फटवलों अचळयां।९४। न्हय हीं अक्षरां निखटींच। ह्यो तर घडयो गगनाच्योच। हांगा बुडक्यो माल्ल्योय मतीन। लागचोना थाव।९५। ह्या भावाविणें कसो अर्थ। मनीं आयलें अर्जुना मनांत। म्हूण पळेलें ताणें पर्थून। यादवेंद्राकडेन [२७]।९६। मगे तो वीर विनयता, देवा। हीं एकठावल्लीं सात पदां। उश्टावंकना हीं नवलां। कोणेंच।९७। हरशीं केलेवीण एकाग्रचित। श्रवणांत तरतरां सिद्धान्त। उलगडले वीण कशें रावत। केन्ना?।९८। देवा नासलें हें तुजें उलोवणें साधें। देखून देखणेंपण शब्दांचें। विस्मिताच्या जिवाक जालें। अजाप सामकें।९९। काना गवाक्षांतल्यान जंव रिगलीं। तुजीं शब्द-किरणां तावळी अंतरीं। अवधाना जाग्रुताय म्हगेली। अजापान धल्ली।२००। ''अर्थ जाणची इत्सा इतली आसा। हें सांगचोय कळाव सोंसना म्हाका। म्हूण जावंदी निरूपण देवा। ताकतिकेन''।१। अश्या फाटल्यान पडटाळ्यान। फुडल्या अभिप्रायाचेर दिश्टी दवरून। मदींच आपली इत्सा दाखोवन। विचाल्लें अर्जुनान।२। पळय, कितु चतुरायेन केलो प्रस्न। भिडेता, तरी हुपलिना शीम। हरशीं कृष्णाक दिवंक आलिंगन। उत्सूक अर्जुन।३। श्रीगुरूक करचे प्रस्न। तावळी लागऽ अशें अवधान। ह्या सगल्याचें भान। एकट्या अर्जुनाक।४।

आतां तयाचें तें प्रश्न करणें। वरी सर्वज्ञा हरीचें बोलणें। हें संजयो आवडलेपणें। सांगेल कैसें।५। तिये अवधान द्यावें गोठी। बोलिजेल नीट मऱ्हाटी। जैसी कानाचे आधीं दृष्टी। उपेगा जाये।६। बुद्धीचिया जिभा। बोलाचा न चाखतां गाभा। अक्षरांचियाचि भांबा। इंद्रियें जिती।७। पहा पां मालतीचे कळे। घ्राणासि कीर वाटले परिमळें। परि वरचिली बरवा काइ डोळे। सुखिये नव्हती।८। तैसें देशियेचिया हवावा। इंद्रियें करिती राणिवा। मग प्रमेयाचिया गांवा। लेसा जाइजे।९। ऐसेनि नागरपणें। बोलु निमें तें बौलणें। ऐका ज्ञानदेव म्हणे। निवृत्तीचा।**२१०**।

इति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **विज्ञानयोगोनाम सप्तमोऽध्यायः** ॥७॥

(श्लोक ३०; ओव्या २१०)

ॐ श्रीसच्चिदानन्दार्पणमस्तु ।



आतां ताचें ते प्रस्न करप। वयर सर्वज्ञ हरीची जाप। हें संजय कशें तोखणायेन। सांगतलो पळय।५। आतां जातलें सोपें मराठी निरूपण। थंय दिवचें अवधान। जंय काना आदींच नयन[२८]। करतले अर्थावणी।६। तशें बुद्दीचे जिबेर। शब्दांचो चाखले वीण सार। अक्षरांचेच सोबितायेर। इंद्रियांक जिखतलीं।७। पळय, कितु चतुरायेन केलो प्रस्न। भिडेता, तरी हुपलिना शीम। पळय, जायेचे कळयेक। परमळान नाकाक दी सूख। पूण तिची भायली सोबिताय दोळ्यांक। कशें दिवचें ना सूख?।८। तशी सोबिताय देशी भाशेली। इंद्रियांक तांक दितली। मगे वेगीं यो वच करतली। प्रमेयांच्या गांवांक।९। अशें आयकून ते सुंदर बोल। जें हाडटले हांगा मोनेळ। ते आयकात, म्हणी ज्ञानदेव। निवृत्तिचो ।**२१०**।

हे भाशेन भगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांच्या संवादांतलो
**विज्ञान योग** नांवाचो **सातवो** अध्याय सोंपलो.
(श्लोक ३०, होंवयो २१०)

ही ज्ञानेश्वरी मराठीतुली। कोंकणी भाशेंतु अनुसर्जिली।
ज्ञानेश्वरदास सुरेशान सांगिली। माऊलीचेच आज्ञेनु॥





# ।। ज्ञानेश्वरी ।।

**अध्याय आठवा**

*अर्जुन उवाच:* **किं तद्ब्रह्म किमध्यातं किं कर्म पुरुषोत्तम। अधिभूतं च किं प्रोक्तमधिदैवं किमुच्यते ॥१॥**

मग अर्जुनें म्हणितलें। हां हो जी अवधारिलें। जें म्यां पुसिलें। तें निरूपिजो॥ सांगा कवण तें ब्रह्म। कायसया नाम कर्म। अथवा अध्यात्म। काय म्हणिपे।२। अधिभूत तें कैसें। एथ अधिदैव तें कवण असे। हें उघड मी परियेसें। तैसें बोला ।३।

**अधियज्ञ: कथं कोऽत्र देहेऽस्मिन्मधुसूदन। प्रयाणकाले च कथं ज्ञेयोऽसि नियतात्मभि: ॥२॥**

देवा अधियज्ञ तो काई। कवण पां इये देहीं। हें अनुमानसि कांहीं। दिठी न भरे।४। आणि नियता अंत:करणीं। तूं जाणिजसी देहप्रयाणीं। तें कैसेनि हें शाङ्‌र्गपाणी। परिसवा मातें।५। देखा धवळारीं चिंतामणीचां। जरी पहुडला होय दैवाचा। तरी वोसणतांही बोलु तयाचा। परी सोपु न वचे।६। तैसें अर्जुनाचिया बोलासवें। आलें तेंचि म्हणितलें देवें। परियेसें गा बरवें। जें पुसिलें तुवां।७। किरीटी कामधेनूचा पाडा। वरी कल्पतरूचा आहे मांदोडा। म्हणोनि मनोरथसिद्धीचिया चाडा। तो नवल नोहे।८। कृष्ण कोपोनि ज्यासी मारी। तो पावे ब्रह्मसाक्षात्कारीं। मा कृपेनें उपदेशु करी। तो कैशापरी न पवेल।९। जैं कृष्णाचेया होइजे आपण। कृष्ण होय आपुलें अंत:करण। तैं संकल्पाचें आंगण। वोळगती सिद्धी।१०। परि ऐसें जें प्रेम। तें अर्जुनींचि आथि निस्सीम। म्हणऊनि तयाचे काम। सदाफल।११। या कारणें अनंतें। तें मनोगत तयाचें पुसतें। होईल जाणूनि आइतें। वोगरूनि ठेविलें ।१२। जें अपत्य थानींहूनि निगे। तयाची भूक ते मायेसीचि लागे। एऱ्हवीं तें शब्दें काय सांगे। मग स्तन्य दे येरी।१३। म्हणोनि कृपाळुवा गुरूचिया ठायीं। हें नवल नोहे कांहीं। परि तें असो आइका काई। जें देवो बोलता झाला ।१४।

*श्रीभगवानुवाच:* **अक्षरं ब्रह्म परमं स्वभावोऽध्यात्ममुच्यते। भूतभावोद्भवकरो विसर्ग: कर्मसंज्ञित: ॥३॥**

मग म्हणितलें सर्वेश्वरें। जें आकारीं इये खोंकरें। कोंदलें असत न खिरे। कवणे काळीं।१५। एऱ्हवीं सपूरपण तयाचें पहावें। तरी शून्यचि नव्हे स्वभावें। वरी गगनाचेनि पालवें। गाळूनि घेतलें।१६। जें ऐसेंही परि विरुळें। इये विज्ञानाचिये खोळे। हालवलेंही न गळे। तें परब्रह्म।१७। आणि आकाराचेनि जालेपणें। जन्मधर्मातें नेणे। आकारलोपीं निमणें। नाहीं कहीं।१८।

---

अर्थ: (१) देहांत. *** टिपो:** परिशिश्ट ४ पळयात.

तर भायर जें हेडटा मन ।
ताची खोड सामकीच मोडून ।
तें रावत हृद्या कोंडींत बुडून ।
अशें कर ।।

# ।। ज्ञानेश्वरी ।।

अध्याय आठवो

*अर्जुनान म्हळें:* **म्हण्टी कित्याकु तें ब्रह्म कर्म आध्यात्म केशवा। आधिभूत कितें सांग कितें तें आधिदैवु गा ॥१॥**

मगे अर्जुनान म्हळें। देवा ध्यान दिवन आयकलें। आतां जें हांवें विचाल्लें। ताचें करचें निरूपण।१। सांग कितें तें ब्रह्म?। कित्याचें नांव कर्म?। अथवा आध्यात्म। कित्या म्हणटात?।२। कशें आसता तें आधिभूत?। आधिभूत कोणा म्हणटात?। तें सम समजत। अशें सांग।३।

**आधियज्ञ कसो कोणु हे कुडींतु धनंजया। कसो अंतखिणार तुका वळखता आत्मसंयमी॥२॥**

देवा, आधियज्ञ तो कोण?। कुडींत ताचें कितें स्थान?। हें करून अनुमान। तरी लक्षांत येना बरें।४। मना आवरलें जांणी। ते तुका जाणटी प्रयाणीं। तें कशें हें शारंगपाणी?। सांग म्हाका।५।

**अर्जुनाचें भाग्य:** चिंतामणयांनी बांदिल्ल्या मंदिरांत। जरी न्हिदेंत जळपलो भाग्यवंत। ताचें तें बरळपय व्यर्थ। वचना केन्ना।६। अशें म्हणिल्लें मात अर्जुनान। रोखडेंच म्हळें कृष्णान। विचारलां तें तें विसकायन। आयक सारकें।७। कामधेनुचो पाडो हांव पार्थ। रावलो उबो कल्परुखा माटवांत। ताचे सिद्ध जाले मनोरथ। नवल कसलें?।८। कृष्ण कोपून जाका मारी। तो पावऽ परब्रह्म साक्षात्कारी। मगे कृपेन उपदेश करी। तो कित्या पावचोना?।९। कृष्णाचें ध्यान करचें आपूण। कृष्णच जातलें म्हजें अंतस्करण। मगे संकल्पाचें आंगण। राखीत महासिद्धी।१०। पूण अशें जें प्रेम। तें अर्जुनाचेंच निस्सीम। म्हूण सर्दी फळटात। इत्सा ताच्यो।११। म्हूण हो अर्जुन। विचारतलो मनचो प्रस्न। हें कळून आयतेंच ताट वाडून। दवल्लें कृष्णान।१२। तानो जेन्ना चींव धरता। ताची भूक मायेकूच कळटा। तें कितें उतरांनी सांगता। दूद दी गे माये?।१३। म्हूण कृपाळू गुरुठायीं। ही कांयच न्ही नवलायी। आसूं, आयक जें उलयी। देव आतां।१४।

*श्रीभगवंतान म्हळें:* **व्हड अक्षर तें ब्रह्म आध्यात्म नीज भाव तो। जिवांचो निर्मणे वावर नांव ताकाच कर्म हें ॥३॥**

**ब्रह्म:** मगे म्हळें सर्वेश्वरान। जें ह्या फुटक्या आकारांत[१]। भरिल्लें आसुनय झिरपना मात। खंयच्याय वेळार;।१५। बरें, पळेशी बारीकपण ताचें। तरी सभावान शून्य ना जें। आनी गगना पदरान घेतलां तें। गाळून;।१६। जें विरळु हे परी। प्रपंचाचे खोळीं घालें जरी। आनी हालयशी तरी। गळना, तें परब्रह्म।१७। जें घेवनय आकार। नेणा जल्माचे विकार। आनी नश्ट जातां आकार। भंगना तें।१८।

ऐशिया आपुलियाची सहजस्थिती। जया ब्रह्माची नित्यता असती। तया नाम सुभद्रापती। अध्यात्म गा।१९। मग गगनीं जेविं निर्मळे। नेणों कैचीं एके वेळे। उठती घनपटळें। नानावर्णें।२०। तैसे अमूर्तीं तिये विशुद्धें। महदादि भूतभेदें। ब्रह्मांडाचे बांधे। होंचि लागती।२१। पैं निर्विकल्पाचिये बरडी। कीं आदिसंकल्पाची फुटे विरूढी। आणि ते सवेंचि मोडोनि ये ढोंढी। ब्रह्मगोळकांची।२२। तया एकैकाचे भीतरीं पाहिजे। तंव बीजाचाचि भरिला देखिजे। माजीं होतियां जातियां नेणिजे। लेख जीवां।२३। मग तया गोळकांचे अंशांश। प्रसवती आदिसंकल्प असमहास। हें असो ऐसी बहुवस। सृष्टि वाढे।२४। परि दुजेनविण एकला। परब्रह्मचि संचला। अनेकत्वाचा आला। पूर जैसा।२५। तैसें समविषमत्व नेणों कैचें। वांयांचि चराचर रचे। पाहातां प्रसवतिया योनींचे। लक्ष दिसती।२६। येरी जीवभावाचिये पालविये। कांहीं मर्यादाच करूं नये। पाहिजे कवण हें आघवें विये। तंव मूळ तें शून्य।२७। म्हणूनि कर्ता मुदल न दिसे। आणि शेखीं कारणही कांहीं नसे। माजीं कार्यचि आपैसें। वाढों लागे।२८। ऐसा करितेनवीण गोचरु। अव्यक्तीं हा आकारु। निपजे जो व्यापारु। तया नाम कर्म।२९।

**अधिभूतं क्षरो भाव: पुरुषश्चाधिदैवतम्। अधियज्ञोऽहमेवात्र देहे देहभृतां वर ॥४॥**

आतां अधिभूत जें म्हणिपे। तेंहि सांगों संक्षेपें। तरी होय आणि हारपे। अभ्र जैसें।३०। तैसें असतेपण आहाच। नाहीं होइजे हें साच। जयांतें रूपा आणिती पांचपांच। मिळोनियां।३१। भूतांतें अधिकरूनि असे। आणि भूतसंयोगे तरि दिसे। जें वियोगवेळे भ्रंशे। नामरूपादिक।३२। तयातें अधिभूत म्हणिजे। मग अधिदैव पुरुष जाणिजे। जेणें प्रकृतीचें भोगिजे। उपार्जिलें।३३। जो चेतनेचा चक्षु। जो इंद्रियदेशींचा अध्यक्षु। जो देहास्तमानीं वृक्षु। संकल्पविहंगाचा।३४। जो परमात्माचि परि दुसरा। जे अहंकारनिद्रा निदसुरा। म्हणोनि स्वप्नाचिया वोरबारा। संतोषे शिणे।३५। जीव येणें नांवें। जयातें आळविजे स्वभावें। तें अधिदैव जाणावें। पंचायतनींचें।३६। आतां इयेचि शरीरग्रामीं। जो शरीरभावातें उपशमी। तो अधियज्ञु एथ गा मी। पंडुकुमरा।३७। येर अधिदैवाधिभूत। तेहि मीचि कीर समस्त। परि पंधरें किडाळा मिळत। काय सांकें नोहें।३९। तैसें अधिभूतादि आघवें। हें अविद्येचेनि पालवें। झांकलें तंव मानावें। वेगळें ऐसें।४०। तेचि अविद्येची जवनिक फिटे। आणि भेदभावांची अवधि तुटे। मग म्हणों एक होऊनि जरी आटे। तरी काय दोनी होती।४१। पैं केशांचा गुंडाळा। ठेविली स्फटिकशिळा। ते वरी पाहिली डोळां। तंव भेदली गमली।४२। पाठीं केश परौते नेले। आणि भेदलेपण काय नेणों जाहालें। तरि डांक देऊनि सांदिलें। शिळेतें काई।४३। ना ते अखंडचि आयती। परि संगें भिन्न गमली होती। ते सारीलिया मागौती। जैसी का तैसी।४४। तेवीं अहंभावो जाय। तरी ऐक्य ते आधींची आहे। हेंचि साचे जेथ होये। तो अधियज्ञु मी।४५। पैं गा आम्हीं तुज। सकळ यज्ञ कर्मज। सांगितलें कां जें काज। मनीं धरूनि।४६। तो हा सकळ जीवांचा विसांवा। नैष्कर्म्यसुखाचा ठेवा। परि उघड करूनि पांडवा। दाविजत असे।४७। पहिलें वैराग्यइंधन परिपूर्तीं। इंद्रियानळीं प्रदीप्तीं। विषयद्रव्याचिया आहुती। देऊनियां।४८। मग वज्रासन तेचि उर्वी। शोधूनि आधारमुद्रा बरवी। वेदिका रचे मांडवीं। शरीराचां।४९। तेथ संयमाग्नीचीं कुंडें। इंद्रियद्रव्याचेनि पवाडें। पुजिती उदंडें। युक्तिघोषें।५०। मग मनप्राण आणि संयमु। हाचि हवनसंपदेचा संभ्रमु। येणें संतोषविजे निर्धूमु। ज्ञानानळु।५१। ऐसेनि हें सकळ ज्ञानीं समर्पे। मग ज्ञान तें ज्ञेयीं हारपे। पाठीं ज्ञेयचि स्वरूपें। निखिल उरे।५२।

---

**अर्थ:** (२) 'अहं बहुस्याम्' हांव अनेक जावंदी, हो पयलो संकल्प. (३) भेदभावाचो. (४) शून्यब्रह्म
(५) वेपार. (६,६) पंच महाभूतां एकमेकांत आपापलो अष्टमांश मेळयल्ल्यान (पंचीकरण जावन) पंचात्मक जाल्यांत अशीं.
(७) चवथ्या अध्यायांत.

**आध्यात्म:** आपले सहज स्थितींत। जें ब्रह्मतत्त्व नित्य। अर्जुना ताकाच म्हणटात। आध्यात्म अशें।१९। मगे जशें निवळ आकाशांत। कळना कशें अकस्मात। कुपां पड्डे येतात। रंगयाळे;।२०। तशें विशुद्ध आनी अमूर्त। प्रकृती, महदादी भेद। त्या ब्रह्माठांय उत्पन्न जातात। आकार ब्रह्मांडाचे।२१।

**कर्म:** थंय निर्विकल्पा ब्रह्मा भरडीचेर। फुट्टा आदीसंकल्पा[२] आंकूर। आनी थंय जातात तरां तरां आकार। ब्रह्मांडाचे।२२। एकेका भितर पळयतां। मूळ ब्रह्माचीं बियां दिसता। जीव येतले वतले कितले तरी दिसतात। गणटी येना करूं।२३। त्या ब्रह्म गोला अंशा अंशांतल्यान। असंख्य आदीसंकल्प पसवन। तरे तरांनी चंवरून। वाडटा सृश्टी।२४। पूण थंय दुजें कांय नासता। एक परब्रह्म भरून आसता। अनेकपणाचो[३] हुंवार येता। ताचेर जसो;।२५। नेणा कशी सम विशमताय आयली। वोगीच विश्वाची रचणूक जाली। पसवत्या योनींच्यो लाखांनी। दिसूं लागल्यो तरा।२६। जीवपणाचे हे आंकूर। तांचे संख्येक ना पार। खंयसून वियेती हे प्रकार। तांचें मूळ शून्य[४]।२७। म्हूण मुदलांत सृश्टी कर्तो सांपडना। तिचें कारणय दिसना। मदल्यामदीं तिची घडामोड[५] वाडटा। आपशींच।२८। असो कर्त्यावीण निराकार। ब्रह्म जावन साकार। निपजता जो वेपार। ताचें नांव कर्म।२९।

**आधिभूत विनाशी भाव् जिवांशु आधिदैवु तें । हे कुडींतु पुजा भोगपी हांवूच यज्ञदेवु तो ॥४॥**

**आधिभूत:** आतां आधिभूत जाका म्हणटात। तेंय सांगन थोडक्यांत। जातात आनी लया वतात। कुपां जशीं;।३०। तशें लटकें जाचें आसतेंपण। नासप हेंच खरेंपण। पांच[६] पांच[६] जांकां एकठांय मेळोवन। रुपा हाडटी।३१।

**आधिदैवत:** भूतांच्या आसऱ्यान वसता। भूतां संयोगान दिसता। भूतां वियोगान ना जाता। जांचें नामरूप आदी।३२। त्या देहा म्हणचें आधिभूत। मगे जिवाक आधिदैवत। जो भोगी भोग समस्त। प्रकृतीचे।३३। जो चेतनेचो चक्षु। जो इंद्रिय देशा अध्यक्षु। मावळटां देह वृक्षु। आसरो संकल्प-पखियां।३४। जो परमात्मोच दुजो। अहंकार-न्हिदेंत न्हिदिल्लो जो। म्हूण ह्या जीवरुपी सपनीं जो। अणभवी हर्शशोक।३५। जीव ह्या नांवान। ताका वळखती सहजपणान। तें जाणचें आधिदैवत। पांच भूतांच्या देहीं।३६।

**आधियज्ञ:** आतां ह्याच शरीर कामांत। जो शरीर धर्मा करी शांत। अर्जुना त्याच शरीरांत। आधियज्ञ हांव।३७। हरशीं आधिदैव आधिभूत। तिंवूय हांवूच हें खरें समस्त। पूण घालतां कस चोख भांगरांत। जायना ताचें मोल उणें?।३८। तरी ताचें भांगरपण म्हेळना। आनी कसान हीण जायना। पूण आसता हिणा सांगाता। तंवर हीणकस तें।३९। तशें आधिभूत आदी सगलें। जंवर अज्ञाना पालवान धांकलें। तंवर ताका मानचेलें। म्हजे परस वेगळें।४०। अज्ञाना पड्डो पिंदतां। भेदभावा अंतर सोंपतां। मगे एकरूप जाता। तर आसले केन्ना दोन?।४१। पळय केंसांची गुठली। वयर स्फटीक शिळा दवल्ली। वयरसून नदर लायली। ती दिसऽ भंगिल्ली।४२। मगे ते केंस पयस काडले। भंगिल्लेंपण खंय गेलें?। कितें स्फटीक शीळे सांदलें। डांकून।४३। ना ती अखंड मुळांतली। पूण केंसा संगतीन भंगिल्ली। पयस केंसा गुठली काढली। ती अखंड आदलेवरी।४४। तशें अहंभाव सोंपता। आसा मुळची एकता। हें जंय अणभवा येता। तो हांव आधियज्ञ।४५। जो हेतू मनीं धरून। हें सांगलें आदींसावन[७]। जे यज्ञ जाले कर्मापसून। तोच हो आधियज्ञ।४६। तो हो सकळ जिवां विसव। नैष्कर्म्य सुखा ठेव। आतां सांगीन उक्तावन। पांडवा तुका।४७।

**योगरुपी यज्ञ:** पयलीं वैराग्य-इंधन घालून। इंद्रियांचो उजो पेटोवन। विशयां द्रव्यांची आहुती दिवन। तातूंत।४८। शुद्ध भूमी जणूं वज्रासन। ताचेर घालचें मूळ बंधासन। वेदी मंडपांत रचून। शरीराचे।४९। मगे थंय अग्नी कुंडांत। विपूल इंद्रिय द्रव्यां सयत। उदंड योगमंत्रां घोशांत। करचें हवन।५०। मगे मन नि प्राणा संयम। हेंच होमद्रव्य समजून उत्तम। तांणी तुश्टावंचो समारंभान। निर्मळ ज्ञान अग्नी।५१। अशें सर्वस्व ज्ञानाग्नींत ओंपतां। तंव ज्ञान ब्रह्मांत लय पावता। मगे ब्रह्मच केवळ उरता। स्वस्वरुपांत।५२।

तया नांव गा अधियज्ञु। ऐसें बोलला जंव सर्वज्ञु। तंव अर्जुन अतिप्राज्ञु। तया पातलें तें।५३। हें जाणोनि म्हणितलें देवें।-पार्था परिसतु आहासि बरवें। या कृष्णाचिया संतोषासवें। येरु सुखाचा जाहला।५४। देखा बालकाचिया धणी धाइजे। कां शिष्याचेनि जाहलेपणें होइजे। हें सद्गुरूचि एकलेनि जाणिजे। कां प्रसवतिया।५५। म्हणोनि सात्त्विक भावांची मांदी। कृष्णाआंगीं अर्जुनाआधीं। न समातसे परी बुद्धी। सांवरूनि देवें।५६। मग पिकलिया सुखाचा परिमळु। कां निवालिया अमृताचा कल्लोळु। तैसा कोंवळा आणि सरळु। बोलु बोलिला।५७। म्हणे परिसणेयांच्या राया। आइकें बापा धनंजया। ऐसी जळों सरलिया माया। तेथ जाळितें तेंही जळे।५८।

**अन्तकाले च मामेव स्मरन्मुक्त्वा कलेवरम्। य: प्रयाति स मद्भावं याति नास्त्यत्र संशय: ॥५॥**

जें आतांचि सांगितलें होतें। अगा अधियज्ञ म्हणितला जयातें। जे आदींचि तया मातें। जाणोनि अंतीं।५९। ते देह झोळ ऐसें मानुनी। ठेले आपणपें आपणचि होऊनी। जैसा मठ गगना भरूनी। गगनींचि असे।६०। ये प्रतीतीचिया माजघरीं। तयां निश्चयाची वोवरी। आली म्हणोनि बाहेरी। नव्हेचि से।६१। ऐसें सबाह्य ऐक्य संचलें। मीचि होऊनि असतां रचिलें। बाहेरी भूतांचीं पांचही खवलें। नेणतांचि पडिलीं।६२। उभयां उभेपण नाहीं जयाचें। मा पडिलिया गहन कवण तयाचें। म्हणोनि प्रतीतिचिये पोटींचें। पाणी न हाले।६३। ते ऐक्याची आहे वोतिली। कीं नित्यतेचिया हृदयीं घातली। जैसी समरससमुद्रीं धुतली। रुळेचिना।६४। पैं अथावीं घट बुडाला। तो आंतबाहेरी उदकें भरला। पाठीं दैवगत्या जरी फुटला। तरी उदक काय फुटे।६५। नातरी सर्पें कवच सांडिलें। कां उबारेन वस्त्र फेडिलें। तरी सांग पां कांहीं मोडलें। अवेवामाजीं।६६। तैसा आकारु हा आहाच भ्रंशे। वांचूनि वस्तु ते सांचलीचि असे। तेचि बुद्धि जालिया विसुकुसे। कैसेनि आतां।६७। म्हणोनि यापरी मातें। अंतकाळीं जाणतसाते। जे मोकलिती देहातें। ते मीचि होती।६८। एऱ्हवीं तरी साधारण। उरीं आदळलिया मरण। जो आठवु धरी अंत:करण। तेंचि होइजे।६९। जैसा कवणु एकु काकुळती। पळतां पवनगती। दुपाउलीं अवचितीं। कुहामाजीं पडिला।७०। आतां तया पडणयाआरौतें। पडण चुकवावया परौतें। नाहीं म्हणोनि तेथें। पडावेंचि पडे।७१। तेविं मृत्यूचेनि अवसरें एकें। जें येऊनि जीवासमोर ठाके। तें होणें मग न चुके। भलतयापरी।७२। आणि जागता जंव असिजे। तंव जेणें ध्यानें भावना भाविजे। डोळां लागतखेंवो देखिजे। तेंचि स्वप्नीं।७३।

**यं यं वाऽपि स्मरन्भावं त्यजत्यन्ते कलेवरम् । तं तमेवैति कौन्तेय सदा तद्भावभावित: ॥६॥**

तेविं जितेनि अवसरें। जें आवडोनि जीवीं उरे। तेंचि मरणाचिये मेरे। फार हों लागे।७४। आणि मरणीं जया जें आठवे। तो तेचि गतीतें पावे।

**तस्मात्सर्वेषु कालेषु मामनुस्मर युध्य च। मय्यर्पितमनोबुद्धिर्मामेवैष्यस्यसंशयम् ॥७॥**

म्हणोनि सदा स्मरावें। मातेचि तुवां।७५। डोळां जें देखावें। कां कानीं हन ऐकावें। मनीं जें भावावें। बोलावें वाचे।७६। तें आंत बाहेरी आघवें। मीचि करूनि घालावें। मग सर्वीं काळीं स्वभावें। मीचि आहें।७७। अगा ऐसया जरी जाहालिया। मग न मरिजे देह गेलिया। मा संग्रामु केलिया। भय काय तुज।७८। तूं मन बुद्धि सांचेंसीं। जरी माझिया स्वरूपीं अर्पिसी। तरी मातेंचि गा पावसी। हे माझी भाक।७९। हेचि कायिसया वरी होये। ऐसा जरी संदेहो वर्तत आहे। तरी अभ्यासूनि आदीं पाहें। मग नव्हे तरी कोपें।८०।

**अभ्यासयोगयुक्तेन चेतसा नान्यगामिना। परमं पुरुषं दिव्यं याति पार्थानुचिन्तयन् ॥८॥**

येणेंचि अभ्यासेंसीं योगु। चित्तासि करी पां चांगु। अगा उपायबळें पंगु। पहाड ठाकी।८१। तेविं सदभ्यासें निरंतर। चित्तासि परमपुरुषाची मोहर। लावीं मग शरीर। असो अथवा जावो।८२।

---

**अर्थ:** (८) आंगांत घालचो लांब कोट.

---

ताचेंच नांव आधियज्ञ। असो उलयतां कृष्ण सर्वज्ञ। प्रज्ञावंत अर्जुन सुज्ञ। ताका पटलें तें।५३। हें समजून म्हळें देवानु। पार्था, हें आयकता तूं लक्ष दिवनु। त्या कृष्णाच्या उलवण्यानु। सुखावलो अर्जुन।५४। पळय, बाळका तृप्तीन तृप्तताय। वा शिश्या कर्तुपान कृतार्थताय। हें एकलीच समजता माय। वा सद्गुरू।५५। म्हूण सात्वीक भावांची दाटी। कृष्णा आंगांत अर्जुना आर्दी। जरी आवरलीना, पूण बुद्दी। सांवरून धरली कृष्णान।५६। मगे पिकिल्ल्या सुखा पर्मळ। वा अमृता ल्हार शितळ। तशीं कंवळीं नि रोसाळ। उतरां उलयलो देव।५७। ताणें म्हळें, गा श्रोत्यां राया। आयक, बाबा धनंजया। ज्ञानान जाळून सरता माया। जाळटा तेंयु जळटा।५८।

**अंतीं स्मरूनु म्हाकाच वता सोडूनु कूड जो। म्हज्या रुपांतु तो एक हातूंत ना दुभावु गा ॥५॥**

**अंतकाळीं मुक्ती:** आगा, जें आतांच सांगिल्लें। जाका आधियज्ञ म्हणिल्लें। त्या म्हाका जांणी जाणिलें। अंता आदीं नि अंती;।५९। ते देह चोळो<sup>८</sup> अशें मानूनु। रावले आपुणूच ब्रह्म जावनु। जशें घर अवकाशान भर्नु। आसता अवकाशींच।६०। ह्या ब्रह्मअनुभवाच्या माजघरींय। ते रिगतात दृढ निश्चया होंवरीं। म्हणून ते भायल्या विशयीं। रमनात।६१। अशे अंतर्बाह्य एकरूप जाले। हांवूंच जावन म्हज्यांत रावले। मगे देहा पांचय खवळे। ताका नकळटां गळ्ळे।६२। जिवेंपणीं जाणवना उणेंपण। मगे तो पडटां कित्या रडचें दुःखान?। ताच्या अणभवाक म्हणून। जायना कसलीच बाधा।६३। ही ऐक्य रोसान ओतिल्ली। वा नित्यताये हृदयीं घातिल्ली। नि समरसताये समुद्रांत धुविल्ली। म्हूण म्हेळना ती।६४। वा अथांग जळीं कळशी बुडिल्ली। ती भायर भितर उदकान भरिल्ली। मगे दैव योगान जरी फुटली। तरी उदक कितें फुट्टा?।६५। वा सोरपान उडयली कात। वा काडलें वस्त्र उबाळांत। तर सांग कशीं मोडून वचत। देहा आंगां।६६। तसो आकार वयलो भंगत। तरी ब्रह्म भल्लां सर्वत्र नित्य। ताचेशीं समरस जाल्ली बुद्द। कशी विसकटत?।६७। म्हणून म्हाका हे परी। स्मरून अंत खिणारी। सोडी कूड धनुर्धारी। ते हांवूच जाती।६८।

**अंतकाळचें स्मरण:** हरशीं असो नेम साधारण। अंतरीं आदळटां मरण। जें स्मरता अंतस्करण। तेंच तो जाता।६९। जसो कोणी एक भयाभीत। वाऱ्या गतीन धांवत। दोनूय पांयांनी निसरून पडत। अवचीत बांयत।७०। आतां पडचें ताका। पडप चुकोवपा। आधार कांयच नासता। म्हूण पडचेंच लागता;।७१। तशें मर्णा खिणारी। जें येवन रावऽ मुखारी। तें खंयचेच प्रकारीं। चुकना ताका।७२। आनी जंव जागो आसता। तंव जाचो ध्यास लागता। दोळो लागिल्ल्या खिणा देखता। तेंच सपनीं।७३।

**ज्या ज्या रुपाकु चिंतूनू सोडी आपलें कळिंवर। आशिल्ल्यान तो सदीं गुल्न मेळऽ त्या त्या रुपाकु तो ॥६॥**

तशें जिवेपणीं । जें उरऽ आवशेन जिवीं। तेच घडी घडी वाडून मनीं। स्मरता मर्णकाळीं।७४। आनी मरचे क्षणीं जें स्मरता। तो तेच गतीकु पावता।

**म्हणून गा सदीं पार्था म्हाका स्मरूनु झूज तूं। दिल्लो बुद्दी मनै म्हाका मेळशी म्हाकाच निश्चितु ॥७॥**

**सदांच परमात्म्याक स्मरचें:** म्हूण म्हाकाच गा सदां। स्मरचें तुवें ।७५। दोळ्यांनी जें देखता। वा कानांनी जें आयकता। मनीं जें चिंतता। उलय वाचेन।७६। तें सगलें भायर नि भितरी। हांवूच हें जाणचें धनुर्धारी। मगे आसा सर्वत्र हांवूच हे परी। कळटलें तुका।७७। अर्जुना, अशें जातां। मगे मर्ण ना, कूड पडटां। मगे झूज करतां। भंय कसलें तुका?।७८। म्हज्या स्वरुपीं बुद्दी मन। ओंपशी तूं सर्वभावान। दितां तुका वचन। तूं म्हाकाच पावशी।७९। हें कशें जायत?। असो दुभाव आसा मनांत। तर पळय आधीं अभ्यासून। ना तर, कोपचें म्हजेर।८०।

**थारावनु चित्त अभ्यासान दिना वचूंक खंयच तें। ध्यानानु दिव्य ब्रह्माच्या होड ब्रह्माकु मेळऽ तो ॥८॥**

अभ्यासाची नि चित्ताची। हांची चांग सांगड घालची। आगा, थोंटो लेगीत यत्नांनी। चडटलो तेंगशी पर्वताची।८१। सदीं कर्न योग अभ्यास। लागऽ चित्ता परमात्म्या ध्यास। मगे ह्या देहा विनाश। जावं वा ना जावं।८२।

जें नानागती पावतें। तें चित्त वरील आत्मयातें। मग कवण आठवी देहातें। गेलें कीं आहे।८३। पैं सरितेचेनि ओघें। सिंधुजळा मीनलें घोंघें। तें काय वर्तत आहे मागें। म्हणोनि पाहों येती।८४। ना तें समुद्रचि होऊन ठेलें। तेविं चित्ताचें चैतन्य जाहालें। जेथ यातायात निमालें। घनानंद जें।८५।

**कविं पुराणमनुशासितारमणोरणीयांसमनुस्मरेद्य:। सर्वस्य धातारमचिन्त्यरूपमादित्यवर्णं तमस: परस्तात् ॥९॥**

जयाचें आकारावीण असणें। जया जन्म ना निमणें। जें आघवेंचि आघवेंपणें। देखत असे।८६। जें गगनाहून जुनें। जें परमाणुहूनि सानें। जयाचेनि सन्निधानें। विश्व चळे।८७। जें सर्वांतें यया विये। सर्व जेणें जिये। हेतु जया बिहे। अचिंत्य जें।८८। देखें वोळंबा इंगळु न चरे। तेजीं तिमिर जेथ न सरे। जें देहाचें आंधारें। चर्मचक्षूसीं।८९। सुसडा सूर्यकणांच्या राशी। जो नित्य उदो ज्ञानियांसी। अस्तमानाचें जयासी। आडनांव नाहीं।९०।

**प्रयाणकाले मनसाचलेन भक्त्या युक्तो योगबलेन चैव। भ्रुवोर्मध्ये प्राणमावेश्य सम्यक् स तं परं पुरुषमुपैति दिव्यम् ॥१०॥**

तया अव्यंगवाणेया ब्रह्मातें। प्रयाणकाले प्राप्ते। जौ स्थिरावलेनि चित्तें। जाणोनि स्मरे।९१। बाहेरी पद्मासन रचुनी। उत्तराभिमुख बैसोनि। जीवीं सुख सूनि। कर्मयोगाचें।९२। आंतु नीमलेनि मनोधर्मे। स्वरूपप्राप्तीचेनि प्रेमें। आपेंआप संभ्रमें। मिळावया।९३। आकळलेनि योगें। मध्यमामध्यमार्गें। अग्निस्थानौनि निगे। ब्रह्मरंध्रा।९४। तेथ अचेत चित्ताचा सांगातु। आहाचवाणा दिसे मांडतु। तेथ प्राणु गगनाआंतु। संचरे कां।९५। परी मनाचेनि स्थैर्यें धरिला। भक्तीचिया भावना भरला। योगबळें आवरला। सज्ज होउनि।९६। तो जडाजडातें विरवितु। भ्रूलतामाजीं रचतु। जैसा घंटानाद लयस्तु। घंटेसीच होय।९७। कांय झांकलिये घटींचा दिवा। नेणिजे काय जाहला केव्हां। या रीती जो पांडवा। देह ठेवी।९८। तो केवळ परब्रह्म। जया परमपुरुष ऐसें नाम। तें माझें निजधाम। होऊनि ठाके।९९।

**यदक्षरं वेदविदो वदन्ति विशन्ति यद्यतयो वीतरागा: ॥ यदिच्छन्तो ब्रह्मचर्यं चरन्ति तत्ते पदं संग्रहेण प्रवक्ष्ये ॥११॥**

सकळां जाणयेयां जे लाणी। तिये जाणिवेची जे खाणी। तयां ज्ञानियांचिये आयणी। जयातें अक्षर म्हणिपे।१००। चंडवातेंही न मोडे। तें गगनचि कीं फुडें। वांचूनि जरी होईल मेहुडें। तरी उरेल कैंचें।१। तेविं जाणयेया जेंआकळिलें। तें जाणवलेपणेंचि उमाणलें। मग नेणवेचि तयातें म्हणितलें। अक्षर सहजे।२। म्हणोनि वेदविद नर। म्हणती जयातें अक्षर। जें प्रकृतीसी पर। परमात्मरूप।३। आणि विषयांचे विष उलंडूनि। जे सर्वेंद्रियां प्रायश्चित्त देऊनि। आहाति देहाचिया बैसोनि। झाडातळीं।४। ते यापरी विरक्त। जयाची निरंतर वाट पाहात। निष्कामासि अभिप्रेत। सर्वदा जें।५। जयाचिया आवडी। न गणिती ब्रह्मचर्याचीं सांकडीं। निष्ठुर होऊनि बापुडीं। इंद्रियें करिती।६। ऐसें जें पद। दुर्लभ आणि अगाध। जयाचिये थडियेचे वेद। चुबुकळिले ठेले।७। तें ते पुरुष होती। जे यापरी लया जाती। तरी पार्था हेचि स्थिती। एक वेळ सांगों।८। तेथे अर्जुनें म्हणितलें स्वामी। हेंचि म्हणावया होतों पां मी। तंव सहजें कृपा केली तुम्हीं। तरी बोलिजो कां जी।९। परि बोलावें तें अति सोहोपें। तेथें म्हणितलें त्रिभुवनदीपें। तुज काय नेणों संक्षेपें। सांगेन एक।११०। तरी मना या बाहेरिलीकडे। यावयाची साविया सवें मोडे। हें हृदयाचिया डोहीं बुडे। तैसें कीजे।११।

**सर्वद्वाराणि संयम्य मनो हृदि निरुध्य च। मूर्ध्न्याधायात्मन: प्राणमास्थितो योगधारणाम् ॥१२॥**

परी हें तरीच घडे। जरी संयमाचीं अखंडें। सर्वद्वारीं कवाडें। कळासती।१२। तरी सहजें मन कोंडलें। हृदयींचि असेल उगलें। जैसें करचरणीं मोडलें। परिवरु न संडी।१३।

---

**अर्थ:** (९) चामड्याच्या दोळ्यांक. (१०) नीजस्वरूप.

जें पावय तरांतरां गतीक। तें चित्त वरतलें आत्म्याक। मगे कोण स्मरऽ देहाक। आसा वा गेलो?।८३। न्हंये ओघ घो घो करीत। जो सागरा भेटे व्हरी उदक। तें कितें घडटा फाटसून। म्हूण येता पळोवंक?।८४। ना तें समुद्रच जावन रावलें। तशें चित्ता चैतन्य जालें। जंय जल्म-मर्ण गा सल्लें। परमानंदच थंय ।८५।

**सर्वज्ञ अनादी विश्वा नियंतो अणुकूय सुक्षीम सर्वांक पोशी। तर्काचे पेलो सुर्यासम दिव्य अज्ञानापेल्या प्रभूकु स्मरून॥९॥**

**ब्रह्मवर्णन:** जाचें आसप आकारावीण। जाका जल्म ना मर्ण। सर्वां साक्षीभावान। पळय जें;।८६। जें गगानाहून पुरातन। जे परमाणुहून सान। जाचे लागसाणीन। चलता विश्व;।८७। जें सगल्यां पसवता। जाणें सर्व विश्व जियेता। तर्क जाका भियेता। जें कल्पनेपेलें;।८८। जशी वायटी इंगळ्यांत वचना। काळोख प्रकाशीं रिगना। जें चर्मचक्षूंक[९] दिसना। दिसा उजवाडा।८९। जें नितळ सूर्यकणां राशी। जें नित्य ज्ञानियां प्रकाशी। तें अस्ता वता अशी। लक्षणेनूय म्हणूं येना।९०।

**मरच्या खिणारू जो योग बळानु समा थारावनु दों भोंवयांतु स्वास।**
**थीर मनानु भक्तीनु स्मरूनु पावऽ तो दिव्य त्या ब्रह्माकु होड ॥१०॥**

ज्या निर्दोश ब्रह्माक जाणूनु। अंत:काळीं चित्त थिरावनु। जो करी स्मरणु। गा ताचें।९१।

**योगमार्गान देहत्याग:** भायर पद्मासन घालुनू। उत्तरे तोंड कर्न बैसुनु। कर्मयोग सूख सांठोवनु। अंतरीं;।९२। भितर एकाग्र चित्तान। स्वरूप प्राप्तीच्या प्रेमान। आपलें ठांय बेगीन। ब्रह्माक मेळोवंक;।९३। साधिल्ल्या योगान। सुषुम्नेच्या मदल्या मार्गान। अग्नीस्थानापसून। वता ब्रह्मरंध्रासरीं;।९४। थंय चित्त नि प्राण। हांचे वयलेवयर दिसऽ एकपण। जंय चिदाकाशांत प्राण। जाय विलीन;।९५। पूण जंय मना थिरायेन धरिल्लो। हृदयीं भक्ती भावान भरिल्लो। योग बळान आवरिल्लो। प्राण जाय सज्ज;।९६। तो चेतन अचेतना नाश करीत। येवन पावता भोंवयांत। जसो घंटानाद घंटेंत। जाता विलीन;।९७। वा दिवो वल्लेंत दवरिल्लो। कळना केन्ना कसो वाडवलो। हे तरेन पांडवा जो आपलो । दवरी देह।९८। तो केवळ परमब्रह्म। तांकां परम पुरुष। तो म्हजे निजधाम[१०]। जावन रावऽ ।९९।

**जी अक्षर म्हणटात वेद जाणपी यती जंय रिगतात सोडून वान्सा।**
**पाळटी ब्रह्मचर्य तें पद जोडूंक सांगतां हांव सार तुका त्या पदाचो॥११॥**

**ब्रह्मपद:** जी समाप्ती सगल्यां ज्ञानाची। खण सगले जाणविकायेची। बुद्दी अश्या ज्ञानियांची। ताका म्हणी अक्षर।१००। मोडना जें मोडान। अशें केवळ गगन। थंय कशीं तिगत। आसल्यार कुपां?।१। ज्ञानवंतां जें कळ्ळें। तांच्या ज्ञानानूच मापूं येतलें। मगे कळना अशें म्हळें। तें सहजच अक्षर।२। म्हूण वेद विद्यावंत। जाका अक्षर म्हणटात। जें मायातीत। परमात्मस्वरूप;।३। विशयां वीख सोडुनु। सर्व इंद्रियांचें दमन कर्नु। रुखा तळीं आसात बैसुनु। देहाच्या;।४। ते हे परी विरक्त। तेय पळय जाची निरंतर वाट। निरिच्छांकय इश्ट। सदींच जें ;।५। जाचे आवडी पासत। ब्रह्मचर्यादी संकटां लेखिनात। इंद्रियांक निश्टूर जातात। तांकां बावडीं करून;।६। अशें जें पद। दुर्लभ नि अगाध। जाचे तडीं वेद। बुचकळटात;।७। ते ब्रह्मपदा पावती। जे हे परी देह दवरती। म्हूण पार्था, हीच स्थिती। एकदां सांगन।८। तंव ''गा धनया'' म्हणी अर्जुन। ''हेंच म्हणटां तुका विचारीन। पूण कुर्पा जाली तुजी इतल्यान। आतां सांग तूं''।९। पूण सांग तें सोंपें करून। तंव म्हणी त्रिभुवन दीप, श्रीकृष्ण। वळखतां न्ही तुका, म्हूण सांगन। संक्षेपान।११०। तर भायर जें हेडटा मन। ताची खोड सामकीच मोडून। तें रावत हृदया कोंडींत बुडून। अशें कर।११।

**आडावन इंद्रियां कवडां थारावनु अंतरीं मन। स्थापून मस्तकीं स्वास करूनु योग धारणा ॥१२॥**

**योग्याचो देहत्याग:** पूण हें तरच घडत। जय संयमान सतत। सर्वय इंद्रियांचीं करीत। कवडां गच्च बंद।१२। मगे आपशीं मन कोंडूनु। हृदयांतूच सस्त रावूनु। जशें पडिल्लो हातपांय मोडूनु। सोडिना घर;।१३।

तैसें चित्त राहिलिया पांडवा। प्राणांचा प्रणवुचि करावा। मग अनुवृत्तिपंथें आणावा। मूर्ध्निवरी।१४। तेथ आकाशीं मिळे न मिळे। तैसा धरावा धारणाबळें। जंव मात्रात्रय मावळे। अर्धबिंबीं।१५। तंववरी तो समीरु। निराळीं कीजे स्थिरु। मग लग्नीं जेविं ॐकारु। बिंबींचि विलसे।१६।

**ओमित्येकाक्षरं ब्रह्म व्याहरन्मामनुस्मरन्। य: प्रयाति त्यजन्देहं स याति परमां गतिम् ॥१३॥**

तैसें ॐ हें स्मरों सरे। आणि तेथेंचि प्राणु पुरे। मग प्रणवांतीं उरे। पूर्णघन जें।१७। म्हणोनि प्रणवैकनाम। हें एकाक्षर ब्रह्म। जो माझें स्वरूप परम। स्मरतसांता।१८। यापरी त्यजी देहातें। तो त्रिशुद्धी पावे मातें। जया पावणया परौतें। आणिक पावणें नाहीं।१९। येथ अर्जुना जरी विपायें। तुझ्या जीवीं हन ऐसें जाये। ना हें स्मरण मग होये। कायसयावरी अंतीं।**१२०**। इंद्रियां अनुघडु पडलिया। जीविताचें सुख बुडालिया। आंतुबाहेरी उघडलिया। मृत्युचिन्हें।२१। ते वेळीं बैसावेंचि कवणें। मग कवण निरोधी करणें। तेथ काह्याचेनि अंत:करणें। प्रणव स्मरावा।२२। तरि अगा ऐशिया ध्वनी। झणें थारा देशी हो मनीं। पैं नित्य सेविला मी निदानीं। सेवकु होय।२३।

**अनन्यचेता: सततं यो मां स्मरति नित्यश: । तस्याहं सुलभ: पार्थ नित्ययुक्तस्य योगिन: ॥१४॥**
**मामुपेत्य पुनर्जन्म दु:खालयमशाश्वतम् । नाप्नुवन्ति महात्मान:संसिद्धिं परमां गता: ॥१५॥**

जे विषयांसि तिळांजळी देऊनि। प्रवृत्तिवरी निगड वाऊनि। मातें हृदयीं सूनि। भोगिताती।२४। परि भोगितया नाराणुका। भेटणें नाहीं क्षुदाधिकां। तेथ चक्षुरादिकां। कवण पाडु।२५। ऐसे निरंतर एकवटले। जे अंत:करणीं मजशीं लिगटले। मीचि होऊनि आटले। उपासिती।२६। तयां देहावसान जैं पावे। तैं तिहीं मातें स्मरावें। मग म्यां जरी पावावें। तरि उपास्ति ते कायसी।२७। पै रंकु एक आडलेपणें। काकुळती अंतीं धांवां गा धांवां म्हणे। तरि तयाचिये ग्लानी धांवणें। काय न घडे मज।२८। आणि भक्तांही तेचि दशा। तरी भक्तीचा सोसु कायसा। म्हणऊनि हा ध्वनी ऐसा। न वाखाणावा।२९। तिहीं जे वेळीं मी स्मरावा। ते वेळीं स्मरला कीं पावावा। तो आभारुही जीवा। साहवेचि ना।**१३०**। तें ऋणवैपण देखोनि आंगीं। मी आपुलियाचि उत्तीर्णत्वालागीं। भक्तांचियां तनुत्यागीं। परिचर्या करी।३१। देहवैकल्याचा वारा। झणें लागेल या सुकुमारा। म्हणोनि आत्मबोधाचां पांजिरां। सूयें तयातें।३२। वरि आपुलिया स्मरणाची उवाइली। हींव ऐसी करीं साउली। ऐसेनि नित्यबुद्धि संचली। मी आणीं तयातें।३३। म्हणोनि देहांतींचें सांकडें। माझिया कहींचि न पडे। मी आपुलियातें । आपुलकडे। सुखेंचि आणीं।३४। वरचील देहाची गंवसणी फेडुनी। आहाच अहंकाराचे रज झाडुनी। शुद्ध वासना निवडुनी। आपणपां मेळवीं।३५। आणि भक्तां तरी देहीं। विशेष एकवंकीचा ठाव नाहीं। म्हणऊनि अव्हेरु करितां कांहीं। वियोगु ऐसा न वाटे।३६। नातरी देहांतींचि मियां यावें। मग आपणपयातें न्यावें। हेंही नाहीं स्वभावें। जे आधींचि मज मीनले।३७। येरी शरीराचिया सलिलीं। असतेंपण हेचि साउली। वांचूनि चंद्रिका ते ठेली। चंद्रींच आहे।३८। ऐसे जे नित्ययुक्त। तयासि सुलभ भी सतत। म्हणऊनि देहांतीं निश्चित। मीचि होती।३९। मग क्लेशतरूची वाडी। जे तापत्रयाग्नीची सगडी। जे मृत्युकाकासि कुरोंडी। सांडिली आहे।**१४०**। जें दैन्याचें दुभतें। जें महाभयातें वाढवितें। जें सकळ दु:खाचें पुरतें। भांडवल।४१। जें दुर्मतीचें मूळ। जें कुकर्माचें फळ। जें व्यामोहाचें केवळ। स्वरूपचि।४२। जें संसाराचें बैसणें। जें विकाराचें उद्यानें। जें सकळ रोगांचें भाणें। वाढिलें आहे।४३। जें काळाचा खिचउशिटा। जें आशेचा अंगवठा। जन्ममरणाचा वोलिंवटा। स्वभावें जें।४४। जें भुलीचें भरिंव। जें विकल्पाचें वोतिंव। किंबहुना पेंव। विंचुवांचें।४५। जें व्याघ्राचें क्षेत्र। जें पण्यांगनेचें मैत्र। जें विषयविज्ञानयंत्र। सुपूजित।४६। जें लावेचा कळवळा। निवालिया विषोदकाचा गळाळा। जें विश्वासु आंगवळा। संवचोराचा।४७।

---

**अर्थ:** (११) दु:खरुपी विंचवांनी.

हा आमुचा ऐश्वर्ययोगु। तुवां देखिला कीं चांगु। आतां सांगें कांहीं एथ लागु। भूतभेदाचा असे।८७। यालागीं मजपासूनि भूतें। आनें नव्हेती हें निरुतें। आणि भूतावेगळिया मातें। कहींच न् मनीं हो।८८।

**यथाकाशस्थितो नित्यं वायुः सर्वत्रगो महान् । तथा सर्वाणि भूतानि मत्स्थानीत्युपधारय ।।६।।**

पैं गगन जेवढें जैसें। पवनु गगनीं तेवढाचि असे। सहजें हालविलिया वेगळा दिसे। एऱ्हवीं गगन तेंचि तो।८९। तैसें भूतजात माझां ठायीं। कल्पिजे तरी आभासे कांहीं। निर्विकल्पीं तरि नाहीं। तेथ मीचि मी आघवें।९०। म्हणऊनि नाहीं आणि असे। हें कल्पनेचेनि सौरसें। जे कल्पनालोभें भ्रंशे। आणि कल्पनेसवें होय।९१। तेंचि कल्पितें मुदल जाये। तैं असें नाहीं हें कें आहे। म्हणऊनि पुढती तूं पाहें। हा ऐश्वर्यायोगु।९२। ऐसिया प्रतीतिबोधसागरीं। तूं आपणेयातें कल्लोळु एक करीं। मग जंव पाहासी चराचरीं। तंव तूंचि आहासी।९३। या जाणणेयाचा चेवो। तुज आला ना म्हणती देवो। तरी आतां द्वैतस्वप्न वावो। जालें कीं ना।९४। तरी पुढती जरी विपायें। बुद्धीसि कल्पनेची झोंप ये। तरी अभेदबोधु जाये। जैं स्वप्नीं पडिजे।९५। म्हणोनि ये निद्रेची वाट मोडे। निखळ उद्बोधाचेंचि आपणपें घडे। ऐसें वर्म जें आहे फुडें। तें दावों आतां।९६। तरी धनुर्धरा धैर्या। निकें अवधान देईं बा धनंजया। पैं सर्व भूतांतें माया। करी हरी गा।९७।

**सर्वभूतानि कौन्तेय प्रकृतिं यान्ति मामिकाम् । कल्पक्षये पुनस्तानि कल्पादौ विसृजाम्यहम् ।।७।।**

जिये नांव गा प्रकृती। जे द्विविध सांगितली तुजप्रती। एकी अष्टधा भेदव्यक्ती। दुजी जीवरुपा।९८। हा प्रकृतीविखो आघवा। तुवां मागां परिसिलासे पांडवा। म्हणोनि असो काइ सांगावा। पुढतपुढती।९९। तरी ये माझिये प्रकृती। महाकल्पाचां अंतीं। सर्व भूतें अव्यक्तीं। ऐक्यासी येती।१००। ग्रीष्माचां अतिरसीं। सबीजे तृणें जैसीं। मागुती भूमीसी। सुलीनें होती।१। कां वार्षिये ढेंढें फिटे। जेव्हां शारदीयेचा अनुघडु फुटे। तेव्हां घनजात आटे। गगनींचें गगनीं।२। नातरी आकाशाचिये खोंपे। वायु निवांतुचि लोपे। कां तरंगता हारपे। जळीं जेवीं।३। अथवा जागिनलिये वेळे। स्वप्न मनींचें मनीं मावळे। तैसें प्राकृत प्रकृतीं मिळे। कल्पक्षयीं।४। मग कल्पादीं पुढती। मीचि सृजीं ऐसी वदंती। तरी इयेविषयीं निरुती। उपपत्ति आइक।५।

**प्रकृतिं स्वामवष्टभ्य विसृजामि पुनः पुनः । भूतग्राममिमं कृत्स्नमवशं प्रकृतेर्वशात् ।।८।।**

तरी हेचि प्रकृति किरीटी। मी स्वकीया सहजें अधिष्ठीं। तेथ तंतूसमवायपटीं। जेविं विणावणी दिसे।६। मग तिये विणावणीचेनि आधारें। लहानां चौकडियां पटत्व भरे। तैसी पंचात्मकें आकारें। प्रकृतिचि होये।७। जैसें विरजणियाचेनि संगें। दूधचि आटेजों लागे। तैशी प्रकृति आंगा रिगे। सृष्टिपणाचिया।८। बीज जळाची जवळीक लाहे। आणि तेंचि शाखोपशाखीं होये। तैसें मज करणें आहे। भूतांचें हें।९। अगा नगर हें रायें केलें। या म्हणणया साचपण कीर आलें। परि निरुतें पाहतां काय शिणले। रायाचे हात।११०। आणि मी प्रकृति अधिष्ठीं तें कैसें। जैसा स्वप्नीं जो असे। मग तोचि प्रवेशे। जागृतावस्थे।११। तरि स्वप्नौनि जागृती येतां। काय पाय दुखती पंडुसुता। कीं स्वप्नामाजीं असतां। प्रवासु होय।१२। या आघवियाचा अभिप्रावो कायी। जेहें भूतसृष्टीचें कांहीं। मज एकही करणें नाहीं। ऐसाचि अर्थु।१३। जैशी रायें अधिष्ठिली प्रजा। व्यापारे आपुलालिया काजा। तैसा प्रकृतिसंगु माझा। येर करणें तें इयेचें।१४। पाहें पां पूर्णचंद्राचिये भेटी। समुद्र भरतें अपार दाटी। तेथ चंद्रासि काय किरीटी। उपखा पडे।१५। जड परिजवळिका। लोह चळे तरि चळो कां। कवणु शीणु भ्रामका। सन्निधानाचा।१६।

---

**अर्थः** (१५) निर्विकल्प समाधींत. (१६) अद्भुत करणी. (१७) अध्याय ७, श्लोक ४-५. (१८) 'अपरा प्रकृती' जी आठ तरांनी वांटल्या. (१९) 'परा प्रकृती'. (२०) माया. (२१) सपनांतल्यान जाग्रुतायेक येवचेलो प्रवास.

हो म्हजो ऐश्वर्य योग। कळ्ळो मूं तुका चांग?। प्राणीमात्र नि हांव हातूंत, सांग। आसा कितें भेद?।८७। म्हणून, सगले प्राणीमात्र म्हजेपसूनु। वेगळे नात निश्चीतपणानु। आनी हांवूय ना जिवांहूनु। हें दवर मनांत।८८।

**अंत्राळांतलो महावायु सगले वशीनु सदीं वता। तशे म्हज्यांतु हे जीवु सर्व आसतात जाण तूं ॥६॥**

**जगाकडेन पळोवपाची तत्त्वीक दिश्टी:** आगा, विस्तार आकाशाचो जितलो। वाऱ्याचोय आकाशीं तितलो। सहज हालयतां दिसता वेगळो। हरशीं तो आकाशच।८९। तशीं भूतां सर्व म्हजे ठांय आसती। अशें कल्पितां थंय भासती। पूण निर्विकल्पीं[१५] पळेतां तीं। सर्वत्र हांवूच एकलो।९०। म्हूण नासप, आनी आसप। हें कल्पनेन घडप। कल्पने सवें उदेवप। ना जावप तिचे सवें।९१। सरतां हें कल्पने मूळ जें अज्ञान। भूतांचें आसप नासप भासप खंयसून?। म्हणून घे भौन समजून। हो ईश्वरी योग[१६]।९२। अश्या ह्या अणभवज्ञान सागरीं कर। तूं आपणांक एक ल्हार। जंव पळेशी हें चराचर। तंव दिसतलें तूंच तें सर्वय।९३। देव म्हणी: ह्या ज्ञानाची जाग। तुका आयली मूं, सांग। हें द्वैता सपन लटीक। जालें मू आतां?।९४। पूण फुडें कदाचीत। बुद्दीक कल्पने न्हीद येत। तर हें अभेद ज्ञान वचत। भौन द्वैता सपन पडून।९५। म्हूण ही न्हिदे वाट मोडून। तुवें जावचें निखळ ज्ञान। अशें जें रहस्यज्ञान। सांगतां स्पश्ट तुका।९६। तरी आगा धिरिश्ट धनुर्धरा। सम ध्यान दी धनंजया। घडटा प्रकृतीमाया सर्व प्राणीमात्रां। तशी मोडटाय तांकां।९७।

**कल्पांती जीवु हे सर्व मेळऽ प्रकृतिकू म्हजे। कल्पारंभी पुना तांकां पार्था हांवूच निर्मितां ॥७॥**

**महाप्रळय:** जे मायेचेंच नांव प्रकृती। आर्दी[१७] सांगिल्ली[१७] जी दोट्टी। एक वांटल्या आठ[१८] भिन्न तरांनी। दुसरी, जीवरुपाची[१९]।९८। हो प्रकृतीचो विशय सगलो। तुवें फाटीं आयकलो। म्हूण आसूं; कितें सांगतलों। भौन भौन?।९९। तर महाकल्पाचे अंतीं। म्हजी जी अव्यक्त प्रकृती। सर्व भूतां लया पावती। जावन एकरूप तिचेमर्दी।१००। गिमाच्या खर निबरांत। जशें तण बियांसयत। भौन जिरता भुंयेंत। पूर्णपणान।१०१। वा पावशी कुपांचो गडगड सोंपतां। नि शरदाचो गुप्त ठेवो उघडटां। तंव सगलीं कुपां आट्टा। आकाशांतलीं आकाशीं।१०२। वा आकाशा पोकळींत। वारो विरता निवांत। वा उदकांतलीं ल्हारां जशीं विरतात। उदकांत;।१०३। वा जाग आयले उपरान्त। विरता मनचें सपन मनांत। तशें मायेन निर्मिल्ली भूतजात। मेळऽप्रकृतीक कल्पक्षयीं।१०४। मगे सृश्टीचे आरंभीं तिची निर्मिती। भौवन हांवूच ती करी म्हणटी। तरी हे विशीं खरी उपपत्ती। आयक सम आतां।१०५।

**घेवनु प्रकृति हातांतु निर्मी हांवु पुना पुना। जिवांचो संघ हो सर्व जो वश प्रकृतीकु गा॥८॥**

**परमात्म्याचें सृश्टी कर्तुत्व:** तर हेच प्रकृतीक, गा पार्था। हांव सभावीकपणान आपणायतां। तेन्ना धागे मेळून वस्त्रांत दिसता। जशी विणीची तरा;।१०६। मगे पडटा ते विणींतल्यान। चवकट्यांनी पटाकार सान। तशी पंचमहाभूतां रुपान। विश्वाकार जाता प्रकृती[२०]।१०७। जशें विरजणाक लागून। येता थंय दूद घट्ट जावन। तशें प्रकृतीचे ठांयीं सृश्टीपण। घेवंक लागऽ आकार।१०८। बियेक उदकाचे लागसाणीन। येयी खांदे, पानां लसलसून। तशें भूतसृश्टीची म्हजे पसून। निर्मणी।१०९। आगा, नगर हें रायान वसयलें। हें एकेपरीन खरें आसलें। पूण, खरें पळेशी, कितें शिणले। राया हात?।११०। हांव प्रकृतीक आपणायी कसो?। जसो सपनीं जो आसता तसो। मगे तोच येता जसो। जाग्रुतायेक।१११। येतां सपनांतसून जाग। सांग, दुखता ताचें आंग?। वा सपनेतनां, सांग। घडटा प्रवास[२१]?।११२। कितें हें सगले विसकावणे अर्थ?। तर घडटना ही भूतसृश्ट। म्हाका करचें लागना कांय एक लेगीत। असोच सारांश।१३। जशी रायाच्या आसऱ्यांतु। प्रजा गुल्ल आपल्या वावरांतु। तसो प्रकृतीशीं म्हजो सांगातु। हरशीं करणें हें हिचेंच।१४। आरे पळय पुनवेक, चंद्रिमाचे भेटेन। समुद्र भरता अपार भरतीन। थंय चंद्रिमाक कितें, गा अर्जुन। पडटा कश्ट?।१५। लोहचुंबकाचे लागसाणीन। हालता जड आशिल्लें लोखण। ताका हालोवंक जाले शीण। चुंबकाक?।१६।

किंबहुना यापरी। मी निजप्रकृति अंगींकारीं। आणि भूतसृष्टी एकसरी। प्रसवोंचि लागे।१७। जो हा भूतग्रामु आघवा। असे प्रकृतिआधीन पांडवा। जैसी बीजाचिया वेलपालवा। समर्थ भूमि।१८। नातरी बाळादिकां वयसां। गोसावी देहसंगु जैसा। अथवा घनावळी आकाशा। वार्षिये जेवीं।१९। कां स्वप्नासि कारण निद्रा। तैसी प्रकृति हे नरेंद्रा। या अशेषाहि भूतसमुद्रा। गोसाविणी गा।**१२०**। स्थावरा आणि जंगमा। स्थूळा अथवा सूक्ष्मा। हे असो भूतग्रामा। प्रकृतिचि मूळ।२१। म्हणोनि भूतें हन सृजावीं। कां सृजिलीं प्रतिपाळावीं। इयें करणीं न येती आघवीं। आमुचिया आंगा।२२। जळीं चंद्रिकेचिया पसरती वेली। ते वाढी चंद्रें नाहीं वाढविली। तेवि मातें पावोनि ठेलीं। दुरी कर्में।२३।

**न च मां तानि कर्माणि निबध्नन्ति धनञ्जय। उदासीनवदासीनमसक्तं तेषु कर्मसु ॥९॥**

आणि सुटलिया सिंधुजळाचा लोटु। न शके धरूं सैंधवाचा घाटु। तेवि सकळ कर्मा मीच शेवटु। तीं काइ बांधती मातें।२४। धूम्ररजांची पिंजरी। वाजतिया वायूतें जरी होकारी। कां सूर्यबिंबामाझारीं। आंधारें रिगे।२५। हें असो पर्वताचिये हृदयींचें। जेविं पर्जन्यधारास्तव न खोंचे। तेविं कर्मजात प्रकृतीचें। न लगे मज।२६। एऱ्हवीं इये प्राकृतीं विकारीं। एकु मीचि आहे अवधारीं। परि उदासीनाचिया परी। करीं ना करवी।२७। दीपु ठेविला परिवरीं। कवणातें नियमी ना निवारी। आणि कवण कवणिये व्यापारीं। राहाटे तेंहि नेणे।२८। तो जैसा का साक्षिभूतु। गृहव्यापारप्रवृत्तिहेतु। तैसा भूतकर्मीं अनासक्तु। मी भूतीं असें।२९। हा एकचि अभिप्रावो पुढतपुढती। काय सांगों बहुतां उपपत्तीं। येथ एकवेळां सुभद्रापती। येतुलें जाण पां।**१३०**।

**मयाध्यक्षेण प्रकृतिः सूयते सचराचरम् । हेतुनानेन कौन्तेय जगद्विपरिवर्तते ॥१०॥**

जे लोकचेष्टां समस्तां। जैसा निमित्तमात्र कां सविता। तैसा जगत्प्रभवीं पंडुसुता। हेतु मी जाणें।३१। कां जें मियां अधिष्ठिलिया प्रकृती। होती चराचराचिया संभूती। म्हणोनि मी हेतु हें उपपत्ती। घडे यया।३२। आतां येणें उजिवडें निरूतें। न्याहाळीं पां ऐश्वर्ययोगातें। जे माझ्या ठायीं भूतें। परी भूतीं मी नसें।३३। अथवा भूतें ना माझां ठायीं। आणि भूतांमाजि मी नाहीं। या खुणा तूं कही। चुकों नको।३४। हें सर्वस्व आमुचें गूढ। परि दाविलें तुज उघड। आतां इंद्रियां देऊनि कवाड। हृदयीं भोगीं।३५। हा दंशु जंव नये हातां। तंव माझें साचोकारेपण पार्था। न संपडे गा सर्वथा। जेविं भुसीं कणु।३६। एऱ्हवीं अनुमानाचेनि पैसें। आवडे कीर कळलें ऐसें। परि मृगजळाचेनि वोलांशें। काय भूमि तिमे।३७। जें जाळ जळीं पांगिलें। तेथ चंद्रबिंब दिसे आंतुडलें। परि थडिये काढूनि झाडिलें। तेव्हां बिंब कें सांगें।३८। तैसें बोलवरि वाचाबळें। वायांचि झकविजती प्रतीतीचे डोळे। मग साचोकारें बोधावेळे। आथि ना होईजे।३९।

**अवजानन्ति मां मूढा मानुषीं तनुमाश्रितम्। परं भावमजानन्तो मम भूतमहेश्वरम् ॥११॥**

किंबहुना भवा बिहा या। आणि साचें चाड आथि जरी मियां। तरि तुम्हीं गा उपपत्ती इया। जतन कीजे।**१४०**। एऱ्हवीं वेधली दिठी कवळें। ते चांदणियातें म्हणे पिवळें। तेविं माझां स्वरूपीं निर्मळे। देखाल दोष।४१। नातरी ज्वरें विटाळलें मुख। ते दुधातें म्हणे कडू विख। तेविं अमानुषा मानुष। मानाल मातें।४२। म्हणऊनि पुढती तूं धनंजया। झणें विसंबसी या अभिप्राया। जे इया स्थूलदृष्टी वायां। जाइजेल गा।४३। पैं स्थूलदृष्टी देखती मातें। तेंचि न देखणें जाण निरुतें। जैसें स्वप्नींचेनि अमृतें। अमरा नोहिजे।४४। एऱ्हवीं स्थूलदृष्टी मूढ। मातें जाणती कीर दृढ। परि तें जाणणेंचि जाणणेया आड। रिगोनि ठाके।४५। जैसा नक्षत्राचिया आभासा-। साठीं धातु झाला तया हंसा-। मार्जी रत्नबुद्धीचिया आशा। रिगोनियां।४६। सांगें गंगा या बुद्धी मृजगळ। ठाकोनि आलियाचें कवण फळ। काय सुरतरु म्हणोनि बाबुळ। सेविली करी।४७।

---

**अर्थ:** (२२) कारण. (२३) उदासीन. (२४) विचार. (२५) सूर्य. (२६) अंगिकारिल्ली माया. (२७) वेदान्ताचें हें गुपीत.
(२८) नुस्त्याक धरपाचें जाळें. (२९) भायल्या चामड्याचे दिश्टीन, वयले वयले दिश्टीन.
(३०) हंस रत्नां मोतयां खाता अशी समजूत आसली.

असो, हांवूय हे परी। हे प्रकृतीक अंगिकारी। आनी ती प्रकृती एकसारकी उत्पन्न करी। भूतसृश्टी।१७। सगलें हें भूतग्राम। प्रकृतीचे आदीन गा पार्थ। वाडोवंक जशी भूंय समर्थ। बियेंतसून वाल नि पालय।१८। अथवा भुरगे तरणे आदी अवस्थांक। देहसंग हें मुख्य कारण। आनी वर्शावाचें कारण। आकाशांतलीं कुपां जशीं;।१९। वा सपना कारण निद्रा। तशी प्रकृती, गा नरेंद्रा। ह्या सगल्या जीवसमुद्रा। आधार गा;।**१२०**। स्थावरा आनी जंगमा। स्थुळा वा सुक्षिमा। हें आसूं; भूतग्रामा। प्रकृतीच मूळ[२२]।२१। म्हूण भूतसृश्टी ही निर्मुंची। वा निर्मिल्ली राखुंची। हीं कार्यां लागना सगलीं। म्हज्या आंगा।२२। पातळिल्ल्यो जळीं चान्न्यावाली। चंद्रान तांची खंय वाड केली?। तेच परी म्हजेपसून रावलीं। पयस कर्मां।२३।

**पूण हीं सर्व कर्मां गा म्हाका मुळींच बांदिनात्। उदासिनावरी हांवु म्हाका कर्मांचि ओड ना ॥९॥**

**परमात्मो कर्म बंधनापसून अलिप्तः** आनी सुट्टां न्हंये उदका लोट। येना तो मिठा बांधा आडावंक। तसो सगल्या कर्मांचो हांवूच शेवट। बांदतलीं तीं कशीं म्हाका?।२४। सुटत वारो जर सुसाट। धुंवराकणां पड्डो कसो आडायत?। वा सूर्यबिंबांत रिगत। काळोख जर;।२५। हें आसूं; पर्वताचे होंवरेंत। जश्यो पावसा दडको लागनात। तशीं प्रकृतीचीं कर्मां बांधिनात। गा म्हाका।२६। हरशीं हे प्रकृतीचे कार्यीं। हांवूच निमित्त, हें लक्षांत दवरी। पूण उदासिना वरी। कांय करिना, कोणा लायना करूं।२७। दिवो दवरिल्लो चौकेरी। कोणा नेम कर्ना, सांगना हें, तें करी। नि कोण खंयच्या वेव्हारीं-। चलता, तेंय नेणा।२८। तो जसो साक्षीभूत। घरच्या वेव्हारा जाता निमित्त। तसो हांव अनासक्त[२३]। जिवांत नि तांच्या कर्मांत।२९। हो एकूच अभिप्राय[२४] भौनु भौनू। तरतरांनी कितलो म्हूण सांगूं। पूण हें सांगलें तुका एका दमानू। दवर लक्षांतु।**१३०**।

**साक्षी हांव, म्हूण प्रकृती निर्मी विश्व चराचर। ह्या हेतून जगताचें ह्या चलऽ गा परिवर्तन ॥१०॥**

वा लोक वेव्हार समस्तां। जसो निमित्तमात्र सविता[२५]। तसो जगाचे उत्पत्तीक पांडुसुता। हांव कारण;।३१। कारण हांवें आपणायल्ली प्रकृती[२६]। करी चराचर विश्वाची निर्मिती। म्हणून, हांव कारण ही उपपत्ती। सोबता हांगा।३२। आतां ह्या दिव्यज्ञानउजवाडानु। पळय म्हजो ईश्वरी योग नियाळ्नु। म्हजे ठांयीं रावती जीवु। पूण हांव ना तांचेमदीं।३३। वा जीव ना म्हजेठांयीं। आनी हांवूय ना जिवांठायीं। हें गुपीत केन्नायी। तूं विसरूं नाका।३४।

**शाब्दीक ज्ञान निरर्थकः** हें सगलें आसलें गुपीत। पूण सांगलें तुका उक्तावन। इंद्रियांचें कवड लावन। भोग हें अंतरीं।३५। हें मर्म[२७] जंवर येना हाता। तंवर म्हजें खरें स्वरूप पार्था। कळना गा सर्वथा। जशें धान कुंड्यांतलें।३६। अनुमानान वयले वयरी। म्हजें स्वरूप कळ्ळें दिसलें जरी। तें खरें न्ही, कित्या भुंयेचेरी। उपकरत मृगजळा पाणी?।३७। जें पागेर[२८] पाणयांत उडयल्लें। थंय चंद्रबिंब दिसऽ शिरकल्लें। मगे तडीर काडून झाडलें। सांग, खंय बिंब?।३८। तशें कांय जळपती ''आत्मज्ञान जालें''। तांकां फटयी प्रतीतीचे दोळे। मगे खरे बोधपरिक्षे वेळे। जायना बोधा लाव।३९।

**अवमानी पिशे म्हाका मनशा रुपांतु देखुनू। नेणी म्हजें खरें रूप हांवु जिवां महेश्वर ॥११॥**

**अजाण जनाखातीर ईश्वरी ज्ञानः** चड कित्याक, संवसारा भंय आसत। हांव मेळची खरी इत्सा आसत। तर तुवें ही युक्ती अंतरांत। दवरची राखून।**१४०**। हरशीं कामिणीन भरतां दोळे। चान्न्याकय म्हणी हळडुवें। तशे कांय जाण दोश पळे। म्हज्या निवळ स्वरूपीं।४१। जोरान इबाडटां मूख। तें दुदा म्हणी कोडू वीख। तशे ते मानती म्हाका मनीस। नासतनाय हांव।४२। म्हूण भौन भौन सांगऽ धनंजया। विसरूं नाका ह्या अभिप्राया। तुजें देखप वतलें वायां। पळेतां म्हाका स्थूळ[२९] दिश्टीन[२९]।४३। म्हाका देखप वयले वयले दिश्टीन। तें पळोवणें खरें न्ही जाण। जशें सपनांतल्या अमृतान। जायना अंवर।४४। हरशीं वयलेवयले दिश्टीचे मूढ। म्हणटी म्हाका जाणटी गाड। पूण तांचें जाणप खऱ्या स्वरूपज्ञाना आड। रावता उबें।४५। जसो नखेत्रांच्या लकलका आभासानु। घातु कर्न घेतलो त्या हंसानु। तीं रत्नां[३०] हे आशेनु। उदकांत सूर मारून।४६। सांग, मृगजळा मानून गंगाजळ। थंय धांवशी, खंयचें मेळत फळ?। कितें गावत, हातीं धरशी बाबूळ। कल्परूख समजून?।४७।

हा निळयाचा दुसरा। या बुद्धी हातु घातला विखारा। कां रत्नें म्हणोनि गारा। वेंची जेविं।४८। अथवा निधान हें प्रगटलें। म्हणोनि खदिरांगार खोळे भरिले। कां साउली नेणतां घातलें। कुहां सिंहें।४९। तेविं मी म्हणोनि प्रपंचीं। जिहीं बुडी दिधली कृतनिश्चयाची। तिहीं चंद्रासाठीं जेविं जळींची। प्रतिमा धरिली।१५०। तैसा कृतनिश्चय वायां गेला। जैसा कोण्ही एकु कांजी प्याला। मग परिणाम पाहों लागला। अमृताचा।५१। तैसें स्थूलाकारीं नाशिवंतें। भरंवसा बांधोनि चित्तें। पाहती मज अविनाशातें। तरी कैंचा दिसें।५२। काइ पश्चिमसमुद्राचिया तटा। निघिजत आहे पूर्विलिया वाटा। कां कोंडा कांडतां सुभटा। कणु आतुडे।५३। तैसें विकारलें हें स्थूळ। जाणितलेया मी जाणवतसें केवळ। काइ फेण पितां जळ। सेविलें होय।५४। म्हणोनि मोहिलेनि मनोधर्में। हेंचि मी मानूनि संभ्रमें। मग येथिंचि जियें जन्मकर्मे। तियें मजचि म्हणती।५५। येतुलेनि अनामा नाम। मज अक्रियासि कर्म। विदेहासि देहधर्म। आरोपिती।५६। मज आकारशून्या आकारु। निरुपाधिका उपचारु। मज विधिविवर्जिता व्यवहारु। आचारादिक।५७। मज वर्णहीना वर्णु। गुणातीतासि गुणु। मज अचरणा चरणु। अपाणिया पाणी।५८। मज अमेया मान। सर्वगतासी स्थान। जैसें सेजेमाजीं वन। निदेला देखे।५९। तैसें अश्रवणा श्रोत्र। मज अचक्षूसी नेत्र। अगोत्रा गोत्र। अरूपा रूप।१६०। मज अव्यक्तासि व्यक्ती। अनार्तासी आर्ती। स्वयंतृप्ता तृप्ती। भाविती गा।६१। मज अनावरणा प्रावरण। भूषणातीतासि भूषण। मज सकळकारणा कारण। देखती ते।६२। मज सहजातें करिती। स्वयंभातें प्रतिष्ठिती। निरंतरातें आव्हानिती। विसर्जिती गा।६३। मी सर्वदा स्वत:सिद्धु। तो कीं बाळ तरूण वृद्धु। मज एकरूपा संबंधु। जाणती ऐसे।६४। मज अद्वैतासि दुजें। मज अकर्तयासि काजें। मी अभोक्ता कीं भुंजें। ऐसें म्हणती।६५। मज अकुळाचें कुळ वानिती। मज नित्याचेनि निधनें शिणती। मज सर्वांतरातें कल्पिती। अरि मित्र गा।६६। मी स्वानंदाभिरामु। तया मज अनेकां सुखांचा कामु। अवघाची मी असे समु। कीं म्हणती एकदेशी।६७। मी आत्मा एक चराचरीं। म्हणती एकाचा कैंपक्ष करीं। आणि कोपोनि एकातें मारीं। हेंचि वाढविती।६८। किंबहुना ऐसे समस्त। जे हे मनुष्यधर्म प्राकृत। तयाचि नांव मी ऐसें विपरीत। ज्ञान तयांचें।६९। जंव आकारु एक पुढां देखती। तंव हा देव येणें भावें भजती। मग तोचि विघडलिया टाकिती। नाहीं म्हणोनि।१७०। मातें येणें येणें प्रकारें। जाणती मनुष्य ऐसेनि आकारें। म्हणऊनि ज्ञानचि तें आंधारें। ज्ञानासि करी।७१।

**मोघाशा मोघकर्माणो मोघज्ञाना विचेतस:। राक्षसीमासुरीं चैव प्रकृतिं मोहिनीं श्रिता: ॥१२॥**

यालागीं जन्मलेचि ते मोघ। जैसें वार्षियेवीण मेघ। कां मृगजळाचे तरंग। दुरूनीचि पाहावे।७२। अथवा कोल्हेरीचे असिवार। नातरीं वोडंबरीचे अळंकार। कीं गंधर्वनगरीचे आवार। आभासती कां।७३। सावरी वाढिन्नल्या सरळा। वरी फळ ना आंतु पोकळा। कां स्तन जाले गळां। शेळिये जैसे।७४। तैसें मूर्खांचें तयां जियालें। आणि धिक् कर्म तयांचें निपजलें। जैसें सांवरी फळ आलें। घेपे ना दीजे।७५। मग जें कांहीं ते पढिन्नले। तें मर्कटें नारळ तोडिले। कां आंधळ्या हातीं पडिलें। मोतीं जैसें।७६। किंबहुना तयांचीं शास्त्रें। जैशीं कुमारींहातीं दिधलीं शस्त्रें। कां अशौच्या मंत्रें। बीजें कथिलीं।७७। तैसें ज्ञानजात तयां। आणि जें कांहीं आचरलें गा धनंजया। तें आघवेंचि गेलें वायां। जे चित्तहीन।७८। पैं तमोगुणाची राक्षसी। जे सद्बुद्धीतें ग्रासी। विवेकाचा ठावोचि पुसी। निशाचरी।७९। तिये प्रकृती वरपडे जाले। म्हणऊनि चिंतेचेनि कपोलें गेले। वरि तामसीयेचिये पडिले। मुखामाजीं।१८०। जेथ आशेचिये लाळे। आंतु हिंसा जीभ लोळे। तेवींचि संतोषाचे चाकळे। अखंड चघळी।८१। जे अनर्थाचे कानवेरी। आवाळुवें चाटीत निघे बाहेरी। जे प्रमादपर्वतींची दरी। सदाचि मातली।८२। जेथ द्वेषाचिया दाढा। खसखसां ज्ञानाचा करिती रगडा। जे अगस्तीगवसणी मूढां। स्थूलबुद्धि।८३।

---

अर्थ: (३१) अविकारी. (३२) पूजा, निवेद्य बी. (३३) जातपात. (३४) रहस्यासयत. (३५) अज्ञानाचे रातींत भोंवपी.
(३६) जिच्या तोंडांत. (३७) तमोगूणरुपी राकेशी.
(३८) अगस्ती रुशीक कुंभाचें आवरण आशिल्लें. तेचपरी तिच्या मुखाक आवरण आसता.

म्हळो नीलमणयां हार दोनपदरी। हातीं घेतलो सर्प विखारी। वा रत्नां म्हणून करी। वेंचप कन्यांचें जशें।४८। वा रत्नांची ठेव मेळ्ळी। म्हणून खैरा इंगळ्यांनी खोळ भल्ली। वा पडबिंब जाणले वीण घाली। उडकी शिंवान बायत।४९। तसो हांव प्रपंची म्हणून। जे निश्चयान पडले संवसारीं घुसपून। ताणें उदकांतली सांवळी देखली धर्नु। चंद्र म्हणून।१५०। तांचो निश्चय वायां गेलो। जसो कोण एकलो पेज पियेलो। मगे परिणाम पळोवं लागलो। अमृताचो।५१। हांव नाशिवंत स्थूळ आकृती। असो भरवंसो बांदून चित्तीं। मगे म्हाका अविनाशा जर पळेती। तर दिसन कसो?।५२। वचूंक पश्चिमेचे समुद्रा तडीक। कित्या जाय वचूंक पुर्वेक?। वा जर कांडशी कुंड्याक। मेळत धान?।५३।

**ईश्वराविशींचें निश्चीत ज्ञान:** तशें जाणून विकारी विश्व स्थूळ। कशें जाणशी म्हजें स्वरूप केवळ?[३१]। कितें फेणेर पियेतां, जळ-। जातलें पियेल्लेवरी?।५४। म्हूण मना मोह पडिल्ल्यानु। ते म्हाका मनशावरी मानूनु। म्हाकाय जल्म मर्णादी दशा लावनु। रावती भ्रांतीन;।५५। आनी म्हाका नाम विरयता नाम। क्रिया विरयता कर्म। देह नाशिल्ल्या देहधर्म। हे संबंध लायती;।५६। म्हाका निराकारा आकारू। निरूपाधिका उपचारू[३२]। विधी वर्णिल्ल्या वेव्हारू। वर्णाश्रमा कर्मां जोडटी;।५७। म्हाका वर्णहिता वर्णु[३३]। गुणातीता गूणु। अचरणा चरणु। हात नाशिल्ल्या लायती हात;।५८। म्हजें अमर्यादा मापन। सर्वव्यापका दिती स्थान। जशें शेजेर वन। न्हिदिल्लो पळयता।५९। तशें श्रवणहिणा श्रवण। नयनहिणा नयन। अगोत्रा गोत्र कल्पून। दितीअरूपा रूप;।१६०। म्हाका अव्यक्ता व्यक्ती। दुःख विरयता दुखी। स्वयंतृप्ता तृप्ती। कल्पितात;।६१। म्हाका वस्त्रहिणा आवरण। भुशणातीता भूशण। हांव सगल्यांचें जो कारण। सोदी म्हजें मूळ;।६२। म्हाका स्वयंसिद्धा करी मूर्त। स्वयंभूक स्थापतात। सर्वव्यापका म्हाका आफयतात। करती विसर्जन;।६३। हांव सदांच स्वतासिद्ध। हांव बाळ, तरूण वृद्ध। अशा एकरूपा हे संबंध। जोडटी म्हाका;।६४। म्हाका अद्वैता दुजेंपण। क्रियाहिणा कर्तेपण। हांव अभोक्तो तरी भोगतेंपण। दिती म्हाका;।६५। म्हजें कूळविरयताचें कूळ वर्णिती। हांव नित्य, म्हज्या मर्णान शिणटी। हांव सर्वां अंतरीं, तरी कल्पिती। शत्रू मित्र गा।६६। हांव नीज आनंदांत रमतां। म्हाका म्हणटी हांव सुखां इत्सितां। हांव सर्वत्र सम भावान आसतां। तरी म्हणी एका वाटाराचो।६७। हांव आत्मो एक चराचरीं। पूण म्हणी पक्षपात करी,। आनी कोपून एकाक मारी। अशी अपकिर्त करी।६८। सामान्य मनीसधर्म समस्त। हे म्हाकाय आसतात। अशें विपरीत। ज्ञान तांचें।६९। जंवर एक मूर्त पळेती। तंवर हो देव ह्या नांवान भजती। मगे तोच भंगतां उडयती। हो देव न्ही म्हणून।१७०। म्हाका मानती अशे परी। साकार मनशावरी। ज्ञानच तांचें तें, हे परी। धांकी खऱ्या ज्ञाना।७१।

**आशा ज्ञानांत कर्मांतूय जाती हे मूर्ख निर्फळ। राकेशी आसुरी वृत्ती तांकां तीं गदळायि गा ॥१२॥**

**अज्ञानी आनी आसुरी लोकांचो सभाव:** म्हूण व्यर्थ तांचें जिणें। जशें मेघ वर्शिले विणे। वा मृगजळाचीं ल्हारां देखणे। पयसल्यानूच।७२। वा मातये घोडेस्वार। वा जादुगाराचे अळंकार। वा कुपांचें गंधर्वनगर। भासतात;।७३। सांवरी जरी वाडल्यो सरळ। ना वयर फळ, भितर पोकळ। वा गळ्या थानां जीं हुमकळऽ। बोकडेचीं।७४। तशें मुर्खाचें तें जिणें। धिक्कार, कर्मतायेचें करणें। जशें देणें ना घेणें। सांवरी-बोंडांचें।७५। मगे जें कितें ते शिकले। तें माकडान नाल्ल तोडले। वा कुड्ड्यां हातीं पडले। मोतयां अळंकार जशे;।७६। चड कित्याक; तांचें शास्त्र। जशें बालिके हातीं दिल्लें शस्त्र। वा अशुचिर्भुता सांगिल्लो मंत्र। बीजासयत[३४]।७७। तशें तांचें सगलें ज्ञान। वा कसलेंय आचरण। तें वायां वता पूर्ण। अथीर चित्तान।७८। अशी तमगुणाची राकेशी। जी सद्बुद्दीक ग्राशी। जी विवेका ठाव पुशी। निशाचरी[३५]।७९। ते पडले प्रकृतीमाये तावडींत। चित्ताचीं कुसकुटां जायत। गेले पोल्यां वटयां तोंडांत। तामशी राकेशीच्या।१८०। जंय[३६] आशेचे लाळेंत। वळवळटा हिंसे जीब। वांगडा चाबडायत। चोथो असंतोशाचो।८१। जी[३७] अनर्थाच्या कानावयरी। वाळवो चाटीत सरता भायरी। जी दोश पर्वतांतले दरींमदीं। भोंवता मस्त मातिल्ली।८२। तिच्यो दाडो द्वेशरुपी। कचाकच ज्ञाना चुराडो करी। जी स्थूळ बुद्दीच्या मुर्खां करी। अगस्तीची गिंवसण[३८] जशी।८३।

ऐसे आसुरिया प्रकृतीचां तोंडीं। जे जाले गा भूतोंडीं। ते बुडोनि गेले कुंडीं। व्यामोहाचां।८४। एवं तमाचिये पडिले गर्ते। न पविजतीचि विचाराचेनि हातें। हें असो ते गेले जेथें। ते शुद्धीचि नाहीं।८५। म्हणोनि असोतु इयें वायाणीं। कायशीं मूर्खाचीं बोलणीं। वायां वाढवितां वाणी। शिणेल हन।८६। ऐसें बोलिलें देवें। तेथ जी म्हणितलें पांडवें। आइकें जेथ वाचा विसवे। ते साधुकथा।८७।

**महात्मानस्तु मां पार्थ दैवीं प्रकृतिमाश्रिता:। भजन्त्यनन्यमनसो ज्ञात्वा भूतादिमव्ययम् ॥१३॥**

तरी जयांचिये चोखटे मानसीं। मी होऊनि असें क्षेत्रसंन्यासी। जयां निजेलियांतें उपासी। वैराग्य गा।८८। जयांचिया आस्थेचिया सद्भावा। आंतु धर्म करी राणिवा। जयांचें मन ओलावा। विवेकासी।८९। जे ज्ञानगंगे नाहाले। पूर्णता जेऊनि धाले। जे शांतीसि आले। पालव नवे।१९०। जे परिणामा निघाले कोंभ। जे धैर्यमंडपाचे स्तंभ। जे आनंदसमुद्रीं कुंभ। चुबकळोनि भरिले।९१। जयां भक्तीची येतुली प्राप्ती। जे कैवल्यातें परौतें सर म्हणती। जयांचिये लीलेमाजीं नीति। जियाली दिसे।९२। जे आघवांचि करणीं। लेइले शांतीची लेणीं। जयांचें चित्त गवसणी। व्यापका मज।९३। ऐसे जे महानुभाव। जे दैविये प्रकृतीचें दैव। जे जाणोनियां सर्व। स्वरूप माझें।९४। मग वाढतेनि प्रेमें। मातें भजती जे महात्मे। परि दुजेपण मनोधर्मे। शिवतलें नाहीं।९५। ऐसें मीच होऊनि पांडवा। करिती माझी सेवा। परि नवलावो तो सांगावा। असे आइक।९६।

**सततं कीर्तयन्तो मां यतन्तश्च दृढव्रता:। नमस्यन्तश्च मां भक्त्या नित्ययुक्ता उपासते ॥१४॥**

तरी कीर्तनाचेनि नटनाचें। नाशिले व्यवसाय प्रायश्चित्तांचे। जे नामचि नाहीं पापाचें। ऐसें केलें।९७। यमदमा अवकळा आणिली। तीर्थें ठायावरूनि उठविली। यमलोकींची खुंटिली। राहाटी आघवी।९८। यमु म्हणे काय यमावें। दमु म्हणे कवणातें दमावें। तीर्थें म्हणती काय खावें। दोष ओखदासि नाहीं।९९। ऐसे माझेनि नामघोषें। नाहीं करिती विश्वाचीं दु:खें। अवघें जगचि महासुखें। दुमदुमित भरलें।२००। ते पाहांटेवीण पाहावित। अमृतेंवीण जीववित। योगेंवीण दावित। कैवल्य डोळां।१। परी रायारंका पाड धरूं। नेणती सानेयां थोरां कडसणी करूं। एकसरें आनंदाचें आवारु। होत जगा।२। कहीं एकाधेनि वैकुंठा जावें। तें तिहीं वैकुंठचि केलें आघवें। ऐसें नामघोषगौरवें। धवळलें विश्व।३। तेजें सूर्य तैसे सोज्वळ। परि तोहि अस्तवे हें किडाळ। चंद्र संपूर्ण एखादे वेळ। हे सदा पुरते।४। मेघ उदार परी वोसरे। म्हणऊनि उपमेसी न पुरे। हे नि:शंकपणें सपांखरे। पंचानन।५। जयांचे वाचेपुढां भोजे। नाम नाचत असे माझें। जें जन्मसहस्त्रीं वोळगिजे। एकवेळ मुखासि यावया।६। तो मी वैकुंठीं नसें। एक वेळ भानुबिंबींही न दिसें। वरी योगियांचींही मानसें। उमरडोनि जाय।७। परी तयांपाशीं पांडवा। मी हारपला गिंवसावा। जेथ नामघोषु बरवा। करिती ते माझे।८। कैसे माझां गुणीं धाले। देशकाळातें विसरले। कीर्तनसुखें झाले। आपणपांचि।९। कृष्ण विष्णु हरि गोविंद। या नामाचे निखळ प्रबंध। माजी आत्मचर्चा विशद। उदंड गाती।२१०। हें बहु असो यापरी। कीर्तित मातें अवधारीं। एक विचरती चराचरीं। पांडुकुमरा।११। मग आणिक ते अर्जुना। साविया बहुवा जतना। पंचप्राणा मना। पाढाऊ घेउनी।१२। बाहेरी यमनियमांची कांटी लाविली। आंतु वज्रासनाची पौळी पन्नासिली। वरी प्राणायामांचीं मांडिलीं। वाहातीं यंत्रें।१३। तेथ उल्हाटशक्तीचेनि उजिवडें। मनपवनाचेनि सुरवाडें। सतरावियेचें पाणियाडें। बळियाविलें।१४। तेव्हां प्रत्याहारें ख्याति केली। विकारांची संपिली बोहली। इंद्रियें बांधोनि आणिलीं। हृदयाआंतु।१५। तंव धारणावारू दाटिले। महाभूतांतें एकवटिलें। मग चतुरंग सैन्य निवटिलें। संकल्पाचें।१६। तयावरी जैत रे जैत। म्हणोनि ध्यानाचें निशाण वाजत। दिसे तन्मयाचें झळकत। एकछत्र।१७। पाटीं समाधिश्रियेचा अशेखा। आत्मानुभवराज्यसुखा। पट्टाभिषेकु देखां। समरसें जाहला।१८। ऐसें हें गहन। अर्जुना माझें भजन। आतां एकें सांगेन। जे करिती एक।१९।

---

**अर्थ:** (३९) सेवा करी. (४०) जे महात्मे. (४१) व्यापून उडयता. (४२) मनाचो निग्रह. (४३) इंद्रियांचो निग्रह. (४४) अश्टांगयोगावीण. (४५) इंद्रियां विशयांकडसून फाटीं ओडप. (४६) मन-बुद्दी-चित्त-अहंकार हांचें सैन्य. (४७) ब्रह्माकडेन एकरूपतायेची.

अशे आसुरी प्रकृतीचे तोंडीं। भुताचे उंडयेवरी पडटी। ते बुडून गेले कोंडीं। अज्ञानभ्रांतीचे।८४। तमगुणाचे पडले खळयेंत। तांकां विचाराचे हात मेळनात। हें आसूं, ते जंय वतात। ताचो मेळना थावूच।८५। मुर्खांचें हें वर्णन। वायफळ आसा म्हणून। वोगीच हें वाडोवन। कित्या शिणोवची वाणी।८६। असो उलयलो देव। तावळी ''हें खरेंच गा'' म्हणी पांडव। ''आयक, जंय वाणी विसावऽ। ती साधुकथा।८७।

**म्हात्मे वृत्तीनु दैवी जे पुजी म्हाकाच ते सदीं। जाणूनु हांवु सृश्टीचें शाश्वतु मूळ कारणु ॥१३॥**

जाच्या चोख मानसीं। हांव जावन रावी क्षेत्रसंन्याशी। ते न्हिदले तरी उपासी[३९]। वैराग्य जांकां।८८। तांचे सद्वासनेंत। धर्म करी राज्य। जांचें मन दिता ओल। विवेकाक।८९। जे[४०] ज्ञानगंगेंत न्हाले। पूर्णताय जेवन धादोसले। जणूं शांती वालीक फुटले। कोंभ नवे;।१९०। जे पूर्ण अवस्थेक फुटिल्ले कोंभ। जे धिरा माटवाचे खांब। जे आनंद सांगरीं कुंभ। बुडोवन भरिल्ले।९१। जांकां भक्तीची इतली प्राप्ती। जे मोक्षा म्हणटी ''सर फाटीं''। जांच्या सहज आचरणीं निती। दिसऽ जियेल्ली।९२। सगल्यां इंद्रियांचेर जांणी। घालीं शांतिकायेचीं लेणीं। जांचें चित्त घाली ओडणी[४१]। व्यापका म्हाका।९३। अश्या म्हात्म्यांचो व्हड अणभव। नि जे दैवी प्रकृतीचें सुदैव। जांणी जाणून हें सर्व। स्वरूप म्हजेंच;।९४। मगे वाडट्या प्रेमान। ते करी म्हजें भजन। पूण तांचें मन। आफडिना द्वैतभावा।९५। असो हांवूच जावन, पांडवा। ते करी म्हजी सेवा। तिची नवलाय आतां। सांगतां तुका।९६।

**म्हगेल्या किर्तनान नित्य निश्चयी यत्नशीळ गा। नित्य ध्यानांतु वंदूनू म्हाका भक्तीनु ते पुजी ॥१४॥**

**भगवद्भक्त:** कीर्तनीं रंगले नाचले। प्रायश्चितां वेपारं सल्ले। पातकां नांवूच ना जालें। अशें केलें तांणी।९७। यम[४२]-दमाक[४३] अवकळा हाडली। तीर्थां ठावावेल्यान उठयलीं। यमलोकींचीं सल्लीं। येणीं-वचणीं।९८। यम म्हणी कितें आवरचें। दम म्हणी कितें दमन करचें। तीर्थां म्हणी कसले म्हेळ धुवचे। नुल्लें वखदाक दोश।९९। अश्या म्हज्या नामगजरानु। विश्वाचीं दुःखां गेलीं सर्नु। सगलें जग ब्रह्मसुखानु। गेलें भर्नु।२००। ते फांत्यावीण दीस उजवाडायता। अमृतावीण जिवीत दिता। योगावीण[४४] दाखयता। कैवल्य दोळ्यांक।२०१। पूण राव रंकांत मानिनात अंतर। आफुडना सान थोर हो विचार। आनंदाचें जाता कुळार। सर्वय जगा।२। केन्नाय एकाद्र्यान वैकुंठा वचचेलें। तांणी वैकुंठच केलें सगलें। अशें नामघोशा व्हडविकेन लक्क केलें। विश्व सगलें।३। सूर्य लखलखता तेजान। पूण अस्तमता, हेंच ताचें उणेंपण। एकूच फावटीं चंद्र पूर्ण। हे पूर्ण सदींच।४। मेघ उदार, झडटां जाता आसर। म्हूण करूं येना सर। निश्चीत तांचे कृपे ना पार। ते शींवूच खरे।५। आवडीन वाचे फुडें जांचे। नाम नाचता म्हजें। एकवेळ मुखीं येवचें। तर पुण्याय लागऽ सहस्त्र जल्मांची।६। तो हांव नासतां एकवेळ वैकुंठांत। घडये दिसनाय सूर्य बिंबांत। वयल्यान योग्याचींय मनां हुपून। वतां पेल्यान;।७। पूण तांचे सरींच गावतलों। जो हरशीं हांव शेणिल्लों। जंय नामघोश चलिल्लो। आसता बरो।८। कशे म्हज्या गुणीं धादुसले। स्थळकाळाकु विसल्ले। कीर्तनीं सुखी जाले। आपलेच ठांय।९। ''कृष्ण विष्णु हरि गोविंद''। ह्या नामांचे निखळ प्रबंध। म्हजी आध्यात्मचर्चा उदंड। गायती जे।२१०।

**अश्टांग योगाचें वर्णन:** आसूं हो विस्तार, हे भाशेन। म्हजे गूण गायत तरांतरेन। संचारती चराचरीं कांय जाण। पांडुकुंवरा।११। आसात कांय आनीक। अर्जुना, म्हजे उपासक। जे जतनायेन पंचप्राण मनाक। घेतात वाटाडे।१२। यम नियमांची लावंची कांटये वंय भायर। भितर वज्रासना तट तयार। प्राणायामाच्यो ताचे वयर। लायल्यो तोफो।१३। थंय कुंडलिनीच्या उजवाडान। मन, प्राणवायुच्या पालवान। चंद्रामृताचें तळें परिपूर्ण। बळकायलें।१४। तंव प्रत्याहारान[४५] शिकस्त केली। विकारांची भास सोंपली। इंद्रियां बांदून हाडलीं। हृदयांतु।१५। तेन्नाच धारणारुपी स्वार उधळून। पंचमहाभूतांचो लय करून। उडयलें चतुरंग सैन्य[४६] मारून। संकल्पाचें।१६। मगे ''जैत रे जैत। अशी वाजऽ ध्यानानौबत। तन्मयाची[४७] फुलयत। सत्री।१७। मगे समाधीलक्ष्मीचो। आत्मानुभवा पूर्ण राज्यसुखाचो। समरसतायेन तांकां जालो। राज्याभिशेक ।१८। अशें अर्जुना हें गहन। म्हजें अश्टांगयोगाचें भज़न। आतां आयक, सांगन। जे करती हेर आनीक।१९।

तरी दोन्ही पालववेरी। जैसा एक तंतू अंबरीं। तैसा मीवांचूनि चराचरीं। जाणती ना।२२०। आदि ब्रह्मा करूनी। शेवटीं मशक धरूनी। माजी समस्त हें जाणोनी। स्वरूप माझें।२१। मग वाड धाकुटें न म्हणती। सजीव निर्जीव नेणती। देखिलिये वस्तू उजू लुंठीती। मीचि म्हणोनि।२२। आपुलें उत्तमत्त्व नाठवे। पुढील योग्यायोग्य नेणवे। एकसरें व्यक्तिमात्राचेनि नांवें। नमूंचि आवडे।२३। जैसें उंचीं उदक पडिलें। तें तळवटवरी ये उगेलें। तैसें नमिजे भूतजात देखिलें। ऐसा स्वभावोचि तयांचा।२४। कां फळलिया तरूची शाखा। सहजें भूमीसी उतरे देखा। तैसें जीवमात्रां अशेखां। खालावती ते।२५। अखंड अगर्वता होऊनि असती। तयांतें विनवो हेचि संपत्ती। जे जयजयमंत्रें अर्पिती। माझांचि ठायीं।२६। नमितां मानाभिमान गळाले। म्हणोनि अवचितें ते मीचि जहाले। ऐसे निरंतर मिसळले। उपासिती।२७। अर्जुना हे गुरुवी भक्ती। सांगितली तुजप्रती। आतां ज्ञानयज्ञें यजिती। ते भक्त आइकें।२८। परि भजन करिती हातवटी। तूं जाणत आहासि किरीटी। जे मागां इया गोष्टी। केलिया आम्हीं।२९। तंव आथि जी अर्जुन म्हणे। तें दैविकिया प्रसादाचें करणें। तरि काय अमृताचें आरोगणें। पुरे म्हणवे।२३०। या बोला अनंतें। लागटा देखिलें तयातें। कीं सुखावलेनि चित्तें। डोलतु असे।३१। म्हणे भलें केलें पार्था। एऱ्हवीं हा अनवसरु सर्वथा। परि बोलवीतसे आस्था। तुझी मातें।३२। तंव अर्जुन म्हणे हें कायी। चकोरेंवीण चांदिणेंचि नाहीं। जग निवविजे हा तयांचा ठायीं। स्वभावो कीं जी।३३। येरें चकोरें तियें आपुलिये चाडे। चांचू करिती चंद्राकडे। तेविं आम्ही विनवूं तें थोकडे। देवो कृपासिंधु।३४। जी मेघ आपुलिये प्रौढी। जगाची आर्ति दवडी। वांचूनि चातकाची ताहान केवढी। तो वर्षावो पाहुनी।३५। परि चुळा एकाचिया चाडे। जेविं गंगेतेंचि ठाकावें पडे। तेंविं आर्त बहु कां थोडें। तरि सांगावें देवा।३६। तेथें देवें म्हणितलें राहें। जो संतोषु आम्हां जाहला आहे। तयावरी स्तुति साहे। ऐसें उरलें नाहीं।३७। पैं परिसतु आहासि निकियापरी। तेंचि वक्तृत्वा वऱ्हाडीक करी। ऐसें पुरस्करोनि श्रीहरी। आदरिलें बोलों।३८।

**ज्ञानयज्ञेन चाप्यन्ये यजन्तो मामुपासते। एकत्वेन पृथक्त्वेन बहुधा विश्वतोमुखम् ॥१५॥**

तरी ज्ञानयज्ञु तो एवंरूपु। तेथ आदिसंकल्पु हा यूपु। महाभूतें मंडपु। भेदु तो पशु।३९। मग पांचांचे जे विशेष गुण। अथवा इंद्रियें आणि प्राण। हेचि यज्ञोपचारभरण। अज्ञान घृत।२४०। तेथ मनबुद्धीचिया कुंडा-। आंतु ज्ञानाग्नि धडफुडा। साम्य तेचि सुहाडा। वेदि जाणें।४१। सविवेकमतिपाटव। तेचि मंत्रविद्यागौरव। शांति स्रुक्स्रुव। जीव यज्वा।४२। तो प्रतीतीचेनि पात्रें। विवेकमहामंत्रें। ज्ञानाग्निहोत्रें। भेदु नाशी।४३। तेथ अज्ञान सरोनि जाये। आणि यजिता यजन हें ठाये। आत्मसमरसीं न्हाये। अवभृथीं जेव्हां।४४। तेव्हां भूतें विषय करणें। हें वेगळालें कांहीं न म्हणे। आघवें एकचि ऐसें जाणे। आत्मबुद्धि।४५। जैसा चेइला तो अर्जुना। म्हणे स्वप्नींची हें विचित्र सेना। मीचि जाहालों होतों ना। निद्रावशें।४६। आतां सेना ते सेना नव्हे। हें मीच एक आघवें। ऐसें एकत्वें मानवे। विश्व तया।४७। मग तो जीवु हे भाष सरे। आब्रह्म परमात्मबोधें भरे। ऐसे भजती ज्ञानाध्वरें। एकत्वें येणें।४८। अथवा अनादि हें अनेक। जें अनासारिखें एका एक। आणि नामरूपादिक। तेंही विषम।४९। म्हणोनि विश्व भिन्न। परि न भेदे तयांचें ज्ञान। जैसे अवयव तरी आन आन। परि एकेचि देहींचे।२५०। कां शाखा सानिया थोरा। परि आहाति एकाचिये तरुवरा। बहु रश्मि परि दिनकरा। एकाचे जेवीं।५१। तेविं नानाविधा व्यक्ती। आनानें नामें आनानी वृत्ती। ऐसें जाणती भेदलां भूतीं। अभेदा मातें।५२। येणें वेगळालेपणें पांडवा। करिती ज्ञानयज्ञु बरवा। जे न भेदती जाणिवा। जाणते म्हणउनी।५३। ना तरी जेधवां जिये ठायीं। देखती कां जें जें कांहीं। तें मीवांचूनि नाहीं। ऐसाचि बोधु।५४।

---

**अर्थः** (४८) चवथ्या अध्यायांत, श्लोक ३ ते ४२ मेरेन. (४९) यज्ञबळी पशु बांदचो खांब.
(५०) 'अहं बहु स्याम प्रजायेय' हो ब्रह्माचो भोव जावपाचो आदी संकल्प. (५१) जीव-ईश्वर भेद.
(५२) पंचमहाभूतांचे शब्दादी गूण. (५३) धा इंद्रियां. (५४) पंचप्राण. (५५) ब्रह्माविशीं अज्ञान.
(५६) सुखदुःखाविशीं समदिश्टी. (५७) आत्मअनात्म विवेक करचेली बुद्दी. (५८) जीव-ईश्वरामदलें द्वैत.
(५९) यज्ञसमाप्तीचें निमाणें न्हाण. (६०) सूर्य. (६१) ब्रह्मज्ञानांत.

जसो शेकान शेक दोनूय पदरांत। पातळ्ळा एकूच धागो त्या वस्त्रांत। तसो म्हजे शिवाय ते जाणिनात। दुसऱ्याक।**२२०**।

**नमन भक्ती:** आदीब्रह्मो धरूनु। शेंकीं मुसका मेरेनु। मदीं समस्त जाणूनु। स्वरूप म्हजें;।२१। मगे व्हड धाकलें म्हणिनात। सजीव निर्जीव नेणात। देखिल्ली वस्तू वंदितात। हांवूच म्हणून।२२। आपलें व्हडपण विसरून। फुडल्याची योग्य-अयोग्यताय देखलेवीण। सगल्यां फुडें घालती लोटांगण। म्हाका आवडीन।२३। जशें उंचाटीवेलें उदक। आपशींच येता तळाक। तशें नमुचें पळेल्ल्या भूतमात्रांक। जाता सभावूच तांचो।२४। वा पळय; जसो रुखा खांदो फळाभारान। अचळय तेंकता भुंयेर लकून। तशे सगल्यांमुखार नमळायेन। ते बागयतात तकली।२५। गर्वा विरयत सदीं आसती। विनय हीच तांची संपत्ती। ती 'जय जय' मंत्रान ओंपती। म्हजेच ठांयीं।२६। नमिल्ल्यान मान अपमान गळ्ळे। म्हणून अवचीत हांवूच जाले। अशे निरंतर म्हज्यांत समरसले। पुजतात म्हाकाच।२७। अर्जुना ही व्हडली भक्ती। तुका हांवें सांगली। आतां ज्ञानयज्ञान जे भजती। आयक, तांचे विशीं।२८। तांच्या भजनाची हातवटी। तूं जाणाच गा किरीटी। त्यो गजाली गा फाटीं[४८]। केल्यो आमी।२९।

**अर्जुनाची उत्कंठा:** तंव, ''हय गा धनया'' अर्जुन म्हणी। ती देवा प्रसादा करणी। पूण अमृता मेजवानी। म्हणूं येत पुरो?।**२३०**। ह्या उतरांनी कृष्णाक। गमलें तो हुतहुतला आयकूंक। नि कृष्ण लागलो धोलूंक। सुखावल्ल्या चित्तान।३१। म्हळें बरें केलें पार्था। हें भौन सांगचेलें न्हय आतां। पूण उलोवंक लाय आस्था। तुजी म्हाका।३२। तंव अर्जुन म्हणी हें कितें उलोवणें?। चकोरा शिवाय पडचें ना चान्नें। सगल्या जगा न्हिवय चान्नें। आगा, ताचो सभावूच तो;।३३। ते चकोर आपले गरजे पासत। चंद्राकडेन चोंच वळयतात। तसो हांव मात्शें विनयन। देवा, तूं कुर्पेसिंधु।३४। मेघ आपले तांकीन। पयस करी जगा तान। पळेशी तो वर्शाव, चातका तान। कितली सान?।३५। पूण घेवंक चूळभरय उदक। जशें न्हंये धडेर जाय वचूंक। तशें आयकुची इत्सा थोडी वा अदीक। तरी सांगचें देवान।३६। तेन्ना देवान म्हळें अर्जुनाक। आतां राव, नाका चड उलोवंक। जालो संतोश मनाक। तुजी तुस्त सोसूं नज।३७। तूं आयकता लक्ष दिवन। तोच उलोवपाचो पावणार। अर्जुनाक असो तोखेवन। श्रीहरी फुडें उलयलो।३८।

**विश्वव्यापी अश्या म्हाका ज्ञानु यज्ञानु कांय पुजी। भेदु-अभेदु भावान् कांय भौ तरांनी उपासती ॥१५॥**

**ज्ञानयज्ञ:** तर ज्ञानयज्ञाचें अशें रूप। यज्ञा खांब[४९] हो आदी संकल्प[५०]। पंचमहाभूतां हो यज्ञमंडप। नि द्वैत[५१] हो पशू।३९। मगे पांचाचे[५२] जे विशेश गूण। वा इंद्रियां[५३] नि प्राण[५४]। हीच यज्ञसामग्री जाण। नि अज्ञान[५५] हें तूप।**२४०**। थंय मन बुद्दी हीं कुंडां दोन। ज्ञान उजो पेटिल्लो तातूंत। इश्टा, समताय[५६] जाण। वेदी यज्ञाची।४१। विवेकबुद्दीची[५७] कुशळायु। ही विद्येची सोबितायु। हवनपळी पात्रां होच संयमु। जीवु याज्ञीक।४२। तो अणभवाच्या आयदनांनी। विवेकाच्या महामंत्रांनी। ज्ञानाच्या होमांत दी। द्वैतांची[५८] आहुती।४३। मगे सरता अज्ञान। उरना यज्ञक्रिया, येजमान। नि करी अवभृतन्हाण[५९]। जीव आत्म्याच्या एकचारान।४४। तंव म्हाभूतां, विशय, इंद्रियां हीं सगलीं। म्हणिना तो तीं आसात वेगळीं। तो जाणटा तीं एकूच सगलीं। आत्मबुद्दीन।४५। जसो कोण जागो जातां अर्जुना। म्हणी सपनांतली ती विचित्र सेना-। हांवूच जाल्लों न्हय ती सेना। न्हिदे लागून?।४६। तर सेना ती सेना नासता। हें अवघें हांवूच आसतां। अशें एकरूप भासता। विश्व ताका।४७। मगे हांव जीव ही भास सरता। परमात्म्या बोधान भर्न ब्रह्मत्वा पावता। अशे परी ज्ञान यज्ञान भजता। ह्या एक भावान।४८। वा हेर कांय मानती अनादी हें अनेक। एका सारकें ना एक। आनी नामरुपादिकांक-। लागून दिसऽ भिन्न।४९। म्हूण विश्व जरी भिन्न। पूण भिन्न जायना ताचें ज्ञान। जशे अवेव जरी भिन्न। पूण एकाच देहाचे;।**२५०**। वा खांदयो सान थोर। पूण आसात एकाच रुखार। भोव किर्णां, पूण दिनकर[६०]। एकूच जसो;।५१। तश्यो तरतरांच्यो व्यक्ती। विंगड नांवां, विंगड वृत्ती। अश्या भिन्न भिन्न भूतांमदीं। अभिन्न म्हाका जाणती।५२। अशे परी जीव वेगळे समजून। ते करी बेस बरो ज्ञानयज्ञ। ते ज्ञानी आशिल्ल्यान ज्ञानांत[६१]। करिनात भेदभाव।५३। कारण ज्या वेळार ज्या ठिकाणीं। पळेती जें जें हे भक्त ज्ञानी। म्हजे शिवायं ना कांय हो तांणी। घेतला बोध।५४।

पाहें पां बुडबुडा जेउता जाये। तेउतें जळचि एक तया आहे। मग विरे अथवा राहे। तऱ्ही जळाचिमाजि।५५। कां पवनें परमाणु उचलले। ते पृथ्वीपणावेगळे नाहीं गेले। आणि माघौतें जरी पडले। तरी पृथ्वीचिवरी।५६। तैसें भलतेथ भलतेणें भावें। भलतेंही न हो अथवा होआवें। परि तें मी ऐसें आघवें। होऊनि ठेलें।५७। अगा हे जेव्हडी माझी व्याप्ति। तेव्हढीचि तयांचि प्रतीति। ऐसे बहुधाकारीं वर्तती। बहुचि होउनि।५८। हें भानुबिंब आवडे तया। सन्मुख जैसें धनंजया। तैसें ते विश्वा या। समोर सदा।५९। अगा तयांचिया ज्ञाना। पाठीपोट नाहीं अर्जुना। वायु जैसा गगना। सर्वांगीं असे।**२६०**। तैसा मी जेतुला आघवा। तेंचि तुक तयांचिया सद्भावा। तरी न करितां पांडवा। भजन जहालें।६१। एऱ्हवीं तरी सकळ मीचि आहें। तरी कवणीं कें उपासिला नोहें। एथ एकें जाणणेनविण ठाये। अप्राप्तासी।६२। परि तें असो येणें उचितें। ज्ञानयज्ञें यजितसांते। उपासिती मातें। ते सांगितले।६३। अखंड सकळ हें सकळां मुखीं। सहज अर्पत असे मज एकीं। की नेणणेयासाठीं मूर्खीं। न पविजेचि मातें।६४।

**अहं क्रतुरहं यज्ञ: स्वधाहमहमौषधम्। मन्त्रोऽहमहमेवाज्यमहमग्निरहं हुतम् ॥१६॥**

तोचि जाणिवेचा उदयो जरी होये। तरी मुदल वेदु मीचि आहें। आणि तो विधानातें जया विये। तो क्रतुही मीचि।६५। मग तया कर्मापासूनि बरवा। जो सांगोपांगु आघवा। यज्ञु प्रगटे पांडवा। तोही मी गा।६६। स्वाहा मी स्वधा। सोमादि औषधी विविधा। आज्य मी समिधा। मंत्रु मी हवि।६७। होता मी हवन कीजे। तेथ अग्नि तो स्वरूप माझें। आणि हुतक वस्तू जें जें। तेही मीचि।६८।

**पिताहमस्य जगतो माता धाता पितामह:। वेद्यं पवित्रमोङ्कार ऋक्साम यजुरेव च ॥१७॥**

पैं जयाचेनि अंगसंगें। इये प्रकृतीस्तव अष्टांगें। जन्म पाविजत असे जगें। तो पिता मी गा।६९। अर्धनारीनटेश्वरीं। जो पुरुष तोचि नारी। तेविं मी चराचरीं। माताही होय।**२७०**। आणि जाहलें जग जेथ राहे। जेणें जित वाढत आहे। तें मीचि वाचूनि नोहे। आन निरुतें।७१। इयें प्रकृतिपुरुषें दोन्ही। उपजलीं जयाचिया अमनमनीं। तो पितामह त्रिभुवनीं। विश्वाचा मी।७२। आणि आघवेयां जाणयेयांचिया वाटा। जया गांवा येती गा सुभटा। जे वेदांचियां चोहटां। वेद्य जें म्हणिजे।७३। जेथ नाना मतां बुझावणी जाहाली। एकमेकां शास्त्रांची अनोळखी फिटली। चुकलीं ज्ञानें जेथ मिळों आलीं। जें पवित्र म्हणिजे।७४। पैं ब्रह्मबीजा जाहला अंकुरु। घोषध्वनीनादाकारु। तयांचें गा भुवन जो ॐकारु। तोही मी गा।७५। जया ॐकाराचिये कुशी। अक्षरें होती अउमकारेंसीं। जियें उपजत वेदेंसीं। उठलीं तिन्हीं।७६। म्हणोनि ऋग्यजु:सामु। हे तिन्ही म्हणे मी आत्मरामु। एवं मीचि कुलक्रमु। शब्दब्रह्माचा।७७।

**गतिर्भर्ता प्रभु: साक्षी निवास: शरणं सुहृत्। प्रभव: प्रलय: स्थानं निधानं बीजमव्ययम् ॥१८॥**

हें चराचर आंघवें। जिये प्रकृती आंत सांठवे। ते शिणली जेथ विसवे। ते परमगती मी।७८। आणि जयाचेनि प्रकृति जिये। जेणें अधिष्ठिली विश्व विये। जो येऊनि प्रकृती इये। गुणातें भोगी।७९। तो विश्वश्रियेचा भर्ता। मीचि गा पंडुसुता। मी गोसावी समस्ता। त्रैलोक्याचा।**२८०**। आकाशें सर्वत्र वसावें। वायूनें नावभरी उगें नसावें। पावकें दहावें। वर्षावें जळें।८१। पर्वतीं बैसका न संडावी। समुद्रीं रेखा नोलांडावी। पृथ्वीया भूतें वाहावीं। हे आज्ञा माझी।८२। म्यां बोलविल्या वेदु बोले। म्यां चालविल्या सुर्यू चाले। म्यां हालविल्या प्राणु हाले। जो जगातें चाळिता।८३। मियांचि नियमिलासांता। काळ ग्रासितसे भूतां। इयें म्हणियागतें पांडुसुता। सकळें जयाचीं।८४। ऐसा जो समर्थु। तो मी गजाचा नाथु। आणि गगनाऐसा साक्षिभूतु। तोहि मीचि।८५। इहीं नामरूपीं आघवा। जो भरला असे पांडवा। आणि नामरूपांहि वोल्हावा। आपणचि जो।८६।

**अर्थ:** (६२) परमात्मो. (६३) सर्वव्यापकताय. (६४) अणभव. (६५) देवांक दिवचें आहुतीचें अन्न.
(६६) पितरांक दिवचें आहुतीचें अन्न. (६७) यज्ञ करूंक नेमिल्लो ब्राह्मण. (६८) सहवास वा संपर्क. (६९) शिवाचे मुर्तींत.
(७०) आजो. (७१) आदीसंकल्परुपी ब्रह्मबीजाक. (७२) (वेद) परंपरा. (७३) वेदांचो. (७४) परम स्थान.

पळय, बुडबुडो जंय वता। थंय उदकूच एक ताका आसता। मगे विरता वा तसोच रावता। तरी उदकांतूच तो;।५५। वा वाऱ्यान धुल्लाकण हुबले। तांचें धर्तरिपण वेगळें ना जालें। पर्थून सकल जरी पडले। तरी भुंयेरूच।५६। तशें खंयु खंयचेय स्थितीन। कितेंय जावं वा ना घडुं वस्तुमात्राक। पूण तें तो जाणा अणभवान। सगलें हांवूच[६२]।५७। आगा ही जितली म्हजी व्याप्ती[६३]। तितलीच तांची प्रतीती[६४]। तरी ते भोव आकारांनी वावुरती। जावन मद्रूप ।५८। हें सूर्यबिंब सगल्यां पळेतल्यां। तांच्याच तोंडामुखार धनंजया। तशे ते विश्वाक ह्या। सदां फुडो कर्नु।५९। आगा तांच्या ज्ञाना। फाट पोट ना अर्जुना। वायु जसो गगना। आसता सर्वांगीं;।२६०। तसो हांवु जितलो पूर्ण। तितलें तांच्या अणभवा व्यापकपण। म्हूण केलेवीण भजन। आपशीं घडटा तें।६१। हरशीं तरी सगलें हांवूच आसतां। तर मगे म्हजी उपासना कोण थांबयता?। पूण पूर्ण ज्ञाना शिवाय खंय मेळटा। म्हजें स्वरूप?।६२।

**हांवु यज्ञ कृतू हांवु   श्राद्ध आनी वनस्पती। मंत्र नी तूप बी हांवु   हांवूच अग्नि आहुती ॥१६॥**

**ज्ञानोत्तर यज्ञ:** पूण आसूं हो विस्तार; असो उचीत। ज्ञानयज्ञान यज्ञ करीत। म्हजी जे उपासना करतात। हें सांगलें तांचे विशीं।६३। सगल्यांचें अखंड कर्म जें घडटा। तें सगलें म्हाकाच पावता। पूण नेणार मुर्खां हें खंय कळटा। म्हूण पावनात म्हज्या स्वरुपा।६४। तेंच ज्ञान जर उदेलें। तर मुदल वेद हांवूंच हें कळटलें। विधी अनुश्टानां यज्ञ जे सांगले। तेंय हांवूंच।६५। मगे त्या यज्ञकर्मां पसून बरेलो। जो आंगाउपांगांनी सगलो भरिल्लो। पार्था पूर्ण यज्ञ परगटलो। तोय गा हांवूंच।६६। देवां आहुती 'स्वाहा'[६५] हांव। स्वधा[६६] बी हांवूच।६७। तो ऋत्विज[६७] हांवूंच। तो अग्नी स्वरूप म्हजेंच। तांतलें हवन द्रव्य तेंय हांवूंच। पार्था, सगळें।६८।

**विश्वा आधारु हांवूच   आजो नि मायबापु बी। ओंकारु पवित्र जाणचेलो   ऋक् यजु सामवेद हांव ॥१७॥**

जाचो जातां अंगसंग[६८]। हे प्रकृती सवें अश्टांग। जल्मता हें जग। तो जगत् पिता गा हांवूंच।६९। अर्धनारी नटेश्वरीं[६९]। जो पुरुश, तोच नारी। तसो हांव चराचरीं। आवय बी हांव।२७०। नि जाल्लें जग ताका लागून तिगता। जाका लागून जिवीत वाडटा। तोय म्हजे शिवाय नासता। कोणूच दुसरो खऱ्यानीच ।७१। हीं प्रकृती पुरूष दोनी। जल्मलीं जाच्या मनविरयत मनीं। तो पितामह[७०] त्रिभुवनीं। विश्वाचो हांवूं।७२। ज्ञानाच्यो वाटो समस्त। शेकीं मेळ्ळ्यो ज्या गांवांत;। ज्या चव्हाट्यार चारय वेद जमतात। जें जाणचेलें;।७३। जंय तरतरां मतांची उमजणी जाली। शास्त्रांक परस्परांची वळख पटली। चुकिल्लीं दर्शनां जंय मेळ्ळीं। जें पवित्र, तेंय हांवूंच।७४। ब्रह्मबिजा[७१] फुटलो आंकुरू। घोश-ध्वनी-नादाकारू। ताचें भुवन जो ॐकारू। तोय हांवूंच गा।७५। त्या ॐकारा कुशीं। अक्षरां अ, उ, म अशीं। जीं तिनी वेदीं परगटलीं। जल्मासयत।७६। म्हणून ऋग्, यजु, सामु। हे तिनी वेद हांव म्हणी आत्मारामु। आनी हांवूंच कुळाक्रमु[७२]। शब्दब्रह्माचो[७३]।७७।

**साक्षी पोसपी प्रभू इश्ट   हांवु आसरो मठी गती। विसव निर्मुपी मारपी   कोटी बी अविनाशि हांव ॥१८॥**

ही चराचराची सृश्ट सगली। जे प्रकृतींत सांठवली। ती शिणून, जंय विसवली। ती परमगती[७४] हांवूंच।७८। म्हाका लागून जियेता प्रकृती। म्हज्या आधारान विश्व पसवता ती। हांव हे प्रकृतीच्या संगान भोगी। तिच्या गुणांक।७९। ते विश्वलक्ष्मीचो पती-। हांवूच गा किरीटी। म्हूण हांवूंच गा धनी। समस्त त्रैलोक्याचो।२८०।

**जगाचो साक्षी प्रभू:** आकाशान सर्वत्र रावचें। वाऱ्यान खिणय वोगी नासचें। उज्यानु जाळचें। वर्सुचें उदकान;।८१। बसका सोडची न्ही पर्वतानु। हुपची न्ही शीम समुद्रानु। जिवांभार सोंसचो पृथ्वीनु। ही आज्ञा म्हजी।८२। हांव उलय म्हळें, उलय वेद। हांव चल म्हळें चलता सूर्य। हांव हालऽ म्हणी, हालता प्राण। जो चलयी जग।८३। हांवूंच हुकूम सोडटां। काळ जिवांक भकता। म्हजेच सांगणेन चलता। तांचीं सगलीं कामां;।८४। असो जो समर्थ। तो हांव जगन्नाथ। आनी आकाशा वरी साक्षीभूत। तोय हांवूंच।८५। ह्या नामरूपान। जो रावला सर्वत्र भरून। आनी आधार आपूण। सगल्यां नामरुपांचो।८६।

जैसे जळाचे कल्लोळ। आणि कल्लोळीं आथी जळ। ऐसेनि वसवीतसे सकळ। तो निवासु मी।८७। जो मज होय अनन्य शरण। त्याचें निवारीं मी जन्ममरण। यालागीं शरणागता शरण्य। मीचि एकु।८८। मीचि एक अनेकपणें। वेगळालेनि प्रकृतीगुणें। जीत जगाचेनि प्राणें। वर्तत असें।८९। जैसा समुद्र थिल्लर न म्हणतां। भलतेथ बिंबे सविता। तैसा ब्रह्मादि सर्वां भूतां। सुहृद तो मी।२९०। मीचि गा पांडवा। या त्रिभुवनासि वोलावा। सृष्टिक्षयप्रभावा। मूळ तें मी।९१। बीज शाखांतें प्रसवे। मग तें रूखपण बीजीं सामावे। तैसें संकल्पें होय आघवें। पाठीं संकल्पीं मिळे।९२। ऐसें जगाचें बीज जो संकल्प। अव्यक्त वासनारूपु। तया कल्पांतीं जेथ निक्षेपु। होय तें मी।९३। इयें नामरूपें लोटती। वर्णव्यक्ती आटती। जातीचें भेद फिटती। जैं आकाश नाहीं।९४। तैं संकल्पु वासनासंस्कार। माघौतें रचवाया आकार। जेथ राहोनि असती अमर। तें निधान मी।९५।

**तपाम्यहमहं वर्षं निगृह्णाम्युत्सृजामि च। अमृतं चैव मृत्युश्च सदसच्चाहमर्जुन ॥१९॥**

मी सूर्याचेनि वेषें। तपें तैं हें शोषे। पाठीं इंद्र होऊनि वर्षें। तैं पुढती भरे।९६। अग्नि काष्ठें खाये। तें काष्ठचि अग्नि होये। तैसें मरतें मारितें पाहें। स्वरूप माझें।९७। यालागीं मृत्यूचां भागीं जें जें। तेंही पैं रूप माझें। आणि न मरतें तंव सहजें। अविनाशु मी।९८। आतां बहु बोलोनि सांगावें। तें एकिहेळां घे पां आघवें। तरी सतासतही जाणावें। मीचि पैं गा।९९। म्हणोनि अर्जुना मी नसें। ऐसा कवणु ठाव असे। परि प्राणियांचें दैव कैसें। जे न देखती मातें।३००। तरंग पाणियेंवीण सुकती। रश्मि वातीवीण न देखती। तैसे मीचि ते मी नव्हती। विस्मो देखें।१। हें आंतबाहेर मियां कोंदलें। जग निखिल माझेंचि वोतिलें। कीं कैसें कर्म तयां आलें। जें मींचि नाहीं म्हणती।२। परि अमृतकुहां पडिजे। कां आपणयातें कडिये काढिजे। ऐसें आथी काय कीजे। अप्राप्तासि।३। ग्रासा एका अन्नासाठीं। अंधु धांवताहे किरीटी। आडखला चिंतामणि पायें लोटी। आंधळेपणें।४। तैसें ज्ञान जैं सांडूनि जाये। तैं ऐसी हे दशा आहे। म्हणोनि कीजे तें केलें नोहे। ज्ञानेंवीण।५। आंधळेया गरुडाचे पांख आहाती। ते कवणा उपेगा जाती। तैसें सत्कर्माचे उपखे ठाती। ज्ञानेंवीण।६।

**त्रैविद्या मां सोमपाः पूतपापा यज्ञैरिष्ट्वा स्वर्गतिं प्रार्थयन्ते। ते पुण्यमासाद्य सुरेन्द्रलोकमश्नन्ति दिव्यान्दिवि देवभोगान् ॥२०॥**

देख पां गा किरीटी। आश्रमधर्माचिया राहाटी। विधिमार्गा कसवटी। जे आपणचि होती।७। यजन करितां कौतुकें। तिहीं वेदांचा माथा तुके। क्रिया फळेंसि उभी ठाके। पुढां जयां।८। ऐसे दीक्षित जे सोमप। जे आपणचि यज्ञाचें स्वरूप। तींहीं तया पुण्याचेनि नांवें पाप। जोडिलें देखें।९। जे श्रुतित्रयातें जाणोनि। शतवरी यज्ञ करूनि। यजिलिया मातें चुकोनि। स्वर्गु वरिती।३१०। जैसें कल्पतरूतळवटी। बैसोनि झोळिये पाडी गांठी। मग निदैव निघे किरीटी। दैन्यचि करूं।११। तैसे शतक्रतूं यजिलें मातें। कीं ईप्सिताति स्वर्गसुखांतें। आतां पुण्य किं हें निरुतें। पाप नोहे।१२। म्हणोनि मजवीण पाविजे स्वर्गु। तो अज्ञानाचा पुण्यमार्गु। ज्ञानिये तयातें उपसर्गु। हानि म्हणती।१३। एऱ्हवीं तरी नरकींचें दुःख। पावोनि स्वर्गा नाम कीं सुख। वांचूनि नित्यानंद गा निर्दोष।तें स्वरूप माझें।१४। मज येतां पैं सुभटा। या द्विविधा गा अव्हांटा। स्वर्गु नरकु या वाटा। चोरांचिया।१५। स्वर्गा पुण्यात्मकें पापें येईजे। पापात्मकें पापें नरका जाइजे। मग मातें जेणें पाविजे। तें शुद्ध पुण्य।१६। आणि मजचिमाजीं असतां। जेणें मी दूरी होय पांडुसुता। तें पुण्य ऐसें म्हणतां। जीभ न तुटे काई।१७। परि हें असो आतां प्रस्तुत। ऐकें यापरी ते दीक्षित। यजुनि मातें याचित। स्वर्गभोगु।१८। मग मी न पविजे ऐसें। जें पापरूप पुण्य असे। तेणें लाधलेनि सौरसें। स्वर्गा येती।१९।

---

**अर्थः** (७५) आसरो. (७६) गुप्त; सुक्षीम. (७७) अविनाशी. (७८) विनाशी.
(७९) म्हजें अस्तित्व मानिनात. (८०) उपद्रव; नाश.

जशीं ल्हारां जातात उदकांत। आनी उदक आसता ल्हारांत। तशें जो निवास ह्या जगा समस्त। तो हांवूंच।८७। जो म्हाका वता सामको शरण। ताचे निवारी हांव जन्म-मरण। म्हूण शरणागता[७५] शरण्य। हांवूंच एक।८८। हांव एकटो वेगळेपणान। म्हज्या सभावधर्मान। जगयी प्राण जावन। सगल्या प्राणीमात्रां।८९। जसो सुर्या म्हणिना हो दर्या, हें कोंड। घाली फ्डबिंब सगल्या उदकांत। तसो ब्रह्म्यादी सर्व जिवां इश्ट। हांव गा।२९०। हांवूच गा अर्जुना। आधार त्रिभुवना। सृश्टी उत्पत्ती लया। मूळ हांवूच।९१। बीज खांदयांक पसवता। तें रूखपण बियेंतु आसता। तशें संकल्पान अवघें जाता। मगे मेळटा संकल्पीं।९२। अशें जगा बीज जो संकल्पु। अव्यक्त[७६] वासनारुपु। तो कल्पान्ती जंय रावऽ सुक्ष्मरुपु। तें स्थान हांव।९३। हीं नामरुपां जंव सरतात। वर्ण, व्यक्ती लय पावतात। जातीभेद उरनात। आकारय उरना;।९४। तंव संकल्प, वासना, संस्कार। पर्थून रचूंक चराचर। जंय रावतात निरंतर। तें भांडार हांव।९५।

**घाली वोत उदका ओडी वर्शितां पावस हांवुचू। सत असत हांवूच अमृत मर्ण बी तशें॥१९॥**

हांव सुर्या रुपान तापयतां। तंव तळीं आटयतां। मगे इंद्र जावन वर्सतां। तेन्ना भरतां धर्तरी।९६। उजो जें लाकूड खायी। तें लाकुडूच उजो जायी। तशे मरता मारतले पळेयी। स्वरूप म्हजें।९७। म्हूण मर्णान घेरिल्लें जें जें। तेंयु गा रूप म्हजें। आनी मरना, अविनाशी जें,। तें तर हांवूंच।९८। आतां चड उलोवन जें सांगचें। तें एकदम सांगतां सगलें। तर सत्[७७] असत्[७८] जाणचें। हांवूंच गा।९९। म्हूण अर्जुना, हांव ना असलें। आसा गा ठिकाण कसलें?। पूण ह्या प्राण्यांचें दैवच असलें। ते चोयनात म्हाका।३००।

**अज्ञानाचो प्रभाव:** ल्हारां सुकचीं उदका विना। सूर्या किर्णां दिसचीं न्ही दिव्या विना। तशें म्हजींच हीं रुपां अर्जुना। नवल, नेणात म्हाका!।१। हें विश्व भायर भितर हांवेंच व्यापलें। हें सगलें म्हजेंच ओतिल्लें बावलें। पूण तांचें कर्म कशें आड आयलें। जें हांवूच ना म्हणटी[७९]।२। पूण अमृताचे बांयेंत पडचें। आपणेंच आपणां धडेर काडचें। अश्या नेणारां कितें म्हणचें। धनुर्धरा?।३। अन्ना एका गिरासा लागुनू। कुड्डो धांवतना गा अर्जुनु। चिंतामणी फांपरायलो पांयांनु। कुड्डेपणानु;।४। तशें ज्ञान सोडून वता। तेन्ना प्राण्यांची अशी दशा जाता। म्हूण ज्ञानावीण जें कर्म घडटा। तें ना केल्लेवरीच।५। पांखाटे कुड्ड्या गरुडाचे। ताका कसल्या कामाचे?। तशें ज्ञानाविणें सत्कर्माचे। स्रम वायां।६।

**सोम पियेवनु निश्पाप त्रिवेदी यज्ञ करतातु ते जोडूंकु सर्ग। इंद्रलोकिंचें पुण्य फळ मेळून भोगतातु देव-सुखां भौच बरीं थैं॥२०॥**

**पुण्यात्मक पाप:** पळय गा किरीटी। आश्रमधर्मान जे वर्तती। सदाचाराची कसवटी। जातात ते आपुणूच ;।७। जांची यजन क्रिया चोवन। तुश्टल्ले त्रिवेद धोलय मान। यज्ञक्रिये फळ मूर्त जावन। रावऽ उबें जांचे फुडें;।८। अशे सोम पिवपी यज्ञ करतले। आपुणूच यज्ञरूप जाले। तांणी पुण्या नांवान जोडलें। पाप पळय;।९। कित्या तिनय वेद शिकून। शेंकड्यांनी यज्ञ करून। पुजिल्ल्या त्या म्हाकाय विसरून। आंवडेती सर्गा।३१०। जशें कल्परुखा तळा बसून। झोळयेक गांठी मारून। मगे दुर्भागी वचऽ गा अर्जुन। भीक मागूंक;।११। तशें शतयज्ञांनी म्हाका पुजून। आनी सर्ग सूख इत्सून। तें अर्जुना, तांचें हें पुण्य। पाप कित्या म्हणचें न्हय?।१२। म्हूण म्हजेविणे लाभचो सर्ग। तो नेणारांचो पुण्य मार्ग। ज्ञानी ताका उपसर्ग[८०]। हानी म्हण्टी।१३। खरें म्हणशी, चोवन नरकांतलें दुःख। मानती सर्गाक सूख। हरशीं नित्य आनंद, निर्दोश सूख। हें स्वरूप म्हजें।१४। म्हजे प्राप्ती पासत। ह्यो दोन आडवाटो आसात। सर्ग, नरक ह्यो आसात। चोरांच्यो जाण।१५। पुण्य भरशिल्ल्या पापान सर्गा पावचें। निर्भेळ पापान नरका वचचें। नि म्हाका जाणें पावचें। तें शुद्ध पुण्य।१६। ज्या कर्मान म्हजेच ठांय आसतना। जाका लागून हांव दुरावतां अर्जुना। ताका पुण्य अशें म्हणटना। जीब झडचिना ?।१७। पूण आसूं; आतां आयक अर्जुना। ते करून यज्ञरुपी आराधना। ते दीक्षित म्हजी करून कामना। मागतात सर्गभोग।१८। मगे हांव मेळना जाका लागून। अशें जें पापरूप पुण्य। ते पावतात ताचे तांकीन। हौसेन स्वर्गाक।१९।

कांय अनावर, कांय प्रांजळ। कांय कश्टी, कांय निश्चळ। कांय उदास, कांय स्नेहाळ। कठोर कांय;।२५। कांय घाळ, कांय सावध। कांय उथळ, कांय अगाध। कांय उदार, कांय किरपण। रागीट कांय;।२६। कांय मदांध, कांय शांत। कांय वोग्गी, कांय खोशेंत। कांय मोने, कांय गाजतात। मोवाळ कांय;।२७। कांय आशेभगत, कांय विरक्त। कांय जागे, कांय न्हिदेस्त। कांय संतुश्ट, कांय दुखेस्त। प्रसन्न कांय;।२८। कांय नि:शस्त्र, कांय सशस्त्र। कांय खर, कांय मोगाळ मित्र। कांय भिरांकूळ, कांय चित्र, विचित्र। समाधींत कांय;।२९। कांय रमल्यां जननांत। कांय उत्सूक पालनांत। कांय नेटान सांवारतात। कांय तटस्थ गवाय;।१३०। अशीं तरांतरांचीं अगणीत। नि दिव्य तेजान लखलखीत।

**रंगांचें वेगळेंपण:** तांचे रंगय एकसारके नात। तेच परी;।३१। कांय तापिल्लीं भांगराभशेन तांबशीं। जायतीं रुपान आसलीं पिंगशीं। कांय सर्वांगी दिसलीं शेंदुरीशीं। जशें सांजे मळब।३२। कांय सहज रंगयाळीं सोबीत। जशीं ब्रह्मांडां माणकां भरीत। कांय केंसरी चकचकीत। फांत्यावरी तांबशीं, जांभळीं।३३। कांय फटिका वरी नितळ। कांय इंद्रनीळा वरी नील। कांय काळीं जणूं किट्ट काजळ। कांय रगता वर्णाचीं।३४। कांय लखलखती भांगरावरी पिवळीं। कांय नवमेघासम सांवळीं। कांय पिठ्ठ गोरशीं चांफ्या कळी। पांचवींचार कांय।३५। कांय तप्त तांबशीं। कांय चंद्रिमावरी धवशीं। म्हजीं रुपां तर्तरांचीं अशीं। देख रंगयाळीं।३६। हे जशे भिन्न भिन्न वर्ण। तशें आकारांचेंय वेगळेंपण। लजून मदन येवंचो शरण। तशें सुंदर एकेक;।३७। कांय सोबीत बरे आकार। कांय नितळ कांत छबीदार। कांय शिंगार लक्ष्मीचें भांडार। उगडिल्लें जशें।३८। कांय पुश्ट अवयव मांसाळ। कांय शुश्क अति विक्राळ। कांय दीर्घ कंठ, तकल्यो विशाल। विकटय कांय।३९। अश्यो तरेकवार आकृती। देखतां पार ना सुभद्रापती। आनी हांच्या एकेका आंगामदीं। देख सर्वय जग।१४०।

**मरूत रुद्र आदित्य अश्विनी नी वसू पळे । केन्ना देखूंकु ना आदीं तीं अचर्यां पळेच तूं ॥६॥**

म्हजी उगडट्टां दिश्टी। जाता आदित्य आदींची उत्पत्ती। फुडें मेट्टां दिश्टी। ते वती लया।४१। वाफो येतांच मुखांतल्यान। सगलें भरता जाळान पूर्ण। जातात उत्पन्न तांतुंतल्यान। अग्नी आदी अश्टवसु।४२। आनी भोंवयांचीं तोंकां वांकूड। रागान जंय एक जातात। थंय अवतार घेतात। रुद्रगणांचे मेळ।४३। सौम्यताये ओलीन। जातात अश्विनीदेव* अगणीत। आनी कानांतल्यान जल्मतात। वायु अनेक।४४। हे परी एकेका अवेवा लीळेंत। कुळां सूरसिद्धांचीं जातात। अशीं अपार आनी अनंत। देख हीं रुपां।४५। जीं वर्णूंक लुडबे वेदय। देखूंक काळाचेंय आयुश्य। आनी गावना विधात्याकय। थाव जांचो;।४६। जांकां देवत्रयी[४९] नायकती[५०]। म्हजीं भोव रुपां प्रत्यक्ष पळे तीं। उपभोगुंचो महासिद्धी। आनी लीला अजापांच्यो।४७।

**सगलेंच विश्व एकठांय पळे हांगा चराचर । म्हजे कुडींतु तूं चोय इत्सी पळोवंकु हेर तें ॥७॥**

हे मुर्तीचे किरीटी। रुंवांरुंवांतय देख सृश्टी। कल्परुखाचे तळीं। तणा आंकूर जशे;।४८। जशे बिणकेच्या[५१] किर्णांतु। उडिल्ले दिसती परमाणु[५२]। तशे दर अवेवाच्या सांदयांतु। दिसती ब्रह्मांडां भोंविल्लीं।४९। हांगा एकेका आंगांत। देख तूं विश्व समस्त। नि विश्वाचेय पेल्यान जर दिसत। पळोवचें आनीक।१५०। तर हे विशीं बी कांयु। हांगा देखूंक, ना उणें मातुयु। पळे तूं अचळय तुका जायतेंयु। म्हजे देहीं।५१। अशें विश्वरुपी श्रीकृष्णान। म्हळें ताका करुणेन। पळेशी तर राविल्लो तो अर्जुन। वोग्गी मोन्यानी।५२। असो हो कित्या सस्त बसलो। म्हूण श्रीकृष्ण चोवंक लागलो। तर तो पळोवंक आशेल्लो। विश्वरूप आदलेवरीच।५३।

**निजा तुज्याच दोळ्यांनी तुवें म्हाका पळोवं नजो । दोळे तुका दितां दिव्य ईश्वरी योग हो पळे॥८॥**

मगे म्हळें, उत्कंठेची सुकती जालीना। अजून सुखाची वाट गावली ना। पूण खरें, हांकां कळ्ळेंच ना। दाखयल्लें जें।५४। देव हांसलो हें उलोवन। त्या पळोवप्या[५३] म्हळें हांसून। हांवें विश्वरूप बरें दाखोवन। पूण तूं तें पळेच ना।५५। हें आयकून त्या विचक्षणान[५४]। हांगा अपराधी कोण?। तूं चान्नें बक्याकडल्यान। घेता चोखून।५६।

हां हो उटोनियां आरिसा। आंधळिया दाऊं बैसा। बहिरीयापुढें हृषीकेशा। गाणीव करा।५७। मकरंदकणाचा चारा। जाणत घालूनि दर्दुरा। वायां धाडा शार्ङ्गधरा। कोपा कवणा।५८। जें अतींद्रिय म्हणोनि व्यवस्थिलें। केवळ ज्ञानदृष्टीचिया विभाग फिटलें। तें तुहीं चर्मचक्षूंपुढें सूदलें। मी कैसेनि देखों।५९। परि हें तुमचें उणें न बोलावें। मीचि साहें तेंचि बरवें। एथ आधि म्हणितलें देवें। मानुं बापा।१६०। साच स्वरूप जरी आम्हीं दावावें। तरी आधीं देखावया सामर्थ्य कीं द्यावें। परि बोलत प्रेमभावें। धसाळ गेलों।६१। काय जाहलें न वाहतां भुई पेरिजे। तरी तो वेळु विलया जाइजे। तरी आतां माझें निजरूप देखिजे। ते दृष्टी देवों तुज।६२। मग तिया दृष्टी पांडवा। आमुचा ऐश्वर्ययोगु आघवा। देखोनियां अनुभवा। माजिवडा करीं।६३ ऐसें तेणें वेदांतवेद्यें। सकळलोकआद्यें। बोलिलें आराध्यें। जगाचेनि।६४।

*संजय उवाच:* **एवमुक्त्वा ततो राजन्महायोगेश्वरो हरि: । दर्शयामास पार्थाय परमं रूपमैश्वरम् ॥९॥**

पैं कौरवकुळचक्रवर्ती। मज हाचि विस्मयो पुढतपुढती। जे श्रियेहूनि त्रिजगतीं। सदैव असे कवणी।६५। ना तरी खुणेचें वानावयालागीं। श्रुतीवांचूनि दावा पां जगीं। ना सेवकपण तरी अंगीं। शेषाचांचि आथि।६६। हां हो जयाचेनि सोसें। शिणत आठही पाहार योगी जैसे। अनुसरले गरुडाऐसे। कवण आहे।६७। परि तें आघवेंचि एकीकडे ठेलें। सापें कृष्णसुख एकंदरें जाहलें। जिये दिउनि जन्मले। पांडव हे।६८। परि पांचांही आंतु अर्जुना। कृष्ण सावियाचि जाहला अधीना। कामुक कां जैसा अंगना। आपैता कीजे।६९। पढविलें पाखिरूं ऐसें न बोले। यापरी क्रीडामृगही तैसा न चले। कैसें दैव एथें सुरवाडलें। तें जाणों न ये।१७०। आजि हें परब्रह्म सगळें। भोगावया सदैव याचेचि डोळे। कैसे वाचेचे हन लळे। पाळीत असे।७१। हा कोपे कीं निवांतु साहे। हा रुसे तरी बुझावीत जाये। नवल पिसें लागलें आहे। पार्थाचें देवा।७२। एऱ्हवीं विषय जिणोनि जन्मले। जे शुकादिक दादुले। ते विषयोचि वानितां जाहले। भाट ययाचे।७३। हा योगियांचें समाधिधन। कीं होऊनि ठेलें पार्थाअधीन। यालागीं विस्मयो माझें मन। करीतसे राया।७४। तेवींचि संजय म्हणे कायसा। विस्मयो एथें कौरवेशा। कृष्णें स्वीकारिजे तया ऐसा। भाग्योदय होय।७५। म्हणोनि तो देवांचा रावो। म्हणे पार्था ते तुज दृष्टि देवों। जया विश्वरूपाचा ठावो। देखसी तूं।७६। ऐसीं श्रीमुखौनि अक्षरें। निघती ना जंव एकसरें। तंव अविद्येचें आंधारें। जावोंचि लागे।७७। तें अक्षरें नव्हती देखा। ब्रह्मसाम्राज्यदीपिका। अर्जुनालागीं चित्कळिका। उजळलिया कृष्णें।७८। मग दिव्यचक्षु प्रगटला। तया ज्ञानदृष्टी फांटा फुटला। ययापरी दाविता जाहाला। ऐश्वर्य आपुलें।७९। हे अवतार जे सकळ। ते जिये समुद्रींचे कां कल्लोळ। विश्व हें मृजगळ। जया रश्मीस्तव दिसे।१८०। जिये अनादिभूमिके निटे। चराचर हें चित्र उमटे। आपणपें वैकुंठें। दाविले तया।८१। मागां बाळपणीं येणें श्रीपती। जैं एक वेळ खादली होती माती। तैं कोपोनियां हातीं। यशोदा धरिला।८२। मग भेणें भेणें जैसें। मुखीं झाडा द्यावयाचेनि मिसें। चवदाही भुवनें सावकाशें। दाविलीं तिये।८३। ना तरी मधुवनीं ध्रुवासि केलें। जैसें कपोल शंखें शिवतलें। आणि वेदांचियेही मती ठेलें। तें लागला बोलों।८४। तैसा अनुग्रहा पैं राया। श्रीहरी केला धनंजया। आतां कवणेकडेही माया। ऐसी भाष नेणे तो।८५। एकसरें ऐश्वर्यतेजें पाहलें। तया चमत्काराचें एकार्णव जाहलें। चित्त समाजीं बुडोनि ठेलें। विस्मयाचां।८६। जैसा आब्रह्म पूर्णोदकीं। पव्हे मार्कंडेय एकाकीं। तैसा विश्वरूपकौतुकीं। पार्थु लोळे।८७। म्हणे केवढें गगन एथ होतें। तें कवणें नेलें पां केउतें। तीं चराचरें महाभूतें। काय जाहलीं।८८। दिशांचे ठावही हारपले। अधोर्ध्व काय नेणों जाहले। चेइलिया स्वप्न तैसे गेले। लोकाकार।८९। नाना सूर्यतेजप्रतापें। सचंद्र तारागण जैसें लोपे। तैसीं गिळिलीं विश्वरूपें। प्रपंचरचना।१९०। तेव्हां मनासी मनपण न स्फुरे। बुद्धि आपणपें न सांवरे। इंद्रियांचे रश्मी माघारे। हृदयवरी भरले।९१। तेथ ताटस्थ्या ताटस्थ्य पडिलें। टकासी टक लागलें। जैसें मोहनास्त्र घातलें। विचारजातां।९२।

---

**अर्थ:** (५५) चामड्याचे दोळे. (५६) दिव्य दिश्टी. (५७) मूळपुरूस. (५८) आस्थे खातीर. (५९) शिक़यल्लें हरण.
(६०) उतरां. (६१) ल्हारां. (६२) श्रीकृष्ण. (६३) मायेचो आभास. (६४) सत्यलोकामेरेनच्या.

---

आगा हारसो बरो पुसून। तो कुड्ड्याक दाखय बसून। करी तूं गायन। भेन्या मुखार।५७। म्होंवाची चार दाटून। उडयली ब्रेबक्यांमुखार। नि फुकट गेल्यार। कोपशी कोणार?।५८। जें अतीन्द्रिय म्हूण वर्णिलें। जें ज्ञानदिश्टीक फकत दिसलें। तें तुवें चर्मचक्षू[५५] फुडें ठेयलें। म्हाका दिसचें कशें?।५९। पूण हें तुमचें उणें नुलवंचें। चड बरें हांवेंच सोंसचें। हांगा देवान म्हळें। तुजें खरें बाबा;।१६०।

**श्रीकृष्णाक आपली चूक मान्य:** विश्वरूप जर आमी दाखोवंचें। तर आदीं देखूंक बळ दिवचें। पूण उलयतां प्रेमान म्हजें। विसरप जालें।६१। कितें जालें? ओंपलें कसलेवीण शेत। पूण ती वाल वता फुकट। तरी विश्वरूप पळोवंक। ती दिश्टी[५६] दितां तुका।६२। मगे अर्जुना ते दिश्टीन। म्हजो सर्व ऐश्वर्ययोग घे पळोवन। आनी साठोवंचो तो देखून। अणभवा भितूर।६३। असो तो वेदान्त जाणपा योग्य। सगल्या लोकांचो आद्य[५७]। अख्ख्या जगाक पुज्य। तो श्रीकृष्ण उलयलो।६४।

*संजयान म्हळें:* **अशें म्हणूनु गा राया महायोगेश त्या हरीन् । ईश्वरी रूप आपणालें दाखयलें गा धनंजयाक् ॥९॥**

धृतराष्ट्राक म्हणी संजय। म्हाका होच दिसता विस्मय। लक्ष्मीपरस अदीक भाग्य। त्रैलोक्यांत कोणाचें?।६५। वा खुणेन वर्णुपापासत। कोण हेर श्रुतीवांचून। वा आसा दासपण। शेषाच्याच आंगांत।६६।

**कृष्णाचें अर्जुनप्रेम:** आगा, जाच्या सोसापोटीं[५८]। कश्टुपी आठय पार योग्यावरी। आसा कोण सेवेकरी। गरुडावरी?।६७। पूण ते सगले एके कुशी रावले। कृष्ण सूख तांचेठांयच एकठावलें। ज्या दिसा जल्मा आयले। हे पांडव।६८। पूण पांचांतय जो अर्जुन। श्रीकृष्ण सहज ताचे आधीन। कामातुरा जशी घेता करून। अस्तुरी आपलोसो।६९। शिकयल्लें पांखरूं अशें उलयना। वा क्रीडामृगय[५९] तसो चलना। दैव अशें कशें फुल्लें गा कळना। त्या अर्जुनाचें?।१७०। आयज परब्रह्म हें सगळें। भोगूंक सुदैवी हाचेच दोळे। म्हूण ताचे वाचे लळे। भागयता गा।७१। हो कोपलो, तो सोंसता। हो रुसलो, तो समजायता। नवल, पिशें लागलां। पार्थाचें देवाक।७२। हरशीं, विशय जिखून जल्मल्ले। जे शुक आदीक समर्थ जाले। रासक्रीडा वर्णितां जाले। भाट हाचे।७३। जो योगियांचें समाधी धन। तो जालो पार्था स्वाधीन। हाचेंच अजाप म्हजें मन। करता आगा, राया।७४। भौन राया, म्हणी संजय। हातूंत कसलो गा विस्मय। ताचो जातलो भाग्या उदय। जाका आपणायी कृष्ण।७५। म्हणून तो देवांचो राव। म्हणी पार्था, तुका दिश्टी दितां हांव। जाका लागून विश्वरुपाचो थाव। पळेशी तूं।७६। श्रीकृष्णाच्या मुखांतल्यान। अशीं अक्षरां[६०] आयिल्ल्या खिणाक। पार्थाचो अज्ञान काळोख। लागलो ना जावंक।७७। तीं गा अक्षरांच नासलीं। ती दिवटी ब्रह्मसाम्राज्यांतली। अर्जुनापासत ज्ञाना दिवली। पेटयली श्रीकृष्णान।७८। मगे दिव्य दिश्टी प्रकाशली। ताची ज्ञान दिश्टी फांकली। श्रीकृष्णान अर्जुनाक दाखयली। नीजविभूती।७९। हे अवतार जे सकळ। ते ज्या सागराचे कल्लोळ[६१]। हें विश्व भासता मृगजळ। जाच्या तेजा किर्णांनी;।१८०। ज्या अनादी नितळ भुंयेर। चित्र उदेता चराचर। तेंच मूळरूप परमेश्वर। दाखयता पार्थाक।८१। फाटीं बाळपणीं हो श्रीपती[६२]। ताणें एकदां खाल्ली माती। तेन्ना कोपून हातीं। धरिल्लो यशोदेन;।८२। मगे जशे भियेभियेत कृष्णान। दाखोवंक आपलें निशपापपण। चवदा भुवनां विस्तारान। दाखयलीं तिका;।८३। वा मधुबनीं ध्रुवाक जशें केलें। पोल्याक शंखान स्पर्शिलें। जें वेदांकय वर्णूं येना जालें। तें तो लागलो उलोवंक।८४। तसो अनुग्रह गा राया। श्रीहरीन केलो धनंजया। मगे खंय गेली माया[६३]। ही भास नेणा तो।८५। अवचीत ऐश्वर्यप्रकाशांत। सर्वत्र नवलांच पातळटात। म्हूण गुल्ल जालें चित्त। अचर्यांत।८६। ब्रह्मलोकावेरच्या[६४] पाणयांत। पेंवलो मार्कंडेय एकटुक्यान। तसो विश्वरुपाच्या कवतुकांत। लोळटालो पार्थ।८७। म्हणी केदें गगन हंयसर आसलें। तें खंयचेकडे कोणें व्हेलें?। तीं महाभूतां, चर अचर तें गेलें-। खंय, कोण जाणा?।८८। दिको चारय दिसनात। आकाश-पाताळ ना जाल्यांत। जशें सपन भंगतां येता जाग। तसो ना जालो सृष्टी आकार।८९। वा सूर्य उजवाडटांच। जशें चंद्रासवें तारांगण रावऽ लिपून। तशी गिळ्ळी विश्वरुपान। सृश्टी रचना।१९०। तंव मनाक स्फुरना मनपण। बुद्दी वता आपणा विसरून। इंद्रियांच्यो वृत्ती फाटीं सरून। दाट्टी हृदयीं।९१। तंव मना थंडायेक आयली थंडाय। टकाक लागली एकाग्रताय। आयली सर्व विचारांक शुन्यताय। मोहनास्त्रच घाल्ले वरी।९२।

तैसा विस्मितु पाहे कोडें। तंव पुढां होतें चतुर्भुज रूपडें। तेंचि नानारूप चहूंकडे। मांडोनि ठेलें।९३। जैसे वर्षाकाळींचें मेघौडे। कां महाप्रळयींचें तेज वाढे। तैसें आपणेनवीण कवणीकडे। नेदीचि उरों।९४। प्रथम स्वरूपसमाधान। पावोनि ठेला अर्जुन। सवेंचि उघडी लोचन। तंव विश्वरूप देखे।९५। इहींचि दोहीं डोळां। पाहावें विश्वरूपा सकळा। तोहि श्रीकृष्णें सोहळा। पुरविला ऐसा।९६।

अनेकवक्त्रनयनमनेकाद्भुतदर्शनम्। अनेकदिव्याभरणं दिव्यानेकोद्यतायुधम् ॥१०॥

मग तेथ सैंघ देखे वदनें। जैसीं रमानायकाचीं राजभुवनें। नाना प्रगटलीं निधानें। लावण्यश्रियेचीं।९७। कीं आनंदाचीं वनें सासिन्नलीं। जैसी सौंदर्या राणीव जोडली। तैसीं मनोहरें देखिलीं। हरीचीं वक्त्रें तेणें।९८। तयांही माजीं एकैकें। सावियाचि भयानकें। काळरात्रीचीं कटकें। उठावलीं जैसीं।९९। कीं यें मृत्यूसीचि मुखें जाहलीं। हो कां जे भयाचीं दुर्गें पन्नासिलीं। कीं महाकुंडें उघडलीं। प्रळयानळाचीं।२००। तैसीं अद्भुतें भयासुरें। तेथ वदनें देखिलीं वीरें। आणिकें असाधारणें साळंकारें। सौम्यें बहुतें।१। पैं ज्ञानदृष्टीचेनि अवलोकें। परि वदनांचा शेवटु न टके। मग लोचन ते कवतिकें। लागला पाहों।२। तंव नानावर्णे कमळवनें। कीं विकासिलीं तैसें अर्जुनें। डोळे देखिले पालिंगनें। आदित्यांचीं।३। तेथेंचि कृष्णमेघाचिया दाटी। माजीं कल्पांत विजूंचिया स्फुटी। तैसिया वन्हि पिंगळा दिठी। भ्रूभंगातळीं।४। हें एकैक आश्चर्य पाहतां। तिये एकेचि रूपीं पांडुसुता। दर्शनाची अनेकता। प्रतिफळली।५। मग म्हणे चरणे ते कवणेकडे। केउते मुकुट कें दोर्दंडें। ऐसी वाढविताहे कोडें। चाड देखावयाची।६। तेथ भाग्यनिधि पार्था। कां विफलत्व होइल मनोरथा। काय पिनाकपाणीचां भातां। वायकांडी आहाती।७। ना तरी चतुराननाचिये वाचे। आहाती लटिकिया अक्षरांचे सांचे। म्हणोनि साद्यंतपण अपारांचें। देकिलें तेणें।८। जयाची सोय वेदा नकळे। तयाचे सकळावयव एकेचि वेळे। अर्जुनाचे दोन्ही डोळे। भोगिते जाहले।९। चरणौनि मुकुटवरी। देखत विश्वरूपाची थोरी। जे नाना रत्न अलंकारीं। मिरवत असे।२१०। परब्रह्म आपुलेनि आंगें। ल्यावया आपणचि जाहला अनेगें। तियें लेणीं मी सांगें। काइसयासारिखीं।११। जिये प्रभेचिये झळाळा। उजाळू चंदादित्यमंडळां। जे महातेजाचा जिव्हाळा। जेणें विश्व प्रगटे।१२। तो दिव्यतेज शृंगारु। कोणाचिये मतीसी होय गोचरु। देव आपणपेंचि लेइले ऐसें वीरु। देखत असे।१३। आपण आंग आपण अलंकार। आपण हात आपण हातियेर। आपण जीव आपण शरीर। देखे चराचर कोंदलें देवें।१४। मग तेथेंचि ज्ञानाचां डोळां। पहात करपल्लवां जंव सरळा। तंव तोडित कल्पांतीचिया ज्वाळा। तैसीं शस्त्रें झळकत देखे।१५। जयांचिया किरणांचे निखरेपणें। नक्षत्रांचे होत फुटाणे। तेजें खिरडला वह्नि म्हणे। समुद्रीं रिघों।१६। मग काळकूटकल्लोळीं कवळिलें। नाना महाविजूंचे दांग उमटले। तैसे अपार कर देखिले। उदितायुधीं।१७।

दिव्यमाल्याम्बरधरं दिव्यगन्धानुलेपनम् । सर्वाश्चर्यमयं देवमनन्तं विश्वतोमुखम् ॥११॥

कीं भेणें तेथूनि काढिली दिठी। मग कंठमुगुट पहातसे किरीटी। तंव सुरतरूंची सृष्टी। जयापासोनि कां जाहली।१८। जियें महासिद्धींचीं मूळपीठें। शिणली कमळा जेथ वावटे। तैसीं कुसुमें अति चोखटें। तुरंबिलीं देखिलीं।१९। मुगुटावरी स्तबक। ठायीं ठायीं पूजाबंध अनेक। कंठीं रुळताति अलौकिक। माळादंड।२२०। स्वर्गे सूर्यतेज वेढिलें। जैसें पंधरेनें मेरूतें मढिलें। तैसें नितंबावरी गाढिलें। पीतांबरु झळके।२१। श्रीमहादेवो कापुरें उटिला। कां कैलासु पारदें डवरिला। नाना क्षीरोदकें पांघरविला। क्षीरार्णवो जैसा।२२। जैसी चंद्रमयाची घडी उपलविली। मग गगनाकरवीं बुंथी घालविली। तैसी चंदनपिंजरी देखिली। सर्वांगीं तेणें।२३। जेणें स्वप्रकाशा कांती चढे। ब्रह्मानंदाचा निदाघु मोडे। जयाचेनि सौरभ्यें जीवित जोडे। वेदवतीये।२४। जयाचे निर्लेप अनुलेपु करी। जे अनंगुही सर्वांगीं धरी। तया सुगंधाची थोरी। कवण वानी।२५।

---

**अर्थः** (६५) पावसाळ्यांत. (६६) दोळे; नयन. (६७) तोंडां. (६८) श्रीविष्णूची. (६९) भांडारां. (७०) अर्जुन. (७१) वीख. (७२) मेरू पर्वताक. (७३) कैलास पर्वत. (७४) दूदसागर.

तोखेवन अजापान देखलें। तंव चतुर्भुज रुपडें फुडें आसलें। तेंच थाटान मांडून थेयिल्लें। चोंवशीन तरां तरांनी।९३। मेघ पातळटी वर्शाकाळीं[६५]। वा रवीचें तेज प्रळयाकाळीं। तशें आपलेवीण त्या काळीं। दवल्लें ना कांयच।९४। पयलीं कृष्णरूप पळोवन। जालें अर्जुना समाधान। मगे उगडून पळे लोचन[६६]। तंव दिसलें विश्वरूप।९५। ह्याच दोनी दोळ्यांनी। विश्वरूप देखचें पुरायपणीं। त्याय सुवाळ्याची पार्था मागणी। पूर्ण केली अशी।९६।

**त्या रुपा भौ मुखां दोळे दिसलीं थैं नवलांच भौ । जायतीं शस्त्रां उबारिल्लीं भौ अळंकार दिव्य ते ।।१०।।**

मगे थंय देखता तर्तरांचीं वदनां[६७]। जशीं रमानायकाचीं[६८] राजभुवनां। उगडलीं असंख्य निधानां[६९]। लावण्यलक्ष्मीचीं।९७। वा आनंदवनां फुलोरा आयलीं। जशीं सुंदरायेचीं राज्यांच मेळ्ळीं। तशीं मनोहर पळेलीं। हरीचीं वदनां।९८।

**विश्वरूपाचीं तोंडां:** तांचेय मदलीं एकेक। खऱ्यांनीच भयानक। जशी काळरातीची सेनाच। येवची उसळून।९९। वा मर्णाकूच तोंडां फुटलीं। भंयाचीं दुर्गां बांदलीं। वा महाकुंडां रसरसलीं। प्रळयउज्याचीं;।२००। तशीं अद्‌भूत भेसूर। पळय थंय तोंडां तो वीर। शिंगारिल्लीं कांय, हेर। मोवाळ भोवूच।१। पळयतना, ताचे ज्ञानदिश्टीक। त्या तोंडांचो गावलोना अंत। म्हणून लागलो चोवंक कवतुकान। दोळे खंय देवाचे।२। तंव रंगयाळीं कमळवनां फुलिल्लीं। त्या अर्जुनाक थंय दिसलीं। दोळ्यां माळो सूर्यतेजा वरी। दिसल्यो ताका हारीन।३। थंय कृष्णमेघांचे खेटींमदीं। कल्पान्तीचीं जोगलां लखलखती। तशी भोंवयां तळीं पिंगशी दिश्टी। उज्यावरी।४। हें एकेक अचर्य देखतां। त्या एकाच रुपांत पांडुपुता। दर्शनाची अनेकता। अणभवा आयली।५। मगे म्हणी पांय खंय तागेले। खंय मुकूट ताचे बावळे। अशें आंग सगलें दिसलें। पळोवचें ताका।६। थंय भाग्या भांडार पार्थ। ताचे विफळ जायत मनोरथ?। किदें म्हादेवाच्या भात्यांत। आसत बाण निश्फळ ?।७। वा ब्रह्मदेवाचे वाणींत। कितें लटकीं अक्षरां आसतात?। म्हणून विश्वरुपाचो आदी अंत। दिसलो ताका।८। जाचो वेदांकय कळना अंतपार। ताचे सगले अवेव एकाच वेळार। नियाळूं लागलो तो धनुर्धर। आपल्या दोळ्यांनी।९। चरणापसून मुकुटावेरी। देखता विश्वरुपाची थोरवी। जें रत्नां अळंकारा भौ परी। मिरयता गा।२१०। परब्रह्म साकार जावन। स्वरुपाची दिव्य लेणीं केलीं धारण। तीं कशीं दिसलीं हें वर्णन। करुं कशें हांव?।११। तेजिश्ट झळाळी ज्या तेजाची। उजळायी मंडळां सूर्यचंद्राचीं। जें जिणेकळा महातेजाची। जे वरवीं परगट्टा विश्व।१२। तो दिव्य तेजाचो शिरंगारू। कोणा मतीक जातलो गोचरू। देवानूच घाल्ले अळंकारू। देखी तो वीरू[७०]।१३।

**विश्वरूपाचे हात:** मगे विश्वरुपाचे सरळ हात। जंव तो ज्ञानदिश्टीन रावलो पळयत। थंय कल्पांतजाळ जीं तोडीत। अशीं शस्त्रां लखलखतालीं।१४। आपुणूच आंग आपुणूच अळंकार। आपुणूच हात आपुणूच हतयार। आपुणूच जीव आपुणूच शरीर। देखलें चराचर भरिल्लें देवांत।१५। जांच्या किर्णांचे खरसाणीन। नक्षत्रां जालीं ल्हायो लासून। म्हळें तेजान हुलपल्ल्या उज्यान। हांव लिपतां समुद्रांत।१६। मगे काळकुटाचीं[७१] ल्हारां उसळिल्ले। वा म्हाल जोगलांचें रान वाडिल्लें। तशे अपार हात ताणें देखले। शस्त्रां उबारिल्ले।१७।

**घाल्लीं दिव्य फुलां वस्त्रां लेपिल्लें दिव्य गंद बी । देव अनंत नवलांचो ताका सगले वशीं मुखां ।।११।।**

थंयसून भियेवन काडली दिश्टी। मगे कंठमुकूट पळय किरीटी। तंव तांचेपसून जणूं सृश्टी जाली। कल्परुखांची।१८। जीं महासिद्धीचीं मूळपिठां। जंय शिणिल्ली लक्ष्मी विसव घेता। थंय अती निर्मळ फुलां हुंगता। अश्या देवा देखिलो।१९। फुलांचे घोंसु मुकुटाचेरी। पुजा ठांय ठांय आंगारी। फुलां माळो अलौकिक भारी। गळ्यांतु।२२०। स्वर्गाक वेढचें सूर्यतेजान। मेरूक[७२] सोबोवचो भांगरान। अशें पीतांबरा न्हेसण। सोबलें देवा आंगार।२१। श्रीशंभूक कापूर लायलो। कैलास[७३] पान्यान लेपलो। वा दुदान पांगुल्लो। क्षीरसागर[७४] जसो;।२२। जशी चान्र्या घडी सोडची। आकाशार तिची शाल घालची। तशी चंदनाची उटी देखली। देवाच्या सर्वांगार।२३। जाणें प्रकाशाक चडटा कांत। ब्रह्मानंदा ताप जाता शांत। जाच्या परमळान मेळटा जिवीत। गंधवती पृथ्वीक।२४। ब्रह्म जाचो लेप करी। जें मदनय सर्वांगीं धरी। त्या सुगंधाची थोरी। कोणे वर्णुंची?।२५।

ऐसी एकैक शृंगारशोभा। पाहतां अर्जुन जातसे क्षोभा। तेवींचि देवो बैसला कीं उभा। का सेयांतु हें नेणवे।२६। बाहेर दिठी उघडोनि पाहे। तरि आघवें मूर्तिमय देखतु जाये। मग आतां न पाहे म्हणोनि उगा राहे। तरी आंतुही तैसेंचि।२७। अनावरें मुखें समोरें देखे। तयाभेणें पाठीमोरा जंव ठाके। तंव तयाहीकडे श्रीमुखें। करचरण तैसेचि।२८। अहो पाहतां कीर प्रतिभासे। एथ कांहीं नवलावो काइ असे। परि न पाहतांही दिसे। चोज आइका।२९। कैसें अनुग्रहाचें करणें। पार्थाचें पाहणें आणि न पाहणें। तयाहीसकट नारायणें। व्यापूनि घातलें।**२३०**। म्हणोनि आश्चर्याचां पुरीं एकीं। पडिला ठायेंठाव थडी ठाकी। तंव चमत्काराचिये आणिकीं। महार्णवीं पडे।३१। ऐसा अर्जुनु असाधारणें। आपुलिया दर्शनाचेनि विंदाणें। कवळूनि घेतला तेणें। अनंतरूपें।३२। तो विश्वतोमुख स्वभावें। आणि तेंचि दाखवावयालागीं पांडवें। प्रार्थिला आतां आघवें। होऊनि ठेला।३३। आणि दीपें कां सूर्यें प्रगटे। अथवा निमूटलिया देखावेंचि खुंटे। तैसी दिठी नव्हे जे वैकुंठें। दिधली आहे।३४। म्हणोनि किरीटीसि दोहीं परी। तें देखणें देखे आंधारीं। हें संजयो हस्तिनापुरीं। सांगतसे राया।३५। म्हणे किंबहुना अवधारिलें। पार्थें विश्वरूप देखिलें। नाना आभरणीं भरलें। विश्वतोमुख।३६।

**दिवि सूर्यसहस्त्रस्य भवेद्युपदुत्थिता। यदि भा: सदृशी सा स्याद् भासस्तस्य महात्मन: ॥१२॥**

तिये अंगप्रभेचा देवा। नवलावो काइसयासारिखा सांगावा। कल्पांती एकुचि मेळावा। द्वादशादित्यांचा होय।३७। तैसे ते दिव्यसूर्य सहस्त्रवरी। जरी उदयजती कां एकेचि अवसरीं। तऱ्ही तया तेजाची थोरी। उपमूं न ये।३८। आघवयाचि विजूंचा मेळावा कीजे। आणि प्रळयाग्नीची सर्व सामग्री आणिजे। तेवींचि दशकुही मेळविजे। महातेजांचा।३९। तऱ्ही तिये अंगप्रभेचेनि पाडें। हें तेज कांहीं कांहीं होईल थोडें। आणि तयाऐसें कीर चोखडें। त्रिशुद्धी नोहे।**२४०**। ऐसें माहात्म्य या हरीचें सहज। फांकतसे सर्वांगींचें तेज। ते मुनिकृपा जी मज। दृष्ट जाहलें।४१।

**तत्रैकस्थं जगत्कृत्स्नं प्रविभक्तमनेकधा। अपश्यद्देवदेवस्य शरीरे पाण्डवस्तदा ॥१३॥**

आणि तिये विश्वरूपीं एकीकडे। जग आघवें आपुलेनि पवाडें। जैसें महोदधीमाजीं बुडबुडे। सिनाने दिसती।४२। कां आकाशीं गंधर्वनगर। भूतळीं पिपीलिका बांधे घर। नाना मेरूवरी सपूर। परमाणु बैसले।४३। विश्व आघवेंचि तयापरी। तया देव चक्रवर्तीचिया शरीरीं। अर्जुन तिये अवसरीं। देखता जाहला।४४।

**तत: स विस्मयाविष्टो हृष्टरोमा धनंजय:। प्रणम्य शिरसा देवं कृताञ्जलिरभाषत ॥१४॥**

तेथ एक विश्व एक आपण। ऐसें अळुमाळ होतें जें दुजेंपण। तेंही आटोनि गेलें अंत:करण। विरालें सहसा।४५। आंतुला महानंदा चेइरें जाहलें। बाहेरि गात्रांचें बळ हारपोनि गेलें। आपाद पां गुंतलें। पुलकांचलें।४६। वार्षिये प्रथमदशे। वोहळलया शैलाचें सर्वांग जैसें। विरूढे कोमलांकुरीं तैसे। रोमांच आले।४७। शिवतला चंद्रकरीं। सोमकांतु द्रावो धरी। तैसिया स्वेदकणिका शरीरीं। दाटलिया।४८। माजीं सापडलेनि अलिकुळें। जळावरी कमळकळिका जेवीं आंदोळे। तेंवीं आंतुलिया सुखोर्मीचेनि बळें। बाहेरि कांपे।४९। कर्पूरकेळीचीं गर्भपुटें। उकलतां कापुराचेनि कोंदाटें। पुलिका गळती तेवीं थेंबुटें। नेत्रोनि पडती।**२५०**। ऐसा सात्त्विकांही आठां भावां। परस्परें वर्ततसे हेवा। तेथ ब्रह्मानंदाची जीवा। राणीव फावली।५१। उदयलेनि सुधाकरें। जैसा भरलाचि समुद्र भरे। तैसा वेळोवेळां उर्मीभरें। उचंबळत असे।५२। तैसाचि तया सुखानुभवापाठीं। केला द्वैताचा सांभाळु दिठी। मग उससौनि किरीटी। वास पाहिली।५३। तेथ बैठला होता जिया सवा। तियाचिकडे मस्तक खालविला देवा। जोडूनि करसंपुट बरवा। बोलतु असे।५४।

---

**अर्थ:** (७५) चंद्र. (७६) देव आनी अर्जुन हांचे मदलें द्वैत.

ही एकेक शिंगार सोबा देखतां। अर्जुन इतलो भांबावता। देव बसला वा न्हिदता। वा आसा उबो नेणा तो।२६।

**विश्वरुपाची व्यापकताय:** भायर दोळे उगडून पळेलें। तर सगलें विश्वरुपूच दिसलें। हें नाका म्हूण धांपले दोळे। तर अंतरीं तेंच।२७। अगणीत मुखां मुखार देखता। भियेवन तो फाट करता। तर तकडेंय आसता। हातपांय तशेच।२८। अहो, पळयल्लें तें खरें दिसता। हातुं नवल तें किलें आसता?। पूण पार्थाक पळयनासतना दिसता। नवल तें आयका।२९। कशी प्रभू कृपेची करणी। पार्थाचें देखप, न देखप दोनी। उडयलीं व्यापून पूर्णपणी। नारायणान।**२३०**। एका अचर्याच्या हुंवारीं। पडून पावतां न पावतां तिरीं। तेन्नाच दुसऱ्या नवलां सागरीं। बुडूं लागलो अर्जुन।३१। हे परी अर्जुनाक कुशळायेनु। आपल्या अलौकीक दर्शनानु। उडयलो त्या अनंतरुपानु। व्यापून गा।३२। तो सभावीक सर्ववशीं देखपी देव। तेंच रूप दाखय म्हणी पांडव। म्हूण व्यापून विश्व सर्व। रावलो उबो मुखार।३३। दिसचें दिव्या वा सुर्या उजवाडान। पूण तांचे विणे दिसप कठीण। दिश्टी दिली जी श्रीकृष्णान। ती नासली ते परी।३४। म्हणून किरीटी दोनी परी। तें देखी उजवाडांत वा अंधारीं;। ही गजाल संजय हस्तिनापुरीं। सांगतालो रायाक।३५। म्हळें, आगा राया आयकिलें?। पार्थान रूप देखिलें। जें भोव अळंकारांनी भरिल्लें। विश्वरूप देवालें।३६।

**तेज हजार सुर्यांचें उदेल्यारू खिणांतु तें । जावंये तें तेज गा पार्था त्या म्हात्म्याचे प्रभेवरी ॥१२॥**

त्या विश्वरुपाची आंगाकांती। कसल्या नवलांची म्हूण सांगची?। जसो मेळो जमलो कल्पान्ती। बाराय आदित्यांचो;।३७। तशे ते सहस्त्र दिव्य सूर्य जरी। उदेले एकाच खिणारी। तरी तांच्या तेजाची बरोबरी। करूं येवंची ना।३८। सगल्या विजुलांच्या मेळीं। प्रळयाग्नीची साम्रगी घाली। तातूंत धायु एक केलीं। महातेजां;।३९। तरी तें तेज पडटलें इल्लें थोडें। विश्वरुपाचे आंगचे प्रभे फुडें। आनी ताचे इतलें चोखडें। निश्चीत नासतलें।**२४०**। अशें सहज व्हडपण श्रीहरीचें। तेज फांकलें त्या सर्वांगाचें। आनी कृपेन व्यासमुनीचे। तें दिसलें म्हाका।४१।

**देवां देवा कुडींतू गा पळेलें अर्जुनानु गा । वांटिल्लें भौ तरांनी थैं एकठांयु सर्व विश्व तें ॥१३॥**

**विश्वरुपाची व्यापकताय:** त्या विश्वरुपांत एके कडेन। दिसतालें जग सगलें विस्तारान। महासागरावेल्या बुडबुड्यां समान। दिसतात वेगळे वेगळे।४२। वा आकाशीं गंधर्व नगर। मुंयो बांदी रोयण भुंयेर। वा दिसती मेरू पर्वतार। बारीक धुळी कण ;।४३। सगलें विश्व ते परी। त्या देव चक्रवर्तीच्या शरीरीं। अर्जुनाक त्या वेळारी। दिसलें आपशीं।४४।

**कांटो आंगारु फुलिल्ल्या चकासूर धनंजयान् । माथें बागोवनु देवाकु हात जोडूनु सांगिलें ॥१४॥**

**अर्जुनाक ब्रह्मानंदाची जाणविकाय जाता:** थंय एक विश्व, एक आपूणु। अशें इल्लेंशें आसलें जें दुजेंपणु। तेंय आटून गेलें, अंतस्करणु। विरिल्ल्यान पुराय।४५। उसळ्ळो ब्रह्मानंद अंतरीं। गात्रांचें बळ गळ्ळें भायरी। फुल्लो कांटो आपादमस्तकारी। अर्जुनाच्या।४६। मिर्गाचे पयले दडकेन। दोंगर पाझरता कुशीन। कंवळे तणांकूर येती फुटून। तसो आयलो शिरशिरो।४७। चान्न्यान स्पर्शिल्यारी। चंद्रकांता फुटऽ झरी। तशे पार्थाच्या आंगारी। फुटले हुमे थेंब।४८। भोंवर साळकांत शिरकल्ल्यान। तीं नाचती जशीं धोलून। तशें भितर सुखांचे उर्मीन। कूड थरथरल्ली पार्थाची।४९। कापूर-केळीच्या गब्यांतसून। सोलतां येती कापूरकण। तशे आनंदाश्रु दोळ्यांतसून। पाझरले अर्जुनाच्या।**२५०**। उदेतकीच सुधाकर[७५]। जसो भरऽ भरिल्लो सागर। तसो येवन उर्मींचो भार तो। घडी घडी उचंबळटा।५१। अशी आठय सात्त्वीकभावांत*। परस्पर लागली सर्त। म्हूण फावो जाले हृदयांत। राज्य ब्रह्मानंदाचें।५२। हो सुखाचो अणभव घेवनु। सांभाळ्ळें द्वैत[७६] देवानु। म्हूण हुस्कार सोडूनु। पार्थान देखलें भोंवतणीं।५३। कृष्ण बशिल्लो जे वाटेन। थंय देवाक माथें बागोवन। अर्जुनान दोनूय हात जोडून। पराथिलें देवाक।५४।

*अर्जुन उवाचः* **पश्यामि देवांस्तव देव देहे सर्वांस्तथा भूतविशेषसंघान्। ब्रह्माणमीशं कमलासनस्थमृषींश्च सर्वानुरगांश्च दिव्यान् ॥१५॥**

म्हणे जयजयाजी स्वामी। नवल कृपा केली तुम्हीं। जें हें विश्वरूप कीं आम्ही। प्राकृत देखों।५५। परि साचचि भलें केलें गोसाविया। मज परितोषु जाहला साविया। जी देखिलासि जो इया। सृष्टीसी तूं आश्रयो।५६। देवा मंदराचेनि अंगलगें। ठायीं ठायीं श्वापदांचीं दांगें। तैसीं इयें तुझां देहीं अनेगें। देखतसें भुवनें।५७। अहो आकाशाचिये खोळे। दिसती ग्रहगणांचीं कुळें। कां महावृक्षीं अविसाळें। पक्षिजातीचीं।५८। तयापरी श्रीहरी। तुझां विश्वात्मकीं इये शरीरीं। स्वर्गु देखतसे अवधारीं। सुरगणेंसीं।५९। प्रभु महाभूतांचें पंचक। येथ देखत आहें अनेक। आणि भूतग्राम एकेक। भूतसृष्टीचे।**२६०**। जी सत्यलोकु तुजमाजीं आहे। देखिला चतुराननु हा नोहे। आणि येरीकडे जंव पाहें। तंव कैलासुही दिसे।६१। श्रीमहादेव भवानियेशीं। तुझां दिसतसे एके अंशीं। आणि तूंतेंहीं गा हृषीकेशी। तुजमाजीं देखें।६२। पैं कश्यपादि ऋषिकुळें। इयें तुझां स्वरूपीं सकळें। देखतसें पाताळें। पन्नगेशीं।६३। किंबहुना त्रैलोक्यपती। तुझिया एकेकाचि अवयवाचिये भिंती। इयें चतुर्दशभुवनें चित्राकृती। अंकुरलीं जाणों।६४। आणि तेथिंचे जे जे लोक। ते चित्ररचना जी अनेक। ऐसें देखतसें अलोकिक। गांभीर्य तुझें।६५।

**अनेकबाहूदरवक्त्रनेत्रं पश्यामि त्वा सर्वतोऽनन्तरूपम्। नान्तं न मध्यं न पुनस्तवादिं पश्यामि विश्वेश्वर विश्वरूप ॥१६॥**

तया दिव्यचक्षूंचेनि पैसें। चहूंकडे जंव पाहत असें। तंव दोर्दंडीं जैसें। आकाश कोंभलें।६६। तैसें एकचि निरंतर। देवा देखतसें तुझे कर। करीत आघवेचि व्यापार। एकी काळीं।६७। मग महाशून्याचेनि पैसारें। उघडलीं ब्रह्मकटाहाचीं भांडारें। तैसीं देखतसें अपारें। उदरें तुझीं।६८। जी सहस्त्रशीर्षयाचें देखिलें। कोडीवरी होताति एकिवेळें। कीं परब्रह्मचि वदनफळें। मोडोनि आलें।६९। तैसीं वक्त्रें जीं जेउतीं तेउतीं। तुझीं देखतसें विश्वमूर्ती। आणि तयाचि परी नेत्रपंक्ति। अनेका सैंघ।**२७०**। हें असो स्वर्ग पाताळ। कीं भूमी दिशा अंतराळ। हे विवक्षा ठेली सकळ। मूर्तिमय देखतसें।७१। तुजवीण एकादियाकडे। परमाणुहि एतुला कोडें। अवकाशु पाहतसें परि न सांपडे। ऐसें व्यापिलें तुवां।७२। इहीं नाना भूतीं सहितें। जेतुलीं सांठविलीं होतीं महाभूतें। तेतुलाही पवाडु तुवां अनंतें। कोंदला देखतसें।७३। ऐसा कवणे ठायाहूनि तूं आलासी। एथ बैसलासि कीं उभा आहासी। आणि तूं कवणिये मायेचिये पोटीं होतासी। तुझें ठाण केवढें।७४। तुझें रूप वय कैसें। तुजपैलीकडे काय असे। तूं काइसयावरी आहासि ऐसें। पाहिलें मियां।७५। तंव देकिलें जी आघवेंचि। तरि आतां तुज देवा ठावो तूंचि। तूं कवणाचा नव्हेसि ऐसाचि। अनादि आयता।७६। तूं उभा ना बैठा। दिघडु ना खुजटा। तुज तळीं वरी वैकुंठा। तूंचि आहासी।७७। तूं रूपें आपणयांचि ऐसा। देवा तुझीं तूंचि वयसा। पाठीं पोट परेशा। तुझें तूं गा।७८। किंबहुना आतां। तुज तूंचि आघवें अनंता। हें पुढत पुढती पाहतां। देखिलें मियां।७९। परि या तुझिया रूपाआंतु। जी उणीव एक असें देखतु। जे आदि मध्य अंतु। तिन्हीं नाहीं।**२८०**। एऱ्हवीं गिंवसिलें आघवां ठायीं। परि सोय न लाहेचि कहीं। म्हणोनि त्रिशुद्धी हे नाहीं। तिन्ही एथ।८१। एवं आदिमध्यांतरहिता। विश्वेश्वरा अपरिमिता। तूं देखिलासि जी तत्त्वता। विश्वरुपा।८२। तुज महामूर्तीचां आंगीं। उमटलिया पृथक् मूर्ती अनेगी। लेइलासि वानें परींचीं आंगीं। ऐसा आवडतु आहासी।८३। नाना पृथक् मूर्ती तिया द्रुमवेली। तुझां स्वरूपमहाचळीं। दिव्यालंकारफुलीं फळीं। सासिन्नलिया।८४। हो कां जे महोदधी तूं देवा। जाहलासि तरंगीं मूर्ती हेलावा। कीं तूं वृक्षु एक बरवा। मूर्तिफळीं फळलासि।८५। जी भूतीं भूतळ मांडिलें। जैसें नक्षत्रीं गगन गुढलें। तैसें मूर्तिमय भरलें। तुझें देखतसें रूप।८६। जी एकेकीचां अंगप्रांतीं। होय जाय हें त्रिजगती। एवढियाही तुझां आंगीं मूर्ती। कीं रोमां जालिया।८७। ऐसा पवाडु मांडूनि विश्वाचा। तूं कवण पां एथ कैचा। हें पाहिलें तंव आमुचा। सारथी तोचि तूं।८८। तरी मज पाहतां मुकुंदा। तूं ऐसाचि व्यापकु सर्वदा। भक्तानुग्रहें तया मुग्धा। रूपातें धरिसी।८९। कैसें चहू भुजांचें सांवळें। पाहतां वोल्हावती मन डोळे। खेंव देऊं जाइजे तरि आकळे। दोहींचि बाहीं।**२९०**।

---

**अर्थः** (७७) मंदरपर्वताच्या. (७८) पांच महाभूतां - आप, तेज, वायू, पृथ्वी, आकाश.
(७९) हात. (८०) खरेंपणान.

*अर्जुनान म्हळें:* **सगल्यां देवांक तुजे कुडींतु देवा मालीं बी पळे हांव नाना जिवांचीं ।**
**ब्रह्मो बशिल्लो कमलासनांतु तशे सर्वय रुशी नि दिव्य सर्प ॥१५॥**

**विश्‍व व्यापपी विश्वरूप:** म्हणी जय जय गा स्वामी। नवलां कुर्पा केली तुमी। म्हूण्ण हें विश्वरूप आमी। देखलें आसुनूय सामान्य।५५। खरेंच बरें केलें गा धनया। सहज संतोश जालो मना म्हज्या। देखलो विश्वाक ह्या। आधार तुजो।५६। देवा मंदरगिरीच्या[७७] आसन्यान। ठांयीं ठांयीं सावदां अरण्यांत। तशे तुज्या ह्या विश्वरुपांत। देखतां भुवना अनेक।५७। आगा, जशे आकाशाचे पोकळेंतु। गिऱ्यांचे समुदाय अगणितु। वा म्हारुखांच्या खांदयांतु। घोंटेरु पक्ष्यांचे।५८। तेच परी श्री हरी। तुज्या विश्वरूप शरीरीं। सगले देवगण सर्गारी। देखले हांवें।५९। प्रभू, महाभूतांचीं पंचकां[७८]। हांगा अनेक दिसती म्हाका। आनी जिवा चोंबे एकेका। जीवसृश्टींतुले।२६०। आगा, सत्यलोकु तुज्यांत आसा। थंय ब्रह्मदेवूय आसप समा। नि दुसरे वशीन जेन्ना पळेतां। थंय दिसऽ कैलास।६१। पार्वतीसयत श्रीशंकर। दिसता एका आंगार। आनी तूंय परमेश्वर। दिसऽ तुजे ठांय।६२। काश्यपादी रुशीगण। ह्या तुज्या स्वरुपीं पूर्ण। भुजंगासयत पाताळस्थान। दिसऽ तुज्या देहीं।६३। तुज्या अवेवांच्या वण्टीचेर। चवदा* भुवनांच्या* आकृतायो सुंदर। पळेतां चित्रायल्लीं चित्रविचित्र। त्रैलोक्यनाथा।६४। त्या दिव्य दिश्टीच्या पालवानु। जेन्ना देखलें ताणें चोंयवशीनु। तेन्ना बळिश्ट भुजांतल्यानु। दिसलें आकाश आंकुरिल्लें।६६। एकाच वेळार सगले वेव्हार। करतात जे निरंतर। अशे तुजे असंख्य कर[७९]। दिसतात।६७। मगे मायेच्या विस्तारान। जशीं उगडचीं ब्रह्मांडभांडारां पूर्ण। तशीं दिसती तुज्या देहांत। पोटां तुजीं अपार।६८। आगा, सहस्त्र शिरां देखलीं। एकाच वेळीं कोटी जालीं। परब्रह्मरुखा मुखाफळां आयलीं। मोडलो भारान त्या।६९।

**मुखां पोटां भुजां दोळे अनेक सगले वशीनु रुपां तुका अनंत । देवा तुका ना आदी मध्य अंत विश्वेश्वरा हें तुजें विश्वरूप ॥१६॥**

तशीं मुखां चोंयवशीनी जितलीं। तितलीं देखतां हांव विश्वमूर्ती। नि तेचपरी नेत्र पंगती। मोडिल्ल्यो हारीनी।२७०। हें आसूं, स्वर्ग पाताळ। वा भूमी दिको अंतराळ। सोंपली ही भास, सकळ-। भल्लें विश्वरुपान।७१। तुजेवीण गा नुल्लें। अवकाश परमाणू इतले मेकळें। अशें गच्च व्यापलें। सगलेंच तुवें।७२। ह्या तर्तरां जिवांसयत। जितलीं म्हाभूतां सांठल्यांत। तितलोय विस्तार तुवें समस्त। उडयला भरून।७३। असो तूं खंयच्या ठाव्याथावन आयलो?। हांगा बसला वा रावला उबो?। नि खंयचे मायेच्या कुसव्यांतलो?। कितें तुजें व्हडपण।७४। तुजें रूप कशें? वय कितलें?। तुजे पेल्यान आसा कितें?। कित्याचेर तूं आसा, अशें। जंव लागलों पळोवंक;।७५। तंव कळ्ळें करतां विचार। तूंच आसा तुजो आधार। तूं स्वयंभू अनादी अपार। माय बाप ना तुका।७६। तूं ना उबो ना बशिल्लो। धिप्पाड वा गिड्डेलो। तुजे वयर नि तळाय तसलो। तूंच भगवंता।७७। तुजें रूप तुजेच वरी। तूंच तुजी पिराय गा हरी। फाट पोटूय तुजेच वरी। आसा परमेशा।७८। चड कितें सांगूं आतां?। हें सगलें तुजें तूंच अनंता। अशें घडी घडी पळेतां। देखलें हांवें।७९। पूण ह्या तुगेल्या रुपांत। गा, एक उणाव देखी निश्चीत। आदी, मध्य आनी अंत। ना हीं तिनूय।२८०। तें सोदिलें सगल्यां ठांयीं। पूण पत्तो लागलोच ना कांयी। पूण दुभावावीण तीं नायी। तिनूय हांगा।८१। आगा आदीअंतमध्य विरयता। तूं विश्वेश्वरा अपरिमिता। देखिलो गा तुका तत्त्वता[८०]। विश्वरुपा।८२। हे तुजे महामुर्तींत। तर्तरां मूर्ती उदेल्या अनंत। जणूं वस्त्रां रंगयाळीं आंगांत। घाल्यां तुवें।८३। ह्या विश्वरुपाच्या पर्वतीं। रूख वालीं वरी सोबता मूर्ती। फुलांफळां भरिल्लीं दिसती। ते मूर्तीवेल्यो वस्ती।८४। देवा तूं एक म्हालसागर। तुजीं ल्हारां मूर्ती अपार। वा तूं एक रूख सुंदर। मूर्ती फळां ताचीं।८५। गा भूतळ भल्ला जिवांनी। आकाश व्यापलां नखेत्रांनी। तशें भल्लां मूर्तींनी। रूप तुजें।८६। गा एकेके मुर्तीचेरी। जाता उत्पत्ती सांवारी। इतु मुर्ती तुज्या आंगारी। जणूं रुंवांच त्यो।८७। असो पसारो थाटलो विश्वाचो। आगा कोण तूं हांगा आमचो। पळेशी तर सारथी आमचो। तोच तूं।८८। तरी पळेशी मुकुंदा। तूं असोच व्यापक सर्वदा। भक्ताचेर कृपा करूं गोविंदा। धरशी रूप साजरें।८९। हें चार भुजांचें रूप सांवळें। देखतां न्हिवले मन नि दोळे। वेंगायतां अचळय आयलें। दोनूय हातांचे मिठयेंत।२९०।

ऐसी मूर्ति कोडिसवाणी कृपा। करूनि होसी विश्वरूपा। कीं आमुचियाचि दिठी सलेपा। जे सामान्यत्वें देखती।९१। तरी आतां दिठीचा विटाळु गेला। तुवां सहजें दिव्यचक्षू केला। म्हणोनि यथारूपें देकवला। महिमा तुझा।९२। परि मकरतुंडामागिलेकडे। होतासि तोचि तूं एवढें। रूप जाहलासि हें फुडें। वोळखिलें मियां।९३।

**किरीटिनं गदिनं चक्रिणं च तेजोराशिं सर्वतो दीप्तिमन्तम्। पश्यामि त्वां दुर्निरीक्ष्यं समन्ताद्दीप्तानलार्कद्युतिमप्रमेयम् ॥१७॥**

नोहे तोचि हा शिरीं। मुकुट लेइलासि श्रीहरी। परि आतांचें तेज आणि थोरी। नवल कीं बहुवें।९४। तेंचि हें वरिलिये हातीं। चक्र परिजितया आयती। सांवरितासि विश्वमूर्ती। ते न मोडे खुण।९५। येरीकडे तेचि हे नोहे गदा। आणि तळिलिया दोनी भुजा निरायुधा। वागोरे सांवरावया गोविंदा। संसरिलिया।९६। आणि तेणेंचि वेगें सहसा। माझिया मनोरथासरिसा। जाहलासि विश्वरूपा विश्वेशा। म्हणोनि जाणें।९७। परि कायसें बा हें तोज। विस्मयो करावयाहि पवाडु नाहीं मज। चित्त होऊनि जात आहे निर्बुज। आश्चर्यें येणें।९८। हें एथ आथि कां येथ नाहीं। ऐसें विश्वसोंही नये कांहीं। नवल अंगप्रभेची नवाई। कैसी कोंदली सैंघ।९९। एथ अग्नीचीही दिठी करपत। सूर्य खद्योतु तैसे हारपत। ऐसें तीव्रपण अद्भुत। तेजाचें यया।**३००**। हो कां जे महातेजाचां महार्णवीं। बुडोनि गेली सृष्टि आघवी। कीं युगांतविजूंचां पालवीं। झांकलें गगन।१। नातरी संहारतेजाचिया ज्वाळा। तोडोनि माचु बांधला अंतराळां। आतां दिव्य ज्ञानाचांहि डोळां। पाहवेना।२। उजाळु अधिकाधिक बहुवसु। धडाडीत आहे अतिदासु। पडत दिव्यचक्षूंही त्रासु। न्याहाळितां।३। हो कां जे महाप्रळयींचा भडाडु। होता काळाग्निरुद्राचां ठायीं गूढु। तो तृतीयनयनाचा मढु। फुटला जैसा।४। तैसें पसरलेनि प्रकाशें। सैंघ पांचवनियो ज्वाळांचे वळसे। पडतां ब्रह्मकटाह कोळिसे। होत आहाती।५। ऐसा अद्भुत तेजोराशी। जन्मा नवल म्यां देखिलासी। नाहीं व्याप्ती आणि कांतीसी। पारु जी तुझिये।६।

**त्वमरं परमं वेदितव्यं त्वमस्य विश्वस्य परं निधानम् । त्वमव्ययः शाश्वतधर्मगोप्ता सनातनस्त्वं पुरुषो मतो मे ॥१८॥**

देवा तूं अक्षर। औटाविये मात्रेसि पर। श्रुती जयाचें घर। गिंवसीत आहाती।७। जे आकाराचें आयतन। जें विश्वनिक्षेपैकनिधान। तें अव्यय तूं गहन। अविनाश जी।८। तूं धर्माचा वोलावा। अनादिसिद्ध तूं निच नवा। जाणें मी सदतिसावा। पुरुष विश्वेश तूं।९।

**अनादिमध्यान्तमनन्तवीर्यमनन्तबाहुं शशिसूर्यनेत्रम् । पश्यामि त्वां दीप्तहुताशवक्त्रं स्वतेजसा विश्वमिदं तपन्तम् ॥१९॥**

तूं आदिमध्यांतरहितु। स्वसामर्थ्ये तूं अनंतु। विश्वबाहु अपरिमितु। विश्वचरण तूं।**३१०**। पैं चंद्रचंडांशुडोळां। दावितासि कोपप्रसाद लीळा। एकां रुससी तमाचां डोळां। एकां पाळितोसि कृपादृष्टी।११। जी एवंविधा तूंतें। मी देकतसें हें निरुतें। पेटलें प्रळयाग्रीचें उजितें। तैसें वक्त्र हें तुझें।१२। वणिवेनि पेटले पर्वत। कवळूनि ज्वाळांचे उभड उठत। तैसी चाटीत दाढा दांत। जीभ लोळे।१३। इये वदनींचिया उबा। आणि जी सर्वांगकांतीचिया प्रभा। विश्व तातलें अति क्षोभा। जात आहे।१४।

**द्यावापृथिव्योरिदमन्तरं हि व्याप्तं त्वयैकेन दिशश्च सर्वाः। दृष्ट्वाद्भुतं रूपमुग्रं तवेदं लोकत्रयं प्रव्यथितं महात्मन् ॥२०॥**

कां जे द्यौर्लोक पाताळ। पृथिवी हन अंतराळ। अथवा दशदिशा समाकुळ। दिशाचक्र।१५। तें आघवेंचि तुवां एकें। भरलें देखत आहे कौतुकें। परि गगनाहीसकट भयानकें। आप्लविजे जेवीं।१६। ना तरी अद्भुतरसाचां कल्लोळीं। जाहली चवदाही भुवनांसि कडियाळी। तैसें आश्चर्यचि मग मी आकळीं। काय एक।१७। नावरे व्याप्ती हे असाधारण। न साहवे रूपाचें उग्रपण। सुख दूरी गेलें परी प्राण। विपायें धरी जग।१८।

---

**अर्थ:** (८१) सुदर्शन चक्र. (८२) पांच अग्नी अशे: प्रलयानल, विद्यूतनल, वडवानल, शिवनेत्रानल, द्वादशादित्यानल. (८३) साडेतीन. (८४) अविनाशी. (८५) शास्वत. (८६) खेळ. (८७) भव्य.

भक्तांचेर करूं कुर्पा। धरशी देखणें रूप विश्वरुपा। पूण तें म्हेळे दिश्टीन बापा। दिसता सामान्य म्हाका।९१। पूण तुवें अळंग दिव्य-चक्षु दिलो। आतां म्हजो दिश्टी विटाळु गेलो। म्हूण सारको पळोवंक मेळ्ळो। म्हयमा तुजो।९२। मानग्या तोंडा जूं आशिल्ल्या रथा फाटसुनु। तूं बशिल्लो गा सारथी जावनु। तूंच घेतलें तें विश्वरूप म्हण्णु। वळखलें हांवें।९३।

**माथ्यार मुकूट गदा चक्र हातीं उजळाय तेजाराशी धायि दिकांनी ।**
**त्यो पेटिल्ल्यो दिशा नजो पळोवंक उजो सुर्यावरी वर्णूंक येना॥१७॥**

न्हय तोच हो शिरीं। तुवें मुकूट घाल्लो श्रीहरी?। पूण आतां अद्भूत भारी। ताचें तेज नि व्हडवीक।९४। घुंवता तें वयल्या हातीं। तेंच चक्र[८१] न्ही श्रीपती?। सांवरून धरी तूं तें विश्वमूर्ती। तुका वळखुंची खूण ती।९५। दुसरेवर्शी, तीच न्ही ही गदा?। सकलीं भुजां विना आयुधां?। लगाम सांवरुपा गोविंदा। सरता हात फुडें।९६। आनी म्हजीच इत्सा करूं पूर्ण। केलें हें विश्वरूप धारण। दुसरें कांयच नासलें प्रयोजन। हांव जाणां हें विश्वेशा।९७। पूण कितें ह्या रुपाची नवलायु। करुं विस्मय योग्य ना हांवु। चित्ता लागली पिसायु। अचर्यान ह्या।९८।

**विश्वरुपाची भव्यताय:** हें विश्वरूप आसा वा ना। ह्या विचाराकय वेळ ना। ह्या तेजाची नवलाय उणावना। ताची प्रभा दाटिल्ल्यान।९९। हांगा अग्नीचीय दिश्टी करपता। सूर्य काजुल्यावरी फिको पडटा। अशी अद्भूत तीव्रता। तेजाची ह्या।३००। महातेजाच्या म्हालसागरीं बुडली। चराचर सृश्टी सगली। वा युगान्त विजुले पदरांनी धांकली। गगनाची पोकळी।१। वा प्रळयतेजाच्या जाळांनी। उबाल्लो माळो गगनीं। म्हज्या ज्ञान दोळ्यांनी-।य येना तो पळोवंक।२। हो उजाळु चडावत वाडटा। तो जाळ आंग हुलपायता। दिव्य दिश्टीकय त्रास पडटा। तो नियाळूं वतां।३। वा म्हाप्रळयींचो अग्नी भडकता। काळाग्नी* रुद्राठांय* जो गुप्त आसता। तो तिसऱ्या दोळ्याची कळी उगडट्टा। फुलिल्लेवरी।४। पातळिल्ल्या अग्नी प्रकाशांत। भडकिल्ल्या पंचाग्नीच्या[८२] जाळांत। थंय शिरकल्ल्यान कोळशे जातात। ब्रह्मांडाचे।५। अश्यो तेजाराशी अद्भूत। हांवें देखूं नासल्यो जल्मांत। ना मर्याद नि अंत। तुजे दिव्य कांतीक।६।

**आमी जाणचेलें व्हड ब्रह्म तूंच ह्या विश्वाचो व्हड आधारू तूंच । शाश्वतु ब्रह्माचो रक्षकु तूंच नित्य सनातन पुरुष तूंच ॥१८॥**

औंट[८३] मात्रांचो ओंकार। तूं ताचेय पेल्यान, अक्षर[८४]। वेद तुजें घर। सोदीत आसात।७। जें दृश्य आकाराचें मूळस्थान। जंय विश्वाची जाता सांठोवण। तें अव्यय[८५] तूं गहन। अविनाशी, गा।८। तूं धर्माची जीण। अनादीसिद्ध सदीं नवीन। वेगळो छत्तीस तत्त्वांहून। सदतिसावो पुरूष तूं।९।

**तुका ना आदी नायु मध्य अंत बावळे भौ तुजे दोळे सूर्य चंद्र । तोंडां तुगेलीं उज्यावरी पेट्टी तेजानु तुज्या तूं लासय जगाकु ॥१९॥**

तूं आदी-मध्य-अंता विरयत। सामर्थ्यय तुजें अनंत। विश्वभुजां अगणित। पांय तुका सर्वत्र।३१०। आगा, चंद्रसुर्याच्या दोळ्यांनी। लीला[८६] कुर्पे-कोपाची दाखयी। एकार कोपी तमा दोळ्यांनी। एका पाळशी कुर्पे दिश्टीन।११। आगा, हे परी स्वरूप। हांव चोयतां खरेंच। पेटिल्ल्या प्रळया उज्या तेज। तशें तोंड हें तुजें।१२। पर्वत वणव्यान पेट्टां। भयंकर जाळा लोट ताका कवळटा। तशी जीब तुज्या तोंडांत लोळटा। चाटीत दाडो दांत।१३। ह्या तोंडच्या खर हुलपान। आनी गा सर्वांग कांतीच्या तेजान। विश्व तापलें अती क्षोभान। जाता खासावीस।१४।

**मळबा धतरि मदलें हें अंत्राळ सगल्यो दिको तुवें एकल्यानु व्यापल्यो । पळोवनु अद्भुत हें खर रूप हे तिनूय लोकु भियेलेच देवा ॥२०॥**

हो सर्गलोक, हें पाताळ। पृथ्वी नि अंतराळ। हीं सगलीं सामकीं व्याकूळ। क्षितिजासवें धायदिको।१५। अवघेंच तुवें व्यापलें एकल्यानु। हें देखतां हांव कवतुकानु। गगनासयत गेलें बुडूनु। विक्राळरुपांत;।१६। ह्या अद्भूत रोसाच्या ल्हारांमदीं। चवदाय भुवनांय वेढलीं सामकीं। अश्या अचर्याच्या रुपाची। म्हाका वळख जातली कशी?।१७। कळना ही व्याप्ती असाधारण[८७]। सोंसनाय ह्या रुपाची खरसाण। सूख गेलें पयस, पूण प्राण। सांबाळप कठीण।१८।

देवा देखोनियां तूतें। नेणों कैसें आलें भयाचें भरितें। आतां दु:खकल्लोळीं झळंबतें। तिन्ही भुवनें।१९। एऱ्हवीं तुज महात्मयाचें देखणें। तरि भयदु:खासि कां मेळवणें। परि हें सुख नव्हेचि जेणें गुणें। तें जाणवत आहे मज।३२०। जंव तुझें रूप नोहे दिठें। तंव जगासि संसारिक गोमटें। आतां देखिलासि तरी विषयविटें। उपनला त्रासु।२१। तेवींचि तूंतें देखिलियासाठीं। काइ सहसा तुज देवों येईल मिठी। आणि नेदीं तरी संकटीं। राहों केवीं।२२। म्हणोनि मागां सरों तंव संसारु। आडवीत येतसे अनिवारु। आणि पुढां तूं तंव अनावरु। न येसि घेवों।२३। ऐसा माझारिलिया सांकडां। बापुड्या त्रैलोक्याचा होतसे हुरडा। हा ध्वनि जी फुडा। चोजवला मज।२४। जैसा आरंबळला आगीं। समुद्रा ये निवावयालागीं। तंव कल्लोळपाणियाचां तरंगीं। आगळा बिहे।२५। तैसें या जगासि जाहलें। तूंतें देखोनि तळमळित ठेलें। यामाजीं पैल भले। ज्ञानसुरांचे मेळावे।२६।

**अमी हि त्वां सुरसंघा विशन्ति केचिद् भीता: प्राञ्जलयो गृणन्ति।**
**स्वस्तीत्युक्त्वा महर्षिसिद्धसंघा: स्तुवन्ति त्वां स्तुतिभि: पुष्कलाभि: ॥२१॥**

हे तुझेनि आंगिकें तेजें। जाळूनि सर्व कर्माचीं बीजें। मिळत तुजआंतु निजें। सद्भावेंसीं।२७। आणिक एक साविया भयभीरु। सर्वस्वें धरूनि तुझी मोहरु। तुज प्रार्थितातिं करु। जोडोनियां।२८। देवा अविद्यार्णवीं पडिलों। जी विषयवागुरें आंतुडलों। स्वर्गसंसाराचां सांकडलों। दोन्हीं भागीं।२९। ऐसें आमुचें सोडवणें। तुजवांचोनि कीजेल कवणें। तुज शरण गा सर्वप्राणें। म्हणत देवा।३३०। आणि महर्षी अथवा सिद्ध। कां विद्याधरसमूह विविध। हे बोलत तुज स्वस्तिवाद। करिती स्तवन।३१।

**रुद्रादित्या वसवो ये च साध्या विश्वेऽश्विनौ मरुतश्चोष्मपाश्च। गन्धर्वयक्षासुरसिद्धसंघा वीक्षन्ते त्वां विस्मिताश्चैव सर्वे ॥२२॥**

हे रुद्रादित्यांचे मेळावे। वसु हन साध्य आघवे। अश्विनौदेव विश्वेदेव विभवें। वायुही हे जी।३२। अवधारा अग्नि हन गंधर्व। पैल यक्षरक्षोगण सर्व। जी महेंद्रमुख्य देव। कां सिद्धादिक।३३। हे आघवेची आपुलां लोकीं। सोत्कंठित अवलोकीं। हे महामूर्ती दैविकी। पाहत आहाती ३४। मग पाहात पाहात प्रतिक्षणीं। विस्मित होऊनि अंत:करणीं। करित निजमुकुटीं वोवाळणी। प्रभुजी तुज।३५। ते जय जय घोष कलरवें। स्वर्ग गाजविताती आघवे। ठेवित ललाटावरी बरवे। करसंपुट।३६। तिये विनयद्रुमाचिये आरवीं। सुरवाडली सात्त्विकांची माधवी। म्हणोनि करसंपुटपल्लवीं। तूं होतासि फळ।३७।

**रूपं महत् ते बहुवक्त्रनेत्रं महाबाहो बहुबाहूरुपादम्। बहूदरं बहुदंष्ट्राकरालं दृष्ट्वा लोका:प्रव्यथितास्तथाहम् ॥२३॥**

जी लोचना भाग्य उदेलें। जीवा सुखाचें सुयाणें पाहलें। जे अगाध तुझें देखिलें। विश्वरूप इहीं।३८। हें लोकव्यापक रूपडें। पाहतां देवांही चवकु पडे। याचें सन्मुखपण जोडे। भलतयाकडुनी।३९। ऐसें एकचि परि विचित्रें। आणि भयानकें तेवींची बहु वक्त्रें। बहुलोचन हे सशस्त्रें। अनंतभुजा।३४०। हे अनंत चारु चरण। बहु उदर आणि नानावर्ण। कैसें प्रतिवदनीं मातलेपण। आवेशाचें।४१। हो कां जे महाकल्पांचां अंतीं। तवकलेनि यमें जेउततेउतीं। पळयाग्नीचीं उजितीं। आंबुखिलीं जैसीं।४२। ना तरी संहारत्रिपुरारीचीं यंत्रें। कीं प्रळयभैरवांचीं क्षेत्रें। नाना युगांतशक्तीचीं पात्रें। भूतखिचा वोढविलीं।४३। तैसीं जियेतियेकडे। तुझीं वक्त्रें जीं प्रचंडें। न समाती दरीमाजीं सिंहाडें। तैसें दांत दिसती रागीट।४४। जैसें काळरात्रिचेनि अंधारें। उल्हासत निघती संहारखेचरें। तैसिया वदनीं प्रळयरुधिरें। काटलिया दाढा।४५। हें असो काळें अवंतिलें रण। कां सर्वसंहारें मातलें मरण। तैसें अतिभिंगुळवाणेंपण। वदनीं तुझिये।४६। हे बापडी लोकसृष्टी। मोटकीये विपाइली दिठी। आणि दु:खकालिंदीचां तटीं। झाड हाऊनि ठेली।४७। तुज महामृत्यूचां सागरीं। हे त्रैलोक्यजीविताची तरी। शोकदुर्वातलहरी। आंदोळत असे।४८।

---

अर्थ: (८८) पयसावंक येना असो. (८९) वसंत रुतू. (९०) दोळे. (९१) रंग. (९२) सांवार करपी शंकराचो तोफखानो.
(९३) यमुनेच्या कांठार कालियाच्या विखान करपल्ल्या रुखा भाशेन. (९४) व्हडलें व्हडें.

देवा, तुका असो चोवनु। नेणा भंय कशें आयलें उचंबळून। आतां दुख्खां ल्हारांत वता बुडून। त्रैलोक्य सगलें।१९। हरशीं म्हात्म्या तुजें दर्शन। कित्या जावचें भंय-दुःखाक कारण। पूण कित्या जावचें ना तें सुखा कारण। आतां गमलें म्हाका।**३२०**। देवा, जंवर रूप तुजें देखूं नासलें। तंवर संवसार सूख चांग दिसलें। आतां मन म्हजें विशयां विटलें। पूण दिसता भंय।२१। पूण हें भंया रूप देखतां। कसो वेंगावं तुका आतां। ना तर हांगचीं शोक संकटां। सोंसूं कशीं हांव?।२२। फाटीं सरूं वचचें, हो संवसार। आड येता अनिवार[८८]। फुडें सरचें, तूं अनावर। येना मिठयेंत म्हजे।२३। असो चिमट्यांत सांपडट्टां। ल्हाय त्रैलोक्याची जाता। असो विचार गा मना। आयलो म्हज्या।२४। जसो मनीस उज्यांत हुलपल्लो। न्हिवोवंक समुद्रातडीं धांवलो। उचंबळिल्ल्या ल्हारां पाणयांत पडलो। भिलो अदीकूच;।२५। तशी जाली ह्या जगाची गत। तुका चोवन ते तळमळटात।

**देवांले मेळे रिगती तुजे कुडींतु भयानु कांय जाणु जोडटातु हात ।**
**'बरें जावं' म्हण्टी महर्शी नि सिद्ध गायतातु जायतीं स्तवनां तुजीं ते ॥२१॥**

आतां पळे, जे पेल्यान गेल्यात। त्या ज्ञानशूरांचे मेळे।२६। ते तुज्या आंगच्या तेजान। सर्व कर्मांचीं बिजां गाळून। मेळटात अंतरीं सद्भावान। तुज्या स्वरुर्पी।२७।

**भयभितांची प्रार्थना:** आनी कांय सभावीक भयाभीत। तुजेच वाटेचो आसरो घेत। तुजे फुडें जोडून हात। पराथती तुका।२८। देवा, अज्ञान सागरीं पडले। विशयाच्या जाळांत शिरकले। भोवऱ्यांत घुसपले। सर्ग-संवसाराच्या।२९। अशी आमची सोडवण। तुजेशिवाय करीत कोण?। सर्वभावान तुका शरण। आयले पराथूंक।**३३०**। आनी म्हारुशी वा सिद्ध। विद्याधरांचे मेळे विविध। हे ''बरें जावं'' म्हणटात। करती स्तवन।३१।

**रुद्र आदित्य वसु साध्य विश्वे अश्विनीपूत पितर मरूत । गंधर्व यक्षासूर सिद्ध-संघ अजापानु तुका सगले पळेती ॥२२॥**

ह्या मेळांमदीं रुद्र, आदित्य, अश्विनीदेव। वसू, साध्य, विश्वदेव। आपल्या वैभवासवें सर्व। वायुदेव, गा;।३२। पळे पितर आनी गंधर्व। पेल्यान यक्ष-राकेस-गण सर्व। इंद्र आदी मुखेल देव। सगले ते सिद्ध गा;।३३। हे सगलेच आपापल्या लोकीं। उत्कंठायेन पळेती। ही दैवी म्हामूर्ती। गा तुगेली।३४। मगे पळे पळेतां क्षणीं क्षणीं। विस्मीत जाता अंतस्कर्णीं। आपलीं माथीं बागोवन उंवाळणी-। करी धनया, तुजी।३५। ते तुज्या जयजयकारान। भरती सर्ग मंजूळ नादान। नि शिरीं केल्ल्या दोनूय हातान। वंदिती तुका।३६। त्या विनयरुखांच्या वर्नीं। फुल्ली सात्त्विक भावाची माधवी[८९]। म्हूण त्या पोश्यांत पालय फुटली। नि फळ मेळ्ळें तांकां।३७।

**तें रूप मोटें भौ दोळ्यां मुखांचें भौ जांगां हातांचें भौ पांयां पोटांचें ।**
**रूप भौ दाडांचें विकराळ मोटें पळोवन भिलो त्रिलोक नी हांवय ॥२३॥**

**विश्वरुपाच्यो तरातरांच्यो तरा:** आगा, दोळ्यांचें भाग्य उदेलें। मनाचें सूख फळा आयलें। जाणी अगाध तुजें देखलें। विश्वरूप हांगा।३८। तुजें रूप व्यापी तिनी लोक। देखतां, देवांकूय दिसता धाक। भेट्टा हो सन्मूख। पळेशी खंयसूनय।३९। अशें एकूच पूण विचित्र। भोव मुखां तशेय नेत्र[९०]। अनंत हात सशस्त्र। दिसऽ हांगा।**३४०**। अनंत मांडयो, हात चरण। भोव पोटां, तर्तरां वर्ण[९१]। दर तोंडार मस्तेंपण। उसळटा नेटान।४१। म्हाकल्पाच्या अंतकाळीं। तिडकल्ल्या यमान मळीं स्थळीं। प्रळय अग्नीचीं कुंडां भडकल्लीं। पातळायल्लीं जशीं।४२। वा म्हारुद्राचीं सांवारयंत्रां[९२]। प्रळय भैरवाचीं क्षेत्रां*। वा काळशक्तीचीं पात्रां। करूंक भुतांचें खतखतें;।४३। जंय जंय तशे परी। तुजीं तोंडां दिसती श्रीहरी। जशे शींव घोली भितरी। तशे दांत दिसती रागीट।४४। जशें काळरातीच्या काळखांत। सांवार पिशाच्चांचीं धुमशेणां चलतात। तश्यो दाढो प्रळयरगतांत। माखिल्ल्यो वदनीं तुज्या।४५। काळान दिवंचें रणा आव्हान। सर्व सांवारान मातचें मरण। तशें भारी भयंकरपण। वदनीं तुज्या।४६।

**विश्वाची अवस्था:** जंव मात्शी घाली दिश्टी। तंव ही बावडी जीवसृश्टी। वा दुःख कालींदीतडीं[९३]। जणुं करपल्ल्या रुखावरी।४७। तुज्या म्हामर्णाच्या सागरीं। त्रैलोक्य जिणेची पातमारी[९४]। शोक मोडाच्या ल्हारांरी। झेलता वयर सकल।४८।

एथ कोपोनि जरी वैकुंठें। ऐसें हन म्हणिपैल अवचटें। जे तुज लोकांचें काइ वाटे। तूं ध्यानसुक हें भोगीं।४९। वरी जी लोकांचें कीर साधारण। वांयां आड सूतसें वोडण। केवीं सहसा म्हणें प्राण। माझेचि कांपती।**३५०**। ज्या मज संहाररुद्र वासिपे। ज्या मजभेणें मृत्यु लपे। तो मी अहाळबाहळीं कांपें। ऐसें तुवां केलें।५१। परि नवल बापा हे महामारी। इया नाम विश्वरूप जरी। हे भ्यासुरपणें हारी। भयासि आणी।५२।

**नभःस्पृशं दीप्तमनेकवर्णं व्यात्ताननं दीप्तविशालनेत्रम् । दृष्ट्वा हि त्वां प्रव्यथितान्तरात्मा धृतिं न विन्दामि शमं च विष्णो ॥२४॥**

ठेलीं महाकाळेंसि हटेंतटें। तैसीं कितीएकें मुखें रागिटें। इहीं वाढोनियां धाकुटें। आकाश केलें।५३। गगनाचेनि वाडपणें नाकळे। त्रिभुवनींचियाही वारिया न वेंटाळे। ययाचेनि वाफा आगी जळे। कैसें धडाडीत असे।५४। तेवींचि एकासारिखें एक नोहे। एथ वर्णावर्णाचा भेदु आहे। हो कां जे प्रळयीं सावावो लाहे। वन्ही ययाचा।५५। जयाचिये आंगींची दीप्ती येवढी। जे त्रैलोक्य कीजे राखोंडी। कीं तयाही तोंडें आणि तोंडीं। दांत दाढा।५६। कैसा वरया धनुर्वात चढला। समुद्र कीं महापुरीं पडिला। विषाग्नि मारा प्रवर्तला। वडवानळासी।५७। हळाहळ आगी पियालें। नवल मरण मारा पेटलें। तैसें संहारतेजा या जाहलें। वदन देखा।५८। परी कोणें मानें विशाळ। जैसें तुटिलिया अंतराळ। आकाशासि कव्हळ। पडोनि ठेलें।५९। नातरी काखे सूनि वसुंधरी। जैं हिरण्याक्षु रिगाला विवरीं। तैं उघडलें हाटकेश्वरीं। जेवीं पाताळकुहर।**३६०**। तैसा वक्त्रांचा विकाशु। माजीं जिव्हांचा आगळाचि आवेशु। विश्व न पुरे म्हणोनि घांसु। न भरीचि कोडें।६१। आणि पाताळव्याळांचां फूत्कारीं। गरळज्वाळा लागती अंबरीं। तैसी पसरलिये वदनदरी। माजीं हें जिव्हा।६२। काढूनि प्रळयविजूंचीं जुंबाडें। जैसे पन्नासिले गगनाचे हुडे। तैसे आवाळुवांवरी आंकडे। धगधगीत दाढांचे।६३। आणि ललाटपटाचिये खोळे। कैसे भयातें भेडविताती डोळे। हो कां जे महामृत्यूचे उमाळे। कडवसां राहिले।६४। ऐसें वाऊनि महाभयाचें भोज। एथ काय निपजवूं पाहतोसि काज। तें नेणें परी मज। मरणभय आलें।६५। देवा विश्वरूप पहावयाचे डोहळे। केले तियें पावलों प्रतिफळें। बा देखिलासि आतां डोळे। निवावे तैसे निवाले।६६। अहो देहो पार्थिव कीर जाये। ययाची काकुळती कवणा आहे। परि आतां चैतन्य माझें विपायें। वांचे कीं न वांचे।६७। एऱ्हवीं भयास्तव आंग कांपे। नावेक आगळें तरी मन तापे। अथवा बुद्धिही वासिपे। अभिमानु विसरिजे।६८। परी येतुलियाही वेगळा। जो केवळ आनंदैककळा। तया अंतरात्मयाही निश्चळा। शियारी आली।६९। बाप साक्षात्काराचा वेधु। कैसा देशधडी केला बोधु। हा गुरुशिष्यसंबंधु। विपायें नांदे।**३७०**। देवा तुझां ये दर्शनीं। जें वैकल्य उपजलें आहे अंतःकरणीं। तें सांवरावयालागीं गंवसणी। धैर्याची करितसें।७१। तंव माझेनि नामें धैर्य हारपलें। कीं तयाहीवरी विश्वरूपदर्शन जाहलें। हें असो परि मज भलें आतुडविलें। उपदेशासी।७२। जीव विसंवावयाचिया चाडा। धांवाधांवी करितसे बापुडा। परि सोय ही कवणेकडा। न लभे एथ।७३। ऐसें विश्वरूपाचिया महामारी। जीवित्व गेलें आहे चराचरीं। जी न बोलें तरि काय करीं। कैसेनि राहें।७४।

**दंष्ट्राकरालानि च ते मुखानि दृष्ट्वैव कालानलसन्निभानि। दिशो न जाने न लभे च शर्म प्रसीद देवेश जगन्निवास ॥२५॥**

पैं अखंड डोळ्यांपुढें। फुटलें जैसें महाभयाचें भांडें। तैशी तुझीं मुखें वितंडें। पसरलीं देखें।७५। असो दांतदाढांची दाटी। न झांकवे मा दोदों वोठीं। सैंघ प्रळयशस्त्रांचिया दाट कांटी। लागलिया जैशा।७६। जैसें तक्षका विष भरलें। हो कां जे काळरात्रीं भूत संचरलें। कीं अग्नेयास्त्र परजिलें। वज्राग्नि जैसें।७७। तैशीं तुझीं वक्त्रें प्रचंडें। वरि आवेश हा बाहेरी वोसंडे। आले मरणरसाचे लोंढे। आम्हांवरी।७८। संहारसमयींचा चंडानिळु। आणि महाकल्पांत प्रळयानळु। या दोहीं जैं होय मेळु। तैं काय एक न जळे।७९। तैसीं संहारकें तुझीं मुखें। देखोनि धीरु कां आम्हां पारुखे। आतां भुललों मी दिशा न देखें। आपणपें नेणें।**३८०**। मोटकें विश्वरूप डोळां देखिलें। आणि सुखाचें अवर्षण पडिलें। आतां जापाणीं जापाणीं आपुलें। अस्ताव्यस्त हें।८१।

---

अर्थः (९५) विश्वरुपाचें ध्यानसूख. (९६) रंगय. (९७) घट्टण. (९८) धोणकुटी.
(९९) दर्यांतल्या उज्याक. (१००) भयंकर वीख.

हांगा कोपून जरी वैकुंठनाथ। म्हाका घडये अशें म्हणत। त्रिलोकांचें कित्या पडलां व्यर्थ। तूं भोग हें ध्यानसूख;[९५]।४९। आगा, लोकांभय करता व्याकूळ। ही वोगीच निबाची धाल। म्हजोच जीव जावन आकूळ। लागलो थरथरूंक।**३५०**। ज्या म्हाका सांवाररुद्र भिता। भियेवन काळ लिपता। तो हांव हांगा थरथरतां। अशें तुवें केलें।५१। नवलूच न्ही, बाबा ही म्हामारी। हिचेंच नांव विश्वरूप जरी। हिचें भेसूरपण हारयी। भंया लेगून।५२।

**रंगयाळी ही कूड मळबाकु तेंकल्या  मुखां पेंचल्यांतु तरांटल्यातु दोळे ।**
**भियेल्ल्या मनानु तुका पळेतां  विष्णू, ना धीर सल्ली चित्त शांती॥२४॥**

झुजता म्हाकाळाशीं पैजेन। अशीं सांवार मुखां खर भयाण। आनी जांच्या विशालपणान। हें आकाशय दिसलें गिड्डें।५३। जीं कवळूं येना गगना विस्ताराक। येना वेटाळूं त्रैलोक्य वाऱ्याक। हाच्यो वाफो भाजती उज्याक। कसो भगभगता जाळ हो!।५४। तोंड एकसारकें दुसरें ना। वर्णय[९६] तांचो एक ना। प्रळय काळाचोय अग्नी मागता। पालव हाचो।५५। जाच्या आंगची दिसी इतली। करता त्रैलोक्याची राखरांगोळी[९७]। ताकाय तोंडां, नि तोंडीं। दांत दाडो।५६। जणूं वाऱ्याक धनुर्वात[९८] जावंचो। वा समुद्र हुंवारांत पडचो। वा विखाग्नी फुडें सरचो। वडवानला[९९] मारूंक।५७। हलाहल[१००] उजो पियेलें। नवल, मरणच मारूंक उठलें। या सांवार तेजा तोंडांमालें फुटलें। दिसता तशें।५८। तें म्हणचे प्रचंड तरी कितलें। अखंड अंतराळ तुटलें। ताका मर्दीच पडलें आसतलें। भगदाड।५९। वा खांकेक मारून पृथ्वी। हिरण्याक्ष रिगलो विवरीं। तेन्ना हाटकेश्वरान जे परी। उगडलें पाताळ दार;।३६०। तशीं हीं तोंडां विशाळ। तातूंत जिवांची वळवळऽ। गिरासाक पावचेंना हें विश्व। म्हणून तें गिळिना।६१। पाताळ नागांच्या फुत्कारांनी। जश्यो विखा जिबल्यो आकाशा झोंबती। तश्यो पातळ्ळ्या जिबो खालावयरी। तोंडांचे घळयेमर्दी।६२।

**अर्जुनाचें भंय:** प्रळय विजुलांचीं मार्ली एकठावचीं। आकाश मंदिराक शिंगारचीं। तशीं ओंठांभायर दाडांचीं। दिसती तोंकां।६३। ललाटपट्टे सकले खांचींतले। हे भंयाकूय भेश्टायती दोळे। काय म्हालमर्णाचे उमाळे। काळखांत राविल्ले।६४। अशें घेवन महाभंयाचें सवंग। कितें पळे तूं सादूंक। नेणा हांव, पूण म्हजें मन। ग्रासलां मर्णभंयान।६५। देवा, विश्वरूप देखचे दुवाळे-। जाले, ते पर्ते फळा आयले। दिसलें सगलें, आतां दोळे। न्हिवले सामके।६६। हो पार्थीव देह आतां खरो सोंपता। हाची काकूळट कोण करता?। पूण कळना म्हजो जीव आतां। वांचत काय ना।६७। भंयान हें आंग थरथरता। खीणभर वाडटा, तरीय मन तापता। आनी बुद्दीय भिता। विसरता अभिमान।६८। पूण ह्या सगल्यां परसय वेगळो। जो फकत आनंदमुर्तीचो कळो। तो म्हजो निश्चळ आत्मोय शिरशिरलो। भंयान।६९। देवा, कितें ह्या रुपा छंदाची तांक। ताणें ज्ञान लायलें देशोधडीक। ह्या गुरुशिश्याच्या संबंधाक। सांवरूं कसो।**३७०**। देवा, तुज्या ह्या दर्शनान। रिगलां मनीं जें दुबळेंपण। तें सांवरूंक घाली गिंवसण। धिराची।७१। पूण म्हजो धीर सुटलो मुळांत। हें विश्वरूप दिसलें तातूंत। तुवेंच घालो घुसपा गंदळांत। म्हाका ह्या बोधान।७२। विसवा इत्सेन जीव। करी बाबडो धांवाधांव। पूण ताका थारा थाव। मेळना खंयच;।७३। पळोवन विश्वरुपाची महामारी। जिवीत सल्लें चराचरीं। आगा, नुलोवंचें तरी। करचें कितें, रावचें कशें वोगी?।७४।

**विक्राळ दाढांचिं अक्राळ तोंडां  प्रळया उज्यावरी पेट्टातु तींच ।**
**दिको दिसनातु ना सूख जिवाक  दया तूं दी विश्वनिवासि देवा ॥२५॥**

**विश्वरुपाचीं सांवारपी मुखां:** अखंड दोळ्यांफुडें। फुट्टां जशें म्हाभंयाचें भांडें। तशीं तुजीं मोट्टीं तोंडां सगले वटे। पातळिल्लीं हांव पळयतां।७५। दाट दाडांची इतली खेट। ती धरना दोनूय ओंठांत। प्रळय शस्त्राची शिंरांट्या वंयः दाट। दिसता लायिल्लेवरी।७६। तशीं तुजीं तोंडां प्रचंड। वो तो येवन ओत्ता नेट। आयले मर्णा रोसा लोट। आमचेरी।७८। सांवार समयींचो मोडावाव सुटलो। म्हाकल्पान्तीचो प्रळय उजो पेटलो। ह्या दोंयचो मेळ आतां जालो। तर आतां जळचें ना कितें?।७९। तशीं हीं सांवार करपी मुखां। चोवनु, हो धीर सोडी आमकां। पिसावलां, दिकोय दिसना आतां। हांव म्हाकाच नेणा।**३८०**। हें विश्वरूप इल्लेंशेंच देखलें। आनी सुखाचे दुकळ पडले। आतां आवर, आवर आपलें। हें रूप अस्तावेस्त।८१।

एसें करिसी म्हणोनि जरि जाणें। तरि हे गोष्टि सांगावी कां मी म्हणें। आतां एक वेळ वांचवीं जी प्राणें। या स्वरूपप्रळयापासोनि।८२। जरि तूं गोसावी आमुचा अनंता। तरि सुई वोडण माझिया जीविता। सांटवीं पसारा हा मागुता। महामारीचा।८३। आइकें सकळ देवांचिया परदेवते। तुवां चैतन्यें गा विश्व वसतें। तें विसरलासी हें उपरतें। संहारूं आदरिलें।८४। म्हणोनि वेगीं प्रसन्न होई देवराया। संहरीं संहरीं आपुली माया। काढी माते महाभया-। पासोनियां।८५। हा ठायवरी पुढतपुढती। तूतें म्हणिजे बहुवा काकुळती। ऐसा मी विश्वमूर्ती। भेडका जाहलों।८६। जैं अमरावतीये आला धाडा। तैं म्यां एकलेनि केला उवेडा। जो मी काळाचियाही तोंडा। वासिपु न धरीं।८७। परि तया आंतुल नव्हे हे देवा। एथ मृत्यूसही करूनि चढावा। तुवां आमुचाचि घोटु भरावा। या सकळ विश्वेसीं।८८। कैसा नव्हता प्रळयाचा वेळु। हो कां तूंचि मिनलासि काळु। बापुडा हा त्रिभुवनगोळु। अल्पायु जाहला।८९। अहा भाग्या विपरीता। विघ्न उठिलें शांत करितां। कटा विश्व गेलें आतां। तूं लागलासि ग्रासूं।**३९०**। हें नव्हें मा रोकडें। सैंघ पसरूनिया तोंडें। कवळितासि चहूंकडे। सैन्यें इयें।९१।

**अमी च त्वां धृतराष्ट्रस्य पुत्राः सर्वे सहैवावनिपालसंघैः। भीष्मो द्रोणः सूतपुत्रस्तथासौ सहास्मदीयैरपि योधमुख्यैः ॥२६॥**

नोहेति हे कौरवकुळींचे वीर। आंधळिया धृतराष्ट्राचे कुमर। हे गेले गेले सपरिवार। तुझां वदनीं।९२। आणि जे जे यांचेनि सावांयें। आले देशोदेशींचें राये। तयांचें सांगावया जावों न लाहे। ऐसें सरकटितु आहासी।९३। मदमुखाचिया संघटा। घेत आहासि घटघटां। आरणीं हन थाटा। देतोसि मिठी।९४। जंत्रावरिचील मार। पदातींचे मोगर। मुखाआंत भार। हारपताति मा।९५। कृतांताचिया जावळी। जें एकचि विश्वातें गिळी। तियें कोटीवरील सगळीं। गिळितासि शस्त्रें।९६। चतुरंगा परिवारा। संजोडियां रहंवरां। दांत न लाविसी मा परमेश्वरा। कैसा तुष्टलासि बरवा।९७। हां गा भीष्माऐसा कवणु। सत्यशौर्यनिपुणु। तोही आणि ब्राह्मण द्रोणु। ग्रासिलासि कटकटा।९८। अहा सहस्त्रकराचा कुमरु। एथ गेला गेला कर्णवीरु। आणि आमुचिया आघवयांचा केरु। फेडिला देखें।९९। कटाकटा धातया। कैसें जाहलें अनुग्रहा यया। मियां प्रार्थूनि जगा बापुडिया। आणिलें मरण।**४००**। मागां थोडिया बहुवा उपपत्ती। येणें सांगितलिया विभूती। तैसा नसेचि मा पुढती। बैसलों पुसों।१। म्हणोनि भोग्य तें त्रिशुद्धी न चुके। आणि बुद्धिही होणारासारिखी ठाके। माझां कपाळीं पिटावें लोकें। तें लोटेल काह्या।२। पूर्वी अमृतहीं हातां आलें। परि देव नसतीचि उगले। मग काळकूट उठविलें। शेवटीं जैसें।३। परि तें एकबगीं थोडें। केलिया प्रतिकारामाजिवडें। आणि तिये अवसरींचें तें सांकडें। निस्तरविलें शंभू।४। आतां हा जळता वारा कें वेंटाळे। कोणाही विषा भरलें गगन गिळे। महाकाळेंसि खेळें। आंगवत असे।५। ऐसा अर्जुन दुःखें शिणतु। शोचित असे जिवाआंतु। परि न देखे तो प्रस्तुतु। अभिप्रावो देवाचा।६। जे मी मारिता हे कौरव मरते। ऐसेनि वेंटाळिला होता मोहें बहुतें। तो फेडावयालागीं अनंतें। हें दाखविलें निज।७। अरे कोण्ही कोणातें न मारी। एथ मीचि हो सर्व संहारीं। हें विश्वरूपव्याजें हरी। प्रकटित असे।८। परि वायांचि व्याकुलता। ते न चोजवेचि पंडुसुता। मग अहा कंपु नव्हता। वाढवित असे।९।

**वक्त्राणि ते त्वरमाणा विशन्ति दंष्ट्राकरालानि भयानकानि। केचिद्विलग्ना दशनान्तरेषु संदृश्यन्ते चूर्णितैरुत्तमाङ्गैः ॥२७॥**

तेथ म्हणे पाहा हो एके वेळे। सासिकवचेंसि दोन्ही दळें। वदनीं गेलीं आभाळें। गगनीं कां जैसीं।**४१०**। कां महाकल्पांचा शेवटीं। जैं कृतांतु कोपला होय सृष्टी। तैं एकविसांही स्वर्गा मिठी। पाताळासकट दे।११। नातरी उदासीनें दैवें। संचकाचीं वैभवें। जेथींचीं तेथ स्वभावें। विलया जाती।१२। तैसीं सांचलीं सैन्यें एकवाटें। इये मुखीं जाहलीं प्रविष्टें। परि एकही तोंडौनि न सुटे। कैसें कर्म देखा।१३।

---

**अर्थः** (१०१) तोंडांत. (१०२) हती, घोडे, रथ आनी पांयदळ.
(१०३) कर्ण - सुर्याचो पूत.

अशें करशी, आसली जर नात। तर कित्या काडटलो ही गजालमात। आतां एकदांच वाटाय जीव प्राण। ह्या रुपा प्रळयापसून।८२। जर तूं धनी आमचो अनंता। तर धाल जा आमच्या जिविता। पर्थून आवर पसारो आतां। हे म्हामारीचो।८३। आयक, सर्वय देवां परम देवते। तुजें चैतन्य वसय विश्व हें। कितें विसरून तें, उलटें। विश्व नश्टिलें तुवें।८४। म्हणून बेगीं जा प्रसन्न, देवराया। घे आवरून तुजी माया। सोडय तूं म्हाका म्हाभंया-। पसून गा देवा।८५। आतां हे मेरेन तुजी। भौन भौन हांव करी विनवणी। असो हांव गा विश्वमूर्ती। भियेवन जालां गुळी।८६। जंव इंद्रपुरीचेरी घुरी आयली। ती हांवें एकल्यानूच परतिली। भिती हाका केन्नाच नाफुडली। काळमुखीं रिगुंची।८७। पूण न्ही ही गजाल तांतली। हय, तुवें काळारय हार घाली। तूं आमचोच घोंट्टु गिळूं सोदी। सर्वय विश्वा सवें।८८। नासलो हो प्रळया वेळु। तूं आयलो अवचित काळु। बावडो हो त्रिभुवना गोलु। जालो अल्पायुशी।८९। अहो भाग्या विपरिता। विघ्न उप्रासलें, शांती मागतां। कटाऽ कटाऽ विश्व गेलें आतां। तूं लागलो गिरासूंक।**३९०**। हें दोळ्यां सामकार दिसता। तूं उगडून तुजीं तोंडां। चोंयवशींनीं आगा गिळटा। हीं सैन्यां हांगा।९१।

**अशे हे सगले धृतराष्ट्र-पूत  रायांले मेळे तांचे सयत झुजपी ।**
**हो भीष्म हो द्रोण तो सूत-पूत  आमच्या पक्षाचे झुजारी मुखेलु ॥२६॥**

न्हय हे कौरवकुळींचे वीर?। कुड्ड्या धृतराष्ट्राचे कुंवर?। हे गेले सहपरिवार। तुज्या वदनीं[१०१]।९२। आदाराक हाचे इश्ट जे जे। आयिल्ले देशोदेशींचे राजे। नांव सांगूंक कोणूच नुल्ले तांचे। असो भकता तूं तांकां।९३। मदान मस्त हतयां हिंड। तूं गिळशी गटागट। मगे कसलें गा अजाप। गिळ्ळीं सैन्यांय तुवें।९४। सैनीक यंत्रां चलोवपी। पांयदळांतले झुजपी। हांच्यो झुंडयांनी झुंडी। ना जाती तुज्या मुखीं।९५। कृतांताची जुंवळीं भांवडां सोबत। जीं एकलींच विश्वा गिळीत। अशीं कोटींनीं शस्त्रां जीं आसात। गिळी तूं अचळय।९६। चतुरंग[१०२] सैन्य परिवारा। सैन्यासवें रथवरां। दांत लायलेवीण, परमेश्वरा। कसो तुश्टता बरो।९७। देवा, भीष्मावरी कोणु। सत्य-शौर्य-निपुणू?। तोय नि ब्राह्मण द्रोणु। गिळ्ळे कटाऽ कटा।९८। अहो, सुर्याचो कुंवर[१०३]। हांगा आतांच सोंपलो कर्णवीर। पळे आमचो सगल्यां कोयर। कर्न झाडलो तुवें।९९।

**अर्जुनाक पश्चाताप:** कटाऽ कटाऽ ! ब्रह्मदेवा धनया। कितें जालें कुर्पेन ह्या। हांवें पराथून जगा बाबड्या। हाडलें मर्ण।**४००**। फाटीं इल्ली दिवन म्हायती। सांगिल्ल्यो तुवें तुज्यो विभूती। तरी हटान हांवें केली विनंती। विश्वरूप दाखोवंची।१। येना टाळपा जें भोगचेलें आसता। जावंचें आसता तशी बुद्दय जाता। लोक कपलार फोडटले दोश आतां। सुटचें कशें तांतल्यान?।२। पुर्वीं अमृतय हातीं आयलें। तरी देव ना तुश्टले। मगे काळकूट हाताक लागलें। समुद्रमंथनीं देवां।३। पूण तें एके परी आसलें इल्लें। ताचें निराकरणय अशक्य नासलें। नि त्या वेळार निस्तरलें। शंभून तें।४।

**विश्वरुपाचो हेतू:** आतां हो जाळा वाव कोण आवरीत?। हें विखयाळें गगन कोणा गिळीत?। ह्या म्हाकाळाशीं खेळत। असो समर्थ कोण?।५। असो अंतरीं कश्टी जावन। शोक करूं लागलो अर्जुन। पूण कळ्ळें ना कितें चल्लां मनांत। श्रीहरीच्या।६। हांव मारीन, मरतले हे कौरव। असो घेरिल्लो तो भारी गंदळान। तो गंदळ फेडूंक, अनंतान। दाखयलें नीजरूप।७। आरे, मारिना कोण कोणाकु। हांगा हांवूच मारी सगल्यांकु। श्रीहरीन विश्वरुपा निमतानु। उक्तायलें हें।८। पूण हें कळूं नाशिल्ल्यान। वोगीच व्याकूळ जालो अर्जुन। ताच्या ह्या व्यर्थ भयान। वाडलो ताचो थरथरो।९।

**रिगतातु नेटानु विकराळु तोंडांत  सुळ्या दांतांनी भयंकरु दिसपी ।**
**कांय जाणां माथ्यांचो जालो चुरो गा  दांतांचे खांचींत शिरकून दिसता ॥२७॥**

तंवळ भौन म्हळें अर्जुनान। कुपां विरचीं जशीं मळबांत। तशीं दोनी दळां शस्त्र कवचांसयत। गेलीं ताच्या तोंडांत।**४१०**। वा विश्वप्रळयाचे अंतीं। कृतांत कोपान कांपता सृश्टी। तंव एकवीसय सर्गांक मिठी। दिता पाताळासवें।११। वा फिरतकीच दैव। किरपणाची ठेव। लया वता सर्व। जंयचे थंयच।१२। तशीं हीं सैन्यां जीं जमिल्लीं। ह्या तोंडांमदीं रिगलीं। पूण पळय कर्मगती फिल्ली। एकूय सुटलेंना तोंडसून।१३।

अशोकाचे अंगवसे। चघळिले कन्हेनि जैसें। लोक वक्त्रामाजीं तैसे। वायां गेले।१४। परि सिसाळें मुकुटेंसीं। पडिलीं दाढांचां सांडसीं। पीठ होत कैसीं। दिसत आहाती।१५। तियें रत्नें दांतांचिये सवडी। कूट लागलें जिभेचां बुडीं। कांहीं कांहीं आगरडीं द्रंष्टांचीं। माखलीं।१६। हो कां जे विश्वरूपें काळें। ग्रासिलीं लोकांचीं शरीरें बळें। परि जीवत्वदेहींचीं सिसाळें। अवश्य कीं राखिलीं।१७। तैसीं शरीरामाजीं चोखडीं। होतीं उत्तमांगें इयें फुडीं। म्हणोनि महाकाळाचांहि तोंडीं। परि उरलीं शेखीं।१८। मग म्हणे हें काई। जन्मलयां आन मोहरचि नाहीं। जग आपैसेंचि वदनडोहीं। संचरताहे।१९। या आघवियाचि सृष्टी। लागलिया आहाति वदनाचां वाटीं। आणि हा जेथिंचिया तेथ मिठी। देतसे उगला।**४२०**। ब्रह्मादिक समस्त। उंचा मुखामाजीं धांवत। येर सामान्य हे भरत। ऐलीच वदनीं।२१। आणीकही भूतजात। तें उपजलेचि ठायीं ग्रासित। परि याचिया मुखा निभ्रांत। न सुटेचि कांहीं।२२।

**यथा नदीनां बहवोऽम्बुवेगाः समुद्रमेवाभिमुखा द्रवन्ति। तथा तवामी नरलोकवीरा विशन्ति वक्त्राण्यभिविज्वलन्ति ॥२८॥**

जैसे महानदीचे वोघ। वहिले ठाकिती समुद्राचें आंग। तैसें आघवांचिकडूनि जग। प्रवेशत मुखीं।२३। आयुष्यपंथें प्राणिगणीं। करोनि अहोरात्रीची सोवाणी। वेगें वक्त्रमिळणीं। साधिजत आहाती।२४।

**यथा प्रदीप्तं ज्वलनं पतङ्गा विशन्ति नाशाय समृद्धवेगाः। तथैव नाशाय विशन्ति लोकास्तवापि वक्त्राणि समृद्धवेगाः ॥२९॥**

जळतया गिरीचिया गवाखा-। माजीं घापती पतंगाचिया झाका। तैसे समग्र लोक देखा। इये वदनीं पडत।२५। परि जेतुलें येथ प्रवेशलें। तेंतुलया लोहें पाणीचि पां गिळिलें। वहिवटींहि पुसिलें। नामरूप तयांचें।२६।

**लेलिह्यसे ग्रसमानः समन्ताल्लोकान्समग्रान्वदनैर्ज्वलद्भिः। तेजोभिरापूर्य जगत्समग्रं भासस्तवोग्राः प्रतपन्ति विष्णो ॥३०॥**

आणि येतुलाही आरोगण। करितां भुके नाहीं उणेपण। कैसें दीपन असाधारण। उदयलें यया।२७। जैसा रोगिया ज्वराहूनि उठिला। कां भणंगा दुष्काळु पाहला। तैसा जिभांचा लळलळाटु देखिला। आवाळुवें चाटितां।२८। तैसें आहारचेन नांवें कांहीं। तोंडापासूनि उरलेंचि नाहीं। कैसी समसमित नवाई। भुकेलेपणाची।२९। काय सागराचा घोंटु भरावा। कीं पर्वताचा घांसु करावा। ब्रह्मकटाहो घालावा। आसकाचि दाढे।**४३०**। दिशा सगळियाचि गिळावियां। चांदिणिया चाटूनि घ्यावियां। ऐसें वर्तते आहे साविया। लौल्य बा तुज।३१। जैसा भोगीं कामु वाढे। कां इंधनें आगीसि हकाक चढे। तेसीं खातखातांचि तोंडें। खाखातें ठेलीं।३२। कैसें एकचि केवढें पसरलें। त्रिभुवन जिव्हाग्रीं आहे टेकलें। जैसें कां कवींठ घातलें। वडवानळीं।३३। ऐसीं अपारें वदनें। आतां येतुलीं कैंचीं त्रिभुवनें। कां आहारु न मिळतां येणें मानें। वाढविलीं असह्या।३४। अगा हा लोकु बापुडा। जाहला वदनज्वाळां वरपडा। जैसीं वणवेयाचिया वेढां। सांपडती मृगें।३५। आतां तैसें विश्वासि जाहालें। देवो नव्हे हें कर्म आलें। कीं जगजळचरां पांगिलें। काळजाळें।३६। आतां इये अंगप्रभेचिये वागुरे। कोणीकडूनि निगिजैल चराचरें। वक्त्रें नव्हतीं जोहरें। वोडवलीं जगा।३७। आगी आपुलेनि दाहकपणें। कैसेनि पोळिजे तें नेणे। परि जया लागे तया प्राणें। सुटिका नाहीं।३८। माझेनि तिखटपणें। कैसें निवटे हें शस्त्र कायि जाणे। कां आपुलिया मारा नेणे। विष जैसें।३९। तैसी तुज कांहीं। आपुलिया उग्रपणाची सेचि नाहीं। परि ऐलीकडे मुखीं खाई। हों सरली जगाची।**४४०**। अगा आत्मा तूं एकु। सकळविश्वव्यापकु। तरी का आम्हां अंतकु। वोडवलासी।४१। तरि मियां सांडिली जीविताची चाड। आणि तुवांही न धरावी भीड। मनीं आहे तें उघड। बोल पां सुखें।४२। किती वाढविसी या उग्ररुपा। अंगींचें भगवंतपण आठवीं बापा। नाहीं तरि कृपा। मजपुरती पाहीं।४३।

---

**अर्थः** (१०४) सोपणां. (१०५) दर्यांतल्या उज्यांत.

ाशोक रुखाची ताळी। उंटान जशी चाबडायली। तशी ही सगली मंडळी। गेली लया।१४। पूण मस्तकां मुकुटांसयत तीं। ाडांचे कात्रींत शिरकती। पूण पडिल्ली दिसती। तळीं तांचीं थंय।१५। मुकुटाची वज्रां दांतांचे खांचीमदीं। पूड दशिल्ली ेसता जिबे। कांय कांय तोंकां थोडीं। त्या दाडांचीं माखिल्लीं।१६। दिसता ह्या विश्वरूप काळान। भकलीं लोकांचीं शरीरां ाळान। म्हूण ताणें दवल्ल्यांत तीं राखून। तांचीं शिरां निमणीं।१७। हीं मस्तकां शरीरांत। भारी स्रेश्ठ आसात। म्हूण ाहाकाळाच्या तोंडांत। उल्लीं तीं शेकीं।१८। मगे भौन म्हणी अर्जुन। दुजी वाटच ना जल्मा येवन?। जग अचळय रिगता ोवन। तोंडाचे खोल कोंडयेंत।१९। आपशीं ही सगली सृश्ट। धरी मुखांची वाट। हो जगजेठी रावन सस्त। तीं गिळी सहज।४२०। ब्रह्मादीक जे वरिश्ट। ते रिगती वयल्या मुखांत। हेर सामान्य भरतात। सकल्या मुखांत।२१। आनिकूय हेर प्राणीजात। ते ज्ञाल्ले थंयच ना जातात। पूण सुटना कांयच लेगीत। हाच्या तोंडसून।२२।

**न्हंयांच्या उदकाचे अनेकु लोट धांवतातु जशे समुद्रा वशीनु ।**
**मनीस लोकांतले वीरू तशे हे रिगती वेगीं तुज्या पेट्ट्या मुखांतु ॥२८॥**

जशे महानदयांचे ओग समस्त। बेगोबेग रिगती समुद्रांत। तशे चोंयवशीन तुज्या मुखांत। रिगऽ जग सगलें।२३। जिविताचे वाटेंत प्राणीगण। दीसरातीचे सोपान[१०४]। वती चडून नेटान। तुज्या मुखीं।२४।

**पेटिल्ल्या उज्यांतु जशीं पिसोळीं मोव्या नेटानु घुसतातु मरूंकु ।**
**हे लोकु वेगीं मरूंकु तशेंच रिगतातु नेटानु तुज्या मुखांतु ॥२९॥**

पेटिल्ल्या दोंगराच्या देंगणीं। झोंपय घेती पिसोळ्यां झुंडी। तशे सगले लोक रिगती। हाच्या तोंडीं।२५। पूण जितले हाच्या मुखीं रिगले। ते तापिल्ल्या तव्यार उदकावरी जिल्ले। आनी वहिवाटेंतुल्यान पुसलें। नामरूपय तांचें।२६।

**भोंवतणीं सगल्या लोकांकु गिळूनु चाट्टा तूं जिबो पेटिल्ल्या मुखांतु ।**
**तुज्या उजवाडानु भरूनु विश्वा गा विष्णू तापय तें तेजानु तुज्या ॥३०॥**

इतल्यां सगल्यांक भकून। हाचे भुकेक ना उणेंपण। कसलो पेटलो खर उजो भुकेन। पोटीं हाच्या।२७। जसो पिडेखोर जोरांतल्यान उठचो। भिकारी दुकळांतल्यान येवचो। तसो देखलो वळवळऽ जिबांचो। चाट्टनां ओंठ वाळवो।२८। तशे खाण-आहार नांवान कांय। तोंडामुखार नुल्लेंच कांय। कितें ही वखवखाची नवलाय। तुजे भुकेची।२९। कितें सागराचो घोंट घेता। वा पर्वताचो घांस गिळता। अवघीं ब्रह्मांडाय घालता। दाडे खाला।४३०। दिको सगल्योच गिळच्यो। चांदण्यो चाटून खावंच्यो। अश्यो गा ल्हेंवटेपणाच्यो। तरा तुज्यो।३१। जसो भोगान वखवख वाडटा। वा जळोवान उजो भगभगता। तशी खातां भकतां तुजी तोंडां। करती खा खा।३२। एकूच तोंड कितलें पातळ्ळें। ब्रह्मांड जिबे तोंकार तेंकलें। जशें कवठा फळ पडलें। वडवाअग्नी[१०५];।३३। जितलीं असंख्य हीं तोंडां। तितलीं ना हीं ब्रह्मांडां। कित्या वाडयलीं हीं तोंडां। जायतीं मेळनात खाणां?।३४। आगा, हें बावडें विश्व सगलें। ह्या तोंडांच्या केणान वेढलें। जशें वणव्यांत सांपडलें। कूळ हरणांचें।३५। अशें हें विश्व आकुळ्ळें। तूं देव न्ही, हें कर्म उप्रासलें। काळान हें जाळें पातळ्ळें। विश्व-मासोळे मारूंक।३६। आतां ह्या आंगप्रभेच्या जाळ्यांतसून। चराचर सुटत खंयसून। तोंडां न्हय तीं, लाखेघरां विस्तीर्ण। बांदल्यांत जगा पासत।३७। आपूण लासतां दुसऱ्याक। हाची नातच नासता उज्याक। पूण हुलपतल्या मनशा जिवाक। सुटकाच ना।३८। आपले तीख धारेन मर्ण। हाचे शस्त्राक उरना भान। वा आपूण करतां घात। विखा ना नात।३९। तशी आपली खराय। तुका कळना मातय। तुज्या आयल्या मुखीं जाय। होळी जगाची।४४०। आगा आत्मो तूं एकु। सगलें विश्वव्यापकु। तरी कित्या आमचो अंतकु। असो उठला जिवारु।४१। हांवें जिवा सोडली आस्त। तुकाय गरज ना धरची भीड। मन तुजें उगड। सांग म्हाका खुशाल।४२। कितें वाडयशी तूं ह्या उग्ररुपा। स्मर आंगचें भगवंतपण बापा। ना तर कर्न म्हजेर कृपा। वाटाय म्हाका।४३।

**आख्याहि मे को भवानुग्ररूपो नमोऽस्तु ते देववर प्रसीद। विज्ञातुमिच्छामि भवन्तमाद्यं न हि प्रजानामि तव प्रवृत्तिम् ॥३१॥**

परि एक वेळ वेदवेद्या। त्रिभुवनाचिया आद्या। विनवणी विश्ववंद्या। आइकें माझी।४४। ऐसें बोलोनि वीरें। चरण नमस्कारिले शिरें। मग म्हणे तरि सर्वेश्वरें। अवदारिजो।४५। मियां होआवया समाधान। पुसिलें विश्वरूपध्यान। आणि एके काळें त्रिभुवन। गिळितुचि उठिलासी।४६। तरि तूं कोण कां येतुलीं। इयें भ्यासुरें मुखें कां मेळविलीं। आघवांचि करीं परिजिलीं। शस्त्रें काह्या।४७। जी जंव तंव रागीटपणें। वाढोनि गगना आणितासि उणें। कां डोळे करूनि भिंगुळवाणे। भेडसावीत आहासी।४८। एथ कृतांतेंसीं देवा। कासया किजतसे हेवा। आपुला तुवां सांगावा। अभिप्राय मज।४९। या बोला म्हणे अनंतु। मी कोण हें आहासी पुसतु। आणि कायिसयालागीं असे वाढतु। उग्रतेसीं।**४५०**।

*श्रीभगवानुवाच:*

**कालोऽस्मि लोकक्षयकृत् प्रवृद्धो लोकान् समाहर्तुमिह प्रवृत्तः ।**
**ऋतेऽपि त्वां न भविष्यन्ति सर्वे येऽवसिस्थताः प्रत्यनीकेषु योधाः ॥३२॥**

तरि मी काळु गा हें फुडें। लोक संहारावयालागीं वाढें। सैंघ पसरिलीं आथि तोंडें। आतां ग्रासीन हें आघवें।५१। तेथ अर्जुन म्हणे कटकटां। उबगिलों मागिल्या संकटा। म्हणोनि आळविला तंव वोखटा। उधाइला हा।५२। तेवींचि कठिण बोलें आसतुटी। अर्जुन होईल हिंपुटी। म्हणोनि सवेंचि म्हणे किरीटी। परि आन एक असे।५३। तरि आतांचि ये संहारवाहरे। तुम्ही पांडव असा बाहिरे। तेथ जातजात धनुर्धरें। सांवरिले प्राण।५४। होता मरणमहामारीं गेला। तो मागुता सावधु जाहला। मग लागला बोला। चित्त देऊं।५५। ऐसें म्हणिजत आहे देवें। अर्जुना तुम्ही माझे हें जाणावें। येर जाण मी आघवें। सरलों ग्रासूं।५६। वज्रानळीं प्रचंडीं। जैसी घापे लोणियाची उंडी। तैसें जग हें माझां तोंडीं। तुवां देखिले जें।५७। तरि तयामाझारीं कांहीं। भरंवसेनि उणें नाहीं। इयें वायांचि सैन्यें पाहीं। वल्गिजत आहती।५८। हे जे मिळोनियां मेळे। कुंथती वीरवृत्तीचेनि बळें। यमावरी गजदळें। वाखाणिजताती।५९। म्हणती सृष्टीवरी सृष्टी करूं। आण वाहूनि मृत्यूतें मारूं। जगाचा भरूं। घोंटु यया।**४६०**। पृथ्वी सगळीचि गिळूं। आकाश वरिच्यावरि जाळूं। काई बाणवरी खिळूं। वारयातें।६१। ऐशा चतुरंगाचिया संपदा। करित महाकाळेंसीं स्पर्धा। वांटिवेचिया मदा। वळघले जे।६२। बोल हतियेराहूनि तिखट । दिसती अग्निपरिस दासट। मारकपणें काळकूट। महुर म्हणत।६३। तरि हे गंधर्वनगरींचे उमाळे। जाण पोकळीचे पेंडवळे। अगा चित्रींचीं फळें। वीर हे देखें।६४। हा मृगजळाचा पूर आला। दळ नव्हे कापडाचा साप केला। इया शृंगारूनियां खाला। मांडिलिया पैं।६५।

**तस्मात्त्वमुत्तिष्ठ यशो लभस्व जित्वा शत्रून्भुङ्क्ष्व राज्यं समृद्धम् । मयैवैते निहताः पूर्वमेव निमित्तमात्रं भव सव्यसाचिन् ॥३३॥**

येर चेष्टवितें जें बळ। तें मियां मागांचि ग्रासिलें सकळ। आतां कोलौरिचे वेताळ। तैसे निर्जीव हे आहाती।६६। हालविती दोरी तुटली। तरि तियें खांबावरील बाहुलीं। भलतेणे लोटिलीं। उलथोनि पडती।६७। तैसा सैन्याचा यया बगा। मोडतां वेळु न लगेल पैं गा। म्हणोनि उठीं उठीं वेगा। शाहाणा होईं।६८। तुवां गोग्रहणाचेनि अवसरें। घातलें मोहनास्त्र एकसरें। मग विराटाचेनि महाभेडें उत्तरें। आसडूनि नागविलें।६९। आतां हें त्याहूनि निपटारें जाहलें। निवटीं आयितें रण पडिलें। घेईं यश रिपु जिंतिले। एकलेनि अर्जुनें।**४७०**। आणि कोरडें यशचि नोहे। समग्र राज्यही आलें आहे। तूं निमित्तमात्रचि होये। सव्यसाची।७१।

**द्रोणं च भीष्मं च जयद्रथं च कर्णं तथान्यानपि योधवीरान् । मया हतांस्त्वं जहि मा व्यथिष्ठा युध्यस्व जेतासि रणे सपत्नान् ॥३४॥**

द्रोणाचा पाडु न करीं। भीष्माचें भय न धरीं। कैसेनि कर्णावरी। परजूं हें न म्हण।७२। कोण उपायो जयद्रथा कीजे। हें न चिंतूं चित्त तुझें। आणिकही आथि जे जे। नावगिणे वीर।७३।

---

**अर्थ:** (१०६) काळाकडेन. (१०७) बडबडटात. (१०८) भयंकर वीख (हलाहल). (१०९) उशीर.

---

**खर रुपाच्या तूं कोण सांग म्हाका  पांयां तुका पडटां तूं पाव म्हाका ।**
**तूं मूळ कोणु हांव जाणूंकु सोदी  करणी तुजी देवा कळनाच म्हाका ॥३१॥**

देवा, वेदांनीच मेळटा तुजें ज्ञान। तूं त्रिभुवनाचें आदीकारण। विश्व तुका करी वंदन। आयक म्हजी विनवणी।४४। अशें उलोवनु तो वीर। चरणांर दवल्लें शीर। म्हणी देवा तूं गा सर्वेश्वर। आयक ही विनवणी।४५। जावंक म्हजें समाधान। दाखय म्हळें विश्वरुपा ध्यान। तर तूं सगलेंच त्रिभुवन। उठलो गिळुंकूच।४६। तरी तूं कोण, कित्या इतलीं-। हीं भेसूर मुखां पुंजायलीं। सगल्यांच हातीं पाजळ्ळीं। शस्त्रां कित्या?।४७। आगा, वाडटां वाडटां, तिडकीनु। गगनाकु हाडटा मोटवेंपणु। कित्या दोळे आमचेर वटारुनु। भेश्टायी आमकां?।४८। देवा हांगा कृतांताशी[१०६]। कित्या तूं सर्त करशी?। हेतू कितें मानसीं?। सांग म्हाका।४९। आतां अनंत दिता जाप। हांव कोण हें म्हाका विचारप?। आनी कित्या लागून म्हजें वाडप। अशें खरायेन?।**४५०**।

*श्रीभगवंतान म्हळें:* **लोकां ना करपी मातिल्लों हांव काळ सल्लां मुखारू सांवारूंकु लोकांक् ।**
**नासल्यारूयू तूं ना जातले हे सगलेच  एकामेकांआड उबे जे झुजूंकु॥३२॥**

आसां काळ गा हांवु। लोकां सांवारुं वाडटां हांवु। पातळटां हीं मुखां भोवु। आतां गिळटां हें सगलें।५१। हांगा अर्जुन म्हणी कटाऽ कटाऽ। उबगलों फाटल्या संकटा। म्हूण विनयलें, तर वायटा। उठलो तूं।५२। तरी कठोर बोलांनी अंतीं। निर्शेवन अर्जुन जाता कश्टी। म्हूण तात्काळ म्हणी किरीटी। पूण आसा एक गजाल।५३। ह्या आतांच्या सांवारांत। तुमी पांडव भायर रावात। हें आयकून पार्थाच्या जिवांत। आयलो जीव।५४। मर्णाचे हे म्हामारींतल्यान। रोखडोच सावचीत जालो अर्जुन। आनी आयकूं लागलो लक्ष दिवन। उलोवणें हें देवाचें।५५। देवान हें अशें म्हळें। जाणात, अर्जुना, तुमी म्हगेले। हेर आसात जे सगलें। तांकां उडयतलों गिळून।५६। प्रळय अग्नी आकांताळो भडकिल्लो। तातूंत घालो लोणया गुळो। तसो तुवें हो भूगोल देखलो। तोंडांत म्हज्या जो;।५७। आनी ताचे मदले कोणूच। उरचेनात बाकी निश्चीत। हांगा वोग्गी जळपतात[१०७]। हीं सैन्यां।५८। चतुरंगसैन्यांच्या वैभवान। सर्त करती कृतांताकडेन। आनी पराक्रमाच्या मदान। गेलीं चडून।५९। आपले शुरतायेच्या बळान। गुरगुरती सगले अहंकारान। हतयांच्या आदारान। हारोवं यमाक।**४६०**। म्हणी प्रतीसृश्टी करूं। पैजेन मरणाक मारूं। आनी एकूच घोंटु भरूं। ह्या जगाचो।६१। पृथ्वी सगलीच गिळूं। आकाश वयलेवयर गिळूं। बाणाचेर खिळावन दवरूं। वाऱ्याकु।६२। उलोवणें शस्त्रांपरस तीख। दिसऽ उज्यापरस दाहक। मारकपणांत काळकूट[१०८]। मधूर म्हणूं येत।६३। हे ढगांचे इमले। वा पोकेच पोटले। वा तन्ने आंबे चित्रांतले। तशे हे वीर।६४। हो मृगजळा हुंवार आयलो। दळ न्हय, कापडा सोरोप केलो। वा शिंगारिल्लो बावलो। मांडिल्लो जसो;।६५।

**देखूनु तूं उठ जा जैतवंत समृद्ध राज्याचो घे गा तूं भोग ।  आदींच सर्वांकु माल्ल्यातु हांवें  जा गा पार्था कारण निमित्ताकु ॥३३॥**

हांकां हालोवपी जें बळ। तें फाटींच मियां भकलां सकल। वा कुमारा घरचे बेताळ। तशे निर्जीव हे।६६। हालोवपी दोरी तुटली। मगे ती खामसूत्री बावली। कोणेय मातशी धुकल्ली। पडटली उमथी।६७। तसो देखाव सैन्याचो हो। मोडूंक मातूय कळाव[१०९] ना लागचो। म्हूण बेगोबेग जावन शाणो। उठ तूं।६८। विराटा गायो व्हरपा वेळार। तुवें एकदम घालें मोहनास्त्र। भिजूड उत्तराक घालून मुखार। केले नागडे सगल्यांक।६९। आतां हे आयल्या कावलाकु। रणीं आयतेच गावले निपटूंकु। मेळय अशें येस तूं। एकल्या अर्जुनान जिखलें।**४७०**। हें येस न्हय पोकें फकत। सगलें राज्यय मेळटलें वांगडाच। अर्जुना, तूं जावंचें निमित्त-। मात्र ताका।७१।

**द्रोणाकु भीष्माकु जयद्रथाकु  कर्णाकु सगल्यांच हेरू विरांकु ।**
**मार जिवानशीं भियेवुं नाका  लाग तूं झुजपाकु रणांतु जीखशी ॥३४॥**

द्रोणाची पर्वा नाका करूं। भीष्माची भिती नाका धरूं। कशें शस्त्र परजूं कर्णाचेरू। हें नाका म्हणूं।७२। कसल्या उपायान जयद्रथा मारूं। हो चित्तीं नाका विचारू। आनिकूय आसा जायते वीरू। नामनेचे।७३।

तेही एक एक आघवे। चित्रींचे सिंहाडे मानावे। जैसे वोलेनि हातें घ्यावें। पुसोनियां।७४। यावरी पांडवां। काइसा झुंजाचा मेळावा। हा आभासु गा आघवा। येर ग्रासिलें मियां।७५। जेव्हां तुवां देखिले। हे माझां वदनीं पडिले। तेव्हांचि यांचें आयुष्य सरलें। आतां रितीं सोपें।७६। म्हणोनि वहिला उठीं। मियां मारिले तूं निवटीं। न रिगे शोकसंकटीं। नाथिलिया।७७। आपणचि आडखिळा कीजे। तो कौतुकें जैसा विंधोनि पाडिजे। तैसें देखें गा तुझें। निमित्त आहे।७८। बापा विरुद्ध जें जाहलें। तें उपजतांचि वाघें नेलें। आतां राज्येंशीं संचलें। यश तूं भोगीं।७९। सावियाचि उतत होते दायाद। आणि बळिये जगीं दुर्मद। ते वधिले विशद। सायासु न लागतां।४८०। ऐसिया इया गोष्टी। विश्वाचां वाक्पटीं। लिहूनि घालीं किरीटी। जगामाजीं।८१।

*संजय उवाच :*

**एतच्छ्रुत्वा वचनं केशवस्य कृताञ्जलिर्वेपमान: किरीटी।**
**नमस्कृत्वा भूय एवाह कृष्णं सगद्गदं भीतभीत: प्रणम्य ॥३५॥**

ऐसी आघवीचि हे कथा। तया अपूर्णमनोरथा। संजयो सांगे कुरुनाथा। ज्ञानदेवो म्हणे।८२। मग सत्यलोकौनि गंगाजळ। सुटलिया वाजत खळाळ। तैशी वाचा विशाळ। बोलतां तया।८३। नातरी महामेघांचे उमाळे। घडगडीत एके वेळे। घुमघुमिला मंदराचळें। क्षीराब्धी जैसा।८४। तैसें गंभीरें महानादें। हें वाक्य विश्वकंदें। बोलिलें अगाधें। अनंतरूपें।८५। तें अर्जुनें मोटकें ऐकिलें। आणि सुख कीं भय दुणावलें। हें नेणों परि कापिन्नलें। सर्वांग तयाचें।८६। सखोलपणें वळली मोट। आणि तैसेचि जोडले करसंपुट। वेळोवेळां ललाट। चरणीं ठेवी।८७। तेवींचि कांहीं बोलों जाये। तंव गळा बुजालाचि ठाये। हें सुख कीं भय होये। हें विचारा तुम्ही।८८। परि तेव्हां देवाचेनि बोलें। अर्जुना हें ऐसें जाहालें। मियां पदांवरूनि देखिलें। श्लोकींचिया।८९। मग तैसाचि भेणभेण। पुढती जोहारूनि चरण। मग म्हणे जी आपण। ऐसें बोलिलेति।४९०।

*अर्जुन उवाच :*

**स्थाने हृषीकेश तव प्रकीर्त्या जगत्प्रहृत्यनुरज्यते च।**
**रक्षांसि भीतानि दिशो द्रवन्ति सर्वे नमस्यन्ति च सिद्धसंघा: ॥३६॥**

ना तरी अर्जुना मी काळु। आणि ग्रासिजे तो माझा खेळु। हा बोलु कीर अढळु। मानूं आम्ही।९१। परि तुवां जी काळें। आजि स्थितिचिये वेळे। ग्रासिजे हें न मिळे। विचारासी।९२। कैसेनि आंगींचें तारुण्य मोडावें। कैचें नव्हे तें वार्धक्य काढावें। म्हणोनि करूं म्हणती तें नव्हे। बहुतकरूनी।९३। हां जी चौपाहारीन भरतां। कोणेही वेळे श्रीअनंता। काय माध्यान्हीं सविता। मावळतु आहे।९४। पैं तुज अखंडिता काळा। तिन्ही आहाती जी वेळा। त्या तिन्ही परी सबळा। आपुलालां समयीं।९५। जे वेळीं हो लागे उत्पत्ती। ते वेळीं स्थिति प्रळयो हारपती। आणि स्थितिकाळीं न मिरविती। उत्पत्ति प्रळयो।९६। पाठीं प्रळयाचिये वेळे। उत्पत्ति स्थिति मावळे। हें कायसेनही न ढळे। अनादि ऐसे।९७। म्हणोनि आजि तरी भरें भोगें। स्थिती वर्तिजत आहे जगें। एथ ग्रसिसी तूं हें नलगे। माझां जीवीं।९८। तंव संकेतें देव बोले। अगा या दोन्ही सैन्यांसीचि मरण पुरलें। तें प्रत्यक्ष तुज दाविलें। येर यथाकाळें जाण।९९। हा संकेतु जंव अनंता। वेळु लागला बोलतां। तंव अर्जुनें लोकु मागुता। देखिला यथास्थिति।५००। मग म्हणतसे देवा। तूं सूत्रीं विश्वलाघवा। जग आला मा आघवा। पूर्वस्थिती पुढती।१। परि पडिलिया दुःखसागरीं। तूं काढिसी कां जयापरी। ते कीर्ति तुझी हरी। आठवित असें।२। कीर्ति आठवितां वेळोवेळां। भोगीतसें महासुखाचा सोहळा। तेथ हर्षामृतकल्लोळा। वरि लोळत आहों।३। देवा जियालेपणें जग। धरी तुझां ठायीं अनुराग। आणि दुष्टां तयां भंग। अधिकाधिक।४। पैं त्रिभुवनींचिया राक्षसां। महाभय तूं हृषीकेषा। म्हणोनि पळताती दिशा। पैलीकडे।५। येर सुर सिद्ध किन्नर। किंबहुना चराचर। ते तुज देखोनि हर्षनिर्भर। नमस्कारित असती।६।

---

**अर्थ:** (११०) मंदर पर्वत. (१११) विश्वाचो मूळकंद वा कांदो. (११२) भगवंत. (११३) शब्दांवयल्यान.
(११४) सूर्य. (११५) अवस्था (उत्पत्ती, स्थिती आनी लय).

। एकेक करून सगले। मानचे शींव चित्रांतले। ओल्या हातान उडोवचेले। पुसून ते।७४। हाचे वयरी पार्था। ह्या रणविरांची केतें कथा?। ह्या सगल्यांक सामके पुता। गिळ्ळ्यात हांवें।७५। जेन्ना तुवें देखले। हे म्हज्या तोंडांत पडले। तेन्नाच हांचें आयुश्य सल्लें। आतां ते केळ्यां रित्यो साली।७६। देखून बेगीन उठ। हांवें मारिल्ल्यां, तूं निपट। पडूं नाका दुःखांत। नसत्या।७७। आपुणूच निशाण उबारचें। कवतुकान छेदून उडोवचें। तशें तुवें आपणां पळोवचें। निमित्त्य अशें।७८। बाबा, आड जे गेल्ले। तांकां जल्मतांच वागान व्हेले। आतां राज्यासयत जें मेळटलें। येस भोग तूं।७९। सभावान माततालें हे दायजी। बळा मदान धुंदी चडली। म्हूण तांचीं शिरां उडयलीं। विना सायास।४८०। अश्यो ह्यो गोश्टी। विश्वाच्या वाक्पटीं। बरोवन दवर किरीटी। जैताच्यो गा।८१।

*संजयान म्हळें:* **आयकूनु सांगणी ही केशवाली पार्थानु नमूनु जोडूनु हात ।**
**भरिल्ल्या ताळ्यानु भियेवनु ताणें सांगलें कृष्णाकु पर्थूनुय नमूनू ॥३५॥**

अशी ही कथा सगली। संजयान कुरुनाथा सांगली। भागलिना इत्सा मनांतली। म्हणी ज्ञानदेव।८२। मगे सत्यलोकांतल्यान गंगाजळ। व्हाळटना ताचो खळखळ। तशी वाचा गंभीर विशाळ। उलयतना ताची।८३। वा म्हामेघांचे लोट। एका वेळारूच ताचो गडगड। क्षीरसागर गाजऽ। मंदर[११०] घुसळटना।८४। तसो गंभीर म्हानाद। करून तो विश्वकंद[१११]। उलयलो वाक्य अगाध। अनंतरूप[११२]।८५। तें पार्थान मात्शें आयकलें। नि सूख वा भंय दुणावलें। हें कळ्ळेंना, पूण कांपलें। सर्वांग ताचें।८६। बागवलो तो भुंयेमेरेन। जोडले ताणें दोनय हात। नि कपाळ भौन भौन। ठेयलें कृष्णचरणीं।८७। तेन्ना तो गेलो उलोवंक। गळो आयलो भरून। हें आसलें सूख काय भंय, समजून। थारावचें तुमी।८८। पूण देवाची आयकून ती उक्ती। अशी जाली अर्जुनाची स्थिती। हांवें पदांवेल्यान[११३] देखली ती। गीता श्लोकांच्या।८९। मगे तसोच भियेभियेत। चरणीं लावन हात। म्हळें ''धनया तुमी उलयल्यात। हेच परी'';।४९०।

*अर्जुनान म्हळें:* **जग जाय खोशी तुस्तीनु तुगेले रंगता तें तातूंतु देवाधिदेवा ।**
**राकेसु भिवनु गा चौफेर पळटी वंदिती सिद्ध हें तुकाच फावता॥३६॥**

''अर्जुना, हांव गा काळ। सगल्यां गिळप तो म्हजो खेळ''। हो बोल तुजो अढळ। सत मानिनय आसलों हांव;।९१। पूण तूं जरी काळ। प्रळय न्ही; तर स्थिती वेळ। विचार केल्यारय पुश्कळ। हें पटना मना।९२। आंगचें तारूण्य मोडचें। कित्या नसतें वार्धक्य हाडचें। म्हूण करूं म्हणशी तें ना जावचे। भौताशी।९३। आगा भरले वीण चार पार। दनपारच्या कडार। कितें मध्यान्हीं भास्कर[११४]। अस्तमत?।९४। पूण तूं जो अखंडीत काळ। तुका जे तीन वेळ[११५]। ते तिनी गा सबळ। आपापले।९५। स्थितींत जंवळ जाता उत्पत्ती। तंवळ कडसरता प्रळय स्थिती। आनी स्थितीकाळीं मिरयनाती। उत्पत्ती, प्रळय।९६। मगे प्रळया वेळ येतां। उत्पत्ती स्थिती अस्तमता। अढळ ही अनादी वेवस्ता। कितेंय करात।९७। म्हूण आयज तरी घेता भोग। जंव स्थितीचो काळ हें जग। तर कशें ग्रासता, आगा सांग,। म्हळें हें तुवें?।९८। तंव देवान संकेतान सुचयलें। ह्या दोनी सैन्यांचें मरण पावलें। तें प्रत्यक्षूच तुका दाखयलें। हेरांचें येतलें यथाकाळ।९९। हो संकेत जंव अनंता। जितलो वेळ उलोवं लागता। तंव अर्जुन लोक पळयता। आदलेवरी स्थीरस्थावर।५००। मगे ''देवा'' म्हणी तो धनुर्धर। तूं विश्व खेळाचो सूत्रधार। देखून आयलें पूर्वस्थितीचेर। जग हें पर्थून।१। पडिल्ल्यां दुःखसागरीं। तूं वयर काडी जे परी। ती कीर्त तुजी श्रीहरी। स्मरतां हांव।२। भौन भौन आठयतां ती कीर्ती। भोगी म्हासुखा सुवाळो चित्तीं। थंय हर्शामृता ल्हारां मर्दीं। उफेतां हांव।३। लाव जाल्ल्यान जिविताचो। जग मोग करी गा तुजो। आनी नाश त्या दुश्टांचो। करी भौन भौन।४। त्रिभुवनींच्या राकेसां। तूं म्हा भयंकर हृषीकेशा। म्हूण पळटी धायदिशा। पेल्यान ते।५। हांगा सुरनर सिद्ध किन्नर। तशेंच सगलें चराचर। तुका करती नमस्कार। हर्शभरीत चोवन तुका।६।

**कस्माच्च ते न नमेरन्महात्मन् गरीयसे ब्रह्मणोऽप्यादिकर्त्रे। अनन्त देवेश जगन्निवास त्वमक्षरं सदसत्तत्परं यत् ॥३७॥**

एथ गा कवणा कारणा। राक्षस हे नारायणा। न लगतीचि चरणा। पळते जाहले।७। आणि हें तूतें काइ पुसावें। येतुलालें आम्हांसिही जाणवे। तरी सूर्योदयीं राहावें। कैसेनि तमें।८। तूं स्वप्रकाशाचा आगरु। आणि जाला आहासि गोचरु। म्हणोनिया निशाचरां केरु। फिटला सहजें।९। हें येतुले दिवस आम्हां। कांहीं नेणवेचि श्रीरामा। आतां देखतसों महिमा। गंभीर तुझा।५१०। जेथूनि नाना सृष्टीचिया वोळी। पसरती भूतग्रामाचिया वेली। तया महद्ब्रह्मातें व्याली। दैविकी इच्छा।११। देवो नि:सीमतत्त्व सदोदितु। देवो नि:सीमगुण अनंतु। देवो नि:सीमसाम्य सततु। नरेंद्र देवांचा।१२। जी तूं त्रिजगतिये वोलावा। अक्षर तूं सदाशिवा। तूंचि सदसत् देवा। तयाही अतीत तें तूं।१३।

**त्वमादिदेव: पुरुष: पुराणस्त्वमस्य विश्वस्य परं निधानम्। वेत्तासि वेद्यं च परं च धाम त्वया ततं विश्वमनन्तरूप ॥३८॥**

प्रकृतिपुरुषांचां आदी। जी महत्तत्त्वां तूंचि अवधी। स्वयें तूं अनादी। पुरातनु।१४। सकळ विश्वजीवन। जीवांसि तूंचि निधान। भूतभविष्यांचें ज्ञान। तुझांचि हातीं।१५। जी श्रुतीचिया लोचना। स्वरूपसुख तूं अभिन्ना। त्रिभुवनाचिया आयतना। आयतन तूं।१६। म्हणोनि जी परम। तूंतें म्हणिजे महाधाम। कल्पांतीं महद्ब्रह्म। तुझां अंकीं रिगे।१७। किंबहुना देवें। विश्व विस्तारिलें आहे आघवें। अनंतरूपा वानावें। कवणें तूंतें।१८।

**वायुर्यमोऽग्निर्वरुण: शशाङ्क: प्रजापतिस्त्वं प्रपितामहश्च। नमो नमस्तेऽस्तु सहस्त्रकृत्व: पुनश्च भूयोऽपि नमो नमस्ते ॥३९॥**
**नम: पुरस्तादथ पृष्ठतस्ते नमोऽस्तु ते सर्वत एव सर्व। अनन्तवीर्यामितविक्रमस्त्वं सर्वं समाप्नोषि ततोऽसि सर्व: ॥४०॥**

जी काय एक तूं नव्हसी। तूं कवणे ठायीं गा नससी। हें असो जैसा आहासी। तैसिया नमों।१९। वायु तूं अनंता। यम तूं नियमिता। प्राणिगणीं वसता। अग्नि जी तूं।५२०। वरुण तूं सोम। स्त्रष्टा तूं ब्रह्म। पितामहाचाही परम। आदिजनक तूं।२१। आणिकही जें जें कांहीं। रूप आथि अथवा नाहीं। तया नमो तुज तैसयाही। जगन्नाथ।२२। ऐसें सानुरागें चित्तें। स्तवन केलें पांडुसुतें। मग पुढती म्हणे नमस्ते। नमस्ते प्रभो।२३। पाठी तिये साद्यंते। न्याहाळी श्रीमूर्तीतें। आणि पुढती म्हणे नमस्ते। नमस्ते प्रभो।२४। पाहतां पाहतां प्रांतें। समाधान पावे चित्तें। आणि पुढती म्हणे नमस्ते। नमस्ते प्रभो।२६। ऐसीं रूपें तियें अद्भुतें। आश्चर्यें स्फुरती अनंतें। तंव तंव नमस्ते। नमस्तेचि म्हणे।२७। आणिक स्तुति नाठवे। आणि निवांतही नसवे। नेणों कैसा प्रेमभावें। गाजोंचि लागे।२८। किंबहुना इयापरी। नमन केलें सहस्त्रवरी। कीं पुढती म्हणे श्रीहरी। तुज सन्मुखा नमो।२९। देवासि पाठीपोट आथि कीं नाहीं। येणें उपयोगु आम्हां काई। तरि तुज पाठिमोरेयाही। नमो स्वामी।५३०। उभा माझिये पाठीसीं। म्हणोनि पाठिमोरें म्हणावें तुम्हांसी। सन्मुख विमुख जगेंसीं। न घडे तुज।३१। आतां वेगळालिया अवेवां। नेणें रूप करूं देवा। म्हणोनि नमो तुज सर्वा। सर्वात्मका।३२। जी अनंतबळसंभ्रमा। तुज नमो अमितविक्रमा। सकळकाळीं समा। सर्वदेवा।३३। आघवां अवकाशीं जैसें। अवकाशचि होऊनि आकाश असे। तूं सर्वपण तैसें। पातलासि सर्व।३४। किंबहुना केवळ। सर्व हें तूंचि निखिळ। परि क्षीरार्णवीं कल्लोळ। पयाचे जैसे।३५। म्हणोनियां देवा। तूं वेगळा नव्हसी सर्वां। हें आलें मज सद्भावा। आतां तूंचि सर्व।३६।

**सखेति मत्वा प्रसभं यदुक्तं हे कृष्ण हे यादव हे सखेति। अजानता महिमानं तवेदं मया प्रमादात् प्रणयेन वाऽपि ॥४१॥**

परि ऐसिया तूतें स्वामी। कहींच नेणों जी आम्ही। म्हणोनि सोयरे संबंधधर्मीं। राहाटलों तुजसीं।३७। अहा थोर वाउर जाहलें। अमृतें संमार्जन म्यां केलें। वारिकें घेऊनि दिधलें। कामधेनूतें।३८।

---

**अर्थ:** (११६) दिश्टी पडलो. (११७) संकल्प. (११८) अविनाशी. (११९) मायेचो. (१२०) शासनकर्तो. (१२१) निराकार. (१२२) पोकळेच्या रुपान. (१२३) घोड्याचें पोर.

**कित्या तुका ते पडचेनातु पांयां मूळ कारण तूं ब्रह्माकूयु होड्डु ।**
**आधारु जगा ह्या देवेशा अनंता सत् असताचे पेलो अविनाशी ॥३७॥**

हे सगले राक्षसगण। वंदिले वीण तुजे चरण। नारायणा वती पळून। कित्या पासत।७। हें विचारचें कित्या तुका?। हें सहज कळऽ गा आमकां। आसा संद गा काळखा। उदेतां सुर्या?।८। आगा, तूं आत्मप्रकाशा भांडार। आनी आमकां जालो गोचर[११६]। म्हूण सगले निशाचर। ना जाले कोयरा वरी।९। हें इतलें दीस आमकां। कांय कळूं नासलें आत्मारामा। आतां पळेतां म्हयमा। अलौकीक तुजो।**५१०**। जंयसून भोव सृश्टीच्यो वळी। पातळटी भूतमात्रांच्यो वाली। आदीमायेक* ते पसवली। दैवी इत्सा[११७]।११। देवा, तूंच निस्सीम तत्त्व शाश्वत। तूं निस्सीमगूण अनंत। तूंच निस्सीम सम अवस्था सतत। देव तूं देवांचो।१२। तूं तिनी लोकांची जीण। तूंच अक्षर[११८] जगत्कारण। तूंच सत-असता पेल्यान। देवा, सदाशिवा।१३।

**तूं देव पयलो पुराणु पुरूष आलाशिरो होड तूं ह्या जगाचो।**
**तूं जाणपी जाणचेलो तूं मोक्षा सुवात अनंत रुपा तूं विश्वाकु व्यापी ॥३८॥**

तूं प्रकृती-पुरूशाचे आदींचो। तुज्यांत शेवट महत्तत्त्वाचो[११९]। थाव ना तुज्या जल्माचो। इतलो पुरातन तूं।१४। तूं सर्वय विश्वा जीवन। तूं जिवांचें मूळ कारण। भूत-भविश्याचें ज्ञान। एकल्या तुज्या हातीं।१५। आगा श्रुतींच्या दोळ्यांक। तुज्या स्वरुपाचें सूख। त्रिभुवनाच्या आधाराक। तूंच आस्त्रयस्थान एकरुपा।१६। देखून देवा तूंच परम। तुकाच म्हण्टी महाधाम। कल्पान्ती महद्ब्रह्य। रिगता तुजेमदीं।१७। इतलेंच न्हय, हें विश्व सगलें। देवा, तुंवेंच विस्तारलें। तर अनंतरुपा वर्णुचेलें। कोणें तुका?।१८।

**तूं वायु उजो यम चंद्र आदी प्रजापती तूं पणजो, वरूणूय । नमस्कारु म्हजे तुका हजारु तुका नमस्कारू पर्थूनु भौनु ॥३९॥**
**फुडसूनू फाटसूनू तुका प्रणाम तुका नमस्कारू सगले वशीनु । अनंत बळाच्या पराक्रमी तूं सर्वांतु गा तूं देखून तूंच सर्व ॥४०॥**

**भौन भौन वंदनः** आगा खंयचे वस्तूंत तूं नासशी?। कोणा ठांय तूं नासशी?। हें आसूं, जसो तूं आसशी। नमस्कार तुका।१९। वायु तूं अनंता। यम तूं नियमिता[१२०]। प्राणीगणीं वसता। अग्नी तो तूं।**५२०**। तूंच वरूण, तूंच सोम। सृश्टो तूं, तूं ब्रह्म। पणजोय परम-। पिता, तूं देव।२१। आनिकूय जें जें कितें। वा रूप वा अरूप[१२१] तें। तूंच सर्वय गा तें तें। ताकाय वंदितां जगन्नाथा।२२। अशें मोगभरीत चित्तान। नमन केलें अर्जुनान। मगे म्हळें पर्थून वंदन। ''धनया, नमस्ते, नमस्ते।२३। घडी घडी नियाळून। श्रीकृष्णाची मुर्ती संपूर्ण। म्हणी भौन दयाघन। नमस्ते नमस्ते।२४। एकेक आंग पळोवन। चित्ता जालें समाधान। आनी म्हणी पर्थून। नमस्ते नमस्ते।२५। ह्या चराचरीं जे जीव। पळयती ताका सर्वाठांय। नि म्हणी नमस्ते भौन। नमस्ते प्रभू।२६। अशीं रुपां ताचीं अद्भूत। अर्जुन जालो अजापीत। तंव तंव जोडून हात। म्हणी नमस्ते, नमस्ते।२७। आनीक तुस्तय तो स्मरना। नि ताका सस्तय बसूं येना। प्रिती भरांत तो नेणा। उलयलो कितें।२८। इतलेंच न्ही, हे परी। नमन केलें सहस्त्रवेरी। भौन म्हणी, श्रीहरी। मुखावेल्या नमन तुका।२९। फाट पोट आसा वा ना देवाक। हाचें कांयच ना आमकां पडूंक। पूण म्हाका फाट दाखयतल्याक। नमो स्वाम्या।**५३०**। तूं उबो म्हजे फाटसून। म्हूण म्हणचें तुका तूं फाटसून। ना तूं खरो ह्या जगा फाटसून। वा फुडसून।३१। तुज्या विंगड विंगड्डु अवेवां। कोणा येना वर्णुं देवा। म्हूण नमन तुका सर्वां-। ठांय आत्मरुपान आशिल्ल्या।३२। आगा, तूं अनंत बळा कोठी। तुज्या अमित विक्रमा ना गणटी। तूं समरूप सर्वकाळीं किरीटी। नमन तुका।३३। अवघ्या आकाशीं जे भाशेन। रावऽ आकाश अवकाशरुपान[१२२]। व्यापलां तुवें सगलें ते भाशेन। देवा, तुज्या सर्वपणान।३४। सगलेंच तूंच जावन। दिसता तूं विश्वरुपान। जशीं क्षीरसागरांतल्यान। येती दुदाचींच ल्हारां।३५। म्हणून गा देवराया। तूं वेगळो न्ही विश्वा ह्या। हें आयलें म्हज्या प्रत्यया। आतां तूंच सर्व।३६।

**नात ना म्हाका व्हडविके तुगेले चल्लों तुजेशीं सवंगडी कसोच ।**
**सादयलो यादवा कृष्णा सख्या रे चुकूनु मोगानु मस्तेपणानु ॥४१॥**

पूण इतलो व्हडलो तूं स्वामी। केन्नाच जाणलो ना आमी। म्हणून आमच्या नातेसंबंधाधर्मीं। हांव वागलों तुजेशीं।३७। हाय, भारी वायट हें जालें। अमृतान शिताडो शिंपलो हांवें। शिंगरू[१२३] हांवें घेतलें। कामधेनू दिवन।३८।

परिसाचा खडवाचि जोडला। कीं फोडोनि गाडोरा आम्हीं घातला। कल्पतरु तोडोनि केला। कुंपु शेता।३९। चिंतामणी खाणी लागली। तेणेंवरी वोढाळें वोल्हांटिली। तैसी तुझी जवळिक धाडिली। सांगातीपणें।५४०। हें आजिचेंचि पाहें रोकडें। कवण जुंझ हें केवढें। परि परब्रह्म तूं उघडें। सारथी केलासी।४१। ययां कौरवांचिया घरा। शिष्टाई धाडिलासि दातारा ऐसा वणिजेसाठीं जगेश्वरा। विकलासि आम्हीं।४२। तूं योगियांचें समाधिसुख। कैसा जाणेचिना मी मूर्ख। उपरोधु जी सन्मुख तुजसीं करूं।४३।

**यच्चावहासार्थमसत्कृतोऽसि विहारशय्यासनभोजनेषु। एकोऽथवाप्यच्युत तत्समक्षं तत्क्षामये त्वामहमप्रमेयम् ।४२॥**

तूं या विश्वाची अनादि आदी। बैससी जिये सभासदीं। तेथें सोयरीकीचिया शब्दीं। रळीं बोलों।४४। विपायें राउळा येवों। तरि तुझेनि अंगें मानु पावों। मानसी तरी जावों। रुसोनि सलगी।४५। पायां लागोनि बुझावणी। तुझां ठायीं शार्ङ्गपाणी। पाहिजे ऐशी करणी। बहु केली आम्हीं।४६। स्वजनपणाचिया वाटा। तुजपुढें बैसें उफराटा। हा पाडु काय वैकुंठा। परि चुकलों जी।४७। देवेंसि कोलकाठी धरूं। अखाडा झोंबीलोंबीं करूं। सारी खेळतां अस्करूं। निकरेंही भांडों।४८। ऐसा अपराधु हा आहे। जो त्रिभुवनीं न समाये। जी नेणेचि कां पाये। शिवतिले तुझे।५५०। देवो बोनयाचां अवसरीं। लोभें कीर आठवण करी। परि माझा निसुग गर्व अवधारीं। जे फुगूनचि बैसें।५१। देवाचिया भोगायतनीं। खेळतां आशंकेना मनीं। जी रिगोनियां शयनीं। सरिसा पहुडे।५२। 'कृष्णा' म्हणोनि हाकारिजे। यादवपणें तूतें लेखिजे। आपली आण घालिजे। जातां तुज।५३। मज एकासनीं बैसणें। कां तुझा बोलु न मानणें। हें वोळखीचेनि दाटपणें। बहुत घडलें।५४। म्हणोनि काय काय आतां। निवेदिजेल अनंता। मी राशि आहें समस्तां। अपराधांची।५५। यालागीं पुढां अथवा पाठीं। जियें राहटलों बहुवें वोकटीं। तियें मायेचिया परी पोटीं। सामावीं प्रभो।५६। जी कोण्ही एके वेळे। सरिता घेऊनि येती खडुळें। तियें सामाविजेति सिंधुजळें। आन उपायो नाहीं।५७। तैसीं प्रीती कां प्रमादें। देवेंसीं मज विरुद्धें। बोलविलीं तियें मुकुंदें। उपसाहावीं जीं।५८। आणि देवाचेनि क्षमत्वें क्षमा। आधारु जाली आहे या भूतग्रामा। म्हणोनि पुरुषोत्तमा। विनवूं तें थोडें।५९। तरि आतां अप्रमेया। मज शरणागता आपुलिया। क्षमा कीजो जी यया। अपराधांसी।५६०।

**पिताऽसि लोकस्य चराचरस्य त्वमस्य पूज्यश्च गुरुर्गरीयान्। न त्वत्समोऽस्त्यभ्यधिकः कुतोऽन्यो लोकत्रयेऽप्यप्रतिमप्रभावः ॥४३॥**

जी जाणितलें मियां साचें। महिमान आतां देवाचें। देवो होय चराचराचें। जन्मस्थान।६१। हरिहरादि समस्तां। देवा तूं परम देवता। वेदांतेंही पढविता। आदिगुरु तूं।६२। गंभीर तूं श्रीरामा। नानाभूतैकसमा। सकळगुणीं अप्रतिमा। अद्वितीया।६३। तुजसी नाहीं सरिसें। हें प्रतिपादनचि कायसें। तुवां जालेनि आकाशें। सामाविलें जग।६४। तया तुझेनि पाडें दुजे। ऐसें बोलतांचि लाजिजे। तेथ अधिकाचि कीजे। गोठी केवीं।६५। म्हणोनि त्रिभुवनीं तूं एकु। तुजसरिसा ना अधिकु। तुझा महिमा अलौकिकु। नेणिजे वानूं।६६।

**तस्मात् प्रणम्य प्रणिधाय कायं प्रसादये त्वामहमीशमीड्यम् । पितेव पुत्रस्य सखेव सख्युः प्रियः प्रियायार्हसि देव सोढुम् ॥४४।**

ऐसें अर्जुनें म्हणितलें। मग पुढती दंडवत घातलें। तेथें सात्त्विकाचें आलें। भरतें तया।६७। मग म्हणतसे प्रसीद प्रसीद। वाचा होतसे सद्गद। काढी जी अपराध-। समुद्रौनि मातें।६८। तुज विश्वसुहृदातें कहीं। सोयरेपणें न मनूंचि पाहीं। तुज ईश्वरेश्वराचां ठायीं। ऐश्वर्य केलें।६९। तूं वर्णनीय परी लोभें। मातें वर्णिसी पां सभे। तरि मियां वल्गिजे क्षोभें। अधिकाधिक।५७०। आतां ऐसऐसेया अपराधां। मर्यादा नाहीं मुकुंदा। म्हणोनि रक्ष रक्ष प्रमादा। पसावो म्हणुनी।७१।

---

**अर्थः** (१२४) पृथ्वी; क्षमा-धर्तरी जी आपलेर केल्ले अन्याय सोंसता.
(१२५) तर्का पेलो; प्रमाणांनी सिद्ध करूंक येना जाल्लो.

रिसाचो फातर मेळ्ळो। तो फोडून बुन्यादी घालो। कल्परूख तोडलो। शेता वंयेक।३९। चिंतामणयांची खण लागली। तांणी स्तीं गोरवां धांवडायलीं। तशी तुजी दाटी होगडायली। तुका सखो मानून।५४०। पळय न्ही हें आयचेंच घडिल्लें। हें झूज केतलें तरी व्हडलें। तूं परब्रह्म हें उक्तें जालें। पूण सारथी केलो तुका।४१। आगा, ह्या कौरवांच्या घरा। शिश्टाय करूं धाडलो सर्वेश्वरा। असो आमच्या क्षुद्र वेव्हारा। विकलो तुका।४२। तूं योग्यांचें समाधीसूख। गमलें ना, हांवूच मूर्ख। थट्टा मस्करी तुज्या तोंडार करूंक। अनमनलोंना मातूय।४३।

**खातना भोंवतना, न्हिदतना बि देवा जनीं वा एकांतीं तुका हिणसायलो ।**
**मस्करेनु तुका अवमानिलो गा घाल पोटांतु तूं म्हजे गुन्यांवु ॥४२॥**

तूं ह्या विश्वा अनादी आदी। बसतालो जे सभेमदीं। थंय लेखून सोयरो संबंधी। फकांडानी उलयलों।४४। केन्नाय तुज्या घरा येतालों। तुजेच हस्तुकीं मान घेतालों। तो मानवलोना, जर उणो पडलो। सलगेन वतालों रुसून।४५। मगे पांय धरून समजावणी। साबारदां घालची शारंगपाणी। नकळटां हटाच्यो कितल्यो करणी। केल्यो आमी।४६। जिवाभावाचे इश्टागतीनु। बसचें तुका फाट कर्नु। आसली म्हजी लायकी म्हण्णु?। चुकलों हांव वैकुंठा।४७। खेळची दांडये पट्टी जायते फावटीं। आखाड्यांत करची खुस्ती मस्ती। पगांचीं घरां चोरचीं बेश्टीं। वयल्यान नेटान झगडीं।४८। कितेंय बरें, भिडेवीण मागी। तुका जाणवायो मात खूब सांगी। तुजे कोण लागतात, अशें सांगी। आगा आमी।४९। अशे हे अपराध आसातु। आसपावचे नात त्रिभुवनांतु। आगा नेणटां ते जाल्यातु। तुज्या पांयां सोपूत।५५०। जेवणा वेळार देवानु। याद करची मोगानु। हांव रिकामो, गर्वानु। बसतालों फुगून।५१। देवाल्या विलास-घरांत। दुभावलों ना केन्ना मनांत। तुजेच बाज्जेरी हांतरुणांत। रिगतालों म्हऱ्यांत।५२। ''आरे कृष्णा'' म्हणून उलो मारतालों। हेर यादवांवरीच लेखतालों। सोपूत घालून आडायतालों। तूं वचच्या वेळार।५३। म्हजें तुज्याच आसनार बसप। वा तुजें उतर मोडप। हें घसटीचे दाटीन घडप। खुबदां जालें देवा।५४। म्हणून कितें कितें आतां। हांवें सांगचेलें अनंता। हांव राशी आसां समस्तां। अपराधांच्यो।५५। देखून, तुजे सामकार वा फाटीं। ज्यो कितें वायट केल्यो गोश्टी। त्यो घालच्यो आतां पोटीं। आवयचे मायेन।५६। आगा, पळय खंयचोय वेळ काळ। न्हंयो घेवन येतात उदक खदूळ। तरी तें आपणायी समुद्र-जळ। हेर उपाय ना।५७। तशे मोगान वा चुकीनु। तुजे आड उलोवन। केलें हांवें जें भाशणु। तें सोंसचें तुवें।५८। देवाचेच सोंसणुकेन क्षमा[१२४]। जी दिता आदार भूतग्रामा। म्हणून आगा पुरुषोत्तमा। विनोवचें कितलें तुका?।५९। तरी आतां अप्रमेया[१२५]। हांव शरणागत, पडटां पांयां। सोंसचें तुवें म्हज्या ह्या। अपराधांक।५६०।

**बापूय तूं चराचरा नि जगाचो गुरुंचो गुरू तूं फावता पुजूंकु । तुजे समानु अतुल बळिश्ट ना कोणु हेरू अदीकु त्रिलोकीं ॥४३॥**

आगा, म्हाका खरेंच कळ्ळी। व्हडवीक आतां देवाली। तूं ह्या चराचराची। जल्मा सुवात।६१। हरि-हर आदीक समस्तां। देवा तूं परमदेवता। वेदांकूय शिकयता। आदीगुरू तूं।६२। तूं अंतरीं गंभीर भारी। सर्व जिवां तूं सारकें करी। येना करुं तुज्या गुणां बरोबरी। असो तूं अद्वितीय।६३। तुजेवरी ना कोण। कित्या करचें हें वर्णन?। आकाश तुवें निर्मून। सांठयलें जग तातूंत।६४। तुजेवरी दुजो कोण। हें म्हणप निर्लज्जपण। तंव थोर तुजेपरस कोण। कित्या ही गजाल?।६५। म्हूण त्रिभुवनीं तूं एकु। तुजे सारको ना अदिकु। तुजो म्हयमो अलौकीकु। येना वर्णूं।६६।

**लोटांगण घाली तुजे मुखारू प्रसन्न जा तूं तुस्तीवंत देवा। जसो बापुयू आपुल्या पुताकु इश्ट इश्टाकु घोव मोगाळु बायले ॥४४॥**

अशें अर्जुनान म्हणूनु। घालें दंडवत भौनु। आयलो उमाळो दाटुनु। अश्टसात्त्वीक भावांचो।६७। मगे म्हणी दी प्रसाद जा प्रसन्नु। वाचा बसली गळो भरूनु। वयर काड म्हाका दर्यांतल्यानु। अपराधांच्या।६८। तूं विश्वसखो खरो, पुणून। मानलो ना, तूं सोयरो म्हणून। तूं विश्वेश्वर आसून। मिरयलें ऐश्वर्य म्हजें।६९। तूं वर्णनीय, पूण मोगान। म्हाकाच तोखेलो सभेंत। पूण हांवूच राग धरून। अदिकूच बडबडलों सभेंत।५७०। आतां असल्यां अपराधां। उल्लीना मातूय मर्यादा। म्हूण राख, राख मुकुंदा। हे चुकीपासून;।७१।

जी हेंचि विनवावयालागीं। कैंची योग्यता माझां आंगीं। परि अपत्य जैसें सलगी। बापेंसिं बोले।७२। पुत्राचे अपराध। जरी जाहले अगाध। तरी पिता साहे निर्द्वंद्व। तैसें साहिजा जी।७३। सख्याचें उद्धत। सखा साहे निवांत। तैसें तुवां समस्त। साहिजो जी।७४। प्रियाचां ठायीं सन्मान। प्रिय न पाहे सर्वथा जाण। तेवीं उच्छिष्ट काढिलें आपण। ते क्षमा कीजो।७५। नातरी प्राणाचें सोयरें भेटे। मग जीवें भूतलीं जियें संकटें। तियें निवेदितां न वाटे। संकोचु कांहीं।७६। कां उखितें आंगें जीवें। आपणपें दिधलें जिया भावें। तिये कांतु मिनलिया न राहवे। हृदय जेवीं।७७। तयापरी जी मियां। हें विनविलें तुमतें गोसाविया। आणि कांहीं एक म्हणावया। कारण असे।७८।

**अदृष्टपूर्व हृषितोऽस्मि दृष्ट्वा भयेन च प्रव्यथितं मनो मे। तदेव मे दर्शय देव रूपं प्रसीद देवेश जगन्निवास ॥४५॥**

तरि देवेसी सलगी केली। जे विश्वरूपाची आळी घेतली। ते मायबापें पुरविली। स्नेहाळाचेनि।७९। सुरतरूंचीं झाडें। आंगणीं लावावीं कोडें। देयावें कामधेनूचें पाडें। खेळावया।५८०। मियां नक्षत्रीं डाव पाडावा। चंद्र चेंडुवालागीं देयावा। हा छंदु सिद्धी नेला आघवा। माउलिये तुवां।८१। जया अमृतलेशालागीं सायास। तयाचा पाऊस केला चारी मास। पृथ्वी वाहून चासेचास। चिंतामणी पेरिले।८२। ऐसा कृतकृत्य केला स्वामी। बहुवे लळा पाळिला तुम्हीं। दाविलें जें हरब्रह्मीं। नायकिजे कानीं।८३। मग देखावयाची केउती गोठी। जयाची उपनिषदां नाहीं भेटी। ते जिव्हारींची गांठी। मजलागीं सोडिली।८४। जी कल्पादीलागोनि। आजिची घडी धरुनी। माझीं जेतुलीं होउनी। गेलीं जन्में।८५। तयां आघवियांचिआंतु। घरडोळी घेऊनि असें पाहतु। परि ही देखिली ऐकिली मातु। आतुडेचिना।८६। बुद्धीचें जाणणें। कहीं न वचेचि याचेनि आंगणें। हे सादही अंतःकरणें। करवेचिना।८७। तेथ डोळ्यां देखी होआवी। ही गोठीचि कायसया करावी। किंबहुना पूर्वीं। दृष्ट ना श्रुत।८८। तें हें विश्वरूप आपुलें। तुम्हीं मज डोळां दाविलें। तरि माझें मन झालें। हृष्ट देवा।८९। परि आतां ऐसी चाड जीवीं। जे तुजसी गोठी करावी। जवळीक हे भोगावी। आलिंगावयासी।५९०। ते येचि स्वरूपीं करूं म्हणिजे। तरि कोणे एके मुखेंसी चावळिजे। आणि कोणा खेंव देइजे। तुज लेख नाहीं।९१। म्हणोनि वारियासवें धांवणें। न ठके गगना खेंव देणें। जळकेली खेळणें। समुद्रीं केउतें।९२। यालागीं जी देवा। एथिंचें भय उपजतसे जीवा। म्हणोनि येतुला लळा पाळावा। जे पुरे हें आतां।९३। पैं चराचर विनोदें पाहिजे। मग तेणें सुखें घरीं राहिजे। तैसें चतुर्भुज रूप तुझें। तो विसावां आम्हां।९४। आम्हीं योगजात अभ्यासावें। तेणें याचि अनुभवा यावें। शास्त्रांतें ओलांडावें। परि सिद्धांतु तो हाचि।९५। आम्हीं यजनें किजती सकळें। परि तियें फळावीं येणेंचि फळें। तीर्थें होतु सकळें। याचिलागीं।९६। आणीकही कांहीं जें जें। दान पुण्य आम्हीं कीजे। तया फळीं फळ हेंचि तुझें। चतुर्भुज रूप।९७। ऐसी तेथिंची जीवा आवडी। म्हणोनि तेंचि देखावया लवडसवडी। वर्तत असे ते सांकडी। फेडीं वेगां।९८। अगा जीवींचें जाणतेया। सकळ विश्वसवितेया। प्रसन्न होईं पूजितया। देवांचिया देवा।९९।

**किरीटिनं गदिनं चक्रहस्तमिच्छामि त्वां द्रष्टुमहं तथैव। तेनैव रूपेण चतुर्भुजेन सहस्त्रबाहो भव विश्वमूर्ते ॥४६॥**

कैसें नीलोत्पलातें रांवित। आकाशाही रंगु लावित। तेजाची वोज दावित। इंद्रनीळा।६००। जैसा परिमळ जाहला मरगजा। कां आनंदासीचि निघालिया भुजा। ज्याचे जानूवरी मकरध्वजा। जोडली बरव।१। मस्तकीं मुगुटातें ठेविलें। कीं मुकुटा मुकुट मस्तक झालें। शृंगारा लेणें लाधलें। आंगाचेनि जया।२। इंद्रधनुष्याचिये आडणी। माजीं मेघ गगनरंगणीं। तैसें आवरिलें शार्ङ्गपाणी। वैजयंतिया।३। कवणी ते उदार गदा। असुरां देत कैवल्य सदा। कैसें चक्र हन गोविंदा। सौम्यतेजें मिरवे।४। किंबहुना स्वामी। तें देखावया उत्कंठित पां मी। म्हणोनि आतां तुम्हीं। तैसया होआवें।५। हे विश्वरूपाचें सोहळे। भोगूनि निवाले जी डोळे। आतां होताति आधले। कृष्णमूर्तीलागीं।६।

---

**अर्थ:** (१२६) चेंडू, बॉल. (१२७) शंकरान. (१२८) चोवीस मिनिटांचो काळ. (१२९) वेंगेंत. (१३०) निळ्या रंगाचें रत्न. (१३१) पांचव्या रंगाचें रत्न.

**अयोग्य कर्म:** तशें हेतू-कारणाच्या मेळपान। कर्म घडटा कुड्डेपणान। पूण शास्त्रा आधारान। उजू जाता कर्म तें।३७०। वा तापून वयर आयलें। तें दूद ओतून गेलें। तें जरी खर्चलें। कोण म्हणीत अशें?।७१। केल्लें शास्त्रमर्याद हुपून। कर्म जर योग्य आचरण। तर लुटिल्लें धन। दान म्हणूं येत?।७२। आगा, बावन अक्षरां विरयत खंयचो। हांगा मंत्र आसा घडिल्लो?। वा तो म्हणी नासलो। आसा जीव?।७३। पूण मंत्र म्हणची युक्ती। जंवर कळना सारकी। तंवर उच्चारफळ वाणी। जोडिना जशी;।७४। हेतू-कारण संयोगान। कर्म घडऽ सामान्यपणान। तेंच शास्त्रा प्रमाण। घडना जेन्ना;।७५। तरी जरी कर्म घडटा। तरी खऱ्यांनी तें कर्म नासता। तें अयोग्य आसता। तें कारण अनितीक।७६।

**तरी जो आपणाकूच कर्तो कर्मांत मानिता । बुद्दी निवळूंक ना म्हूण तो दुर्मती सम देखिना ॥१६॥**

**आत्म्याचो कर्मा कडेन संबंध ना:** अशीं कर्माचीं पांच कारणां। तशे पांच हेतूय अर्जुना। आतां सांग गा जर घुस्पला। आत्मो तातूंत।७७। सूर्य जसो घेतलेवीण रूप। उजवाडायी दोळ्यां नि रुपांक। तसो आत्मो घेतलेवीण कर्मां रूप। परगटायी तांकां।७८। पडबिंब आनी हारसो दोनी। आपूण स्वता नासतना तीं। तरी प्रकाशायी दोनी। देखपी जे परी;।७९। दीस वा रात नासले विना। दोनांकय परगटायी तो सुर्या। तसो कर्म वा कर्तो नासले विना। आत्मो परगटायी कर्मांक।३८०। हांव देह ही भ्रांती। पार्था ग्रासता जाची मती। ताका आत्म्याविशीं जाली। मध्यान रात।८१।

**आत्मो कर्तो मानप हें अज्ञान:** जांणी मानलें निजी शरीर। हेंच ब्रह्म चैतन्य ईश्वर। आत्मो कर्तो हो निर्धार। अचळ तांचो।८२। वा आत्मोच कर्म करता। होवूय जांचो निश्चय तत्त्वता। देहाकूच ते मानता। खरो कर्मकर्तो।८३। हांव आत्मो कर्मातीत। सर्व कर्मसाक्षीभूत। अश्या स्वरुपाची गोश्ट। आयकना कानांनी।८४। म्हणून अमर्याद आत्म्याक। राव मानून देहच। जशें दिसाक करी रात। घुघूम दोळे धांपून।८५। जाणें आकाशीं केन्ना। खरो सूर्य देखलो ना। कोंडांतल्या सुर्या मानिना। तो खरो सूर्य?।८६। मगे कोंडाचें आसप। जाता सुर्या उदेवप। तें आट्टां, नासप। हालतां, ताचें कांपप।८७। मनीस जंवर न्हिदता। सपनच ताका खरें दिसता। राजू वळखनासता सोरपा भिता। नवल कसलें तातूंत।८८। दोळ्यां जाली कामीण। हळडुवो दिसऽ चंद्रीम। मृजगळा भुलचें न्ही हरणान। तर भुलचें कोणे?।८९। जो शास्त्र आनी गुरुकूयु। जो आफडूं दिना मातुयु। मुर्खपणान जाचो जिवु। भल्ला सामको;।३९०। जाणें देहात्म-दिश्टीन। आत्म्याक घालो कुडी जाळ्यांत। जसो कुपां वेग कोल्यान। देखचो चंद्रांत।९१। मगे हे समजुतीन। देहाचे हे बंदखणींत। कर्मां वज्रगांठीन। बांदून शिरकलो।९२। पळय, नळयेक घट्ट बांदला। बाबड्या किरान खरेंच मानलां। मेकळीं आसुनूय बचकां। सोडिना नळी।९३। म्हणून निर्मळ आत्मस्वरुपीं। जो प्रकृतिचें कर्म आरोपी। तो कल्पानुकल्पी। घुसपता कर्मीं।९४। आतां रावनूय कर्मांत। ताका आफडिना कर्म। जशे वडवानळाक। स्पर्शिता समुद्रा उदक।९५। तशें घेतलेविणें लावन। जाका आफडिना कर्म। ताका वळखुंचें लक्षण। सांगतां आयक।९६।

**कर्ममुक्ताचीं लक्षणां पळोवचीं:** मुक्त मनशांचीं लक्षणां पळेतां। लाभता आपलीच मुक्तता। जशे पळयतां दिव्यान दिसता। आपली वस्त शेणिल्ली।९७। हारसो निवळ करप। तेंच आपणें आपणा भेटप। मिठान उदकांत वचप। म्हळ्यार उदकूच जावप।९८। हें आसूं; परतून फाट। पडबिंब पळे बिंबाक। तेन्ना पळोवप सरून। बिंबच तें जाता।९९। तशें संतस्वरूप पळेतां। शेणिल्लें निजी रूप मेळटा। म्हणून वर्णुचें आयकुचें सदा। तेंच गा।४००। बऱ्या वायट कर्मांत आसून। जाच्या मना जायना बंधन। चामड्या दोळ्यांचे चामडेन। लिपना दिश्टी जशी।१। तसो सर्वय कर्मां करूनु। मुक्त जो कर्मातसूनु। त्या मुक्तात्म्याचें लक्षणु। सांगतां आतां।२।

**'हांव कर्तो' भाव ना जाका जाचे बुद्दीक लेप ना । मारना मारून लोकांक कर्म बंधन जायिना ॥१७॥**

जो अज्ञानाचे न्हिदेंतु। विश्वसपनाची घडामोडु। आसलो गा भोगीतु। अनादी काळासावन।३। तें महावाक्य[३६] उच्चारून। गुरुकुर्पेच्या बळान। माथ्यार दवल्लोना हातूच फकत। थापटिलोय जणूं;।४। तंव विश्वाभासा सपन भंगून। अज्ञान-न्हीद सरून। जाग आयली सहजपणान। ब्रह्मानंदांत जो;।५। हुंवार मृगजळाचो। जो दिसता दिसाचो। पडटां उजवाड चंद्राचो। ना जाता जसो;।६। वा सरतां भुरगेंपण। बुजगावण्याचें वता भंय। वा सोंपतां इंधन। येना रांधूं जशें;।७।

नाना चेवो आलिया पाठीं। तैं स्वप्न न दिसे दिठी। तैसी अहंममता किरीटी। नुरेचि तया।८। मग सूर्य आंधारालागीं। रिघो क भलते सुरंगी। परी तो तयाचां भागीं। नाहींचि जैसा।९। तैसा आत्मत्वें वेठिला होये। तो जया तया दृश्यातें पाहे। तें दृश्य द्रष्टेपणेंसीं होत जाये। तयाचेंचि रूप।४१०। जैसा वह्नि जया लागे। तें वह्नीचि जालिया आंगें। दाह्यदाहकविभागें। सांडिजे तें।११। तैसा कर्माकारा दुजेया। तो कर्तेपणाचा आत्मया। अवलाहो ये तें गेलया। कांहीं बाहीं जें उरे।१२। तिये आत्मस्थितीचा जो रावो। मग तो देहीं इये जाणेल ठावो। काय प्रलयांबूचा उन्नाहो। वोघु मानी।१३। तैसी ते पूर्ण अहंता। काई देहपणें पंडुसुता। आवरे काई सविता। बिंबें धरिला।१४। पैं मथूनि लोणी घेपे। ते मागुती ताकीं घापे। तरी तें अलिप्तपणें सिंपे। तेणेंसीं काई।१५। ना ना काष्ठौनि वीरेशा। वेगळाविलिया हुताशा। राहे काष्ठाचिया मांदुसा। कोंडलेंपणें।१६। कां रात्रीचिया पोटा आंतु। निगाला जो हा भास्वतु। तो रात्रीऐसी मातु। ऐके कायी।१७। तैसें वेद्यवेदकपणेंसी। पडिलें कां जयाचां ग्रासीं। तया देह मी ऐसी। अहंता कैंची।१८। आणि आकाशें जेथें जेथुनी। जाइजे तेथ असे भरोनि। म्हणोनि ठेलें कोंदोनि। आपेंआप।१९। तैसें जें तेणें करावें। तो तेंचि आहे स्वभावें। मा कोणें कर्मी वेठावें। कर्तेपणें।४२०। नुरेचि गगनावीण ठावो। नोहेचि समुद्रा प्रवाहो। नुठीचि ध्रुवा जावों। तैसें जाहालें।२१। ऐसेनि अहंकृतिभावो। जयाचां बोधी जाहाला वावो। तऱ्ही देहा जंव निर्वाहो। तंव आथी कर्मे।२२। अगा वारा जरी वाजोनि वोसरे। तरी तो डोल रुखीं उरे। कां सेंदें द्रुति राहे कापुरें। वेंचलेनी।२३। कां सरलेया गीताचा समारंभु। न वचे राहवलेपणाचा क्षोभु। भूमी लोळोनी गेलिया अंबु। वोल थारे।२४। अगा मावळलेनि अर्के। संध्येचिये भूमिके। ज्योतिदीप्ती कौतुकें। दिसे जैसी।२५। पैं लक्ष भेदिलियाहीवरी। बाण धांवेचि तंववरी। जंव भरली आथी उरी। बळाची ते।२६। ना ना चाकीं भांडें जालें। तें कुंभारें परतें नेलें। परी भ्रमेचि तें मागिले। भोंवडिलेपणें।२७। तैसा देहाभिमानु गेलिया। देह जेणें स्वभावें धनंजया। जालें तें अपैसया। चेष्टवीच तें।२८। संकल्पेंवीण स्वप्न। न लाविता दांगीचें बन। न रचितां गंधर्वभुवन। उठी जैसें।२९। आत्मयाचेनि उद्यमेंवीण। तैसें देहादिपंचकारण। होय आपणयां आपण। क्रियाजात।४३०। पैं प्राचीनसंस्कारशेषें। पांचही कारणें सहेतुकें। कामवीजती गा अनेकें। कर्माकारें।३१। तया कर्मामाजीं मग। संहरो आघवें जग। अथवा नवें चांग। अनुकरो।३२। परी कुमुद कैसेनि सुके। तें कमळ कैसें फांके। हीं दोन्हीं रवी न देखे। जयापरी।३३। कां वीजु वर्षोनि आभाळ। ठिकरिया आतो भूतळ। अथवा करू शाड्वळ। पर्जन्यवृष्टी।३४। तरी तया दोहींतें जैसें। नेणिजेचि कां आकाशें। तैसा देहींच जो असे। विदेहदृष्टी।३५। तो देहादिकीं चेष्टीं। घडतां मोडतां हे सृष्टी। न देखे स्वप्न किरीटी। चेइला जैसा।३६। एऱ्हवीं चामाचे डोळेवरी। जे देखती देहचिवरी। ते कीर तो व्यापारी। ऐसेंचि मानिती।३७। कां तणाचा बाहुला। जो आगरामेरे ठेविला। तो साचचि राखतां कोल्हा। मानिजे ना।३८। पिसें नेसलें कां नागवें। हें लोकीं येऊनि जाणावें। ठाणोरियाचे मवावे। आणिकीं घाय।३९। का महासतीचे भोग। देखे कीर सकळ जग। परी ते आगी ना आंग। ना लोकु देखे।४४०। तैसा स्वस्वरूपें उठिला। जो दृश्येंसीं द्रष्टा आटला। तो नेणे काय राहटला। इंद्रियग्रामु।४१। अगा थोरीं कल्लोळीं कल्लोळ साने। लोपतां तिरींचेनि जनें। एकीं एक गिळिलें हें मनें। मानिजे जऱ्ही।४२। तऱ्ही पाणियाकडे पाहीं। कोणें गिळिजत आहे काइ। तैसें पूर्णा दुजें नाहीं। जें तो मारी।४३। सोनयाचिया चंडिका। सुवर्णशूळेंचि देखा। सोनयाचिया महिखा। नाशु केला।४४। तो देवलवसिया कडा। व्यवहारु गमला फुडा। वांचूनि शूळ महिष चामुंडा। सोनेंचि आहे।४५। पैं चित्रीचें पाणी हुताशु। तो दिठीचि भागु आभासु। पटीं आगी वोलांशु। दोन्ही नाहीं।४६। मुक्ताचें देह तैसें। हालत संस्कारवशें। देखोनि लोक पिसे। कर्ता म्हणती।४७। आणि तयां करणेयाआंतु। घडो तिहीं लोकां घातु। परी तेणें केली हे मातु। बोलोंचि नये।४८। तंव अंधारुचि देखावा तेजें। मा तें फेडी हें कें बोलिजे। तैसें ज्ञानिया नाहीं दुजें। करील कायी।४९। म्हणोनि तयाची बुद्धी। नेणे पापपुण्याची गंधी। गंगा मीनलिया नदी। विटाळु जैसा।४५०।

---

अर्थ: (३७) आत्म्याची अवस्था वा स्थिती. (३८) राय; राजा. (३९) व्हाळ, न्हंयो इत्यादी. (४०) हांव ब्रह्म. (४१) पोटांतल्यान.
(४२) ब्रह्म. (४३) लक्ष्य. (४४) ढगांनी/कुपांनी उबारिल्लें. (४५) देहाच्या अभिमानाविरयत.

---

गा उठ्ठां न्हिदेंतल्यान। दोळ्यां दिसना सपन। तसो सरता अभिमान। अहंता ममतेचो ताचो।८। सुर्या काळखाच्या सोदांत। जर रिगलो भुंयारांत। तो मेळचोना वांट्याक। केन्नाच ताच्या।९। तसो भरिल्लो आत्मभावान। पळय ज्या ज्या दृश्याक। तें दृश्य देखप्यासयत। जाता आत्मरूप।४१०।

**सोऽहं भावाचो उदय:** जसो उजो जाका लागता। ताचें आंगूच उजो जाता। जळपी-जाळपी नासता। भेद हांगा;।११। तशें कर्म मानून विभक्त। ताचें कर्तुत्व जरी आत्म्यांत। आळ येना, जो वचऽ। उरता जी अवस्था[३७]।१२। ते आत्मस्थितीचो जो राव[३८]। तो म्हणीत देह हांव?। कितें प्रळयकाळीं हेर। वोग[३९] रावऽ। उदकापरस वेगळो?।१३। 'अहं ब्रह्म'[४०] ही जाची धारणा। ताका देहा अहंता कशी अर्जुना?। सूर्य सगलो बिंबस्थाना। कसो आसपावत?।१४। काडलें लोणी चाळून। ताकांत घालें पर्थून। तरी तें आपलें अलिप्तपण। सोडीत?।१५। वा उजो लाकडांतलो। जरी एकदांच परगटलो। तो कसो पेटलांत रावतलो। कोंडून?।१६। जो रातीच्या उदरांतल्यान[४१]। भायर सरिल्लो हो सूर्यनारायण। तो कशें सोंशीत। नांवय ते रातीचें।१७। तशें जाणचेली वस्तु[४२]-जाणपी हें द्वैत। हो भेद ना जालो जाचेठांय। ताका कशें अणभवा येत। देह हांव ही जाणविकाय?।१८। आनी आकाश जंय जंयसून। करूं इत्सी गमन। थंय आसता आदीं भरून। म्हणून सर्वव्यापी तें।१९। मगे ताणें जें करचें। तें आसा स्वरूपच ताचें। मगे कर्तेपण आपलेकडेन घेवचें। खंयच्या कर्माचें?।४२०।

**ज्ञानोत्तर कर्म आपशींच घडटा:** आकाशा ना दुजो थाव। समुद्रांत ना प्रवाहा नांव। खंयच वचना ध्रूव। तशी ताची अवस्था।२१। असो कर्माविशीं अभिमान। जालो व्यर्थ आत्मबोधान। तरी जंवर आसता देह। कर्मां सुटना तंवर।२२। थांबलें वाऱ्या व्हांवप। तरी थांबना रुखा धोलप। वा पर्मळ दवरी डबयेंत। जरी कापूर गेलो उडून।२३। सोंपली बैठक गाण्याची। तरी सूर रावऽ फाटीं। उदक व्हांवन गेलें जरी। भुयीं उरता ओल।२४। आगा सूर्य वतां मावुळून। सांजेचे पसये रुपान। तामशी दिसी उजळून। दिसऽ जशी;।२५। मोख[४३] भेदली जरी। धांवऽ बाण तंवरी। जंवर भरलां उरीं। बळ वेगाचें।२६। चाकाचेर मडकुलें जालें। तें कुमारान काडून व्हेलें। तरी गतीन आदले। फिरता तें;।२७। तसो वतां देहाभिमान। तरी सभाव जो देहांत। तोच करूं लायी देहाकडल्यान। कर्मां सगलीं आपशीं।२८। संकल्पावीण सपन। ओंपलेवीण वन। बांदलेवीण गंधर्वभुवन[४४]। उबाल्लें जशें;।२९। तशें आत्म्याच्या पालवावीण। देहादी पांच कारणां लागून। जाता आपले आपूण। सगलींच कर्मां।४३०। पूर्वजल्माच्या संस्कारान। पांच हेतू-कारणां लागून। कर्मां नाना प्रकारान। जातात।३१। मगे त्या कर्मां लागून। नश्ट जावं सगलें जग। वा नवें चांग जग। जावं उत्पन्न।३२। चंद्रकमळ बावतां। सूर्यकमळ फुलता। हीं दोनी देखिना। रवी जसो।३३। मळबांतसून पडूं विजुल। जावं विछिन्न भूतळ। वा करूं पांचवी शाल। वृश्टी पावसाची।३४। पूण त्या दोनांची। आकाशा नात ना जशी। तसो तो आसून देहीं। विदेही[४५] दिश्टी ताची;।३५। तो ही सृश्ट घडटां मोडटां। देहादीक क्रियांनी पळेना। जसो कोणूय जागो जातां। सपन पळेना दोळ्यांनी।३६। हरशीं चामाच्या दोळ्यांनी। आत्म्याक देहरुपी पळेती। आत्मो होच वेपारी। मानी अज्ञानी।३७। तणाचो बावलो। शेता-मेरेर उबो केलो। तो राखपीच अशें कोलो। मानिना कितें?।३८। पिशें, नागडें काय न्हेशिल्लें। हें लोकांनी वळखुचें। झुजाऱ्याचे घावे मेजचेले। हेरांनीच।३९। महासतीचे भोग। देखी सगलें जग। पूण ती आग वा आंग। वा लोकु पळेना।४४०। जाका आयली आत्मस्वरुपाची जाग। ताचो सल्लो दृश्य-द्रश्टो भेद। ताका उरना जाण। इंद्रिय-गांवा वेपाराची।४१। तडी वयल्यान जे पळेती। ते मनीं म्हण्टी। व्हड लाट गिळी। सान लाटेक जरी;।४२। पूण उदकाचे दिश्टीन पळयतां। कोण कोणा खरो गिळटा। तशें द्वैत विलया वतां। कोण मारी कोणा?।४३। सुवर्णाचे चंडिकेनु। सुवर्णाच्या त्रिशुळानु। माल्लो लिलेनु। सुवर्णाच्या महिषासुरा;।४४। तो वेव्हार गुरवाक। जरी दिसलो खरोच। शूळ-चंडिका-महेश। भांगरूच सगलें।४५। चित्रांत अग्नी जळ। तो दिश्टीचो आभास केवळ। पटाचेरी उजो ओल। दोनी ना।४६। तशें मुक्ताच्या शरीरांत। कर्म घडऽ पूर्व संस्कारान। हें कळूं ना म्हणून। पिशे म्हणी कर्तो ताका।४७। आनी त्या करण्यांत। घडूं त्रिलोकां घात। पूण ताणें केलो अशी गोश्ट। उलोवंचीच न्हय।४८। सुर्यान काळोखाक देखचें। मगे ताका ना करीन म्हणचें। तशें द्वैत नाशिल्ल्यान कोणा मारचें। गा ज्ञानियान।४९। म्हणून ताची बुद्द। नेणा पाप-पुण्या गंध। गंगे मेळटां नद। गंगे ना विटाळ।४५०।

आगीसि आगी झगटलया। काय पोळे धनंजया। कीं शस्त्र रुपे आपणया। आपणचि।५१। तैसें आपणपयापरतें। जो नेणे क्रियाजातातें। तेथ काय लिंपवी बुद्धीतें। तयाचिये।५२। म्हणोनि कार्य कर्ता क्रिया। हें स्वरूपचि जाहालें जया। नाहीं शरीरादिकीं तया। कर्मीं बाधु।५३। जो कर्ता जीव विंदाणी। काढूनि पांचही खाणी। घडित आहे करणीं। आउतीं दाहें।५४। तेथ न्यावो आणि अन्यावो। हा द्विविधु साधूनि आवो। उभवितां न लवी खेंवो। कर्मभुवनें।५५। या थोराडा कीर कामा। विरजा नोहे आत्मा। परी म्हणसी हन उपक्रमा। हातु लावी।५६। तो साक्षी चिद्रूपु। कर्मप्रवृत्तीचा संकल्पु। उठ तो कां निरोपु। आपणचि दे।५७। तरी कर्मप्रवृत्तीहीलागीं। तया आयासु नाहीं आंगीं। जे प्रवृत्तीचेही उळिगीं। लोकुचि आथी।५८। म्हणोनि आत्मयाचें केवळ। जो रूपचि जाहला निखिळ। तया नाहीं बंदिशाळ। कर्माची हे।५९। परी अज्ञानाचां पटीं। अन्यथा ज्ञानाचें चित्र उठी। तेथ चितारणी हे त्रिपुटी। प्रसिद्ध जे कां।**४६०**।

**ज्ञानं ज्ञेयं परिज्ञाता त्रिविधा कर्मचोदना। करणं कर्म कर्तेति त्रिविध: कर्मसंग्रह: ॥१८॥**

जें ज्ञान ज्ञाता ज्ञेय। हें जगाचें बीजत्रय। तें कर्माची नि:संदेह। प्रवृत्ति जाण।६१। आतां ययाचि गा त्रया। व्यक्ती वेगळालिया। आइकें धनंजया। करूं रूप।६२। तरी जीवसूर्यबिंबाचे। रश्मी श्रोत्रादिकें पांचें। धांवोनि विषयपद्माचे। फोडिती मढ।६३। कीं जीवनृपाचे वारु उपलाणें। घेऊनि इंद्रियांचीं केंकाणें। विषयदेशींचें नागवणें। आणीत जे।६४। हें असो इहीं इंद्रियीं राहटे। जें सुखदु:खेंसीं जीवा भेटे। तें सुषुप्तिकाळीं वोहटे। जेथ ज्ञान।६५। तया जीवा नांव ज्ञाता। आणि जें हें सांगितलें आतां। तेंचि एथ पंडुसुता। ज्ञान जाण।६६। जें अविद्येचिये पोटीं। उपजतखेंवों किरीटी। आपणयातें वांटी। तिहीं ठायीं।६७। आपुलिये धांवे पुढां। घालूनि ज्ञेयाचा गुंडा। उभारी मागिलीकडां। ज्ञातृत्वातें।६८। मग ज्ञातया ज्ञेया दोघां। तो नांदणुकेचा बगा। माजीं जालेनि पैं गा। वाहे जेणें।६९। ठाकूनि ज्ञेयाची शिंव। पुरे जयाची धांव। सकळ पदार्था नांव। सूतसे जें।**४७०**। तें गा सामान्यज्ञान। या बोला नाहीं आन। ज्ञेयाचेंही चिन्ह। आइक आतां।७१। तरी शब्द-स्पर्शु-। रूप-गंध-रसु। हा पंचविध आभासु। ज्ञेयाचा जो।७२। जैसें एकेंचि चूतफळें। इंद्रियां वेगळवेगळें। रसें वर्णे परिमळें। भेटिजे स्पर्शें।७३। तैसें ज्ञेय तरी एकसरें। परी ज्ञान इंद्रियद्वारें। घे म्हणोनि प्रकारें। पांचें जालें।७४। आणि समुद्रीं वोघाचें जाणें। सरे लाणीपासीं धांवणें। कां फळीं सरे वाढणें। सस्याचें जेवीं।७५। तैसें इंद्रियांचां वाहवटीं। धांवतया ज्ञाना जेथ ठी। होय तें गा किरीटी। विषय ज्ञेय।७६। एवं ज्ञातया ज्ञाना ज्ञेया। तिहीं रूप केलें धनंजया। हे त्रिविध सर्व क्रिया-। प्रवृत्ति जाण।७७। जे शब्दादि विषय। हें पंचविध जें ज्ञेय। तेंचि प्रिय कां अप्रिय। एके परीचें।७८। ज्ञान मोटकें ज्ञातया। दावी ना जंव धनंजया। तंव स्वीकारा कीं त्यजावया। प्रवर्तेचि तो।७९। परी मीनातें देखोनि बकु। जैसा निधानातें रंकु। कां स्त्री देखोनि कामुकु। प्रवृत्ति धरी।**४८०**। जैसें खालारा धांवे पाणी। भ्रमर फुलाचिये घाणीं। नाना सुटला सांजवणीं। वत्सुचि पां।८१। अगा स्वर्गींची उर्वशी। ऐकोनि जेवीं माणुसीं। वारत्या लावीजती आकाशीं। यागांचिया।८२। पैं पारिवा जैसा किरीटी। चढला नभाचियेहि पाठीं। पारवी देखोनि लोटी। आंगचि सगळें।८३। हें ना घनगर्जनासरिसा। मयूर वोवांडे आकाशा। ज्ञाता ज्ञेय देखोनि तैसा। धांवचि घे।८४। म्हणोनि ज्ञान ज्ञेय ज्ञाता। हे त्रिविध गा पंडुसुता। होयचि कर्मा समस्तां। प्रवृत्ति येथ।८५। परी तेंचि ज्ञेय विपायें। जरी ज्ञातयातें प्रिय होये। तरी भोगावया न साहे। क्षणही विलंबु। नातरी अवचटें। तें विरु होऊनि भेटे। तरी युगांत वाटे। सांडावया।८७। व्याळा कां हारा। वरपडा जालेया नरा। हरिखु आणि दरारा। सरसाचि उठी।८८। तैसें ज्ञेय प्रियाप्रियें। देखिलेनि ज्ञातया होये। मग त्यागस्वीकारीं वाहे। व्यापारातें।८९। तेथ रागी प्रतिमल्लाचा। गोसांवी सर्वदळाचा। रथु सांडूनि पायांचा। होय जैसा।**४९०**।

---

**अर्थ:** (४६) बंदखण; कैद. (४७) चित्रकार, चित्र आनी पट ही चित्र चितारपाची त्रिपुटी, तशी ज्ञान, ज्ञातो (जाणपी) आनी ज्ञेय (जाणचेलें) ही ज्ञानाची त्रिपुटी. (४८) विलंब, उशीर. (४९) पांयदळांतलो सैनीक.

उजो लागतां उज्याक। अर्जुना कितें लासत?। शस्त्र कितें रोंबत। आपणाक?।५१। तशें जो आपणाहून। कर्माक मानिना भिन्न। ताची बुद्‌दी त्या कर्मान। म्हेळत कितें?।५२। म्हणून कर्म, कर्तो कारण। जो स्वता जालो आपूण। ताका लागना बंधन। देहादिकां कर्मांचें।५३। कित्या जीव आपणां कर्तो मानी। धा इंद्रियांच्या आवतांनी। पांचय हेतू धर्न मनीं। करी कर्म कुशळायेन।५४।

**आत्मो अकर्तो:** मगे थंय न्याय्य अन्याय्य दोनी। कर्म प्रकारांनी। कर्मभुवनां त्याच क्षणीं। उबारता जीव।५५। इतल्याय कर्मांक अर्जुना। आत्मो मातूय पालव दिना। तो कर्मारंभय करिना। खरें म्हळ्यार;।५६। तो सर्वसाक्षी ज्ञानस्वरूप। तर कर्मप्रवृत्तिचो जो संकल्प। ताकाय कशी दीत। अनुमती तो?।५७। जे कर्मप्रवृत्तीन। लोकां धल्लां वेंठेक। तिचेंय आत्म्याक। पडुंना कांयच।५८। म्हणून जो केवळ। आत्मस्वरूप जालो निर्मळ। ताका ही कर्मबंदिसाळ[४६]। बादना मातूय।५९। पूण अज्ञान पटार विचित्र। विपरीत ज्ञानाचें जें चित्र। ताची त्रिपुटी[४७] सर्वत्र। प्रसिद्ध आसा अर्जुना।४६०।

**ज्ञान ज्ञेय तसो ज्ञातो कर्माचीं तीन कारणां । इंद्रियां कर्म नी कर्तो करी कर्म त्रिकूट हें ॥१८॥**

**ज्ञातो वा जाणटलो:** ज्ञान जाणटलो जाणचेलें। हें जगा बिये तिकटें। जी कर्माची दुभावाविणे। प्रवृत्ती जाण।६१। आतां ह्या तिनांचें लक्षण। विंगड विसकावन सांगन। आयक लक्ष दिवन। धनंजया।६२। जीवसूर्यबिंबाचे। कीर्ण पांच ज्ञानेंद्रियांचे। फुलयतात ते। कळी विशयकमळाची।६३। वा जीव घोडेस्वार। धर्न ज्ञानेंद्रियांचें पंचहत्यार। विशयदेशाचें धन अपार। हाडी लुटून।६४। जें ह्या इंद्रियांत रावता। सूखदु:खा सयत भेट्टा। गाड न्हिदेंत ना जाता। जाचेठांय अर्जुना।६५। त्या जिवाचे जाणपी हें नांव। आनी जें सांगलें आतांच। ताकाच म्हणटी गा ज्ञान। पांडुपुता।६६।

**ज्ञान:** जें अविद्ये पोटीं। उपजिल्ल्या खिणा किरीटी। आपणांक वांटी। तीन ठांयीं।६७। तें आपले धांवेचे वाटे फुडें। दवरून ज्ञेयाचे गुंडे। करी फाटले वटे। उबो ज्ञात्याक।६८। मगे ज्ञातो आनी जाणचेल्यांतु। जाता जी दोगांची नंदणूकु। तांचे मदीं रावऽ आपूणु। संबंधरुपान।६९। ज्ञेय-विशयाची पळेतांच शीम। सोंपता जाची धांव। सर्वय पदार्थांक भिन्न भिन्न। बसऽ दीत नांव।४७०।

**ज्ञेय (जाणचेलें तें):** तें गा सामान्य ज्ञान। निश्चीतपणान तूं जाण। ज्ञेयाचेंय लक्षण। आयक आतां।७१। तर स्पर्श-शब्द। रूप-रस-गंध। हे पांच आभास-भेद। ज्ञेयाचे त्या।७२। जशें एकूच आंब्या फळ। ताचो रोस-रूप-पर्मळ। शब्द-स्पर्श हे सकळ। कळऽ इंद्रियांक विंगड।७३। तशें ज्ञेय एक जरी। ताच्या विशयां पांच परी। तें ज्ञान इंद्रियां वरवीं। घेतिल्ल्यान।७४। समुद्रीं सरऽ न्हंये व्हांवप। अंतीं थांबऽ धांवप। फळटां सरऽ वाडप। धानाचें जशें;।७५। तशें इंद्रियां वरवीं ज्ञान धांवता। तें अंतीं जंय पावता। त्या विशयाक म्हण्टा पार्था। ज्ञेय अशें।७६। अशे ज्ञात्या ज्ञान ज्ञेया। ह्या त्रिकुटा विसकायलें धनंजया। जातात कर्माच्यो सगल्यो क्रिया। ह्या तिरकुटापसून।७७। जे शब्द स्पर्शादी विशय। हेच पांच तरांचें ज्ञेय। तेंच प्रिय वा अप्रिय। दिसता जिवाक।७८। ज्ञात्याक जातच इल्लें ज्ञान। घडटां ज्ञेय वस्तुचें दर्शन। तयार जाता तो तितल्यान। तें घेवंक वा सोडूंक।७९। बकें पळेतां नुस्त्याकु। द्रव्य पळेतां रंकु। वा बायल देखतां कामूकु। मारी धांव।४८०।

**कर्मप्रवृत्ती:** खाला धांवता उदकु। भोंवर सोदता सुवासाकु। वासरुं सांजे गायेकु। धार काडच्या वगतार।८१। सर्गीं आसा एक उर्वशी। हें आयकून मनशां जशीं। लायती निसणी आकाशीं। यागांच्यो जश्यो।८२। पारवो जसो पार्था। संचार नभीं करतां। पारवीण देखतां। उडटा तिचेकडेन।८३। आयकतां मेघ गर्जना। मोर चोयी गगना। तसो धांवता अर्जुना। ज्ञातो पळोवन ज्ञेय।८४। म्हणून ज्ञातो ज्ञेय ज्ञान। अर्जुना, अशीं हांगा तीन। समस्त कर्मांक कारण। जातात गा।८५। अर्जुना, तेंच ज्ञेय। घडये ज्ञात्याक जाय प्रिय। तर कळाव[४८] जाता असह्य। भोगूंक खिणाचोय;।८६। वा तेंच अकस्मात। मानलेंना जिवाक। तर दिसऽ जालो युगान्त। सोडटना।८७। सोरोप वा रत्नांहार। दिश्टी पडटां मुखार। भंय वा हर्श। उठ्ठा एकदम।८८। तशें प्रिय वा अप्रिय पळेतां। ज्ञात्याची स्थिती जाता। मगे तें तो आपणायता। वा तें दिता सोडून।८९। सगल्या सैन्याचो सेनापती। चोयतां शत्रूसेनेचो अधिपती। रथ सोडून जाता पदाती[४९]। चेव येवन।४९०।

तैसें ज्ञातेपणें जें असे। तें ये कर्ता ऐसिये दशे। जेवितें बैसलें जैसें। रंधन करूं।९१। कां भंवरेंचि केला मळा। वरकलुचि जाला अंकसळा। नाना देवो रिगाला देउळा-। चिया कामा।९२। तैसा ज्ञेयाचिया हांवा। ज्ञाता इंद्रियांचा मेळावा। राहाटवी तेथ पांडवा। कर्ता होय।९३। आणि आपण होऊनी कर्ता। ज्ञाना आणी करणता। तेथें ज्ञेयचि स्वभावतां। कार्य होय।९४। ऐसा ज्ञानाचिये निजगती। पालटु पडे गा सुमती। डोळ्यांची शोभा रातीं। पालटे जैसी।९५। कां अदृष्ट जालिया उदासु। पालटे श्रीमंताचा विलासु। पुनवेपाठीं शीतांशु। पालटे जैसा।९६। तैसा चाळितां करणें। ज्ञाता वेठिजे कर्तेपणें। तेथिंचीं तिये लक्षणें। ऐक आतां।९७। तरी बुद्धि आणि मन। चित्त अहंकार हन। हें चतुर्विध चिन्ह। अंतःकरणाचें।९८। बाहिरी त्वचा श्रवण। चक्षु रसना घ्राण। हें पंचविध जाण। इंद्रियें गा।९९। तेथ आंतुलें तंव करणें। कर्ता कर्तव्या घे उमाणें। मग तैं जरी जाणें। सुखा येतें।५००। तरी बाहेरिलें तियेंही। चक्षुरादिकें दाहाही। उठौनि लवलाहीं। व्यापारा सूये।१। मग तो इंद्रियकदंबु। करविजे तंव राबु। जंव कर्तव्याचा लाभु। हातासि ये।२। ना तें कर्तव्य जरी दुःखें। फळेल ऐसें देखे। तो लावी त्यागमुखें। तियें दाहाही।३। मग फिटे दुःखाचा ठावो। तंव राहटवी रात्रिदिवो। विकणुवातें कां रावो। जयापरी।४। तैसेनि त्यागस्वीकारीं। वाहातां इंद्रियांची धुरी। ज्ञातयातें अवधारीं। कर्ता म्हणिपे।५। आणि कर्तयाचां सर्व कर्मीं। आउतांचिया परी क्षमी। म्हणोनि इंद्रियांतें आम्ही। करणें म्हणों।६। आणि हेंचि करणेंवरी। कर्ता क्रिया ज्या उभारी। तिया व्यापे तें अवधारीं। कर्म एथ।७। सोनाराचिया बुद्धी लेणें। व्यापे चंद्रकरीं चांदिणें। कां व्यापे वेल्हाळपणें। वेली जैसी।८। नाना प्रभा व्यापे प्रकाशु। गोडिया इक्षरसु। हें असो अवकाशु। आकाशीं जैसा।९। तैसें कर्तयाचिया क्रिया। व्यापलें जें धनंजया। तें कर्म गा बोलावया। आन नाहीं।५१०। एवं कर्ता कर्म करण। या तिहींचेंही लक्षण। सांगितलें तुज विचक्षण-। शिरोमणी।११। एथ ज्ञाता ज्ञान ज्ञेय। हें कर्माचें प्रवृत्तित्रय। तैसेंचि कर्ता करण कार्य। हा कर्मसंचयो।१२। वन्हीं ठेविला असे धूमु। आथी बीजीं जेवीं द्रुमु। कां मनीं जोडे कामु। सदा जैसा।१३। तैसा कर्ता क्रिया करणीं। कर्माचें आहे जिंतवणीं। सोनें जैसें खाणी। सुवर्णाचिये।१४। म्हणोनि हें कार्य मी कर्ता। ऐसें आथि जेथ पांडुसुता। तेथ आत्मा दूरी समस्तां-। क्रियांपासीं।१५। यालागीं पुढती। आत्मा वेगळाचि सुमती। आतां असो हे किती। जाणतासि तूं।१६।

**ज्ञानं कर्म च कर्ता च त्रिधैव गुणभेदतः। प्रोच्यते गुणसंख्याने यथावच्छृणु तान्यपि ॥१९॥**

परी सांगितलें जें ज्ञान। कर्म कर्ता हन। ते तिन्ही ठायीं भिन्न। गुणीं आहाती।१७। म्हणोनि ज्ञाना कर्मा कर्तया। पातेजों नये धनंजया। जे दोनी बांधती सोडावया। एकचि प्रौढ।१८। तें सात्त्विक ठाउवें होये। तो गुणभेदु सांगों पाहें। जो सांख्यशास्त्रीं आहे। उवाइला।१९। जें विचारक्षीरसमुद्र। स्वबोधकुमुदिनीचंद्र। ज्ञानडोळसां नरेंद्र। शास्त्रांचा जें।५२०। कीं प्रकृतिपुरुष दोन्हीं। मिसळलीं दिवोरजनीं। तियें निवडितां त्रिभुवनीं। मार्तंडु जें।२१। जेथ अपारा मोहराशी। तत्त्वाचां मापीं चोविसीं। उमाणें घेऊनि परेशीं। सुरवाडिजे।२२। अर्जुना तें सांख्यशास्त्र। पढे जयाचें स्तोत्र। तें गुणभेदचरित्र। ऐसें आहे।२३। जे आपुलेनि आंगिकें। त्रिविधपणाचेनि अंकें। दृश्यजात तितुकें। अंकित केलें।२४। एवं सत्त्वरजतमा। तिहींची एवढी असे महिमा। जे त्रैविध्य आदि ब्रह्मा। अंतीं कृमी।२५। परी विश्वींची आघवी मांदी। जेणें भेदलेनि गुणभेदीं। पडिली तें तव आदीं। ज्ञान सांगों।२६। जे दिठी जरी चोख कीजे। तरी भलतेंही चोख सुजे। तैसें ज्ञानें शुद्धें लाहिजे। सर्वही शुद्ध।२७। म्हणोनि तें सात्त्विक ज्ञान। आतां सांगों दे अवधान। कैवल्यगुणनिधान। श्रीकृष्ण म्हणे।२८।

---

अर्थः (५०) भांगराचो कस लावपी फातर. (५१) साधन. (५२) भाग्य; दैव. (५३) क्रियेचीं साधनां. (५४) पोकळी. (५५) सांख्यशास्त्र. (५६) त्या तीन गुणांनी. (५८) शिक्क्यान.

तसो जो आसता ज्ञातो। तोच जाता कर्तो। जसो बसपी जेवंक आयतो। जावंचो रांदपी।९१। वा भोंवरानूच लायलो मळो। वरकूलच[५०] सोनार जालो। देवूच मुखार सल्लो। बांदूंक देवूळ;।९२। तसो विशयांची हांव धर्न। ज्ञातो इंद्रियांनी करी यत्न। तेन्ना कर्तो अशें अभिधान। ताका जाता फावो।९३। ज्ञातो घेतां अशें कर्तेपण। तेन्ना ज्ञान थारता कारण[५१]। आनी ज्ञेय हें सहजपणान। जाता कार्य।९४।

**करण (इंद्रियां) आनी कार्य:** ज्ञानाच्या मूळ सभावांत। अशे परी जाता पालट। जशें बदलता येतां रात। दोळ्यां तेज।९५। वा अद्रुश्ट[५२] जातां उदास। बदलता गिरेस्ता विलास। वा अवकळा येता चंद्राक। पुनव सरतां।९६। तशें इंद्रियांक दितां चालना। ज्ञातोच घेता कर्तेपणा। त्या कर्त्याचीं लक्षणां। आयक आतां।९७। मन बुद्दी अहंकार। आनी चित्त अशे चार। अंतस्कर्णाचे वृत्ती प्रकार। जाण तूं अर्जुना।९८। कात दोळे कान। जीब आनी नाक। अशीं भायलीं आसात। पांच इंद्रियां।९९। थंय अंतरिंद्रियां पालवान। कर्तो लागणुकेविशीं घेता हव। मगे जरी कर्मापसून। जालें सूख;।**५००**। तरी त्या भायल्या। दोळे आदी धा इंद्रियां। जागोवन वेगीं वेपारा। लायी वावरा तांकां।१। मगे इंद्रियांच्या चोंब्याक। तो वावरा लायता तंवर। येना हाता जंवर। कर्मा लाभ।२। वा जरी तें कर्तव्य आपलें। दुःख फळयत अशें दिसलें। तर लायी बळ धा इंद्रियांचें। तें सोडूंक।३। मगे दुःखा थाव सरऽ मेरेन। तंवर कश्टायी तांकां दीस रात। वसुला पासत राय। जे परी;।४। असो त्याग स्विकारूंक। ज्ञातो राबयी इंद्रियांक। तेन्ना म्हणटी त्या ज्ञात्याक। कर्तो अशें।५। कर्त्याच्या सर्वय कर्मांत। इंद्रियां हीं आवतां समर्थ। हांव म्हणी ते पासत। करण[५३] तांकां।६। आनी ह्याच करणाचेरी। कर्तो क्रिया ज्यो उभारी। तांच्या व्यापाक धनुर्धारी। म्हण्टी कर्म।७। सोनाराची बुद्दी अलंकार। व्यापी चान्नें चंद्रकिर्ण। व्यापी दाट विस्तार। वालीक जसो;।८। वा प्रभा व्यापी प्रकाशु। गोडी उसा रोसु। हें आसूं; अवकाशु[५४]। आकाशीं जसो।९। तशें क्रियेन कर्त्याच्या। व्यापलां जें धनंजया। ताका कर्म ह्या नांवान म्हण्टी गा।**५१०**। अशें कर्म कर्तो करण। ह्या तिनांचेंय लक्षण। केलें तुका निवेदन। धनंजया।११। हांगा ज्ञातो ज्ञान ज्ञेय। हें कर्माचें प्रवृत्तीत्रय। तर कर्तो करण कार्य। हो कर्मा सांठो।१२। उजो आसता धुंवरांत। रूख आसता बियेंत। वा कामेत्सा मनांत। सदां जशी।१३। तशें कर्तो क्रिया करण। हेंच कर्माचें जल्मस्थान। जशी भांगरा खण। जल्मस्थान भांगराचें।१४। देखून, हें कार्य, कर्तो हांव। असो आसता जंय भाव। थंय आत्मो पयस। सगल्या कर्मांपसून।१५। म्हणून पर्थें पर्थें तुका सांगतां। आत्मो कर्मापसून वेगळो आसता। तुका हें वोगीच सांगतां। तें तूं जाणाच।१६।

**ज्ञान, कर्म तसो कर्तो त्रिगुणी भेद तीन जे । सांख्य शास्त्रांतुलें तत्त्व आयक तूं तें तशा तशें ॥१९॥**

पूण सांगलें जें ज्ञान। कर्म आनी कर्तो हे तीन। ते तीन गुणांक लागून। जातात तीन तरांचे।१७। म्हूण ज्ञान, कर्तो, कर्माचेरी। पातेवचें न्ही धनुर्धारी। राजस तामस बंधनकारी। सत्त्व करता मुक्त।१८। हो सात्त्वीक तुका कळत। जो सांगला सांख्यशास्त्रांत। ताचे सगले गूण भेद। विसकायन[५५]।१९।

**सांख्यशास्त्र:** तें विचारांचो क्षीरसमुद्र। आत्मबोधाचो कमळ फुलोवपी चंद्र। ज्ञान दिवपी शास्त्र। राय सगल्या शास्त्रांचो।**५२०**। जे प्रकृती पुरूष हे दोन। भरसल्यात दीस राती भाशेन। तांकां दाखोवपी वेगळे करून। सुर्याच तें।२१। थंय अपार मोहराशी। चोवीस तत्त्वांनी[५६] माप घेयी। मेजून तें भोगयी। सूख परतत्त्वाचें;।२२। अर्जुना, तें सांख्यशास्त्र। गायता जाचें स्तोत्र। त्या त्रिगूणभेदा चरित्र। आसा अशें;।२३। तांणी[५७] आपल्या आंगबळान। तीन तरांच्या मुद्रेन[५८]। हें दृश्यजात निश्चीतपणान। केलें अंकीत।२४। सत्त्व रज तमाचो म्हयमा। तिनांयचो इतलो, विरोत्तमा। निर्मिल्यो तीन तरा, ब्रह्म्या-। पसून किडी मेरेन।२५। हो विश्व समूह ज्या योगान। सांपडलो कचाट्यान त्रिगुण भेदान। तें ज्ञान तुका सांगन। आदीं आतां।२६। दिश्टी जर आसत चोख। तर सगलेंच दिसऽ चोख। तशें ज्ञान मेळत शुद्ध। सगलेंच शुद्ध।२७। म्हणून तें सात्त्वीक ज्ञान। आतां सांगन, आयक लक्ष दिवन। अशें म्हणटा श्रीकृष्ण। मोक्षसुखाभांडार।२८।

**सर्वभूतेषु येनैकं भावमव्ययमीक्षते। अविभक्तं विभक्तेषु तज्ज्ञानं विद्धि सात्त्विकम् ॥२०॥**

तरी अर्जुना गा तें फुडें। सात्त्विक ज्ञान चोखडें। जयाचां उदयीं ज्ञेय बुडे। ज्ञातेनिसीं।२९। जैसा सूर्य न देखे आंधारें। सरिता नेणिजती सागरें। कां कवळिलिया न धरे। आत्मच्छाया।**५३०**। तयापरी जया ज्ञाना। शिवादि तृणावसाना। इया भूतव्यक्ति भिन्ना। नाडळती।३१। जैसें हातें चित्र पाहातां। होय पाणियें मीठ धुतां। कां चेवोनि स्वप्ना येतां। जैसें होय।३२। तैसें ज्ञानें जेणें। करितां ज्ञातव्यातें पाहाणें। जाणता ना जाणणें। जाणावें उरें।३३। पैं सोनें आटूनि लेणीं। न काढिती आपुलिया आयणी। कां तरंग न घेपती पाणी। गाळूनि जैसें।३४। तैसी जया ज्ञानाचिया हाता। न लगेचि दृश्यकथा। तें ज्ञान जाण सर्वथा। सात्त्विक गा।३५। आरिसा पाहों जातां कोडें। जैसें पाहातेंचि कां रिगे पुढें। तैसें ज्ञेय लोटोनि पडे। ज्ञाताचि जें।३६। पुढती तेंचि सात्त्विक ज्ञान। जें मोक्षलक्ष्मीचें भुवन। हें असो ऐक चिन्ह। राजसाचें।३७।

**पृथक्त्वेन तु यज्ज्ञानं नानाभावान्पृथग्विधान्। वेत्ति सर्वेषु भूतेषु तज्ज्ञानं विद्धि राजसम् ॥२१॥**

तरी पार्था परियेस। तें ज्ञान गा राजस। जे भेदाची कांस। धरूनि चाले।३८। विचित्रता भूतांचिया। आपण आंतोनि ठिकरिया। बहु चकै ज्ञातया। आणिली जेणें।३९। जैसें साचा रूपाआड। घालूनि विसराचें कवाड। मग स्वप्नाचें काबाड। वोइरी निद्रा।**५४०**। तैसें स्वज्ञानाचिये पौळी-। बाहेरि मिथ्याचे महीं खळीं। तिहीं अवस्थांचिया वह्याळी। दावी जें जीवा।४१। अलंकारपणें झांकले। बाळा सोनें कां वायां गेलें। तैसें नामीं रूपीं दुरावलें। अद्वैत जया।४२। अवतरली गाडग्यां घडां। पृथ्वी अनोळख जाली मूढां। वन्हि जाला कानडा। दीपत्वासाठीं।४३। कां वस्त्रपणाचेनि आरोपें। मूर्खाप्रति तंतु हारपे। नाना मुग्धां पटु लोपे। दाऊनि चित्र।४४। तैशी जया ज्ञाना। जाणोनि भूतव्यक्ती भिन्ना। ऐक्यबोधाची वासना। निमोनि गेली।४५। मग इंधनीं भेदला अनळु। फुलावरी परिमळु। कां जळभेदें सकळु। चंद्रु जैसा।४६। तैसे पदार्थभेद बहुवस। जाणोनि लहान थोर वेष। आंतलें तें राजस। ज्ञान येथ।४७। आतां तामसाचेंही लिंग। सांगेन तें वोळख चांग। डावलावया मातंग-। सदन जैसें।४८।

**यत्तु कृत्स्नवदेकस्मिन्कार्ये सक्तमहैतुकम् । अतत्त्वार्थवदल्पं च तत्तामसमुदाहृतम् ॥२२॥**

तरी किरीटी जें ज्ञान। हिंड विधीचेनि वस्त्रेंहीन। श्रुति पाठमोरी नग्न। म्हणौनि तया।४९। येरीही शास्त्रबटिकरीं। जें निंदेचे विटाळवरी। बोळविलेंसे डोंगरीं। म्लेंच्छधर्माचां।**५५०**। जें गा ज्ञान ऐसें। गुणग्रहें तामसें। घेतलें भोंवे पिसें। होऊनियां।५१। जें सोयरिके बाधु नेणे। पदार्थी निषेधु न म्हणे। निरोविलें जैसें सुणें। शून्यग्रामीं।५२। तया तोंडीं न नाडळे। कां खातां जेणें पोळे। तेंचि एक वाळे। येर घेणेंचि।५३। पाहीं सोनें चोरितां उंदिरु। न म्हणे थरुविथरु। नेणे मांसखाइरु। काळें गोरें।५४। नाना वनामाजीं बोहरी। कडसणी जेवीं न करी। कां जीत मेलें न विचारी। बैसतां माशी।५५। अगा वांता कां वाढिलेया। साजुक कां सडलिया। विवेकु कावळिया। नाहीं जैसा।५६। तैसें निषिद्ध सांडूनि द्यावें। कां विहित आदरें घ्यावें। हें विषयांचेनि नांवें। नेणेचि जें।५७। जेतुलें आड पडे दिठी। तेतुलें घे विषयाचि साठीं। मग तें स्त्री द्रव्य वांटी। शिश्नोदरां।५८। तीर्थातीर्थ हे भाष। उदकीं नाहीं सनोळख। तहान वोळे तेंचि सुख। वांचुनियां।५९। तयाचिपरी खाद्याखाद्य। न म्हणे निंद्यानिंद्य। तोंडा आवडे तें मेध्य। ऐसाचि बोधु।**५६०**। आणि स्त्रीजात तितुकें। त्वचेंद्रियेंचि वोळखे। तियेविषयीं सोयरिके। एकचि बोधु।६१। पैं स्वार्थी जें उपकरे। तयाचि नाम सोयिरें। देहसंबंधु न सरे। जिये ज्ञानीं।६२। मृत्यूचें आघवेंचि अन्न। आघवेंचि आगी इंधन। तैसें जगचि आपलें धन। तामसज्ञाना।६३। ऐसेनि विश्व सकळ। जेणें विषोचि मानिलें केवळ। तया एक जाणै फळ। देहभरण।६४। आकाशपतिता नीरा। जैसा सिंधूचि येक थारा। तैसें कृत्यजात उदरा-। लागींचि बुझे।६५। वांचूनि स्वर्गु नरकु आथी। तया हेतु प्रवृत्ति निवृत्ती। इये आघवियेचि राती। जाणिवेची जें।६६। जें देहखंडा नाम आत्मा। ईश्वर पाषाणप्रतिमा। ययापरौती प्रमा। ढळों नेणे।६७। म्हणोनि पडिलेनि शरीरें। केलेंनिसीं आत्मा विसरे। मा भोगावया उरे। कोण वेषें।६८।

---

**अर्थ:** (५९) सगले दृश्य पदार्थ. जागृती, सपन आनी न्हीद हांचे खेळ. (६०) नामरुपांच्या भेदांक लागून. (६१) खंयचें कर्म करचें. (६२) खंयचें कर्म ताळचें.

**सर्व जिवां मदीं पार्था तत्त्व एकूच शाश्वत । अनेकांत पळे एक सत्त्वगुणीच ज्ञान तें ॥२०॥**

**सात्त्वीक ज्ञान:** तेंच तूं अर्जुना जाण। चोख सात्त्वीक ज्ञान। जें उदेतां ज्ञेय बुडऽ। ज्ञात्यासवें।२९। जसो सूर्य वळखना अंधार। न्हंय वळखना सागर। वा धरूं येना वेंगायल्यार । आपलीच सांवळी।**५३०**। ते परी ज्या ज्ञानाक। तणामेरेन शिवापासून। भूतमात्रांत वेगळेंपण। वळखना।३१। जशें हातान चित्र पळेतां। वा उदकान मीठ धुतां। वा सपन जाग येतां। उरना कांयच।३२। तशें ज्या ज्ञानान पार्था। ज्ञेय तें जाणूं वतां। ज्ञेय ज्ञान आनी ज्ञातो उरना। वेगळे।३३। आटोवन अळंकार। बुदवंत पारखिना भांगर। वा उदका पासत ल्हार। कोण गाळिना जशें।३४। तशें ज्या ज्ञाना। दृश्यांत वेगळेंपण दिसना। तेंच जाणचें अर्जुना। सात्त्वीक ज्ञान।३५। जशें हारशांत पळेतां। देखपीच आपणा पळयता। तशें ज्ञेय ना जाता। ज्ञातो पळे आपणा।३६। तेंच खरें सात्त्वीक ज्ञान। जें मोक्ष लक्ष्मीचें भवन। हें आसूं, आयक लक्षण। राजस ज्ञानाचें।३७।

**जीव मानून वेगवेगळे तांच्यांत भिन्न तत्त्व जें । देखी जो सर्व जीवांत जाण तें ज्ञान राजस ॥२१॥**

**राजस ज्ञान:** तर पार्था नीट आयक। जाणचें राजस ज्ञानाक। जें मानता प्राणीमात्रांत। भेदभाव।३८। भूतमात्रांच्या वेगळेपणानु। आपलेच शत कुडके करूनु। आनी ज्ञात्याक गेलें फटोवनु। जें ज्ञान।३९। जशें खऱ्या स्वरुपा आड। लावन विसरायेचें कवाड। मगे सपनांतले खर कश्ट। भोगयता न्हीद।**५४०**। तशें आत्मज्ञानाच्या आंगणा भोंवतीं। असार संवसाराच्या खंदकीं। तीन अवस्थांची खेळी[५९]। दाखय जें जिवा।४१। भांगर वस्तीरुपान घडयलें। भुरग्याक दिसऽ वायां गेलें। तशें नामरुपांनी[६०] दुरावलें। अद्वैत ज्या ज्ञाना।४२। देखून मडकुलीं घडयल्लीं। मूर्ख म्हणी माती गेली। जोत पळोवन दिव्याची। वळखना उज्याक।४३। मूर्ख पळेतां वस्त्राक। तो वळखना तंतूक। वा चित्र दाखयतां पिश्याक। म्हणी लिपलो पट।४४। तशें ज्या ज्ञानाक लागून। भूतमात्रां वेगळेंपण देखून। एकतायेचें भान सरून। वता सगलें।४५। मगे लांकडांचो उजो वेगवेगळो। फुलां कणकणीं पर्मळ वेगळो। वा पाणयांत कुडके जाल्लो। चंद्रीम जसो;।४६। तशे पदार्थ भिन्न भोव। तातूंत सान थोर भेद। अशे तरे जें ज्ञान। तें राजस।४७। आतां सांगन तामस लक्षण। तें वळखुंचें बरें कर्न। मातंगाचें ताळूंक सदन। कळूं जाय खंय तें।४८।

**एके कुडींत सर्वस्व मानूनु व्यर्थ घुस्पल्लें । सत्त्वा-तत्त्वाविणें क्षुद्र म्हळां तें ज्ञान तामसी ॥२२॥**

**तामस ज्ञान:** तर अर्जुना, जें ज्ञान। वावुरता शास्त्र नेमा वस्त्रावीण। ताचें निर्ल्लज्जपण पळोवन। श्रुती करता फाट।४९। हेर शास्त्रांनीय निंदिलें। भश्ट मानून तुच्छ लेखलें। आनी दोंगरीं धांवडायलें। म्लेंच्छ धर्माच्या।**५५०**। जें हें ज्ञान असलें। तमगुणा पिछाच्चान झपाटिल्लें। म्हणून दिसता भोंविल्लें। पिशें कशें।५१। वळखना नात्या संबंध। मानिना कसलोच निशेध। सुणें वशाडी गांवांत। सोडिल्लें वाऱ्यार।५२। गावना जें तोंडा। वा हुलपता जें खातां। तें सोडून खाता। मेळत तें।५३। हुंदीर चोरतना सुवर्ण। चोयना तें चोख वा हीण। देखिना खावपी मांस। तें काळें गोरें।५४। वणवो पेटिल्लो रानांत। करिना भेद बऱ्या वायटांत। वा मूस करिना विचार, पदार्थ-। जिवो काय मेल्लो।५५। ओंकिल्लें वा वाडिल्लें। साजूक वा सडिल्लें। धरिना कावळे। हो विवेक।५६। निशिद्ध सोडून दिवंचें। शास्त्रविहीत आदरान घेवंचें। हे धुंदींत विशयांचे। कळना तांकां।५७। जितलें पडलें दिश्टी। तितलेंय तो भोगी। स्त्री वा द्रव्य वांटी। शिश्न वा उदरा;।५८। तीर्थ वा अतीर्थ ही भास। पळेना देखतां उदक। तान भागली तेंच सूख। वळखना हेर।५९। तेच परी भक्ष्य-अभक्ष्य। नेणा निंद्य अनिंद्य। जिबे रुचता तें पवित्र। इतलेंच जाणा;।**५६०**। आनी स्त्री जात तितली। स्पर्शानूच भोगचेली। वस्त म्हन्यांत काडचेली। हीच दिश्टी।६१। उपकरतलो स्वार्था खरो। तोच ताचो सोयरो। हेर नात्याचो काथो। नाका ताका।६२। मर्णाचें सगलें अन्न। सगलेंच उज्याचें इंधन। तशें जगच आपलें धन। दिसता तामसा।६३। अशें विश्व सकळ। भोगुंचें विशय केवळ। ताचें एकूच कर्मफळ। पोट भरप।६४। पावसा उदकाक। समुद्र आधार एक। तशें पोट भरूंक। कर्मां ताचीं।६५। हे शिवाय सर्ग नरक आसाती। तांचो हेतू प्रवृत्ती[६१] निवृत्ती[६२]। हे सगलेच जाणिवेची। रात जी;।६६। ह्या देह पिंडा आत्मो हें नांव। ईश्वर पाशाण मूर्त। हाचे पेल्यान ना धांव। जाचे मतीची;।६७। म्हणी सोंपत ही कूड। आत्मो कर्मासयत जाता नश्ट। मगे उरता भोगूंक। कोणा रुपान ?।६८।

ना ईश्वरु पाहतां आहे। तो भोगवी हें जरी होये। तरी देवचि खाये। विकूनियां।६९। गांवींचें देवळेश्वर। नियामकचि हो साचार। तरी देशींचे डोंगर। उगे कां असती।५७०। ऐसा विपायें देवो मानिजे। तरी पाषाणमात्रचि जाणिजे। आणि आत्मा त म्हणिजे। देहातेंचि।७१। येरें पापपुण्यादिकें। तें आघवेंचि करोनि लटिकें। हित मानी अग्निमुखें। चरणें जें कां।७२। जें चामा डोळे दाविती। जें इंद्रियें गोडी लाविती। तेंचि साच हे प्रतीती। फुडी जया।७३। किंबहुना ऐसी प्रथा। वाढती देखसी पाथ धुंवाची वेली वृथा। आकाशीं जैसी।७४। कोरडा ना वोला। उपेगा आथी गेला। तो वाढोनि मोडला। भेंडु जैसा।७५। ना उंसांचीं कणसें। कां नपुंसकें माणुसें। वन लागलें जैसें। साबरीचें।७६। नातरी बाळकाचें मन। कां चोराघरींचें धन। अथ गळस्तन। शेळियेचे।७७। तैसें जें वायाणें। वोसाळ दिसे जाणणें। तयातें मी म्हणें। तामसज्ञान।७८। तेंही ज्ञान इया भाष बोलिजे तो भावो ऐसा। जात्यंधाचा कां जैसा। डोळा वाडु।७९। कां बधिराचे नीट कान। अपेया नाम पान। तैसें आडनां ज्ञान। तामसा तया।५८०। हें असो किती बोलावें। तरी ऐसें जें देखावें। तें ज्ञान नोहे जाणावें। डोळस तम।८१। एवं तिह गुणीं। भेदलें यथालक्षणीं। ज्ञान श्रोतेशिरोमणी। दाविलें तुज।८२। आतां याचि त्रिप्रकारा। ज्ञानाचेनि धनुर्धरा। प्रकाशें होत गोचरा। कर्तयाच्या क्रिया।८३। म्हणौनि कर्म पैं गा। अनुसरें तिहीं भागां। मोहरें जालिया वोघा। पाणी जैसें।८४। तें ज्ञानत्रयवशें। त्रिविध कर्म जें असें। तेथ सात्त्विक तंव ऐसें। परिस आधीं।८५।

**नियतं सङ्गरहितमरागद्वेषत: कृतम् । अफलप्रेप्सुना कर्म यत्तत्सात्त्विकमुच्यते ॥२३॥**

तरी स्वाधिकाराचेनि मार्गें। आलें जें मानिलें आंगें। पतिव्रतेचेनि परिष्वंगें। प्रियातें जैसें।८६। सांवळ्या आंगा चंदन। प्रमदालोचनं अंजन। तैसें अधिकारासी मंडण। नित्यपणें जें।८७। तें नित्य कर्म भलें। होय नैमित्तिकीं सावाइलें। सोनयासि जोडलें सौरभ्य जैसें।८८। आणि आंगा जीवाची संपत्ती। वेंचुनि बाळाची करी पाळती। परी जीवें उबगणें हे स्थिती। न पाहे माय।८९। तैसें सर्वस्वें कर्म अनुष्ठी। परी फळ न सूये दिठी। उखिती क्रिया पैठी। ब्रह्मींचि करी।५९०। आणि प्रिय आलिया स्वभावें। सबळ उरे वेंचें ठाउवें नव्हे। तैसें सत्प्रसंगें करावें। पारुषे जरी।९१। तरी अकरणाचेनि खेदें। द्वेषातें जिवीं न बांधे। जालियेचेनि आनंदें। फुंजों नेणे।९२। ऐसऐसिया हातवटिया। कर्म निफजे जें धनंजया। जाण सात्त्विक हें तया। गुणनाम गा।९३। ययावरी राजसाचें। लक्षण सांगिजेल साचें। न करी अवधानाचें। वाणेपण।९४।

**यत्तु कामेप्सुना कर्म साहंकारेण वा पुन:। क्रियते बहुलायासं तद्राजसमुदाहृतम् ॥२४॥**

तरी घरीं मातापितरां। धड बोली नाहीं संसारां। येर विश्व भरी आदरा। मूर्खु जैसा।९५। कां तुळशीचिया झाडा। दुरूनि न घापे सिंतोडा। द्राक्षींचिया तरी बुडा। दूधचि लाविजे।९६। तैसी नित्यनैमित्तिकें। कर्में जियें आवश्यकें। तयांचेविषीं न शके। बैठला उठूं।९७। येरां काम्याचेनि तरी नांवें। देह सर्वस्व आघवें। वेंचितांही न मनवे। बहु ऐसें।९८। अगा देवढी वाढी लाहिजे। तेथ मोल देतां न धाइजे। पेरितां पुरे न म्हणिजे। बीज जेवीं।९९। कां परिसु जालिया हातीं। लोहालागीं सर्वसंपत्ती। वेंचु करितां ये उन्नती। साधकु जैसा।६००। तैसीं फळें देखोनि पुढें। काम्यकर्में दुवाडें। करी परी तें थोकडें। केलेंही मानी।१। तेणें फळकामुकें। यथाविधि नेटकें। काम्य कीजे तितुकें। क्रियाजात।२। आणि तयाही केलियाचे। तोंडीं लावी दौंडीचें। कर्मीं या नांवपाठाचे। वाणें सारी।३। तैसा भरे कर्माहंकारु। मग पिता अथवा गुरु। ते न मनी काळज्वरु। औषध जैसें।४। तैसेनि साहंकारें। फळाभिलाषियें नरें। कीजे गा आदरें। जें जें कांहीं।५। परी तेंहि करणें बहुवसा। वळघोनि करी सायासा। जीवनोपावो कां जैसा। कोल्हाटियांचा।६। एका कणालागीं उंदिरु। आसका उपसे डोंगरु। कां शेवाळोद्देशें दर्दुरु। समुद्र डहुळी।७। पाहीं भिकेपरतें न लाहे। तऱ्ही गारुडी सापु वाहे। काय कीजे शीणुचि होये। गोडु येकां।८। हें असो परमाणूचेनि लाभें। पाताळ लंघिती वोळंबे। तैसें स्वर्गसुखलोभें। विचंबणे जें।९। तें काम्य कर्म सक्लेश। जाणावें येथ राजस। आतां चिन्ह परिस। तामसाचें।६१०।

म्हणटा ईश्वर कर्मसाक्षी। तोच कर्मफळ भोगूं लायी। तरी देवाची मूर्ती। विकून खायी।६९। देवळांतल्यो देवमुर्ती। कर्मफळा नियमन करती। तरी हे वोगी कित्या रावती। दोंगर देशांतले? ।५७०।* घडये देव मानतात। भजऽ फकत मुर्तीक। आत्मो दर देहाक। म्हणटात ते।७१। पाप पुण्य आदीक। हें सर्वय मानी लटीक। अग्नीपरी भकचें सर्वांक। चरचें विशयांत;।७२। चामा दोळे जे दाखयी। इंद्रियां गोडी लायती। तेंच खरें ही प्रतीती। पक्की जाका।७३। हे परी जाची मती। वाडटा एक सारकी। व्यर्थ धुंवरा वाली। आकाशांत जश्यो।७४। ओलें वा सुकिल्लें। उपेगा नायलें। तें वाडून मोडलें। झाड भेंडयेचें।७५। वा उसा कणस। नपुंसक मनीस। लागलें रान। सांवरेचें जशें;।७६। वा बाळकाचें मन। चोरा घरचें धन। वा गळ्या थान। बोकडे जशें;।७७। अशें अर्थ नाशिल्लें। जाणप निर्फळिल्लें। अर्जुना तें म्हणचेलें। तामस ज्ञान।७८। ताका म्हळें गा ज्ञान। हाचो होच भाव जाण। म्हळें जल्मांधाक। व्हडल्या दोळ्यांचो;।७९। वा भेड्ड्याचे नीट कान। अपेया म्हणचें पान। तशें ह्या तामसांचें जाण। ज्ञान हें आडनांव।५८०। अशें कितलें करचें वर्णन। अशें दिसता जें ज्ञान। तें न्ही ज्ञान। तें प्रत्यक्ष काळोख।८१। अशें दाखयलें ज्ञान। आनी ताचें लक्षण। जें वांटलां तरांनी तीन। त्रिगुणां लागून।८२।

**ज्ञान तशें कर्म:** आतां ह्याच तरांनी तीन। ज्ञानाच्या प्रकाशान। कर्त्या क्रिया जातात। अर्जुना उकत्यो।८३। ज्ञानाच्यो तरा तीन। तशें कर्माच्योय जाण। उदक वता ज्या वोगांतल्यान। तशेंच जाता।८४। ज्ञानाक लागून तिट्टी। कर्मय जालें तिट्टी। आयक कर्म आदीं। सात्त्वीक अर्जुना।८५।

**नेमान ओडीविणें केल्लें प्रिती दुस्वास नास्तना । फळा आशे विणें केल्लें म्हळां तें कर्म सात्त्विकु ॥२३॥**

**सात्त्वीक कर्म:** निजी अधिकार मार्गान। करता जो आचरण। वेंगाय खोशेन। स्वाध्वी पतीक जशी;।८६। सांवळ्या आंगा चंदन। अस्तुरे दोळ्यां अंजन। तशें शास्त्र कर्म भूशण। केल्लें सदीं;।८७। बऱ्या नित्य कर्मांक। मेळ्ळी नैमित्तिका जोड। तें भांगरा वस्तीक। सुंगध लायिल्ले वरी।८८। आंग जीव आटोवन। भुरग्यांचें करता पालन। पूण उबगले वीण। करता हें माय।८९। तशें जिवाभावान स्वकर्मा अनुश्ठान। फळाचेरी दवल्लेवीण मन। कर्मय करता समर्पण। परब्रह्माक।५९०। घरा आयलें कोणूय जिवाभावाचें। भान उरना उल्ल्या सरिल्ल्याचें। सत् प्रसंगीं करचें रावलें। नित्य कर्म जरी;।९१। तरी ना जालें, ना खेद। द्वेश धरिना मनांत। जालें कर्म यथासांग। जायना खोशी तो;।९२। अशे हातवटीन। कर्म सादलें पुरायेन। तेन्ना सत्त्वगुणांच्या प्रभावान। ताका म्हण्टी सात्त्वीक।९३। आतां राजस कर्माचें। लक्षण सांगन सारकें। रावंक दिवंचें न्ही अवधानाचें। उणेंपण।९४।

**अहंभावान वान्शेन केल्लें जें कर्म अर्जुना । चड कश्टानु यत्नानु म्हळां तें कर्म राजस ॥२४॥**

**राजसकर्म:** आवय बापूय घरांत। तांचेशीं उलयना धड। हेर जगा लेखी आदरान। मूर्ख जसो;।९५। वा तुळशीचे रोंपयेक। घालिना शिंवर एक। पूण दाकां मुळांक। घालता दूद।९६। तशी नित्य-नैमित्तिक। कर्मां जीं आवश्यक। शकना तीं करपाक। उठनाय बशिल्लो।९७। हरशीं स्वार्था पासत। झरयताय सगली कूड। खर्चय जालो खूब। म्हणिना जालें चड।९८। मेळत चक्रवाडीचें कळंतर। दुडू घालता अपार। जें बीं ओंपच्या वेळार। म्हणिना जालें पुरोशें।९९। वा परीस येतां हातीं। खर्चिता सगली संपत्ती। करता लोखंडा खरेदी। धनार्थी जसो;।६००। फुडल्या फळाचेरी दिश्टी। कठीण काम्यकर्म्यां करी। आनी जीं जालीं, तीं थोडीं। अशें मानी।१। वान्सा दवरून फळाचेरी। यथाविधी कर्मां करी। नीटपणान सगलीं। धनंजया।२। आनी तिंवूय केल्ल्याची। दवंडी वाऱ्यार घाली। आनी आपले धर्मिश्टतायेचीं। वायणां वांटी।३। असो दाट्टां कर्मअहंकार। करता गुरू-जाण्ट्यां तिरस्कार। जसो बाडगना काळजोर। कसल्याच वखदान।४। असो भारी अहंकारानु। फळलाभाचे आशेनु। कर्म करी कश्टानु। जें जें कितें;।५। पूण ते पासत। करता कश्ट सायास। जशें पोट जाळूंक। कश्टता डोंबारी।६। एके कणये पासत हुंदीरु। पोखरी सगलो दोंगरु। वा बेबूक शेळ्या खातीरु। ढवळटा समुद्र।७। भिकेवीण ना प्राप्ती। तरी व्हरी सोरोप गारुडी। कितें करचें, कश्टुपांत गोडी। थोड्यांक।८। एका कणाचे आशेनु। वायटी खणटा पाताळा मेरेनु। तशें सर्गसुखा लोभानु। कश्टप जें;।९। अशें किलेशान भल्ललें। कर्म राजस जाणचेलें। आतां सांगतां सगलें। लक्षण तामसाचें।६१०।

**अनुबन्धं क्षयं हिंसामनवेक्ष्य च पौरुषम् । मोहादारभ्यते कर्म यत्तत्तामसमुच्यते ॥२५॥**

तरी तें गा तामस कर्म। जें निंदेचें काळें धाम। निषेधाचें जन्म। साच जेणें।११। जें निपजविल्यापाठीं। कांहींच न दिसे दिठी रेघ काढिलिया पोटीं। तोयाचां जेवीं।१२। कां कांजी घुसळलिया। कां साखरु फुंकलिया। कांहीं न दिसे गाळिलिया। वा घाणां।१३। नाना उपणिलिया भूंस। कां विंधिलिया आकाश। नाना मांडिलिया पाश। वारयासी।१४। हें अवघेंचि जैसें। बां होऊनि नासे। जें केलिया पाठीं तैसें। वायांचि जाय।१५। एऱ्हवीं नरदेहाही येवढें। धन आटणीये पडे। जें निफजवितां मोडे जगाचें सुख।१६। जैसा कमळवनीं फांसु। काढिलिया कांटसु। आपण झिजे नाशु। कमळां करी।१७। कां आपण आंगें जळे आणि नागवी जगाचे डोळे। पतंगु जैसा सळें। दीपाचेनि।१८। तैसें सर्वस्व वायां जावो। वरी देहाही होय घावो। परी पुढील आपावो। निफजविजे जेणें।१९। मासी आपणयातें गिळवी। परी पुढीला वांती शिणवी। तें कश्मळ आठवी। आचरण जें।**६२०**। तेंही करावया दोषें। मज सामर्थ्य असे कीं नसे। हेंही पुढील तैसें। न पाहतां करी।२१। केवढा माझा उवावो। करितां कोण प्रस्तावो। केलियाही आवो। काय येथ।२२। इये जाणिवेची सोये। अविवेकाचेनि पायें। पुसोनियां होये। साटोप कर्मी।२३। आपुला वसौटा जाळुनी। बिसाटे जैसा वन्ही। कां स्वमर्यादा गिळोनि। सिंधु उठी।२४। मग नेणे बहु थोडें। न पाहे मागें पुढें। मार्गामार्ग येकवढें। करीत चाले।२५। तैसें कृत्याकृत्य सरकटित। आपपर नुरवित। कर्म होय तें निश्चित। तामस जाण।२६। ऐसी गुणत्रयभिन्ना। कर्माची गा अर्जुना। हे केली विवंचना। उपपत्तींसीं।२७। आतां ययाचि कर्मा भजतां। कर्माभिमानिया कर्ता। तो जीवुही त्रिविधता। पातला असे।२८। चतुराश्रमवशें। एकु पुरुषु चतुर्धा दिसे। कर्तया त्रैविध्य तैसें। कर्मभेदें।२९। परी तयां तिहींआंतु। सात्त्विक तंव प्रस्तुतु। सांगेन दत्तचित्तु। आकर्णीं तूं।**६३०**।

**मुक्तसङ्गोऽनहंवादी धृत्युत्साहसमन्वितः । सिद्ध्यसिद्ध्योर्निर्विकारः कर्ता सात्त्विक उच्यते ॥२६॥**

तरी फळोद्देशें सांडिलिया। वाढिती जेवीं सरळिया। शाखा कां चंदनाचिया। बावन्नया।३१। कां न फळतांही सार्थका। जैसिया नागलतिका। तैसिया करी नित्यादिकां। क्रिया जो कां।३२। परी फ़लशून्यता। नाहीं तया विफळता। पैं फळासीचि पांडुसुता। फळें कायिसी।३३। आणि आदरें करी बहुवसें। परी कर्ता मी हें नुमसे। वर्षाकाळींचें जैसें। मेघवृंद।३४। तेवींचि परमात्मलिंगा। समर्पावयाजोगा। कर्मकलापु पैं गा। निपजावया।३५। तया काळातें नुलंघणें। देशशुद्धिही साधणें। कां शास्त्रांचां वातीं पाहणें। क्रियानिर्णयो।३६। वृत्ती करणें येकवळा। चित्त जावों न देणें फळा। नियमांचिया सांखळा। वाहणें हन।३७। हा निरोधु साहावयालागीं। धैर्याचिया चांगचांगी। चिंतवणी जिती आंगीं। वाहे जो कां।३८। आणि आत्मयाचिये आवडी। कर्मे करितां वरपडीं। देहसुखाचिये परवडी। येवों न लाहे।३९। ऐसा निद्रा दुऱ्हावे। क्षुधा न बाणवे। सुरवाडु न पावे। आंगाचा ठावो।**६४०**। तंव अधिकाधिक। उत्साहो धरी आगळीक। सोनें जैसें तुक। तुटलिया कसीं।४१। जरी आवडी आथी साच। तरी जीवितही सलंच। आगीं घालितां रोमांच। देखिजती सतिये।४२। मा आत्मयायेवढीया प्रिया। वालभेला जो धनंजया। देहचि सिदतां तया। काय खेदु होईल।४३। म्हणौनि विषयसुरवाडु तुटे। जंव जंव देहबुद्धि आटे। तंव तंव आनंदु दुणवटे। कर्मीं जया।४४। ऐसेनि जो कर्म करी। आणि कोणे एके अवसरीं। तें ठाके ऐसी परी। वाहे जरी।४५। तरी कडाडीं मोडे जैं गाडा। तो आपणपें न मनी अवघडा। तैसा ठाकलेनिही थोडा। नोहे जो कां।४६। नातरी आदरिलें। अव्यंग सिद्धी गेलें। तरी तेंही जिंतिलें। मिरवूं नेणे।४७। इया खुणा कर्म करितां। देखिजे जो पंडुसुता। तयातें म्हणिपे तत्त्वतां। सात्त्विकु कर्ता।४८। आतां राजसा कर्तेया। वोळखणें हें धनंजया। जे अभिलाषा जगाचिया। वसौटा तो।४९।

**रागी कर्मफलप्रेप्सुर्लुब्धो हिंसात्मकोऽशुचिः। हर्षशोकान्वितः कर्ता राजसः परिकीर्तितः ॥२७॥**

जैसा गांयवींचिया कश्मळा। उकरडा होय येकवळा। कां स्मशानीं अमंगळा। आघवयांचि।**६५०**। तयापरी जो अशेषा। विश्वाचिया अभिलाषा। पायपाखाळणिया देखा। घरटा जाला।५१।

**परिणाम तशी हानी देखलेवीण पिडा बळ । आरंभिल्लें पिसायेनू म्हळां तें कर्म तामसी ॥२५॥**

**तामस कर्म:** जी निशिद्धा जल्मा घाली। सुफळताय आयली। निंदेची किट्ट काळी। कूड जी;।११। जें कर्म करून। फळ येना देसून। उदकार रेग रेखून। दिसना ती जशी।१२। वा ताक चाळटां। गोबोर फुंकतां। कांयच दिसना गाळटां। रेंवे घाणो;।१३। वा कुंडो फाफुडटां। आकाशा बाण मारतां। वा फांस घालतां। बांदूक वाऱ्याक;।१४। हें सगलेंच जशें। वांझ जावन नाशें। जें कल्यारी तशें। वायांच वता।१५। जातूंत नरदेहा समान। वायां वता महाधन। तें कर्म येतां घडून। मोडऽ जगा सूख।१६। कांटयारो फांस उडोवन। ओडलीं साळकां म्हऱ्यांत। आपुणूय झरून, करी नश्ट। त्या साळकांक।१७। आपलेंच आंग जाळून। जगा काळखांत घालून। पिसोळें द्वेश करून। घालता घुरी दिव्याचेरी।१७। तशें सर्वस्व नश्ट जावूं। देहाकूय घाव जावूं। पूण दुसरांक अपायु। करता जो;।१९। मूस पोटांत वता। ओंकाऱ्यांनी जाम करता। त्या म्हेळान आठव जाता। ज्या कर्माचो;।**६२०**। जेंय कर्म करूंक। आसा काय ना तांक। अशें हाडलेवीण मनांत। करता कर्म तो;।२१। कितली म्हजी तांक। मुखार कितें प्रसंग। कितें जायत लाव। करून हें;।२२। ह्या विचाराचे वाटेकु। अविवेका पायान पुसूनु। धरता अंतरीं अभिमानु। आपल्या कर्तुत्वाचो।२३। आपलो आसरो जाळून। उजो उठ्ठा भडकून। वा आपली शीम सोडून। खवळटा समुद्र।२४। नेणा चड थोडें। पळेना फाटीं फुडें। धरता समान वाटे आडवाटे। सरता मुखार।२५। तशें योग्य अयोग्य। नाशी सरसकट। विसरता आप-पर भेद। तें तामस निश्चीत।२६। अशे जे तीन गूण। तांकां लागून कर्म भिन्न। ताचें केलें विवेचन। दिवन कारणां।२७। आतां कर्तो ह्या कर्माचो। अभिमान धरता कर्तुत्वाचो। तो जीवय तीन तरांचो। दिसता वेगळो।२८। आस्रमांक लागून चार। दिसता मनशा तरा चार। तशे कर्त्याचे तीन प्रकार। कर्म भेदान।२९। तरी त्या तिनांत। कर्तो सात्त्वीक प्रस्तूत। सांगन, दिवन चित्त। आयक तूं।**६३०**।

**ना ओड ना अहंकारू उमेदी धीर थीर जो । सम येस अपेसांतु कर्तो सत्त्वगुणी म्हळा ॥२६॥**

**सात्त्वीक कर्तो:** फळा हेतू सोडून। सरळ वाडटा चंदन। खांदयो चोंय वशीन। बावन ह्या जातीचो;।३१। वा फळलेवीण सार्थक। जशें नागवेलीक। तश्यो करी नित्यादीक। क्रिया जो;।३२। मेळ्ळें ना ज़री फळ। तरी विहीत कर्म नासता विफल। सांग, कशें लागत फळ। फळाकूच?।३३। भोव कर्मां करी कश्टान। कर्तो हांव म्हूण ना गर्जन। जशीं कुपां गडगडलेवीण। वर्सतात पावसांत।३४। तशीं परमेश्वराक। योग्य जीं अर्पूक। अशीं कर्मां करूंक। भारी पवित्र;।३५। कालमर्यादा सांबाळप। स्थान शुद्धताय साधप। कर्म निर्णय देखप। शास्त्राच्या उजवाडांत।३६। एकाग्र करी वृत्तीकु। फळाशीं वचूं दिना चित्ताकु। घालता सांखळ पांयाकु। शास्त्र नेमाची।३७। हो निग्रह सोंसपा पासत। धरी धीर अंतरांत। करी विचार मनांत। जिवो आसासर;।३८। आत्मबोधाच्या प्रेमान। कर्मां करता आवडीन। कर्ना पर्वा मात लेगून। देहसुखाची।३९। न्हीद पयसावता। भूक स्मरना। सुखा थारो दिना। आंगांत।**६४०**। भांगर उज्यांत घालतां। वजन घट्टा, कस वाडटा। तशें कर्म करतां। उत्साह वाडटा।४१। जंय आसता खरी प्रीत। तुच्छ दिसता जिवीत। जावन रोमांचीत। सती करता अग्नीप्रवेश।४२। जाचें आत्म्याचेर प्रेम जडत। ताची प्राप्ती जाणें जायत। ताका खेद कसो जायत। देह कश्टतां?।४३। जसजशी विशया इत्सा तुट्टा। तसतशी देहबुद्दी आट्टा। तसतसो आनंद दुणावता। कर्म करूंक।४४। अशें नियत कर्म जो करता। पूण एकाद्र्या वगता। अशी येत जरी अवस्था। तें जावचें खंडीत।४५। कड्या वेल्यान गाडो सुटलो। खाला पडून तो मोडलो। तर काळ कठीण आयलो। मानिना खेद।४६। वा कर्म आरंबिल्लें। पूर्ण सिद्धीक गेलें। तरी ''हांवें जिखलें''। अशी मारिना बडाय।४७। जाणून हें मर्म। आचरता जो कर्म। सात्त्वीक हें नांव। त्या कर्त्याक।४८। आतां राजस कर्त्या। वळखुंचें धनंजया। ताचेठांय आयल्यो आस्रया। जगींच्यो सर्वय वासना।४९।

**लोभी कर्मफळां वान्शी म्हेळो भोगी दिता पिडा। भल्ला खेदानु खोशेनु म्हळा कर्तो रजोगुणी ॥२७॥**

**राजस कर्तो:** जसो गांवचो कोयर। एकठावता उश्टवाऱ्यार। वा मसुंडेंत जिनस अपवित्र। सगलेच।**६५०**। सगल्या विश्वांतली। वासना जंय एक जाली। थंय पांय धुवंक जाली-। सुवात, हो राजस सगल्यांक।५१।

म्हणोनि फळाचा लागु। देख जिये असलगु। तिये कर्मीं चांगु। रोहो मांडी।५२। आणि आपण जालिये जोडी। उपखों ने कवडी। क्षणक्षणा कुरोंडी। जीवाची करी।५३। कृपणु चित्तीं ठेवा आपुला। तैसा दक्षु पराविला मोला। बकु जैसा खुतला मासेयासी।५४। आणि गोंवी गेलिया जवळी। झगटलिया अंग फाळी। फळें आंतु पोळी। बोरांटी जैसी।५५। तैसें मनें वा कायें। भलतया दुखवितु जाये। स्वार्थु साधितां न पाहे। पराचें हित।५६। तेवींच आंगें कर्मीं। आचरणें नोहे क्षमी। न नि मनोधर्मीं। अचोरकु।५७। कनकाचिया फळा। आंतु माज बाहेरी मौळा। तैसा सबाह्य दुबळा। शुचित्वें जो।५८। आणि कर्मजा केलिया। फळ लाहे जरी धनंजया। तरी हरिखें जगा यया। वांकुलिया वाये।५९। अथवा जें आदरिलें। हीनफळ होय केलें। त शोकें तेणें जिंतिलें। धिक्कारों लागे।**६६०**। कर्मीं राहाटी ऐसी। जयातें होती देखसी। तोचि जाण त्रिशुद्धीसी। राजस कर्ता।६१ आतां यया पाठीं येरु। जो कुकर्माचा आगरु। तोही करूं गोचरु। तामस कर्ता।६२।

**अयुक्तः प्राकृतः स्तब्धः शठोनैष्कृतिकोऽलसः। विषादी दीर्घसूत्री च कर्ता तामस उच्यते ॥२८॥**

तरी मी लागलिया कैसें। पुढील जळत असे। हें नेणिजे हुताशें। जियापरी।६३। पैं शस्त्रें मियां तिखटें। नेणिजे कैसेनि निवटे कां नेणिजे काळकूटें। आपलें केलें।६४। तैसा पुढीलया आपुलया। घातु करीत धनंजया। आदरी वोखटिया। क्रिया जो कां।६५। तिया करितांही वेळीं। काय जालें हें न सांभाळी। चळला वायू वाहटुळी। चेष्टे तैसा।६६। पैं करणिया आणि जया। मेळु नाहीं धनंजया। तो पाहुनी पिसेया। कैंची त्राय।६७। आणि इंद्रियांचें वाइरिलें। चरोनि राखे जो जियालें। बैलातळीं लागले। गोचिड जैसे।६८। हांसया रुदना वेळु। नेणता आदरी बाळु। राहटे उच्छृंखळु। तयापरी।६९। जो प्रकृती आंतलेपणें। कृत्याकृत्यस्वादु नेणे। फुगे केलें धालेपणें। उकरडा जैसा।**६७०**। म्हणौनि मान्याचेनि नांवें। ईश्वराही परी ना खालवे। स्तब्धपणें न मनवे। डोंगरासी।७१। आणि मन जयाचें कलाली। राहाटी फुडी चोरिली। दिठी कीर ते बोली। पण्यांगनेची।७२। किंबहुना कपटाचें। देहचि वळिलें तयाचें। तें जिणें कीं जुवाराचें। टिटेघर।७३। नोहे तयाचा प्रादुर्भावो। तो साभिलाष भिल्लांचा गांवो। म्हणोनि नये येवों जावों। तया वाटा।७४। आणि आणिकांचें निकें केलें। विरु होय जया आलें। जैसें अपेय पया मिनलें। लवण करी।७५। कां हींव ऐसा पदार्थु। घातला आंगीआंतु। तेचि क्षणीं धडाडितु। अग्नि होय।७६। नाना सुद्रव्यें गोमटीं। जालिया शरीरीं पैठीं। होऊनि ठाती किरीटी। मळुचि जेवीं।७७। तैसें पुढिलाचें बरवें। जयाचां भीतरीं पावे। आणि विरुद्धचि आघवें। हों हों निगे।७८। जो गुण घे दे दोष। अमृताचें करी विष। दूध पाजिलिया देख। व्याळु जैसे।७९। आणि ऐहिकीं जियावें। जेणें परत्रा साच यावें। तें उचित कृत्य पावे। अवसरीं जिये।**६८०**। तेव्हां जया आपैसी। निद्रा ये ठेविली ऐसी। दुर्व्यवहारीं जैसी। विटाळें लोटे।८१। पैं द्राक्षरसा आम्ररसा। वेळे तोंड सडे वायसा। कां डोळे फुटती दिवसा। डुडुळाचे।८२। तैसा कल्याणकाळु पाहे। तैं तयातें आळसु खाये। ना प्रमादीं तरी होये। तो म्हणे तैसें।८३। जेवींचि सागराचां पोटीं। जळे अखंड आगिठी। तैसा विषादु वाहे गांठीं। जिवाचिये जो।८४। लेंडोराआगीं धूमावधि। कां अपाना आंगीं दुर्गंधि। तैसा जो जीवितावधि। विषादें केला।८५। आणि कल्पांताचिया पारा। वेगळेंही जो वीरा। सूत्रधरी व्यापारा। साभिलाषा।८६। अगा जगाही परौती। शुचा वाहे पैं चित्तीं। करितां विषीं हातीं। तृणही न लगे।८७। ऐसा जो लोकाआंतु। पापपुंजु मूर्तु। देखसी तो अव्याहतु। तामसु कर्ता।८८। एवं कर्म कर्ता ज्ञान। या तिहींचें त्रिधा चिन्ह। दाविलें तुज सुजन-। चक्रवर्ती।८९।

**बुद्धेर्भेदं धृतेश्चैव गुणतस्त्रिविधं श्रृणु। प्रोच्यमानमशेषेण पृथक्त्वेन धनंजय ॥२९॥**

आतां अविद्येचां गांवीं। मोहाची वेढूनि मदवी। संदेहाचीं आघवीं। लेऊनि लेणीं।**६९०**। आत्मनिश्चयाची बरव। जया आरिसां पाहे सावयव। तिये बुद्धीचीही धांव। त्रिधा असे।९१।

---

**अर्थ:** (६३) वस्ती; अळंकार. (६४) अवेवांसयत.

ंय फळाची जोड। जातली निश्चीत। त्याच कर्माची आवड। धरता मनीं।५२। आपूण जें जोडी। तांतली सोडिना कवडी। जेवाची करी कुरवंडी। तिचेवेल्यान खिणा खिणा।५३। किरपण आठयता आपल्या ठेव्याक। तसो दक्ष परधन फारावंक। बकें ग्रुस्तें धरूंक। तत्पर जसो।५४। वस्त्र घुसपायता लागीं वतां। तेंकूं वतां आंग फाडटा। आंबशीं फळां जीब लासता। जशी गोरीचीं।५५। तशें काया वाचा मनान। वचत ताका दुखोवप। स्वार्थ सादपा ना देखप। परहीत।५६। कर्म आरंबिल्लें जें आपूणु। पूर्ण जायना दुबळेपणानु। तरी त्या कर्माचें चिंतनु। करता सदां।५७। धुतऱ्याचें फळ जशें। भितर मांणें, भायर कांटे। तशें भितर भायर दळदिरें। अपवित्र सामकें;।५८। आनी कसलेंय कर्म करतां। फळ ताचें आयलें हाता। तर खोशेन करता॥ शकत्शायो जगाच्यो।५९। वा जें आरंबिल्लें। जर निश्फळ जालें। तर शोकान सगलें। कर्मच धिक्कारी।**६६०**। अशें जाचें कर्माचरण। येत तुका दिसून। तर तो निश्चीत जाण। कर्तो राजस।६१। आतां हाचे उपरान्त। जो कुकर्माची खण। ताचें करूं विवेचन। कर्तो जो तामस।६२।

**चंचळ सामान्य धूर्त घमेंडी सुस्त नाड जो । वेळकाडो सदीं दुख्खी कर्तो तमगुणीच तो ॥२८॥**

**तामस कर्तो:** जातां स्पर्श आपलो। लागता हेरांक चटको। हें जसो उजो। नेणाच गा।६३। कसो धारेन वता जीव। हें नेणा शस्त्र तीख। वा काळकूट वीख। करणी आपलीं।६४। तशें हेरां आनी आपणा। घातक जें अर्जुना। अशेंच कर्म करप मना। आवडटा जाच्या।६५। वावटळीचो वारो चळटा। खंयचेय दिकेक व्हांवता। तशें जाका कर्म करतां। कळना परिणाम।६६। करण्यो आनी क्रिया। हातूंत मेळ ना धनंजया। हारयत लेगून पिश्या। तामस हो कर्तो।६७। इंद्रियांनी दिले जे भोग। ताचेर चलऽ जिवीत। जणूं बैला पोटाक किरट। लागलें जशें।६८। जसो अजाण बाळ। हांसूं रडूं नेणा वेळ। तसो ना ताळमेळ। वागण्याक ताच्या।६९। जो प्रकृतीचे आधीन। नेणा जो बरें वायट। कुकर्माच्या कोयरान। उश्टवाऱ्या वरी फुगऽ जो।**६७०**। म्हणून आंगांत धर्न अहंकार। बागोवना ईश्वरामुखार। तुच्छ मानी ताठ्यान। दोंगराकय।७१। मनाचीं ल्हारां विखारी। चलणूक पक्की चोरावरी। दिश्टी वेश्येवरी। चंचळ मायावी।७२। इतलेंच न्ही, कपटाचो। देहच वळ्ळा ताचो। ताची जीण अड्डो जुगाराचो। तिंट्या वेलो।७३। ताची समस्त जीण। लोभी वाटमाऱ्यां वसतेस्थान। येणें-वचणें देखून। करचें न्ही तेवटेन।७४। कोणा देखलें बरें। हाच्या जिवा दिसना बरें। दुदांत मीठ घालें जशें। येना तें पियेवंक;।७५। वा चंदन जरी थंड पदार्थ। उडयतां उज्यांत। त्याच खिणा घेता पेट। जाता उजो।७६। वा द्रव्यां बरीं कितलीं। शरीरांत रिगलीं। किरीटी तीं जातलीं। म्हेळ जशीं।७७। तशें हेरांचें बरेलें। ताचेकडेन पावलें। तें विपरीतूच सगलें। तात्काळ जातलें।७८। हेरांच्या गुणां दिता दूशण। अमृताचें करता वीख। जसो दूद पाजतां देख। सोरोप तो तामस;।७९। हांगा मेळत किर्ती। आनी परलोकीं सद्गती। अश्या पुण्यकर्माची स्थिती। येता जेन्ना;।**६८०**। तेन्ना जाका निश्चीत। हटकून येता न्हीद। पूण तीच विटाळा वरी अलिप्त। कुकर्मा प्रसंगार।८१। आंब्या-दाखा दिसांत। फुट्टा कावळ्या तोंड। वा दिसाचे फुट्टात। दोळे घुघुमाचे।८२। तसो कल्याणाच्या खिणांतु। हाका आळस उडय गिळूनु। पूण दुश्कृत्य वतां करूंकु। आळस जाता दास।८३। जशी सागरा पोटीं। वडवाग्नीची अखंड आगटी। तश्यो खेदा गांठी सदीं। हाच्या जिवीं।८४। धुंवर लेंड्यां उज्यांत। वा दुर्गंध अपाना आंगांत। तसो विशाद अखंड। ताच्या मनांत।८५। अर्जुना कल्पान्ताचेय पेल्यान। फळ रावचें मेळत। अशे तजविजेन। हालय सुत्रां वेपाराचीं।८६। जगा पेली चिंता धर्न। अखंड करता यत्न। पूण लाव ना ते पासून। तणा पातयेचो।८७। असो जो समाजांत। पातका पुंजो मुर्तीमंत। ताका जाणचो निश्चीत। तामस कर्तो।८८। अशें कर्म कर्तो ज्ञान। ह्या तिनांचें तिट्टी लक्षण। सांगलें तुका संपूर्ण। सज्जन-स्रेश्ठा।८९।

**तीनू गुणांकु लागूनु भेद गा धृति बुद्दिचे। विंगड विसकणी तांची सांगतां आयक पुरायु ती ॥२९॥**

**बुद्दीचे तीन भेद : सात्त्वीक, राजसी, तामसी:** आतां अविद्येच्या गांवीं। मोहाचें वस्त्र न्हेशी। लेवन लेणीं[६३]। संशयाचीं।**६९०**। आत्मनिश्चयाची सोबाय। ज्या हारशांत दिसता सावेव[६४]। ते बुद्दीची धांव। तीन तरांची।९१।

अगा सत्त्वादि गुणीं इहीं। काइ एक तिहीं ठायीं। न कीजेच येथ पाहीं। जगामाजीं।९२। आगी नसतां पोटीं। कवण काष्ठ अ सृष्टी। तैसें तें कैचें दृश्यकोटीं। त्रिधा जें नोहे।९३। म्हणौनि तिहीं गुणीं। बुद्धी केली त्रिगुणीं। धृतीसिही वांटणी। तैसी असे।९४। तेंचि येक वेगळालें। तेथ चिन्हीं अळंकारलें। सांगिजेल उपाइलें। भेदलेपणें।९५। परी बुद्धि धृति इयां। दो भागामाजी धनंजया। आधीं रूप बुद्धीचिया। भेदासि करूं।९६। तरी उत्तमा मध्यमा निकृष्टा। संसारासि गा सुभटा। प्राणि येतियां वाटा। तिनी आथी।९७। जे अकारण काम्य निषिद्ध। ते हे मार्ग तिन्ही प्रसिद्ध। संसारभयें सबाध। जीवा ययां।९८

**प्रवृत्तिं च निवृत्तिं च कार्याकार्ये भयाभये। बन्धं मोक्षं च या वेत्ति बुद्धिः सा पार्थ सात्त्विकी ॥३०॥**

म्हणौनि अधिकारें मानिलें। जें विधीचेनि वोघें आलें। तें येकचि येथ भलें। नित्य कर्म।९९। तेंचि आत्मप्राप्तिफळ। दिठी सू केवळ। कीजे जैसें कां जळ। सेविजे ताहने।७००। येतुलेनि तें कर्म। सांडी जन्मभय विषम। करूनि दे सुगम। मोक्षसिद्धि।१। ऐसें कर्म करी तो भला। संसारभयें सांडिला। करणीयत्वें आला। मुमुक्षुभागा।२। तेथ जे बुद्धि ऐसा। बळी बांधे भरंवसा। मो ठेविला ऐसा। जोडेल येथ।३। म्हणौनि निवृत्तीचि मांडिली। सूनि प्रवृत्तितळीं। इये कर्मीं बुडकुळी। द्यावी कीं ना।४। तृषात पाणियें जिणें। कां पुरीं पडलिया प्रवाहणें। अंधकूपगता किरणें। सुर्याचेनि।५। नाना पथ्येंसीं औषध लाहे। तरी रोगें दाटलाही जिये। कां मीना जिव्हाळा होये। जळाचा जरी।६। तरी तया जीविता। नाहीं जेवीं अन्यथा। तैसें कर्मीं इये प्रवर्ततां। जोडेचि मोक्षु।७। हें करणीयाचिया कडे। जें ज्ञान आथी चोखडें। आणि अकरणीय हें फुडें। ऐसें जाण।८। जीं तियें काम्यादिकें। संसारभयदायकें। अकृत्यपणाचें आंबुखें। पडिलें जयां।९। तिये कर्मीं अकार्यीं। जन्ममरणसमयीं। प्रवृत्ति पळवी पायीं। मागिलीचि।७१०। पैं आगीमाजीं न रिघवे। अथावीं न घलवे। धगधगीत नागवे। शूळ जेवीं।११। कां काळयाणा धुंधुवातु। देखोनि न घलवे हातु। न वचवे खोपेआंतु। वाघाचिये।१२। तैसें कर्म अकरणीय । देखोनि महाभय। उपजे निःसंदेह। बुद्धी जिये।१३। वाढिलें रांधूनि विखें। तेथें जाणिजे मृत्यु न चुके। तेवीं निषेधीं कां देखे। बंधातें जे।१४। मग बंधभयभरितीं। तियें निषिद्धीं प्राप्तीं। विनियोगु जाणे निवृत्ती। कर्माचिये।१५। ऐसेनि कार्याकार्यविवेकी। जे प्रवृत्तिनिवृत्तिमापकी। खरा कुडी पारखी। जिया परी।१६। तैसी कृत्याकृत्यशुद्धी। बुझे जे निरवधी। सात्त्विक म्हणिपे बुद्धी। तेचि तूं जाण।१७।

**यया धर्ममधर्मं च कार्यं चाकार्यमेव च। अयथावत्प्रजानाति बुद्धिः सा पार्थ राजसी॥३१॥**

आणि बकांचां गांवीं। घेपे क्षीरनीर सकलवी। कां अहोरात्रींच गोंवी। आंधळें नेणे।१८। जया फुलांचा मकरंदु फावे। तो काष्ठें कोरूं धांवे। परी भ्रमरपणें नव्हे। अव्हां जेवीं।१९। तैसीं इयें कार्याकार्यें। धर्माधर्मरूपें जियें। तियें न चोजवितां जाये। जाणती जे कां।७२०। अगा डोळांवीण मोतियें। घेतां पाडु मिळे विपायें। न मिळणें तें आहे। ठेविलें तेथें।२१। तैसें अकरणीय अवचटें। नोडवे तरीच लोटे। एऱ्हवीं जाणे एकवटें। दोन्ही जे कां।२२। ते गा बुद्धि चोखविषीं। जाण येथ राजसी। अक्षत टाकिली जैसी। मांदियेसी।२३।

**अधर्मं धर्ममिति या मन्यते तमसावृता। सर्वार्थान्विपरीतांश्च बुद्धिः सा पार्थ तामसी ॥३२॥**

आणि राजा जिया वाटा जाये। ते चोरांसि आडव होये। कां राक्षसां दिवो पाहे। राति होऊनि।२४। नाना निधानचि निदैवा। होये कोळसयाचा उडवा। पैं असतें आपणपें जीवा। नाहीं जालें।२५। तैसें धर्मजात तितुकें। जिये बुद्धीसी पातकें। साच तें लटिकें। ऐसेचि बुझे।२६। ते आघवेचि अर्थ। करूनि घाली अनर्थ। गुण ते ते व्यवस्थित। दोषचि मानी।२७। किंबहुना श्रुतिजातें। अधिष्ठूनि केलें सरतें। तेतुलेंही उपरतें। जाणे जे बुद्धी।२८। ते कोणातेंही न पुसतां। तामसी जाणावी पांडुसुता। रात्री काय धर्मार्था। साच करावी।२९। एवं बुद्धीचे भेद। तिन्ही तुज विशद। सांगितले स्वबोध-। कुमुदचंद्रा।७३०।

---

**अर्थः** (६५) निश्चय शक्ती; मनांत घट्ट सांठोवन दवरचेली शक्ती; कार्याक चालना दिवपी आनी बुद्दीचें नियमन करपी शक्ती. (६६) शास्त्रान सोडूंक सांगिल्लीं कर्मां. (६७) फळाचेर दिश्टी दवरून केल्लें कर्म. (६८) साळीक.

ग्जो ना पोटीं। कसलें काश्ट सृश्टीं? । तशें दृश्य सृश्टीं तिट्टी। अशें ना कितें? ।९३। देखून तिनी गुणीं। बुद्दी केल्या त्रिगुणी। ृतिचियु[६५] वांटणी। केल्या तशीच।९४। तेंच एकेक वेगळें। ज्या लक्षणांनी अळंकारिल्लें। सांगन विस्तारिल्लें। भेदांसयत।९५। ्ण बुद्दी आनी धृती ह्या। दोनांतुल्या धनंजया। आदीं वर्णन बुद्दीच्या। भेदांचें करुंया।९६। येवंक संवसारांत। उत्तम मध्यम नेकृश्ट। अशे तीन सुस्पश्ट। मार्ग आसात।९७। अकारणीय[६६] काम्य[६७] निशिद्ध। ते हे तीन मार्ग प्रसिद्ध। संवसारांत ह्या ज्ञातात बद्ध। हांणीच हे जीव।९८।

**कृती करप, थांबोवप योग्ययोग्य भयाभय । जाणी जो मोक्ष नी पास बुद्दी ती जाण सात्त्विक ॥३०॥**

अधिकारान आयलें। विधीन जें केलें। अशें एकूच बरेलें। तें नित्य कर्म।९९। तेंच आत्मप्राप्तीचें फळ। दिश्टी दवरून करचें केवळ-। जशें गा जळ। पियेवंचें तानेल्ल्यान।७००। अशें करतकीच तें कर्म। निवारता जल्मभंय विशम। दिता करून सुगम। मोक्ष सिद्धी।१। नित्य कर्म जो करता। तो संवसार भंयांतल्यान सुट्टा। मुमुक्षत्वाक तो पावता। ह्या आचरणान।२। विहीत नित्य कर्मां करतां। जेन्ना विश्वास थिरावता। तेन्ना मोक्ष रावता। मुखार उबो।३। निवृत्तिच्या पांयांचेरी। जाची उबारली प्रवृत्ती। अश्या नित्यकर्मीं चित्तवृत्ती। कित्या करची न्ही मग्न? ।४। तानेल्ल्या उदकान जिवीत। पेवंक येवचें हुवारांत। पडिल्ल्या काळखे बांयंत। किर्णां सुर्याचीं;।५। गावत पथ्यासयत वखद। तर वाचत पिडेस्त। मेळत जर नुस्त्याक। उदका आदार;।६। तर ताच्या जिविता। भंय उरना भारता। तशें नित्य कर्म करतां। मोक्ष निश्चीत।७। हें नित्यकर्म करूंक । सहज प्रवृत्ती ज्या ज्ञानाक। आनी कर्मां जीं करपाक। सामकींच फावनाशिल्लीं।८। अशीं कर्मां काम्यादीक। संवसार-भंयदायक। निशिद्धपणाची निःशंक। मुद्रा आसता जाचेरी।९। देखून जीं करपा अयोग्य। जल्ममर्णाचें जातूंत भंय। तातुंतल्यान फाटीं सरतात पांय। बुद्दीचे।७१०। उज्यांत कोणूच मारिना उडी। वा अथांग उदकांत बुडी। वेंगावंक ना सोदी। तापिल्लो सूळ।११। वा फुस्स करपी नागाक। कोणूच लायना हात। वागाचे धोलींत। वचना कोणूच।१२। तशें निशिद्ध कर्म। चोवन महाभंय। दिसऽ निःसंशय जे बुद्दीक।१३। वीख घाल्लें अन्न। खातां चुकना मरण। तशें निशिद्ध आचरणीं बंधन। चुकना मातूय;।१४। मगे बंध-भंयान भरिल्लें। निशिद्ध कर्म प्राप्त जालें। तरी तें टाळूंक सगलें। उपाय करता बुद्दी जी;।१५। तशें कार्य अकार्या विवेकीं। प्रवृत्ती-निवृत्ती माप घेयी। रत्नपारखी जे परी। पारखी खरें खोटें।१६। तशें बरें नि वायट कृत्य। वळखता जी बुद्द नित्य। तीच जाणची सत्य। सात्त्वीक बुद्दी तूं।१७।

**कित्यांतु न्याय अन्याय कितें खरें कितें फटी । कळना हें सम गा जाका ती बुद्दी जाण राजसी ॥३१॥**

आनी बक्यांच्या गांवांत। दूद पाणी एकठांय चाखतात। वा नेणा दिसा राती भेद। आंधळो।१८। फुलांचें म्होंव जो चाखता। तोच लाकूडय पोखरता। म्हणून कितें नश्ट जाता। ताचें भोंवरपण? ।१९। तशें धर्मरूप तें करता। अधर्म सगलें ताळटा। हें जाणलेवीण जी बुद्दी धांवता। कर्माकडेन।७२०। पारखिले विणें घेत मोती। घडये चोखय मेळटी। पूण हरशीं येवचें ना चोख हातीं। हें थारिल्लेंच।२१। तर निशिद्ध सहज नायलें। तरूच जाणचें तें टळ्ळें। हरशीं वायट आनी बरें। सारकेंच मानी ही बुद्दी।२२। लग्नाक गांवांत आमंत्रण। योग्य अयोग्य भेदावीण। अर्जुना तीच जाण। राजसी बुद्दी।२३।

**बुद्दी तमान धांपिल्ल्यान् अधर्मा धर्म मानि जी । करी अनर्थ अर्थाचो जाण ती बुद्दी तामसी ॥३२॥**

शारांतलो राजमार्ग। तो चोरांचो आडमार्ग। वा राक्षसांचो उजवाडटा दीस। जातां रात।२४। वा गुप्तधन भाग्य हिणाक। भासता कोळश्याची रास। आपलें आसुनूय जिवाक। नाशिल्लेवरी तें।२५। तशें जें कितें धर्मीक। तें दिसऽ पातक। खरें तें लटीक। मानी ती बुद्दी;।२६। जातूंत आसा उत्तम अर्थ। ताचो करता जी अनर्थ। सद्गूण सगले निरर्थ। दोशूच मानी।२७। इतलें न्ही; वेदांनीय। आपणावन जें केलें मान्य। मानता उरफाटें तितलेंय। जी बुद्दी।२८। ती कोणाकूय ना विचारतां। तामसी जाणची, पांडुपुता। रातीवरी जी धर्म-अर्था। कित्या उपेगाची? ।२९। अशे बुद्दी बोध तीन। सांगले तुका विसकावन। आत्मबोधरुपी कुमुद[६८]। फुलोवपी चंद्र तूं।७३०।

आतां याची बुद्धिवृत्ती। निष्टंकिला कर्मजातीं। खांदु मांडिजे धृती। त्रिविधा जया।३१। तिये धृतीचेही विभाग। तिन्ही यथालि सांगिजती चांग। अवधान दे।३२।

**धृत्या यया धारयते मन:प्राणेन्द्रियक्रिया:। योगेनाव्यभिचारिण्या धृति: सा पार्थ सात्त्विकी ॥३३॥**

तरी उदेलिया दिनकरु। चोरीसीं थोके अंधारु। कां राजाज्ञा अव्यवहारु। कुंठवी जेवीं।३३। नाना पवनाचा साटु। वाजीनलि नीटु। आंगेंसीं बोभाटु। सांडिती मेघ।३४। कां अगस्त्याचेनि दर्शनें। सिंधु घेऊनी ठाती मौनें। चंद्रोदयीं कमळवनें। मि देती।३५। हें असो पावो उचलिला। मदमुख न ठेविती खालां। गाजौनि पुढां जाला। सिंहु जरी।३६। तैसा जो धीरु। उठलि अंतरु। मनादिकें व्यापारु। सांडिती उभीं।३७। इंद्रियांविषयांचिया गांठी। अपैसया सुटती किरीटी। मना मायेचां पोटीं। रिग दाहीं।३८। अधोर्ध्व गुढें काढी। प्राण नवांची पेंडी। बांधोनि घाली उडी। मध्यमेमाजीं।३९। संकल्पविकल्पांचें लुगडें। सांडू मन उघडें। बुद्धिही मागिलेकडे। उगीचि बैसे।७४०। ऐसी धैर्यराजें जेणें। मन प्राण करणें। स्वचेष्टांचीं संभाषणें। सांडविजती।४१ मग आघवींचि सडीं। ध्यानाचां आंतुलां मढीं। कोंडिजती निरवडी। योगाचिये।४२। परी परमात्मया चक्रवर्ती। उगाणिती ज हातीं। तंव लांचु न घेतां धृती। धरिजती जिया।४३। ते गा धृती येथें। सात्त्विक हें निरुतें। आईक अर्जुनातें। श्रीका म्हणे।४४।

**यया तु धर्मकामार्थान्धृत्या धारयतेऽर्जुन। प्रसङ्गेन फलाकाङ्क्षी धृति:सा पार्थ राजसी ॥३४॥**

आणि होऊनियां शरीरी। स्वर्गसंसाराचां दोहीं घरीं। नांदे जो पोटभरी। त्रिवर्गोपायें।४५। तो मनोरथांचां सागरीं। धर्मार्थकामांच तारुवावरी। जेणें धैर्यबळें करी। क्रियावाणिज्य।४६। जें कर्म भांडवला सूये। तयाची चौगुणी येती पाहे। येवढें सायास साहे जया धृती।४७। ते गा धृती राजस। पार्था येथ परियेस। आतां आइक तामस। तिसरी जे।४८।

**यया स्वप्नं भयं शोकं विषादं मदमेव च। न विमुञ्चति दुर्मेधा धृति: सा पार्थ तामसी ॥३५॥**

तरी सर्वाधमें गुणें। जयाचें कां रूपा येणें। कोळसा काळेपणें। घडला जैसा।४९। अहो प्राकृत आणि हीनु। तयाही कि गुणत्वाचा मानु। परी न म्हणिजे पुण्यजनु। राक्षसु काई।७५०। पैं ग्रहांमाजीं इंगुळु। तयातें म्हणिपे मंगळु। तैसा तमीं धसाळु गुणशब्दु हा।५१। जे सर्वदोषांचा वसौटा। तमचि कामऊनि सुभटा। उभारिला आंगवठा। जया नराचा।५२। तो आळसु सूनि असे कांखे। म्हणौनि निद्रे कहीं न मुके। पापें पोषितां दु:खें। न सांडिजे जेवीं।५३। आणि देहधनाचिया आवडी। सदा भय तयातें न सांडी। विसंबू न सके धोंडीं। काठिण्य जैसें।५४। आणि पदार्थजातीं स्नेहो। बांधे म्हणोनि तो शोकें ठावो। केला न शके पाप जावों। कृतघ्नौनि जैसें।५५। आणि असंतोष जीवेंसीं। धरूनि ठेला अहर्निशीं। म्हणौनि मैत्री तेणेंसीं। विषादें केली।५६। लसणातें न सांडी गंधी। का अपथ्यशीळातें व्याधी। तैसी केली मरणावधी। विषादें तया।५७। आणि वयसा वित्तकामु। यांचा वाढवी संभ्रमु। म्हणौनि मदें आश्रमु। तोचि केला।५८। आगीतें न सांडी तापु। सळातें जातीचा सापु। कां जगाचा वैरी वासिपु। अखंडु जैसा।५९। नातरी शरीरातें काळु। न विसंबे कवणे वेळु। तैसा आथी अढळु। तामसीं मदु।७६०। एवं पांचही हे निद्रादिक। तामसाचां ठाईं दोख। जिया धृती देख। धरिलें आहाती।६१। तिये गा धृती नांवें। तामसी येथ हें जाणावें। म्हणितलें तेणें देवें। जगाचेनि।६२। एवं त्रिविध जे बुद्धि। कीजे कर्मनिश्चयो आधि। तो धृती या सिद्धि। नेइजो येथ।६३। सूर्यें मार्गु गोचरु होये। आणि तो चालती कीर पाये। परी चालणें तें आहे। धैर्यें जेवीं।६४। तैसी बुद्धि कर्मातें दावी। तें करणसामग्री निफजवी। परी निफजावया होआवी। धीरता जे।६५। ते हे गा तुजप्रति। सांगितली त्रिविध धृती। यया कर्मत्रया निष्पत्ति। जालिया मग।६६। येथ फळ जें एक निफजे। सुख जयातें म्हणिजे। तेंही त्रिविध जाणिजे। कर्मवशें।६७।

---

**अर्थ:** (६९) मनरुपी आवयच्या पोटांत रिगतात (म्हळ्यार, आपल्या विशयांकडेन वळनात, अंतर्मुख जातात.)
(७०) अश्टांगयोगाची. (७१) न्हीद, भंय, दु:ख, विशाद (खेद) आनी मद. (७२) मनाचो निर्धार.

ातां ही तिट्टी बुद्दी। निश्चय कर्माविशीं करी। तेन्ना तीन तरांची धृती। तिका दी आधारा खांद।३१। हे धृतीचेयु तीन। भाग तुका सांगन। तांचीं लक्षणां विसकायन। ध्यान दिवन आयक तूं।३२।

**इंद्रियां-स्वास चित्ताच्यो क्रिया धिरानु जो धरी। थिरायेन योग वृत्तीनु पार्था तो धीर सात्त्विक ॥३३॥**

**द्दी आनी धृती (धीर):** तर उदेतां दिनकर। चोरयेसयत लिपता अंधार। वा राजाज्ञा कुवेव्हार। थांबय जशी;।३३। वा ट्टां सैराट। कुपां हुबून वतात। तांचो गडगड। येना आयकूं।३४। जातां अगस्तीचें दर्शन। समुद्र धरता मौन। चंद्राच्या दयान। मेट्टात साळका पाकळ्यो।३५। आयकतां शिंवा गाज। हती मदेल्लो मस्त। ताका सुचना पांय सकल दवरूंक। खलिल्लो मस्तूंक।३६। तसो उठ्ठां जो धीर। बंद पट्टात वेपार। मनादीं इंद्रियांचे अपार। धनंजया।३७। इंद्रिय विशयांची गती। आपशींच सुट्टा किरीटी। मगे धायु इंद्रियां रिगती। मन-मातेचे पोटीं[६९]।३८। वेली सकली वाट आडायी। णव प्राणांची डी। एकठांय कर्न मारी उडी। सुषुम्नेंत।३९। संकल्प विकल्पाचे कपडे। काडून बसऽ मन उगडें। आनी बुद्दी ताचे पेलेकडे। सता ओगी।७४०। असो जो धिराचो राया। मन-प्राण-इंद्रियां। थीर करता सगल्यां। लावन वेव्हार सोडूंक;।४१। मगे गलींच एकेकटीं। ध्यानाचे भितल्ले मठीं। कोंडून दवरी, वापरून युक्ती। योगाची।४२। पूण चक्रवर्ती परमात्म्या हातीं। वाधीन जायमेरेन जी धृती। लांच घेतलेवीण दवरी। धरून तांकां;।४३। ती गा अशी धृती। सात्त्वीक जाणची ती। आतां लक्ष ी। म्हणी श्रीहरी अर्जुनाक।४४।

**धर्म काम तसो अर्थ जो ज्या धिरानु गा धरी। फळा वान्सा धरी तांच्या म्हळा तो धीर राजसी ॥३४॥**

**ाजस धृती (धीर):** जे आपणा देह मानून। धमार्थ-काम उपायान। सर्ग-संवसार ह्या दोन। नंदता आनंदान;।४५। तो नोरथांच्या सागरीं। धर्मार्ध-कामाच्या तारवांचेरी। ज्या धिराचेरी करी। कर्मवेपार;।४६। त्या कर्माभांडवलान। लाव जाता ौपटीन। नि सोंशी ज्या धिरान। इतले कश्टताप;।४७। त्या धिराक। राजस म्हण्टी देख। आतां धृती आयक। तामस जी।४७।

**भंय न्हीद तशें दुख्ख विशाद मद सोडिना। जिका लागूनु दुर्बुद्धी पार्था तो धीर तामसी ॥३५॥**

घेवन सगले उणाक गूण। जाता जाचें निर्माण। कोळसो काळेपणान। घडला जसो।४९। जें सामान्य आनी हीण। त्या तामसा म्हणी गूण। म्हण्टी राकेसाकूय पुण्यजन। संस्कृतांत।७५०। गिऱ्यांमदीं इंगळ्यांवरी जहाल। ताका म्हण्टी मंगळ। तशें विचारावीण सदळ। म्हळा गूण तामस।५१। असो सगल्या दोशांचें घर। त्या तमाचें काडून सार। घडयलां जाचें शरीर। असो जो मनीस;।५२। तो आळस बांदता खांकेकु। म्हूण सोडिना केन्ना न्हिदेकु। पोशिल्ल्यान पातकांकु। दु:खां सोडिनात ताका।५३। आनी देहधनाची गोडी। भंय ताका ना सोडी। जशें कठीणपण ना सोडी। फातराक केन्ना।५४। पदार्थ मात्राविशीं सदीं दाटी। म्हणून शोक रावऽ तांचेठांयीं। पाप ताका ना सोडी। पडमुराकय जशें।५५। आनी असंतोश जिवाक। धरून राव दीस रात। म्हणून केल्या इश्टागत। विशादान ताचेशीं।५६। लसणेक सोडिना दुर्गंधी। वा अपथ्य करप्या व्याधी। तसो खेद ताका ना सोडी। मरणाचेर।५७। नि तारुण्य वान्सा धन। हांचो मोह वाडिल्ल्यान। तांचोच आसरो मदान। घेतलो अर्जुना।५८। उज्याक सोडिना ताप। वैऱ्या डंखी सोरोप। जगाचें वैरी जें भंय। अखंड ताचेठांय।५९। वा जसो कुडीक काळ। विसंबना एकूय वेळ। तसो मद अढळ। तमगुणी जिवांत।७६०। अशे पांचूय[७१] हे निद्रादीक। दोश तामसाठांय देख। जे धृतीन धल्ल्यात। गा अर्जुना।६१। तोच जाणचो पार्था। तामसी धीर सर्वथा। असो श्रीकृष्ण म्हण्टा। जो जगन्नाथ।६२। अशी तिट्टी जी बुद्दी। कर्मनिश्चेव करता आदीं। धृती ताची सिद्धी। करता पार्था।६३। सूर्य उदेतां दिसता। थंय चलपी चलता। पूण हें चलप जाता। धिरा[७२] लागून।६४। बुद्दी कर्म दाखयी। ताका कर्म साधनांय दियी। पूण तें तडी व्हरी। धीरच गा;।६५। अशी तुका किरीटी। तीन तरांची सांगली धृती। जिका लागून घडटी। कर्मां तीन तरांचीं।६६।

**तीन तरांचें सूख:** कर्मां जीं फळां येता। तातूंत जाका सूख म्हण्टा। तीन तरा तांच्योय जाता। कर्माप्रमाण।६७।

तरी फळरूप तें सुख। त्रिगुणीं भेदलें देख। विवंचूं आतां चोख। चोखीं बोलीं।६८। परी चोखी ते कैसी सांगें। पैं घेवों जा बोलबगें। कानींचियेही लागे। हातींचा मळु।६९। म्हणौनि जयाचेनि अव्हेरें। अवधानही होय बहिरें। तेणें आईक हो आंत जिवाचेनि जीवें।७७०। ऐसें म्हणौनि देवो। त्रिविधा सुखाचा प्रस्तावो। मांडला तो निर्वाहो। निरूपितसे।७१।

**सुखं त्विदानीं त्रिविधं श्रृणु ये भरतर्षभ। अभ्यासाद्रमते यत्र दुःखान्तं च निगच्छति ॥३६॥**

म्हणे सुखत्रयसंज्ञा। सांगों म्हणौनि प्रतिज्ञा। बोलिलों तें प्राज्ञा। ऐक आतां।७२। तरी सुख तें गा किरीटी। दाविजेल तु दिठी। जें आत्मयाचिये भेटी। जीवासि होय।७३। परी मात्रेचेनि मापें। दिव्यौषध जैसें घेपे। कां कथिलाचें कीजे रूपें रसभावनीं।७४। नाना लवणाचें जळु। होआवया दोनि चार वेळु। देऊनि सांडिजती ढाळु। तोयाचे जेवीं।७५। तेवीं जालें सुखलेशें। जीवु भाविलिया अभ्यासें। जीवपणाचें नासे। दुःख जेथें।७६। तें येथ आत्मसुख। जालें असे त्रिगुणात्मक। तें सांगों एकैक। रूप आतां।७७।

**यत्तदग्रे विषमिव परिणामेऽमृतोपमम्। तत्सुखं सात्त्विकं प्रोक्तमात्मबुद्धिप्रसादजम् ॥३७॥**

आतां चंदनाचें बुड। सर्पीं जैसें दुवाड। कां निधानाचें तोंड। विवसिया जेवीं।७८। अगा स्वर्गींचें गोमटें। आडव यागसंकटें। क बाळपण दासटें। त्रासकाळें।७९। हें असो दीपाचिये सिद्धी। अवघड धू आधीं। नातरी तो औषधीं। जिभेचा ठावो।७८० तयापरी पांडवा। जया सुखाचा रिगावा। विषम तेथ मेळावा। यमदमांचा।८१। देत सर्वस्नेहा मिठी। आंगीं ऐसें वैराग्य उठी स्वर्गसंसारा कांटी। काढितची।८२। विवेकश्रवणें अतित्रासें। जेथ व्रताचरणें कर्कशें। करितां जाती भोकसे। बुद्ध्यादिकांचे।८३ सुषुम्नेचेनि तोंडें। गिळिजे प्राणापानाचे लोंढे। बोहणियेसीचि येवढें। भारी जेथ।८४। जें सारसांही बिघडतां। होय वोहाहूनि वत्स काढितां। नव्हे भणंगु दवडितां। भाणयावरुनी।८५। पैं मायेपुढौनि बाळक। काळें नेता जें एक। होय का उदक। तुटता मीना।८६। तैसें विषयांचें घर। इंद्रियां सांडितां थोर। युगांतु होय तें वीर। विराग साहाती।८७। ऐसा जया सुखाचा आरंभु। दावी काठिण्याचा क्षोभु। मग क्षीराब्धीं लाभु। अमृताचा जैसा।८८। पहिलया वैराग्यगरळा। धैर्यशंभु वोडवी गळा। तरी ज्ञानामृतें सोहळा। पाहे जेथें।८९। पैं कोलिताही कोपे ऐसें। द्राक्षांचें हिरवेपण असे। तें परिपाकीं कां जैसें। माधुर्य आते।७९०। तें वैराग्यादिक तैसें। पिकलिया आत्मप्रकाशें। मग वैराग्येंसींही नाशे। अविद्याजात।९१। तेव्हां सागरीं गंगा जैसी। आत्मा मीनल्या बुद्धि तैसी। अद्वयानंदाची आपैसी। खाणी उघडे।९२। ऐसें स्वानुभवविश्रामें। वैराग्यमूळ जें परिणमे। तें सात्त्विक येणें नामें। बोलिजे सुख।९३।

**विषयेन्द्रियसंयोगाद्यत्तदग्रेऽमृतोपमम्। परिणामे विषमिव तत्सुखं राजसं स्मृतम् ॥३८॥**

आणि विषयेंद्रियां। मेळु होतां धनंजया। जें सुख जाय थडिया। सांडूनि दोन्ही।९४। अधिकारिया रिगतां गांवो। होय जैसा उत्साहो। कां रिणावरी विवाहो। विस्तारिला।९५। नाना रोगिया जिभेपासीं। केळें गोड साखरेसी। कां बचनागाची जैसी। महुरता पहिली।९६। पहिलें संवचोराचें मैत्र। हाटभेटीचें कलत्र। कां लाघवियाचे विचित्र। विनोद ते।९७। तैसें विषयेंद्रियदोखीं। जें सुख जिवातें पोखी। मग उपडिला खडकीं। हंसु जैसा।९८। तैसी जोडी आघवी आटे। जीविताचा ठावो फिटे। सुकृताचियाही सुटे। धनाची गांठी।९९। आणिक भोगिलें जें कांहीं। तें स्वप्न तैसें होय नाहीं। मग हाणिचांचि घाई। लोळावें उरे।८००। ऐसें आपत्ती जें सुख। ऐहिकीं परिणमे देख। परत्रीं कीर विख। होऊनि परते।१। जे इंद्रियजाता लळा। दिधलिया धर्माचा मळा। जाळूनि भोगिजे सोहळा। विषयांचा जेथ।२। तेथ पातकें बांधिती थावो। तियें नरकीं देती ठावो। जेणें सुखें हा अपावो। परत्रीं ऐसा।३। पैं नामें विष महुरें। परी मारूनि अंतीं खरें। तैसें आदि जें गोडिरें। अंतीं कडू।४। पार्था तें सुख साचे। वळिलें आहे रजाचें। म्हणौनि न शिवें तयाचें। आंग कहीं।५।

---

**अर्थः** (७४) सात्त्वीक सुखाचो. (७५) दूदसागर.

ी फळरूप तें सूख। त्रिगुणीं वांटलां देख। विसकायन तें चोख। स्पश्ट शब्दांनी।६८। कशें सांगचें तें चोख? । तें उतरां वरवीं त। म्हेळ तांकां लागत। कानांचो।६९। म्हणून आयकूं नाका कानान। सोड भायलें अवधान। आयक अंतस्कर्णान। जिवाच्या वान।७७०। अशें उलोवन देवान। आरंभिलें तिट्टी सुखा वर्णन। तेंच विसकावन सांगन। आतां हांव।७१।

**सुखाच्च्योयु तरा तीन आतां तूं आयक अर्जुना । अभ्यासानु दिता खोस नी दुखा अंत जें करी ॥३६॥**

खा तरा तीन। म्हणिल्लें तुका सांगन। तेंच आयक दिवन ध्यान। प्रज्ञावंता।७२। जीव भेट्टां आत्म्याक। येता जें अणभवाक। काच म्हणचें सूख। धनंजया।७३। अल्पमात्रेन मेजून। करचें दिव्य वखदा सेवन। वा रोसाचीं पुटां चडोवन। कलयचें करचें पें।७४। वा मिठा करूंक जळ। उदक मारचें चार वेळ। मगे जातलें पातळ। तें जशें।७५। तशें आत्मराय जिवा भेट्टां। तोच भ्यास फुडें करतां। जीव दशेदुःख सरता। जे परी;।७६। त्रिगुणा लागून तें आत्मसूख। तिट्टी तें जालें देख। आतां सांगतां केक। तरा ताची।७७।

**विखावरीच जें आदीं अंतीं तें अमृतावरी । मेळऽ आत्म्या प्रसादान म्हळां तें सूख सात्त्विक ॥३७॥**

ातां चंदनाचें कांड। सोरपा भंयान मेळूं अवघड। वा गुप्तधनाचें तोंड। पिशाच्चाक लागून;।७८। सर्गसुखाचे वाटेंत। यज्ञ कश्टां आड। बाळपणांत कश्ट। दिता पिडा;।७९। हें आसूं; दिवो लावचे पयलीं। धुंवराची आदीं पाळी। घेशी वखदा गुळी। गेडुसार जिबली।७८०। ते परीच अर्जुना। आत्मसूख मेळोवपा। यम दमादी साधना। दिता कश्ट।८१। सगल्या आसक्तीक ाशीत। अशें वैराग्य धगधगीत। जें कांटये वंय हुमटीत। सर्गसंवसाराची।८२। सारासार विवेकश्रवणान। खर व्रतांच्या आचरणान। ाता भारी क्षीण। बुद्दी मन अहंकार।८३। सुषुम्नेच्या तोंडांत। गिळचे प्राण-अपाना लोट। अशें बोणयेकूच कश्ट। भारी ांय।८४। चक्रवाका विरह जातां। होंटयेंतसून पाडकाक ओडटां। पानांवेल्यान उठयतां। भिकाऱ्याक जाता जशें;।८५। ाळक आवय कडसून। व्हेलें एकलेंच काळान। उदक वतां आटून। नुस्त्याक जाता जशें;।८६। तशें विशयांचें सोडटा घर। इंद्रियांक युगान्त दीसऽ थोर। पूण तें दुःख सोंशी वीर। वैराग्यसंपन्न।८७। असो ज्या सुखा[७४] आरंभ। दाखय काठिण्या क्षोभ। क्षीराब्धी[७५] चाळटां लाभ। जालो अमृताचो जसो;।८८। आदीं वैराग्य वीख आयलें। जशें शंभून तें धिरान गिळ्ळें। मगे ज्ञान अमृता सूख मेळ्ळें। पळोवंक;।८९। आगा कोलतेकूय हारयी जशी। जाळपी आमटसाण तऱ्या दाखांची। पूण तींच पिकलीं जशीं। जातात मधूर।७९०। तशें वैराग्यआदी येतां पूर्णतायेक आत्म्याचो प्रकाश मेळ्ून। दुःख सगलें जाल्लें अविद्येन। ना जाता वैराग्या सयत।९१। गंगा मेळची सागरांत। तशी बुद्दी एकरोस आत्म्यांत। मगे उगडटा खण अवचीत। अद्वैत आनंदाची।९२। अशें स्वानुभावा विसवा फळ। वैराग्य ज्या सुखा मूळ। त्या सुखा नांव सरळ। सात्त्वीक सूख।९३।

**विशयां-इंद्रियां मेळान् आरंभा अमृतावरी । जाता विखावरी अंतीं म्हूण तें रजगुणी सुख ॥३८॥**

विशय आनी इंद्रियां। दोनूय मेळटां धनंजया। जें सूख उपाट व्हांवता। आलतड पलतड भरून।९४। जसो सत्ताधीश रिगलो गांवांत। उत्सव जाता थाटांत। वा बुडून रिणांत। करचो लग्ना सुवाळो।९५। वा पिडेखोराचे जिबेक। केळें गोड साखरेंत। वा बचनाग वीख। जशें मधूर आरंभीं;।९६। सावचोरा इश्टागत। बाजारबसवीची भेट। वा भोवरुप्याचे खेळ गोड। पळेतां आरंभीं।९७। नखेत्रा बिंब खडपावयलें। प्राण घेता हंसाचे। सूख विशय-इंद्रियांचे। रमयता जिवाक जशें;।९८। तशी जोड सगली आट्टा। जिविता ठाव मोडटा। सुकृताचियु सुट्टा। धना गांठ।९९। मगे जें कितें भोगलें। तें सपनावरी वेगीं सल्लें। अंतीं एकूच वांट्या आयलें। लोळप हानींत।८००। अशें हांगा जें सूख दिता। तें हांगाच दुःख दिता। आनी परलोकांतूय बाधता। विखापरी।१। इंद्रियांचे लाड करून। धर्माचो मळो जाळून। जंय ते वती भोगूंक। सुवाळो विशयांचो;।२। थंय पातकां घर बांदतात। नरकांत थाव दितात। ज्या सुखान परलोकांत। जाता अपाय।३। विखाचें नांव मधूर। पूण अंतीं तें मारेकार। तशें आदीं जें गोड मधूर। अंतीं कोडू;।४। हें सूख पार्था। रजगुणाचें घडलां। म्हूण आफुडचें न्ही ताका। तुवें केन्नाच।५।

**यदग्रे चानुबन्धे च सुखं मोहनमात्मन:। निद्रालस्यप्रमादोत्थं तत्तामसमुदाहृतम् ॥३९॥**

आणि अपेयाचेनि पानें। अखाद्याचेनि भोजनें। स्वैरस्त्रीसंनिधानें। होय जें सुख।६। कां पुढीलांचेनि मारें। नातरी परस्वापहा जें सुख अवतरे। भाटांचां बोलीं।७। जें आलस्यावरी पोखिजे। निद्रेमाजीं जें देखिजे। जयाचां आद्यंतीं भुलिजे। आपुल वाट।८। तें गा सुख पार्था। तामस जाण सर्वथा। हें बहु न सांगोंचि जे कथा। असंभाव्य हे।९। ऐसें कर्मभेदें मुदलें। फळसुख त्रिधा जालें। तें हें यथागमें केलें। गोचर तुज।८१०। तें कर्ताकर्मकर्मफळ। ये त्रिपुटी येकी केवळ। वांचूनि कांहींचि नसे स्थूळ। सूक्ष्मीं इये।११। आणि हे तंव त्रिपुटीं। तिहीं गुणीं इहीं किरीटी। गुंफिली असे पटीं। तांतुवीं जैसी।१२।

**न तदस्ति पृथिव्यां वा दिवि देवेषु वा पुन:। सत्त्वं प्रकृतिजैर्मुक्तं यदेभि: स्यात्त्रिभिर्गुणै: ॥४०॥**

म्हणौनि प्रकृतीचां आलोकीं। न बंधिजे इहीं सत्त्वादिकीं। तैसी स्वर्गीं ना मृत्युलोकीं। आथी वस्तु।१३। कैंचा लोंवेवी कांबळा। मातियेवीण मोदळा। कां जळेंवीण कल्लोळा। होणें आहे।१४। तैसें न होनि गुणाचें। सृष्टीच्या रचना रचे। ऐसें नाहीं गा साचें। प्राणिजात।१५। यालागीं हें सकळ। तिहीं गुणांचेंचि केवळ। घडलें आहे निखिळ। ऐसें जाण।१६। गुणीं त्रय लाविली। गुणीं लोकीं त्रिकुटी पाडिली। चतुर्वर्णां घातलीं। सिनानीं उळिगें।१७।

**ब्राह्मणक्षत्रियविशां शूद्राणां च परंतप। कर्माणि प्रविभक्तानि स्वभावप्रभवैर्गुणे: ॥४१॥**

तेचि चारी वर्ण। पुससी जरी कोण कोण। तरी जयां मुख्य ब्राह्मण। धुरेचे कां।१८। येर क्षत्रिय वैश्य दोन्ही। तेही ब्राह्मणाचांचि मानिजे मानीं। जे ते वैदिकविधानी। योग्य म्हणौनि।१९। चौथा शूद्रू जो धनंजया। वेदीं लागु कीर नाहीं तया। तऱ्ही वृत्ति वर्णत्रया-। अधीन तयाची।८२०। तिये वृत्तीचिया जवळिका। वर्णां ब्राह्मणादिकां। शूद्रही कीं देखा। चौथा जाला।२१। जैसा फुलाचेनि सांगातें। तांतु तुरंबिजे श्रीमंतें। तैसें द्विजसंगें शूद्रातें। स्वीकारी श्रुती।२२। ऐसैसी गा पार्था। हे चातुर्वण्यव्यवस्था। करूं आतां कर्मपथा। यांचिया रूपा।२३। जिहीं गुणीं ते वर्ण चारी। जन्ममृत्यूचिये कातरी। चुकोनियां ईश्वरीं। पैठे होती।२४। जियें आत्मप्रकृतीचे इहीं। गुणीं सत्त्वादिकीं तिहीं। कर्मे चौघां चहूं ठाईं। वांटिलीं वर्णां।२५। जैसें बापें जोडिलें लेंकां। वांटिलें सूर्यें मार्ग पांथिकां। नाना व्यापार सेवकां। स्वामी जैसें।२६। तैसी प्रकृतीचां गुणीं। जया कर्माची वेल्हावणी। केली आहे वर्णीं। चहूं इहीं।२७। तेथ सत्त्वें आपलां आंगीं। समीननिमीन भागीं। दोघे केले नियोगी। ब्राह्मण क्षत्रिय।२८। आणि रज परी सात्त्विक। तेथ ठेविले वैश्य लोक। रजचि तमभेसक। तेथ शूद्र ते गा।२९। ऐसा येकाचि प्राणिवृंदा। भेद चतुर्वर्णधा। गुणींचि प्रबुद्धा। केला जाण।८३०। मग आपलें ठेविलें जैसें। आइतेंचि दीपें दिसे। गुणभिन्न कर्म तैसें। शास्त्र दावी।३१। तेंचि आतां कोण कोण। वर्णविहिताचें लक्षण। हें सांगों एक श्रवण-। सौभाग्यनिधी।३२।

**शमो दमस्तप: शौचं क्षान्तिरार्जवमेव च। ज्ञानं विज्ञानमास्तिक्यं ब्रह्मकर्म स्वभावजम् ॥४२॥**

तरी सर्वेंद्रियांचिया वृत्ती। घेऊनि आपलां हातीं। बुद्धि आत्मया मिळे कांतीं। प्रिया जैसी।३३। ऐसा बुद्धीचा उपरमु। तया नाम म्हणिपे शमु। तो गुण गा उपक्रमु। जया कर्माचा।३४। आणि बाह्येन्द्रियांचें धेंडें। पिटूनि विधीचेनि दंडें। नेदिजे अधर्माकडे। कहींचि जावों।३५। तो पैं गा शमा विरजा। दम गुण जेथ दुजा। आणि स्वधर्माचिया वोजा। जिणें जें कां।३६। तेवींचि सटवीचिये रातीं। न विसंबिजे जेवीं वाती। तैसा ईश्वरनिर्णयो चित्तीं। वाहणें सदा।३७। तया नाम तप। तें तिजया गुणाचें रूप। आणि शौचही निष्पाप। द्विविध जेथ।३८। मन भावशुद्धी भरलें। आंग क्रिया अळंकारिलें। ऐसें सबाह्य जियालें। साजिरें जें का।३९। तया नांव शौच पार्था। तो कर्मीं गुण जये चौथा। आणि पृथ्वीचिया परी सर्वथा। सर्व जें साहाणें।८४०। ते गा क्षमा पांडवा। गुण जेथ पांचवा। स्वरांमाजीं सुहावा। पंचमु जैसा।४१।

---

**अर्थ:** (७५ अ) राजाचे गूण गावंक नेमिल्लो मनीस. (७६) ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश ही देवत्रयी. (७७) सर्ग, मृत्यू आनी पाताळ लोक. (७८) ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य. (७९) वेद. (८०) शास्त्रान सांगिल्लें. (८१) मनाचो निग्रह.

**आरंभा नि निमाणें जें सूख गदळायि आपणां । न्हीद आळस सुस्तीन म्हळां तें सूख तामसी ॥३९॥**

**ामस सूख:** आनी अपेय पियेवन। अभक्ष खावन। स्वैरिणीक भोगून। मेळटा जें सूख।६। वा दुसऱ्याच्या घातान। वा नागोवन रधन। वा भाटाचे[७५अ] तोखणायेन। मेळऽ जें सूख।७। वा जें पोसता आळसान। माजता न्हिदेन। जाचे आदीं अंतीं जिवाक ान। उरना आत्मकल्याणाचें।८। तें गा सूख पार्था। तामस समज सर्वथा। ताची विस्तारिना कथा। सांगप अशक्य तें।९। ्शें मूळ कर्मभेदान। जालें फळय सुखय तरांचें तीन। तें हांगा उडयलें सांगून। यथाशास्त्र।८१०। कर्तो कर्म कर्मफळ। ही ्रेपुटी हांगा केवळ। हाचे परस सुक्षीम स्थूळ। कांयच ना।८११। आनी ही त्रिपुटी। विणल्या तीन गुणांनी। जशें विणलां ाग्यांनी। वस्त्र अर्जुना।८१२।

**ना धतरिर सर्गार व्हडा देवांमदीं तशी । प्रकृतीच्या गुणांतसून मेकळी कसलीच वस्तू ना ॥४०॥**

**गली सृश्टी त्रिगुणाचीच घडल्या:** प्रकृतीच्या आभासामदीं। ह्या त्रिगुणांनी ना बांदिल्ली। सर्गीं वा मृत्यु लोकीं ना एकूय ्स्तू।१३। कशी कांबळ लोंकरेवीण। दिफळ मातयेवीण। वा ल्हार जळावीण। जायत गा?।१४। तशे गुणांविरयत। निर्माण जाले सृश्टींत। अशे कोणूच जीवमात्र। ना हांगा।१५। म्हणून दिसता जें सकळ। तिनी गुणांचेच केवळ। घडलां गा निखळ। अशें समज।१६। देवत्रयी[७६] त्रिगुणांनी। तीन लोक[७७] त्रिगुणांनी। कर्मां चार वर्णांचीं त्रिगुणांनी। जालीं वेगवेगळीं।१७।

**कर्मां ब्राह्मण खेत्र्यांचीं वैश्य-शुद्रांचिं अर्जुना । वांटल्यांत वेगवेगळीं तीं निजागुणा भशेन गा ॥४१॥***

तेच चार वर्ण। विचारशी कोण कोण। तर मुखेल ब्राह्मण। जातूंत।१८। हेर क्षत्रिय वैश्य दोन। ब्राह्मणाच्या तोला मान। ते योग्य म्हणून। वैदीक कर्मांत।१९। चवथो वर्ण तो शूद्र। जाका ना वेद अधिकार। हेर तीन वर्णांचेर। विसंबून तो।८२०। सेवाभाव धरून। आयलो हेर वर्णां म्हऱ्यान। मानलो शूद्र म्हणून। चवथो वर्ण।२१। जशें फुलां सांगातान। गिरेस्त हुंगता दोरयेक। तशें द्विजा[७८] वांगडा शुद्राक। स्विकारी श्रुती[७९]।२२। हे परी गा पार्था। जाली ही वर्णवेवस्ता। हांचे कर्मवाटेक आतां। करुंया स्पश्ट;।२३। ज्या गुणांनी ते वर्णचारी। चुकोवन जल्ममर्णाची कातरी। मेळटात परमेश्वरीं। धनुर्धरा;।२४। अशे आत्मप्रकृतीचे तीन। सत्त्वादीक जे गूण। तांणी कर्मां दिलीं वांटून। चारय वर्णांक वेगळीं।२५। बापायन जोड भुरग्यांक। सुर्यान विंगड वाटो वाटसुरांक। धनयान कामां सेवकांक। वांटचीं जशीं।२६। तशी प्रकृतीच्या गुणांनी। केली कर्मांची वांटणी। चार वर्णांच्या ठिकाणीं। धनंजया।२७। तांचेठांय सत्त्वगुणान। आपल्या उण्या अदीक वांट्यान। केले दोन वर्ण उत्पन्न। ब्राह्मण क्षत्रिय।२८। सत्त्वासयत जो रजगूण। तांतुंतल्यान जालो वैश्यवर्ण। रज तमा भेसळीन। जाले शूद्र।२९। मुळांत एकरूप जो प्राणीवृंद। तातूंत चार वर्णांचो भेद। त्रिगुणांनीच निश्चीत। केला जाण।८३०। मगे आपणेंच दवरिल्लें जशें। दिवो दाखय आयतें। शास्त्र दाखय कर्म तशें। गुणाप्रमाण वर्णाचें।३१। आतां वर्णाप्रमाण विहीत[८०]। कर्माचें लक्षण सांगन। तें कर श्रवण। लक्ष दिवन।३२।

**शम संयम पावित्र्य उजुतायु क्षमा तप । ज्ञान विज्ञान आस्तिक्य ब्रह्मकर्म सभाविक ॥४२॥**

**ब्रह्मकर्म-शम:** सर्वय इंद्रियां वृत्ती। घेवन आपल्या हातीं। आत्म्याक मेळटा बुद्दी। प्रिया पतीक जशी।३३। अशें बुद्दीचें शांतपर। ताचें नांव म्हणचें शम[८१]। तो गूण गा आरंभ। ज्या कर्माचो३४।

**दम:** आनी भायल्या इंद्रियांक। शास्त्राच्या दांड्यान बडोवन। केन्नाच अधर्माकडेन। दिना वचूंक;।३५। असो शमाक पालव दिता। दुसरो दम गूण पार्था।

**तप:** जो इंद्रियां वाट दाखयना। स्वधर्माची।३६। सटयेचे रातीं। वाडोवंच्यो न्ही वाती। तशें ईश्वराक चित्तीं। दवरचें सदीं;।३७। असो गा तिसरो गूण। ताचेंच नांव तप जाण। आनी शुचिताय जो चवथो गूण। ताच्यो तरा दोन।३८।

**शुचिताय आनी क्षमा (सोंशीकपण):** मन शुद्ध भावान भल्लें। आंग सत्कर्मीं रमलें। अशें जिणें अळंकारिल्लें। भायर भितर;।३९। शुचिताय ताचें नांव। तो ब्रह्मकर्मी चवथो गूण। आनी पृथ्वीवयरी सर्व तरेन। जें सोंसप सगळें।८४०। तीच सोंशिकसाण, जाण तो। पार्था गूण पांचवो। सुरांमदीं गोडवो। पंचम जसो;।४१।

आणि वांकडेनि वोघेंसी। गंगा वाहे उजूचि जैसी। कां पुठीं वळला ऊंसीं। गोडी जेवीं।४२। तैसा विषमांहि जीवां-। लाग
उजुकारु बरवा। तें आर्जव गा सहावा। जेथींचा गुण।४३। आणि पाणियें प्रयत्नें माळी। अखंड जचे झाडामुळीं। परी
आघवेंचि फळीं। जाणे जेवीं।४४। तैसें शास्त्राचारें तेणें। ईश्वरुचि येक पावणें। हें फुडें जें कां जाणणें। तें येथ ज्ञान।४५। तें ग
कर्मीं जिये। सातवा गुण होये। आणि विज्ञान हें पाहें। एवंरूप।४६। तरी सत्त्वशुद्धीचिये वेळे। शास्त्रें कां ध्यानबळें। ईश्वरतत्त्वीं
मिळे। निष्टंकबुद्धी।४७। हें विज्ञान बरवें। तें गुणरत्न जेथ आठवें। आणि अस्तिक्य जाणावें। नववा गुण।४८। आदरें जें क
मानणें। तें आस्तिक्य मी म्हणें। तो नववा गुण जेणें। कर्म तें साच।८५०। एवं नवही शमादिक। गुण जेथ निर्दोष। तें कर्म जाण
स्वाभाविक। ब्राह्मणाचें।५१। तो नवगुणरत्नाकरु। या नवरत्नांचा हारु। न फेडित ले दिनकरु। प्रकाशु जैसा।५२। ना न
चांपा चांपौळी पूजिला। चंद्र चंद्रिका धवळला। कां चंदनु निजें चर्चिला। सौरभ्यें जेवीं।५३। तेवीं नवगुणटिकलग। लेणें
ब्राह्मणाचें अव्यंग। कहींचि न संडी आंग। ब्राह्मणाचें।५४। आतां उचित तें क्षत्रिया। तेंहीं कर्म धनंजया। सांगों ऐक प्रज्ञेचिया
भरोवरी।५५।

**शौर्यं तेजो धृतिर्दाक्ष्यं युद्धे चाप्यपलायनम् । दानमीश्वरभावश्च क्षात्रं कर्म स्वभावजम् ।।४३।।**

तरी भानु हा तेजें। नापेक्षी जेवीं विरजें। कां सिंहें न पाहिजे। जावळिया।५६। ऐसा स्वयंभ जो जीवें लाठु। सावायेंवीण उद्भटु। तें शौर्य गा जेथ श्रेष्ठु। पहिला गुण।५७। आणि सूर्याचेनि प्रतापें। कोडिही नक्षत्र हारपे। ना तो तरी न लोपे। सचंद्रीं तिहीं।५८। तैसेंनि आपुले प्रौढिगुणें। जगासि विस्मयो देणें। आपण तरी न क्षोभणें। कायसेनही।५९। तें प्रागल्भ्यरूप तेजा। जिये कर्मीं गुण दुजा। आणि धीरु तो तिजा। जेथींचा गुण।८६०। वरि पडलिया आकाश। बुद्धीचे डोळे मानस। झांकी ना तें परियेस। धैर्य जेथें।६१। आणि पाणी हो भलतेतुकें। परी तें जिणौनि पद्म फांके। कां आकाश उंचिया जिंके। आवडे तयातें।६२। तेवीं विविधा अवस्था। पातलिया जिणौनि पार्था। प्रज्ञा फळतया अर्था। वेझ देणें जें।६३। तें दक्षत्व गा चोख। जेथ चौथा गुण देख। आणि जुंझ अलौकिक। तो पांचवा गुण।६४। आदित्याचीं झाडें। सदा सन्मुख सूर्याकडे। तेवीं समोर शत्रूपुढें। होणें सदा।६५। माहेवणी प्रयत्नेंसीं। चुकविजे सेजे जैसी। रिपू पाठी नेदिजे तैसी। समरांगणीं।६६। हा क्षत्रियांचां आचारीं। पांचवा गुणेंदु अवधारीं। चहूं पुरुषार्थां शिरीं। भक्ति जैसी।६७। आणि जालेनि फुलें फळें। शाखिया जैसी मोकळे। का उदार परिमळें। पद्माकरु।६८। नाना आवडिचेनि मापें। चांदिणें भलतेणें घेपे। पुढिलांचेनि संकल्पें। तैसें जें देणें।६९। तें उमप गा दान। जेथ सहावें गुणरत्न। आणि आज्ञे एकायतन। होणें जें कां।८७०। पोषूनि अवयव आपुले। करविजती मानविले। तेवीं पालणें लोभविलें। जग जें भोगणें।७१। तया नाम ईश्वरभावो। जो सर्वसामर्थ्याचा ठावो। तो गुणांमाजीं रावो। सातवा जेथ।७२। ऐसें जें शौर्यादिकीं। इहीं सात गुणविशेखीं। अळंकृत सप्तऋखीं। आकाश जैसें।७३। तैसें सप्तगुणीं विचित्र। कर्म जें जगीं पवित्र। तें सहज जाण क्षात्र। क्षत्रियाचें।७४। ना ना क्षत्रिय नव्हे नरु। तो सत्त्वसोनयाचा मेरु। म्हणौनि गुणस्वर्गा आधारु। सातां इयां।७५। नातरी सप्तगुणार्णवीं। परिवारली बरवी। हे क्रिया नव्हे पृथ्वी। भोगीतसे तो।७६। कां गुणाचे सातांही ओघीं। हे क्रिया ते गंगा जगीं। तया महोदधीचां आंगीं। विलसे जैसी।७७। परी हें बहु असो देख। शौर्यादि गुणात्मक। कर्म गा नैसर्गिक। क्षत्रजातीसी।७८। आतां वैश्याचिये जाती। उचित जे महामती। तें ऐकें गा निरुती। क्रिया सांगों।७९।

---

**अर्थः** (८२) ब्राह्मण. (८३) सागर. (८४) राय; राजा. (८५) मेरू पर्वत.

ार्जव (सरळपण): ओग जरी वांकडो दिसता। तरी न्हंय सरळूच आसता। वा उस वांकडो दिसता। पूण गोडी न्ही कडी।४२। तशें विरोधकांशीं वागतां। तो उजुपणान चलता। तो सवो गूण आर्जव भारता। ब्रह्मकर्मांत।४३।

ज्ञान: कश्ट करून माळी। उदक घाली रुखातळीं। फळीं पळय सगली। प्रयत्नांची सार्थकता;।४४। तशें शास्त्रान चलप। हेंच ईश्वरा भेटप। अशें निश्चीत जाणप। तें हांगा ज्ञान।४५। ब्रह्मकर्मांत तें ज्ञान। अर्जुना सातवो गूण। आतां सांगतां लक्षण। विज्ञानाचें।४६।

विज्ञान: सत्त्वशुद्धी जाता पूर्ण। ध्यानान वा शास्त्रज्ञानान। जी बुद्दी जाता ईश्वरीं विलीन। निश्चीतपणान।४७।

आस्तिक्य: अशें हें विज्ञान। ब्रह्मकर्मीं आठवो गूण। आनी णववो तो जाण। आस्तिक्य हो।४८। राजमुद्रा मेळटा जाका। लोक मानी ताका। तशें शास्त्र मानी ज्या मार्गा। अर्जुना।४९। त्या मार्गा आदर करप। ताकाच हांव आस्तिक्य म्हणन। ह्याच णवव्या गुणान। कर्माचें खरेंपण।८५०।

शमादी णव गूण: अशे शमादी णव गूण। जंय निर्दोश येतात दिसून। तेंच कर्म जाण। ब्राह्मणाचें सभावीक।५१। तो[८२] णव गुणां रत्नाकर[८३]। ह्या णव रत्नां हार। सदीं घाली आंगार। सूर्य जसो उजवाड।५२। वा चांफो फुलांनीच पुजता। चंद्रीम चान्न्यान उजळटा। वा चंदनरूख पर्मळटा। आपल्याच पर्मळान।५३। तशे हे णव गूण सुंदर। ब्राह्मणाचे अळंकार। केन्नाच सोडिना शरीर। ब्राह्मणाचें।५४। आतां उचीत जें क्षत्रिया। तेंवूय कर्म धनंजया। सांगन, आयक प्रज्ञेच्या। सार ताचें।५५।

**शौर्य धीर प्रजे राखण पळप ना झुजांतुल्यान् । चतुराय दान नी तेज क्षात्रधर्म सबाविक ॥४३॥**

**क्षत्रियांचें कर्म (तांची लागणूक) – शूरपण:** आगा उजवाड घालूंक। कोणा पालव नाका सुर्याक। वा नाका वांगड शिंवाक। हेरांचो।५६। असो स्वयंभू जिवान बलवान। पराक्रमी साहाय्यावीण। तो क्षत्रियाचो पयलो गूण। शूरपण।५७।

**तेज:** सुर्याच्या प्रतापान। कोटी नक्षत्रां लिपतात। पूण ताका येना धाकूंक। नक्षत्रांक चंद्रासयत।५८। तशें आपल्या आंगच्या बळान। जगा विस्मीत करप निजी गुणान। काचाबूल जावप ना आपूण। केन्नाच।५९। असो हो महातेजाचो। ज्या कर्माचो गूण दुजो। आनी धीर तो तिजो। जंयचो गूण।८६०।

**धीर:** आकाश पडूं कोंसळून। तरी मना-बुद्दीचे नमन। धांकिना जो, तो जाण। धीर थंय।६१। उदक आसूं कितलेंय खोल। वयरच येवन फुलऽ कमळ। उंचायेंत पदार्थ सकळ। जिखऽ जशें आकाश;।६२।

**शिटूकपण:** तशी कसलीय अवस्था। आसल्यारय पार्था। बुद्दी थंय वाट काडटा। कशेय भाशेन।६३। तें शिटूकपण गा चोख। जंय चवथो गूण देख। आनी झुजप अलौकीक। तो पांचवो गूण।६४। सूर्यफूल गा पार्था। सदीं सुर्या फुडो करता। तशें शत्रूक पळेतां। सरता मुखार;।६५। जशी गुर्वीणी प्रयत्नांनी। टाळटा शय्येक जशी*। शत्रूक फाट दाखयना तशी। रणांगणी।६६। क्षत्रियाच्या आचरणांत। हो पांचवो गूण वरिश्ठ। वरती चारूय पुरुशार्थांत। भक्ती जशी।६७।

**दान:** आनी फुलां फळां येतां। रूख दिवन मेकळे जाता। साळीक जशें पर्मळ वांट्टा। उदारपणान।६८। आनी जाय तितलें। चान्नें कोणेंय घेवचें। घेवप्यान इत्सिल्लें। तशें जें दिणें।६९। अशें अमाप गा दान। जंय सवें गूणरत्न। आनी आज्ञेक एकूच स्थान। जावप जें;।८७०। पोसून अवेव आपले। काम कर्न घेवचें जाय तितलें। प्रजेक मोगान पाळचेलें। जग जें भोगणें।७१।

**ईश्वरभाव:** ताचें नांव ईश्वरभाव। जो सगल्या सामर्थ्या थाव। तो गुणांमदीं राव[८४]। सातवो जंय;।७२। शूरपण आदी जे गूण। तांणी पूर्ण जाची जीण। सात रुशींनी गगन। सोबऽ जशें;।७३।

**सात गुणांचें म्हत्व:** ह्या सात गुणांनी सोबून। कर्म जालें जें पावन। तीच जाणची जीण। सभावीक क्षत्रियांची।७४। अथवा क्षत्रिय न्ही तो नरु। तो सत्त्वसुवर्णा मेरु[८५]। म्हणून गूणसर्गा आधारु। ह्या सातां।७५। हे सात गूण सागर सात। क्षात्रक्रिया ही पृथ्वी तातूंत। तिचो भोग जाता प्राप्त। क्षत्रियांक।७६। वा सात गुणांच्यो न्हंयो सात। क्षात्रक्रिया ही गंगा तातूंत। क्षत्रिय सागराक ती मेळून। दिसऽ सोबून;।७७। आतां आसूं हें वर्णन। शूरपणादी सात गूण। क्षत्रियांचें कर्म जाण। सभावीक अर्जुना।७८। आतां वैश्य जातीक। उचीत जें कर्म। तें आयकुचें सम। सांगतां आतां।७९।

**ऋषिगौरक्ष्यवाणिज्यं वैश्यकर्म स्वभावजम्। परिचर्यात्मकं कर्म शूद्रस्यापि स्वभावजम् ॥४४॥**

तरी भूमि बीज नांगरु। यया भांडवलाचा आधारु। घेऊनि लाभु अपारु। मेळवणें जें।८८०। किंबहुना कृषी जिणें। गोध राखोनि वर्तणें। कां समर्घीची विकणें। महर्घी वस्तु।८१। येतुलाचि पांडवा। वैश्यातें कर्माचा मेळावा। हा वैश्यजातिस्वभावा। आंतुला जाण।८२। आणि वैश्य क्षत्रिय ब्राह्मण। हे द्विजन्मे तिन्ही वर्ण। ययांचें जें शुश्रूषण। तें शूद्रकर्म।८३। पैं द्विजसेवेपरौतें धांवणें नाहीं शूद्रातें। एवं चतुर्वर्णोचितें। दाविलीं कर्मे।८४।

**स्वे स्वे कर्मण्यभिरत: संसिद्धिं लभते नर:। स्वकर्मनिरत: सिद्धिं यथा विन्दति तच्छृणु ॥४५॥**

आतां इयेचि विचक्षणा। वेगळालिया वर्णा। उचित जैसें करणां। शब्दादिक।८५। नातरी जळदच्युता। पाणिया उचित सरिता सरितेंसीं पांडुसुता। सिंधु उचितु।८६। तैसें वर्णाश्रमवशें। जें करणीय आलें असे। गोरेया आंगा जैसें। गोरेपण।८७। तय स्वभावविहिता कर्मा। शास्त्राचेनि मुखें वीरोत्तमा। प्रवर्तावयालागीं प्रमा। अढळ कीजे।८८। पैं आपुलेंचि रत्न थितें। घेपे पारखियाचेनि हातें। तैसें स्वकर्म आपैतें। शास्त्रें करावें।८९। जैसी दिठी असे आपुलां ठायीं। परी दीपेंवीण भोग नाहीं। मार्गु न लाहतां काई। पाय असतां होय।८९०। म्हणौनि ज्ञातिवशें साचारु। सहज असे जो अधिकारु। तो आपुलालिया शास्त्रें गोचरु। आपण कीजे।९१। मग घरींचाचि ठेवा। जेवीं डोळयां दावी दिवा। तरी घेतां काय पांडवा। आडळु असे।९२। तैसें स्वभावें भागा आलें। वरी शास्त्रें खरें केलें। तें विहित जो आपुलें। आचरे गा।९३। परी आळसु सांडुनी। फळकाम दवडुनी। आंगें जीवें मांडुनी। तेथेंचि भरु।९४। वोघीं पडिलें पाणी। नेणे आनानी वाहणी। तैसा जाय आचरणीं। व्यवस्थोनी।९५। अर्जुना जो यापरी। तें विहित कर्म स्वयें करी। तो मोक्षाचां ऐलद्वारीं। पैठा होय।९६। जे अकरणा आणि निषिद्धा। न वचेचि कांहीं संबंधा। म्हणौनि भवा विरुद्धा। मुकला तो।९७। आणि काम्यकर्माकडे। न परतेंचि जेथ कोडें। तेत चंदनाचेही खोडे। न लेचि तो।९८। येर नित्य कर्म तंव। फलत्यागें वेंचिलें सर्व। म्हणौनि मोक्षाची शिंव। ठाकूं लाहे।९९। एसेंनि शुभाशुभीं संसारीं। सांडिला तो अवधारीं। वैराग्यमोक्षद्वारीं। उभा ठाके।९००। जें सकळ भाग्याची सीमा। मोक्षलाभाची जें प्रमा। नाना कर्ममार्गश्रमा। शेवटु जेथ।१। मोक्षफळें दिधली वोल। जें सुकृततरूचें फूल। तये वैराग्यीं ठेवी पाऊल। भंवरु जैसा।२। पाहीं आत्मज्ञानसुदिनाचा। वाधावा सांगतया अरुणाचा। उदयो त्या वैराग्याचा। ठावो पावे।३। किंबहुना आत्मज्ञान। जेणें हाता ये निधान। तें वैराग्य दिव्यांजन। जीवें ले तो।४। ऐसी मोक्षाची योग्यता। सिद्धी जाय तया पांडुसुता। अनुसरोनि विहिता। कर्मा यया।५। हें विहित कर्म पांडवा। आपुला अनन्य वोलावा। आणि हेचि परम सेवा। मज सर्वात्मकाची।६। पैं आघवांचि भोगेंसीं। पतिव्रता क्रीडे प्रियेंसीं। कीं तयाचीं नामें जैसीं। तपें तिया केलीं।७। कां बाळका एकी माये-। वांचोनि जिणें काय आहे। म्हणौनि सेविजे कीं तो होये। पाटाचा धर्मु।८। ना ना पाणी म्हणौनि मासा। गंगा न सांडितां जैसा। सर्वतीर्थसहवासा। वरपडा जाला।९। तैसें आपलिया विहिता। उपावो असे न विसंबितां। ऐसा कीजे कीं जगन्नाथा। आभारु पडे।९१०। अगा जया जें विहित। तें ईश्वराचें मनोगत। म्हणौनि केलिया निभ्रांत। सांपडेचि तो।११। पैं जीवाचां कसीं उतरली। ते दासी कीं गोसांवीण जाली। सिसे वेंची तया मविली। वही जेवीं।१२। तैसें स्वामीचिया मनोभावा। न चुकिजे हेचि परमसेवा। येर तें गा पांडवा। वाणिज्य करणें।१३।

**यत: प्रवृत्तिर्भूतानां येन सर्वमिदं ततम् । स्वकर्मणा तमभ्यर्च्य सिद्धिं विन्दति मानव: ॥४६॥**

म्हणोनि विहित क्रिया केली। नव्हे तयाची खूण पाळिली। जयापासूनि कां आलीं। आकारा भूतें।१४। जो अविद्येचिया चिंधिया। गुंडूनि जीव बाहुलिया। खेळवीतसे तिगुणिया। अहंकाररज्जू।१५। जेणें जग हें समस्त। आंत बाहेरी पूर्ण भरित। जालें आहे दीपजात। तेजें जैसें।१६।

---

**अर्थ:** (८६) चतूर अर्जुना. (८७) शास्त्रांत नेमून दिल्लें. (८८) मोक्षाचें आयलें दार जें वैराग्य.
(८९) बेडी. (९०) ठेवो. (९१) सर्वत्र आशिल्ल्या ईश्वराची.

**शेती वेपार गोरक्षा वैश्य कर्म सभाविक । करप चाकरी सेवा शूद्र कर्म सभाविक ॥४४॥**

**वैश्यकर्म:** तर भूंय बीं नांगर। ह्या भांडवलाचो आधार। घेवन लाभ अपार। जोडचें जें;।८८०। वा शेत करून जगप। गोधन गोसप। सवाय घेवन विकप। अदीक मोलान;।८१। अशीं हीं कर्मां तीन। वैश्यान करचें पालन। होच धर्म जाण। तांचो सभावीक।८२।

**शूद्रकर्म:** आनी वैश्य क्षत्रिय ब्राह्मण। हे द्विजल्मी तिनूय वर्ण। तांची सेवा हेंच जाण। शूद्रकर्म।८३। द्विजांचे सेवेवीण। कर्म ना शुद्रांक अन्य। अशीं कर्मां उडयलीं सांगून। चारय वर्णांचीं।८४।

**कर्मांत दक्ष जो आपल्या तो नर सिद्धि मेळयी। स्वकर्मीं ती कशी मेळऽ आयक तें तूं धनंजया ॥४५॥**

**शास्त्रांत सांगिल्ल्या कर्मांचें म्हत्व:** आतां हींच कर्मां, विचक्षणा[८६]। वेगवेगळ्या वर्णां। उचीत जशीं कानादी इंद्रियां। शब्दादी विशयांक।८५। कुपांतलें उदकु। उचीत न्हंयेंतु। न्हंयेकु उचीत। समुद्र जसो;।८६। तशें वर्णाश्रमानुसार। जी लागणूक आयली मुखार। तेंच सोबता खरोखर। गोरसाण जशी गौरांगा।८७। म्हणून निजीकर्म विहीत[८७]। करूंक शास्त्रोक्त। बुद्दी करची निश्चीत। वीरोत्तमा।८८। रत्न जरी आपणाचें। तें पारखुनूच घेवचें। तशें स्वकर्म आचरचें। शास्त्रापणान।८९। दिश्टी आपलीच जरी। दिव्यावीण वस्तु दिसना तरी। वाट मेळ्ळिना मुखारी। पांयां कित्या उपेग।८९०। देखून जातीप्रमाण। जें सभावीक आचरण। तें यथाशास्त्र समजून। घेवचें आपूण।९१। मगे घरचोच जो ठेवो। जंव दोळ्यां दाखयी दिवो। तो उखलून घेवंक आसतलो। कसलो त्रास? ।९२। तशें सभावान वांट्या आयिल्लें। शास्त्रान निश्चीत केल्लें। तें विहीत कर्म आपलें। आचरता जो;।९३। पूण आळसाय झाडून। फळा इत्सा सोडून। उर्बेन जीव ओतून। करता वावर जो;।९४। उदक ओगांतलें व्हांवतें। वचना भलते वटेन तें। तशें यथाशास्त्र वागणें। जाय ताचें।९५। अर्जुना, जो हे परी। नेमिल्लें कर्म आपुणूच करी। तो मोक्षाच्या आयल्या दारीं[८८]। रावऽ उबो;।९६। अकर्म नि निशिद्ध आचरण। पयस रावऽ तांचेकडसून। म्हूण संवसार पासांतल्यान। सुट्टा तो;।९७। पळेना काम्य कर्मां कडेन। तो मात लेगून। जसो घालना पांयांत कोण। खोडो[८९] चंदनाचो।९८। हेर नित्य कर्मां सगलीं। सफळ फळ त्यागान केलीं। म्हूण मोक्षाचे शिमेसरीं। पावता तो।९९। अशीं शुभअशूभ कर्मां सगलीं। जाचीं ह्या संवसारीं सुटलीं। तो मोक्षा वैराग्य दाराशीं। रावता उबो।९००। जी शीम सर्वय भाग्यांची। मोक्ष प्राप्ती निश्चीत दी। कर्ममार्गाची समाप्ती। जाता जंय।१। मोक्ष जाचें अंतीम फळ। अश्या सुकृत रुखाचें फूल। त्या वैराग्यीं दवरी पावल। भोंवर जसो;।२। आत्मज्ञानाच्या सुदिसाची वार्ता। ती फांतोट सुलूस दिता। अशें तें परम भाग्य लाभता। नियत कर्मान।३। आत्मज्ञानाचें निधान[९०]। हातीं येता जें संपूर्ण। तें वैराग्य दिव्य अंजन। जिवाभावान घाली तो।४। असो विहीत कर्माचार। करता जो निरंतर। ताका मेळटा अधिकार। कैवल्याचो।५। हें नेमिल्लें गा अर्जुन। लेखचें आपलो जीव प्राण। हीच परम सेवा मान। म्हजी, सर्वात्मकायेची[९१]।६। सगल्यांच भोगां सवें। पतिव्रता रमता पतीसवें। जाणचें निश्चीत तिचें। तेंच तपाचरण।७। बाळकाक आवयवीण। दुजी खंयची जीण? । तिची सेवा म्हणून। ताचो स्रेश्ठ धर्म।८। वा उदक म्हणून मासो। रावता गंगेंत जसो। ताका सगल्या तीर्थांचो। मेळटा लाव जसो;।९। तशें उचीत कर्मा बगर। उपाय ना कांय हेर। ह्या भावान कर्माचरण केल्यार। देवाचेरय पडटा भार।९१०। आगा जाका जें विहीत। तें ईश्वराचें मनोगत। म्हूण करतां तें दुभावावीण। मेळटा तो म्हाका।११। जी राजाचे कसवटणेक उतरली। ती दाशी धनीण जाली। जो राजा पासत जीव ओंपी। ताका इनाम निश्चीत।१२। देवाची इत्सा पाळप। तीच सेवा परम। हेर कितें करप। तो वेपार।१३।

**निर्मिले जीव हे जाणें जाणें हें सर्व व्यापिलां । स्वकर्मान पुजून ताका सिद्धी मनीस मेळयी ॥४६॥**

**स्वकर्म करप हीच ईश्वराची पुजा:** करप विहीत कर्म म्हणून। तें न्ही कर्म, तें ईश्वर इत्से पालन। आयली जाचे पासून। आकारा ही जिवावळ;।१४। तो अविद्येच्यो फाळयो। गुटलावन करी जिवा बावल्यो। नाचयता तांकां बांदून दोरयो। त्रिगुणी अहंकाराच्यो।१५। जो ह्या समस्त जगांत। भितर भायर पूर्णभरीत। भल्ला तेजान। दिवो जसो।१६।

तया सर्वात्मका ईश्वरा। स्वकर्मकुसुमांची वीरा। पूजा केली होय अपारा। तोषालागीं।१७। म्हणौनि तिये पूजे। रिझलें आत्मराजे। वैराग्यसिद्धि देईजे। पसाय तया।१८। जिये वैराग्यदशे। ईश्वराचेनि वेधवशें। हें सर्वही नावडे जैसें। वांत होय।१९ प्राणनाथाचिया आधी। विरहणीतें जिणेंही बाधी। तैसें सुखजात बाधी। दु:खाचां लागे।९२०। सम्यक्ज्ञान नुदैजतां। वेधें तन्मयता। उपजे ऐसी योग्यता। बोधाची लाहे।२१। म्हणौनि मोक्षलाभालागीं। जो व्रतें वाहतसे आंगीं। तेणें स्वधर्मु आस्था चांगी। अनुष्ठावा।२२।

**श्रेयान्स्वधर्मो विगुण: परधर्मात्स्वनुष्ठितात्। स्वभावनियतं कर्म कुर्वन्नाप्नोति किल्बिषम् ॥४७॥**

अगा आपुला हा स्वधर्मु। आचरणीं जरी विषमु। तरी पाहावा तो परिणामु। फळेल जेणें।२३। जैं सुखालागीं आपणपयां निंबचि आथी धनंजया। तैं कडुवटपणा तयाचिया। उबगिजेना।२४। फळणया ऐलीकडे। केळीतें पाहतां आस मोडे। ऐसें त्यजिली तरी जोडे। तैसें कें गोमटें।२५। तेवीं स्वधर्मु सांकडु। देखोनि केला जरी कडु। तरी मोक्षसुरवाडु। अंतरला कीं।२६ आणि आपुली माये। कुब्ज जरी आहे। तरी जीजें तें नोहे। स्नेह कुन्हें कीं।२७। येरी जिया पराविया। रंभेहूनि बरविया। तिया काय कराविया। बाळकें तेणें।२८। अगा पाणियाहूनि बहुवें। तुपीं गुण कीर आहे। परी मीना काय होय। असणें तेथें।२९। पैं आघविया जगा जें विख। तें विख कीडिया पीयूख। आणि जगा गुळ तें देख। मरण तया।९३०। म्हणौनि जे विहित जया जेणें। फिटे संसाराचें धरणें। क्रिया कठोर तन्ही तेणें। तेचि करावी।३१। येरा पराचारा बरविया। ऐसें होईल टेंकलेया। पायांचें चालणें डोइया। केलें जैसें।३२। यालागीं कर्म आपुलें। जें जातिस्वभावें असें आलें। तें करी तेणें जिंतिलें। कर्मबंधातें।३३। आणि स्वधर्मुचि पाळावा। परधर्मु तो गाळावा। हा नेमुही पांडवा। न कीजेचि मा।३४। तरी आत्मा दृष्ट नोहे। तंव कर्म करणें कां ठाये। आणि करणें तेथ आहे। आयासु आधीं।३५।

**सहजं कर्म कौन्तेय सदोषमपि न त्यजेत्। सर्वारम्भा हि दोषेण धूमेनाग्निरिवावृता: ॥४८॥**

म्हणौनि भलतिये कर्मीं। आयासु जन्ही उपक्रमीं। तरी काइ स्वधर्मीं। दोषु सांगें।३६। अगा उजू वाटा चालावें। तन्ही पायचि शिणवावें। ना आडरानें धावावें। तन्ही तेंचि।३७। पैं शिळा कां सिदोरिया। दाटणें एक धनंजया। परी जें वाहतां विसांवया। मिळिजे तें घेपे।३८। एऱ्हवीं कणा आणि भूसा। कांडितांही सोसु सरिसा। जेंचि रंधन श्वानमांसा। तेंचि हवी।३९। दधी जळाचिया घुसळणा। व्यापार सारिखेचि विचक्षणा। वाळुवे तिळा घाणा। गाळणें एक।९४०। पैं नित्य होम देयावया। कां सैरा आगी सुवावया। फुंकितां धूम धनंजया। साहणें तेंचि।४१। परी धर्मपत्नी धांगडी। पोसितां जरी एकी वोढी। तरी कां अपरवडी। आणावी आंगा।४२। हां गा पाठीं लागला घायीं। मरण न चुकेचि पाहीं। तरी समोरला काई। आगळें न कीजे।४३। अकुळस्त्री दांड्याचे घाये। परघर रिगालीहि जरी साहे। तरी स्वपतीतें वांयें। सांडिलें कीं।४४। तैसें आवडतेंही करणें। न निपजे शिणल्याविणें। तरी विहित बा रे कोणें। बोलें भारी।४५। वरी थोडेंचि अमृत घेतां। सर्वस्व वेंचों कां पंडुसुता। जेणें जोडे जीविता। अक्षय्यत्व।४६। येर काह्यां मोलें वेंचूनि। विष पियावें घेउनि। आत्महत्येसि निमोनि। जायिजे जेणें।४७। तैसें जाचूनियां इंद्रियें। वेंचुनि आयुष्याचेनि दियें। सांचला पापीं आन आहे। दु:खावांचुनि।४८। म्हणोनि करावा स्वधर्मु। जो करितां हिरोनि घे श्रमु। उचित देईल परमु। पुरुषार्थराजु।४९। याकारणें किरीटी। स्वधर्माचिये रहाटी। न विसंबिजे संकटीं। सिद्धमंत्र जैसा।९५०। कां नाव जैसी उदधीं। महारोगीं दिव्यौषधी। न विसंबिजे तया बुद्धी। स्वकर्म येथ।५१। मग ययाचि गा कपिध्वजा। स्वकर्माचिया महापूजा। तोषला ईशु तमरजा। झाडा करूनि।५२। शुद्धसत्त्वाचिया वाटा। आणी आपुली उत्कंठा। भव स्वर्ग काळकुटा-। ऐसें दावी।५३। जियें वैराग्य येणें बोलें। मागां संसिद्धी रूप केलें। किंबहुना तें आपुलें। मेळवी खागें।५४। मग जिंतिलिया हे भोये। पुरुष सर्वत्र जैसा होये। कां जालाही जें लाहे। तें आतां सांगों।५५।

---

अर्थ: (९२) काळकूट नांवाचें वीख. (९३) ४५व्या श्लोकांत.

एकनिश्ट त्या कमळाक। सूर्य उदेता फुलोवंक। पूण दोळ्यांक जाता सूख। सगल्यां जिवांच्या।६९। तशी अर्जुनाच्या निमतान। गीता सांगली श्रीकृष्णान। संवसारा वजें ल्हव करून। उडयलें ताणें।**१४७०**। सगल्यां शास्त्र रत्नांची कांत। उजवाडायता जो त्रिजगतांत। तो गीतासूर्य त्या कृष्णमुखा नभांत। उदेलो न्हय?।७१। धन्य धन्य तें कूळ पवित्र। जंय पार्थ जल्मून ज्ञान पात्र। जाका लागून हें गीताशास्त्र। जालें मुक्तांगण जगा।७२। आसूं; ताचे उपरान्त। सद्गुरू श्रीकृष्णान। भरसल्ल्या पार्थाक। हाडलो द्वैतभावार।७३। मगे म्हण्टा, ''अर्जुना। हें शास्त्र मानलें जिवा?''। तेन्ना जाप दिता, ''देवा। तुजी कुर्पा।७४। भाग्य उगडटां। गुप्त धन मेळटा। पूण तें भोगता। एकाद्रोच।७५।

**संप्रदायाचें ज्ञान आसपाची गरज:** क्षीरसागरा इतलें। निर्भेळ दूदा तपलें। देव-दानव कश्टले। चाळटां कितलें?।७६। ते कश्टय फळा आयले। अमृतय दोळ्यां दिसलें। पूण मागीर चुकले। राखूंक तें।७७। अंवर जावंक जें वाडलें। तेंच मर्णा कारण जालें। भोगुंकू कळना जालें। जाता अशेंच।७८। नहूष सर्गा राय जालो। पूण आचरणीं गदळ्ळो। म्हूण सोरोप तो जालो। नेणा हें तूं?।७९। तुवें दुभावावीण। केलें भोव पुण्य। मेळ्ळें आयकूंक देखून। गीतारुपी शास्त्रराय।**१४८०**। तरी ह्या शास्त्राचो सनातन। संप्रदाय सम समजून। सदीं करचें आचरण। शास्त्राप्रमाण।८१। हरशीं संप्रदाय सोडून। जर करशी आचरण। तर अमृतमंथना समान। जातली गत।८२। गाय धड बरी मेळ्ळी। पूण तेन्नाच दूद दितली। जेन्ना हातवटी येतली। दुबपाची।८३। तसो गुरू प्रसन्न जायत। शिश्या विद्याय बरी मेळत। पूण ती फळा येत। संप्रदाय सेवेन।८४। म्हणून गीता शास्त्रांत। संप्रदाय जो उचीत। आतां आयक तो अत्यंत। आदरान।८५।

**नाका केन्नाच सांगूं हें भक्तीहिणा तपोहिणा । आयकूंकु वान्शिना ताका म्हजी नसायु कर्तल्या ॥६७॥**

**गीतेचो संप्रदाय:** तर जे आस्थेन, पार्था। गीताशास्त्र सादलें तुका। तें तपोहिणा केन्ना। सांगूं नाका हां?।८६। वा तापसय आसलो। पूण गुरुभक्तीं धील सामको। ताका वेदांनी अत्यंजा उडयलो। तसो उडय वाळींत।८७। म्हाताऱ्या जाल्ल्या कावळ्याक। जसो दिना यज्ञा प्रसाद। तसो भक्तीहीण तापसाक। सांगची न्ही गीता।८८। वा तपय जोडटा देहीं। भक्तीय गुरुदेवा ठांयीं। पूण गीता श्रवणाची। ना गोडी अंतरीं।८९। तापसी आनी गुरुभक्त। उत्तम बेस बरो जगांत। पूण गीता आयकूंक निश्चीत। फावो न्ही तो।**१४९०**। मोतीं उत्तम आसत। पूण मूख ताका नासत। तर तातूंत सूत। कशें वचत?।९१। सागर गंभीर आसा। हें कळना कोणा?। पूण वृश्टी वायां वता। जाल्ली थंय।९२। धादोश्या पकवान्न वाडचें। मगे तें वायां उडोवचें। तें भुकेल्ल्या कित्या न्ही दिवचें। हात उखलून।९३। म्हूण आसलो फावसो हरशीं। पूण आयकुची इत्सा नासली। तर सहज सांगूं पळेशी। पूण सांगूं नाका हां?।९४। रूप कळटा जे दिश्टीक। तिका परमळ कसो कळत?। तशें जाका फावता तेंच। ताका उपेगाचें।९५। म्हणून तप आनी भक्ती। तेंच हांगा योग्य सुभद्रापती। पूण गीता श्रवणीं ना गोडी। टाळचें ताका।९६। आसत तप आनी भक्ती। श्रवणीं गोडी। अशी गूण संपत्ती। मेळ्ळी जरी।९७। तरी गीता शास्त्रा निर्माण करतो। जो हांव सगल्यां नियंतो। त्या म्हाका लेखतलो। सामान्य जो;।९८। तशेंच म्हज्या भक्तां आनी म्हाका। जे दुश्टपणान निंदिता। आगा जाण ते गीता। आयकुपा अपात्र।९९। तांची हेर सगली। जरी सामुग्री आसली। जशी जोतीवीण ठाणदिवली। राती वेळार।**१५००**। आंगान गोरें नि तन्नें। घालां ताचेर लेणें। पूण प्राणान सोडिल्लें। व्यर्थ तें।१। भांगराचें सुंदर। बांदलां घर। पूण नागिणीन दार। आडायलां जशें;।२। रांदलां गोडशें चोखट। वीख घालां काळकूट। हें आसूं, मैत्रींत कपट। लिपलां जशें;।३। तशी भक्ती तप बुद्दी। बुदवंता ताची जाणची। जो निंदा म्हज्या भक्तांची। वा म्हजी करी;।४। म्हणून गा धनंजया। भक्त बुदवंत तपस्व्या त्या। दिवंक नाका शास्त्रा ह्या। आफडूंक बाबा।५। कितें सांगूं निंदुप्या विशीं। आसलोय जरी ब्रह्म्यावरी। ताका कवतुकानय ना सांगुची। गीता केन्नाच।६। तपाचे पाशाण। बुन्यादींत घालून। वयर गुरुभक्तीचो पूर्ण। जालो जो प्रासाद;।७। जंय श्रवणइत्से दार। उक्तें नित्य निरंतर। आनी सोबऽ कळस सुंदर। अनिंदा रत्नांचो।८।

**सांगीत गूढ हें थोर म्हज्या भक्तांकु कोण जो । म्हजे ठांयींच येतलो तो ना दुभावूच हे विशीं ॥६८॥**

अश्या भक्त मंदिरीं। गीतेश्वर स्थापशी। तर जाशी तूं ह्या संवसारीं। म्हजेवरी।९।

कां जे एकाक्षरपणेंसीं। त्रिमात्रकेचिये कुशीं। प्रणवु होतां गर्भवासीं। सांकडला।१५१०। तो गीतेचिया बाहळीं। वेदबीज गेले पाहाळीं। कीं गायत्री फुलीं फळीं। श्लोकांचां आली।११। ते हे मंत्ररहस्य गीता। मेळवी जो माझिया भक्तां। अनन्यजीवना माता। बाळका जैसी।१२। तैसी भक्तां गीतेसीं। भेटी करी जो आदरेंसीं। तो देहापाठीं मजसीं। येकचि होय।१३।

**न च तस्मान्मनुष्येषु कश्चिन्मे प्रियकृत्तमः । भविता न च मे तस्मादन्यः प्रियतरो भुवि ॥६९॥**

आणि देहाचेंही लेणें। लेऊनि वेगळेपणें। असे तंव जीवेंप्राणें। तोचि पढिये।१४। ज्ञानियां कर्मठां तापसां। यया खुणेचिया माणुसां-। माजीं तो एकु गा जैसा। पढिये मज।१५। तैसा भूतळीं आघवा। आन न देखें पांडवा। जो गीता सांगें मेळावा। भक्तजनांचा।१६। मज ईश्वराचेनि लोभें। हे गीता पढतां अक्षोभें। जो मंडन होय सभे। संतांचिये।१७। नवपल्लवीं रोमांचितु। मंदानिळें कांपवितु। आमोदजळें वोलवितु। फुलांचे डोळे।१८। कोकिळाकलरवाचेनि मिषें। सद्गद बोलवीत जैसें। वसंत का प्रवेशे। मद्भक्तआरामीं।१९। कां जन्माचें फळ चकोरां। होतु चंद्र ये अंबरा। नाना नवघन मयूरां। वो देत पावे।१५२०। तैसा सज्जनांचां मेळापीं। गीतापद्यरत्नीं उमपीं। वर्षे जो माझां रूपीं। हेतु ठेऊनि।२१। मग तयाचेनि पाडें। पढियंतें मज फुडें। नाहींचि गा मागें पुढें। न्याहाळितां।२२। अर्जुना हा ठायवरी। मी तयातें सूयें जिव्हारीं। जो गीतार्थाचें करी। परगुणें संतां।२३।

**अध्येष्यते च य इमं धर्म्यं संवादमावयोः। ज्ञानयज्ञेन तेनाहमिष्टः स्यामिति मे मतिः ॥७०॥**

पैं माझिया तुझिया मिळणीं। वाढीनली जे हे कहाणी। मोक्षधर्म का जिणीं। आलासे जेथें।२४। तो हा सकळार्थप्रदु। आम्हां दोघांचा संवादु। न करितां पदभेदु। पाठेंचि जो पढे।२५। तेणें ज्ञानानळीं प्रदीप्तीं। मूळ अविद्येचिया आहुती। तोषविला होय सुमती। परमात्मा मी।२६। घेऊनि गीतार्थ उगाणा। ज्ञानिये जें विचक्षणा। ठाकिती तें गाणावाणा। गीतेचा तो लाहे।२७। गीतापाठकासि असे। फळ अर्थज्ञाचि सरिसें। गीतामाउलिये कीं नसे। जाणें तान्हें।२८।

**श्रद्धावाननसूयश्च श्रृणुयादपि यो नरः। सोऽपि मुक्तः शुभाँल्लोकान्प्राप्नुयात्पुण्यकर्मणाम् ॥७१॥**

आणि सर्वमार्गीं निंदा। सांडूनियां आस्था पैं शुद्धा। गीताश्रवणीं श्रद्धा। उभारी जो।२९। तयाचां श्रवणपुटीं। गीतेचीं अक्षरें जंव पैठीं। होतीना तंव उठाउठीं। पळेचि पाप।१५३०। अटवियेमाजीं जैसा। वन्हि रिघतां सहसा। लंघिती का दिशा। वनौकें तियें।३१। का उदयाचळकुळीं। झळकतां अंशुमाळी। तिमिरें अंतराळीं। हारपती।३२। तैसा कानाचां महाद्वारीं। गीता गजर जेथ करी। तेथ सृष्टिचिये आदीवरी। जायचि पाप।३३। ऐसी जन्मवेली धुवट। होय पुण्यरूप चोखट। याहीवरी अचाट। लाहे फळ।३४। जे इये गीतेचीं अक्षरें। जेतुलीं कां कर्णद्वारें। रिघती तेतुले होती पुरे। अश्वमेध कीं।३५। म्हणौनि श्रवणें पापें जाती। आणि धर्म धरी उन्नती। तेणें स्वर्गराज्यसंपत्ति। लाहेचि शेखीं।३६। तो पैं मज यावयालागीं। पहिलें पेणें करी स्वर्गीं। मग आवडे तंव भोगी। पाठीं मजचि मिळे।३७। ऐसी गीता धनंजया। ऐकतया आणि पढतया। फळे महानंदें मियां। बहु काय बोलों।३८। याकारणें हें असो। परी जयालागीं शास्त्रातिसो। केला तें तंव तुज पुसों। काज तुझें।३९।

**कच्चिदेतच्छ्रुतं पार्थ त्वयैकाग्रेण चेतसा। कच्चिदज्ञानसंमोहः प्रनष्टस्ते धनंजय ॥७२॥**

तरी सांग पां पांडवा। हा शास्त्रसिद्धांतु आघवा। तुज एकचित्तें फावा। गेला आहे।१५४०। आम्हीं जैसें जया रीती। उगाणिलें कानांचां हातीं। येरीं तैसेंचि तुझां चित्तीं। पैठें केलें कीं।४१। अथवा माझारीं। गेलें सांडिविखुरी। किंवा उपेक्षेवरी। वाळूनि सांडिलें।४२। जैसें आम्हीं सांगितलें। तैसेंचि हृदयीं पावलें। तरी सांग पां वहिलें। पुसेन तें मी।४३। हां गा स्वाज्ञानजनितें। मागिलें मोहें तूतें। भुलविलें तो येथें। असे कीं नाहीं।४४।

---

**अर्थः** (१६४) ॐ. (१६५) अ, उ, म = ॐ. (१६६) ॐकार. (१६७) उदेंतेच्या डोंगराचेर. (१६८) सूर्य.

---

आगा एकाक्षरपणीं[१६४]। तीन मात्रांचे[१६५] कुशीं। प्रणव[१६६] जो गर्भवासी। अडचल्लो।१५१०। तो वेदांचो बीजमंत्र। गीतेरुपान जालो विस्तार। गायत्रीच फुल्लो फळ्ळो सुंदर। श्लोकांरुपान।११। गायत्रीचें रहस्य गीता। भेटय जो म्हज्या भक्तां। तानेल्ल्या बाळका माता। भेटची जशी;।१२। ते परी जो गीता। भक्तांकु भेटयता। तो जाता कूड पडटां। एकरूप म्हजेशीं।१३।

**मनीस कोण ना हेर म्हज्या मनावरी करी । जावंचोनायु असो हांगा ताचेकूय प्रिय गा म्हजो ॥६९॥**

**गीता सांगपी देवाक प्रिय:** कुडीचें लेणें लेवन। वेगळो रावऽ तिचेपसून। तोच म्हजो जीवप्राण। परमप्रिय।१४। कर्मठ तपस्वी ज्ञानी। त्या सगल्यां हांव प्रिय मानी। पूण तो एक मनी। भारी प्रिय म्हाका।१५। हे परी ह्या त्रिभुवनांत। दुजो प्रिय ना म्हज्या जिवाक। जो सांगता भक्त सत्संगांत। गीताशास्त्र;।१६। म्हजेठांय भक्ती धर्न। सांगी गीता शांतपणान। तोच एक भूशण। संत सभेचें।१७। आंगार रोमांची पालय फुट्टा। मंद वाऱ्यान रुखा वरी धोलता। आनंदजलान पगळटा। नयनफुलां श्रोत्यांचीं;।१८। जशे कोगुळा गायना आलाप। श्रोते नामघोशान सद्गदीत। जणूं रिगलो वसंत। म्हज्या भक्तउद्यानीं;।१९। चंद्रीम आकाशीं उदेतां। चकोरा जल्म फळटा। वा मोर सादोवन धांवता। नव्या कुपांक ;।१५२०। तसो जावंक म्हजी प्राप्ती। उपाट उधळी संतसभेमदीं। गीता श्लोकांची रत्नवृश्टी। करता जो अर्जुना।२१। इतलो आवडीचो भक्त म्हजो। ना कोण ताचेवरी दुजो। जालोना आर्दी, तसो। जावंचोनाय फुडें।२२। भक्तीन गीतार्थाची हे परी। जो संतांक पकवान्न करी। ताका दितां म्हज्या अंतरीं। सुवात बेस बरी।२३।

**आमचो पवित्र संवादु जो अभ्याशीतु कोणु हो । मानी हांवु पुजी म्हाका ज्ञान यज्ञानु अर्जुना ॥७०॥**

**गीतेचें अध्ययन:** हांगा तुज्या म्हज्या मेळणीं। वाढली हे गीतेची संवाद-काणी। ती जिखूंक आयली। मोक्ष हे धर्तरेरी।२४। आमचो दोनांतलो हो संवाद। जो सकळार्थाचो दी बोध। कळ्ळेवीण अन्वय अर्थ। फकत वाचता जो;।२५। ताणें ज्ञानाग्नींत जाण। अविद्ये आहुती दिवन। म्हाका परमात्म्याक प्रसन्न। केलो अर्जुना।२६। गीतार्थाचो अणभव घेवन । जे फळ जोडी ज्ञानी जन। तेंच मेळऽ जें गायन-कथन। करतात हे गीतेचें।२७। गीता पाठकाक जें मेळऽ। गीतार्थ ज्ञानियांक तेंच फळ। गीता माऊली करिना केवळ। भेद जाणट्यां वा तान्यांत।२८।

**दुस्वासावीण श्रद्धाळु आयकशी कोणु जो नर । पुण्यकर्मी जनांच्या तोय शुभलोकांक गा वतलो ॥७१॥**

आनी खंयच्याय मार्गान निंदा सोडून। शुद्ध आस्था मनीं धरून। श्रद्धेन करता श्रवण। गीतेचें जो;।२९। ज्या खिणा कानांत। गीते अक्षरां रिगतात। त्याच खिणा पळटात। पातकां ताचीं;।१५३०। आगा रानांत जसो। एकाएकीं लागतां उजो। धांवतात धाय दिको। सावजां जशीं।३१। वा उदयाचळाचेर[१६७]। उदेतांच दिनकर[१६८]। आकाशांतलो अंध:कार। नाच्च जाता।३२। तशीं कानाच्या महादारीं। गीता जंय गजर करी। थंय जल्मासावनचीं सगलीं। सरतात पातकां।३३। ताची सगली वंशवाल। जाता पुण्यवंत निवळ। हाचे परस अदीक फळ। मेळऽ ताका।३४। अक्षरां हे गीतेचीं। रिगता कर्णदारीं जितलीं। मेळटलीं पुण्यां तितलीं। अश्वमेध करून।३५। श्रवणान पातकां वती। जाता धर्माची उन्नती। आनी सर्गराज्याची संपत्ती। मेळटा अंतीं।३६। आनी तो म्हाका मेळचे आदीं। पयलें पेणें करी सर्गीं। थंय जाय तितलें सूख भोगी। मेळ म्हाका शेकीं।३७। अशी गीता पार्था। जो आयकता वाचता। हांव महाआनंदा फळ दितां। चड सांगूं कितें?।३८। अर्जुना, आसूं हें इतलें। हें शास्त्र जे पासत आरंभिलें। त्या कार्याविशीं बरें। आतां विचारल्यार।३९।

**आयकलें मूं तुवें पार्था एकाग्रचित्त जावनु हें । जाल्लो गदळ अज्ञानान् सल्लो मूं सम अर्जुना ७२॥**

अर्जुना, सांग गा खरेलें। हांतले शास्त्रसिद्धान्त सगले। तुवें एकचित्तान आयकले?। आयले अणभवा ते?।१५४०। हांवें जशे जे रितीं। दिले ते कानां हातीं। तांणी तशेच तुज्या चित्तीं। दवल्ले न्ही ते?।४१। वा मदीं खंय तरी। सांडले शिंपडिल्ले वरी। वा उपेक्षा कर्न अंतरीं। तुवेंच दिलें सोडून।४२। जशें हांवें सांगलें। तशेंच तुज्या हृदयीं पावलें। तरी आतां विचारतां जितलें। सांग बेगीन बरें।४३। आगा, जो अज्ञानान जाल्लो। जाणें तुका गदळायल्लो। तो आसा काय गेलो। मोह आतां?।४४।

हां गा स्वाज्ञानजनितें। मागिलें मोहें तूतें। भुलविलें तो येथें। असे कीं नाहीं।४४। हें बहु पुसों काई। सांगें तूं आपलां ठाईं। कर्माकर्म कांहीं। देखतासी।४५। पार्थु स्वानंदैकरसें। विरेल ऐसा भेददशे। आणिला येणें मिषें। प्रश्नाचेनि।४६। पूर्णब्रह्म जाला पार्थु। तरी पुढील साधावया कार्यार्थु। मर्यादा श्रीकृष्णनाथु। उल्लंघों नेदी।४७। एऱ्हवीं आपुलें करणें। सर्वज्ञ काय तो नेणे। परी केलें पुसणें। याचिलागीं।४८। एवं करोनियां प्रश्न। नसतेंचि अर्जुनपण। आणूनियां जालें पूर्णपण। तें बोलवी स्वयें।४९। मग क्षीराब्धीतें सांडितु। गगनीं पुंजुमंडितु। निवडे जैसा न निवडितु। पूर्णचंद्र।**१५५०**। तैसा ब्रह्म मी हें विसरे। तेथ जगचि ब्रह्मत्वें भरे। हेंही सांडी तरी विरे। ब्रह्मपणही।५१। ऐसा मोडतु मांडतु ब्रह्में। तो दु:खें देहाचिये सीमे। मी अर्जुन येणें नामें। उभा ठेला।५२। मग कापतां करतळीं। दडपूनि रोमावळी। पुलिका स्वेदजळीं। जिरऊनियां।५३। प्राणक्षोभें डोलतया। आंगा आंगचि टेंकया। सूनि स्तंभु चाळया। भुलौनियां।५४। नेत्रयुगुळाचेनि वोतें। आनंदामृताचें भरितें। वोसंडत तें मागुतें। काढूनियां।५५। विविधा औत्सुक्यांची दाटी। चीप दाटत होती कंठीं। ते करूनियां पैठी। हृदयामाजीं।५६। वाचेचें वितुळणें। सांवरूनि प्राणें। अक्रमाचें श्वसणें। ठेऊनि ठायीं।५७।

*अर्जुन उवाच:* **नष्टो मोह: स्मृतिर्लब्धा त्वत्प्रसादान्मयाच्युत। स्थितोऽस्मि गतसन्देह: करिष्ये वचनं तव ॥७३॥**

मग अर्जुन म्हणे काय देवो। पुसताति आवडे मोहो। तरी तो सकुटुंब गेला जी ठावो। घेऊनि आपला।५८। पासीं येऊनि दिनकरें। डोळ्यातें आंधारें। पुसिजे हें कायि सरे। कोणे गांवीं।५९। तैसा तूं श्रीकृष्णराया। आमुचिया डोळयां। गोचर हेंचि कायिसया। न पुरे तंव।**१५६०**। वरी लोभें मायेपासूनी। तें सांगसी तोंड भरूनी। जें कायिसेनिही करूनी। जाणूं नये।६१। आतां मोह असे कीं नाहीं। हें ऐसें जी पुससी काई। कृतकृत्य जाहलों पाहीं। तुझेपणें।६२। गुंतलों होतों अर्जुनगुणें। तो मुक्त जालों तुझेपणें। आतां पुसणें सांगणें। दोन्ही नाहीं।६३। मी तुझेनि प्रसादें। लाधलेनि आत्मबोधें। मोहाचे तया कांदे। नेदीच उरों।६४। आतां करणें का न करणें। हें जेणें उठी दुजेपणें। तें तूं वांचूनि नेणें। सर्वत्र गा।६५। येविषयीं माझां ठायीं। संदेहाचें नुरेचि कांहीं। त्रिशुद्धी कर्म जेथ नाहीं। तें मी जालों।६६। तुजेनि मज मी पावोनी। कर्तव्य गेलें निपटूनी। परी आज्ञा तुझी वांचोनी। आन नाहीं प्रभो।६७। का जें दृश्य दृश्यातें नाशी। जें दुजें द्वैतातें ग्रासी। जें एक परी सर्वदेशीं। वसवी सदा।६८। जयाचेनि संबंधें बंधु फिटे। जयाचिया आशा आस तुटे। जें भेटलयां सर्व भेटे। आपणपांचि।६९। तें तूं गुरुलिंग जी माझें। जें येकलेपणींचें विरजें। जयालांगीं वोलांडिजे। अद्वैतबोधु।**१५७०**। आपणचि होऊनि ब्रह्म। सारिजे कृत्याकृत्यांचें काम। मग कीजे का नि:सीम। सेवा जयाची।७१। गंगा सिंधु सेवूं गेली। पावतांचि समुद्र जाली। तेवीं भक्तां सेल दिधली। निजपदाची।७२। तो तूं माझाजी निरुपचारु। श्रीकृष्णा सेव्य सद्गुरु। मा ब्रह्मतेचा उपकारु। हाचि कां मानी।७३। जें मज तुम्हां आड। होतें भेदाचें कवाड। तें फेडोनि केलें गोड। सेवासुख।७४। तरी आतां तुझी आज्ञा। सकळदेवाधिदेवराज्ञा। करीन देईं अनुज्ञा। भलतियेविषीं।७५। यया अर्जुनाचिया बोला। देवो नाचे सुखें भुलला। म्हणे विश्वफळा जाला। सफळा फळ हा मज।७६। उणेनि उमचला सुधाकरु। देखुनी आपला कुमरु। मर्यादा क्षीरसागरु। विसरेचिना।७७। ऐसें संवादाचां बहुलां। लग्न दोघांचिया आंतुला। लागलें देखोनि जाला। निर्भरु संजयो।७८। तेणें उचंबळलेपणें। संजय धृतराष्ट्रातें म्हणे। जी कैसें बादरायणें। रक्षिलों दोघे।७९। आजि तुमतें अवधारा। नाहीं चर्मचक्षूही संसारा। कीं ज्ञानदृष्टिव्यवहारा। आणिलेती।**१५८०**। आणि रथींचिये राहाटी। घेईजो घोडेयासाठीं। तया आम्हां या गोष्टी। गोचरा होती।८१। वरी जुंझाचें निर्वाण। मांडलें असे दारुण। दोहीं हारीं आपण। हारपिजे जैसें।८२। येवढा जिये सांकडा। कैसा अनुग्रहो पैं गाढा। जे ब्रह्मानंदु उघडा। भोगवीतसे।८३। ऐसें संजय बोलिला। परी न द्रवे येरु उगला। चंद्रकिरणीं शिवतला। पाषाणु जैसा।८४। हे देखोनि तयाची दशा। मग करीचि ना सरिसा। परी सुखें जाला पिसा। बोलतसे।८५। भुलविला हर्षवेगें। म्हणौनि धृतराष्ट्रा सांगे। एऱ्हवीं नव्हे तयाजोगें। हें कीर जाणे।८६।

**अर्थ:** (१७०) तुजेकडेन एकरूप जालों. (१७१) ते स्थितीक हांव पावलों.
(१७२) चंद्र. (१७३) एकरूप जावंक नाशिल्ल्यान.

आगा, जो अज्ञानान जाल्लो। जाणें तुका गदळायल्लो। तो आसा काय गेलो। मोह आतां?।४४। कितें अदीक विचारूं आतां?। एक इतलेंच सांग पार्था। तुका आपलेठांय दिसता। कर्म-अकर्म?।४५। आत्मानंदाच्या रोसांत। वचत अर्जुन बुडून। ताका हे प्रस्न विचारून। हाडलो द्वैत दशेंत।४६। पूर्णब्रह्म जालो पार्थ। तरी साधूंक फुडलो कार्यार्थ। द्वैतमर्याद श्रीकृष्णानाथ। दिना हुपूंक।४७। हरशीं करणें हें आपलें। त्या सर्वज्ञा ना कळ्ळें?। पूण त्या प्रस्ना विचारप केले। ह्याच हेतान।४८। असो विचारून प्रस्न। गेल्लें तें अर्जुनपण। पूर्णताये अणभव तोंडसून। वदयलो ताच्या।४९। क्षीरसागरा सोडून। चंद्रीम सोबय तारांगण। सागरापरस वेगळो जालेवीण। दिसता वेगळो आकाशांत।१५५०। तसो हांव ब्रह्म आसलों हें विसरता। हें सगलें विश्व ब्रह्मभावान भरता। होय भाव उरना; अशें विरता। ब्रह्मपण ताचें।५१। असो ब्रह्म जावन, विसरूनु। देहा शिमेर तो दुःखानु। 'हांव अर्जुन' ह्या नांवानु। रावलो उबो।५२। मगे कांपऱ्या हाता तळटान। कांटो आंगचो दामून। आनी हुमे थेंब पुसून। आपले ठांय;।५३। खरशेवन धोलून। आंगान आंग सांवरून। देहभान विसरून। रावलो वोगी।५४। दोनी दोळ्यां कडांनी। खोशेचीं दुकां व्हांवलीं। तांकां आडावन वेगीं। उडयलीं पुसून।५५। तरांतरां उत्कठांची दाटी। आयली दाटून कंठीं। तिका दामून दवल्ली। हृदयीं।५६। जी वाणी जड जाल्ली। तिका सांवल्ली। खरस हाडली। जाग्यार।५७।

*अर्जुनान म्हळें:* **कळ्ळें गा कोण तो हांवु सल्लो मोह तुजे दयेन । म्हजो दुभावु गा सल्लो तूं सांगशी तें करीन हांव ॥७३॥**

मगे म्हणी अर्जुन ''कितें देवा विचारता । आजून मोह दिसता। तो ठाव सोडून गेला। कुटुंबासयत''।५८। म्हऱ्यांत येतां सुर्यानु। दोळ्यांत काळोख आजुनु। हें विचारीत दिसत सोबुनु। खंयच्याय गांवांत?।५९। तसो तूं श्रीकृष्णराया। दिश्टी पडटा गा दोळ्यां। हें नाशूंक मोहा। ना पुरोशें?।१५६०। आनी आवय परसूय मायेनु। तूं जें ज्ञान सांगशी तोंड भर्नु। तें कितेंय कर्नु। समजना।६१। आतां मोह आसा काय गेलो। हो प्रस्न तुवें जो केलो। कृतकृत्य गा हांव जालों। तुजेपणान।६२। घुसपल्लों अर्जुनपणानु। तो सुटलों तुजेपणानु[१७०]। आतां गजाली ना दोनु। विचारणें वा सांगणें।६३। आगा तुज्या प्रसादानु। आत्मबोध जाल्ल्यानु। मोहा मूळ ना जावनु। सल्लो तो।६४। आतां करप काय ना करप अशें। येता ज्या द्वैता लागून हें। सल्लें आतां पुरायेन तें। ना कांयच तुजेविणें।६५। हे विशीं दुभाव कांय। उल्लो ना गा म्हजेठांय। जंय कर्म मातूय उरना कांय। तें[१७१] जालों हांव।६६। तुजे कुर्पेन स्वरूप कळ्ळें। कर्तव्य सगलें समूळ गेलें। आतां दुसरें कांयच नुल्लें। तुजे आज्ञेशिवाय।६७। जें दृश्य दृश्याक नाशी। जाचें द्वैत द्वैताक ग्राशी। तें एक परी सर्वदेशीं। रावता व्यापून।६८। जाचो संबंध बंध ना करता। जाचे आशेन आस तुट्टा। जें भेट्टां सगलें भेट्टा। आपूण आपणां।६९। तें तूं म्हजें गुरूदैवत। जें एकलेपणाचो वांगड। हुपचो जाचे पासत। अद्वैतबोध।१५७०। आपुणूच जावन ब्रह्म। बरें वायट सोडून काम। मगे करची निस्सीम। सेवा जाची;।७१। गंगा सागरा सेवूं गेली। मेळटांच समुद्र जाली। तशी भक्तांक वांटणी दिली। निजीपदाची।७२। तसो तूं म्हजो निरूपचारू। श्रीकृष्णा, सेवेक गुरूवरू। मगे ब्रह्मतेचो हो उपकारू। मानतां हांवु।७३। जें म्हजे तुजे आड। आसलें भेदाचें कवाड। तें काडून केलें गोड। सेवासूख।७४। तुजी आज्ञा देवाधिदेवा। आतां पाळीन हांव माधवा। तुवें जायतें सांगचें म्हाका। करतां तें हांव।७५। अर्जुनाचीं हीं उतरां आयकूनु। देव नाचूंक लागलो खोशेनु। म्हणी सर्व फळांत अर्जुनु। मेळ्ळें फळ म्हाका।७६। परिपूर्ण जाल्लो पुत्र। आकाशीं पळोवन सुधाकर[१७२]। कितें मर्याद क्षीरसागर। सोडिना गा?।७७। कृष्ण अर्जुनाचें हे परी। संवादाच्या सव्याचेरी। लग्न लागलें म्हूण अंतरीं। संजय खोशी।७८। ते खोशेचे उचंबळायेन। धृतराष्ट्राक म्हळें संजयान। आगा कशे त्या व्यासान। राखलें आमकां।७९। आगा संवसार देखचेले। दिलेंना तुका खरे दोळे। आतां तुका मेळ्ळें। वेव्हारज्ञान दिश्टीचें।१५८०। आनी हांव रथ चलोवपी। घोड्यांक सांसपुपी। त्या म्हाकाय आयकूंक गोश्टी। मेळ्ळ्यो कृष्णार्जुनाच्यो।८१। ह्या झुजाचो घोर। हो प्रसंग भयंकर। जाली कोणायची हार। पराजय आमचोच।८२। ह्या संकश्टाचे वेळीं। कृपा व्यासानु केली। ब्रह्मानंदाची उक्ती केली। संद ताणें।८३। अशें म्हळें जरी संजयान। वोग्गी म्हातरो पगळ्ळेवीण। चंद्र किर्णांनी पाशाण। आफुडटांय जसो।८४। ताची ही दशा[१७३] पळोवन। केलें ना ताचेशीं भाशण। पूण खोशेन पिसो जावन। भोवन लागलो उलोवंक।८५। खोशे कडान तो पिसावलो। म्हणून रायाशीं तो उलयलो। पूण जाणाच तो आसलो। फावना रायाक हें।८६।

संजय उवाच: **इत्यहं वासुदेवस्य पार्थस्य च महात्मन:। संवादमिममश्रौषमद्भुतं रोमहर्षणम् ।।७४।।**

मग म्हणे पैं कुरुराजा। ऐसा भ्रातृपुत्र तो तुझा। बोलिला तें अधोक्षजा। गोड जालें।८७। अगा पूर्वापर सागर। या नामासीचि सिनार। येर आघवें तें नीर। एक जैसें।८८। तैसा श्रीकृष्ण पार्थ ऐसें। हें आंगाचिपासीं दिसे। मग संवादीं जी नसे। कांहींचि भेदु।८९। पैं दर्पणाहूनि चोखें। दोन्हीं होती सन्मुखें। तेथ येरीं येर देखे। आपणपें जैसे।**१५९०**। तैसा देवेंसीं पंडुसुतु। आपणपें देवीं देखतु। पांडवेंसीं देखे अनंतु। आपणपें पार्थीं।९१। देवो देवभक्तालागीं। जिये विवरु देखे आंगीं। येरुही तियेची भागीं। दोन्ही देखे।९२। आणिक कांहींच नाहीं। म्हणौनि करिती काई। दोघे येकपणें पाहीं। नांदताती।९३। आतां भेदु जरी मोडे। तरी प्रश्नोत्तर कां घडे। ना भेदुचि तरी जोडे। संवादसुख कां।९४। ऐसें बोलतां दुजेपणें। संवादीं द्वैत गिळणें। तें ऐकिलें बोलणें। दोघांचें मियां।९५। उटूनि दोन्ही आरसे। वोडविलीया सरिसे। कोण कोणा पाहातसे। कल्पावें पां।९६। कां दीपासन्मुखु। ठेविलया दीपकु। कोण कोणा अर्थिकु। कोण जाणे।९७। ना ना अर्कापुढें अर्कु। उदयलिया आणिकु। कोण म्हणे प्रकाशकु। प्रकाश्य कवण।९८। हें निर्धारूं जातां फुडें। निर्धारासि ठक पडे। ते दोघे जाले येवढे। संवादें सरिसे।९९। जी मिळतां दोन्ही उदकें। माजीं लवण वारूं ठाके। कीं तयासीं‍ही निमिखें। तेंचि होय।**१६००**। तैसे श्रीकृष्ण अर्जुन दोन्ही। संवादलें तें मनीं। धरितां मजही वानी। तेचि होतसे।१। ऐसें म्हणे ना मोटकें। तंव हिरोनि सात्त्विकें। आठव नेला नेणों कें। संजयपणाचा।२। रोमांच जंव फरके। तंव तंव आंग सुरके। स्तंभस्वेदांतें जिंके। एकला कंपु।३। अद्वयानंदपरिसें। दिठी रसमय जाली असे। ते अश्रु नव्हती जैसें। द्रवत्वचि।४। नेणों काय न माय पोटीं। काय नेणों गुंफे कंठीं। वागर्था पडत मिठी। उससाचिया।५। किंबहुना सात्त्विकां आठां। चाचरु मांडतां उमेठा। संजयो जालासे चोहटा। संवादसुखाचा।६। तया सुखाची ऐसी जाती। जे आपणचि धरी शांती। मग पुढती देहस्मृती। लाधली तेणें।७।

**व्यासप्रसादाच्छ्रुतवानेतद्गुह्यमहं परम् । योगं योगेश्वरात्कृष्णात्साक्षात्कथयत: स्वयम् ।।७५।।**

तेव्हां बैसतेनि आनंदें। म्हणें जी जें उपनिषदें। नेणती तें व्यासप्रसादें। ऐकिलें मियां।८। ऐकतांचि ते गोठी। ब्रह्मत्वाची पडिली मिठी। मीतूंपणेंसीं दिठी। विरोनि गेली।९। हे आघवेचि कां योग। जया ठाया येती मार्ग। तयाचें वाक्य सवंग। केलें मज व्यासें।**१६१०**। अहो अर्जुनाचेनि मिषें। आपणपेंचि दुजें ऐसें। नटोनि आपणया उद्देशें। बोलिले जें देव।११। तेथ कीं माझें श्रोत्र। पाटाचें जाले जी पात्र। काय वानूं स्वतंत्र। सामर्थ्य गुरूचें।१२।

**राजन्संस्मृत्य संस्मृत्य संवादमिममद्भुतम् । केशवार्जुनयो: पुण्यं हृष्यामि च मुहुर्मुहु: ।।७६।**

हें बोलतां विस्मित होये। तेणेंचि मोडावला ठाये। रत्नीं कीं रत्नकिळा ये। झांकोळित जैसी।१३। हिमवंतींचीं सरोवरें। चंद्रोदयीं होती काश्मीरें। मग सूर्यागमीं माघारें। द्रवत्व ये।१४। तैसा शरीराचिया स्मृती। तो संवादु संजय चित्तीं। धरी आणि पुढती। तेंचि होय।१५।

**तच्च संस्मृत्य संस्मृत्य रूपमत्यद्भुतं हरे:। विस्मयो मे महान् राजन्हृष्यामि च पुन: पुन: ।।७७।**

मग उठोनि म्हणे नृपा। श्रीहरीचिया विश्वरूपा। देखिलया उगा कां पां। असों लाहासी।१६। न देखणेनि जें दिसे। नाहींपणेंचि जें असे। विसरें आठवे तें कैसें। चुकवूं आतां।१७। देखोनि चमत्कारु। कीजे तो नाहीं पैसारु। मजहीसकट महापुरु। नेत आहे।१८। ऐसा श्रीकृष्णार्जुन-। संवादसंगमीं स्नान। करूनि देतसे तिळदान। अहंतेचें।१९। तेथ असंवरें आनंदें। अलौकिकही कांहीं स्फुंदें। श्रीकृष्ण म्हणे सद्गदें। वेळोवेळां।**१६२०**। या अवस्थांची कांहीं। कौरवातें परी नाहीं। म्हणौनि रायें तें कांहीं। कल्पावें जंव।२१। तंव जाला सुखलाभु। आपणपां करूनि स्वयंभु। बुझाविला अवष्टंभु। संजयें तेणें।२२।

---

**अर्थ:** (१७४) तोंडा सामकार. (१७५) मीठ. (१७६) कान. (१७७) विश्वरूप.

*संजयान म्हळें :* **त्या म्हात्म्या कृष्ण-पार्थाचो राया संवादु हो असो । कांटो फुलोवपि आंगार आयकलो नवलां तसो ॥७४॥**

**कृष्ण अर्जुनाचें अद्वैत:** मगे म्हणी कुरुरायाक तो। तो पुतणयो तुगेलो। उलयलो म्हूण असो। लागलें गोड कृष्णाक।८७। आगा पूर्व-पश्चीमे सागर। हो नांवाचोच वेगळेचार। हरशीं सगलें तें नीर। एक जशें;।८८। तशें श्रीकृष्ण आनी पार्थ। हांच्या देहाभेद फकत। पूण ना संवादांत। कांयच भेद।८९। हारश्या परसय चोख। दोन जायत सन्मूख[१७४]। त्यो पळेतात एकमेकांत। एकमेकांक जश्यो।**१५९०**। तसो देवासयत पांडुपूत। आपणां पळे देवांत। तसो अर्जुनासयत अनंत। पळय आपणां पार्थांत।९१। तो देवाधिदेव श्रीकृष्ण। नीजरुपी पळय जो अर्जुन। तेन्ना थंय घडलें दर्शन। दोगांयचें।९२। आनी हें द्वैत। नुल्लें मातूय दोगांत। म्हणून जालें अद्वैत। कृष्णार्जुनामदीं।९३। आतां भेद जर मोडत। प्रस्न-जाप कशी घडत?। आनी भेद जर उरत। कशें संवाद सूख?।९४। अशें उलयल्लें दुजेंपणान। पूण थंय तें गेल्लें सरून। तें आयकलें भाशण। हांवें दोनांयचें।९५। पुसून दोन हारशे। दवल्ले एकमेकां फुडें। मगे जाणचें तें कशें। कोण कोणा पळे?।९६। वा दिव्या सन्मूख। दवरीत दिव्याक। कोण मागता कोणा प्रकाश। जाणा कोण।९७। वा कोण कोणाक। दिता उजवाड। एका सुर्याफुडें उदेत। दुसरो सूर्य?।९८। हाचो विचार करूं वशीत। तर विचारच बंद पड। इतले ते दोनूय एक। जाल्ले संवादरुपान।९९। मेळटां उदकां दोन। तांकां आडायत कशें लवण?। तर ताचेंय निमिशांत। जाता उदक।**१६००**। तशें श्रीकृष्ण अर्जुन दोनी। उलयलें तें हाडलें मनीं। म्हज्याय मनाची स्थिती। जाल्या तशी।१।

**संजयाचो आनंद:** अशें म्हणपाक मात संजयान। सात्त्वीक भाव जाले उत्पन्न। आनी ताचें संजयपण। नेणा खंय गेलें?।२। फुल्लो कांटो आंगारु। पडल्यो मिरयो ताचेरु। थंड किरांव शरीरु। हूम कांपरेंच अदीकु।३। अद्वयानंदाच्या स्पर्शानु। दिश्टी भल्ली प्रेमरोसानु। तीं नासलीं दुकां, पगळून। गेलें हृदय।४। नेणा कितेंच उरना पोटीं। नेणा कितें दाटलें कंठीं। वाचेक पडली मिठी। सुस्कार्‍यांनी।५। दाटले सात्त्वीक आठ। जाली जीब जड। चवाठो जालो संजय। संवाद-सुखाचो।६। त्या सुखाची अशी परी। ती आपुणूच शांती धरी। मगे भौन मेळ्ळी स्मृती। त्या संजयाक।७।

**म्हाका व्यासप्रसादानु योग अती गुपीत हो । मेळ्ळो प्रत्यक्ष आयकूंक कृष्ण योगेश्वरा मुखान् ॥७५॥**

जेन्ना ओसरता आनंद। म्हळें, जें उपनिषदांय नेणात। तें हांवें व्यासप्रसादान। आयकलें।८। आयकतांच त्यो गोश्टी। ब्रह्मत्वाची पडली मिठी। हांव-तूं पणा दिश्टी। विरून गेली।९। हे सर्वय योग। जंय पावपाचे मार्ग। ते श्रीकृष्ण वचन सुलभ। जाले व्यासकुर्पेन।**१६१०**। अर्जुनाच्या निमित्तानु। आपणांक वेगळो लेखुनु। आपणाशींच उलोवनु। उलयलो जें देव;।११। ते म्हजे श्रोत्र[१७६]। जाले गा, अधिकार पात्र। कितें वर्णूं स्वतंत्र। बळ गुरूचें।१२।

**नवलां पवित्र संवादु जाल्लो कृष्णार्जुनामदीं । येवजूनु भौनु भौनु हांव हर्शतां हांव पुना पुना ॥७६॥**

विस्मीत हें उलोवनु। बुडलो तातूंत पर्थूनु। रत्ना रत्न तेजानु। धांपलें जशें।१३। सरोवरां हिमालयांतलीं। चंद्रोदयीं गोठलीं। तरी सुर्योदयान वितळटी। आदलेवरी।१४। तशी देहाची जातां स्मृती। संवाद आयलो चित्तीं। आनी भौन देहाची विस्मृती। जाता तशीच।१५।

**भौन स्मरुनु तें रूप हरीचें भौच अद्भुत । राया, विस्मीतु जाल्यानू हर्शतां हांव पुना पुना ॥७७॥**

मगे उठून म्हणी राया। देखून श्रीहरीच्या विश्वरुपा। आगा तूं रावला कित्या। असो वोगी।१६। देखलेवीण जें[१७७] दिसता। ना म्हळ्यार जें आसता। विसरू म्हळ्यार स्मरता। तें कशें चुकोवं आतां?।१७। पळोवन तें विश्वरूप। चमत्कार ना म्हणूंक अवकाश। तो आनंदा महाहुंवार। म्हजेसयत व्हरता म्हाका।१८। असो श्रीकृष्णार्जुन-। संवाद संगमीं न्हाण। करून दितां तिळांदान। अहंकाराचें।१९। त्या अनावर आनंदांत। अलौकीक कितें फुत्फुतत। कृष्ण, कृष्ण म्हणी भौन भौन। जावन सद्गदीत।**१६२०**। संजयाच्या मना स्थिती। कौरवराया नात नासली। तो कितेंय तरी मनीं। चिंतता आपले परी।२१। इतल्यान आपलो सुखा लाव। संजयान थिरावलो मनांत। सात्त्वीक भावांचो कड। केलो शांत।२२।

तेथ कोणी येकी अवसरी। होआवी ते करूंनि दुरी। रावो म्हणे संजया परी। कैशी तुझी गा।२३। तेणें तूंतें येथें व्यासें। बैसविलें कासया उद्देशें। अप्रसंगामाजीं ऐसें। बोलसी काई।२४। रानींचें राऊळा नेलिया। दाही दिशा मानी सुनिया। कां रात्री होय पाहलया। निशाचरां।२५। जो जेथिंचें गौरव नेणे। तयासि तें भिंगुळवाणें। म्हणौनि अप्रसंगु तेणें। म्हणावा कीं तो।२६। म्हणे सांगें प्रस्तुत। उदयलेंसे जें उत्कळित। तें कोणासि बा रे जैत। देईल शेखीं।२७। एऱ्हवीं विशेषें बहुतेक। आमुचें ऐसें मानसिक। जे दुर्योधनाचे अधिक। प्रताप सदा।२८। आणि येरांचेनि पाडें। दळही यांचें देव्हडें। म्हणौनि जैत फुडें। आणील ना तें।२९। आम्हां तंव गमे ऐसें। मा तुझें जोतीष कैसें। तें नेणों संजया असे। तैसें सांग पां।**१६३०**।

**यत्र योगेश्वर: कृष्णो यत्र पार्थो धनुर्धर: । तत्र श्रीर्विजयो भूतिर्ध्रुवा नीतिर्मतिर्मम ॥७८॥**

यया बोला संजयो म्हणे। जी येरयेरांचें मी नेणें। परी आयुष्य तेथें जिणें। हें फुडें कीं गा।३१। चंद्र तेथें चंद्रिका। शंभु तेथें अंबिका। संत तेथें विवेका। असणें कीं जी।३२। रावो तेथें कटक। सौजन्य तेथें सोइरीक। वन्हि तेथें दाहक। सामर्थ्य कीं।३३। दया तेथें धर्मु। धर्मु तेथें सुखागमु। सुखीं पुरुषोत्तमु। असे जैसा।३४। वसंत तेथें वनें। वन तेथ सुमनें। सुमनीं पालिंगनें। सारंगांचीं।३५। गुरु तेथ ज्ञान। ज्ञानीं आत्मदर्शन। दर्शनीं समाधान। आथी जैसें।३६। भाग्य तेथ विलासु। सुख तेथें उल्लासु। हें असो तेथ प्रकाशु। सूर्य जेथें।३७। तैसें सकळ पुरुषार्थ। जेणें स्वामी का सनाथ। तो श्रीकृष्ण रावो जेथ। तेथ लक्ष्मी।३८। आणि आपलेनि कांतेंसीं। ते जगदंबा जयापासीं। अणिमादिकी काय दासी। नव्हती तयातें।३९। कृष्ण विजयस्वरूप निजांगें। तो राहिला असे जेणें भागें। तैं जयो लागेंवेगें। तेथेंचि आहे।**१६४०**। विजयी नामें अर्जुन विख्यातु। विजयस्वरूप श्रीकृष्णनाथु। श्रियेसीं विजय निश्चितु। तेथेंचि असे।४१। तयाचिये देशींचां झाडीं। कल्पतरूतें होडी। न जिणावें कां येवढी। मायबापु असतां।४२। ते पाषाणही आघवे। चिंतारत्नें कां नोहावे। तिये भूमिके कां न यावें। चैतन्यत्व।४३। तयाचिया गांवींचिया। नदी अमृतें वाहाविया। नवल कायि राया। विचारीं पां।४४। तयाचे बिसाट शब्द। सुखें म्हणों येती वेद। सदेह सच्चिदानंद। कां नोहावा तो।४५। पैं स्वर्गापवर्ग दोन्ही। इयें पदें तया अधीनीं। जे श्रीकृष्ण बाप जननी। कमळा जया।४६। म्हणौनि जिया बाहीं उभा। तो लक्ष्मिचिये वल्लभा। तेथ सर्वसिद्धी स्वयंभा। येर नेणों।४७। आणि समुद्राचा मेघु। उपेगें तयाहूनि चांगु। तैसा पार्थी आजि लागु। आहे तये।४८। कनकत्वदीक्षागुरू। लोहा परिसु होय किरू। परी जगा पोसिता व्यवहारू। तेंचि जाणें।४९। येथ गुरुत्वा होतसे उणें। ऐसें झणें कोण्ही म्हणे। वन्हि प्रकाश दीपपणें। प्रकाशी आपला।**१६५०**। तैसा देवाचिया शक्ती। पार्थु देवासीचि बहुती। परी माने इये स्तुती। गौरव असे।५१। आणि पुत्रें मी सर्व गुणीं। जिणावा हे बापा शिराणी। तरी ते शार्ङ्गपाणी। फळा आली।५२। किंबहुना ऐसा नृपा। पार्थु जालासे कृष्णकृपा। तो जयाकडे साक्षेपा। रीति आहे।५३। तोचि गा विजयासि ठावो। येथ तुज कोण संदेहो। तेथ न ये तरी वावो। विजयोचि होय।५४। म्हणौनि जेथ श्री श्रीमंतु। जेथ तो पंडुचा सुतु। तेथ विजय समस्तु। अभ्युदयो तेथ।५५। जरी व्यासाचेनि साचें। धिरे मन तुमचें। तरी या बोलाचें। ध्रुवचि माना।५६। जेथ तो श्रीवल्लभु। जेथ भक्तकदंबु। तेथ सुख आणि लाभु। मंगळाचा।५७। या बोला आन होये। तरी व्यासाचा अंकु न वाहें। ऐसें गाजोनि बाहे। उभिली तेणें।५८। एवं भारताचा आवांका। आणूनि श्लोका येका। संजयें कुरुनायका। दिधला हातीं।५९। जैसा नेणों केवढा वन्ही। परी गुणाग्रीं ठेऊनी। आणिजे सूर्याची हानी। निस्तरावया।**१६६०**। तैसें शब्दब्रह्म अनंत। जालें सवालक्ष भारत। भारताचें शतें सात। सर्वस्व गीता।६१। तयाही सातां शतांचा। इत्यर्थु हा श्लोक शेषींचा। व्यासशिष्य संजयाचा। पूर्णोद्गारु जो।६२। येणें येकेंचि श्लोकें। राहे तेणें असकें। विद्याजाताचें निकें। जिंतिलें होय।६३। ऐसेयां श्लोकां शतें सात। गीतेचीं पदें आंगें वाहत। पदें म्हणों की परमामृत। गीताकाशींचें।६४। कीं आत्मराजाचिये सभे। गीते वोडवले खांबे। मज श्लोक प्रतिभे। ऐसे येत।६५।

---

**अर्थ:** (१७८) झाडां पेडां.

**धृतराष्ट्रा प्रतिक्रिया:** हे परी मात्रसो समय। वतांच म्हणी कुरुराय। कितें गा संजय। ही रीत तुजी ?।२३। तुका हांगा व्यासान। बसयल्लो खंयचे हेतून। आनी न्हय तें विशया सोडून। तूं उलयता कितें?।२४। रानवट्या व्हेलो राजमहालीं। दिसता तो उदास धायदिकीं। वा फालें जालें तरी। निशाचर रात ती;।२५। तशें जाका जाचें ना म्हत्व। ताका दिसता तें विपरीत। म्हणून तें अप्रासंगीक। म्हळें ताणें।२६। म्हणी सांग प्रस्तूत। उप्रासला जो कलह। तें कोणा गा जैत। दितलें शेकीं।२७। हरशीं चडशें म्हाका। मना अशेंच दिसता। दुर्योधन वरचड आसता। प्रतापांत सदां।२८। आनी पांडवांचे तुळेन। हाचें सैन्य देडयेन। आनी जैत म्हणून। जातलेंच न्हय हाचेंच।२९। म्हाका तर गमता अशें। पूण तुजें भविश्य सांग कशें?। हांव नेणा आसलों जरी तें। सांग जातलें कितें तें।**१६३०**।

**जैं तो योगेश्वर कृष्ण जैं तो पार्थ धनुर्धर । थैंच श्री जैत ऐश्वर्य ध्रूव नीत म्हजें मत ॥७८॥**

**भारताचें रहस्य:** हें आयकून संजयान म्हळें । हांव नेणां गा दोगां तुमचें । पूण जंय आयुश्य थंय जिणें। हें सामकें खरें।३१। चंद्र थंय चान्नें आसता। शंभू थंय पार्वती रावता। संत थंय विवेक दिसता। दुभावाविणें;।३२। राजा थंय सैन्य। सौजन्य थंय संबंध। उजो थंय शक्त। लासपाची।३३। दया थंय धर्म। धर्म थंय सूख। सुखांत पुरुषोत्तम। रावता जसो;।३४। वसंत थंय वनां। वनां थंय फुलां। फुलांत दळां। भंवरांचीं;।३५। गुरु थंय ज्ञान। ज्ञान थंय आत्मदर्शन। आमदर्शनीं समाधान। आसपाचेंच।३६। भाग्य थंय विलास। सूख थंय उल्हास। सूर्य थंय प्रकाश। आसता सदींच।३७। तशे सगले पुरुषार्थ। जाका लागून सनाथ। जंय तो कृष्णनाथ। थंय लक्ष्मी।३८। आनी आपल्या पतीसयत। लक्ष्मी जंय रावता नित्य। थंय अणिमादीक दाशी कित्याक। आसच्यो नात?।३९। श्रीकृष्ण विजय मूर्तीमंत। तो रावता ज्या पक्षांत। बेगोबेग थंयच जैत। आयलें समज;।**१६४०**। विजय नांवान अर्जुन विख्यात। विजय स्वरूप श्रीकृष्णनाथ। लक्ष्मीसयत निश्चीत जैत। आसता थंयच।४१। अश्या मायबापांचो आसतां आधार। त्या देशांतले तरुवर[१७८]। कित्या कल्पतरुसवें सर। करची न्हय तांणी।४२। थंयचे पाशाण सगले। चिंतामणी कित्या न्ही जावंचे?। थंयचे भुंयेंत कित्या न्हय पिकचें। भांगर?।४३। ताच्या गांवच्या न्हंयांत। जर व्हांवंक लागलें अमृत। राया कसलें विस्मीत। राया कर विचार।४५। तांचें उतर सैराट। खुशाल म्हणचे वेद। कित्या सदेह सच्चिदानंद। जावंचो ना तो?।४५। दोनूय पदां स्वर्ग मोक्ष। हीं ताचे आधीन। जाचे लक्ष्मी श्रीकृष्ण। मायबाप आसात।४६। म्हणून जाच्या पक्षांत। रावला उबो लक्ष्मीकांत। थंय सर्व सिद्धी प्राप्त। हेर हांव नकळं।४७। आनी समुद्रापूत मेघ। उपेग ताचेपरस चांग। तसो तो अर्जुन। कृष्णापरस उपेगी।४८। लोखंडा दिता भांगरपण। म्हूण परिसा आंगांत गुरूपण। पूण जगा वेव्हाराचें पोशण। भांगरच करी।४९। म्हणून गुरूपणा उणेंपण। अशें म्हणीत जर कोण। तर जाण दिवो जावन। उजो आपलोच प्रकाश।**१६५०**। तरी देवाचेच शक्तीनु। पार्थ अदीक शक्तीवानु। म्हणून ताचेच तुस्तीनु। देवा गौरव।५१। पुतान आपणा सगल्या गुणांनी। जिखचें ही आस बापायची। ती त्या श्रीकृष्णाठांयीं। आयली फळा।५२। इतलेंच न्ही गा नृपा। पार्थाचेरी जाली कृष्णकृपा। तो मेळ्ळा ज्या पक्षा। जैत ताचेंच।५३। तोच गा विजया ठाव। हांगा तुका कसलो दुभाव?। थंय आयलोना जर विजय। व्यर्थ तो।५४। म्हणून जंय श्री, थंय श्रीमंत। जंय तो पांडुपूत। थंय विजय समस्त। थंय तरतर।५५। श्रीव्यासाच्या उतराचेरी। विश्वास राया आसल्यारी। हीं उतरां म्हजीं तरी। मान अटळ।५६। जंय लक्ष्मीपती श्रीकृष्ण। जंय भक्तस्रेश्ठ अर्जुन। थंय सूख-मांगल्या पूर्ण। लाव गा।५७। हीं उतरां जालीं लटकीं। म्हाका व्यास-शिश्य म्हणचो न्ही। अशी बावळे उबारून केली। गर्जना संजयानु।५८। अशें भारताचें रहस्य सगलें। एका श्लोकांत साठयलें। आनी कुरुराया हातीं दिलें। संजयान।५९। अमर्याद जरी तो अग्नी। तरी एक वात पेटोवनी। सूर्यप्रकाशाची हानी। निस्तरूंक हाडी तो।**१६६०**।

**गीतेचें वर्णन:** तशें शब्दब्रह्म अनंत। ताचे सव्वा लाख भारत। भारता सार गीतेंत। सातशें श्लोकीं।६१। त्या सातशें श्लोकीं गीतेचो। इत्यर्थ हो श्लोक अंतींचो। व्यास-शिश्य संजयाचो। पूर्ण उद्‌गार तो।६२। ह्या एकाच श्लोका नुसार। घडटा जाचो वेव्हार। ताणें अविद्येचो आधार। हुमटिलो मुळासयत।६३। हे सातशें श्लोकूच। गीतेचीं पावलांच। न्ही हे श्लोक; तें अमृतूच। वर्सल्लें आकाशांतल्यान।६४। आत्मो हो राय थोर। गीता ताचें सभामंदीर। ताचे सातशें खांब हे सुंदर। दिसऽ म्हजे प्रतिभेक;।६५।

कीं गीता हे सप्तशती। मंत्रप्रतिपाद्य भगवती। मोहमहिषा मुक्ती। आनंदलीसे।६६। म्हणौनि मनें कायें वाचा। जो सेवक होईल इयेचा। तो स्वानंदसाम्राज्याचा। चक्रवर्ती करी।६७। कीं अविद्यातिमिररोखें। श्लोक सूर्यातें पैजा जिंके। ऐसे प्रकाशिले गीतामिखें। रायें श्रीकृष्णें।६८। कीं श्लोकाक्षरद्राक्षलता। मांडव जाली आहे गीता। संसारपथश्रांता। विसंवावया।६९। कीं सभाग्यसंतीं भ्रमरीं। केले ते श्लोककल्हारीं। श्रीकृष्णाख्यसरोवरीं। सासन्नली हे।१६७०। कीं श्लोक नव्हती आन। गमे गीतेचें महिमान। वाखाणिते बंदिजन। उदंड जैसे।७१। कीं श्लोकाचिया आवारा। सात शतें करूनि सुंदरा। सर्वागम गीतापुरा। वसों आले।७२। कीं निजकांता आत्मया। आवडी गीता मिळावया। श्लोक नव्हती बाह्या-। पसरु कां जो।७३। कीं गीताकमळींचे भृंग। हे गीतासागरतरंग। कीं हरीचे तुरंग। गीतारथींचे।७४। कीं श्लोक सर्व तीर्थसंघातु। आला श्रीगीतेगंगेआंतु। जे अर्जुन सिंहस्थु। जाला म्हणौनि।७५। कीं नोहे हे श्लोकश्रेणी। अचिंत्यचित्तचिंतामणी। कीं निर्विकल्पां लावणी। कल्पतरूंची।७६। ऐसिया शतें सात श्लोकां। परी आगळा येकयेका। आतां कोण वेगळिका। वानावा पां।७७। दीपा आगिलु मागिलु। सूर्यु धाकटा वडीलु। अमृतसिंधु खोलु। उथळु कायसा।७८। तान्ही आणि पारठी। इया कामधेनूतें दिठी। सूनि जैसिया गोठी। कीजतीना।७९। तैसे पहिले सरते। श्लोक न म्हणावे गीते। जुनीं नवीं पारिजातें। आहाती काई।१६८०। आणि श्लोका पाडु नाहीं। हें कीर समर्थु काई। येथ वाच्य वाचकही। भागु न धरी।८१। जे इये शास्त्रीं येकु। श्रीकृष्णचि वाच्य वाचकु। हें प्रसिद्ध जाणे लोकु। भलताही।८२। येथें जें अर्तें तेंचि पाठें। जोडे येवढेनि धटें। वाच्यवाचकें येकवटें। साधित शास्त्र।८३। म्हणौनि मज कांहीं। समर्थनीं आतां विषो नाहीं। गीता जाणा हे वाड्मयी। श्रीमूर्ति प्रभूची।८४। शास्त्र वाच्यें अर्थे फळे। मग आपण मावळे। तैसें नव्हे हें सगळें। परब्रह्मचि।८५। कैसा विश्वाचिया कृपा। करूनि महानंद सोपा। अर्जुनव्याजें रूपा। आणिला देवें।८६। चकोराचेनि निमित्तें। तिन्ही भुवनें संतप्तें। निवविलीं कळावंतें। चंद्रें जेवीं।८७। कां गौतमाचेनि मिषें। कळिकाळज्वरितादोषें। पाणिढाळु गिरीशें। गंगेचा केला।८८। तैसें गीतेचें हें दुभतें। वत्स करूनि पार्थातें। दुभीनली जगापुरतें। श्रीकृष्णगाय।८९। येथें जीवें जरी नाहाल। तरी हेंचि कीर होआल। नातरी पाठमिषें तिंबाल। जीभचि जरी।१६९०। तरी लोह एके अंशें। झगटलिया परिसें। येरीकडे आपैसें। सुवर्ण होय।९१। तैसी पाठाची ते वाटी। श्लोकपाद लावा ना जंव वोठीं। तंव ब्रह्मतेची पुष्टी। येईल आंगा।९२। ना येणेसीं तोंड वांकडें। करूनि ठाकाल कानवडें। तरी कानींही घेतां पडे। तेचि लेख।९३। जे हे श्रवणें पाठें अर्थे। गीता नेदी मोक्षाआरौतें। जैसा समर्थ दाता कोणातें। नास्ति न म्हणे।९४। म्हणौनि जाणतया सवा। गीताचि येकी सेवा। काय कराल आघवां। शास्त्रीं येरीं।९५। आणि कृष्णार्जुनीं मोकळी। गोठी चावळिली जे निराळी। ते श्रीव्यासें केली करतळीं। घेवों ये ऐसी।९६। बाळकातें वोरसें। माय जैं जेवऊं बैसे। तैं तया ठाकती तैसे। घांस करी।९७। कां अफाटा समीरणा। आपैतेपण शाहाणा। कैलें जैसें विंजणा। निर्मूनियां।९८। तैसें शब्दें जें न लभे। तें घडूनियां अनुष्टुभें। स्त्रीशूद्रादि प्रतिभें। सामाविलें।९९। स्वातीचेनि पाणियें। न होती जरी मोतियें। तरी अंगीं सुंदराचिये। का शोभतेतें।१७००। नादु वाद्या न येतां। तरी कां गोचरु होता। फुलें न होतां घेपता। आमोदु केवीं।१। गोडी न होती पक्वान्नें। तरी कां फावती रसने। दर्पणावीण नयनें। नयनु का दिसे।२। द्रष्टा श्रीगुरुमूर्ती। न रिगता दृश्यपंथीं। तरी काह्या उपास्ती। आकळता तो।३। तैसें वस्तु जें असंख्यात। तया संख्या शतें सात। न होती तरी कोणा येथ। फावों शकतें।४। मेघ सिंधूचें पाणी वाहे। तरी जग तयातेंचि पाहे। कां उमप तें नोहे। ठाकतें कोण्हा।५। आणि वाचा जें न पवे। तें हे श्लोक न होते बरवे। तरी कानें मुखें फावे। ऐसें कां होतें।६। म्हणौनि व्यासाचा हा थोरु। विश्वासि जाला उपकारु। श्रीकृष्णउक्ती आकारु। ग्रंथाचा केला।७। आणि तोचि हा मी आतां। व्यासाचीं पदें पाहतां पाहतां। आणिला श्रवणपथा। मऱ्हाठिया।८। व्यासादिकांचे उन्मेख। राहाटती जेथ साशंक। तेथ मीही रंक येक। वाचाळी करीं।९। परी गीता ईश्वरु भोळा। ले व्यासोक्तिकुसुममाळा। तरी माझिया दूर्वादळा। ना न म्हणे कीं।१७१०।

---

अर्थः (१८०) ल्हारां. (१८१) घोडे. (१८२) अर्जुनरूपी सूर्य सिंह राशींत आयिल्ल्यान. (१८३) पंगत.
(१८४) निर्विकल्प ब्रह्माचो लाभ करून दिवपी. (१८५) सुवर्ण पारजत. (१८६) अर्जुनाच्या रुपान आयकुपी.
(१८७) हाताच्या तळटार. (१८८) स्वाती नक्षत्राच्या. (१८९) बडबडटां.

वा गीता ही सप्तशती। मंत्रांनी स्तविल्ली भगवती। जी मोहमहिषा दिवन मुक्ती। जाली खोशी;।६६। म्हणून काया वाचा मनान। गीतेची सेवा करीत। स्वानंद-साम्राज्याचो तो जायत। चक्रवर्ती।६७। जे अविद्ये काळखा नाश करूनु। सुर्याकय जिखी प्रतिज्ञेनु। असो प्रखर श्लोकसूर्य श्रीकृष्णानु। परगटायलो।६८। श्लोकाक्षरांच्या दाखांवालीचो। गीता माटोव जालो। विसवा पासत उबाल्लो। संवसारवाटेंत शिणिल्ल्यां।६९। वा भाग्यवंत संत-भंवर। चाखी गा म्हॉव मधूर। त्या श्लोक-साळकां चंवर। फुल्ला श्रीकृष्ण-सरोवरीं।**१६७०**। गीता-म्हयमा अपार। वर्णितात जे निरंतर। अशे भाट ते चतुर। गीताश्लोक।७। वा श्लोकांचो सात शत। बांदून सुंदर कोट। सगलीं शास्त्रां गीतापुरांत। आयलीं वसतेक।७२। वा निजीकांत आत्म्याकु। मोगान येता मेळुंकु। श्लोकभुजांनी वेंगावंकु। आयली गीता।७३। गीता साळकांतले भंवर। हे गीतासागरीं तरंग[१८०]। वा श्रीहरीचे अश्व[१८१]। गीतारथाचे।७४। वा श्लोक सगल्या तीर्थां संगम। जालो गीता-गंगेंत। पळे अर्जुन-सिंहस्थ[१८२]। जालो पर्वणी म्हणून।७५। वा न्ही ही श्लोकांची श्रेणी[१८३]। ही शांतचित्ता चिंतामणी। वा कल्परुखा लावणी। निर्विकल्पा[१८४] पासत।७६। अशें सातशें श्लोक । पूण आगळे एका परस एक। आतां कशे काडूं वर्णूंक। वेंचून ते।७७। दिवो फुडलो फाटलो। सुर्या व्हडलो धाकलो। अमृत-सिंधु कसो म्हणचेलो। खोल उथळ?।७८। ही एक दुबती। ही एक न्हय दुभती। अशे कामधेनू मदीं। करिनात भेद।७९। तशे पयले वा निमाणे। म्हणचे न्ही श्लोक गीतेचे। पारजताचे[१८५] कळे। आसती पोन्ने नवे?।**१६८०**। श्लोकांत ना उणें अदीकु। हाचें समर्थन कित्याकु। सांगपी नि आयकुप्यांतु। हांगा ना भेद।८१। पळे, ह्या गीताशास्त्रांत। श्रीकृष्णच सांगपी आयकुपी एक[१८६]। हें गा प्रसिद्ध, जाणटी लोक। सगले।८२। अर्थज्ञान आनी पारायण। दोनांयचें फळ समान। कित्या हांगा जालें एक। सांगपी नि आयकुपी।८३। म्हणून आतां करूंक सिद्ध। कांयच उल्लो ना विशय। ही गीता वाङ्मयमूर्त। प्रभूची।८४। हेर शास्त्रां अर्थान फळटा। मागीर तीं लया वता। तशी न्ही ही गीता। हें परब्रह्मच सगलें।८५। कसो विश्वाचे कुर्पेन। अर्जुनाच्या निमित्यान। सोंपो करून कृष्णान। हाडलो ब्रह्मानंद रुपा।८६। चकोराच्या निमित्यान। तिनय लोकांचो ताप। पुनवेच्या चंद्रान। न्हिवयलो गा।८७। कळीकाळाचो महाजोर। करूंक तो दूर। गौतमा निमित्यान शंकर। धाडी गंगा धतरिर।८८। तशें गीतेचें हें दूद। पाडकुलें करून पार्थाक। पावंक सगल्या जगाक। श्रीकृष्ण जाली गाय।८९। गीतेंत जिवाभावानु न्हाशीत। तर ब्रह्मस्वरुपा जाशीत। वा जिबे कश्ट दिशीत। पठन करून।**१६९०**। लोखणा एके कडेकु। परीस जर आफडीतु। आपशींच दुसरे कडेकु। जाता भांगरू।९१। तशी पाठाची ती वाटी। श्लोक लायता जो ओंठी। त्या खिणा आंगा पुश्टी। येतली ब्रह्मतायेची।९२। वा टाळून पारायण। करशी गीते श्रवण। तर तेंच फळ संपूर्ण। पदरीं पडटलें।९३। दातो समर्थ पर्थूनु। धाडिना कोणा रित्या हातानु। तशें करप्या श्रवण पठन अर्थग्रहणु। मोक्ष फळ दवल्लांच।९४। देखून जाण्ट्यां सयत। गीताच सेवची एक। शास्त्रां सगलीं शिकून। करचेलें कितें?।९५। कृष्णार्जुनान मनमेकळीं। उलोवणीं आपसांत केलीं। तीं व्यासान घेवचीं करतळीं[१८७]। अशीं केलीं।९६। भरय भुर्ग्याक मायेनु। घांस आवय हातानु। तेन्ना उंडी करी ल्हानु। वेता जी तोंडांत।९७। वारो व्हांवता मेकळेपणानु। पूण ताका सहजपणानु। घेतात आपले कुशीनु। आयण्यान।९८। तशें जें शब्दापेल्यानु। तें अनुष्टुभांतु घालूनु। स्त्री-शुद्रादिकांचे बुद्दीकु। केलें सोंपें।९९। स्वातीच्या[१८८] पाणयांत। मोतयां जर जालिंनात। तीं तर कशीं सोबत। सुंदरीच्या आंगांतु?।**१७००**। वाद्यांत नाद येनासलो। तो कसो कळटा आसलो?। पर्मळ कसो मेळटा आसलो। फुलांविणें।१। पक्वानांतूच गोडी नासली। जिबे रुची कशी कळटली?। जर फुड्यांत हारशी नासली। दोळ्यां दिसतलें रूप?।२। श्रीगुरू जो सर्वद्रश्टो। जर साकार जावंक नासलो। तर शिश्या कसो दिसतलो। उपासनेन?।३। तशें ब्रह्म जें सर्वातीत। तें सातशें श्लोकांत। जावंक नासलें प्रगट। तर कोणा कळटालें?।४। मेघ व्हरता सागराचें उदक। पूण जग पळे आशेन ताकाच। सिंधु जरी अमर्याद अगणीत। ताचो लाभ ना कोणा।५। हे सुंदर श्लोक जर नासले। जे वाणीकय कळऽ नासले। ते कशे मेळटाले। आयकूं वा वाचूंक?।६। देखून व्यासाचो हो थोरू। विश्वाक जालो उपकारू। श्रीकृष्ण उक्तीक आकारू। ग्रंथा दिलो।७। आनी तोच हो आतां। व्यासाचीं पदां नीट पळेतां। मराठींत आयकुपा। हाडला हांवें।८। व्यासादिकांचें ज्ञान। जंय जाता साशंक। थंय हांवूय रंक एक। जळपतां[१८९]।९। पूण गीता ईश्वर भोळो। घेता व्यासोक्ती फुलां माळो। तरी हीं पानां, दुर्वा म्हगेल्यो। ना म्हणिना।**१७१०**।

आणि क्षीरसिंधूचिया तटा। पाणिया येती गजघटा। तेथ काय मुरकुटा। वारिजतसे।११। पांख फुटे पाखिरूं। नुडे तरी नभींच थिरू। गगन क्रमी सत्वरू। तो गरुडही तेथ।१२। राजहंसाचें चालणें। भूतळीं जालिया शाहाणें। आणिकें काय कोणें। चालावेंचिना।१३। जी आपुलेनि अवकाशें। अगाध जळ घेपे कलशें। चुळीं चूळपणा ऐसें। भरूनि न निघे।१४। दिवियेचां आंगीं थोरी। तरी ते बहु तेज धरी। वाती आपुलिया परी। आणीच कीं ना।१५। जी समुद्राचेनि पैसें। समुद्रीं आकाश आभासे। थिल्लरीं थिल्लराऐसें। बिंबिचि पैं।१६। तेवीं व्यासादिक महामती। वावरों येती इये ग्रंथीं। मा आम्ही ठाकों हे युक्ती। न मिळे कीर।१७। जिये सागरीं जळचरें। संचरती मंदराकारें। तेथ देखों शफरें येरें। पोहों लाहती।१८। अरुण आंगाजवळिके। म्हणोनि सूर्यातें देखे। मा भूतळींची न देखे। मुंगी काई।१९। यालागीं आम्हां प्राकृतां। देशिकारें बंधें गीता। म्हणणें हें अनुचिता। कारण नोहे।**१७२०**। आणि बापु पुढां जाये। ते घेत पाउलाची सोये। बाळ ये तरी न लाहे। पावों कायी।२१। तैसा व्यासाचा मागोवा घेतु। भाष्यकारांतें वाट पुसतु। अयोग्यही मी न पवतु। कें जाईन।२२। आणि पृथ्वी जयाचिया क्षमा। नुबगे स्थावरजंगमा। जयाचेनि अमृतें चंद्रमा। निववी जग।२३। जयाचें आंगिक अंशिकें। तेज लाहोनि अर्कें। आंधाराचें सावाइकें। लोटिजत आहे।२४। समुद्रा जयाचें तोय। तोया जयाचें माधुर्य। माधुर्या सौदर्य। जयाचेनि।२५। पवना जयाचें बळ। आकाश जेणें पघळ। ज्ञान जेणें उजाळ। चक्रवर्ती।२६। वेद जेणें सुभाष। सुख जेणें सोल्लास। हें असो रूपस। विश्व जेणें।२७। तो सर्वोपकारी समर्थु। सद्गुरु श्रीनिवृत्तिनाथु। राहाटत असे मजही आंतु। रिघोनियां।२८। आतां आयती गीता जगीं। मी सांगें मऱ्हाठिया भंगीं। येथ कें विस्मयालागीं। ठावो आहे।२९। श्रीगुरूचेनि नांवें माती। डोंगरीं जयापासीं होती। तेणें कोळियें त्रिजगतीं। येकवद केली।**१७३०**। चंदनें वेधलीं झाडें। जालीं चंदनाचेनि पाडें। वशिष्ठें मांडली कीं भांडे। भानूसीं काठी।३१। मा मी तव चित्ताथिला। आणि श्रीगुरु ऐसा दादुला। जो दिठीवेनि आपुला। बैसवी पदीं।३२। आधींचि देखणी दिठी। वरी सूर्य पुरवी पाठी। तैं न दिसे ऐसी गोठी। केंही आहे।३३। म्हणोनि माझे नीच नवे। श्वासोच्छ्वासही प्रबंध होआवे। गुरुकृपा काय नोहे। ज्ञानदेवो म्हणे।३४। याकारणें मियां। गीतार्थ मऱ्हाठिया। केला लोकां यया। दिठीचा विषो।३५। परी मऱ्हाठे बोल रंगें। कवळितां पैं गीतांगें। तैं गातयाचेनि पांगें। येकाढता नोहे।३६। म्हणौनि गीता गावों म्हणे। तैं गाणिवें होती लेणें। ना मोकळे तरी उणें। गीताही आणित।३७। सुंदर आंगीं लेणें न सूये। तैं तो मोकळा शृंगारु होये। ना लेइलें तरी आहे। तैसें कें उचित।३८। कां मोतियांची जैसी जाती। सोनयाही मान देती। नातरी मानवती। अंगेंचि सडीं।३९। नाना गुंफिलीं कां मोकळीं। उणीं न होती परिमळीं। वसंतागमींचीं वाटोळीं। मोगरीं जैसीं।**१७४०**। तैसा गाणिवेनें मिरवी। गीतेवीणही रंगु दावी। तो लाभाचा बंधु ओंवीं। केला मियां।४१। तेणें आबालसुबोधें। वोवीयेचेनि बंधें। ब्रह्मरससुस्वादें। अक्षरें गुंथिलीं।४२। आतां चंदनाचां तरुवरीं। परिमळालागीं फूलवरी। पारुखणें जियापरी। लागेना कीं।४३। तैसा प्रबंधु हा श्रवणीं। लागतखेंवो समाधि आणी। ऐकिलियाही वाखाणी। काय व्यसन न लवी।४४। पाठ करितां व्याजें। पांडित्यें येती वेषजे। तैं अमृतातें नेणिजे। फावलिया।४५। तैसेनि आइतेपणें। कवित्व जालें हें उपेणें। मनन निदिध्यास श्रवणें। जिंतिलें आतां।४६। हे स्वानंदभोगाची सेल। भलतयासीचि देईल। सर्वेंद्रियां पोषवील। श्रवणाकरवीं।४७। चंद्रातें आंगवणें। भोगूनि चकोर शाहाणे। परी फावे जैसें चांदिणें। भलतेया।४८। तैसें अध्यात्मशास्त्रीं इये। अंतरंगचि अधिकारिये। परी लोकु वाक्चातुर्यें। होईल सुखिया।४९। तैसें श्रीनिवृत्तिनाथाचें। गौरव आहे जी साचें। ग्रंथु नोहे हें कृपेचें। वैभव तये।**१७५०**। क्षीरसिंधुपरिसरीं। शक्तीचां कर्णकुहरीं। नेणों कैं श्रीत्रिपुरारीं। सांगितलें जें।५१। तें क्षीरकल्लोळाआंतु। मकरोदरीं गुप्तु। होता तयाचा हातु। पैठें जालें।५२। तो मत्स्येंद्र सप्तश्रृंगीं। भग्नावयवा चौरंगीं। भेटला कीं तो सर्वांगीं। संपूर्ण जाला।५३।

---

**अर्थः** (१९०) मंदर पर्वता भाशेन व्हड. (१९१) साहित्यीक वाक्चातुर्यान.

---

क्षीरसागराचे तडीरू। हती येतात उदका खातीरु। पूण मुसकां आयल्यारू। तो म्हण्णा येवं नाका।११। पांखां फुट्टटांच सवण्यांक। जरी आयलेंना नभीं उडूंक। पूण जंय भरारी मारी गरूड। थंयच रावतात तीं।१२। राजहंसाचें चलप। भूतळीं भोव उत्तम्। कितें चलचें न्ही देखून। हेरांनी।१३। कळश्याचो आकार व्हड। भरता खूब उदक तातूंत। म्हूण घोंटभर घोंटांत। घेवचें न्ही कोणे?।१४। दिवटे आंगांत व्हडपण। म्हूण दिता उजवाड व्हड। पूण आसल्यारय सान वात। दिताच तो;।१५। समुद्रांत समुद्रा इतलें। पडबिंब आकाशाचें पडटलें। पूण कोंडांत कोंडा इतलें। पडटाच न्ही?।१६। तशे व्यासादीक जे महाज्ञानी। फुडें सल्ले गीता चिंतनीं। म्हूण सस्त रावचें आमी। हें दिसना सयुक्तीक।१७। ज्या सागरीं मंदरावरी[१९०]। देवमाशे संचार करी। थंय कितें बुरांट्यांनी। पेवचें न्ही?।१८। सुर्या म्हऱ्यांतूच अरूण। पळेता सुर्याक म्हणून। देखून भुंयेतळीचे मुंयेन। देखचें न्ही ताका?।१९। म्हणून सामान्य अश्या हांवें। देशींत भाश्य केलें। तें अनुचीत जालें। हें म्हणपा ना कारण।**१६२०**। बापूय गेल्ले वाटेनु। पावलां ताचीं पळोवनु। धल्ली तीच वाट भुरग्यानु। पावचो ना थंय?।२१। तसो व्यासा माग काडीत। विचारीत भाश्यकारांक वाट। पावतलों, पात्रताय जरी नासत। खंय वतलों हांव?।२२।

**गुरुकृपा:** आनी पृथ्वी जे सोंसणिकायेनु। धरी जगा भार उबगलेविणु। चंद्र ज्या अमृता लागूनु। न्हिवय तें जग।२३। जाच्या आंगचो तेजांश। घेवन तो दिनकर। म्हणून तो अंधार। लोट्टा पयस।२४। समुद्राक उदकु। उदकाकु गोडसाणु। गोडसाणे सुंदरायु। दिली जाणें;।२५। वाऱ्या जाणें बळ। आकाश जाणें विशाळ। ज्ञान चक्रवर्ती नि उजळ। केली जाणें;।२६। वेद जाणें सुभाशी। सूख उल्लाशी। हें आसूं; रुपवती अशी। केली पृथ्वी;।२७। तो सर्वोपकारी समर्थु। सद्गुरू निवृत्तिनाथु। वावुरता म्हज्यांतु। रिगून गा।२८। मगे गीता जगीं आयती। हांवें सांगली उतरांनी मराठी। गोश्ट अजापाची ती। केली हांवें?।२९। मातयेचीच गुरूमूर्त। जाचेशीं आसली दोंगरांत। त्या एकलव्या* मेळ्ळी कीर्त। त्रैलोक्यांत।**१७३०**। चंदनानु झाडां वेढलीं। तीं चंदनान पर्मळ्ळीं। छाटी जशी वसिष्टाली। झगडली सुर्याकडेन;।३१। पूण हांव तर एकचित्त। श्रीगुरूय भारी समर्थ। जो करून दिश्टीपात। बसय निजीपदार।३२। आदींच निवळ दिश्टी। नि सुर्यान भल्ली सृश्टी। थंय दिसना अश्यो गोश्टी। खंय आसा जगांतु?।३३। म्हणून म्हजे नित्य नवेले। स्वास उस्वास काव्य गावचेले। गुरुकुर्पेन कितें ना सादचेलें। म्हणी ज्ञानदेव।३४। म्हणून हांव मराठींत। सांगलो लोकांक गीतार्थ। जो दिसतलो स्पश्ट। तांकां।३५। हांवें मराठींत सांगली। ती गीते आंगां हांवें हाडली। ती जरी कोणें ना गायली। तातूंत ना उणेंपण।३६। कोणें केलें तिचें गायन। तरी जायत अर्थाभूशण। वाचतय फकत कोण। नासतलो उणाव।३७। घाल्योना वस्ती आंगारू। सोबतातु मेकळ्योय आसल्यारू। घाल्यो त्यो सोबीतु आंगारु। कितें उचीत ते परस?।३८। वा मोतयांची जशी जात। भांगराकय सोबयतात। सडींय सोबतात। आंगाचेरी।३९। गुंथिल्लीं वा मेकळीं। उणीं जायनात पर्मळीं। वसंत काळीं वाटकुळीं। मोगरीं जशीं।**१७४०**। तसो गीतेसयत मिरयी। गीतेविणेंय रंग दाखयी। तो लाभ दिणो ग्रंथ होवीं। केलो हांवें।४१। भुरग्यां जाण्ट्यांक सुबोधु। होवयां छंदांतु। ब्रह्मरोसा रुचीकु। गुंथलीं अक्षरां।४२। चंदना सुगंध। सभोंवतीं घमघमूंक। देखची पडना वाट। तो चंवरुची।४३। तसो प्रबंध हो श्रवणीं। आयकल्या खिणा हाडी समाधी। आयकतां विसकावणी। लावचोना चट?।४४। सहज पाठ करतां। विद्वत्ता अशी फुलता। तो अमृतय विसरता। लागतां गोडी।४५। तशें हें आयतें लाभलें। कवित्व हें विसव जालें। मनन निदिध्यास जिखलें। श्रवणान।४६। आत्मानंदाचो शेलको वांटो। हो कोणाकूय दितलो। श्रवणान पोसतलो। सगल्या इंद्रियांक।४७। आपले निजी चतुरायेन। चकोर चान्न्याक भोगून। दाखय आपलें शाणेपण, पूण। येता हेरांकय तें भोगूं।४८। तशें ह्या आध्यात्म शास्त्रांत। अधिकारी जे अंतर्मूख। पूण लोकांक मेळटलें सूख। वाक्चातुर्यान[१९१]।४९। अशें निवृत्तिनाथाचें। माहात्म्य हें खरेलें। ग्रंथ हो न्ही, ताचे कुर्पेचें। वैभव हें।**१७५०**।

**ज्ञानेश्वराची गुरूपरंपरा:** क्षीर समुद्राच्या वाठारांत। पार्वतेच्या कानांत। केन्ना तरी शंकरान। सांगलें जें;।५१। तें क्षीरसागराच्या ल्हारांतु। लिपिल्ल्या माश्या पोटांतु। त्या मत्स्येंद्रनाथान आयकून। जोडलें गा;।५२। मत्स्येंद्राक सप्तशृंगीत। भेटले श्रीचौरंगीनाथ*। ताचें भंगिल्लें आंग। जालें पूर्ण।५३।

मग समाधि अव्यत्यया। भोगावी वासना यया। ते मुद्रा श्रीगोरक्षराया। दिधली मीनीं।५४। तेणें योगाब्जिनीसरोवरु। विषयविध्वंसैकवीरु। तिये पदीं का सर्वेश्वरु। अभिषेकिले।५५। मग तिहीं तें शांभव। अद्वयानंदवैभव। संपादिलें सप्रभव। श्रीगहिनीनाथा।५६। तेणें कळिकळितु भूतां। आला देखोनि निरुता। ते आज्ञा श्रीनिवृत्तिनाथा। दिधली ऐसी।५७। ना आंदिगुरु शंकरा-। लागोनि शिष्यपरंपरा। बोधाचा हा संसारा। जालो जो आमुतें।५८। तो हा तूं घेऊनि आघवा। कळीं गिळितयां जीवां। सर्व प्रकारीं धांवा। करीं पां वेगीं।५९। आधींच तंव तो कृपाळू। वरी गुरुआज्ञेचा बोलू। जाला जैसा वर्षाकाळू। खवळणें मेघां।१७६०। मग आर्तांचेनि वोरसे। गीतार्थग्रंथनमिसें। वर्षला शांतरसें। तो हा ग्रंथु।६१। तेथ पुढां मी बापिया। मांडला आर्ती आपुलिया। कीं यासाठीं येवढिया। आणिलों यशा।६२। एवं गुरुक्रमें लाधलें। समाधिधन जें आपुलें। तें ग्रंथें बांधौनि दिधलें। गोसावी मज।६३। वांचूनि पढे ना वाची। ना सेवाही जाणे स्वामीची। ऐसिया मज ग्रंथाची। योग्यता कें असे।६४। परी साचचि गुरुनाथें। निमित्त करूनि मातें। प्रबंधव्याजें जगातें। रक्षिलें जाणा।६५। तऱ्ही पुरोहितगुणें। मी बोलिलों पुरें उणें। तें तुम्हीं माउलीपणें। उपसाहिजो।६६। शब्द कैसा घडिजे। प्रमेयीं कैसें पां चढिजे। अळंकारु म्हणिजे। काय तें नेणें।६७। सायिखडेयाचें बाहुलें। चालवित्या सूत्राचेनि चाले। तैसा मातें दावीत बोलें। स्वामी तो माझा।६८। यालागीं मी गुणदोष-। विषीं क्षमाविना विशेष। जे मी संजात ग्रंथलों देख। आचार्यें कीं।६९। आणि तुम्हां संतांचिये सभे। जें उणिवेंसी ठाके उभें। तें पूर्ण नोहे तैं लाभें। तुम्हांसीच कोपों।१७७०। सिवतलियाही परिसें। लोहत्वाचिये अवदसे। न मूकिजे आयसें। तैं कोणा बोलु।७१। वोहळें हेंचि करावें। जे गंगेचें आंग ठाकावें। मगही गंगाचि नव्हे। तैं तो काइ करी।७२। म्हणौनि भाग्ययोगें बहुवें। तुम्हां संतांचे मी पाये। पातलों आतां कें लाहे। उणें जगीं।७३। अहो जी माझेनि स्वामी। मज संत जोडुनि तुम्हीं। दिधलेति ते सर्वकामीं। परिपूर्ण जालों।७४। पाहा पां मातें तुम्हांसांगडें। माहेर तेणें सुरवाडें। ग्रंथाचें हें आळियाडें। सिद्धी गेलें।७५। जी कनकाचें निखळ। वोतूं येईल भूमंडळ। चिंतारत्नीं कुळाचळ। निर्मूं येती।७६। सातांही हो सातरातें। सोपें भरितां अमृतें। दुवाड नोहे तारांतें। चंद्र करितां।७७। कल्पतरूचें आराम। लावितां नाहीं विषम। परी गीतार्थाचें वर्म। निवडूं न ये।७८। तो मी येकु सर्वमुका। बोलोनि मऱ्हाठिया भाखा। करीं डोळेवरी लोकां। घेवों ये ऐसें जें।७९। हा ग्रंथसागरु येव्हढा। उतरोनि पैलीकडा। कीर्तिविजयाचा धेंडा। नाचे जो का।१७८०। गीतार्थाचा आवारु। कलशेंसीं महामेरु। रचूनि माजीं श्रीगुरु-। लिंग जें पूजी।८१। गीता निष्कपट माय। चुकोनि तान्हें हिंडे जें वाय। ते मायपूता भेटी होय। हा धर्म तुमचा।८२। तुम्हां सज्जनांचें केलें। आकळुनी जी मी बोलें। ज्ञानदेव म्हणे थेंकुलें। तैसें तें नव्हे।८३। काय बहु बोलों सकळां। मेळविलों जन्मफळा। ग्रंथसिद्धीचा सोहळा। दाविला जो हा।८४। मियां जैसजैसिया आशा। केला तुमचा भरंवसा। ते पुरवूनि जी बहुवसा। आणिलों सुखा।८५। मजलागीं ग्रंथाची स्वामी। दुजी सृष्टी जे हे केली तुम्हीं। तें पाहोनि हांसों आम्ही। विश्वामित्रातेंही।८६। जे असोनि त्रिशंकुदोषें। धातयाही आणावें वोसें। तें नासतें कीजे कीं ऐसें। निर्मावें नाहीं।८७। शंभू उपमन्यूचेनि मोहें। क्षीरसागरूही केला आहे। येथ तोही उपमे नोहे। जे विषगर्भ कीं।८८। अंधकारु निशाचरां। गिळितां सूर्यें चराचरां। धांवा केला तरी खरा। ताउनी कीं तो।८९। तातलिया जगाकारणें। चंद्रें वेंचिलें चांदणें। तया सदोखा केवीं म्हणे। सारखें हें।१७९०। म्हणौनि तुम्हीं मज संतीं। ग्रंथरूप जो हा त्रिजगतीं। उपयोग केला तो पुढती। निरुपम जी।९१। किंबहुना तुमचें केलें। धर्मकीर्तन हें सिद्धी गेलें। येथ माझें जी उरलें। पाईकपण।९२। आतां विश्वात्मकें देवें। येणें वाग्यज्ञें तोषावें। तोषोनि मज द्यावें। पसायदान हें।९३। जे खळाची व्यंकटी सांडो। तया सत्कर्मीं रती वाढो। भूतां परस्परें पडो। मैत्र जीवाचें।९४।

**अर्थ:** (१९२) सेवकपण.

मगे समाधी ती निर्विघ्न। अखंड भोगची आपूण। म्हणून गोरक्षाक योगज्ञान। मत्स्येंद्रान दिलें।५४। जो योगकमळा सरोवर। विशय नाशपी महावीर। त्या गोरक्षा योगअधिकार। दिलो मत्स्येंद्रान।५५। मगे शंकराचें दिव्यज्ञान। जें अद्वयानंद पूर्ण। तें गोरक्षा ओंपून। दिलें श्रीगहिनीनाथा।५६। मगे श्रीगहिनीनाथानु। कलि-काळ ग्राशी देखूनु। सर्व जिवांक दिवंक राखणु। श्रीनिवृत्तीनाथा आज्ञा दिली;।५७। वा आदिगुरू श्रीशंकर। ताचें रहस्यज्ञान अपार। शिश्यपरंपरेनु तें म्हजेवेर। आयलें समस्त।५८। तें तूं सगलें घेवन। तारूंक कलिग्रस्त हे जन। वेगीं वच धांवन। सर्वपरीन।५९। आदींच निवृत्ति कृपाळ। वयल्यान गुरू आज्ञे बोल। जसो जालो वर्षाकाळ। दाटून येतां मेघ।१७६०। मगे आर्तांचे कळकळीनु। गीतार्थाच्या निमित्यानु। शांतरसाचें जालें वर्शणु। तोच हो ग्रंथ।६१। तेन्ना हांव चातक तानेल्लों। धांवनु फुडें आयलों। देखून हांव पावलों। ह्या यशा।६२। अशें परंपरेन लाभलें। समाधी धन आमगेलें। तें ग्रंथ रचून दिलें। स्वामीन म्हाका।६३।

**क्षमायाचना:** हांवें करुंना पठण वाचन। म्हका ना गुरूसेवे ज्ञान। मगे ग्रंथ करूंक निर्माण। योग्यता खंयची?।६४। पूण खरेंच गुरुनाथान। म्हाका कर्न निमित्त। ह्या ग्रंथा निमतान। राखलें जगा।६५। तरी पुरोयता भाशेनु। अदीक उणें उलयलों आसनु। तें तुमी आवयपणान। सोंसुचें।६६। शब्द कशे वापरचे। सिद्धान्त कशे मांडचे। कितें तें अलंकार म्हणचे। तें नेणा हांव।६७। खामसुत्री बावलें जशें। नाचता सूत्रधार हालय तशें। म्हज्या मुखांतसून बोल तशे। काडटा म्हजो स्वामी।६८। म्हूण ग्रंथा गूणदोशां विशीं। करिना याचना क्षमेची। न्ही ही रचणूक म्हजी। सद्गुरूनूच वदयली।६९। आनी तुमचे संता सभेंत। कितें उणेंपण सांगपांत। तें पडलेंना तुमकां पसंत। कोपतलों हांव तुमचेरूच।१७७०। आफडुनूय परिसान। लोखणा गेलें ना हीनपण। तर कोणा दिवचो दोश। सांग गा?।७१। इतलेंच करचें व्हाळानु। गंगेंत पडचें वचुनु। पूण जालो ना तिचे भाशेनु। ताचो दोश कितें?।७२। म्हणून भाग्यान व्हडल्या। मेळ्ळी म्हाका संतां पावलां। आतां कितें उणें गा पडलां। म्हाका हांगा।७३। आगा म्हज्या सद्गुरूनु। गांठ घालून दिली संतांकडेनु। सगल्यो इत्सा म्हज्यो म्हणुनु। जाल्यो पूर्ण।७४। पळे, तुमचेवरी गा उदार। म्हाका मेळ्ळें कुळार। म्हूण जालो पूर्ण हट्ट अनिवार। ग्रंथसिद्धीचो।७५। गा भांगराचें निखळ। येतलें वोतुं भूमंडळ। चिंतामणयां विशाल। पर्वत येत निर्मूक।७६।

**गीता रहस्य गहन:** सातय सागरांत। भरूं येत अमृत। हाडूं येत नक्षत्रांत। चान्नें चंद्रावरी।७७। कल्परुखांचें उद्यान। लावप न्ही कठीण। पूण गीतार्थाचें मर्म। कठीण कळूंक।७८। तें हांवें, सामको मोनो आसूनु। सांगलें मराठी भाशेंतल्यानु। तें भरतलें दोळ्यांतु । लोकांच्या।७९। हो ग्रंथ सागर इतलो। हुपून पार केलो। पलतडीं घेवन नाचलों। किर्तीध्वज, धेंडावरी।१७८०। गीतार्थाचें देवालय। जाचेर महामेरूवरी कळसाध्याय। मर्दी श्रीगुरुमूर्त सदय। गा पुजतां हांव।८१।

**कृतकृत्यतायेचें समाधान:** गीता ही मायेसमान। व्यर्थ तानेल्लीं बाळकां भोंवतात चुकून। माय लेकरांचें घडोवप मिलन। हो धर्म तुमचो संतांचो।८२। कृपा तुमी संतांनी केली। हें कळून हीं उतरां आयलीं। हें ज्ञानदेव आमकां सांगी। तें जालें ना थोडें।८३। चड कितें सांगूं तुमकां?। जल्म फळ्ळो आतां। ग्रंथ-सिद्धी सुवाळ्या सांगता। आयज दाखयली तुमी।८४। जी जी आशा धरूनु। रावलों तुमचेरु विसंबुनु। ती ती पुराय करूनु। केलो म्हाका सुखी।८५।

**ज्ञानेश्वराची निरूपमताय:** म्हजेवरवीं ह्या ग्रंथाची गा स्वामी। केली दुजी ही सृश्टी तुमी। हें पळोवन हांव हांसतां मनीं। विश्वामित्राकय।८६। त्रिशंकुचें निमित्त कर्नु। विधात्या हाडूं उणेंपणु। प्रती सृश्टी केली निर्माणु। पूण ही तुमची शाश्वतु।८७। उपमन्युच्या प्रेमान शंकर। निर्मिता क्षीरसागर। पूण करूं येना सर, वीख भयंकर। पोटीं ताच्या।८८। अंध:कार राकेस निशाचर। ताणें गिळ्ळें चराचर। पावलो उल्याकु भास्कर। पूण दिता ताप;।८९। तापिल्ल्या जगा पासतु। चंद्र न्हिवय चान्र्यानु। पूण चंद्रावरी कलंकीतु। कसो म्हणचो हो ग्रंथ?।१७९०। पूण तुमी संतांनी। ग्रंथा केलो म्हजे वरवीं। जो उपेगी त्रिभुवनीं। म्हूण सर ना ताका।९१। इतलेंच न्ही; तुमी कर्न घेतलें। धर्मकीर्तन सिद्धी गेलें। आतां हांगा म्हजें उल्लें। पाईकपण[१९२]।९२।

**ज्ञानेश्वराचें मागणें – प्रसाददान:** आतां विश्वरुपी देवानु। तुश्टुचें ह्या वाग्यज्ञानु। दिवंचें म्हाका तुश्टुनु। पसायदान हें।९३। दुश्टांची वांकुडाय मोडूं। तांची सत्कर्मीं प्रिती वाडूं। जिवांची मैत्री जडूं। एकमेकांरी।९४।

दुरिताचें तिमिर जावो। विश्व स्वधर्मसूर्यें पाहो। जो जें वांछील तो तें लाहो। प्राणिजात।९५। वर्षत सकळमंगळीं। ईश्वरनिष्ठांची मांदियाळी। अनवरत भूमंडळीं। भेटतु भूतां।९६। चलां कल्पतरूंचे आरव। चेतनाचिंतामणीचे गांव। बोलते जे अर्णव। पीयूषाचे।९७। चंद्रमे जे अलांछन। मार्तंड जे तापहीन। ते सर्वांही सदा सज्जन। सोयरे होतु।९८। किंबहुना सर्वसुखीं। पूर्ण होऊनि तिहीं लोकीं। भजिजो आदिपुरुखीं। अखंडित।९९। आणि ग्रंथोपजीवियें। विशेषीं लोकीं इयें। दृष्टादृष्टविजयें। होआवें जी।१८००। येथ म्हणे विश्वेशरावो। हा होईल दानपसावो। येणें वरें ज्ञानदेवो। सुखिया झाला।१। ऐसें युगीं परी कळीं। आणि महाराष्ट्रमंडळीं। श्रीगोदावरीचां कूलीं। दक्षिणिली।२। त्रिभुवनैकपवित्र। अनादि पंचक्रोशक्षेत्र। जेथ जगाचें जीवसूत्र। श्रीमहालया असे।३। तेथ यदुवंशविलासु। जो सकळकळानिवासु। न्यायातें पोषी क्षितीशु। श्रीरामचंद्र।४। तेथ महेशान्वयसंभूतें। श्रीनिवृत्तिनाथसुतें। केलें ज्ञानदेवें गीतें। देशीकार लेणें।५। एवं श्रीभारताचां गांवीं। भीष्मनाम प्रसिद्ध पर्वीं। श्रीकृष्णार्जुनीं बरवी। गोठी जे केली।६। जें उपनिषदांचें सार। सर्व शास्त्रांचें माहेर। परमहंसीं सरोवर। सेविजे जें।७। तये गीतेचा कलशु। संपूर्ण हा अष्टादशु। म्हणे निवृत्तिदासु। ज्ञानदेवो।८। पुढती पुढती पुढती। इया ग्रंथपुण्यसंपत्ती। सर्वसुखीं सर्वभूतीं। संपूर्ण होईजो।९। शके बाराशतें बारोत्तरें। तैं टीका केली ज्ञानेश्वरें। सच्चिदानंदबाबा आदरें। लेखकु जाहला।१८१०।

इति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे
**सर्वगीतार्थसंग्रहो** नाम **अष्टादशोऽध्याय:** ॥१८॥
(श्लोक ७८; ओव्या १८१०)

ॐ श्रीसच्चिदानन्दार्पणमस्तु ।

**श्रीएकनाथमहाराजांनीं ज्ञानेश्वरी ग्रंथ संशोधन केल्यानंतर ज्ञानेश्वरीसंबंधानें केलेल्या ओंव्या:**

श्रीशके पंधराशें साहोत्तरीं। तारणनामसंवत्सरीं। एकाजनार्दनें अत्यादरीं। गीता-ज्ञानेश्वरीप्रति शुद्ध केली।१। ग्रंथ पूर्वींच अतिशुद्ध। परी पाठांतरीं शुद्ध अबद्ध। तो शोधूनियां एवंविध। प्रतिशुद्ध सिद्ध ज्ञानेश्वरी।२। नमो ज्ञानेश्वरा निष्कलंका। जयाची गीतेची वाचितां टीका। ज्ञान होय लोकां। अतिभाविकां ग्रंथार्थियां।३। बहुकाळपर्वणी गोमटी। भाद्रपदमास कपिलावष्ठी। प्रतिष्ठानीं गोदातटीं। लेखनकामाठी संपूर्ण जाहली।४।

समाप्त



**अर्थ:** (१९३) मराठी भाशेंत केल्लो साहित्य अळंकार.

पातकांचो काळोख सरूं। विश्व स्वधर्मसुर्यान उजळूं। जो जें वान्शीत तें मेळूं। सगल्या जिवांक।९५। वर्सुपी सकळ मंगळ। ईश्वरनिश्ट संतां मेळ। ते जिवां भेटूं सदांकाल। हे भुंयेरु।९६। ते चलपी कल्परुखांचे बगीचे। जिवे गांव चिंतामणयांचे। सागर अमृताचे। जे उलयती।९७। ते चंद्रीम लांछना वीण। ते सूर्य तापहीण। सदीं जावं ते सज्जन। सगल्यां सुखा सोयरे।९८। आनीक मागूं कितें? सगल्या सुखांनी। पूर्ण जावं लोक तीनी। भजूं अंतस्करणीं। आदीपुरसा अखंडीत।९९। आनी ह्या ग्रंथाचेर जियेवपी। विशेश करून ह्या लोकीं। जावंचे जैतवंत तांणी। हांगा नि परलोकीं।**१८००**। हांगा म्हणी विश्वारायु। ''जातलो हो दानपसायु''। ह्या वरानु ज्ञानदेवु। सुखावलो।१।

**ग्रंथ रचनेचें स्थळ आनी काळ**

अशें ह्या कलियुगीं। आनी महाराष्ट्र देशीं। श्रीगोदावरी देगेरी। दक्षिणेक;।२। पंचक्रोशी अनादी क्षेत्र। नेवाशें गांव महापवित्र। जंयसून जगाचें जीवनसूत्र। चलय श्री म्हालया।३। थंय यदुवंश अळंकार। सकळ कळांचें कुळार। रामचंद्रराय न्यायी थोर। पोशी प्रजेकु;।४। शंकराचे परंपरेंतु। श्रीनिवृत्तिनाथा शिश्यपूतु। गीते केलो ज्ञानदेवानु। देशी अळंकार[१९३]।५। अशें महाभारत ग्रंथांत। भीष्मनांवा पर्वांत। कृष्ण अर्जुना संवाद। वर्णिला जंय।६। जो उपनिषदांचो सारु। सर्व शास्त्रांचें कुळारु। रम्य क्रीडा सरोवरु। परमहंसाचें।७। असो हो कळसाचो। अध्याय हो गीतेचो। म्हणी पूर्ण जालो। ज्ञानदेव निवृत्तिदास।८। ह्या ग्रंथा पूर्ण संपत्ती। मेळत रावूं उत्तरोत्तरीं। जावं पूर्ण सूखप्राप्ती। सर्व जिवांक।९। शके बाराशें बारोत्तरांत। ही टीका केली ज्ञानेश्वरान। सच्चिदानंदबाबा* आदरान। जालो लेखकु।**१८१०**।

हे भाशेन, भगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**सर्वगीतार्थसंग्रह** वा **मोक्षसंन्यासयोग** नांवाचो **अठरावो** अध्याय सोंपलो.
(गीताश्लोक ७८; होंवयो १८१०)

ही ज्ञानेश्वरी मराठीतुली। कोंकणी भाशेंतु अनुसर्जिली।
ज्ञानेश्वरदास सुरेशान सांगिली। माऊलीचेच आज्ञेनु ॥१॥
शक १९२६ श्रीशालिवाहन । माघ शुद्ध प्रतिपदा मंगल दिन। सोंपलें श्रीज्ञानेश्वरीचें अनुसर्जन। माऊलीचेच कुर्पेनु ॥२॥

**श्रीएकनाथ म्हाराजान ज्ञानेश्वरी ग्रंथाचें संशोधन केले उपरान्त ज्ञानेश्वरीविशीं केल्ल्यो होंवयो:**

श्रीशके पंदराशें स वर्सांत। तारण नांवाच्या संवत्सरांत। एका जनार्दनान भारी आदरान। गीताज्ञानेश्वरी प्रत निवळायली।१। ग्रंथ आदींच भारी शुद्ध। पूण पाठभेदांतरीं शुद्ध जालो इल्लो अशुद्ध। तो संशोधून सिद्ध। ज्ञानेश्वरीची प्रत शुद्ध॥२॥ नमन ज्ञानेश्वरा निश्कलंका। जाची गीतेची वाचतां टीका। ज्ञान जाता लोकां। भारी भाविकां नि अर्थ जाणूं इत्सितल्यां॥३॥ भोव कालान पर्वणी आयली गोमटी। भाद्रपद मासीं कपिलाषष्ठी। पैठण गांवीं गोदातटीं। पूर्ण जालें बरोवप हें॥४॥

माघ शुद्ध प्रतिपदा, शक १९२६
गुरु-कुंज, दत्तवाडी, म्हापसा, गोवा.
९-२-२००५

# विशेशनामांचो कोश

**अक्रूर** - एक यादव मुखेली. बलराम आनी कृष्ण हांकां मारून उडोवंचें ह्या हेतून तांकां मथुरेक हाडपाखातीर कंसान अक्रूराक धाडिल्लो. तो कृष्णभक्त आशिल्लो आनी ताणें कंसाच्या कपटाची सूचना कृष्णाक दिल्ली.

**अगस्ती** - एक नांवाजिल्लो रुशी. हाची उत्पत्ती मित्रा वरुणापसून कुंभामदीं जाली. हाणें वैदीक संस्कृतायेचो प्रसार दक्षिण भारतांत केलो. ताणें विंध्य पर्वताची वाड थांबयली आनी समुद्र पियेवन उडयलो ह्यो आख्यायिका ताच्या नांवाकडेन जोडल्यात.

**अग्नी** - वैदीक काळापसून सर्वमान्य आशिल्ली यज्ञदेवता. हो सर्गांतल्या देवतांक हविर्द्रव्य (यज्ञांत घालतात ती आहुती) पावयता अशी समजूत आशिल्ली.

**अजामीळ** - परिशिश्ट ३ पळयात. (अ. ११ होंवी १०४)

**अनंत** - कश्यप आनी कद्रू हांचो पूत. हो सर्पांचो राजा. ताका हजार तकल्यो आसात. ताणें एके तकलेर पृथ्वी धरल्या आनी ताचेर विष्णू न्हिदला. म्हणून विष्णूक 'अनंतशयनम्' म्हणटात.

**अनंतविजय** – सदांच जैतवंत आसपी. युधिष्ठिराच्या शंखाचें नांव.

**अंबिका** - शिवाची पत्नी पार्वती.

**अभिमन्यू** - अर्जुनापसून जाल्लो सुभद्रेचो पूत. हो महापराक्रमी आशिल्लो. युद्धांत हाका मारपाखातीर द्रोणान चक्रव्यूह रचिल्लो. ताणें चक्रव्युहांत आपलो रथ व्हेलो आनी तो भेदपाक ताणें शौर्याची शिकस्त केली. पूण स कौरव झुजप्यांनी ताका घेरावो घालून ताका जिवेशीं मारलो.

**अरुण** - विनता आनी कश्यप हांचो पूत आनी गरुडाचो भाव. ताचो जल्म अकाली जाल्ल्यान तो थोंटो जालो. हो फुडें सुर्याचो सारथी जालो.

**अर्जुन** - तिसरो पांडव. हो द्रोणाचार्याचो प्रिय शिश्य आनी निपूण धनुर्धर आशिल्लो. भारतीय युद्धांत कृष्ण ताचो सारथी आशिल्लो. युद्धांत ताणें भीष्म, द्रोण आनी जयद्रथ हांकां मारले.

**अर्यमा** - बारा आदित्यां पैकीं एक. पुर्वजांचो, पितरांचो मुखेली. अर्यमा = आर्यमनाचो. आर्यांचो मानिल्लो पुर्वज.

**अश्वत्थामा** - द्रोणाचो पूत. हो कौरवांच्या पक्षाक मेळ्ळो. ताणें रातीच्या वेळार पांडवांचे छावणेचेर हल्लो करून पांचाल योदध्यांक आनी द्रौपदेच्या पुतांक जिवेशीं मारले. तेन्ना ताणें धृष्टद्युम्नाक जिवेशीं मारून आपल्या बापायचे हत्येचो सूड घेतलो.

**आश्विनौ** - आश्विनीकुमार. ह्यो दोन देवता देवांचे धन्वंतरी (वैज) म्हणून नांवाजिल्ले आसात.

**असित** - एक मुनी. हाका जैगीषव्यान योग आनी संन्यास हांचो उपदेश केलो. हाचो उल्लेख असित देवल असोय करतात.

**आदित्य** - हें एका देवता पंगडाचें नांव. ते बारा जाण बारा म्हयन्याचे निदर्शक. विष्णू हो तांचो मुखेली.

**इक्ष्वाकू** - वैवस्वत मनूच्या धा भुरग्यांपयकीं सगळ्यांत म्हालगडो. निश्काम कर्मयोगाची विद्या मनून हाका दिली.

**इंद्र** - ऋग्वेदांतली स्रेश्ठ देवता. असुरांचेर जैत मेळोवन वैदीक लोकांचो तरतर केलो, म्हणून हाका वैदीक काळांत देवाधिदेव म्हणून लोक मानपाक लागले. पूण इंद्र हो भोगी आनी विलासी आशिल्लो आनी मागीर लोकांनी तो मान विष्णूक दिलो आनी ताका यज्ञदेवता आनी स्रेश्ठ देव समजूंक लागले. आतां इंद्राक पर्जन्य देवता (पावसाची देवता) आनी स्वर्गाचो अधिपती मानतात. कोणेंय शंभर यज्ञ करून वा तपश्चर्या करून आपलें इंद्रपद व्हरचें न्हय म्हणून हो, ताच्या यज्ञांत वा तपांत विघ्नां हाडटा. (परिशिश्ट ३ पळयात. १०.३७; १०.२८९; १८.१४७९.)

**उच्चै:श्रवा** - (उंचकानो) इंद्राचो घोडो. समुद्रमंथनांतल्यान मेळिल्ल्या चवदा रत्नांपैकीं एक.

**उर्वशी** - एक अप्सरा. नारायण रुशीचे मांडयेंतल्यान (उरू) ही उत्पन्न जाली म्हणून हिका उर्वशी हें नांव पडलें. ती पुरूरव्यावांगडा मृत्युलोकांत ताची बायल म्हणून राविल्ली. तपाचो भंग जावपाखातीर इंद्र तिका धाडटालो. (**नरनारायण** पळयात.)

**उत्तानपाद** - एक राजा. हाका दोन राणयो आशिल्ल्यो - सुनीती आनी सुरुची. सुनीतीक कीर्तिवान आनी ध्रुव आनी सुरुचीक उत्तम अशे तीन पूत ताका जाले. **ध्रुव** पळयात.

**उत्तमौजा** - पांचाल देशांतलो एक राजपुत्र. हो पांडवांचे वटेन भारतीय युद्धांत झुजलो. हो न्हिदिल्लेकडेन ताका अश्वत्थामान मारलो.

**उत्तर** - विराट राजाचो पूत. पांडव अज्ञातवासांत विराटनगरांत राविल्ले.

**उपमन्यू** - वसिष्ठ कुळांतल्या व्याघ्रपद रुशीचो पूत.हाचो आश्रम हिमालयांत आशिल्लो. हो शैवपंथी आसलो आनी हाणें कृष्णाक 'शिवसहस्त्रनाम' शिकयल्लें. (परिशिश्ट ३ पळयात. ५.११.))

**उशना** - भृगूक पुलोमापसून जाल्लो पूत. हाचें नांव काव्य अशेंय आशिल्लें. हाका संजीवनी विद्या येताली. हो फुडें शुक्राचार्य म्हणून नांवाजलो.

**ऋद्धी** - योगापसून मेळयल्लें ऐश्वर्य आनी वैभव.

**एकलव्य** - व्याधांचो राजपुत्र. (परिशिश्ट ३ पळयात. १८.१७३०.)

**ऐरावत** - इंद्राचो हती. समुद्रमंथनांतल्यान आयिल्ल्या चवदा रत्नांपैकीं एक.

**कपिल** - सांख्यशास्त्रप्रवर्तक. सिद्धांमदीं हाका मुखेलपणान गणटात. श्रीकृष्णान हाका आपली विभूती मानला.

**कर्ण** - पांडवांचो सावत्रभाव. कुंतीक लग्नापयलीं सूर्यापसून जाल्लो. लोकोपवाद टाळपाक कुंतीन हाका न्हंयेंत सोडून दिलो. सूत अधिरथ आनी ताची बायल राधा हांणी ताका ल्हानाचो व्हड केलो. म्हणून ताका सूतपुत्र आनी राधेय अशेंय म्हणटात. हो एक कुशल धनुर्धर आनी एक उदार दातो म्हणून प्रसिद्ध जालो. दुर्योधनान ताका मित्र मानून ताका अंगदेशाचो राजा केलो. युद्धांत तो द्रोणाचार्या उपरांत कौरवांचो तिसरो सेनापती जालो. युद्धांत ताच्या रथाचें चाक भुंयेंत रोंबिल्ल्यान तो रथांतल्यान देंवन तें चाक भायर काडटालो. तेन्नाच ताका अर्जुनान मारलो.

**कश्यप** - ब्रह्मदेवाचो मानसपुत्र. सप्तर्शींपयकीं एक. हाणें दक्षाच्या तेरा चलयांकडेन लग्नां केलीं. हाका अदितीपसून देव, दिती पसून दैत्य आनी दनू पसून दानव अशी संतती जाली.

**कंस** - मथुरेचो राजा आनी कृष्णाचो मामा. आपलो बापूय उग्रसेन हाका पदच्यूत करून ताणें राज्य हातासलें. कृष्णान ताका जिवो मारून आपल्या आज्याक पर्थून राज्यपदार बसयलो.

**काश्य, काशीश्वर** - काशीचो राजा. काशीक आतां वाराणसी म्हणटात. हो पांडव पक्षांत आशिल्लो.

**किन्नर** - देवलोकांतलो एक देवगण. हांचो गंधर्वाप्रमाण गायक वर्गांत समावेश केल्लो.

**कीर्तिमूख** - शंकराचे जटेंतल्यान आयिल्लो एक शिवगण. (पळयात परिशिश्ट ३. १५.५२७.)

**कुंतिभोज** - पुरुजित् कुंतिभोज ह्यो दोन व्यक्ती नासून एकच व्यक्ती आशिल्ली. हो यादव कुळांतलो राजा. ताचें नांव पुरुजित् आनी कूळ नांव कुंतिभोज आशिल्लें. हाका कुंती दत्तक दिल्ली.

**कुबेर** - हो विश्रवा रुशीचो पूत. रावणाचो व्हडलो भाव. हो यक्ष राक्षसांचो राजा. हो धनाचो मालक आसून ऋद्धी आनी सिद्धी ह्यो ताच्यो शक्ती. हाका ब्रह्मदेवान पुष्पक विमान आनी लंका दिल्ली. रावणान ताचो पराजय करून तीं घेतलीं.

**कुमारी** - ही यशोदेक जाल्ली चली. वसुदेवान कृष्णाक यशोदेकडेन दवरून तो कुमारीक घेवन मथुरेक गेलो. (पळयात परिशिश्ट ३.)

**कुरू** - एक प्राचीन राजा. हो कौरव आनी पांडवांचो पुर्वज आसलो.

**कुरुक्षेत्र** - दिल्लीचे उत्तरेक पानिपत लागसार आशिल्लें एक विशाल मळ. भारतीय युद्ध आनी भारताच्या इतिहासांतलीं कांय म्हत्वाचीं युद्धां ह्याच रणांगणाचेर जालीं. पांडव हे धर्म राखपाक झगडटाले म्हणून हाका धर्मक्षेत्र म्हळां.

**कूर्म** - समुद्र मंथनाखातीर मंदर पर्वताची रवी म्हणून येवजतीक ताका आदार दिवपाखातीर विष्णूक कुर्माचो (कासवाचो) अवतार घेतलो.

**कृत्तिका** - २७ नक्षत्र चोम्यांपयकीं एक. हातूंत स नक्षत्रां आसात (Pleiades) ह्या स नक्षत्रांनी अप्सरांच्या रुपान शिवपुत्र कुमाराक वाडयलो म्हणून ताका कार्तिकेय अशें नांव पडलें. (पळयात परिशिश्ट ३. १०.२२९.)

**कृप** - अश्वत्थाम्याचो मामा. हो शस्त्रास्त्रविद्येंत पारंगत आसलो. द्रोणाचार्यापयलीं. हो कौरव पांडवांचो गुरू आसलो. भारतीय झुजांत तो कौरवांचे वटेन आसलो. आनी अश्वत्थाम्यान जो पांडवांच्या शिबिराचेर हल्लो केला. तातूंत हो वांटेकार जाल्लो.

**कृष्ण** - वसुदेव आनी देवकीचो पूत आनी कंसाचो भाचो. हाणें कंस आनी हेर दैत्यांक मारून पृथ्वीचो भार उणो केलो. हो पांडवांचो बरें मागतो आनी इश्ट आनी नातेवर्गी आसलो. हो भारतीय युद्धांत अर्जुनाचो सारथी आनी पांडवांचो सल्लागार आसलो. हाका विष्णूचो आठवो अवतार मानतात.

**कौरव** - कुरूचो वंशज.

**गंगा** - भारतांतली अत्यंत पवित्र न्हंय. अष्टवसूंच्या स्रापाक लागून मृत्युलोकांत जल्म घेवंचो पडिल्लो. तांचेखातीर तिणें शंतनुकडेन लग्न करून आपल्या आठ पुतांपयकीं सात जाणांक न्हंयेंत उडोवन तांकां पर्थून स्वर्गांत धाडले. आठवो पूत भीष्म ह्या नांवान प्रसिद्ध जालो. दक्षिणेंत गोदावरीकय गंगा म्हणटात.

**गणेश** - एक पुरातन प्रसिद्ध देव. हो शिव आनी पार्वतीचो पूत. हो सगल्या विद्यांचो अधिपती आसून विघ्नहर्तो म्हणून प्रसिद्ध. म्हणून खंयच्याय कार्याचो आरंब करचे आदीं विघ्न येवचें न्हय म्हणून ताची पयलीं पुजा (गणेशपूजा) करतात. हाचें तोंड हतयासारकें आसून ताचे फाटल्यान एक आख्यायिका आसा.

**गरूड** - कश्यप आनी विनताचो चलो. हो पक्ष्यांचो राजा आनी सोरपांचो हाडवैरी. विष्णूचें वाहन म्हणून हाची प्रसिद्धी.

**गहिनीनाथ** - नाथ संप्रदायांतलो तिसरो गुरू. आदिगुरू शिव, मागीर मत्स्येंद्रनाथ, गोरक्षनाथ आनी मागीर गहिनीनाथ. गहिनीनाथाचो शिश्य निवृत्तिनाथ आनी निवृत्तिनाथाचो शिश्य ज्ञानदेव अशी ही शिश्यपरंपरा आसा.

**गायत्री** - (१) एक वैदीक छंद. हातूंत प्रत्येक आठ अक्षरांचे तीन पाद आसतात. (२) विश्वामित्रान रचिल्लो गायत्री मंत्र. हाचो जप संध्येंत करतात.

**गुडाकेश** - अर्जुनाचें नांव. भाष्यकार ह्या शब्दाचो अर्थ न्हिदेचो (गुडाक) स्वामी असो करतात. पूण ताच्या केंसाचे ठेवणेवयल्यान ताका हें नांव पडलें आसतलें. गुडाकेश म्हळ्यार दाट केंस आशिल्लो वा केंसांचो झुबको आशिल्लो.

**गोरक्षनाथ** - हाणें नाथसंप्रदायांत भक्ती येवजीं योग आनी भोगा येवजीं

वैराग्य हांचेर भर दिलो आनी भारतांत दौरे काडून नाथ पंथाचो प्रसार केलो.

**गौतम** - एक रुशी. हो नासिक जिल्ह्यांतल्या ब्रह्मगिरी पर्वताचेर रावतालो. (परिशिश्ट ३ पळयात. १५.५७९.)

**चंडिका** - पार्वतीचें खर रूप. हिणें पाताळांतल्या शुभनिशुंभांचे आस्रीत चंड आनी मुंड हांकां जिवे मारले. हिका चामुंडा, दुर्गा अशींय नांवां आसात.

**चंद्र** - समुद्रमंथनांतल्यान वयर सरिल्ल्या चवदा रत्नां पयकीं एक. चंद्रांत अमृत आसा आनी तो दंवरुपान वनस्पतींक पोसता असो समज आसा.

**चित्ररथ** - गंधर्वांचो राजा. (परिशिश्ट ३ पळयात.)

**चेकितान** - वृष्णी वंशांतल्या पांडवांच्या पक्षांतलो एक राजा. हाका दुर्योधनान जिवो मारलो.

**चैद्य** - चेदिदेशाचो राजा. (**शिशुपाल** पळयात.)

**चौरंगीनाथ** - नाथ संप्रदायांतलो व्हडलो योगी. ताचे सावत्र आवयन ताका सप्तशृंगी पर्वतावयल्या रानांत उडयलो आनी हातपांय तोडून पांगळो केलो. अशे स्थितींत आसतना थंय मत्स्येंद्रनाथ पावलो आनी ताचे कृपेन तो पयलींभाशेन जालो. (परिशिश्ट ४, अध्याय १८-१७३० वेली टीप पळयात.)

**जनक** - मिथीलेचो राजा. हो आत्मज्ञानी आशिल्लो आनी जरी तो राज्यकारभार पळेतालो तरी तो विदेह म्हळ्यार 'जीवनमुक्त' आशिल्लो.

**जनमेजय** - परीक्षित राजाचो पूत, अर्जुनाचो पणटू. हाच्या बापायक तक्षकान दंश करून मारलो म्हणून ताचो नाश करूंक सर्पसत्र केलें. ह्या सर्पसत्रांत बरेच सोरोप नश्ट जाले. पूण आस्तिक रुशीन जनमेजया कडल्यान अभय-वर घेवन हें सर्पसत्र थांबयलें आनी तक्षकाक जीवदान मेळोवन दिलें.

**जयद्रथ** - सिंधुदेशाचो राजा. दुर्योधनाची भयण दुःशिला हाका दिल्ली. भारतीय युद्धांत एक अक्षौहिणी सैन्य घेवन तो कौरवांक मेळ्ळो. ताणें चक्रव्युहांत रिगिल्ल्या अभिमन्यूच्या वधांत प्रामुख्यान वांटो घेतिल्लो. भारतीय युद्धांत हाका अर्जुनान जिवो मारलो.

**तक्षक** - कश्यप आनी कद्रू हांचो पूत. अर्जुनान खांडववन अग्नीक दिलें, त्यावेळार पळून वेतना हाच्या नातेवर्गीयांक अर्जुनान मारिल्ले. हें वैर मनांत धरून ताणें परीक्षिताक दंश करून जीव घेतलो. ताका लागून ताच्या आनी सोरपांच्या नाशाखातीर जनमेजयान सर्पसत्र केलें. (**जनमेजय** पळयात.)

**त्रिशंकू** - निबंधन राजाचो हो दुर्वर्तनी पूत. (परिशिश्ट ३ पळयात. १०.३६.)

**दुर्गा** - आदिमायेचें उग्र रूप. (**चंडिका** पळयात.)

**दुर्योधन** - धृतराष्ट्राचो म्हालगडो पूत. हो गदायुद्धांत खांपो आसलो. हाका ल्हानपणासावन पांडवांची नसाय आसली. लाक्षागृह (लाखेचें घर), द्यूतांतलें कपट, द्रौपदीचो छळ आनी निश्फळ जाल्ली कृष्णाची शिश्टाई हांकां लागून भारतीय युद्ध सुरू जालें आनी भीमान गदायुद्धांत नेम मोडून ताचे जांगेचेर गदा मारून ताका जिवेशीं मारलो.

**देवकी** - वसुदेवाची बायल आनी कृष्णाची आवय. हिच्या आठ भुरग्यां पयकीं सात भुरगीं कंसान जिवीं मारलीं. (परिशिश्ट ३ पळयात. १०.२८८.)

**द्रुपद** - पांचाल देशाचो राजा. हो द्रोणाचो गुरूबंधू आशिल्लो. पूण ताणें द्रोणाचो अपमान केल्ल्यान द्रोणान अर्जुनावरवीं ताचें अर्दे राज्य जिखून घेतलें. म्हणून द्रुपदान यज्ञ करून द्रोणाक मारपाखातीर एक पूत आनी अर्जुनाची बायल जावपाखातीर एक धूव मागून घेतली. तेप्रमाण द्रौपदी ही पांच पांडवांची पत्नी जाली आनी धृष्टद्युम्नान द्रोणाचार्याचो कपटान वध केलो.युद्धांत द्रुपदाक द्रोणान मारलो.

**द्रोण** - भारद्वाज रुषीचो पूत. हाणें कौरव आनी पांडव हांकां धनुर्विद्या शिकयली. अर्जुन ताचो पट्टशिश्य आशिल्लो. हो भीष्माउपरांत कौरव सेनेचो दुसरो सेनापती जालो. द्रुपदाचो पूत धृष्टद्युम्नान ताचो कपटान वध केलो. (अ.२-३४)

**द्रौपदीकुमार** - पांच पांडवांपसून द्रौपदीक जाल्ले पांच कुंवर. तांचीं नांवां क्रमान अशीं: प्रतिविंध्य, सुतसोम, श्रुतकीर्ती, शतानिक आनी श्रुतसेन. हे सगले महारथी आशिल्ले.

**धर्म** - युधिष्ठिराचें दुसरें नांव. पांडुचो म्हालगडो पूत म्हणून हाका धृतराष्ट्रान युवराज्याभिषेक केलो. हो आचारविचारान धर्मीश्ठ आशिल्लो म्हणून ताका धर्म हें नांव पडलें.

**धृष्टकेतू** - शिशुपालोचो पूत आनी नकुलाचो मेवणो. राजसूय यज्ञांत कृष्णान शिशुपालाचो वध केले उपरांत हो चेदि देशाचो राजा जालो.हो भारतीय युद्धांत पांडवां वटेन झुजलो. ताका द्रोणाचार्याच्या हातसून मरण आयलें.

**धृष्टद्युम्न** - अश्वत्थामा मेलो म्हणून कळटकीच द्रोणाचार्य ध्यानस्त बसलो तेन्ना ताचो हाणें शिरच्छेद केलो. फुडें ताका अश्वत्थामान न्हिदिल्लेकडेन जिवो मारलो. (**द्रुपद** पळयात.)

**ध्रुव** - उत्तानपाद राजाचो पूत. (परिशिश्ट ३ पळयात. १०.१८.)

**नकूल** - पांच पांडवां पयकीं माद्रीपसून जाल्लो पूत. हो अश्वविद्येंत खांपो आसलो आनी सुंदर आसलो.

**नर, नारायण** - दोन थोर रुशी. हे हिमालयांत बदरिकाश्रमांत तप करताले. तांचो तपोभंग करपाखातीर इंद्रान अप्सरा धाडिल्ल्यो. तेन्ना नारायणान आपले जांगेंतल्यान उर्वशीक निर्माण करून त्या अप्सरांक लजेक घाल्यो. अर्जुन आनी कृष्ण तांचे अवतार अशें मानतात.

**नहुष** - पुरुरव्याचो नातू. ययाती राजाचो बापूय वत्रासुराक मारतकीच इंद्राच्या हातसून ब्रह्महत्येचें पातक घडलें, म्हणून ताणें काचाबूल जावन इंद्रपद सोडलें. देवतांनी तें इंद्रपद नहुषाक दिलें. पूण इंद्रपद

मेळटकीच ताका अहंकार जालो, बुद्दी चळ्ळी आनी इंद्राणीचेर ताची नदर गेली. (परिशिश्ट ३ पळयात. १८.१४७९.)

**नारायण** - **नर** पळयात.

**नारद** - एक देवर्षी. हाका देव आनी मानव हांचे मदलो दूत समजतात. मागीरच्या पौराणीक कथांत हाचो कृष्णाकडेन दाट संबंध जोडिल्लो दिसता. हो तत्त्वज्ञ, प्रेमी भक्त आनी स्रेश्ठ गायक आशिल्लो. हाणेंच वीणेचो सोद लायलो अशें मानतात. हाका कलागती लावंक आवडटालें.

**निवातकवच** - अ.२ हों.१०वेली टीप आनी परिशिश्ट ३ पळयात. २.२००.)

**निवृत्तिनाथ** - ज्ञानदेवाचो व्हडलो भाव आनी गुरू. हाणें ज्ञानदेवाक नाथसंप्रदायाची दीक्षा दिली, तशेंच ज्ञानेश्वरी आनी अमृतानुभव बरोवपाक प्रेरणा दिली.

**नृसिंह** - दैत्य हिरण्यकशिपूक मारपाखातीर आनी भक्त प्रल्हादाक राखपाखातीर भगवान विष्णून घेतिल्लो चवथो अवतार. (परिशिश्ट ३ पळयात. ९.४५०.)

**पांडव** - पांडुचे पांच पूत. कुंतीपसून युधिष्ठिर, भीम आनी अर्जुन आनी माद्रीपसून नकुल आनी सहदेव.

**पार्वती** - हिमालय आनी मेना हांची कन्या. शंकरान तिका वरचें म्हणून तिणें खर तप केलें. ताचें वर्णन कालिदासाच्या 'कुमारसंभवां'त आसा. शंकराकडेन तिचें लग्न जातकीच त्या दोगांयचें अर्धनारीनटेश्वर अशें रूप जालें. तिणें राक्षसांक मारपाक अनेक रुपां घेतलीं. (**चंडिका, दुर्गा** पळयात.)

**पुरुजित्** - **कुंतिभोज** पळयात.

**पूतना** - एक राकशीण. कंसान हिका कृष्णाक मारपा खातीर गोकुळाक धाडली. एके सुंदर अस्तुरेचें रूप घेवन ती गोकुळाक गेली आनी थानाक वीख लावन बालकृष्णाक दुदाक धल्लो. कृष्णान तिचें कपट वळखून वीख आनी दुदासकट तिचे प्राणय शोशून घेतले.

**प्रल्हाद** - हिरण्यकशिपु आनी कयाधुचो पूत. नारदान कयाधूक उपदेश दिलो, ताणें पोटांत आसतनाच आयकून फुडें भगवद्भक्त जालो. म्हणून ताचो बापायन खूब छळ केलो. (परिशिश्ट ३ पळयात. ९.४५०)

**बलि** (बळी) - प्रल्हादाचो नातू आनी विरोचनाचो पूत. हाचो शुक्र गुरू आसलो. फुडें हो देव ब्राह्मणांक त्रास दिवंक लागिल्ल्यान हाका मारपाखातीर विष्णून वामनाचो अवतार घेतलो (परिशिश्ट ३ पळयात. ११.१०६.)

**बृहस्पति** - देवांचो पुरयत. हाचे मंत्रशक्तीक लागून देव दैत्यांचेर जैत मेळयताले. हाका गुरू (Jupiter) ग्रहाचो अधिपती मानतात.

**ब्रह्मा** - सृश्टीचो निर्माती. हो चार मुखांचो. विष्णू सृश्टीचो विचार करतनाच ताचे बोंबलेंतसून एक कमळ आयलें आनी हाची उत्पत्ती जाली. (परिशिश्ट ३ पळयात. ९.४८१; ९.४४२.)

**भस्मासूर** - शंकराच्या भस्मांतसून उत्पन्न जाल्लो. (परिशिश्ट ३ पळयात. २.३८.)

**भीम** - पांडवांपयकीं दुसरो. हो बळिश्ट आनी गदायुद्धांत खांपो आशिल्लो. 'महाभारतां'त बकासुराचो वध, जरासंधाकडेन झूज आनी कीचकवध अशें ताच्या अचाट पराक्रमाचें वर्णन आसा. भारतीय युद्धांत हाणें दु:शासन आनी दुर्योधन हांकां जिवे मारले.

**भीष्म** - शंतनूक गंगेपसून जाल्लो पूत. हाचें मूळ नांव देवव्रत आशिल्लें. आपल्या बापायचें लग्न धीवर कन्या सत्यवतीकडेन जावचें म्हणून ताणें आपलो राज्यावयलो हक्क सोडलो आनी आपूण मरसर लग्न करचोंना अशी भीष्मप्रतिज्ञा केली. तेन्नापसून ताका भीष्म अशें नांव पडलें. सत्यवतीचो पूत विचित्रवीर्य राजा जावन निपुत्रिक मेलो; तेन्ना ताणें ताच्या पुतांचे, धृतराष्ट्र आनी पांडु हांकां ल्हानाचे व्हड केले आनी राज्यकारभार चलयलो. हो भारतीय युद्धांत कौरवांचो पयलो सेनापती जालो. पूण अर्जुनान शिखंडीक फुडें घालून युद्ध केलें. शिखंडी हो अस्तुरी म्हणून जल्माक आयिल्ल्यान, भीष्मान शस्त्रत्याग केलो आनी अर्जुनान ताचेर बाण सोडून ताका घायाळ केलो. शरपंजरीं आसतना हाणें धर्मराजाक राजधर्माचो उपेदश केलो.

**मछ** (मत्स्य) - विष्णूच्या धा अवतारांपयकीं पयलो. पुराणांत हे विशीं विंगड विंगड कथा आसात. सातव्या मनुच्या वेळार पृथ्वीचेर अधर्म मातून जलप्रळय जालो आनी सगले प्राणी बुडून मेले. फकत मनु आनी सप्तर्षी हांकां विष्णून मत्स्यरूप घेवन वांचयले.

**मणिपुष्पक** - सहदेवाच्या शंखाचें नांव.

**मदन** - कामदेव. हाका काम आनी कंदर्प अशींय नांवां आसात. (परिशिश्ट ३ पळयात. १३.२५.)

**मनु** - विवस्वताचो पूत. मानववंशाचो मूळ पुरूश. हाका विवस्वतान कर्मयोगाचो उपदेश केलो. गीतेंत फकत चारच मनुंचो उल्लेख आसा, पूण पुराणांत चवदा मनू सांगल्यात.

**मरीची** - मरुतांचो मुखेली. वाऱ्याचे देव. हे कुल्लीं ४९ आसात. (**मरूत्** पळयात).

**मरूत्** - एकवीस जाणांचो देवतांचो मेळ. पुर्वी मृत्युदूत म्हणून हांचो रुद्राकडेन संबंध आशिल्लो. पूण मागीर यम ही मृत्युची देवता जातकीच हे इंद्राचे सहायक जाले आनी तांचो वीज आनी वादळाकडेन संबंध आयलो.

**महालसा** - गोदावरी तीराचेर अहमदनगर जिल्ह्यांत नेवाशें गांवांत हिचें देवूळ आसा. कांय पाठांत महालया (श्रीमोहिनीराज) अशें नांव आयलां.

**मारुति** - अंजनी हिका वायुपासून जाल्लो पूत. हो सुग्रीवाचो मित्र आनी मागीर रामाचो मित्र जालो. राम आनी सुग्रीवाची भेट जातकीच हाची रामाचेर भक्ती जडली. तो सीतेचो सोद घेवपाक समुद्र पार

करून लंकेक गेलो आनी ताणें सीतेचो अशोकवनांत सोद घेतलो. हो आजल्म ब्रह्मचारी आसून रामाचो परमभक्त आशिल्लो. (परिशिश्ट ३ पळयात. १०.३७.)

**मार्कंडेय** - मृकंड रुशीचो पूत. हो दीर्घायुशी कसो जालो हे विशीं कथा सुप्रसिद्ध आसा. (परिशिश्ट ३ पळयात.)

**यक्ष** - कुबेराचे सेवक.

**यम** - मृत्युची देवता आनी दक्षिण दिका राखपी. हो सगल्यांच्या पाप-पुण्यांचो हिशेब दवरता आनी मरतकीच मनशाक ताच्या पाप-पुण्याचें फळ दिता.

**यशोदा** - गोपराज नंदाची बायल आनी कृष्णाची पोसकी आवय. वसुदेवान कृष्णाक गोकुळांत हाडटकीच तिणें ताका व्हडा अपुर्बायेन ल्हानाचो व्हड केलो. (परिशिश्ट ३ पळयात. १०.२८८; ११.१८२.)

**यादव** - यदूचे वंशज. कृष्ण यादव कुळांत जल्माक आयिल्लो.

**युधामन्यू** - एक पांचाल योद्धो. हो गदायुद्धांत आनी धनुर्विद्येंत खांपो आसलो. हो पांडव शिबिरांत न्हिदिल्लो आसतना, अश्वत्थाम्यान ताका मारलो.

**युधिष्ठिर** - पांच पांडवांतलो म्हालगडो. हाका धर्म हेंय नांव फावो जालें. (**धर्म** पळयात.)

**रंभा** - एक अत्यंत सुंदर अप्सरा. शुकाचे तपश्चर्येचो भंग करपाक इंद्रान हिका धाडिल्ली. (परिशिश्ट ३ पळयात. १८.१६६६.)

**राम** - सूर्यवंशी दशरथाचो पूत. विष्णूचो सातवो अवतार. आपली वानरसेना लंकेक व्हरपाखातीर रामान नलाकडल्यान सेतू (पूल) बांदून घेतलो. (परिशिश्ट ३ पळयात. १०.३६.)

**रावण** - पुलस्त्य कुळांतलो विश्रवस् आनी कैकसी हांचो पूत. हो व्हडलो शिवभक्त. हाणें संन्याशाचो वेश करून पंचवटींतल्यान रामाची बायल सीता हिका पळोवन व्हेली. ताका लागून रामान रावणाकडेन युद्ध करून ताका ठार मारलो. ह्या विशयाचेर वाल्मिकीन 'रामायण' हें महाकाव्य रचलें.

**राहू** - कश्यपाक सिंहिकेपासून जाल्लो असुर. त्या वेळार राहू देवाचें रूप घेवन देवाचे पंगतींत वचून बसलो. ताका वळखून सुर्यान आनी चंद्रान मोहिनीचें रूप घेतिल्ल्या विष्णूक सादूर केलो आनी विष्णून सुदर्शनचक्रान ताचो शिरच्छेद केलो. पूण अमृताचे कांय थेंब ताच्या तोंडांत पडिल्ल्यान तो अमर जालो. तो सूर्यगिराण आनी चंद्रगिराणाच्या वेळार सुर्याक आनी चंद्राक ग्रासपाचो प्रयत्न करता अशी दंतकथा आसा. (परिशिश्ट ३ पळयात. १८.१४७८.)

**रुद्र** - ऋग्वेदांतली एक देवता. महाभारत काळांत रुद्र-शिवाक महादेव समजताले. पुराणकाळांत त्रिमूर्तीपयकीं सांवार करपी देव.

**लक्ष्मी** - विष्णूची पत्नी आनी संपत्तीची देवी. ही समुद्रमंथनांतल्यान भायर सरली आनी तिणें विष्णूक वरलें. कृष्ण हो विष्णूचो अवतार म्हणून कृष्णाची पत्नी अशे उल्लेख ज्ञानेश्वरींत आयल्यात.

**वराह** - विष्णूचो तिसरो अवतार. (परिशिश्ट ३ पळयात. ११.६१.)

**वरुण** - ऋग्वेदांत वरुणाक महादेव म्हळा. तशेंच ताका ऋतस्यगोप्ता म्हळ्यार सत्याचो संरक्षक असोय मानला. तो सत्याचे आड चलप्यांक आपल्या पासांत बांदून दवरतालो. इंद्रान असुरांचेर जैत मेळोवन भारतांत वैदीक संस्कृतायेची स्थापना केली. तेन्ना वरुण फाटीं पडलो. मागीर ताका समुद्राचो अधिपती आनी जलचरांचो स्वामी आनी पश्चिम दिकेचो दिक्पाल म्हणूंक लागले. (**वासव** पळयात.)

**वसिष्ठ** - ऋग्वेदांतल्या सातव्या मंडळाचो मंत्रद्रश्टो. उर्वशीक पळोवन मित्रावरुणाचें वीर्य कुंभांत गळ्ळें. ताचेपसून हाचो जल्म जालो. रघुकुळयेंतल्या अनेक रायांचो हो कुलगुरू आशिल्लो. हाका लागून वसिष्ठ हें फुडें कुळनांव म्हणून ताणें वापरलें आसूंक जाय. विश्वामित्र राजा आसतना ताच्या आश्रमांत गेल्लो आनी वसिष्ठान कामधेनू गायेच्या पालवान ताचो बेस बरो पावणार केलो.तें पळोवन विश्वामित्रान ती गाय पळवन व्हरपाचो यत्न केलो आनी ताका लागून दोगांय मदीं वायटपण आयलें.

**वसुदेव** - कंसाची भयण देवकी हिचो घोव आनी कृष्णाचो बापूय. (परिशिश्ट ३ पळयात. १०.२८८.)

**वसु** - एक देवतामेळ. हे आठ आसात. अनल (पावक), अनिल, आप, धरा, ध्रुव, प्रत्युष, प्रभास, सोम. वसु - वसतिस्थानाच्यो देवता. अग्नी हो तांचो मुखेल. छांदोग्योपनिषदांत अग्नीक तांचें मूख म्हळा.

**वासुकी** - काश्यप आनी कद्रू पासून जाल्लो. जनमेजयाच्या सर्पसत्रांत जेन्ना असंख्य सोरोप लासून मेले, तेन्ना ताणें आपलो भाचो आस्तिक रुशी हाका धाडून तो यज्ञ बंद करूंक लायलो.

**विकर्ण** - धृतराष्ट्राच्या शंबर पुतां पयकीं एक. हो ज्ञायी आशिल्लो. द्रौपदीक अर्धनग्न अवस्थेंत राज्यसभेंत हाडली तेन्ना खर उतरांनी ताणें आपली नापसंती उक्तायली.

**विराट** - मत्स्य देशाचो राजा. उत्तर हो ताका सुदेष्णा राणये पासून जाल्लो पूत. पांडवांनी अज्ञातवासांत विराटाकडेन आसरो घेतिल्लो. (परिशिश्ट ३ पळयात. ११.४६९.)

**विश्वामित्र** - गाधिराजाचो पूत. हो व्हडलो तपस्वी आसलो. ताच्या तपांत विघ्नां हाडपाक इंद्रान मेनका अप्सरेक धाडिल्ली. तिका ताचेपासून शकुंतला नांवाची चली जाली. तिचो पूत भरत हो एक व्हड राजा जावन गेलो, जाच्या नांवान भारतदेशाक वळखतात. ताणें त्रिशंकूच सदेह स्वर्गाक धाडपाचो यत्न केलो. (परिशिश्ट ३ पळयात. १०.३६.) हाणें वसिष्ठाची गाय पळोवन व्हरपाचो यत्न केल्ल्यान ताचें वशिष्ठाकडेन वैर जालें.

**विश्वे** - विश्वे देव. ह्यो देवता कुल्लीं धा आसात.

**विष्णु** - अदिती आनी कश्यप रुशींचो पूत. हाचो वैदीक वाङ्मयांत उल्लेख येता. पूण त्या काळांत हाका वैदीक देवतांत गौण स्थान

आसलें आनी ताका इंद्राचो पालवी म्हणून उपेंद्र म्हणटाले. भारताच्या उत्तर काळांत ताका परमेश्वर मानपाक लागले आनी वासुदेव-कृष्ण ताचो आठवो अवतार म्हणून गणपाक लागले. पौराणीक काळांत हाचो त्रिमूर्तींत संरक्षक म्हणून आसपाव केलो. पृथ्वीचें पालन करप आनी दुश्टांक निर्दाळून धर्माचें रक्षण करप हाचे पास तो युगायुगांत अवतार घेता. विष्णूक चार हात आसून, शंख, चक्र, गदा आनी पद्म ताच्या हातांत आसतात. ताणें ध्रुवाक अढळपद आनी गजेंद्राक मोक्ष दिलो. (परिशिश्ट ३ पळयात. ९.४५०; ९.४८१; १८.१४७८.)

**वेताल** - शंकराच्या द्वारपाळ आनी रुद्रगणा पयकीं एक. हो पिशाच्चांचो नायक. कामाख्या देवीचे उपासनेक लागून ताका देवत्व लाभलें.

**शंकर** - रुद्र ही वैदीक देवता आसून ताचींच शिव आनी शंकर अशीं हेर नांवां आसात. हाणेंच पार्वतीक गीतेचें म्हत्व सांगलां. नाथसंप्रदायाचो आदीगुरू हो, म्हणून नाथपंथांतले लोक ताका आदीनाथ म्हणटात. उपमन्यूक दुधाखातीर क्षीरसागर दिवप, समुद्रमंथनांतलें वीख पिवप आनी त्रिपुरासुराक मारप अश्या कथांचे संदर्भ ज्ञानेश्वरींत आयल्यात. (परिशिश्ट ३ पळयात. १.२००; २.३८; १३.२५; १५.५७९; १७.२; १८.७८९.)

**शिखंडी** - द्रुपदाचो पूत. काशीरायान आपल्या तीन चलयांचें स्वयंवर आरंबलें. तांचो विचित्रविर्याकडेन लग्न करून दिवचें म्हणून भीष्मान तिका स्वयंवरांतल्यान पळवन हाडली पूण अंबेन विचित्रविर्याकडेन लग्न करपाक नकार दिलो आनी भीष्मान तिका जिखून हाडिल्ल्यान, ताणेंच आपलेकडेन लग्न करचें असो हट धरलो. भीष्मान आपूण केल्ले प्रतिज्ञेक लागून तिचेकडेन लग्न करूंक जावचें ना अशें सांगिल्ल्यान तिणें फुडल्या जल्मांत भीष्माचो सूड घेवपाचो निर्धार करून जीव दिलो. ती द्रुपदाच्या यज्ञांतल्यान कन्यारुपान आयली आनी मागीर दादलो जाली. अर्जुनान शिखंडीचे फाटसून रावन भीष्माक आपल्या बाणांनी जर्जर केलो. शिखंडी अस्तुरी म्हणून जल्माक आयिल्ल्यान, भीष्मान शस्त्रत्याग केल्लो. फुडें हाका अश्वत्थाम्यान ठार मारलो.

**शिशुपाल** - चेदिदेशाचो राजा. हाचें रुक्मिणीकडेन लग्न ठरिल्लें. पूण कृष्णान तिका पळोवन व्हेल्ल्यान ते दोगूय एकामेकांचे हाडवैरी जाले. फुडें राजसूय यज्ञांत कृष्णाक अग्रपूजेचो मान दिल्ल्यान हाणें तिडून कृष्णाची निंदा केली. कृष्णान शेवटीं सुदर्शनचक्र ताचेर मोखून ताचो वध केलो. माघ कवीन आपल्या 'शिशुपालवधां'त हाचें सुंदर वर्णन केलां.

**शुक** - महर्शी व्यासांचो ज्ञानी आनी विरक्त पूत. इंद्रान ताच्या तपाचो भंग करपापासत रंभा अप्सरेक धाडिल्ली. पूण तिका ताका भुलोवपाक जमलेंना. हाणें परिक्षित राजाक भागवत सांगलें अशें म्हणटात. (परिशिश्ट ३ पळयात. १६.१२७.)

**शेष** - कश्यप आनी कद्रू हांचो पूत. हो नागांचो राजा आसून ताका हजार फणा आसात. विष्णू ताचेर न्हिदता म्हणून ताका शेषशायी अशें नांव पडलें. हाणें आपले तकलेर पृथ्वीक धरल्या. कृष्णाक जेन्ना गोकुळांत व्हेलो, तेन्ना ताणें आपल्यो फणा कृष्णाचेर धरिल्ल्यो.

**शैब्य** - पांडवांवटेनचो शिबी देशाचो राजा.

**सनक** - सनत आनी सनत्कुमार हांचीं नांवां जोडयेन येतात. सनक, सनंदन, सनातन आनी सनत्कुमार हे विष्णुचे चार अवतार मानतात. हे ब्रह्मचारी आनी ज्ञानी आसले.

**सनत्कुमार** - **सनक** पळयात.

**सहदेव** - पांडूक माद्रीपसून जाल्लो दुसरो चलो हाका अश्वपरिक्षा उत्तम येताली म्हणून हाका विराटाचे अश्वशाळेंत नेमिल्लो. हाणें युद्धांत व्हड पराक्रम केलो आनी शकुनीक मारलो.

**सात्यकि** - शिबी राजाचो नातू. हाका युयुधान अशेंय म्हणटाले. हो अर्जुना कडल्यान धनुर्विद्या शिकलो. हाणें युद्धांत मोठे पराक्रम केले आनी अभिमन्युच्या वधाच्या दिसा कृतवर्म्याचो आनी दुर्योधनाचो पराभव केलो. हाणें सोमदत्ताचो पूत भुरिश्रवस् हाका मारलो.

**साध्ये** - ह्यो बारा देवता. यज्ञांचो वांटो घेवपी म्हणून तांकां यज्ञांत मानाचें स्थान आसा.

**सुदामा** - हो गरीब ब्राह्मण कृष्णाचो गुरुबंधू. मेळटा तातूंत तो संतुश्ट रावन खूब गरीबींत रावतालो. बायलेच्या आग्र्याक लागून तो कृष्णाक मेळूंक गेल्लो. (परिशिश्ट ३ पळयात. ९.३९४.)

**स्कंद** - शिवपुत्र. शिवाचें वीर्य पडून हाचो जल्म जालो म्हणून हाचें नांव स्कंद पडलें. स कृत्तिकांनी हाका भुरगो मानून हाका ल्हानाचो व्हड केलो म्हणून हाका कार्तिकेय अशें म्हणटात. हो देवांचो सेनापती जालो. हो ब्रह्मचारी आसून, हाका स्त्रीद्वेश्टो अशें मानतात. (**कृत्तिका** आनी परिशिश्ट ३ पळयात. १०.२२९.)

**हाटकेश्वर** - पाताळांतलो महादेव.

**हिरण्याक्ष** - दैत्यांचा राजा कश्यप आनी दिती हांचो पूत. (परिशिश्ट ३ पळयात. ११.६१.)

□

# ज्ञानेश्वरींतल्या पारिभाशीक शब्दांचो कोश

**अकर्ता/अकर्तो** - अलिप्तपणान कर्म करपी; मनाक लावन घेनासतना कर्म करपी.

**अकर्तृत्व** - कर्म करुनय लावन घेवप ना.

**अकर्म©** – निश्क्रम कर्म.

**अकार्य** - करूंक फावना तसलें कर्म; अयोग्य कर्म.

**अक्रिय** - जो पूर्ण हेतू विरयत आशिल्ल्यान जाचे बाबतींत खंयचीच क्रिया संभवना असो; क्रियाविरयत (ईश्वर; ब्रह्म.)

**अकुशल** - अशूभ.

**अकृत्य** - दुश्कर्म.

**अक्रोधत्व** - तिडक येवप ना. (दैवी संपत्तींतलो तिसरो गूण.)

**अगोत्र** - गोत्राविरयत; ईश्वर (तो जल्मना म्हणून ताका कूळ गोत्र ना.)

**अक्षर** - (१) क्षय ना जावपी ब्रह्म; (२) पुरुष; (३) ॐकार.

**अग्नी** - यज्ञदेवता.

**अग्नि** (तीन)- प्रळयाग्नि, विद्युदाग्नि आनी वडवाग्नि.

**अग्नीकुंड** - उजो सांबाळून दवरपाखातीर केल्ली खोलगट सुवात.

**अग्नीस्थान** - योगशास्त्रांत वर्णन केल्लें भुंवयांमदलें द्विदल (दोन पानांचें) चक्र.

**अग्नीहोत्र** - शास्त्रोक्त अग्नी स्थापून दीसपट्टो होम करप.

**अंगोपचार** - देवपुजेचें साधन.

**अचर्च** - चर्चेचो विशय जावंक शकना असो; ईश्वर, परमात्मो.

**अचक्षु** - जाका जल्म ना असो; ईश्वर; परमात्मो.

**अजल्मा** - जाका जल्म ना असो; ईश्वर; परमात्मो.

**अज्ञान** - प्रपंचाचे ठांय खरेपणाची बुद्दी.

**अज्ञानवर्ग** - आसुरी संपत्तीचो पुंजो वा समूह.

**अणिमा** - अश्टसिद्धी पयकीं सुक्षीम जावपाची सिद्धी.

**अणुसंशोधन** – (अ. १५/७०२) विश्वांतलो अणु-परमाणुंचो हिशेब. विश्वांत जीं मूलद्रव्यां आसात, तांचे सुक्षीम घटक म्हळ्यार परमाणू. हें सगलें विश्व परमाणुंनी भरिल्लें आसा असो शास्त्रज्ञांचो पयलीं समज आशिल्लो. त्या परमाणूकय पारखून हिशेब घेवपाक येतलो आनी तार्चे पृथक्करणय करपाक येतलें. मात्र वैराग्याबगर आत्मज्ञान थीर जावचें ना.

**अतींद्रिय** - इंद्रियांक आकलन जायना तें ज्ञान. सामान्य मनीस आपले अणभव मन आनी इंद्रियां हांचेवरवीं मेळयता. परमात्म्याच्या चिदानंदमय स्वरुपाचो अणभव इंद्रियातीत जावन घेवचो लागता. हाकाच अतींद्रिय ज्ञान वा प्रातिभज्ञान म्हणटात.

**अत्यागी** - फलाची इत्सा न सोडपी.

**अथर्वण** - अथर्व वेद.

**अदंभित्व** - ढोंगीपण नासप, ज्ञानगुणा पयकीं दुसरो गूण.

**अदृष्ट** - दैव, प्रारब्ध.

**अदभूत** - णवरसांतलो अद्भूत रस.

**अद्वय** - (१) द्वैता विरयत; (२) अद्वैत. एकरूप जावन भक्ती करप; न्हंय जशी समुद्राक मेळून सतत मेळतच रावता तशी.

**अद्वेष्टा** - द्वेश करिनासलो. भक्ताचें लक्षण.

**अद्वैत** - एकरूपताय.

**अद्वैतबोध** - सगलें एक आसा अशें ज्ञान.

**अधर्म** - शास्त्राआड आचरण करप.

**अधिकार** - योग्यताय, पात्रताय.

**अधिकारी** - पात्रताय आशिल्लो; फाव जाल्लो.

**अधिदेव; आधिदैवत** (१) अधिष्टात्री देवता; (२) प्रकृतीचो भोगपी जीव.

**अधिभूत** - पंचमहाभूतां पासून उत्पन्न जाल्ली नश्वर सृश्टी.

**अधियज्ञ** - शरीरभाव नासो करून ज्ञान आनी ज्ञेय (ब्रह्म) हांचें ऐक्य (एकचार) करपी यज्ञाची अधिष्टात्री देवता.

**अधिष्टान** - (१) आश्रय (आसरो); (२) कर्माच्या पांच कारणां पयकीं पयलें कारण - देह.

**अध्यात्म** - आत्म्याविशींचें ज्ञान.

**अध्यात्मज्ञान** - ज्या ज्ञानाक लागून परमात्म वस्तुचो अणभव येता आनी हेर सगलें प्रपंच ज्ञान हें अज्ञान आसा अशें समजता, तें अध्यात्म ज्ञान. अंतीम सत्य सोदून काडपाचे दिश्टीन केल्ली विसकावणी म्हळ्यार अध्यात्म ज्ञान.

**अनधिकारी** - अपात्र.

**अनन्य** - एकनिश्ट.

**अनात्मवर्ग** – अचेतन वस्तुंचो पुंजो वा समुदाय.

**अनात्मा** - अचेतन, अशाश्वत.

**अनादी** - जाका आरंभ ना असो; पयलीं सावन आशिल्लो असो. परमात्मो केन्ना नाशिल्लो अशी स्थिती ना म्हणून परमात्म्याचें विशेशण ह्या अर्थान हो शब्द वापरतात. माया वा विश्वाभास हो खरेपणान नाच, अर्थात नाशिल्ले वस्तूक आरंभ खंयचो? मायेचें विशेशण ह्या अर्थानय ह्या शब्दाचो उपेग करतात. परमात्मो अनादी, अनंत. माया ही अनादी पूण सान्त (जिका अंत आसा अशी.)

**अनामा** - नामाविरयत. नामरुपां हीं सत्य वस्तूचेर मनांत मानिल्लीं - आरोपीत केल्लीं आसतात. परमात्मो हो मनातीत अवस्थेंत अणभवाक

येवपी आशिल्ल्यान ताका 'अनामा' हें विशेशण लायतात.

**अनासक्त** - आसक्ती विरयत; उदासीन इंद्रियां आनी विशय हांच्या संबंधांपासून मेळपी सूख दुःखाविशीं उदासिनताय.

**अनाहत** - योगबळान आयकूंक येवपी देहाचो भितल्लो आवाज.

**अनुभव** - अनुभूती; प्रतीती; प्रत्यय येवप.

**अनुष्टान** - विधीन केल्लें आचरण.

**अनुष्टुभादिक** – अनुष्टुभ इत्यादि. अनुष्टुप्-अनुष्टुभ् हें एक अक्षर वृत्त. हाचे चार चरण. प्रत्येक चरणांत आठ अक्षरां. कुल्लीं ३२ अक्षरां. प्रत्येक चरणांत पांचवे लघु (ऱ्हस्व) आनी सवें गुरु (दीर्घ). दुसऱ्या आनी चवथ्या चरणांत सातवें अक्षर लघु आसता. गीतेंत चड करून हेंच वृत्त वापरलां.

**अन्यथाज्ञान** - विपरीत ज्ञान.

**अपवर्ग** - मोक्ष.

**अपैशून्य** - दोश उडोवन गूण घेवपाची दिश्टी.

**अप्रवृत्ती** - वायट मार्ग, वायट वा निशीद्ध कर्म.

**अप्राप्त** - ब्रह्मप्राप्ती जावंक नाशिल्लो.

**अभय** - दैवी संपत्तीचो पयलो गूण - निर्भयता.

**अभिचार** - जारण मारण कर्म (अथर्व वेदांत सांगिल्लें.)

**अभिचारादिक** – दुसऱ्याक दुखापत वा नाश करपाचे मंत्र, जादूटोणो, करणी, जारणमारण इत्यादि. हे मंत्र अथर्ववेदांत सांगल्यात.

**अभ्यास** - (१) शास्त्राचें आचरण; (२) मोख वा ध्येय सादपाक तीच गजाल पर्थून पर्थून करप.

**अभ्युदय** - धर्मान चलतकच जाल्लो तरतर.

**अमन-मन** - मनाविरयत; निर्विकार अशें मन; मनाबगर उत्पन्न जाल्लो आदिसंकल्प. (ह्या शब्दान विश्वाचे उत्पत्तीची मीमांसा करपाचो यत्न करतात.)

**अमृतत्त्व** - जल्ममरण विरयत स्थिती सच्चिदानंद परमात्म्याकडेन सदांच एकरूप म्हणुनूच विकाराविरयत आशिल्ल्यान, ताचेशीं तन्मय जाल्लो जीव उपाधिविरयत जावन ताचेकडेन एकरूप जाता आनी ताका लागून ताका जल्म मरणादी उपाधी लागतात.

**अमानित्व** - आपलो भौमान जावचो हे इत्सेचो अभाव; पयलो ज्ञानगूण.

**अरणी** - यज्ञाखातीर घांसून उजो (अग्री) उत्पन्न करपाचें पिंपळाच्या लांकडाचें केल्लें साधन आनी 'मंथा' अरणींत दवरून, घांसतकच हांच्या घांसपान उजो तयार जाता.

**अर्चिरा मार्ग** - योग्यांचो प्रयाण मार्ग, देवयान पंथ. प्रकाशाचो मार्ग.

**अर्थ** - दुसरो पुरुषार्थ.

**अर्थवाद** - विधी, नेम हांचें फल सांगपी स्तुती. खूप तोखणाय तुस्त करप.

**अर्धबिंब** - ॐकाराची अर्धमात्रा.

**अर्यमा** - पितृगणापयकीं मुखेली.

**अलक्ष्य** - कल्पने पेल्यानचो. अतर्क्य. ईश्वर स्वरूप अतर्क्य आशिल्ल्यान ईश्वरस्वरूप, ब्रह्म इत्यादि अर्थानय हो शब्द वापरतात.

**अलोलुपत्व** - अनासक्ती.

**अवभृथ स्नान** – यज्ञसमाप्ती उपरान्तचें न्हाण.

**अवस्था त्रय** - जागृती, सपन आनी सुषुप्ती अश्यो तीन अवस्था.

**अविद्या** - (१) माया; (२) अज्ञान.

**अव्यक्त** - (१) मूळ प्रकृती; (२) आत्मो; (३) निर्गूण ब्रह्म. मूळ प्रकृती ह्या अर्थान हो शब्द वापरतात तेन्ना त्रिगुणांची साम्यावस्था असो ताचो अर्थ आसता.

**अव्यभिचार** – एकनिश्टपण.

**अश्वत्थ** - संवसार रूख, जो खीणभरय एकसारको आसना तो.

**अश्वमेध** - सार्वभौमपदापासत राजान करचेलो यज्ञ.

**अष्टमहासिद्धी** - (महासिद्धी. अ. ६, १०३ होवयेवयली टीप पळयात.)

**अष्टलोकपाल** - आठ दिकांचे आठ स्वामी. १. (पूर्व) इंद्र २. (आग्नेय) अग्रि. ३. (दक्षिण) यम. ४. (नैऋत्य) नैर्ऋति. ५. (पश्चिम) वरूण. ६. (वायव्य) वायु. ७. (उत्तर) कुबेर वा सोम. ८. (ईशान्य) ईश.

**अष्टांग** - योगाचीं आठ आंगां - यम, नियम, आसन, प्राणायाम, प्रत्याहार, धारणा, ध्यान, समाधी.

**अष्टांगयोग** - आठ आंगां आशिल्लो असो योगमार्ग; राजयोग (अभ्यास योग). हीं आठ आंगां अशीं: (१) यम: अहिंसा, सत्य, अस्तेय (चोरी करप ना), ब्रह्मचर्य, अपरिग्रह (कोणा कडल्यान कांयच घेवप ना; संग्रह करप ना). (२) नियम: भायली आनी भितरली शुचिताय, संतोश, तप, अभ्यास आनी परमेश पूजन (सदांच ईशपदीं स्वताची ओंपणी करप.) (३) आसन : सहज आनी थीर अशी बैठक (बसपाची रीत.) (४) प्राणायाम: प्राणवायुचे गतीचें नियमन. (५) प्रत्याहार: इंद्रिय निवृत्ती. इंद्रियांक तांच्या विशयांतल्यान पर्थावन चित्तरुपांत तांची स्थापना करप. (६) धारणा: एकाच विशयाचेर मन थीर करून दवरप. (७) ध्यान: अखंड चिंतन करप. (८) समाधी: तद्रुपताय; भायल्या जगाची पुराय विस्मृती.

**अंडज** - चतुर्विध (खाणी) पळयात.

**अहंकार** - (१) अष्टधा प्रकृती पयकीं एक. (२) चतुर्विध अंतस्करणापयकीं एक. हांव विशिश्ट व्यक्ती अशी जाणविकाय. गर्व असोय केन्ना अर्थ जाता. अहंकाराच्या आवरणाक लागुनूच जीव वस्तुत: परमात्मो आसून वेगळो जाला. हाकाच चिज्जडग्रंथि म्हणटात. ह्या अहंकाराचो नाश जातकच जीव-परमात्मो एकरूप जाता. सांख्य मत्ता प्रमाण अव्यक्त प्रकृती - महत् तत्त्व - अहंकार ह्या क्रमान सृश्टी निर्माण जाली. अहंकाराच्या सात्त्वीक, राजस आनी तामस तीन तरांच्या रुपां पसून अनुक्रमान ज्ञानेंद्रियां, कर्मेंद्रियां आनी पंचतन्मात्रो म्हळ्यार पंचमहाभूतांची अतीसुक्षीम मूलस्वरुपां हीं निर्माण जालीं आनी हातुंतल्यान पंचमहाभूतात्मक सृश्टी निर्माण जाली.

**अहंममता** - ''हांव'', ''म्हजें'' असो भाव.

**अहिंसा** - हिंसा करप ना, ज्ञान गुणांपयकीं एक.

**आकाश** - (१) पांच महाभूतांपयकीं एक; (२) निर्गूण स्वरूप.

**आगम** - (१) मंत्रशास्त्र; (२) अथर्व वेद; (३) तंत्रशास्त्र.

**आज्ञा** - योगशास्त्रांतलें भोंवयेंत आशिल्लें चक्र.

**आत्मनिवेदन** - स्वताचें अंतकरण शुद्ध करून परमेश्वराक अर्पण करप. नवविद्या भक्तीपयकीं णवी भक्ती.

**आत्मरूप** - आमकां दिश्टी पडटा त्या पसाऱ्या फाटलें ज्ञान-प्रकाश-आनंदमय अशें चिरंतन सत्यतत्त्व. ह्याच तत्त्वाच्या आधाराचेर मन, बुद्दी, इत्यादी सुक्षीम वा पंचमहाभूतादी जड अशीं सगलीं तत्त्वां कार्यकारी भासतात. आमच्या देहांत रावता ती जी जाणविकाय आसा तिच्या शुद्ध स्वरुपाक उदय आनी अस्त ना. 'हांव' रुपान आमी जिका अणभवतात तीच सद्वस्तु आसा, जिका आमी 'आत्मो' अशें म्हणटात.

**आत्मसिद्धी** - सच्चिदानंदरूप अश्या परमात्मतत्त्वाचो समाधी स्थितींतलो अणभव.

**आत्मसूख** - आत्मानंद; विशयसुखापासून चित्त आवरून परमात्म्याचें ध्यान केल्ल्यान जावपी परम समाधान; ब्रह्मज्ञानापासून जावपी परमानंद.

**आत्मानंद** - आत्मसूख पळयात.

**आत्मा, आत्मो** - भूतमात्रांत आसपी अविनाशी सचेतन तत्त्व.

**आत्मानंद** - आत्मरूप पळयात.

**आत्मनुभूती** - आत्मस्वरुपाचो अणभव.

**आथर्वणविधी** - अथर्ववेदांत सांगिल्ले जारण-मारण विधी.

**आदित्य** - अदितीचे पूत; देव; बारा आदित्य (देवता). धातृ, मित्र, अर्यमा, रुद्र, वरुण, सूर्य, भग, विवस्वत्, पूषन, सवितृ, त्वष्टु आनी विष्णू हीं (बारा म्हयन्यांतल्या) सुर्याचीं बारा रुपां.

**आदिमाया** - अध्याय २/१४० टीप पळयात.

**आदिसंकल्प** - अध्याय ७/७९ टीप पळयात.

**आदिशून्य** - माया.

**आद्य** - मुळचो; सगळ्यांत आदींचो; परमात्मो. सगलें विश्व परमात्म्यापसून जाल्ल्यान परमात्मो हो विश्वांतल्या खंयच्याय पदार्थाचे आदलो आसा.

**आधारचक्र** - गूद आनी शिस्न हांचेमदलें मुलाधारचक्र.

**आधारमुद्रा** - योगशास्त्रांतल्या धा मुद्रांपयकीं एक मुद्रा.

**आधिदैव** - दैवान केल्ले ताप.

**आधिभौतिक** - शारीरिक ताप.

**आध्यात्मिक** - (१) पारमार्थिक. (२) मानसिक.

**अष्टदिग्गज** - पृथ्वीच्या आठ दिशांक रावन तिका आपले तकलेर उखलून धरपी पुराणांत वर्णिल्यात. ऐरावत, पुण्डरीक, वामन, कुमुद, अंजन, पुष्पदंत, सार्वभौम आनी सुप्रतीक अशीं तांचीं नांवां.

**आम्नाय** - वेद.

**आराध्यलिंग** -पुजा करपाक योग्य देवता.

**आश्रम** - ब्रह्मचर्य, गार्हस्थ्य (ग्रहस्थाचो), वानप्रस्थ आनी संन्यास हे चार आस्रम.

**आश्रमधर्म** - आश्रमानुसार करचेली लागणून (कर्तव्यकर्म).

**आसन** - योगशास्त्रांत सांगिल्ली आंगाची विशिश्ट रचना (हीं आसनां ८४ आसात.)

**आस्तिक्य** - ईश्वर आसा ही श्रद्धा; शास्त्रांनी सांगिल्ले मार्ग आपणावप.

**आहवनीय** - तीन अग्नींपयकीं पुर्वे वटेनचो. जातूंत मुख्य याग करतात तो अग्नी.

**इडा** - डावे नाकपुडयेंतल्यान वारो व्हांवता ती नाडी.

**इंद्रियार्थ** - विशय.

**इष्टापूर्त** - इश्ट म्हळ्यार यज्ञादी श्रौत आनी स्मार्त, कर्म, पूर्त म्हळ्यार मार्ग वा वाट.

**इष्टी** - पशुयाग.

**इक्ष्वाकु** - रघुवंशाचो पयलो राजा. वैवस्वत मनूचो म्हालगडो पूत.

**उचै:श्रवा** - (उंचकानो) क्षीरसमुद्रांतल्यान भायर सरिल्लो इंद्राचो घोडो (चवदा रत्नांपयकीं एक).

**उत्तरायण** - सूर्य वा हेर ग्रहनक्षत्रां हांचे उत्तरेकडलें वचप. मकरवृत्तापसून ($२३^{१}/_{२}$° द) ते कर्कवृत्तामेरेन ($२३^{१}/_{२}$° उ) सुर्याचे क्रांतीक जो स म्हयन्यांचो काल लागता तो (डिसेंबर २२ ते जून २२ वा माघ ते आषाढ).

**उद्भिज** - चतुर्विध (खाणी) पळय.

**उन्मनी** - जागृती (जागेंपण), सपन, सुषुप्ती (गाड न्हीद) आनी तुरिया (तुर्या) ह्या चार अवस्थांच्या पेल्यानची अवस्था. पयल्यो तीन अवस्था सगलेच अणभवतात. चवथी तुरिया म्हळ्यार स्वताचें मन, इंद्रियां हांचेकडेनय साक्षित्वान पळोवप. स्वताच्या चित्स्वरुपाची वळख जातकीच अशें साक्षित्व शक्य वा स्पश्ट जाता. ह्या चार अवस्थांचे पेली म्हळ्यार जे अवस्थेंत स्वताच्या - परमात्म्यापरस वेगळ्या अस्तित्वाचो लय जाता आनी केवळ सच्चिदानंद परमात्म्याच्याच एकत्वान बोध रावता ती उन्मनी अवस्था.

**उत्पत्ती-स्थिती-लय** - उत्पन्न जावप, आसप आनी ना जावप. कल्पनेंत येवपी वा इंद्रियांक कळपी सगल्याच पदार्थांक ह्यो तिनूय स्थिती क्रमाक्रमान येतात.

**उपचार** - पुजा साहित्य

**उपरती** - वैराग्य, विशयां पासून निवृत्ती जावन मन शांत जावप.

**उपरम** - अंतर्मुखताय.

**उपसर्ग** - योगअभ्यासांत आडखळ.

**उपहित** - उपाधियुक्त आसपी (चैतन्य).

**उपांग** - (यज्ञाचें) गौण आंग.

**उपाधी** - शुद्ध स्वरुपाक वेगळें रूप दिवपी पदार्थ. देखीक, स्फटीक तांबड्या फुलाचेर दवरल्यार तो तांबडो दिसता. हांगा तांबडें फूल ही उपाधी.

**उल्हाटशक्ती** - कुंडलिनी शक्ती.

**एकान्तर** – एक दिसा आड जेवपाचें व्रत.

**ऋद्धि (रिद्धि)** - योगान मेळयल्लें ऐश्वर्य.

**ओडियाण** - योगांतल्या तीन बंधांपयकीं दुसरो बंध.

**ॐ** – ब्रह्मवाचक अक्षर. ताचेमदीं अ, उ, म आनी अर्धमात्रा अश्यो साडेतीन मात्रा आसात; प्रणव. हो अत्यंत सहज-ध्वनी आसा. हाका एकाक्षर ब्रह्म अशेंय म्हणटात. हातुंतल्यानूच सगल्या वेदादी वाङ्मयाचो आनी विश्वाचोय विस्तार जालो अशें समजतात. परब्रह्माचें सर्वस्रेश्ठ प्रतीक म्हणून हाचें ध्यान करतात. प्रणव आनी उद्गीथ ह्या शब्दांनीय ॐकाराचोच बोध जाता. नामजप ॐ जपांतल्यांनूच निर्माण जालो. ईश्वराविशीं सगल्यो कल्पना ॐत आसपावल्यात.

**ओळंबा** – वोळंबो. गंवड्याचें आवत. वण्टीचो सरळपणा तपासपाचें आवत.

**औटावी मात्रा** – ॐकाराच्या साडेतीन मात्रां पयकीं शेवटची अर्धमात्रा.

**औपाधिक** - उपाधी आशिल्लें.

**ककारांत** – सुषुम्ना नाडीचो शेवट वा अंत.

**कंद** – (१) नाभिकमळ; (२) थंय आशिल्लें मणिपूरचक्र.

**कपिध्वज** – जाच्या ध्वजाचेर कपि (वानर) आसा तो अर्जुन.

**कपिलाचार्य** – सांख्यशास्त्र प्रवर्तक महामुनी. कर्दमरुशी आनी देवहूति हांचो पूत. विष्णुचो अवतार.

**कर्णजप** – कानांत सांगिल्लो मंत्र.

**कर्मकांड** – (१) वेदांतलो यज्ञदर्शक आनी आचारदर्शक वांटो; (२) पूर्व मीमांसा.

**कर्मयोग** – निश्काम कर्म मार्ग

**कर्मक्षय** – प्रारब्ध, संचित आनी क्रियमाण अश्या सगल्या कर्मांचो नाश. प्रारब्ध = आरंभिल्लें. ज्या पूर्वजल्मींच्या कर्माचो परिणाम म्हणून चालू देह आनी चालन्त परिस्थिती हीं मेळ्ळीं, तो चालू देह आनी कर्मांचो समुदाय हाकाच सामान्य भाशेंत दैव म्हळां. (प्राक्तन; पूर्व कर्म) संचित = सांठयल्लें. अनेक जल्मांतल्या कर्माच्या संस्कारांचो सांठो, जांतुतसून भौन भौन विंगड विंगड वासना निर्माण जावन अनेक कर्मां, तातुंतल्यान अनेक फळां आनी अनेक संस्कार अशें कर्मचक्र चलता. क्रिया माण = चालू क्रिया. चालू जल्मांत जीं बरीं वायट कर्मां काया-वाचा-मनान जातात तीं, आनी तांचे परिणाम आनी संस्कार. ह्या तीन प्रकारच्या कर्मबंधनांनी प्रत्येक जीव बांदिल्लो आसता. कर्मयोगान म्हळ्यार कर्तेपणाचो अभिमान आनी फळाची आशा सोडून कर्म केल्ल्यान क्रियमाणाच्या बंधनांतल्यान, ईश्वर चिंतनांत भोगून शांतपणान सहन करून प्रारब्धांतसून आनी ईश्वर-स्वरुपांत-आत्मस्वरुपांत विलीन जावन संचितांतल्यान (सगल्याच कर्मबंधनांतसून) सुटपाचें आसता.

**कर्मेंद्रिय** – कर्म करपी इंद्रिय. हात, पांय, जीब, गूद आनी शिस्न अशीं पांच कर्मेंद्रियां.

**कर्मफलहेतू** – कर्माचें फळ मेळचें ही इत्सा. मनीस खंयचेंय काम करतना तें 'हांव' करतां असो सुप्त वा प्रगट अभिमान बाळगिता; आनी ते बराबरच ह्या कर्माचें अमूक एक फल म्हाका मेळचें वा मेळटलें असो विचार करीत आसता. आनी ह्या दोन गजालींक लागून कर्मचक्रांत घुसपता. ताची मानसीक शक्त अकारण खर्च जाता. तें कामय बरें जायना. हाचेखातीर कर्तुत्वाचो अभिमान आनी फळाशा ही कुशीक दवरून कर्तव्यनिश्ठेन आपलें कर्म करचें असो भगवंताचो उपदेश आसा.

**कल्प** – (१) ब्रह्मदेवाचो दीस आनी रात मेळून एक दीस, आमचे कालगणनेप्रमाण चार अब्ज बत्तीस कोटी वर्सांचो काळ; (२) अनंत काळ हे अर्थीं.

**कल्पलता** (कल्पवाल)- इत्सिल्ली वस्त दिवपी वाल.

**कल्पवृक्ष** – कल्पद्रूम, कल्पतरू. इंद्रलोकांतल्या पांच देवतरूं (रुखां) पयकीं एक. आपूण इत्सिल्ली खंयचीय वस्तु हाचेपसून मेळटा अशी समजूत आसा.

**कांडत्रय** – वेदांचें कर्म, उपासना आनी ज्ञान अशे तीन वांटे.

**काकीमूख** – सुषुम्ना नाडयेचें मेंदुकडलें तोंक; ब्रह्मरंध्र.

**काळाग्निरुद्र** – विश्व सांवाराच्या वेळार रुद्र आपल्या तिसऱ्या दोळ्यांतलो अग्नी प्रगट करून त्या खर तेजान सर्व सृश्टी जाळून उडयता. शंकराचे इकरा अवतार वा स्वरुपां सांगल्यांत तांकां इकरा रुद्र म्हणटात.

**कुंड** – यज्ञाखातीर तयार केल्ली पवित्र सुवात.

**कुंडलिनी** – (कुंडली) शरीरांत मणिपूर चक्राचे ठांय सुप्त आशिल्ली शक्ती. ती सर्पाकृती आसा अशें मानतात.

**कूर्म** – एक उपप्राण, जाका लागून दोळ्यांच्यो मलप्यो उगडटात आनी मेट्टात.

**कृकर** – शिंकेच्या रुपान भायर येवपी उपप्राण.

**कृच्छ्र** – उपोशणाचे एक तरेचें व्रत. पयल्या दिसा दनपारचें एकदां, दुसऱ्या दिसा सांजेचें एकदां, तिसऱ्या दिसा मागिनासतना मेळिल्लें एकदां जेवण आनी चवथ्या दिसा उपोशण हे तरेन बारा दिसांचें व्रत.

**कृत** – चार युगां पयकीं पयलें. महाप्रळया उपरान्त कृत युगापसून पर्थून युगाचो आरंब जाता.

**कृपणाचे ठेवे** – (किरपणाची ठेव) किरपण (कंजूस) मनीस संपत्ती सांठोवन दवरता. पुर्विल्ल्या काळांत पयशे वा भांगर सांठोवन ते

जमनींत पुरून दवरपाची पद्धत सगले कडेन आशिल्ली. किरपण मनीस संपत्तीचो उपेग आपल्या सुखाखातीर वा दान पुण्याखातीर उपेग करिनासतना ती पुरून दवरतालो आनी ती संपत्ती कालान्तरान थंयच नश्ट जाताली आनीक ती कोणाकच मेळनासली.

**केशीहंता** – केशीक मारपी श्रीकृष्ण. केशीन् हो कंसाच्या पक्षांतलो असूर. हो घोड्याचें रूप घेवन कृष्णाक मारूंक आयिल्लो.

**कैवल्य** – मोक्ष.

**कोशकीटक** – कोश किडो हो आपलेच भोंवतणीं कोश विणून आपणाकूच कोंडून घेता.

**कौस्तुभ** – समुद्रमंथनाच्या वेळार क्षीरसागरांतल्यान भायर सरिल्ल्या चवदा रत्नांपयकीं एक. विष्णूच्या कंठांतलो मणी (अळंकार.)

**क्रतु** – श्रौतयज्ञ.

**क्रमयोगी** – क्रमाक्रमान ब्रह्मप्राप्ती करून घेवपी योगी.

**क्षत्र, क्षात्र** – चार वर्णांतलो दुसरो. (ब्राह्मण, वैश्य आनी शूद्र हे हेर तीन.)

**क्षर** – (१) सृश्टींतलो नाशवंत पदार्थ. (२) उपाधियुक्त आत्मो.

**क्षेत्र** – सविकार शरीर.

**क्षेत्र (शेत)** – शरीर हें जिवात्म्याचें क्षेत्र म्हळां. शेतकार जशें शेत कसून उत्तम पीक काडटा, ते भाशेन ह्या देहाचो उपेग करून आत्मानुभवाचें पीक काडचें आसता. ह्या क्षेत्राक जाणपी हाचेहून वेगळो, फकत साक्षीरूप आसता. ताका 'क्षेत्रज्ञ' म्हणटात. वेगवेगळ्या क्षेत्रांत (देहांत) रावपी साक्षीरूप आत्मो (जीव) विंगड विंगड नासून एका परमेश्वराचोच हो वेगळो वेगळो आभास आसा, अशें वळखप हेंच आत्मज्ञानाचें अंतिम रूप.

**क्षेत्रज्ञ** – शरीराक जाणपी आत्मो. (क्षेत्र पळयात.)

**क्षेत्रसंन्यासी** – अमूक एका क्षेत्रांतच रावपाचो नेम केल्लो संन्यासी.

**गगन** – (१) चिदाकाश; (२) हृदयाकाश.

**गंधर्वनगरी** – काल्पनीक वा मिथ्या गजाली. आकाशांतल्या ढगांच्या आकृतायांचेर जावपी नगरादिकांचो भास.

**गायत्री** – (१) प्रसिद्ध वैदीक मंत्र. (२) गायत्री मंत्र.

**गायत्री छंद** – एक वैदीक छंद; वृत्त. ह्या वृत्ताचीं २४ अक्षरां आनी तीन चरण आसतात.

**गुण** – (१) वस्तुंचे धर्म; (२) प्रकृतीचे तीन गूण - सत्त्व, रज आनी तम.

**गुणकर्मविभाग** – गुणांच्या प्रमाणावयल्यान केल्ली कर्मांची वांटणी. देहाच्या सत्त्व, रज आनी तम ह्या गुणांच्या उण्या अदीक प्रमाणाचेर मनशाचे सभावगूण निंबून आसतात. आनी त्या सभावगुणांकडेन जुळटा अशें कार्य आसल्यारच तें बरे भाशेन जाता आनी तातुंतल्यान मनशाची उन्नती जाता असो समज. ह्याच तत्त्वाक धरून चार वर्णांच्या कर्तव्य कर्मांचें वांटप केलें अशें भारतीय शास्त्रांत सांगलां.

**गुणक्षोभिणी** – माया; मूळप्रकृति; त्रिगुणांच्या साम्यावस्थेंत खवदोळ निर्माण करपी.

**गोतांबील** – सगल्यांनी एका पानार जेवप.

**घुणाक्षरन्याय** – योगायोगान गोश्ट घडप. जशें किड्यान कोरिल्ल्या भागाक अक्षराची आकृती दिसप.

**घोर** – न्हिदेंतलें घोरप. परमेश्वराच्या स्वासांतल्यान सगले वेद निर्माण जाले अशें मानतात.

**चक्र** – योगांतलीं स चक्रां. ह्या चक्रांचीं नांवां आनी शरीरांतलीं विशिश्ट थळां: (१) मूलाधार (गुद); (२) स्वाधिष्टान (लिंग); (३) मणिपूर (नाभी); (४) अनाहत (हृदय); (५) विशुद्ध (कंठ); (६) सहस्त्रार (टाळू) अशीं आसात.

**चक्रवाक** - (जोडी) एक पक्षी. हातूंत दिसाचे नर-मादी एकठांय उडटात आनी राती वियोग जाता. ताका लागून ही जोडी रातभर एकामेकांक उलो मारता असो कविसंकेत.

**चकोर** – एक पक्षी. हो चंद्रकिर्णांचेर जियेता असो कविसंकेत आसा.

**चतुरंग दळ** – जाका चार आंगां, साधनां आसात. (हत्ती, रथ, घोडे आनी पांदयळ) अशें सैन्य.

**चतुर्विध** - (खाणी) चार प्रकारच्या सजीव सृश्टीचे उत्पत्ती-प्रकारावयल्यान चार वर्ग केल्यात. तांकां चार खाणी म्हणटात. (१) उद्भिज - (मातयेंतल्यान) रुजपी वनस्पती इत्यादी. (२) स्वेदज - घामापासून निर्माण जावपी. (३) अंडज - तांतयांतल्यान निर्माण जावपी - पक्षी,.सोरोप, माशे. (४) जरायुज (जारज) वारेंतल्यान जावपी, पशु, मनीस इत्यादी.

**चतुर्विधअन्नें** – सुकी, स्निग्ध (तुपाळ), शिजयल्लीं वा भाजिल्लीं अशीं चार तरांचीं. वा भक्ष्य (खावंचीं), भोज्य, लेह्य (चाटपाचीं) आनी चोष्य (चोखपाचीं) अशीं.

**चवदा इंद्र** – ब्रह्मदेवाच्या एका दिसाच्या काळांत जशे पृथ्वीचेर एका फाटल्यान एक चवदा मनू त्या काळांत राज्य करून वेतात, तेच भाशेन स्वर्गांत एका फाटसून एक चवदा इंद्र त्या काळांत राज्य करून वेतात.

**चवदा भुवनां** - (लोक) सात स्वर्ग आनी सात पाताळ मेळून चवदालोक. भूः, भुवर्, स्वर, महर्, जन, तप आनी सत्य हे सात लोक आनी अतल, वितल, सुतल, महातल, रसातल आनी पाताल हे सात पाताल लोक मेळून चवदा भुवनां वा लोक.

**चवदा मनू** – सातासातांचे दोन वर्ग: (१) प्रजापति: स्वायंभुव, स्वरोचिष, औत्तमी, तामस, रैवत, चाक्षुष, वैवस्वत. (२) सावर्णि मनुः सावर्णि, दक्ष, ब्रह्म, धर्म, रुद्र, देव आनी इंद्र सावर्णि अशे चवदा मनू एका कल्पांत आसतात.

**चंद्र** – योगांतली इडा नाडी. (सूर्य पळयात.)

**चंद्रकान्त** – एक मणी (रत्न) चंद्राचें किरण हाचेर पडटकच हो पाझरता

असो कविसंकेत आसा.

**चंद्रसूर्यसंपूट** – इडा आनी पिंगळा ह्या नाडयांचें संगमस्थान.

**चंद्रामृत** – योगशास्त्रोक्त मस्तकांत आशिल्ल्या तळ्यांतलें अमृत.

**चराचर** – स्थावर आनी जंगम सृश्टी.

**चांद्र** – योगांत वर्णिल्लें मस्तकाचे ठांय आशिल्लें चंद्रामृत.

**चांद्रायण** – पुनवेक पंधरा घांस खावन वद्य पक्षांत एकेक घास उणो करीत वचप आनी शुक्लपक्षांत एकेक घास वाडोवप अशे तरेचें म्हयनोभर केल्लें व्रत.

**चित्** – (१) चैतन्य; (२) ब्रह्म. (३) ज्ञान.

**चित्त** – अंतस्करण पंचकांतलें चवथें. अंतस्करण वा सत्त्व, मन, बुद्दी, चित्त आनी अहंकार हांकां अंतस्करण म्हणटात. अंतस्करण = भितरलें साधन. पांचकर्मेंद्रियां आनी पांच ज्ञानेंद्रियां हीं भायलीं साधनां. आनी तांचेपरसय सुक्षीम अशीं जीं जिवाचीं कार्यसाधनां, ताच्या समवायी रुपाक अंतस्करण म्हणटात. हाकाच कार्यभेदान मन, बुद्दी, चित्त आनी अहंकार अशीं नांवां आसात. मन म्हळ्यार संकल्प, विकल्प करपी अंतरिंद्रिय. बुद्दी म्हळ्यार कल्पना वेंचून काडून निश्चय करपी अंतरिंद्रिय. चित्त म्हळ्यार चिंतनांत विचारांचे ठशे अंतस्करणांत कायम दवरून ते कार्यरुपाक हाडपी अंतरिंद्रिय. अहंकार म्हळ्यार आपल्या व्यक्तीविशिश्टतायेची जाणविकाय दाखोवपी अंतरिंद्रिय.

**चित्कालिका** – ज्ञानरुपी ज्योती.

**चिंतामणी** – चिंतिल्ले इश्ट वस्तू दिवपी स्वर्गीय रत्न.

**चित्तचतुष्टय** – मन, बुद्दी, चित्त आनी अहंकार.

**चिदाकाश** – चैतन्यरुपी ज्ञानरुपी आकाश. पंचमहाभूतांतलें आकाश म्हणटकच शून्य, पोकळी असो भाव निर्माण जाता. चिदाकाश म्हणटकच आकाशाचो विस्तार आनी अलिप्तताय हीं आसुनूय शिवाय शुद्ध ज्ञानमय अवस्था असो भाव दाखयता.

**चैतन्य** – आत्मतत्त्व

**चोवीस तत्त्वां** – सांख्यशास्त्राप्रमाण प्रकृति (पर्याय शब्द: प्रधान, अव्यक्त, माया, प्रसवधर्मिणी, गुणक्षोभिणी), महत् वा बुद्दी (पर्याय शब्द: मति, ज्ञान, ख्याति, आसुरी आदी), अहंकार (पर्याय शब्द अभिमान, तेजस्) आनी पांच कर्मेंद्रियां, पांच ज्ञानेंद्रियां, पांच तन्मात्रा (भेसळ जायनासतना शब्द, स्पर्श, रूप, रस आनी गंध ह्या गुणांचीं विंगड विंगड अतीसुक्षीम मूळ स्वरुपां) आनी पांच महाभूतां. पंचविसावें तत्त्व 'पुरुष, ज्ञ, द्रष्टो).

**छत्तीस तत्त्वां** – ५ महाभूतां, १० इंद्रियां (५ कर्मेंद्रियां आनी पांच ज्ञानेंद्रियां), १ अहंकार, १ बुद्धि, १ अव्यक्त (प्रकृति), १ मन, १ सुख, १ दु:ख, १ द्वेष, १ संघात, १ इच्छा, १ चेतना, १ धृति, ५ ज्ञानेंद्रियांचे विषय, ५ कर्मेंद्रियांचे विशय अशीं कुल्लीं ३६ तत्त्वां ज्ञानेश्वर मानतात.

काश्मिरी शैवांनी १ शिव, १ शक्ति, १ सदाशिव, १ ईश्वर, १ सद्‌विद्या, १ माया, १ काल, १ नियति, १ राग, १ विद्या, १ कला, १ पुरुष, १ प्रकृति, १ बुद्धि, १ अहंकार, १ मन, ५ ज्ञानेंद्रियां, ५ ज्ञानेंद्रियांचे विषय, ५ कर्मेंद्रियां, ५ महाभूतां अशीं ३६ तत्त्वां मानल्यांत.

**जारज** – गर्भाशयांतल्यान जाल्ली सृश्टी. (पळयात **चतुर्विध खाणी**.)

**जालंधर** – योगशास्त्रांत सांगिल्लो कंठस्थानाचो बंध.

**जितेंद्रिय** – जाणें आपलीं इंद्रियां जिखल्यांत असो.

**जीव** – जिवात्मो; अंतस्करणांत पडिल्लें परमात्म्याचें पडबिंब.

**तत्** – ब्रह्मवाचक शब्द.

**तन्मात्रा** – (१) ॐकाराच्यो मात्रा; (२) पंचमहाभूतांचे सुक्षीम विशय.

**तम, तमस्** – तमोगूण, जाचे पासून अज्ञान आनी क्रोधादी मनोविकार उत्पन्न जातात.

**तर्क** – (१) अनुमान; (२) तर्कशास्त्र.

**तंतुपटन्याय** – तंतु विशिश्ट तरेन जोडटकच ताका 'पट' हें नांव दितात. अशे तरेन तंतुचो आनी पटाचो सभावसिद्ध आनी अभेद्य संबंध आसता. हें दाखोवपी न्यायशास्त्रांतलो एक सिद्धान्त. (कायमचो सभावीक लागोबांधो.)

**तापत्रय** – आध्यात्मीक, आधिभौतीक आनी आधिदैवीक अशें तीन प्रकारचें दु:ख.

**तुरिया, तुर्या** – पळयात उन्मनी अवस्था. उन्मनी वा तुरिया अवस्था ही ज्ञानरुपी चवथी अवस्था.

**त्याग** – सर्वकर्मफल सोडप.

**त्रयी** – तीन वस्तुंचो गट, देखीक ऋग्वेद, यजुर्वेद वा सामवेद अशे तीन वेद.

**त्रिपुटी** – एक कुशीक काडल्यार बाकीच्या दोनांची सिद्धी जायना अशे तरेन तीन गजालींचो एकामेकांकडेन संबंध आशिल्ल्या तीन गजालींचो समुच्चय वा पुंजुलो. देखीक: कर्तो, कर्म आनी क्रिया. अश्यो त्रिपुटी जायत्यो आसात. जशें: ज्ञेय, ज्ञातो आनी ज्ञान; ध्येय, ध्यातो आनी ध्यान; दृश्य, दृश्टो आनी दर्शन; भोग्य, भोक्तो, भोग; परमेश्वर, आत्मो, जगत्; ब्रह्म, माया, जीव; ध्यानाच्या वेळार ध्येयाशीं (परमात्मस्वरुपाशीं) तन्मय जावन, 'हांव' ध्यान करपी - ध्यातो हें विसरिल्ल्यान त्रिपुटी लोप पावन एकमेव सच्चिदानंद रूपमात्र रावता.

**त्रिदोश** – कफ, वात आनी पित्त ह्या शरीरांतल्या तिनय दोशांचो एकाच वेळार क्षोभ (खोवदोळ) जावप.

**त्वंपद** – अल्पज्ञ, अल्पशक्तिमान असो जीवात्मो.

**दम** – बाह्येंद्रियांचो निग्रह.

**दक्षिणायन** – कर्क संक्रांतीपसून मकरसंक्रांती मेरेनचो काळ (२२ जून ते २२ डिसेंबरचो काळ) सूर्याच्या उदय-अस्ताचो काळ दक्षिणे वटेन सरकता तें दिसता तो काळ.

**दूर्वेचो आंकूर** – दुर्वा. एक तरेचें तण जें गणपतीक ओंपतात. हाचीं मुळां

जमनींत वतात आनी वयर हें तण सुकिल्लें दिसलें तरी मुळांत जिवें आसता. मात्शी ओल मेळटकीच तें वाडटा. म्हणून दुर्वेचो आंकूर म्हळ्यार अमर वस्तू.

**देहअहंता** – देह म्हणजेच हांव अशी भावना.

**देह गवसणी** – जीवात्म्याची देहरुपी खोळ. तंबोरो सुरक्षीत रावचो म्हणून ताका जी पिशवी वा चिरी घालतात, तिका गिंवसण म्हणटात. देह ही तशीच देहाची गिंवसण. देह अहंतेक लागून जीवाक तशें दिसना.

**देहतादात्म्य** – देहाकडेन एकरूप जावन रावप. जीवाक खऱ्यांनीच तो देहाचो द्रश्टो आसुनूय ''देह म्हणजेच हांव'' अशेंच दिसता. हाकाच देहतादात्म्य म्हणटात. आत्मज्ञान जाल्ल्या खिणाक हें तादात्म्य सुट्टा.

**देहभाव** – देहअहंता पळयात.

**देही** – देह (शरीर) आशिल्लो. प्रत्येक जीव आपल्या देहा वरवीं कार्य करता म्हणून जीव हे अर्थी देही हो शब्द वापरतात.

**द्रष्टा** – पळोवपी. जीवात्मो हो परमात्म्याचो अंश आशिल्ल्यान तोय परमात्म्याभाशेनूच अकर्तो आशिल्ल्यान, सगल्यो हालचाली साक्षीभावान पळयता. म्हणून तो द्रश्टो.

**द्वैत** – आत्म्यापरमात्म्यापासून भिन्न आसा अशें मत.

**द्वंद-बंध** – (वस्तुत: जें खरें न्हय अश्या भासमान द्वैताचें - अनेकपणाचें - बंधन. हांव पळोवपी आनी बाकी सगलें दृश्य (पळोवपाचें) हांगा सावन आरंभ करून, सूख-दु:ख, बरें-वायट, पाप-पुण्य, प्रकृती-पुरुष अश्या अनेक परस्पर विरुद्ध (जोडयांनी) ही सृश्टी भरिल्ली आसा. आपल्या सत्य स्वरुपाचें विस्मरण जाल्ल्यान जीवात्मो आपणाक विशिश्ट (देहाचे) मर्यादेंत कल्पनेन कोंडून घेता आनी द्रश्टो आनी दृश्य अशें पयलें द्वंद्व उत्पन्न जाता. आनी ह्या द्वंद्वांतल्यान सगल्या द्वंद्वाची विशेश करून सूख-दु:खाची उत्पत्ती जाता म्हणून द्वंद्व हें बंधन आसून अद्वैतानुभव हीच खरी आनंदमय स्थिती.

**द्वंद्व-मोह** – (द्वंद्व-बंध पळयात.)

**धर्म** – कर्तव्य कर्म, तिसरो पुरुषार्थ.

**धारणा** – अष्टांग योगांतलें सवें आंग.

**ध्यान** – अष्टांग योगांतलें सातवें आंग.

**धूम्रमार्ग** – 'पितृयाणपंथ' पळयात.

**धृति** – निश्चयशक्ती; धारणाशक्ती. कार्याक चालना दिवपी आनी बुद्दीचें नियमन करपाची शक्ती.

**धेंडां नाच** – खोशेन नाचप. धेंडां नाचोवप म्हळ्यार लग्नसमारंभांत न्हवऱ्या-व्हंकलेक खांदार घेवन नाचप.

**नवद्वार** – दोन दोळे, दोन कान, दोन नाकपुडयो, तोंड, गुद आनी शिस्न अशीं शरीराचीं णव दारां.

**नवचंडी** – देवीच्या स्तोत्राचें सप्तशतीचें णव वेळा पठण करून केल्ली देवीची आराधना.

**नवरस** – शृंगार, हास्य, करुणा, रौद्र, वीर, भयानक, बीभत्स, अद्भुत आनी शांत अशे साहित्यशास्त्रांत सांगिल्ले णव रस.

**नाग** – जांभय काडटना वायुची स्थिती.

**नाथसंकेतीचा दंश** – नाथसंप्रदायाचे अंतरंग खुणेचें मर्म.

**नाद** – चतुर्विध वाचेमदलो तिसरो प्रकार - मध्यमा.

**नादाकार** – मध्यमा आनी वैखरी.

**नादबिंदू** – कलाज्योति. योगशास्त्रांतलो (अनाहत) नाद आनी बिंदू. नाद हें ईश्वराचेंच स्वरूप. नादाप्रमाणेंच प्रकाश, ज्योती, ओंकार-रुपांच्या ध्यानानय ईश्वराचो साक्षात्कार जाता. नाद, बिंदु, कला ह्या शब्दांनी ताचो उल्लेख आयला.

**नादब्रह्म** – नादरुपान अवतरिल्लें ब्रह्म. अनाहत नाद ईश्वर साक्षात्काराची पूर्वसूचना दिता.

**नामघोश** – परमेश्वराच्या नामाचो घोश.

**नास्तिक** – ईश्वराचें अस्तित्व न मानपी.

**निघंटु** – यास्काचार्यान निरुक्तांत दिल्लो वेदांचो शब्दकोश.

**निजधर्म** – सहज प्राप्त अशें. कर्तव्य. सभाव, गूण हांकां अनुसरून प्राप्त जाल्लें कर्तव्य-कर्म.

**निजवस्तु** – आत्मो.

**निदिध्यास** – एकाग्र चिंतन.

**नियम** – अष्टांगयोगांतलें दुसरें आंग, शौच, संतोश, तप, स्वाध्याय, ईश्वरप्रणिधान अशे पांच नेम सांगल्यात. हठयोगांत धा नेम दिल्यात.

**निरुपाधिक** – उपाधी विरयत.

**निर्वाण** – मोक्ष.

**निर्विकल्प** - कल्पनाविरयत.

**निवृत्ती** – विहीत कर्माचो त्याग.

**निषिद्ध** – शास्त्रान करूंक जायना म्हणून सांगिल्लें कर्म.

**निंबलोण** – (उतरील) कोडुनिंबाचीं पानां, मीठ, सांसवां आदी पदार्थ घालून दिश्ट काडप. हातूंत प्रेम दिसून येता.

**नेति नेति** – हें अशें न्हय, हें अशें न्हय. परमात्मस्वरूप शब्दांनी वर्णन करूंक येना वा सृश्टींतल्यान खंयच्याय पदार्थाचें साम्य दाखोवनय ताचें वर्णन करूंक येना. ताचेपासत न+इति = नेति (हें अशें न्हय) अश्या शब्दांचो उपेग केला.

**नैष्कर्म्य** – कर्मा विरयत स्थिती.

**न्याय** – षड्दर्शनांतलें एक दर्शन. हातूंत प्रमाणांचें निरूपण केलां.

**पंचाग्नी** – पांच पवित्र अग्नी, जे ग्रहस्थाश्रमी मनशाक वेदीक काळांत दवरचेच लागताले.

**पंचात्मक, पांचभौतीक, पंचभौतीक** – पांच भूतांपसून घडिल्लीं.

**पंचविसावा** – सांख्यमत्ताप्रमाण मूल प्रकृती आदी जीं चोवीस तत्त्वां आसात तांचे पेल्यानचें तत्त्व, पुरुष (आत्मो).

**पद्मासन –** योगांत सांगिल्लें एक आसन.

**परतत्त्व –** परब्रह्म.

**परमधाम –** मोक्ष.

**परमार्थ –** ब्रह्मज्ञान.

**पराप्रकृति –** अपरा प्रकृतिचे पृथ्वी, आप, तेज, वायु, आकाश, मन, बुद्दी आनी अहंकार अशे आठ वांटे आसात. हे आठय प्रकार जंय साम्यावस्थेंत वा लीन जावन रावतात तिका पराप्रकृति वा 'जीव' अशें म्हणटात. बुद्दीक जाणपाची शक्ती हाकाच लागून मेळटा.

**परा (वाणी) –** चार वाणीं पयकीं पयली अती सुक्षीम वाणी. (पळयात: पश्यन्ती, मध्यमा, वैखरी.)

**परिग्रह –** प्रपंचांतल्यो वस्तू.

**पर्वकाल –** पर्वणी; पुण्यकाल; उमास, पुनव, वैधृति, व्यतिपात, संक्रांत, गिराण आदी काल. ह्या काळांत समुद्र-न्हाण, स्राद्ध, दान, तप केल्यार कोटी गुणित फळ मेळटा.

**पश्यंती –** चार वाणीं पयकीं दुसरी.

**पसायदान –** प्रसादाचें दान.

**पाखंड –** वेदविरोधी मत आनी आचार.

**पापगृहपंक्ति –** आकाशांतल्या गिऱ्यांचो दुश्चिन्नकारक युति. मंगळ, शनि, राहु आनी केतु हे अशुभ मानिल्ले गिरे एकठांय येवप असो लोकांचो समज आसा.

**प्राणजय –** प्राणशक्तिचेर ताबो मेळोवप.

**पिंगळा –** उजवे नाकपुडयेंतल्यान वायू व्हरपी नाडी.

**पितृयाग पंथ –** रात, कृष्णपक्ष, दक्षिणायन ह्या कालांत देह पडटकच चंद्रलोकाक वचून कांय कालान पर्थून मनीस जल्म घेता तो ध्रुव मार्ग. हाका पितृयाण पंथ अशेंय म्हणटात. हो पुर्विल्ल्या काळांतलो एक समज आशिल्लो.

**पुनरावृत्ती –** पुनर्जल्म.

**पुरुष –** सांख्यशास्त्रांत पुरुष आनी प्रकृती अशीं दोन तत्त्वां स्वयंभू आनी अनादी अशें सांगलां. प्रकृती आनी तिचे विकार मेळून जावपी चोवीस तत्त्वां आसात. आनी ह्या सगल्यांचो द्रश्टो, भोक्तो, साक्षी असो जो आत्मो तो पुरुष अशें सांख्यशास्त्र म्हणटा. सांख्यशास्त्रांत पुरुष अनंत आसात तर वेदान्तशास्त्रांत आत्मो अनेकत्वान भासत आसलो तरी एकच आसा अशें सांगलां.

**पुरुषार्थ –** पुरुषान (मनशान) कृतार्थ जावपाखातीर साधपाचीं चार कर्तव्यां (लागणुको) - धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष. धर्म: शास्त्रान मान्य केल्लीं समाजाविशीं आनी ईश्वराविशीं आशिल्लीं कर्तव्यां निश्ठेन करप. अर्थ: न्याय्यमार्गान संपत्ती मेळोवन तिचो योग्य वापर करप. काम: न्याय्यमार्गान विशयसुखांचो अणभव घेवन वंश राखप. मोक्ष: सच्चिदानंद परमात्म्याचो अणभव घेवप.

**पुरोडाश –** यज्ञांत उडोवपाचें द्रव्य.

**पूर्णाहुती –** यज्ञाचे शेवटीं देवतांक दिल्ली आहुती.

**पूर्वमीमांसा –** कर्मकांड.

**प्रकृति -** अव्यक्त; ज्या चोवीस तत्त्वांनी पृथ्वी घडल्या तांचें मूळ रूप. (त्रिगुण; चोवीस तत्त्वां आनी अपरा प्रकृति पळयात.)

**प्रत्यंगावृत्ती –** चित्ताची आत्माकार वृत्ती.

**प्रत्याहार –** अष्टांगयोगाचें पांचवें आंग. इंद्रियांक विशयां पसून फाटीं ओढून अंतर्मुख करपी. (अष्टांगयोग पळयात.)

**प्रमा –** यथार्थ ज्ञान.

**प्रमाण –** ज्ञानाचें साधन.

**प्रमेय –** प्रतिपादिल्लें तत्त्व वा विशय.

**प्रलय –** कल्पान्ताच्या वेळार जावपी जगाचो अंत.

**प्राणापान –** प्राण आनी अपान प्राण: शरीरांतली चालक शक्ती जी भायलो प्राणवायु शरीरांत घेता; शरीरांत भितर वता तो वायू. अपान: शरीरांतल्यान भायर वचपी वायू.

**प्राणायाम –** प्राणांचो निरोध, अष्टांगयोगाचें चवथें आंग (अष्टांगयोग पळेयात.)

**प्राप्त –** पूर्णावस्थेक पाविल्लो.

**प्रायश्चित्त –** पाप धुवपाक केल्लें कर्म. यज्ञ, उपास, तप, दान आदी विधी करून पाप धुतात.

**बंध –** (१) बंधन; (२) हटयोगांतली विशिश्ट मुद्रा.

**बंधमय –** तीन बंध; गुदस्थानांत मूळबंध, नाभीस्थानांत ओढियाण बंध; आनी कंठस्थानांत जालंधर बंध.

**बाह्यकर्म –** केवळ यज्ञयागादी कर्म, जाचो मनाकडेन संबंध येना अशें कर्म.

**बाह्यज्ञान –** लौकीक ज्ञान.

**बिंब –** ॐकाराची अर्दी मात्रा.

**बुद्धी –** (१) अष्टधा प्रकृती पयकीं एक; महत्तत्त्व ह्या अर्थीं. (२) चित्तचतुष्ट्यापयकीं एक.

**बुद्धियोग –** निश्काम कर्मयोगाची निमाणी स्थिती. कर्म करतना बुद्दीची ओड ईश्वर तत्त्वाकडेन आसप.

**ब्रह्मत्साम –** सामवेदांतलो एक साम. व्हडलें साम.

**ब्रह्म –** (१) व्यापक आद्य परमतत्त्व; (२) वेद; (३) ब्रह्मदेव.

**ब्रह्मरंध्र –** योगशास्त्रांत बरयल्लो वेदान्तावयलो सूत्रग्रंथ.

**ब्रह्मास्मिबोध –** 'हांव ब्रह्म आसां' हें ज्ञान.

**ब्रह्माहं मंत्र –** 'हांव ब्रह्म आसां' हो मंत्र.

**भाट –** स्तुती करपी.

**भूत –** पंचमहाभूत - पृथ्वी, आप, तेज, वायू आनी आकाश.

**मकार –** ॐकारांतली तिसरी मात्रा (अ, उ, म)

**मन्वंतर –** कालचक्रांतलो विशिष्ट विभाग.

**मणिपूर –** षट चक्रांपयकीं नाभीस्थानांतलें चक्र.

**मदत्रय** – तीन मद - विद्या, धन आनी कूळ ह्या तिनांची धुंदी.

**मध्यमा** - (१) सुषुम्ना नाडी; (२) चार वाणीं पयकीं तिसरी.

**मध्यमार्ग** - सुषुम्ना नाडीचो मदलो मार्ग.

**महत्** – सांख्य शास्त्रांतल्या चोवीस तत्त्वांपयकीं

**महत्तत्त्वादिक** – महत्: सांख्यांच्या पंचवीस मूलतत्त्वांपयकीं एक; विश्वबुद्दी; मूळ प्रकृती (अव्यक्त प्रकृती) पसून आयिल्लें सूक्ष्म व्यक्त तत्त्व. नव्या कल्पाक आरंभ जाता आसतना अव्यक्त. प्रकृती पयलीं महत् (बुद्दी) ह्या रुपान प्रगट जाता.

**महदादी** – महत्तत्त्व इत्यादि.

**महद्ब्रह्म** – प्रकृती

**महायागयज्ञ** – पांच महायज्ञ: पितृयज्ञ, देवयज्ञ, भूतयज्ञ, मनुष्ययज्ञ आनी ब्रह्मयज्ञ.

**महालया** – मोहिनी राज. नेवासें हांगासरचें दैवत. ह्या देवळांत ''पैस'' खांब्याकडेन बसून ज्ञानेश्वरान ज्ञानेश्वरी सांगली.

**महावाक्य** – उपनिषदांतलें ब्रह्म आनी आत्मो हांचें ऐक्य दाखोवपी वाक्य. (अहं ब्रह्मास्मि - हांव ब्रह्म आसां.)

**महाशून्य** – परब्रह्म. परमात्मवस्तु, परतत्त्व. सर्व शुन्याचे निश्कर्श. भाव अभावाच्या पेल्यानची निरपेक्ष भावरूप पूर्ण आनी निर्विशेष अशी वस्तू.

**माया / मायाभास** – अ. २ होंवी १४० वयली टीप पळयात.

**मारुती** – कुंडलिनीचें एके विशिश्ट अवस्थेंतलें नांव, जेन्ना ती वायुरूप जावन रावता.

**मीमांसा** – षड्दर्शनापयकीं पांचवें आनी सवें दर्शन. पूर्व मीमांसा (कर्मकांड) आनी उत्तर मीमांसा (ज्ञानकांड).

**मुद्रा** – हठयोगांत सांगिल्ली एक विशिश्ट शारीरिक क्रिया, चित्त स्थीर करपाक अश्यो धा मुद्रा सांगल्यात.

**मुमुक्षु** – मोक्षाची.इत्सा करपी.

**मूलबंध** – हठयोगांतलो एक बंध. हातूंत योनिस्थान आंवळून अपान वायु भायर वचप बंद जाता.

**यम** – अष्टांगयोगांतलें पयलें आंग; अहिंसा, सत्य, अस्तेय, ब्रह्मचर्य, अपरिग्रह अशे हे पांच यम आसात. हठयोगांत धा यम सांगल्यात.

**यमदम** – मनाचो संयम आनी इंद्रियांचो निग्रह.

**युक्तित्रय** – मूलबंध, जालंधर आनी ओडियाण अशे तीन बंध.

**युक्ति** – निश्काम कर्म करपाची हातवटी.

**युग** – कालविभाग वा गणप - कृत, त्रेता, द्वापार आनी कली अशीं चार युगां.

**यूप** – यज्ञपशू बांदपाचो खांबो.

**योग** – (१) कर्म, सांख्य, भक्ती इत्यादि साधन मार्ग. (२) कर्मयोग. (३) अष्टांगयोग.

**योगनिद्रा** – ईश्वराची न्हिदेची अवस्था; सहजरुपी स्थिती.

**योगमाया** – ईश्वराची मायारूप शक्ती; सृश्टी निर्मुपाक साधन जावपी ईश्वरी शक्ती.

**योगक्षेम** – मेळूंक नाशिल्लें मेळोवन दिवप आनी मेळिल्लें राखप.

**योगनिद्रा** – परमेश्वराची न्हीद.

**योगपट** – नव्या संन्याशाक घालून दिल्ले नेम.

योगभूमी - योगाच्यो सात भुमिका.

**रज, रजस्, रजोगुण** - तीन गुणांपयकीं एक. ह्या गुणांक लागून मनशाची कर्म करपाकडेन प्रवृत्ती जाता.

**रस** – (१) पांच विशयांपयकीं एक. (२) साहित्यशास्त्रांतलो रस.

**रसना** – जीब, पांच ज्ञानेंद्रियां पयकीं एक.

**रागद्वेष**– पांच ज्ञानेंद्रियां आनी तांचे शब्द स्पर्शादी विशय हांच्यांतली सभावीक आशिल्ली प्रिती आनी द्वेश.

**राजयोग** – पतंजली मुनीचो अष्टांगयोग.

**राजस** – रजोगूण आशिल्लो.

**रूप** – पांच विशयांपयकीं एक.

**रेचक** – नाकांतल्यान भायर सरपी वायू.

**रेचक–कुंभक** – हठयोगांतली श्वसन पद्धति. रेचक (सवकास) श्वास भायर सोडप, पुरक-श्वास भितर घेवप; कुंभक - श्वास भितर वा भायर कांय वेळ कोंडून धरप.

**रौरव** – एकवीस महानरकां पयकीं एक.

**लक्ष चौऱ्यांऐशीं योनि** - चौऱ्यांशी लक्ष तरांचे जल्म मनीस चार लाख, कृमि-किडे एकतीस लाख, खेचर (आकाशांत उडपी) धा लाख, जलचर णव लाख, स्थावर तीस लाख. कुल्लीं ८४ लाख.

**लोकपाल** - आठ दिकांचें पालन करपी दिक्पाल: इंद्र, अग्नी, यम, वरूण, नैर्ऋती, वायू, कुबेर आनी ईशान.

**लोकत्रय** – तीन लोक : स्वर्ग, मृत्यु, पाताळ.

**लोकसंग्रह** – समाज व्यवस्थेचें रक्षण, लोकांक बरी देख समाज धुरिणांनी लावप.

**वज्रासन** – (१) हठयोगांतलें एक आसन; (२) मूळबंध.

**वर्ण** – सभावगुणांवयल्यान केल्ले-जाल्ले समाजाचे चार वर्ग. फुडें हे वर्ण जल्मावयल्यान थारपाक लागले. (१) ब्राह्मण; (२) क्षत्रिय; (३) वैश्य; (४) शूद्र अशे चार वर्ण. वर्ण शब्दाचो रंग असोय अर्थ आसा.

**वाण** – वायंन. व्रताचे सांगतेखातीर ब्राह्मणाक जें साहित्य दितात तें (तांदूळ, नाल्ल, खण आदी.)

**वाचासिद्धी** – जें जें उलोवचें तें तें खरें जावचें अशी सिद्धी.

**वाराणशी** – काशीक्षेत्र. हिंदुचें प्रमुख पुण्यक्षेत्र.

**विकल्प** – भेद, संशय, भ्रम, चुकीचो तर्क.

**विभूति** – ईश्वराचो अंश. ईश्वरी सामर्थ्य वा वैभव जातूंत मुखेलपणान दिसता अश्यो वस्तु आनी व्यक्ती.

**विश्वबाहु –** (भासमान जावपी) सगलें कितें हें परमेश्वराचेंच रूप आशिल्ल्यान, विश्वांत जें कितें घडटा तें परमेश्वराचेच हात करतात म्हणून परमेश्वराक विश्वबाहु म्हणटात.

**विज्ञान –** (१) प्रपंचज्ञान; (२) अनुभवान मेळिल्लें ज्ञान.

**विधी –** शास्त्रान सांगिल्ले नेम.

**विधिनिषेध –** विधि:वेदांनी वा शास्त्रांनी करच्यो गोश्टी. निशेध: वेद-शास्त्रांनी करूं नाका अशी आज्ञा दिल्ल्यो गोश्टी.

**विषय –** पांच इंद्रियांनी मनाक जाणोवपी-कळपी गोश्टी. वस्तु. विषयांचें ज्ञानेंद्रियांप्रमाण पांच प्रकार जातात. शब्द, स्पर्श, रूप, रस, गंध हातुंतले कांय आवडटात तर कांय आवडनात. हांचेपासून कांय सूख जाता, तर कांय दु:खय जाता.

**विश्वाभास –** जगाचो आभास.

**विहित –** शास्त्रान सांगिल्लें.

**वेदी –** यज्ञ करपाक केल्ली उंच सुवात.

**वैखरी –** चार वाणीं पयकीं चवथी.

**वैतरणी –** मरणा उपरान्त हुपचेली एक न्हंय.

**वैराग्य –** भायल्या विषयांचो कंटाळो.

**व्योम –** पयलें महाभूत (आकाश).

**शब्द –** पांच विशयां पयकीं एक.

**शशी –** (१) चंद्र; (२) इडा हे नाडयेंतल्यान व्हांवपी वायू.

**शांत, शांतरस –** साहित्यशास्त्रांतल्या णव रसांपयकीं एक (नवरस पळयात.)

**शांताद्भुत –** शांत आनी अद्भुत रस.

**शांती –** दैवी संपत्तींतलो एक गूण.

**शून्य –** (१) निराकार ब्रह्म. (२) आकाश.

**शृंगार, श्रिंगार –** साहित्यशास्त्रांतलो एक रस. (नवरस पळयात.)

**श्रमणक –** बौद्ध भिक्षु; जैन संन्यासी.

**श्रुति –** वेद

**षट्कर्म –** द्विजांचें स तरांचें कर्म : अध्ययन, अध्यापन, यजन, याजन, दान, प्रतिग्रह.

**सकाम –** (१) इत्सा धरून केल्लें; (२) विशयी मनीस.

**संग –** (१) आसक्ती; (२) संसर्ग.

**सच्चिदानंद –** सत् - चैतन्य-आनंद रूप, परमेश्वराचें रूप.

**सत् –** (१) अविनाशी; (२) ब्रह्मवाचक शब्द.

**सत्शास्त्र –** आध्यात्मशास्त्र.

**सतरावी** (सत्रावी)- व्योमचक्रांतली चंद्रामृतरुपी कला.

**सत्त्व, सत्त्वगूण –**त्रिगुणांपयकीं पयलो (रज आनी तम हे हेर दोन गूण)

**सत्त्वशुद्धी –** अंतस्करणाची शुद्धी.

**सदतिसावें –** गीतेंतल्या तेराव्या अध्यायांत दिल्ल्या छत्तीस तत्त्वांपेल्यानचें ब्रह्म. (**छत्तीस तत्त्वां** पळयात.)

**सद्भाव –** हें विश्व खरें आसा हो भाव.

**संन्यास –** शरीर धारणा जायत इतलेंच कर्म करून हेर कर्मांचो त्याग करप.

**सप्तधातू –** शरीरांतले सात पदार्थ: रस (कफ), रगत, मांस, मेद, मज्जा, अस्थि आनी रेत.

**समाधी –** अष्टांगयोगांतलें निमाणें आंग.

**समान –** नाभींतलो प्राण, जो अन्नरोस शरीरांत सगलेकडेन पावयता.

**समिधा –** होमा खातीर लागतात तीं काश्टां.

**संयती, संयम –** (१) मनोनिग्रह; (२) अष्टांगयोगांतलें धारण-ध्यान-समाधी रूप.

**सर्वसंगपरित्याग** - देह अहंकार, मन, वासना इत्यादि सगल्यांचो संबंध पुरायेन सोडून आत्मस्वरुपाच्या ध्यानांत गुल्ल आसप.

**संवित्ती –** अनुभूती

**संसार –** संवसार; आत्मस्वरुपाच्या विस्मरणाक लागून भासमान जावपी, सतत बदलपी, अस्थीर आनी खिणयाळो असो विश्वाभास. तातुंतलीं सुखा-दु:खां, मानवी जिवीत, प्रपंचा भास.

**सदर्शनां** - षड्दर्शनें पळयात.

**संसिद्धी –** (१) मोक्ष; (२) वैराग्य.

**संस्कार –** कर्माचो मनाचेर जाल्लो अदृश्य परिणाम.

**साक्षात्कार –** इश्वराचें प्रत्यक्ष दर्शन.

**सांख्य –** (१) षडदर्शनांपयकीं एक; (२) सांख्यतत्त्वज्ञान.

**सांख्यतत्त्वज्ञान –** (अ-३-५८) ज्ञानयोगाचें तत्त्वज्ञान. गीतेंत दुसऱ्या आनी तिसऱ्या अध्यायांत आयिल्लो सांख्य शब्द कपिलाचें सांख्यदर्शन ह्या अर्थान येवंक ना. तो ज्ञानयोग, ज्ञानमार्ग, संन्यास मार्ग, अंतिम सत्याचें ज्ञान ह्या अर्थान आयला.

**सांख्य-मार्गी –** संन्यास मार्गी ज्ञानयोगी.

**सांख्ययोग –** संन्यासपूर्वक ज्ञानयोग.

**सात्त्विक भाव –** सत्त्वगुणाचे आठ भाव; भक्तीप्रेमान. अंतस्करण भरिल्ल्यान दिश्टी पडपी परिणाम; स्तब्धताय; (२) हूम; (३) रोमांच; (४) आडखळत उलोवप; (६) कांप; (६) चेरो फिकट जावप; (७) दोळ्यांतल्यान आनंदाश्रू व्हांवप; (८) प्रलय - भावसमाधी.

**सामवेद –** तिसरो वेद.

**सायुज्य –** मोक्षाचो चवथो प्रकार. ईश्वराकडेन जीवाचें ऐक्य.

**सिद्धी –** अणिमा, लघिमा, प्राप्ती, प्राकाम्य, महिमा, ईशित्व, वशित्व, कामावसायिता अश्यो आठ महासिद्धी. (अष्टमहासिद्धी पळयात.)

**सुषुम्ना –** इडा आनी पिंगला नाडींचे मदली नाडी.

**सोहं –** हांव ब्रह्म आसां.

**सोहंभाव –** हांव ब्रह्म आसां ही भावना.

**स्पर्श –** त्वचेंद्रियांचो (कातीचो) विशय.

**स्वरूप** – (१) आत्मस्थिती; (२) विश्वरूप; (३) ब्रह्म.

**स्वरूपसिद्धी** – ब्रह्मप्राप्ती.

**स्वसंवित्ती** – आत्मानुभूती.

**स्वस्ती** – कल्याण.

**स्वस्तिवाद** – 'कल्याण जावं' अशी वाणी.

**स्वाधिष्ठान** – लिंगमूल प्रदेशांत आसपी योगचक्र.

**स्वाहा** – देवाक हवी (द्रव्य) दितना म्हणपाचो मंत्र, हवन, यज्ञांत अर्पण.

**स्वेदज** – चतुर्विध (खाणी), पळेयात.

**हवनद्रव्य-संपदा** – यज्ञांत अर्पण करचेली वस्तू.

**हवि** – होमांत उडोवपाचें द्रव्य.

**हृदयाकाश** – अंतस्करणाचो प्रदेश.

**षड्दर्शनें** – (स दर्शनां वा शास्त्रां) तत्त्वज्ञानासंबंधीं स पंथ. सांख्य, योग, न्याय, वैशेषिक, पूर्वमीमांसा, उत्तर मीमांसा हीं स दर्शनां. (१) सांख्य: (सांख्य पळयात) (२) योग: भगवान् पतंजलीन ह्या मार्गाचें विवेचन केलां. (अष्टांग योग पळयात.) (३) न्याय: भगवान् गौतममुनीन तर्कशुद्ध विचार करून वेदांचो अर्थ कसो लावचो हें ह्या शास्त्रांत सांगलां. (४) वैशेषिक: कणादमुनीन विश्वाची उत्पत्ती परमाणूनी जाल्या आनी जाचेपासून परमाणू घडटात त्या त्रिगुणांचो नाश म्हणजे मोक्ष असो विचार ह्या शास्त्रांत सांगलां. (५) पूर्वमीमांसा (मीमांसा). जैमीनीन विसकायल्लो वेदांतल्या यज्ञयागादी कर्माचे विवेचन केल्लो मार्ग. यज्ञकर्मान स्वर्ग मेळोवप होच वेदांचो उद्देश अशें हें शास्त्र सांगता. (६) उत्तर मीमांसा (वेदान्तसुत्रां): वेदांतल्या ज्ञान सांगपी वाक्यांची संगति लावन ज्ञानमार्गाचें प्रतिपादन करपी व्यासांचो ग्रंथ. वेदान्तांत धा उपनिषदां, गीता आनी वेदान्तसुत्रां ह्या तिगांकय मेळून प्रस्थानत्रयी (मोक्ष सादचेले तीन ग्रंथ) म्हणटात. शंकराचार्य, रामानुजाचार्य, मध्वाचार्य इत्यादि आचार्यांनी प्रस्थानत्रयीचेर भाश्यां बरयल्यांत.

**सायुज्य** – सलोकता, समीपता, सरूपता आनी सायुज्यता. हो चार मुक्ती अवस्था.

**सलोकता** – इश्टदेव तांच्या लोकांत रावप.

**समीपता** – आपले इश्टदेवतेच्या नित्य म्हऱ्यांत रावप.

**सरूपता** – इश्टदेवतेचें रूप पळय.

**सायुज्यता** – आत्मस्वरुपाकडेन एकरूप जावन जीवान एकच परमात्मो अणभवप.

**सम्यक्-ज्ञान** – यथार्थ अनुभव; पूर्ण ज्ञान.

**स्थूल शरीर** – जड देह. ज्ञानेंद्रियांनी जाचो प्रत्यक्ष अणभव येता; आपलें शरीर. ताचे भितर मन, बुद्दी, प्राणशक्ती इत्यादिंनी घडिल्लें सुक्षीम शरीर आसता.

□

# ज्ञानेश्वरींतले पौराणीक कथांचे संदर्भ

**अ. १. म्हणऊनि जनमेजयाचे अवलीळा। दोश हरले ॥३७॥**
जनमेजय हो अर्जुनाचो नातू, परीक्षिताचो पूत. हस्तिनापुरच्या ह्या राजान सर्पसत्र केलें. तक्षकाच्या दंशान परीक्षिताक मरण आयलें, म्हणून ह्या यज्ञांत तक्षकाची आहुती पडची असो ताचो हेतू आसलो. पूण आस्तिक रुशीन जनमेजयाची स्तुती करून तक्षकाक वरदान मागलें आनी सत्र थांबयलें. सत्र थांबयलें हें पळोवन ब्राह्मण न्हिदूंक गेले. तें पळोवन राजाक तिडक मारली आनी आपले दुश्ट राणयेच्या सल्ल्यान ताणें ब्राह्मणांचेर थंड उदक शिंपडायलें. त्या थेंबांचीं शस्त्रां जालीं आनी ब्राह्मण मेले. ताका लागून जनमेजयाक ब्रह्महत्येचें पातक लागलें आनी ताका कुश्टरोग जालो. हो दोश वैशंपायनाचें भारत आयकून गेलो.

**अ. १. कीं टिटिभू चांचुवरी । माप सूये सागरीं ॥६८॥**
एके टिटापयचीं तांतयां बेबकान व्हेलीं आनी तें समुद्रांत वचून लिपलें. तीं तांतयां तिणें समुद्राकडल्यान पर्थीं मागलीं. पूण ताणें तें मनार घेतलें ना. म्हणून ती टिटापय समुद्र सुको करपाखातीर एकेक चोंच भरून उदक उपसूंक लागली. असो खूब दीस हो वावर चलतालो. ज्ञानेश्वर माऊलीन आपलो गीतार्थाचो प्रयत्न ह्या टिटापयच्या प्रयत्ना सारको आसा, अशें नमळायेन म्हळां.

**अ. १. ध्वजस्तंभावरी वानरु ॥१४१॥**
एकदां भीम द्रौपदीकडेन गजाली करतासतना ताचे मुखार एक परमळीत सहस्त्रदल (हजार पाकळ्यांचें) कमळ येवन पडलें. द्रौपदीच्या आग्र्याक लागून तो तसलीं कमळां हाडपाक गंधमादन पर्वताचेर गेलो. तेन्ना एक म्हातारो वानर आपली शेंपडी पातळावन वाट आडावन बशिल्लो ताणें पळयलो. ताणें शेंपडी हालोवन वाट मेकळी करपाक त्या वानराक विनयलें. पूण ताणें म्हळें, ''बाबा रे, हांव आतां म्हातारो जालां, तेन्ना शेंपडी हालोवपाकय म्हज्यांत त्राण उरूंक ना, तेन्ना तूंच ती कुशीक काड.'' तेन्ना भीमाक आपलें बळ एकठावन लेगीत ती हालोवंक येना जाली. तेन्ना हो सामान्य वानर न्हय अशें समजून भीम ताका शरण गेलो. मारुतीन ताका आपली वळख दिवन, आपूण झुजावेळार अर्जुनाच्या रथाचेर बसून तांकां सगल्यांक राखीन असो वर दिलो. (महाभारत-वनपर्व अ. १५०)

**अ. १. जेणें संग्रामीं हरू जिंतिला ॥२००॥**
वनवासांत आसतना अर्जुनान पाशुपत अस्त्र शंकरापासून मेळोवंक तप आरंबलें. ताच्या शौर्याची परीक्षा पळोवंक शंकरान किराताचें रूप घेवन तो एका रानदुकराफाटल्यान धांवंक लागलो. अर्जुनान ज्या खिणाक रानदुकराक उडयलो, त्याच खिणाक शंकरानय बाण सोडलो. मागीर तो मेल्लो रानदुकर कोणाचो असो वाद उत्पन्न जावन, तांचेमदीं युद्ध जालें. ह्या युद्धांत अर्जुनाचो पराक्रम पळोवन शंकर ताचेर प्रसन्न जालो आनी ताणें पाशुपतास्त्र अर्जुनाक दिलें. (महाभारत, वनपर्व अ. ३८.)

**अ. १. निवातकवचांचा ठावो फेडिला ॥२००॥**
प्रल्हादाचो भाव संन्हाद हाका निवात आनी कवच अशे दोन महापराक्रमी पूत आशिल्ले. ते इंद्राकय आटापना जाले. तेन्ना तांकां मारपाक ताणें अर्जुनाची मदत मागली आनी ताका युद्धसामग्री दिली. अर्जुनान व्हडलो पराक्रम करून तांचो वध केलो. (महाभारत वनपर्व, अ. १६७)

**अ. २. पवाडा तुवां केला । गंधर्वांसी ॥१०॥**
घोशयात्रेचें निमित्त करून वनवासांत आशिल्ल्या पांडवांक आपल्या वैभवान हिणसावंक दुर्योधन वतालो. त्या वेळार वाटेंत ताचें गंधर्वांकडेन युद्ध सुरू जालें. गंधर्वांनी दुर्योधनाक बंदखणींत घालो. मागीर धर्मराजाच्या सांगण्यावयल्यान अर्जुनाक गंधर्वांचो पराभव करून तांचो वध केलो. (महाभारत वनपर्व, अ. २३७-२४१)

**अ. २. तरी काय मी भस्मासुरु । अर्जुन म्हणे ॥३८॥**
भस्मासूर राक्षसान शंकराची आराधना करून असो वर मेळयलो की हांव जाचे तकलेर हात दवरीन तो भस्म जावंचो. मागीर तो शंकराचेच तकलेर हात दवरतां म्हणून ताचे फाटीक लागलो. मागीर विष्णून मोहिनीचें रूप घेवन ताका आपल्याबरोबर नाचपाक लायलो. नाचता आसतना मोहिनीन तकलेर हात दवरला तें पळोवन त्या राक्षसानय आपले तकलेर हात दवरलो आनी तो भस्म जावन पडलो. अशे रितीन विष्णून ताचो नाश केलो. (शिवलिलामृत १२).

**अ. ३ मृतगुरुपुत्र आणिला । तो तुवां पवाडा देखिला ॥१६३॥**
कृष्ण आनी बलराम अवंती नगरींत सांदीपनी नांवाच्या गुरुकडेन विद्या शिकताले. शिक्षण सोंपतकीच गुरुदक्षिणा कितें दिवची अशें तांणी गुरुपत्नीक विचारलें. गुरुचो एकलोच पूत समुद्रांत बुडून मेल्लो; तो पर्थून हाडून दिवचो अशें तिणें तांकां सांगलें. तेन्ना कृष्ण आनी बलराम यमलोकांत गेले आनी यमधर्माचो पराभव करून तांणी गुरुपुत्र गुरूकडेन पावयलो. (विष्णुपुराण, अ. ५.)

**अ. ५ पाहें पां श्रीशंभूची प्रसन्नता । तया उपमन्यूचिया आर्ता । काय क्षीराब्धि दूत भाता। देइजेचिना ॥११॥**
उपमन्यू हो वसिष्ठकुळांतल्या व्याघ्रपाद रुशीचो पूत. घरचे गरिबीक

लागून ताका दूद पियेवंक मेळनासलें. एकदां ताणें शेजाऱ्यागेर दूद पियेलें आनी मागीर तो आवयकडेन दुदाखातीर हट धरून बसलो. तेन्ना शंकराची आराधना करून ताचेकडेन दूद माग अशें ताका आवयन सांगलें. तेन्ना उपमन्यून खर तप करून शंकराक प्रसन्न करून घेतलो. तेन्ना शंकरान ताका क्षीरसागरच दिलो. (महाभारत, अनुशासन पर्व, अ. १४.)

**अ. ९. मी सुदामचिया सोडीं गांठीं । पव्हयांसाठीं ॥३९४॥**

सुदामा हो श्रीकृष्णाचो बालमित्र. तो ताचेवांगडा सांदीपनीकडेन शिकतालो. बायलेच्या आग्रहान तो श्रीकृष्णाक मेळूंक द्वारकेक गेलो आनी भेट म्हणून फोवांची पुडी व्हेली. श्रीकृष्णान ते फोव आवडीन खाले आनी ताची सरबराय केली. सुदाम्यान आपलेखातीर कांयच मागिनासतना तो घरा पर्थलो. आनी घरा पावतकीच ताका ताची नगरी सुवर्णनगरी जाल्ली दिसली. (भागवत. १०.८१.)

**अ. ९. पाहें पां सावजे हातिरूं धरिलें ॥४४२॥**

इंद्रद्युम्न राजा अगिस्त रुशीच्या शापान हती जाल्लो आनी देवरुशीन शाप दिल्ल्यान हूहू गंधर्व शिंसर (मगर) जाल्लो. त्या दोगांयची पुष्कर तीर्थाचेर गांठ पडली तेन्ना मगरीन गजेंद्राक धरलो. आतां आपलें धड न्हय हें पळोवन गजेंद्रान विष्णूक उलो मारलो आनी एक कमळ तोडून तें ताका ओंपलें. तेन्ना विष्णून धांवन वचून मगरीक मारून, गजेंद्राक वाटायलो. ही कथा गजेंद्रमोक्ष म्हणून प्रसिद्ध आसा. (भागवत. ८-४.)

**अ. ९. माझे नृसिंहत्व लेणें। जयाचिया महिमे ॥४५०॥**

हिरण्यकशिपु नांवाच्या दैत्याचो प्रल्हाद नांवाचो पूत आसलो. हो जल्मासावन भगवद्भक्त आसलो. हिरण्यकशिपू विष्णूचो दुस्वास करतालो, म्हणून ताणें प्रल्हादाक पिडलो. तो विष्णुभक्ती सोडिना म्हणून ताका ताणें वीख घालें, आनी ताचो कडेलोट केलो. शेवटीं ताणें तिडकून प्रल्हादाक विचारलें, ''खंय आसा तुजो हो विष्णु, म्हाका दाखय. ताका हांव मारुनूच उडयतां.'' तो सगळेचकडेन आसा अशें प्रल्हादान म्हणटकच, ''तो ह्या खांब्यांत आसा?'' अशें ताका विचारतकीच ताणें हय म्हळें. मागीर हिरण्यकशिपून खांब्याचेर खोंट मारली. भगवान विष्णु प्रगट जावन ताणें हिरण्यकशिपूक ठार मारलो. ह्या हिरण्यकशिपूक ब्रह्मदेवान वर दिल्लो. ताका लागून घरांत वा घराभायर, दिसा वा रातीं, मानव वा पशू हांचे पसून, शस्त्रान किंवा अशस्त्रान, सजीव वा निर्जीव वस्तुपासून ताका मरण येवचें ना अशें सांगिल्लें. म्हणून विष्णून सांजेवेळा, हुंबऱ्याचेर बसून, नाखटांनी नरशिंवाचें रूप घेवन ताका ठार मारलो. हो विष्णुचो चवथो अवतार. (भागवत. २-७.)

**अ. ९. अझूनि पाऊलाची मुद्रा। मी हृदयीं वाहें गा सुभद्रा ॥४८१॥**

भृगुरुशी हो ब्रह्मदेवाचो मानसपुत्र आशिल्लो. ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश ह्या तिगांमदीं स्रेश्ठ कोण हें थारावपाखातीर ताणें ताचे छातयेर खोंट मारली. ब्रह्मा आनी शंकर तिडले पूण विष्णूक मातूय राग आयलोना. उलट, भृगुरुशीच्या पांयांक लागलें म्हणून तांचे पांय चेपीत रावलो. हे भाशेन विष्णून रुशीचे खोंटेचो वळ छातयेर धरलो. ताका श्रीवत्स म्हणटात. (भागवत १०.९८.)

**अ. ९.जेथ निववील ऐशिया आशा । हरें चंद्रमा आधा ऐसा ॥४८६॥**

समुद्रमंथनांतल्यान हालाहल हें दाहक वीख मेळ्ळें. तें जग जाळटा म्हणून देव शंकराकडेन गेले. जगाच्या कल्याणाखातीर शंकरान तें पियेवन उडयलें. पूण ताच्या आंगाचो हुलोप जावंक लागलो आनी गळो निळो जालो. तेन्ना ताणें शितल चंद्राची कोर मस्तकाचेर धारण केली. (भागवत ८-७.)

**अ. ९ जिये लोकींचा चंद्रु क्षयरोगी ॥५०२॥**

चंद्राचें प्राचेतस दक्षाच्या रोहिणीसयत साठ कन्यांकडेन लग्न जालें. पूण ताचें रोहिणीचेर हेरांपरस चड मोग करतालो म्हणून तिच्या हेर भयणींनी आपल्या बापायकडेन कागाळ केली. ताणें जांवयाक समजावपाचो यत्न केलो पूण तो सफळ जालोना म्हणून ताणें चंद्राक तूं ''क्षयी जातलो'' असो स्राप दिलो. तेन्नापसून चंद्राच्यो कला उण्यो अदीक जातात.

**अ. १०. बुझाविला देऊनि भातुकें । ध्रुवपदाचें ॥१८॥**

ध्रुव हो उत्तानपाद राजाचो पूत. ह्या राजाक सुनीती आनी सुरुची अश्यो दोन राणयो आशिल्ल्यो. एकदां हो राजा सुरुचीच्या उत्तमाक मांडयेर घेवन खेळटतना ध्रुवय आपल्या बापायचे मांडयेर चडूंक लागलो तें पळोवन सुरुचीन ताका रागान फार्टी ओडला. ध्रवाक वायट दिसलें आनी तो तपश्चर्या करूंक गेलो. तें पळोवन नारदान ताका 'ॐ नमो भगवते वासुदेवाय' हो मंत्र दिलो. मागीर ध्रुवान मधुवनांत वचून खर तपश्चर्या केली. विष्णून प्रसन्न जावन ताका राज्य आनी मागीर अढळपद दिलें. तें आजून मेरेन ध्रुव नक्षत्र (Pole Star) रुपान आसा. (भागवत ४.८-१२)

**अ. १०. अहो एकाची शाटी तपिन्नली ॥३६॥**

वसिष्ठ आनी विश्वामित्र हांचे मदीं ब्रह्मर्षी कोण असो वाद उप्रासलो तेन्ना पंच म्हणून सुर्याक आफयलो. सूर्यान म्हळें, ''आपूण आयल्यार आपलें काम कोण करतलो?'' तेन्ना वसिष्ठान आपली छाटी हांतरून तातुंतल्यान उजवाड काडलो. ही कथा वायुपुराणांतली. (अ. ३६.)

**अ. १०. एकीं सृष्टीवरी सृष्टी केली ॥३६॥**

त्रिशंकू राजाक सदेह वैकुंठाक वचपाचें आसलें, पूण वसिष्ठ रुशीन ताका ''चांडाळ जा'' असो स्राप दिलो. विश्वामित्र तपश्चर्येक गेल्लेकडेन फाटल्यान दुकळ पडलो, तेन्ना त्रिशंकून ताचे बायलेक आनी पुताक सांबाळ्ळीं. ताची परतफेड म्हणून ताणें यज्ञ करून ताका सर्गांत धाडलो. पूण इंद्रान ताका स्वर्गांत येवंक दिलो ना आनी सकला धुकल्लो. ताका लागून त्रिशंकू अधांतरीं लोंबकळत उरलो. म्हणून ताणें त्रिशंकूखातीर प्रतिसृश्टी आनी प्रतिस्वर्ग निर्माण करपाक आरंभ केलो. पूण इंद्रान विश्वामित्राची प्रार्थना करून ताका समजायलो. (हरिवंश. १-१३.)

**अ. १०. एकीं पाषाणीं वाऊनि उतरलीं । समुद्र कटकें ॥३६॥**
रामान रावणाकडेन युद्ध करपा पासत लंकेक वचपाखातीर नलाक सेतू बांदपाक सांगलें. पूण समुद्रांत फातर बुडूंक लागले. पूण जेन्ना रामाचें नांव घेवन समुद्रांत फातर उडयले, तेन्ना ते उफेवपाक लागले. अशे तरेन पूल तयार जालो आनी त्या पुलावयल्यान सैन्यासयत राम-लक्ष्मण लंकेंत गेले. (वाल्मिकी रामायण. युद्धकांड. २०.)

**अ. १०. एकीं आकाशीं सुर्यातें धरिलें ॥३७॥**
वायूपासून अंजनीक मारुती जालो. जल्मतांच ताणें सूर्यबिंब पळोवन तें फळ आसत अशें समजून सुर्याचेर उडी घाली. तेन्ना इंद्रान ताचेर वज्र मोखून मारलें आनी मारुती घुंवळून सकल पडलो. मागीर मारुतीच्या बापायचे तिडकीक भियेवन इंद्रान मारुतीक सावचित केलो आनी वज्रापसून कांयच त्रास जावचोना असो वर दिलो. इंद्राचें वज्र खाडकेक (हनुवटीक) लागून ती कातरली म्हणून मारुतीक हनुमान् अशें नांव पडलें. (पद्मपुराण, पाताल. ११४.)

**अ. १०. एकीं चुळीं चि सागरातें भरिलें ॥३७॥**
इंद्रान वृत्रासुराक मारतकीच कालकेय राक्षस समुद्रांत लिपले. ते रुशींक धोंसताले आनी कांय रुशींक खावनय उडयताले. तेन्ना ब्रह्मदेवाचे सांगणेवयल्यान ते सगळे अगस्त्य रुशीक शरण गेले. तेन्ना अगस्त्य रुशीन आपल्या तपोबलान समुद्र एका आचमनांतच पियेवन उडयलो. ताका लागून सगले राक्षस नश्ट जाले. फुडें अगस्त्यान पियेल्लें उदक परत समुद्रांत सोडून दिलें.

**अ. १०. त्रिभुवनीं चिया सेनापती। आंत स्कंदू तो मी महामती ॥२२९॥**
एकदां शिवाचें वीर्य ताच्या शरवण नांवाच्या क्रीडावनांत पडलें. तें फुडें कांय काळमेरेन गंगेन, मागीर अग्नीन आनी शेकीं स कृत्तिकांनी धारण केलें. फुडें प्रत्येक कृत्तिकेपसून एक मूख आनी दोन हात अशीं बाळकां उत्पन्न जालीं. ताका लागून तांकां अनुक्रमान स्कंद, गांगेय, अंग्रिभू आनी कार्तिकेय अशीं नांवां पडलीं. कार्तिकेय फुडें देवांचो सेनापती जालो आनी ताणें तारकासुराचेर जैत मेळयलें. (महाभारत वनपर्व २२०.) हाचेर कालिदासान **कुमारसंभव** महाकाव्य रचलां.

**अ. १०. पै समस्तांही वोघा-। मध्यें जे भगीरथें आणितां गंगा । जन्हूनें गिळिली मगजंधा । फाडूनि दिधली ॥२५६॥**
कपिलमुनीच्या स्रापान जळिल्ल्या आपल्या पूर्वजांच्या उद्धाराखातीर भगीरथान खर तपश्चर्या करून गंगेक पृथ्वीचेर हाडली. ती गंगा येतासतना जन्हुचो यक्षमंडप लागलो. तो गंगेच्या प्रवाहांत बुडिल्ल्यान जन्हून रागान तिका गिळ्ळी. फुडें मांडयेंतल्यान भायर सोडली. हाका लागून गंगेक जान्हवी अशें नांव पडलें. मागीर भगीरथान गंगेक पाताळांत व्हरून आपल्या साठ हजार पुर्वजांचो उद्धार केलो. (रामायण बालकांड, सर्ग ४३.)

**अ. १० जो देवकी-वसुदेवास्तव जाहला । कुमारीसाठीं गोकुळीं गेला ॥२८८॥**
देवकीच्या पुतापासून कंसाचो वध जातलो म्हणून आकाशवाणी जाल्ल्यान कंसान वसुदेव आनी देवकीक बंदखणींत दवरलीं आनी तिच्या सात भुरग्यांक जिवीं मारलीं. म्हणून आठवो पूत कृष्ण जल्माक येतकीच ताका वांचोवचो म्हणून ताका वसुदेवान रातयांच यमुना हुपून गोकुळांत व्हेलो. दैवी सामर्थ्यान हात दिल्ल्यान तो जायतीं आडमेळीं येवनूय, ताका चड त्रास जालोना. गोकुळांत त्याच वेळार नंदाची बायल यशोदा बाळंत जावन तिका चली जाल्ली. तिचे सुवातेर कृष्णाक दवरून वसुदेवान तिका बंदखणींत व्हेली. (भागवत. १०.३.)

**अ. १०. तो मी प्राणासकट पियाला । पूतनेतें ॥२८८॥**
गोकुळांत कृष्ण ल्हानाचो व्हड जाता आसना ताका मारपाक खूब यत्न केले. ताणें पूतना नांवाची एक राकशीण ताका मारूंक धाडली. थानाक वीख लावन, पुतना एके सुंदर बायलेच्या रुपान गोकुळांत आयली. कृष्णान तें वळखून, विखाबरोबर तिचे पंचप्राणय शोशून घेतले आनी तिचो नाश केलो. (भागवत १०-६.)

**अ. १०. करीं गिरि धरूनि उमाणिली । महेंद्रमहिमा ॥२८९॥**
इंद्र हो पावसाची देवता आशिल्ल्यान गोकुळांतले गोप दर वर्सा इंद्राखातीर अन्नकोट करताले. पूण इंद्र पावस घालिना, तो गोवर्धन पर्वताक लागून पडटा म्हणून एका वर्सा पर्वताखातीर याग आरंबलो. ताका लागून इंद्रान तिडकीन उटंगारांचो पावस घालो आनी जलप्रळयाचो भंय उप्रासलो. तेन्ना गोवर्धन पर्वत आपले किरंगिळीचेर धरून ताचे सकयल गोपगोपींक आश्रय दिलो. अशे तरेन गर्वहरण जावन इंद्र कृष्णाक शरण आयलो. (भागवत १०-२४/२५.)

**अ. १०. कालिंदीचें हृदयशल्य फेडिलें ॥२९०॥**
कालिया नांवाचो एक नाग भंयान यमुनेचे कोणींत रावतालो. ताच्या विखान यमुनेचें उदक विखारी जाल्लें. एकदां कृष्णाचे सवंगडी थंय उदक पियेवपाक गेल्ले, तेन्ना ते मेले. तेन्ना कृष्णान कोणींत उडकी मारून, कालियाचे तकलेर नाचून ताका जर्जर केलो. पूण ताचे बायलेन कालियाखातीर जीवदान मागलें म्हणून ताका पयलींचे सुवातेर धाडून दिवन, आपल्या सवंगड्यांक जिवे केले. (भागवत १०.१६.)

**अ. १०. वासरुवांसाठीं लाविलें । विरंचीस पिसें ॥२९०॥**
ब्रह्मदेवान एकदां श्रीकृष्णाच्या सामर्थ्य पारखूंक गायो आनी वासरांक अदृश्य केलें. तेन्ना श्रीकृष्णान तश्योच गायो आनी वासरां उत्पन्न करून सगले वेव्हार आदले भाशेन चलयले. वर्स सोंपतकच लज जावन तो कृष्णाक शरण गेलो आनी ताणें ताची स्तुती केली. ती भागवतांत ब्रह्मस्तुती ह्या नांवान प्रसिद्ध आसा. (भागवत, १, १३/१४.)

**अ. १०. संन्यासी तुवां होऊनी जनीं। चोरुनि नेली माझी भगिनी ॥२९४॥**

कृष्ण आनी बलरामाची भयण वयांत येतकच बलरामान तिचें लग्न आपलो शिश्य दुर्योधनाकडेन करपाचें अशें येवजिलें. पूण तिच्या मनांत अर्जुनाकडेन लग्न जावचें आशिल्लें आनी कृष्णाकय तिचो विचार मान्य आशिल्लो. अर्जुन तीर्थयात्रा करून जेन्ना द्वारकेक आयलो, तेन्ना कृष्णाचे सांगणेन त्रिदंडीसंन्यास घेवन तो रैवतक पर्वताचेर आयलो. एक तपोनिश्ठ आनी विरक्त संन्यासी रैवतक पर्वताचेर आयला हें कळटकच बलरामान ताका घरा धाडलो आनी सुभद्रेक ताची सेवा करपाक सांगलें. एके पर्वणीक रैवतक पर्वताचेर सगल्यांनी वचपाचें अशें थारलें आनी तेप्रमाण संन्याशी आनी सुभद्रा एका रथांत बसून गेलीं. अर्जुनान रथ इंद्रप्रस्थाचे वाटेन धांवडायलो आनी पाठलाव करपी सगल्यांचेर हार घाली. (भागवत १०-८६.)

**अ. ११ एकाचे गर्भवासही साहिले ॥३५॥**

अंबरीष राजा महापराक्रमी आनी भगवद्भक्त आसलो. दुवादशीक साधन दुवादस करपाचो ताचो खर नेम आसलो. एक दीस दुवादशीक उपास सोडच्या वेळार दुर्वास रुशी ताच्या घरा अतिथी म्हणून आयलो. राजान ताची सरबराय करून ताका जेवणाचें आमंत्रण दिलें. आपूण आतां न्हंयेंत न्हावन येतां अशें सांगून दुर्वास रुशी न्हंये देगेर गेलो. तांकां थंय उशीर जालो. हांगा दुवादशीच्या पारण्याची वेळ टळटा अशें पळोवन व्रतभंग जावचो न्हय म्हणून राजान देवाक निवेद्य दाखोवन तीर्थ घेतलें आनी पारणें सोडलें. हें कळटकच दुर्वासाक भयंकर तिडक आयली आनी ताका धा पुनर्जल्म घेवचे लागतले असो स्राप दिलो. मागीर तांणी आपले जटेंतल्यान एक कृत्या निर्माण करून ती राजाचेर सोडली. राजाचो नाश जावंचो न्हय म्हणून भगवंतान कृत्येचेर सुदर्शनचक्र मोखलें. कृत्येचो नाश करून मागीर तें चक्र दुर्वासाचे फाटल्यान लागलें. ताका कोणूच देव राखण दिना जालो. मागीर भगवंतान सांगलें की राजाकडेन वचून ताणें माफी मागची. तेन्ना एका वर्सान दुर्वास परत राजाकडेन वचून ताची माफी मागली. राजाचे सांगणेन सुदर्शनचक्र पर्थून गेलें आनी राजान दुर्वासाक घेवन आनंदान जेवण केलें. भगवंतान तो स्राप आपल्या आंगाचेर घेवन धा अवतार घेतले. (भागवत ९.४, ५.)

**अ. ११. मागां जळत काढिलें जोहरीं ॥६०॥**

कौरव पांडव व्हडले जातकच तांचें एकमेकां कडेन पटनाशें जालें. तातूंत युधिष्ठिराक युवराजपद दिल्ल्यान दुर्योधनाक सोंसना जावन, पांडवांची नसाय दिसूंक लागली. तेन्ना धृतराष्ट्रान पांडवांक वारणावताक वचून रावपाची आज्ञा केली. वारणावताक पांडवांच्या नाशाखातीर एकदम पेटत अशें लाखेचें घर (लक्षागृह) तयार करून घेतलें. विदुराक ही गजाल कळिल्ल्यान ताणें युधिष्ठिराक थंय वचच्या वेळार सादूर करून, तांकां उजो लागतकीच भायर सरपाक मेळचें म्हणून एक भुंयारी वाटय तयार करून घेतली. एकदां एक भिल्लीण आपल्या पांच भुरग्यांक घेवन थंय राविल्ली. ते राती विदुराचे सुचोवणेप्रमाण पांडवांनी स्वताच लाखेच्या घराक उजो लावन, ते भायर सरले. उज्यांत भिल्लीण आनी तिचीं पांच भुरगीं जळिल्ल्यान, कुंती आनी पांच पांडवच जळून मेले अशें सगल्यांक दिसलें. (महाभारत, आदिपर्व.)

**अ.११ दुराग्रहें हिरण्याक्षें ॥६१॥**

इकराव्या अध्यायाचे ६१वे होंवयेंत वराह अवताराची कथा रुपकाखातीर घेतल्या. हिरण्याक्ष हो हिरण्यकशिपाचो धाकटो भाव. ताणें सगल्या देवांक त्रस्त केल्ले. जेन्ना विष्णून ताका हारयलो तेन्ना पृथ्वीचें हरण करून तो समुद्रांत वचून लिपलो. तेन्ना विष्णून वराहरूप घेवन उदकांतल्यान पृथ्वीक आपल्या नाकान वयर काडली. हे कथेचो उल्लेख करून अर्जुन म्हणटा की म्हजी मोहान ग्राशिल्ली बुद्दी पर्थून शुद्ध करून ती म्हजी म्हाका मेळोवन दिली हो तुजो दुसरो वराह अवतारच जालो म्हणपाचो. (भागवत ३-२८.)

**अ. ११. पुत्र आळविता अजामिळा । आपणपें देसी ॥१०४॥**

अजामिळ हो कान्यकुब्ज देशांत रावपी एक ब्राह्मण. हो दुराचारी आसलो. हाणें आपले आवय बापायक आनी बायलेक सोडिल्ली आनी तो एके गणिके बरोबर रावंक लागलो. तिचे पसून ताका एक पूत जालो. ताणें ताचें नांव नारायण दवरलें. तो ताचे अपुरबायेचो आसलो. मरणाच्या समयार यमदूत आयले तेन्ना ताणें पुताक 'नारायण' म्हणून उलो मारलो म्हणून विष्णूदुतांनी यमदुतांच्या हातसून ताका सोडयलो. अजामिळान ताचो संवाद आयकलो आनी तो विरक्त जालो. (भागवत ६-१, २.)

**अ. ११. अझुनी वैरियांचिया कलेवरा । विसंबसिना ॥१०५॥**

कृष्णान सांदीपनी गुरूचो मेल्लो पूत परत हाडून दितना, शंखरुपी पंचजन राक्षसाचो वध केलो आनी ताचें शरीर म्हळ्यार शंख हातांत बाळगिलो. ताका मागीर पांचजन्य अशें नांव पडलें. (भागवत १०.४५.)

**अ. ११. दे दान म्हणोनि दारवंटेकरूं । जाहलासी बळीचा ॥१०६॥**

वामन अवतारांत बळीकडेन तीन पावलां भूमी मागून देवांनी बळीच्या मस्तकाचेर पांय दवरून ताका पाताळांत धुकल्लो. (परिशिश्ट १ - बलि पळयात.) हेप्रमाण बळीकडेन दान मागपाक वचून भगवान ताचो दरवंटो राखपाक बसलो. कार्तिक शुद्ध प्रतिपदेक बलीन दान दिलें म्हणून तो दीस बलिप्रतिपदा ह्या नांवान वळखतात आनी त्या दिसा बलीची पूजा जाता. (भागवत १८-२३.)

**अ. ११. मागां बाळपणीं येणे श्रीपती । जैं एकवेळ खादली होती माती ॥१८२॥**

कृष्णान माती खाल्ली म्हणून यशोदा ताचेर रागार जाली. तेन्ना हांवें माती खावंक ना अशें कृष्णान सांगलें. तेन्ना यशोदेन ताका तोंड उगडूंक सांगलें. ताणें तोंड उगडटकच तिका तातूंत चवदा भुवनां दिसलीं.

**अ. ११ नातरी मधुवनीं ध्रुवासी केलें । जशें कपोल शंखें शिवतलें ॥१८४॥**
ध्रुव मधुवनांत तपश्चर्या करतना विष्णून ताका दर्शन दिलें. पूण ध्रुव विष्णूकडेन पळयतच रावलो, ताच्या तोंडांतल्यान एकूय उतर आयलें ना. तेन्ना भगवंतान ताच्या पोल्याक शंख लायलो. ताचे बरोबर वेदाप्रमाण तो विष्णूचीं स्तुतीस्तोत्रां गावपाक लागलो.

**अ. ११. जैसा आब्रह्म पूर्णोदकीं । पव्हे मार्कंडेय एकाकी ॥१८७॥**
मार्कंडेय हो व्हड ब्रह्मर्शी आशिल्लो. ताणें एकदां भगवंताकडेन ताची माया पळोवपाची इत्सा दाखयली. भगवंत 'तथास्तु' म्हणून गुप्त जालो. फुडें एकदां मार्कंडेय रुशी आस्रमांत एकटोच बशिल्लो आसतना सगली पृथ्वी उदकान भरल्या अशें तांकां दिसलें. ते स्वताच त्या उदकांत खूब दीस पेंवत रावले. मागीर तांकां वडाचेर एक सुंदर बाळक न्हिदिल्लें दिसलें. त्या बाळकाच्या स्वासाबरोबर तांकां भितर ओडून व्हेले आनी तांकां थंय ब्रह्मांड दिसलें. मागीर त्या बाळकाच्या उस्वासा बरोबर तो भायर आयलो आनी तेन्ना आपूण आस्रमांतच आसां अशें तांकां दिसलें. भगवंतान तांकां पर्थून पर्थून दर्शन दिलें आनी सांगलें, ''जें तुवें कितें पळयलें, ती म्हजी मायाच आसली.'' (भागवत १२-८-१०.)

**अ. ११ तुवां गोग्रहणाचे नि अवसरें । घातलें मोहनास्त्र येकसरें ॥४६९॥**
कीचक वधा उपरान्त पांडव चड करून विराट नगरींतच आसात असो दुर्योधनाक दुभाव येवपाक लागलो. तेन्ना पांडव अज्ञातवासांत आसतना तांकां सोदून काडचे आनी पर्थून वनवासांत धाडचे ह्या हेतून ताणें त्रिगर्ताचो पालव घेवन विराटाचें गोधन चोरपाची युक्ती काडली. कौरव गायो चोरून व्हरतना विराट भायर गेल्लो, म्हणून विराटाचो पूत उत्तर हाका तांच्या रक्षणाक आफयलें. त्या वेळार उत्तर आपली भयण उत्तरेच्या महालांत आशिल्लो. म्हाका ह्या वेळार सारथी मेळिल्लो जाल्यार हांव शत्रूचो पराभव करून गायो सोडोवन हाडटलों आशिल्लों, अशी ताणें बडाय मारली. त्या वेळार तिची नृत्यशिक्षिका बृहन्नडा (स्त्री वेश घेतिल्लो अर्जुन) थंयच आशिल्ली. तिणें आपूण ताचें सारथ्य करतां म्हणून सांगतकच, नाइलाजान उत्तराक झुजपाक वचचेंच पडलें. पूण कौरवांचें व्हडलें सैन्य पळोवन उत्तर रणांगण सोडून पळून वचपाक लागलो. तेन्ना अर्जुनान ताका आडावन, शत्रूकडेन युद्ध केलें आनी तांचेर मोहनास्त्र घालून गोरवां सोडोवन हाडलीं. हे भाशेन ताणें उत्तराक जिखिल्याचें स्रय मेळोवन दिलें. (महाभारत, विराटपर्व, ६२.)

**अ. १३ लांचकरु म्हणोनि कोळसा । कामु केला ॥२५॥**
दक्षाच्या यज्ञांत सतीन प्राणाची आहुती दितकच श्रीशंकर तपश्चर्या करपाक गेलो. त्या वेळार तारकासुरान देवांक खूब त्रास दिलो. ताचो वध शंकर-पार्वतीचो पूतच करूंक शकतालो. इंद्राचे आज्ञेन शंकराचें मन पार्वती विशीं मोहीत जावंचें म्हणून मदनान श्रीशंकराचेर कामबाण सोडले. त्यावेळार आपणाक स्त्रीसुखाची लांच दिवन तपश्चर्येंत विघ्न हाडलें म्हणून शंकरान आपल्या तिसऱ्या दोळ्यान मदनाक (कामाक) भस्म केलो. ही कथा कालिदासाच्या **कुमारसंभवां**त (तिसऱ्या सर्गांत) आयल्या.

**अ. १५ तें अज्ञान ज्ञानीं बुडालिया । ज्ञानें कीर्तिमुखत्व केलिया ॥**
शंकरान जालंदर राक्षसाक मारपाखातीर रागाचे अवस्थेंत एक मनीस निर्मिलो. ताच्या तोंडाची आकृती शिंवासारकी केली. जालंदरादिकांक मारुनूय ताची भूक भागना म्हणून शंकरान ताका ताचेंच शरीर खावपाक सांगलें. उरिल्ल्या तोंडाक कीर्तिमुख अशें नांव पडलें. म्हज्या दर्शनाक येवपी भक्त आदीं तुजें दर्शन घेतलें असो शंकरान ताका वर दिलो. प्रत्येक शिवालयांत गर्भकुडीच्या हुंबऱ्याचेर एक शिंवाभाशेन तोंड काडिल्लें आसता, तेंच कीर्तिमुखाचें निदर्शक आसा. कीर्तिमुखान राक्षसांक खावन आपलें शरीरय खालें; तेचप्रमाण ज्ञान अज्ञानाक ना करून स्वताय कीर्तिमुखाप्रमाण नाशें जाता अशें हे होंवयेंत सांगलां.

**अ. १५ तया गौतमु जालासि आस्था- । निधि तूं गा ॥५७९॥**
नाशिक जिल्ह्यांत ब्रह्मगिरी लागसार गौतम रुशीचो आस्रम आशिल्लो. शंकरान गंगेक जटेंत धरतकच पार्वतीक तिचेविशीं मत्सर दिसपाक लागलो. ताका लागून तिका कशेंय करून भायर काड अशें तिणें गणपतीक सांगलें. तेन्ना गणपती ब्राह्मणरुपान गौतमाचो शिश्य म्हणून आश्रमांत रावपाक लागलो. एकदां ताणें मायाशक्तीन गाय करून तिका आस्रमांत चरपाक धाडली. आस्रमांत गाय शीत खाता तें पळोवन गौतमान तिचेर दर्भ मारलो. ताका लागून गौतमाक गोहत्येचें पातक लागलें. तें पाप कशें धुवून काडचें हे विवंचनेंत तो आसतना, गणपतीन ताका शंकराकडसून गंगा मागून घे असो सल्लो दिलो. मागीर ती सकल व्हांवंक लागतकीच थंय न्हाण घे, म्हणटकच गोहत्येचें पातक ना जातलें. गौतमान खर तप करून शंकराकडल्यान गंगा सकल हाडली. ती गंगा गोदावरीच्या रुपान ब्रह्मगिरी लागसार खाला देंवली. (ब्रह्मपुराण २.५-७.)

**अ. १६. ना ना रंभेचेनिही रूपें । शुकीं नुठिजेचि कंदर्पे ॥१२७॥**
घृताची अप्सरेपासून जाल्लो व्यासपुत्र शुक हो जल्मासावन विरक्त आनी ज्ञानी आशिल्लो. ताच्या तपाचरणांत विघ्न हाडपाखातीर इंद्रान रंभेक ताचेकडेन धाडली. पूण तो तिका भुललो ना.

**अ. १७ त्रिगुण त्रिपुरीं वेढिला । जीवत्व दुर्गीं आडिला । तो आत्मा शंभूनें सोडविला । तुझिया स्मृती ॥२॥**
महाभारतांत एक कथा आसा. त्रिपुरासुरान कैलासाक सैन्याचो वेढो घालून शंकराक कोंडून दवरलो. ह्या संकश्टांत शंकरान गणपतीचें स्मरण केलें. ताका लागून तो वेढ्यांतल्यान सुटलो. मागीर ताणें दैत्याचो पराभव करून त्रिपुराचो नाश केलो. (भागवत ७.१०.) हे होंवयेंत जीवात्म्याचेर

शंकरान रूपक केलां. जीवान सद्‌गुरूरुपी गणपतीचें स्मरण केल्यार ताची संवसारबंधनांतल्यान सुटका जातली.

**अ. १८ पहिल्या वैराग्यगरळा । धैर्यशंभु वोडवी गळा ॥७८९॥**

समुद्रमंथनांतल्यान जेन्ना हलाहल भायर सरलें, तेन्ना ताचें कितें करचें हाची देवांक विवंचना पडली. त्या वेळार जगत्कल्याणाखातीर शंकरान तें वीख पियेलें. ताका लागून ताचो गळो निळो जालो आनी ताका नीलकंठ अशें नांव पडलें. फुडें देवांक अमृतय मेळ्ळें.

**अ. १८. तेथ अमरत्वा वोगरिलें । तें मरणाचि लागीं जालें ॥१४७८॥**

समुद्रमंथन करून देव आनी दानव ह्या दोगांनीय अमृत मेळयलें. पूण दानवांनी अमृत पियेवन अमर जावप हें देवांक इश्ट दिसलेंना, म्हणून विष्णून मोहिनीचें रूप घेवन अमृतकलश पळोवन व्हेलो. मागीर देव आनी दानव हांच्यो दोन पंगती करून विष्णून मोहिनी रुपान फकत देवांकूच अमृत वाढलें. प्राप्त जाल्ल्याचो उपेग कसो करून घेवचो हें दानवांक खबर नाशिल्ल्यान अशें जालें. (भागवत ८-९.)

**अ. १८. नहुषु स्वर्गाधिपति जाहला । परी राहाटीं भांबावला । तो भुजंगत्व पावला ॥१४७९॥**

पुरुरव्याचो नातू नहुष राजा हो खूब पराक्रमी आनी सद्‌गुणी आशिल्लो. वत्रासुराचो वध करतकीच इंद्राक ब्रह्महत्येचें पातक लागलें आनी ताका इंद्रपद सोडचें पडलें. तेन्ना देवर्षीनी नहुषाक इंद्रपदाचेर बसयलो. पूण इंद्रपदाप्रमाण इंद्राणीय मेळची अशी इत्सा ताका जाली आनी ताणें इंद्राणीक महालांत आपयली. हें संकट टाळपाखातीर तिणें एक अट घाली की ताणें अपूर्व वाहनांतल्यान तिचेसरीं येवचें. तेन्ना नहुषान सप्तर्शींक शिबिका व्हरूंक लावन ते शिबिकेंतसून तो तिचेकडेन वचूंक लागलो. पूण ताका थंय पावपाची घाई जाल्ल्यान ताणें 'बेगीन वचात, बेगीन वचात' (सर्प सर्प) अशें खोंट मारून सांगलें. तेन्ना अगस्ती रुशीक राग येवन ताणें 'तूं सर्प जातलो' असो स्राप दिलो. तेन्ना इंद्रपदापसून तो ढळ्ळो आनी सोरोप जावन पृथ्वीचेर पडलो. (महाभारत, उद्योगपर्व अ.१६, भागवत ७.१३.)

**अ. १८ की गीता हे सप्तशती । मंत्रपतिपाद्य भगवती । मोहमहिषा मुक्ती । आनंदली असे ॥१६६६॥**

महिषासुर हो रंभासुराक महिषीपासून जाल्लो पूत. ताणें घोर पुरश्चरण करून ब्रह्मदेवाकडल्यान ''मनशाकडल्यान म्हाका मरण येवंचें न्हय'' असो वर मेळयलो. मागीर तो देवांक आनी लोकांक पिडूंक लागलो. तेन्ना आदिशक्तीन अष्टभुजा स्त्रीरूप धारण करून ताचो वध केलो. ताका लागून गीता ही महिषासुरमर्दिनी भगवतीच आसा.

**अ. १८ श्रीगुरूचेनि नांवें माती । डोंगरीं जयापासीं होती । तेणे कोळिये त्रिजगतीं । येकवद केली ॥१७३०॥**

हिरण्यधेनुक नांवाच्या निषादपतीचो एकलव्य हो पूत. ताणें द्रोणाचार्याकडल्यान अस्त्रविद्या मेळची म्हणून आचार्याक विनयलें. पूण तो कोळी जातीचो म्हणून ताणें ताका शिश्य केलो ना. मागीर ताणें आचार्याकडल्यान पादुका मागून घेवन, द्रोणाची मातयेची मूर्ती केली आनी आपणेंच धनुर्विद्या शिकून धनुर्धर म्हणून कीर्त जोडली. तो अर्जुनाक भारी जावंचो न्हय म्हणून द्रोणाचार्यान ताका ताचो आंगठो तोडून दी म्हणून गुरुदक्षिणा मागली. ती ताणें आनंदान मान्य केली. (महाभारत आदिपर्व, अ.१२३.)

□

# टिपो

**अध्याय १**

(४७) व्यासान उश्टायल्लें. व्यासान आपले भाशेंत जें वर्णिलां अशें.

(६८) टिटापय: परिशिश्ट ३, अ.१ (६८) वेली टीप पळयात.

**अध्याय २**

(१११) विशय: पांच ज्ञानेंद्रियांक लागून मनाक जाणवपी वा कळपी वस्तु. विशयांच्यो ज्ञानेंद्रियांक लागून पांच तरा जातात. शब्द, स्पर्श, रूप, रस आनी वास (गंध). हांचे पैकीं कांय जायशे दिसतात, कांय नाकाशे दिसतात. हांचेपासून कांय सूख तशेंच कांय दु:ख मेळटा आनी ताका लागून आत्मस्वरुपाची विस्मृती जाता, आत्मसूख मेळनाशें जाता.

(१४०) माया; मायाभास; आदीमाया. परब्रह्माची सभावीक शक्ती. हे स्फुरणरुपी शक्तीक लागून निर्गूण निर्विशेश ब्रह्माचे ठांय विश्वाभास निर्माण जाता, वाडटा आनी विलीन जाता. हेच शक्तीक माया, मूळ माया, मूळ प्रकृती (अव्यक्त) इत्यादी नांवां दितात. मायेक लागुनूच सच्चिदानंदरूप परब्रह्माचे ठांय जड आनी दु:खरूप सृश्टीचो भास जाता.

(१४३) आत्मो - आत्म्यार; आत्मतत्त्वाचेर: दृश्य पसाऱ्या फाटल्यान ज्ञान-प्रकाश-आनंदान भरिल्लें अशें चिरंतन सत्य तत्त्व. ह्याच तत्त्वाच्या आधाराचेर मन, बुद्दी इत्यादी सुक्षीम आनी पांच म्हाभूतां आदी जड अशीं सगलीं तत्त्वां कार्यकारी भासतात. आमच्या देहांमदीं रावपी जी जाणवीक आसा, तिच्या शुद्ध स्वरुपाक उदय आनी अस्त ना. 'हांव' रुपान आमी जिका अणभवतात, ती सद्‌वस्तु आसून, तिका आत्मो अशें म्हणतात.

(१५०) सत्त्व, रज आनी तम अशे तीन गूण. त्रिगुणांचे समस्थितीक प्रकृती अशें नांव सांख्यशास्त्रान दिलां. त्रिगुणांच्या साम्य अवस्थेंत खवदोळ निर्माण जावन जीं मिसरणां आनी प्रती मिसरणां जातात, तांकां लागुनूच सृश्ट विकसीत जाता. आमच्या जड आनी सुक्षीम शरीरांतल्या ह्या गुणांच्या प्रमाणाचेर आमचो सभावधर्म आनी क्रिया (करण्यो) निंबून आसात. शांत सभाव आनी ज्ञान हें सत्त्वगुणांचें दृश्य स्वरूप, तर चंचळताय आनी क्रियाशिलताय हें रजगुणांचें. जडताय आनी आळस हें तमगुणाचें दृश्यस्वरूप. आहाराक आनी विहाराक लागून शरीरांतल्या गुणांच्या प्रमाणांत फरक पडटा म्हणून सात्त्वीक आहारविहाराचें म्हत्व सांगलां.

(१८१) युगाचो शेवट; प्रळयकाळ. कृत, त्रेता, द्वापर आनी कली ह्या चार युगां उपरान्त येवपी प्रळयकाळ. कृत (१७२८००० वर्सां), त्रेता (१२९६००० वर्सां), द्वापर (८६४००० वर्सां) आनी कली (४३२००० वर्सां).

(२३०) सांख्यतत्त्वज्ञान: ज्ञानयोगाचें तत्त्वज्ञान. गीतेंत दुसऱ्या-तिसऱ्या अध्यायांत आयिल्लो सांख्य शब्द कपिलाचें सांख्यदर्शन ह्या अर्थान येवंक ना. तो ज्ञानयोग, ज्ञानमार्ग, संन्यासमार्ग, आत्मअनात्म विचार, अंतीम सत्याचें ज्ञान, ह्या अर्थान आयला.

बुद्दीयोग: निश्काम कर्मयोग. फलाशेचे ठांय बुद्दी दवरिनासतना कर्मां करपाची युक्ती वा समत्व बुद्दी. आपणाक सभावीकपणान प्राप्त जाल्लें कर्म ईश्वर चिंतन पुराय करीत रावप आनी ताच्या फळाविशीं आसक्ती, अपेक्षा ना अशी बुद्दी आसप. बुद्दीची ओड केवळ ईश्वरतत्त्वाकडेन आसप. विशय आनी इंद्रियां हांचे ओडीक लागून बुद्दीक जायते फांटे, देळशे खांदयो फुटप. भावना आनी विचार ह्या दोंयची ओड ईश्वरा कडेच आसप, हाका बुद्दीयोग अशें नांव आसा.

(२३३) पुर्वापारचें कर्म (पूर्व अनुक्रम): पुर्विल्ली परंपरा. बुद्दीयोगान - शुद्ध बुद्दीन आनी फळाची अपेक्षा धरिनासतना लागणूक (कर्तव्य) केल्ल्यान, पुर्विल्ल्या कर्मांचे चित्ताचेर जाल्ले संस्कार शुद्ध जावन साधक ल्हवुल्हवू चडान चड वयल्या पांवड्यार वता. पयलीं संपादिल्ली भुमिका ह्या मार्गांत फुडले भुमिकेचें सोंपण म्हणून उपकरा पडटा.

(२३५) कर्म-बंधनांतसून सुटप. कर्मक्षय. प्रारब्ध, संचित आनी क्रियामाण. अश्या सगल्या कर्मांचो नाश. प्रारब्ध = आरंभिल्लें. ज्या पूर्वजल्मींच्या कर्मांचो परिणाम म्हणून चालन्त देह आनी चालन्त परिस्थिती हीं मेळ्ळीं, तो चालू देह आनी तो कर्मांचो समुदाय. हाकाच सामान्य भाशेंत ''दैव'' म्हणटात. (प्राक्तन; पूर्व कर्म) संचित = सांठयल्लें. अनेक जल्मांतल्या कर्मांच्या संस्काराचो सांठो, जाका लागून भौन भौन विंगड विंगड वासना निर्मण जावन, अनेक कर्मां, तातुंतल्यान अनेक फळां आनी अनेक संस्कार अशें कर्मचक्र चलता. क्रियामाण = चालू क्रिया. चालू जल्मांत जीं बरीं वायट कर्मां, काया-वाचा-मनान जातात तीं आनी तांचे परिणाम आनी संस्कार ह्या तीन तरांच्या कर्मबंधनांनी प्रत्येक जीव बांदिल्लो आसता. कर्मयोगान म्हणचे कर्तेपणाचो अभिमान आनी फळाची हाव सोडून कर्म केल्ल्यान, क्रियमाणाच्या बंधनांतसून, ईश्वर चिंतनांत - भोगून -

शांतपणान सोंसून - प्रारब्धांतसून आनी ईश्वर-स्वरुपांत-आत्मस्वरुपांत विलीन जावन, संचितांतल्यान (सगल्याच कर्मबंधनांतल्यान) सुटचें आसता.

(३५६) देह आदी प्रपंच. शुद्ध सच्चिदानंद अश्या परमात्म्या ठायीं पंचम्हाभूतांची सृश्ट भासप ही उपाधी म्हणून देह, इंद्रियां, मन इत्यादी ह्यो जिवात्म्याच्यो उपाधी आसात.

**अध्याय ३**

३६ सांख्यतत्त्वज्ञान - ज्ञानयोगाचें तत्त्वज्ञान. गीतेंत दुसऱ्या तिसऱ्या अध्यायांत आयिल्लो सांख्य शब्द कपिलाचें सांख्यदर्शन ह्या अर्थान येवंक ना. तो ज्ञानयोग, ज्ञानमार्ग, संन्यासमार्ग, अंतीम सत्याचें ज्ञान, आत्मअनात्मविचार ह्या अर्थान आयला.

४० साधक - आत्मस्वरुपाचो अभव मेळचो हाचे पासत सद्गुरुच्या मार्गदर्शनाप्रमाण (ध्यान इत्यादी मार्गांनी) अभ्यास-प्रयत्न करपी मनीस. तत्त्वज्ञानाचे दिश्टीन बद्ध, मुमुक्ष, साधक आनी सिद्ध अशे मनशाचे चार वर्ग केल्यात. (१) बद्धः विशय, इंद्रियां तांचे पासून मेळटलीं सुखदुख्खां हातूंत घुसपून तांचे पेल्यान कितें आसा वा कशें हाचो विचारय ना करपी. (चडशे मनीस ह्याच प्रकारांतले.) (२) मुमुक्ष - संवसारांतल्या सुखदुःखांचें खिणयाळेंपण आनी अपुर्णताय लक्षांत आयिल्ल्यान, अखंड सूख-समाधानाचो मार्ग जाणप आनी ऐहीक सुखदुख्खांतल्यान सुटूंक इत्सुपी. (३) साधक (आरंभी दिल्लो). (४) सिद्धः सिद्धांचो राजा. सच्चिदानंद आत्मस्वरुपाचो अणभव मेळून पुर्णावस्था जोडिल्लो. सिद्धी मेळिल्लो.

४३ सवण्यामार्ग (विहंगममार्ग) बेगीन समाधी साधपाचो मार्ग. हाचे उरफाटो पिपीलिकामार्ग (मुंयेचो मार्ग). सवकासायेन ल्हवुल्हवू समाधी साधपाचो मार्ग. तीव्र वैराग्य जोडिल्ल्या शुद्ध चित्ताच्या साधकाक सद्गुरूकडल्यान स्वरूपाची वळख जातकीच तो सवण्याप्रमाण झेंप घेवन आत्मस्वरुपांत विलीन जाता. ताचो मार्ग विहंगममार्ग. मंद वैराग्य आशिल्ल्या सामान्य साधकाक ल्हवुल्हवू क्रमाक्रमान अभ्यास करीत आत्मस्वरुपाचो अणभव घेवंचो लागता. ताचो मार्ग पिपीलिका (मुंयेचो मार्ग). विहंगममार्गाचो आरंभ साधक आज्ञाचक्रापसून करता. योगशास्त्राप्रमाण पिपीलिका मार्गाचो आरंभ मूलाधारचक्रापासून जाता.

७० कर्मेंद्रियां - कर्म (हालचाल) करपी इंद्रियां. हात, पांय, गूद (म्हेळादार), शिश्न (मुतादार) आनी वाचा हीं पांच कर्मेंद्रियां, आनी दिवप घेवप, चलप (गती), म्हेळ सोडप, मूतप आनी उलोवप हीं तांचीं कर्मां.

१५० स्वकर्म - नियत वा नेमून दिल्लें कर्तव्य वा लागणूक. आपल्या सभावगुणां प्रमाण आनी आपणें आपणायल्लो वेवसाय आनी परिस्थिती हांकां अनुसरून करचेलें उचीत अशें काम.

१६३ सांदिपनी गुरूच्या आश्रमांत कृष्ण-बलराम ल्हानपणांत विद्या शिकपाक राविल्ले. विद्यार्जन पुराय जातकीच 'गुरूदक्षणा' म्हणून कृष्णान सांदिपनीच्या दत्त नांवाच्या एकुलत्या एक मेल्ल्या पुताक आपल्या अद्भूत दैवी सामर्थ्यान जिवो करून सांदिपनीक हाडून दिलो.

२०३ समुद्रमंथनांतल्यान भायर सरिल्लें भयंकर वीख; कालकूट.

२५४ तापत्रय (त्रिताप) - तीन तरांचो ताप, पिडा, दुःखां. (१) आधिभौतीक ताप, दुःखां - भायल्या सृश्टींतल्या, पांच महाभुतात्मक पदार्थांचो इंद्रियांकडेन संयोग जावन आघातादिकांक लागून आनी हून उश्ण हांकां लागून भोगचेलीं दुःखां. (२) आधिदैवीक दुःखां. देवतांच्या कोपाक लागून वा पिशाच्चादिकांचे पिडेक लागून भोगचेलीं दुःखां. (३) आध्यात्मीक दुःखां - वयर सांगिल्ल्या भायल्या संयोगाशिवाय उद्भवपी दुःखां.

२६५ हांकां (काम, क्रोधाक) होरोवपाक जें अवसान आंगांत हाडचें तें तांकां पालव दिता, लाकडां जशीं उज्याक पालव दितात.

**अध्याय ४**

१४७ प्राणवायू आडावन ताचे वरवीं चित्तवृत्तीची एकाग्रताय सादपाचो योगांतलो एक प्रकार. हातूंत आसनबंध इत्यादी क्रियांचेर अदीक भर दितात.

**अध्याय ५**

११ वसिष्ठ कुळांतल्या व्याघ्रपाद नांवाच्या रुशीक उपमन्यू आनी धौम्य अशे दोन भुरगे आसले. घरचे गरिबीक लागून तांची आवय तांकां उदकांत पीठ कालोवन दूद म्हणून दिताली. एकदां उपमन्यून ताजें दूद पियेवंचो हट धल्लो. 'दूद पियेवपा इतली तुमची पूर्वपुण्याय ना' अशें आवयन ताका म्हळें. हें आयकून उपमन्यून शंकराची आराधना केली. शंकरान प्रसन्न जावन ताका क्षीरसागरच दिलो.

१४० हें निवृत्तिनाथान म्हळें.

१५२ इडा-पिङ्गला-मुलाधार चक्रापासून भायर सरून डावे नाकपुडयेंतल्यान व्हांवपी जी नाडी तिका इडा वा चंद्रनाडी; आनी मुलाधार चक्रासावन भायर सरून उजवे नाकपुडयेंतल्यान व्हांवपी जी नाडी तिका पिङ्गला वा सूर्यनाडी अशें म्हणटात. सुषुम्ना - इडा आनी पिङ्गला हांचे मदली पोकळी. आमच्या मेंदूपासून फाटीच्या कण्यांतल्यान दोन व्हडले ज्ञान-रज्जू गेल्यात आनी ते मणकां मेरेन

(जंय आधारचक्र आसा) पावल्यात. हाचे मदल्या दाव्या राजवाक पिङ्गला म्हणटात. ह्या दोन राजवांमदले पोकळेक सुषुम्ना म्हणटात.

**अध्याय ६**

३२० मन परमात्म्यांत विलीन जाता ती अवस्था. जाग्रुताय (जागेंपण), सपन, सुषुप्ती (गाड न्हीद) अश्यो तीन अवस्था आमी सगळे अणभवतात. चवथी तुरिया (तुर्या) म्हणचे स्वताचें मन आनी इंद्रियां हांचे कडेन साक्षी भावान पळोवप. हाचे पेल्यानची स्थिती उन्मनी. हातूंत जीव आनी शिव एक जातात. तांच्या वेगळ्या वेगळ्या अस्तित्वाचो लय जाता. (परिशिश्ट २ - अवस्था त्रय पळयात.)

**अध्याय १२**

४ मुलाधारचक्र हें स चक्रांपयकीं पयलें. तें शिश्न आनी गूद हांचे मर्दी फाटीच्या कण्यांत आसता. थंय कुंडलिनी ह्या नांवाची प्राणशक्ती सुप्त अवस्थेंत आसता आनी योग, भक्ती इत्यादिकांक लागून ती जागी जाता. त्या वेळार योग्यांक अतींद्रीय ज्ञानाचे अणभव मेळटात. सिद्धींचो लाव जाता. (परिशिश्ट २ - चक्र पळयात.)

७ आघाताशिवाय आयकूंक येवपी आवाज. सोऽहं शब्द. सामान्य ध्वनी हो एके वस्तुचो दुसरेचेर आघात जालेबगर उत्पन्न जायना. योगसाधना करतना कुंडलिनी जागृत जावन हृदय कमळाकडेन येतकीच हे ध्वनी आयकूंक येतात. हांची संख्या धा अशी सांगल्या: चिणी, चिणीचिणी, घंटा, शंख, तंत्री, ताल, वेणु, मृदंग, भेरी आनी मेघ (**हंसोपनिषद्**).

११ वाङ्मयांतले अळंकार. जाका लागून भाशेची गोडी आनी सुंदराय वाडटा अशीं रूपकां, उपमा, दृष्टांत इत्यादी.

५२ शरीराचीं णव दारां अशीं: दोळ्यांचीं २, कानांचीं २, नाकाचीं २, गुदाचें (मलद्वार) १, शिश्नाचें (मुतपाचें) १ मेळून णव. धावें दार ब्रह्मरंध्राचें (परिशिश्ट २ - नवद्वार पळयात.)

५५ ब्रह्मरंध्र - योग सामर्थ्यान जंयसून प्राण व्हरूंक येता अशें मस्तकांतलें (टाळयेवयलें) गुप्त छिद्र. धावें दार. कुंडलिनीशक्ती ब्रह्मरंध्रांत सहस्त्रदलांत पावतकच आत्मदर्शन जाता अशें योगी सांगतात.

६२ शून्याकडेन - आकाशांत. चिदाकाशांत. चैतन्यरूप-ज्ञानरूप-आकाश. पांच म्हाभूतांतलें आकाश अशें म्हणिल्ल्यान शून्य, कांय ना, फकत पोकळी - एके तरेची अज्ञान स्थिती असो भाव निर्माण जाता. पूण चिदाकाश म्हणटना आकाशाचो अनंत विस्तार आनी अलिप्तताय हीं आसून शिवाय शुद्ध ज्ञानमय अवस्था असोय भाव दाखोवंचो आसता.

६१ पदां इंद्रादीक आदी - इंद्र इत्यादी विशिश्ट अधिकार पदाचेर आशिल्ल्यो देवता. योग्यान तपाच्या सामर्थ्यान विशेश अधिकार मेळोवन आपणाक स्थानभश्ट करचें न्हय हाचे खातीर योग्याक सिद्धींनी भुलोवन तपा पासून तोडपाचो यत्न ह्यो देवता करतात अशें पुराणांत वर्णिलां. भक्तीचो हेतू ईश्वरप्राप्ती आसूंक जाय. भक्तीवीण केल्ले तपश्चर्येंत कांयच अर्थ ना.

१७९ पायाळू: पांयांकडल्यान जल्मल्लो. पायाळूक जमनींत गुप्त-धन आनी उदक खंय आसा तें कळटा, असो पयलीं समज आशिल्लो.

२२१ खोंट धरीन छातयेरी: भृगु हो ब्रह्मदेवाच्या मानसपुतां पैकीं एक ब्रह्मर्शी. ब्रह्मदेव, शंकर आनी विष्णू ह्या तिनांत स्रेश्ठ कोण हाचेविशीं रुशींमदीं वाद जावन भृगुक परिक्षा करूंक धाडचो अशें थारलें. ब्रह्मदेव आनी शंकर हांचेकडेन वचून ताणें तांचो अपमान केलो तेन्ना त्या दोगांक्य तिडक मारली. मागीर तो विष्णूकडेन गेलो. विष्णू न्हिदिल्लो. ताका उठोवंक भृगून विष्णूचे छातयेर खोंट मारून ताका जागयलो. भगवान विष्णूक राग तर आयलोच ना, उलट ताचे पांय धरून तो ते चेपूंक लागलो.तेन्ना विष्णूच स्रेश्ठ असो ताणें निर्णय दिलो. भगवान विष्णूचे छातयेर भृगुचे खोंटेन उदेल्ली खूण, भूशण (श्रीवत्सचिन्ह) म्हणून विष्णू मिरोवंक लागलो.

**अध्याय १३**

१८ हाचो धनी कोण हें समजून घेवंची इत्सा इतली खर आसा, की घराघरांत वादाक लागून तकल्यो फुटूंक पावल्यात.

६२ पृथ्वीच्या आठ दिकांक रावन तिका आपले तकलेचेर उखलून धरपी आठ हती पुराणांत वर्णिल्यात. ऐरावत, पुण्डरीक, वामन, कुमुद, अंजन, पुष्पदंत, सार्वभौम आनी सुप्रतीक अशीं तांचीं नांवां. कालचक्रांत तांचोय नाश जाता.

६२३ ताचेठांय ज्ञान करमेले बगर तो ज्ञानी जाला अशें म्हणूं येवंचें ना. प्रत्यक्ष ज्ञान आनी शब्द ज्ञान हीं सारकीं न्हय.

८७४ (भासमान जावपी) सगलेंच हें परमेश्वराचें रूप आशिल्ल्यान विश्वांत जावपी सगल्यो क्रिया ह्या परमेश्वराचेच हात करीत आसतात, म्हणून परमेश्वराक विश्वबाहु म्हणटात.

१०३०-३१ जो पुरुष आनी प्रकृती ही रूप आनी छाया वा जल आनी मृगजळ हांचे भाशेन आसा, असो निर्णय करता, ताका प्रकृती आनी पुरुष हांचे मदलो भेद कळ्ळा.

११३६ हाका शुकनलिका न्याय अशें म्हणटात. कीर (पोपट) धरपाक पारधी झाडाचेर नळी बांदता. पोपट नळयेचेर बसतकच आपूण पडत ह्या भंयान नळयेक अदीकच घट्ट धरून रावता.

### अध्याय १४

२८ दुर्वा हो तणाचो एक प्रकार. हाचीं मुळां भुंयेंत खोल गेल्ल्यान, वयर सुकिल्लीं दिसल्यारय तें मुळांत जीवें आसता. वयर सुकिल्लीं दिसल्यारय तें मुळांत जीवें आसता. मात्शी वलसाण मेळ्ळ्यार तें पर्थून जीव धरता. म्हणून दुर्वेचो आंकूर अवंर म्हळा.

८५ ही होंवी राजवाडे प्रतींत ना. हे होंवयेंतलीं यमकांय ज्ञानेश्वरीचे पद्धतींत बसनात.

१२२ म्हणून उजो आनी ताचो जाळ हीं जशीं एकाच उज्याचीं रुपां, तशें हांव आनी जगत् (विश्व) एकरूप आशिल्ल्यान, म्हजे पासून जगाची उत्पत्ती जाता, असो संबंध मानप व्यर्थ.

३१२ तसो गुणातीत देहाविशीं निश्चींत.

### अध्याय १५

७० परिशिश्ट १ पळयात.

८० 'वांझेची संतती' अशें म्हणूंक येना.

८१ माया आसा अशें म्हणूंक वचचें, तर तिचो ज्ञानबळान नाश जाता. ती ना अशें म्हणूंक गेल्यार, हें सगलें कोण निर्मिता असो प्रस्न उबो रावता. ती संवसार रुखाचें बीं आशिल्ल्यान तिका अनादी म्हण्टात.

११९ म्हणून समुद्र आटनाय आनी वाडनाय.

२२१ कांसवीण तिच्या पिलांची राखण फकत नदरेनच करता अशी समजूत आसा. तांकां दूद मेळनासतना तांचें पोशण जाता. दूदच ना तर तूप खंयचें? म्हळ्यार, हें घडप शक्य ना.

५७८ गौतमा परी - नाशिक क्षेत्रांत ब्रह्मगिरी लागसार गौतम ऋषीचो आस्रम आसलो. एकदां गौतमा कडल्यान गोहत्येचें पातक घडलें. तें पाप धुवून वचचें म्हणून गणपतीन ताका ''शंकरा कडल्यान गंगा मागून घेवन तातूंत न्हाण घेतल्यार पावन जातलो'' अशें ताका सांगलें. ते प्रमाण ब्रह्मगिरीचेर आराधना करून ताणें शंकराक प्रसन्न करून घेतलो. शंकरान जटेंतली गंगा खाला सोडली. ती गंगा-द्वारांतल्यान व्हांवत येवन कुशावर्तांत पडत आशिल्ली आयजय दिसता. गंगेंन न्हावन गौतम ऋषी पावन जालो. ती गंगा म्हणजेच गोदावरी नदी.

### अध्याय १६

५-६ शास्त्रांतल्या शब्दांच्या जंजाळांत सांपडिल्ल्यान अज्ञानाच्या काळखांत (जीव आनी ईश्वर) भेदरूप न्हंयेच्या दोनूय तडींचेर विरहदुख्खान आड्डुपी बुद्दीरुपी आनी बोधरुपी (५) चक्रवाक सवण्यांचे जोडयेक हो भुक्नदिवो ब्रह्मरूप आकाशांत ह्या गुरुरुपी सूर्यप्रकाशांत एकठांय हाडून तांचें समाधान करता.

४६ म्हणून सांगिल्लीच गजाल पर्थून सांगली तर तांतूंत अजाप ना.

८० केशी असुर हो कंसाच्या पक्षांतलो. हो घोड्याचें रूप घेवन कृष्णाक मारपाक आयिल्लो आसतना, कृष्णान ताका जिवो मारलो.

१०७ धूप सुगंध दिवपाक स्वताक जाळून घेता. भांगर चोख जावंक वजनांत उणें जाता, वा कृष्णपक्षांत वनस्पतीचें पोशण जावंक चंद्राचो क्षय जाता.

१८८ महासिद्धी - आठ महासिद्धी योगसाधकांक मेळटात असो समज आसा. त्यो सिद्धी अश्यो: (१) अणिमा - शरीर सुक्षीम जावप. (२) महिमा - शरीर व्हडलें जावप, (३) लघिमा - शरीराचें वजन उणें जावप. (४) प्राप्ति - सगल्या प्राण्यांच्या इंद्रियां कडेन त्या त्या इंद्रियांच्या अधिष्ठात्री देवतांच्या रुपान संबंध घडप. (५) प्राकाश्य - परलोकांतल्या अदृश्य विशयांचेंय ज्ञान जावप. (६) ईशिता - शक्तीची, मायेची आनी तिच्या अंशाची ईशाचे ठांय आनी हेरांचे ठांय आसपी प्रेरणा ताब्यांत येवप; सत्ता; प्रभाव. (७) वशिता - विशय भोगतनाय तांचे ठांय आसक्त ना जावप. (८) प्राकाम्य वा कामवासायिता - ज्या ज्या सुखाची इत्सा करची, तें तें सूख जाय तितलें मेळप.

१९२ अगस्ती - परिशिश्ट १ पळयात.

### अध्याय १७

२ तारकासुराच्या तीन पुतांक ब्रह्मदेव प्रसन्न जावन ताणें अंतरिक्षांत त्रिपुरां बांदून दिल्लीं. त्या तिगांयनी सगलें त्रिभुवन त्रासांत घाल्लें. देव आनी ऋषी विष्णुक शरण गेले आनी त्या सगल्यांनी शिवाचें स्मरण करून त्या त्रिपुरांच्या त्रासापासून त्रैलोक्य सोडयलें. ताचेय परस विशेष म्हळ्यार त्रिगुणांनी त्राशिल्लो जिवात्मो सद्‌गुरूचें स्मरण करून आत्मशंभून - शिवान सोडयलो.

५१ आफूड भश्ट हाची कल्पना पुरातन कालासावन भारतांत आसा. ती आतां ल्हवुल्हवू उणी जायत आसा.

५५ तेन्ना तें शुद्ध रावना.

३७४ थंय कर्तो आनी कर्म हांचेमदीं वेगळेपण वा द्वैतभाव उरता.

### अध्याय १८

४१ हो पुर्विल्ल्या वैदीक काळांतलो समज आर्विल्ल्या काळांत ल्हवुल्हवू बदलपाक लागला.

१६३ आयुर्वेदांत धोतरो, बचनाग इत्यादी विखां विशेश रसायणप्रक्रियेन पिडारोग निवारणाक तांचीं वखदां तयार करतात. रसायण रुपांत वीखच जीव वाटावपी वखद जाता. ते प्रमाण बंधनांत घालपी कर्मच निश्कामपणान केल्यार मोक्ष दिणें थारता.

२४६ रेचक-कुंभक - (हठ) योगांतली श्वसन (श्वास घेवपाची) पद्धती. रेचक - ल्हवू श्वास भायर सोडप, पूरक - श्वास भितर घेवप आनी कुंभक श्वास भायर वा भितर थोडो वेळ थांबोवप वा (कोंडून) धरप.

५७० देवांच्यो मुर्ती ज्या दोंगरांतल्या पाशाणापासून घडयल्यात, ते दोंगर स्वस्थ कित्याक बसतात?

८६६ जशी गुरवचार आयिल्ली आपल्या घोवाकडेन समागम करचें टाळटा.

९७९ वारो पडटकच जशें त्या वाऱ्यान निर्मिल्लें ल्हार मुळच्या समुद्ररुपान रावता, तशें ताचें जें मूळ स्वरूप आसलें, तें तो आपलेठांय जावन रावता.

१२३९ कडक वा कठोर शिक्षा. आपल्या सत्याची गवाय पुरोवपाखातीर, देहदंडाची, अग्नीदिव्याची, जलदिव्याची इत्यादी.

१७३० एकलव्या - हिरण्यधनु नांवाचो निषाद (भिल्ल) राजाचो चलो एकलव्य. द्रोणाचार्याकडेन धनुर्विद्या शिकची अशी ताची इत्सा आसली. पूण द्रोणाचार्यान 'तूं क्षत्रिय न्हय म्हणून तुका कौरव पांडव ह्या राजपुत्रां बरोबर म्हाका तुका शिकोवंक येवचें ना' अशें सांगलें. एकलव्यान गुरू द्रोणाचार्याची मातयेची मुर्ती करून, ते मूर्तीच्या चरणाम्हऱ्यांत सोताच अभ्यास केलो आनी तो द्रोणाचार्याचो पट्टशिश्य जो अर्जुन, हाचेपरसय खांपो जालो. हो गुरूचे कृपेचो परिणाम. पूण द्रोणाचार्यान मात गुरूदक्षिणा म्हणून ताचो आंगठोच मागलो आनी एकलव्यान तो ताका कातरून दिलो. ही महाभारतांतली प्रसिद्ध कथा.

१७५३ चौरंगीनाथ - रुद्रपूरच्या भुलेश्वर राजाचे व्हडले राणयेचो हो पूत. हो पोटांत आसतना तिका सवतीन घोवाक घराभायर घालून रानांत धाडली. थंय ती सुटली. कांय दिसांनी त्या भुरग्याचे हात पांय तोडून ताका गांवचे वेशीचेर चौरंगाचेर बांदून दवरलो. मत्स्येंद्रनाथ थंय भोंवतां भोंवतां पावलो आनी ताचे कृपेन ताका ताचे हात पांय मेळ्ळे. मागीर तो ताचो शिश्य जालो. ताचें नांव चौरंगीनाथ दवरलें.

१८१० सच्चिदानंदबाबा: श्रीज्ञानेश्वरान जी ज्ञानेश्वरी नेवासें हांगा महालया देवळांत सांगली ती हाणें बरोवन घेतली. ताचें आडनांव थावरे. हाणें ज्ञानेश्वरविजय नांवाचो ग्रंथय बरयलो.

□



# समासीक शब्दांचो कोश

| | | |
|---|---|---|
| **अकल्पनाप्यकल्पतरू** | जाची कल्पना विरून गेल्या अश्या निर्विकल्प योग्याकय प्राप्त करून घेवपाक फावो असो कल्पवृक्ष. | १८.१० |
| **अज्ञानदृष्टिकल्पितें** | अज्ञान दिश्टीन कल्पिल्लें | १५.३८९ |
| **अतिकृतकंदर्पसर्पदर्प** | कामरुपी सोरपाच्या अहंकाराचो तिरस्कार करपी. | १८.८ |
| **अद्वयाअब्जिनीविकाशु** | अद्वयरुपी कमलिनी (कमळाची वाल) फुलोवपी (सूर्य). | १६.१ |
| **अद्वयबोधपाटणीं** | अद्वैतज्ञानरुपी नगरांत | १६.१२ |
| **अन्यथामतिनिद्रेतें** | विपरीत ज्ञानरुपी न्हिदेक | १६.११ |
| **अभिनववाग्विलासिनी** | अपूर्व वाणीची लीला दाखोवपी | १.२१ |
| **अविद्यातिमिररोखें** | अविद्यारुपी काळखाचेर चाल करून वा रुश्ट जावन | १८.१६६८ |
| **आत्मजिज्ञासु** | आत्म्याचें ज्ञान करून घेवंक इत्सुपी | १६.५२ |
| **आमनिवेदनातळिंची** | आत्मनिवेदनाचे (णववे भक्तीचे) सकयल्ले (आठवे) सख्यभक्तीक उद्देशून. | ६.१२७ |
| **आत्मविदाविलासी** | आत्मज्ञानांत आनंद मानपी. | १५.६५ |
| **आपादकंचुकित** | मस्तकापासून पांयां मेरेन (रोमांचरुपी) झग्यान पांगुरिल्लें | ९.५२७ |
| **उन्मेखसूर्यकांतफुणगे** | ज्ञानरुपी सूर्यकांत मणयाच्या किटींनी | १६.८ |
| **कथिलयादारभ्य** | आरंभापासून हांगा मेरेन सांगिल्लें. | १५.५७० |
| **कमलायतडोळस** | कमळाच्या पाना भाशेन लांब दोळे आशिल्लो. | ११.६९ |
| **कर्माकर्मविवंचना** | कितें करचें आनी कितें करचें न्हय हाचो विचार | ४.८३ |
| **कलुषकरीकेसरी** | दोशरुपी हतयाक मारपी शींव. | १७.४२३ |
| **कळिकाळु ज्वरितादोसें** | कलीरुपी काळाच्या जोरान पिडिल्ल्यां खातीर. | १८.१६८८ |
| **कळितकाळकौतूहल** | काळाची विचित्र करणी जाका कळटा असो. | १८.३ |
| **कामादिदोषत्रिपुटी** | काम (खर इत्सा), क्रोध (तिडक) आनी लोभ ह्या तीन दोशांचें तिरकूट. | १६.४३२. |
| **कुटिलालकमस्तक** | जाचे तकलेर कोंगरे केंस आसात असो. | १०.२१५ |
| **गुरुकृपामृततुषारें** | गुरुकृपारुपी अमृताच्या शिंवरान | १८.२५९ |
| **चतुरचकोरचंद्र** | रसिक हेच चकोर, तांकां आनंद दिवपी चंद्र | १०.४ |
| **चतुरचित्तचमत्कारु** | रसिकांच्या चित्ताक अजापीत करपी. | १०.४८ |
| **चराचरैक्यभाग्य** | जंगम आनी स्थावर सृश्टीचें एकठावल्लें ऐश्वर्य | ८.२६६ |
| **चळचित्तपानतुंदिळ** | चंचळ चित्ताचें प्राशन (नाश) करून धोंन आयिल्लो असो. | १८.४ |
| **चातुर्यार्थकलाकामिनी** | चतुराय आनी कला हांची देवता | १.२१ |
| **चातुर्यचंद्रांगनन** | चतुराय आशिल्ल्या चंद्राक संचार करपाक वाव दिवपी आकाश. | १४.१५७ |
| **जगदखिलपालन** | सगल्या जगाक पाळपी. | १०.३ |
| **जगदंबुदगर्भनभ** | जगरुपी कुपांचो (मेघांचो) जातूंत आसपाव जाला अश्या आकाशासारको. | १८.६ |
| **जगदादिकंद** | जगाचें मूळ कारण. | १७.३२६ |
| **जगदाभासमीषें** | जग खरें आसा अशें दाखोवपाच्या निमतान. | १८.२६० |
| **जगदुदरदोंदिल** | जगाचो आसपाव उदरांत (पोटांत) जाल्ल्यान मोठो (स्थूल) जाला असो. | ११.७०० |
| **जगदुन्मीळनाविरळा केलिप्रिया** | जगाक निर्मुवप ही सदचीच क्रीडा जाका आवडटा असो. | १८.४ |
| **जनलीलाविलास** | प्राण्यांचें उत्पादन करप होच जाचो खेळ आसा असो. | ११.१३० |

| | | |
|---|---|---|
| **जन्मजराजळदजाळा प्रभंजना** | जल्म आनी म्हातारपण ह्या कुपांच्या जाळ्यांक हुबोवपी वारो. | १८.१ |
| **जन्यजनकभाव** | कार्यकारण हो भाव. | १८.७५ |
| **ज्ञानकथनादिप्रस्ताविं** | ज्ञाननिरुपणाच्या आरंभाच्या समयार. | १६.२७२ |
| **तद्ब्रह्मादिवाक्यफळें** | तत् (म्हणून प्रसिद्ध आसपी) ब्रह्माचें निरुपण करपी वाक्यां हींच फळां. | ७.१८६ |
| **तरुणतमतुर्य ललनलील** | अत्यंत परिणत अश्या तुर्यावस्थेचें (समाधिस्थितीचें) प्रेमान पालन करप हीच जाची लीला असो. | १०.२ |
| **त्रिगुणलुब्धकीं** | सत्त्व, रज आनी तम ह्या तीन गूणरुपी पारध्यांनी. | १४.६४ |
| **त्रिभुवनैकसरिता** | (स्वर्ग, पृथ्वी आनी पाताळ ह्या) त्रिभुवनांत पवित्र मानिल्ली एकूच न्हंय. | १०.२५७ |
| **त्रिविधमळकट** | तीन तरांचे (कायीक, वाचीक आनी मानसीक) दोश. | १५.५८१ |
| **दैवांगुणां येकोपजीवी** | दैव (सात्त्वीक) गूण हो एकूच आस्त्रय घेवपी. | १६.६७ |
| **दैवी सुखसंभवी** | दैव (सात्त्वीक) सूख दिवपी | १६.६७ |
| **धर्मडाळबाहाळिं** | धर्माच्यो खांदयो आनी देळश्यो खांदयो हांच्या विस्तारांत. | १५.१९१ |
| **नवगंधकेसरिं** | ताच्या सुवासीक फुलांच्या केंसरांत. | १३.७८१. |
| **निगमागमद्रुमफळ** | वेद आनी शास्त्रां ह्या वृक्षांची फळां आसपी. | १८.२ |
| **निगमाचळशिखर** | वेदरुपी पर्वताचें तेमूक (शिखर). | १७.३३४ |
| **निजजनाखिलमंगळ** | आपल्या भक्तांचें पुराय मंगळ करपी. | १८.१ |
| **निजजनजितभजनीय** | आपल्या भक्तांनी जिखिल्लो (भक्तांक वश जाल्लो) आनी भजपाक फावो असो. | १८.९ |
| **निरुपणभाषाप्रतीति** | निरुपणाचे भाशेवरवीं आयिल्लो अणभव. | १५.९० |
| **निवृत्तिकर्णतालें** | (विश्वलोपा खातीर उत्पन्न जाल्ली इत्सा म्हळ्यार) निवृत्ती हेच कोण ते कान हालोवन. | १७.७ |
| **निवृत्तिसूत्रसोडणियां** | निवृत्तीसुत्ताचो वोळंबो लावन. | १८.३८ |
| **पत्रालंबनमदें** | विजयपत्र मेळोवपाचे ईर्शेन. | १३.६७ |
| **पराप्रमेयप्रमदा-विलासिया** | परावाणीरुपी तरूण स्त्रियेकडेन विलास करपी. | १०.१ |
| **परिणतोपरमैकप्रिय** | पूर्ण पिकिल्लें वैराग्य जाका आवडटा, वा पूर्ण पिकिल्लें वैराग्य जाणें मेळयलां असोच जाका आवडटा तो. | १८.९ |
| **प्रकृतिवनमाधवी** | प्रकृतिरुपी वनांतलो वसंतऋतु. | १३.१३६ |
| **प्रतीतिबोधसागरीं** | अणभवा पासून जावपी बोधरुपी (ज्ञानरुपी) समुद्रांत. | ९.९३ |
| **प्रत्यक्बुद्धी करतळें** | अंतर्मुख जाल्ल्या बुद्दीरुपी हातांत. | १५.२५८ |
| **प्रमेयप्रवाळसुप्रभ** | श्रुतिस्मृतींत सांगिल्ल्या तत्त्वरुपी कंवळ्या दुर्वांच्या तणाच्या आंकरांनी सोबीत जाल्लो. | १.१७ |
| **बुधवनवसंत** | ज्ञानी पुरुशरुपी वनाचो वसंत. | १०.३१८ |
| **ब्रह्मास्मिबोधें** | हांव ब्रह्म आसां हे जाणविकायेन. | १५.२३६ |
| **ब्रह्माहंमत्रें** | हांव ब्रह्म आसां ह्या मंत्रान. | ४.१५० |
| **ब्रह्मकटाहधात्री** | सगल्या विश्वरुपी वाडग्याचें पालन करपी दाई. | १०.१३६ |
| **भक्तकामकल्पद्रुम** | भक्तांची इत्सा पूर्ण करपी कल्पवृक्ष. | ९.५२१ |
| **भक्तचकोरचंद्र** | भक्त हेच चकोर. तांकां आनंद दिवपी चंद्र. | ६.४८३ |
| **भक्तभावभुवनदीप** | भक्ताच्या भावरुपी लोकांतलो दिवो. | १८.८ |
| **भवेभकुंभभंजन** | संवसाररुपी हतयांचें कुंभस्थळ फोडपी. | १०.५ |
| **भवनोद्भवारंभस्तंभ** | विश्वरुपी घराच्या बांदकामांच्या आरंबाचो खांबो. | १८.५ |
| **मंगळमणीनिधान** | कल्याणरुपी रत्नांची (वज्रांची) खण. | १०.३ |
| **मध्यमामध्यविवरें** | सुषुम्ना नाडयेचे पोकळेंतल्यान. | १२.५५ |
| **मातृकोदरकुहरीं** | आवयचे उदररुपी गुहेंत वा होंवरेंत. | १३.७३२ |

| | | |
|---|---|---|
| मार्गामार्गविखीं | योग्य आनी अयोग्य मार्गातलो भेद. | १६.२४९ |
| मोहार्णवगवाक्षें | मोहरुपी समुद्राचे खिडकींतल्यान. | ११.६१ |
| मोहफरिग्रस्तु | मोहरुपी सोरपान दंश केल्लो वा वेढिल्लो. | २.७४ |
| योगाब्जिनीसरोवर | योगरुपी कमलिनीचें सरोवर. | १८.१७५५ |
| विदुदयोद्यानद्विरद | विज्ञानाचो उदय हीच बाग तातुंतलो (बागेचो विदवाट करपी) हती. | १८.७ |
| विगतविषयवत्सल | विशयवासना ना करपी (भक्तांचेर) प्रेम करपी. | १८.३ |
| विदळितामंगलकुळ | अशुभांच्या मेळाचो जाणें नाश केलो असो. | १८.२ |
| विद्यारविंदप्रबोधा | विद्यारुपी कमळ फुलोवपी. | १०.१ |
| विद्याविनोदविभवें | विद्या, विनोद आनी ऐश्वर्य हांकां लागून. | १६.२४२ |
| विनोदवनवाटिका | मनरिझवणेखातीर केल्ल्या वनांतली अशीर वाट. | ९.३२२ |
| विशदबोधविदग्ध | स्पश्टबोध करपांत चतूर. | १०.१ |
| विश्वोद्भवभुवन | विश्वनिर्मणेची सुवात. | १०.५ |
| विश्वनिक्षेपैकनिधान | विश्व दवरपाचो एकूच आधार. | ११.३०८ |
| विश्वप्रामाण्याची मुदी | जगाक मानत अश्या आचरणाचो शिक्को. | १६.४६८ |
| विषयविध्वंसैकवीरु | विशयांचो नाश करप्यांत एकूच वीर. | १८.१७५५ |
| शतमखोत्तीर्णकर | शंभर यज्ञ करपी इंद्र. | १०.२४० |
| शमदममदनमदभेद | शम आनी दम हांणी मदनाच्या मदाचो नाश करपी. | १८.७ |
| श्रुतिसागरसमुद्र | श्रुतीरुपी समुद्रांचो समुद्र. | १०.४ |
| सज्जनवनचंदन | सज्जनरुपी वनांतल्या चंदनाभाशेन. | १०.३ |
| सविवेकमतिपाटव | आत्मनात्माचो विचार करपी बुद्दीची कुशळाय. | ९.२४२ |
| संसारगजकेसरी | संवसाररुपी हतयाक मारपी शींव. | १०.२८० |
| संसारतमसूर्य | संवसाररुपी काळोखाक नासो करपी सूर्य. | १०.२ |
| सुभावभजनभाजन | शुद्धभावान भजन करपाक फावो असो. | १०.५ |
| सवर्मह्रदयकल्हारीं | मर्मस्थान आशिल्लें जें हृदय त्या हृदयरुपी कमळाचेर. | २.७१ |
| स्फुरदमंदानंदबहुळ | स्फुरपी अति (अमंद) आनंदाचो भार जातूंत आसा असो. | १८.४ |
| स्वाधिष्ठानावरिचिले | मूळाधाराच्या वयल्या चक्राचेर. | ६.२१० |
| आत्मानुभावनरेंद्र | आपले ठांय आशिल्ले भक्तीचो स्वामी. | १०.४ |
| स्वबोध-कुमुदचंद्र | आत्म्याविशींचें बोध (ज्ञान)रुपी कमळ फुलोवपी चंद्र. | १८.७३० |
| स्वसंविद्द्रुबीजप्ररोहणावनी | स्वरुपाचें ज्ञान होच रूख. त्या रुखाचें बीं रुजपाक पोसवण दिवपी भूंय. | १८.१० |




परिशिष्ट ६

# ज्ञानेश्वरींतल्या विशयांची वळेरी

ज्ञानेश्वरीच्या अभ्यासकांक मदत जावंची म्हणून ज्ञानेश्वरींतल्या मुख्य विशयांची सूची-वळेरी सकयल दिल्या. तिचे वयल्यान तो विशय ज्ञानेश्वरींत खंयच्या अध्यायांत खंयच्या होंवयांनी आयला, हें वाचकांक सट् करून पळोवंक येतलें. हातूंत सगळेच विशय निवडूंक नात, तरी मुख्य तेच घेतल्यात. विशयांची आनी पोटभेदांची वर्गवारी वर्णानुक्रमान केल्या. देखीक, कर्म ह्या मुखेल विशयासकल सात्त्वीक, राजस, तामस, विकर्म अशे भेद दिल्यात.

# ज्ञानेश्वरींतले चालंत कोंकणी शब्द

**अगा, गा** (८.५९; ९.५१३; ६.१११; ८.१६७) आगा, गा.

**अटुव** (६.७७) आखुडिल्ले छातयेन कपडे अटूक जाले; अटूक खोली.

**अनुभवणें** (१.५७) अणभवप.

**अपरिमित** (११.११७; ११.२८२; ११.३१०) अमर्याद - अपरमित दांडगाय.

**अभिप्राय** (११.४४९; १३.९५२; १५.३४६). अर्थ, उद्देश ह्या अर्थान.

**अवंतणें** (११.३४६; ११.६३५;९.४४०) आमंत्रण दिवप.

**अवसर-अवस्वर** (४.१०९; ११.६७७; ८.२०४; ८.१६४; ८.७२; ८.२०७; १३.११६९; १३.४५९; ५.४२). वेळ, प्रसंग, समय ह्या अर्थान.

**अवेव** (२.३०१; ८.६६; ११.५३२) अवयव.

**अहेव-ऐहेव** (१३.८२१; १६.३७७) अविधवा; सौभाग्यवती.

**आइकणें** - आयकणें. १.३४; १.१६३; २.१; २.२१४; २.२१८; १२.२४४; १६.१०५ इत्यादी.

**आकांत** (१.१३७).

**आंगी** (९.५०२; ११.२८३; ६.४७५). आंगलें; आंगाचें; आंगवली; आंगवाली.

**आटणें** (१८.६१६) खर्च जावप - धा हजार आटले.

**आड** (१३.१६९). दारां आड कर. मात्सो आड पडटां.

**आडळणें** - आदळणें (२.१९४; २.२२३). आदळप.

**आडवारा** (१५.४६; १८.१३६६) पिडेस्ताक आडवारिल्ल्याची रूच.

**आडें** (१३.६९९).

**आण** (१२.१०३; १८.९६०; १८.१३६८) सोपूत - तुज्यान तर; देवाच्यान.

**आणिक** (२.२४०; १५.५२८).

**आथि-नाथि**. आशिल्लें-नाशिल्लें ह्या अर्थान.

**आपैसे** (७.२३; १.१८५; २.२८१; २.१६०.) आपशीं.

**आफाविणें** (१३.८३०) (आफयले).

**आय** (१३.८९७; १४.९७; १५.६१; १८.४२). आकार - आयट. दोन मनशां एके आयटीचीं.

**आयतन** (११.३०८) (घर); (११.५१६) (आधार); आयदन, आयदानां.

**आयतें** - आइतें (१८.१७४६; १३.५९१; १४.२५४; १६.३३०).

**आर** (हार) (१३.७२४) हार उडटा म्हणून गांयडोळान उडचें न्हय.

**आरव** (११.३३७; १८.१७९७) (बाग, राय.)

**आवाळु** (९.१८२; ११.३६३; ११.४२८) वाळू; वाळवो पेंचप.

**आविस** (७.७७; १३.२४६) हांयस - आमीश.

**आस** (१३.६९४; १३.८६२). आस्त; आशा.

**आसकड** (१६.५) रानांतली आसकड वाट; असकड.

**आसुहत** (१.१५६; ११.४६९; १३.२८१; १४.१४७; १७.२१२; १८.१०७८) कुंडो आसडून फाफडून उडयतकूच.

**आस्थान** (४.२३) ठिकाण, ठाणें ह्या अर्थान. आयज आस्थान खंय?

**आहाति** (४.७८; ३.२२१; ११.२७५) आसा; आसात - आहात; आहा.

**इंगळ** (८.८९; ९.५०१; १६.२४३; १७.२५६; १८.७५१) इंगळो; उज्या इंगळो.

**इष्ट** (१.१८१; १.२२३; १३.७९३) इश्टमित्र, आप्तइश्ट, इश्ट अनिश्ट.

**उकल** (५.६; ३.५२; ६.३८७; ८.१८४; १५.१८५). भुरग्याक उखल. उखला दवर.

**उखिविखी** (१३.६६; १३.९९; १३.१४७) उसवप - विसकटावप; विसकणी करप.

**उजरी** (१५.१०; १७.२१३). उत्कर्श; उदरगत; उर्ध्वगती.

**उजितें** (८.२१३; ११.३१२; ११.३४२) उजो.

**उजियेड**-उजिवड (४.१६९; ९.१३३; १३.११००; १३.१०८२) उजवाडु; उजवाड; उजवाडा येवप/हाडप; उजवाडलें.

**उडविणे** (१३.२८२) खेद उडोवन तूं झूज.

**उंडी** (११.४५७; १३.७३९; १३.११०३; १७.९७)

**उणा-उणी-उणें** (९.४५०; ११.१५६; ११.४४८ - कमीपण ह्या अर्थान.) (२.७; ११.४२७; १७.३८९ - कमी ह्या अर्थान.) (१३.५३७ - दोश ह्या अर्थान.) (१५.५२२; १८.९५ - विना ह्या अर्थान.) (१८.१७३७ - हारोवप ह्या अर्थान.) म्हत्व उणें जावप; खर्च उणो करप; उणेपण लागप; बळगें उणावप; उणाक दुबळेंपण इत्यादी.

**उत्तर** (११.३९; १३.७६२). शब्द; बरें उतर दी; तो मनीस उतराचो; म्हजे आड ताणें एक उतर काडूंक ना.

**उदक**. उदक, उदाक, उदीक, उद्वाक.

**उदेणे** (उदैजणे) (१.१४४; १०.२५४; ४.११७; १५.४७३) सूर्य उदेता; प्रस्न मनांत उदेले.

**उन्ह** (१७.१४१; १७.१४२; १८.१८१.) गरम ह्या अर्थान. हून उदक; हुनहुनीत, हुनेत.

**उपकरणें**-उपकारणें (१८.५६२; १८.१३५९; १.२१७; ३.१५३-

उपयोगी पडत ह्या अर्थान.) (१७.१३७ - उपकार ह्या अर्थान.) (२.२३ उपेगी पडचेंना ह्या अर्थान.)

**उपजणें** (१३.७३३; १५.३४७; १६.१७९ - जल्मप ह्या अर्थान.)

**उपलवणें** (१४.८६; १३.८५२; ६.२९२; ६.४८८ - विस्तारान सांगप ह्या अर्थान.) उलोवणें; बोलणें.

**उपेग** (उपयोग ह्या अर्थान.) १३.७२८; १८.१७९१.

**उफराटें** (९.५१५; ११.५४७; १३.८५१; १३.८४९; १८.७२८ - उलट ह्या अर्थान.) उरफाटें, उपराटें; उफाट्टें ह्या अर्थान.

**उंबरा** (१३.४१५; १८.१०३० - हुंबरो ह्या अर्थान.) हुंबऱ्या भायर.

**उबारा** (उब) (६.२२१; ८.६६; १०.३२३) केळौणि मेळत म्हणपाचो उबारो तांकां आशिल्लो.

**उमसणें** (१५.३३५; १३.२०२; १८.६३४) हुमसणें; हुमटणें (हुमटून काडप.)

**उमाणें** (६.४६३; १०.२८९; १३.८५; १८.५००.) हुमाणें; कूटप्रस्न; कोडें.

**उमाळा** (११.३६४; ११.४६४; ११.४८४; १३.४९१; १५.१२४ - लोट, कड ह्या अर्थान.) षष्ठदेवाक दुखाचो उमाळो आयलो. उमाळे काम क्रोधाचे.

**उरणें** (२.२०८; २.२३३; ३.१२५; ३.२ - बाकी शिल्लक रावप ह्या अर्थान.) (२.१५४; २.२३२ - आसप वा रावप ह्या अर्थान.)

**उशिटणें** (१८.२२) उश्टें करप.

**एकला-येकला** (६.३८०; १३.८३८; १७.३३६; १८.३४८) येकलो, येकटो ह्या अर्थान.

**एकीहेळां** (एकदम वा एका हेळ्यान.)

**एर-येर** (हेर ह्या अर्थान.)

**ओइचले** (ऊँइचले) (१.११९) वांयच कमी; वांयच चड ह्या अर्थान.

**ओखद** (९.१९९; ९.४९१; १५.२५४; १७.६२) ओखद, वखद, वकद.

**ओवाळणें** (४.२१३; १४.१६६ इत्यादी) उंवाळप; उंवाळिल्लो (अखटायेन वापरिल्लो.)

**कड, कडेलग** (१८.९२५; १३.११४०; १६.४७२; १८.१०४१).

**कपाळ** (६.५०; ११.४०२; १३.१८; १५.३७९ - तकली ह्या अर्थान.) म्हजें कपाळ फोडटा.

**कपोल** (९.१८०; ११.१८४ - पोले ह्या अर्थान) (क)पोलो - पोल्यार थापट मारलें.

**करा** - कऱ्हा (११.४१४; १३.५५७; १६.२९३ - उंट ह्या अर्थान.) कऱ्याच्या दोंक्याचें.

**कवण** (१.१३४; ८.१२५; ३.२३; ६.४३६; ९.४९३; ४.८५; १८.१४३४ - कोण ह्या अर्थान.) कोण काळ आयला पळय. मनशां हीं कोण कुस्कुटां.

**कवतिक** २.३०३; ५.९० - कौतूक / कवतूक ह्या अर्थाचें रूप.) पुरो रे तुजीं हीं कवतुकां.

**कवळणें** (१.२४०; २.७५; ११.३१३; १८.१२५३ - गुठलाय ह्या अर्थान.) हांतुळण कवळ्ळें; शेंदरी कवळ; पुस्तकां कवळ्ळीं.

**कवाड** (१३.४१५; १३.४५४ - दार ह्या अर्थान. ६.२०२; ८.११२.) इंद्रियांचीं सगलीं कवडां धांपून.

**कळस** (१६.१९ - शिखरावयल्या कळसाच्या संदर्भात आनी कळसो, कळशी ह्या अर्थान; १३.११४४.) भटाक एक तांब्याचो कळसो दान करूंक जाय.

**कळांतर** (१७.२८७ - कळंतर (व्याज) ह्या अर्थान.)

**कळासणें** (५.७२; ८.११२; १३.५०५; १८.३९२ - बंद करप; कोंडप ह्या अर्थान.) कळाशी बसोवप, कळाशी सांधची हो वाक्प्रचार वापरतात कौशल्य, कुशळाय ह्या अर्थान.

**कांटी** (९.२१३; ११.३७६; १३.८६६; १६.२२५; १८.७८२ - कांटो ह्या अर्थान.) कांटयांची वंय आनी कांटे आशिल्ली मान ह्या अर्थान.

**कानी** (१४.१५८ - दांवें ह्या अर्थान.

**कालाभुला** (१६.१४२ - काचाबूल ह्या अर्थान.)

**कास** (७.९८; १३.४००; १८.१६९ - कासाटो ह्या अर्थान.) कांस; मराठी: काचा.

**कीट** (१३.१०३६; १७.२०९ - मळ, हिणकस ह्या अर्थान.) किटाविणें भांगर ना; काळोकीट्ट; उज्याची कीट.

**कुचुंबणें** (चिड्डप, कुचमावप ह्या अर्थान.)

**कुटका** (१६.३६८ - कुडको ह्या अर्थान.)

**कुटा** (३.२५० - चुरो ह्या अर्थान.)

**कुंकम** (६.२२२; ११.१३३; १३.१०१७; १३.४६९ - केशर आनी तांबडो रंग ह्या अर्थान.) कुकूम लायलो; कुंकमा आधार.

**कुळवाडी** (शेतकामत ह्या अर्थान; वेपार ह्याय अर्थान.) (१३.५६५; ६.४४८; १२.८१; १३.९७८; १३.२८ शेतकार ह्या अर्थान.

**कूस** (९.२७५; १४.४०; १८.१५१० - गर्भाशय ह्या अर्थान.)

**केळवणें** (१३.५५१ - केळवणी करप ह्या अर्थान.)

**कोठो** (१३.२३३ - गोठो ह्या अर्थान.) कसूं व्हेल्यारि गाय; कोटग्यांतू व्हेल्यारि बैलु.

**कोंड** (३.२४२ - फोंड, खड्डो ह्या अर्थान.)

**कोपणें** (४.१७७; ८.८०; १०.३२४; ९.१६८ - रागार जावप ह्या अर्थान.) ताका कोप आयलो.

**कोपट-खोप** (१४.२१८; १३.७८५; १८.७१२; ९.१०३ - खोंप ह्या अर्थान.)

**कोंभेणें** (६.३२४; ९.२५; ११.२६६; १५.९७; १५.१०४; ६.२५३; ९.१९१; १६.३२० - कोंब येवप वा फुटप ह्या अर्थान.)

**कोलती** (१५.१३७; १८.७९०). उज्या कोलती; चुलींतलें पेट्टें लाकूड.
**खतलें-खत** (१६.२७; ४.२०८)
**खर** - (१४.१२८; १६.२६६; १८.१०७९ - कठीणपण आशिल्लो.
**खाइरा** - (११.२३; १८.५५४ - खावपी ह्या अर्थान.) पालो खायरो.
**खाजें** (६.२९).
**खांड** (१५.२६२; १८.१०७८ - तलवार ह्या अर्थान.) खांडया घायाकय उत्रा घायाक दुकि चड.
**खांदी** (१०.९८; १०.९९; १५.२५० - खांदो आनी खांदी ह्या अर्थान.)
**खांबे** (१५.१५९; १८.१६६५; १६.३७९ - खांबो-खांबे ह्या अर्थान.
**खालां** (१.२६९; १८.७३६; १८.४८१.)
**खेंव** (८.१४८; ६.४ - मिठी, वेंग ह्या अर्थान.)
**खोंकर** (८.१५; १३.५७१; १५.५०० - पोकळ, फुटकें ह्या अर्थान.) तो खोको जाला.
**खोटु** (खोंटो ह्या अर्थान; खोंटलो (पांटलो.))
**खोमणें** (१३.९१६; १४.२८९) बाण खोमलो, खोंबिल्लो कांटो; फूल खोंवप.
**खोळी** (३.२६०; १४.३१२; १५.३८२ - आच्छादन, आवरण ह्या अर्थान.) कांबळीची खोळी, साकाची खोळ
**गची** (६.२२९; ४.२०५ - मान ह्या अर्थान.)
**गडद** (८.२२९; ४.२०५ - गाड ह्या अर्थान.)
**गाजणें** (१.१२६; १.१४४ - गाजप, गर्जना करप ह्या अर्थान.)
**गांठ** (१८.६८४) ताका तो गांठीपसून नाका.
**गिध** (२.२००; ७.८७ - गीध (गिधाड) ह्या अर्थान.)
**गुंडा** (१३.५९०; १४.३५७ - फातर.) गुंडो मारलो.
**गुणीं** (१२.१५; १३.१४७; १३.१०१३) रायागुणीं - रायाखातीर; मजगुणीं - म्हजेखातीर. (मंगळूरी कोंकणींत रूढ.)
**गुर्विणी** (१४.८९ - गुरवार बायल ह्या अर्थान.)
**गोंधळुक** (१८.१०८५ - सूर्य अस्तमचो वेळ ह्या अर्थान.) गोंधळीक म्हुर्ताचेर लग्न थारयलां.
**गोमटें** (२.२९९; ३.९; ५.११२; ९.४३३; १२.९४ - बरें, हिताचें, सुंदर ह्या अर्थान.) चित्रापूर सारस्वतांचे कोंकणींत रूढ.
**घरीं** (१३.७१५; ३.१०९; १३.३४० - घरांत ह्या अर्थान.) आमगेर होडांगेरि इत्यादी.
**घात** (१.२२५; २.१७७; १८.४४८ - नाश, सांवार ह्या अर्थान.)
**घामेजणें** (१३.३४८ - घाम येवप; घामेलो; हुमेलो ह्या अर्थान.)
**चांग** (३.२७६; ४.१५६; ५.६५; १०.३२६; १.१३५; १३.६६९ - उत्तम, चांगलें ह्या अर्थान.) मंगळुरी कोंकणींच रूढ.
**चाम** (९.५४३; १८.४०१; १८.४३७ - चामडें आनी चामडी ह्या अर्थान.)
**चिन्ह** (१३.३६६; १३.२१५; १८.६१०; १८.६८९ - खूण; गूणलक्षण ह्या अर्थांनी.) अविचिन्न; चिन्न बरें दिसना.
**चिरणें** (७.१७०; १३.४५; १८.३२७ - कातरप, आंखप, पिंदप ह्या अर्थान.) अक्षरां चिर.
**चौथ** (१३.८१८ - चवथ, गणेश चतुर्थी ह्या अर्थान.)
**जायाचें** (९.१४२ - उसणें वा ना जावपाचें ह्या अर्थान.)
**जाला** (१३.९०६; १३.११६; ९.४२५ - गीतेचीं भाशांतरां जाल्यांत ह्या अर्थान.) जाल्यारी; न्हयकारी: ना जाल्यार; जल्म खंय जाला?
**जावळी** (१.१३८; ११.३९६; १४.२१७ - जुंवळी ह्या अर्थान.) जुंवळें भावंड.
**जाळ** (१६.३२३; ९.१३८ - जाळें ह्या अर्थान.)
**जित, जीन** (१३.१९५; १३.७०२; १८.२२६; १७.२५८) जितो प्राणी.
**जुंझ-झूंज** (१८.१२९५; १८.२०८; १८.१३४; ६.२१५ - झुजप वा युद्ध ह्या अर्थान.)
**जैत** (९.२१८; १४.२७७; १८.१६२९ - विजय ह्या अर्थान.)
**जोगावणें** (१३.३६३; १३.६६९; १३.७९८; १३.७९५; १३.८२० - सांभाळ करप ह्या अर्थान.)
**जोडणें** (१.२१७; २.१९७; ९.४२१; १३.११०; १८.७०३ - मेळोवप ह्या अर्थान.)
**टाळी** (१.१५७; १७.३०१ - झाडाची खांदी ह्या अर्थान.)
**टिक-टीक** (१४.३८३; १७.३४८; १८.८५४ - दागिनो ह्या अर्थान.) टिकी-थिकी.
**ठावूनि** (५.६२ - पासून ह्या अर्थान.) थंय ठाऊन येतना.
**डिखळ** (६.९२) मातयेचें दिफळ, डिफळ, शिताचें दिपळ इत्यादी.
**डोणी** (१४.३०; १५.२५२ - व्हडें, होडी ह्या अर्थान.)
**तगणें** (१५.३६ -तगप ह्या अर्थान.) कदंबांचें राज्य चड काळ तगलें ना.
**तण** (१८.४३८ - तृण ह्या अर्थान.)
**तणारे** (३.२२३) तणाची खोंप.
**तत्क्षणीं** (३.११७.)
**तरी** (१२.९१; १३.८०४; १३.८५७ - न्हंयची वार ह्या अर्थान.
**तंव** (१८.५७१; १८.५८५; १८.१६३० - तेन्ना आनी तर ह्या अर्थांनी.)
**तळीं** (१.१२५; ६.१२७; ९.१८५; ११.२९६ - खायलेवटेन ह्या अर्थान.)
**ताटी** (२.३११ - वंय ह्या अर्थान.)
**तांडी** (१५.३६४ - टोळी, मेळ, गर्दी ह्या अर्थांनी.)
**तिख-तीख-तिखट** (१२.६८; १३.६६२; १५.१९१; १६.११५

- तीक्ष्ण ह्या अर्थान. (११.४३९; १८.६६३; १७.६८; १७.१४३ - तिखें ह्या अर्थान.) (१६.२४४ - तिमणें, तिंबणें.) (९.१३७; १८.१६९० - ओलें जावप, भिजप ह्या अर्थान.)

**तोखणें** (९.३८६; १४.३२९.)

**त्राण** (१८.१०७७; १५.१८३; १७.१३१.) कुडींत त्राण नासप; प्राणांत त्राण येवप.

**थडी** (२.३४८; १८.१५१; ११.६८९; १३.८४३; ४.१५ - न्हंयेचो कांठ ह्या अर्थान.)

**थान** (९.३८ - स्तन ह्या अर्थान.)

**थापटणें** (६.१६९; १३.१३०; १८.४०४.)

**थारणें** (१२.२३१; १३.६८८; १५.३५ - स्थीर जावप, तिगप ह्या अर्थान.)

**थिरावणें** (१.६१; १८.१०८० - स्थीर जावप ह्या अर्थान.)

**थेंबुटा-ट** (१०.१८३; ११.२५० - थेंब, ल्हान थेंब ह्या अर्थान.)

**थोंकणें** (१.१५८; ६.२०९; २.८८ - थांबवप ह्या अर्थान.)

**थोर** (६.३६९; ११.६२५; ११.८८; ३.१०८; १०.३०५ - व्हड, प्रपंच ह्या अर्थान.) थोरी बायल (मोठी बायल).

**दाटणें** (६.११७ - दांबपाच्या अर्थान.) नाक दाटल्यारी तोंड उघडटा. (१८.१६५; ११.३७६ - गच्च भरप ह्या अर्थान.) दाटी जाली; दाट केंस; सालदार्टी केळीं.

**दादुला** (१.१३५; ५.८१; ६.१०८; ११.१७३; १८.१७३२ - दादलो (बायलपण नाशिल्लो) ह्या अर्थान.)

**दिक्** (१.१२१८; १३.३८६; १६.३३६ - दिशा ह्या अर्थान.)

**दुकाळ** (१३.१७०; १५.२९२; ११.४२८ - दुकळ ह्या अर्थान.)

**दुधिया** (१३.६८७; १३.४६८ - दुदी ह्या अर्थान.)

**दुर्ग** (१.११६; १३.५८३ - दुरीग आनी किल्लो ह्या अर्थांनी.)

**देखणें** (पळोवप ह्या अर्थान.)

**देखोनि** (६.३७४; १३.१९ - पळोवन आनी म्हणून ह्या अर्थांनी.)

**देख-देखी** (२.२१३; ३.१५४ - आदर्श, उदाहरण ह्या अर्थान.)

**धग** (१६.३९४ - उष्णता ह्या अर्थान.)

**धड** (१८.५९५; १०.३२९; १६.१४२; ४.१५५ - नीट, अव्यंग, निश्चीत ह्या अर्थान.

**धरणें** (१.२७३; १.२६९; ९.५२६; ११.६८८ - अनावर ह्या अर्थान.)

**धर्म** (११.२० - लागून ह्या अर्थान.) तुमच्या धर्मान हांव बऱ्याक पावलों.

**धवळ** (१२.२४१; ३.२२३; ८.६; ९.२०३; १८.८५० - धवो ह्या अर्थान.)

**धाकुटपण** (११.६५४ - धाकटें ह्या अर्थान.)

**धाकुला** (१.१८३ - धाकलो ह्या अर्थान.)

**धाडणें** (११.९९; १४.३१०.)

**धांदा** (१५.३४६; १७.४२२; १८.४०३ - उपद्व्याप, उठाठेव ह्या अर्थान.)

**नई** (१७.३०४; १८.२७१; १८.१६२ - न्हंय ह्या अर्थान.)

**नावाणिग** (११.४७३; १६.३५ - नांवाजिल्ले ह्या अर्थान.) आतां नावाडगो ह्या अर्थान चालन्त आसा.

**नावांनावां, नावेंनावें, नवेन** (४.२१९; ९.४२; १६.१७९; १७.२१०; १३.११२६; १४.१०८ - पर्थून पर्थून ह्या अर्थान.) नव्यान धरून हाडलो.

**नाहाणें, न्हाणें** (९.११; ९.११०; ९.२४४; ९.४२० - न्हावप ह्या अर्थान.)

**निगुती** (१७.१८५; १८.१३०; १८.१३१ - युक्ती, कुशलताय ह्या अर्थान.)

**निदणें** (२.३५५; ५.४३; ९.१९; १७.७६६ - न्हिदप ह्या अर्थान.)

**निदसुरें** (५.९८; ८.३५ - अर्दकुटे न्हिदेंत, आळशी ह्या अर्थान.)

**निपट** (१७.१५६ - पुरायपणान ह्या अर्थान.)

**निंब** (४.२२३; ९.४३८; १८.९२४.)

**निबर** (१६.९; १८.१८५ - कठीण, खर ह्या अर्थान.)

**निमित्त** (१.२५८; २.२६८; १८.१६७८ - कारण ह्या अर्थान.)

**निर्वाह** (१०.११२; १५.१११; १५.२४३; १८.५९ - उपाय नासप ह्या अर्थान.)

**निवणें** (२.७९; ८.१४७; ८.५७; १८.१३७७; ११.३२४; ११.८१ - थंड वा शांत जावप ह्या अर्थान.)

**निष्टणें** (१.१९ - निस्तणें ह्या अर्थान.)

**निसरणें** (१३.७५६; ६.५६; ६.४७६.)

**नेवाणें** (११.२३ - निमित्तमात्र ह्या अर्थान.)

**पडणें** (८.७१; ९.२३६; ११.६२; १४.५७ - उपाय नासून करचें पडप ह्या अर्थान.)

**परतोनि** (६.३३६; १५.४६०; १८.३९९ - पर्थून ह्या अर्थान.)

**परवडी** (६.२९०; १३.९१५; १४.१८० - परवड ह्या अर्थान.)

**परिमळ** (५.४; ७.२०८ - वास, सुवास ह्या अर्थान.)

**परिवसणें** (१५.३९४; १३.७११ - पोरसुचें ह्या अर्थान.)

**पऱ्हां** (१५.३००; ९.३७८ - पेल्या गांवांत वचप ह्या अर्थान.) हांव म्हापशेंच्यान पर्रा (गांवाचें नांव) वतां.

**पर्व** (१३.८१५; १७.३०१ - पुण्य काल ह्या अर्थान.)

**पल्हणें** (५.१६४; ११.१८७; १८.१२८६; १८.१७१८ - पोंवप / पेंवप ह्या अर्थान.)

**पसर** - (१८.२८९; १८.३०३ - विस्तार ह्या अर्थान.)

**पाऊटी** (६.२७१; ६.३०३; ९.३२८ - पायरी, पांवडो, सोंपण ह्या अर्थान.)

**पाख-पांख** (१.१३९; १३.११०३; १८.१७१२.)
**पांगोरा** (१५.४७८ - फागूर ह्या अर्थान.)
**पांजरा-पांजिरा** (७.१५४; १३.५९८; १३.४११; ८.१३२.)
**पाट** (१५.३१६; १७.१८३; १८.९०८ - मान सन्मान करप ह्या अर्थान.) वासपैय हो पांटां-प्रधान आसलो.
**पाटण** (१५.४१३; १६.४४२; १५.४७१; १६.१२ - शहर ह्या अर्थान.)
**पाडा-पाडें** (८.८; ११.१०९; ११.५८० - वासरूं ह्या अर्थान.)
**पाणधी** (१६.१८७ - अशीर पायण ह्या अर्थान.)
**पांति-ती** (६.२६३ - पंगत, फांती ह्या अर्थान.)
**पातेजणें** (१७.५१; १८.५१८ -पातेवप ह्या अर्थान.)
**पाथर** (१३.५४९; १३.७२५ - फातर ह्या अर्थान.)
**पांपर** (११.१०५; १८.१८१ - खोंट मारप ह्या अर्थान.)
**पायवाट** (१२.११२.)
**पारिवा** (१८.४८३ - पारवो ह्या अर्थान.)
**पालव** (८.४०; ८.१६ - पदर ह्या अर्थान.)
**पालवणें** (१२.१०० - उजो पालवता ह्या अर्थान.)
**पाल्हेणें** (६.२५८; १५.१२७; १५.१५२; १५.१६४; १८.११३ - पालेवप, मोड येवप ह्या अर्थान.)
**पावणें** (९.३२; ३.४४; ३.३६; ७.१४६; ३.९८; ७.१३० - पावप, मेळप ह्या अर्थान.)
**पासून** (१.२६५; १५.१९६; १.१९९; २.९५.)
**पाहणें** (१.१९३; ८.४२; ११.२७५; १६.२९; १८.११७९; ३.२६; ६.४००; ५.३१; १३.९३; १८.२६३ - पळोवप वा फांतें जावप, फालेवप, उजवाडप ह्या अर्थान.) (३.२६; ६.४००; ६.१०५; ३.१९७; १८.१९६; १४.३६३; १४.३५५; ८.१६०; १८.३५६; ८.१६०; १८.३५६; १८.७२४ - फाल्यां ह्या अर्थान. (९.४०५; ७.१४; १३.७३५; १३.७५९.)
**पैस** (७.४७४; ८.१८१; १५.१९५ - विस्तार, पैसावप, पैस वचप ह्या अर्थान. (९.७०; १३.६२७; १५.४२२; १६.४५७ - रिगप ह्या अर्थान.)
**फावणें** (१८.७१९ - प्राप्त जावप, योग्य आसप, सोबप ह्या अर्थानी.)
**फुडें** (४.९८; ८.२४२; ९.३६५; ११.१५४; ११.२९३; ११.४५१; ११.८४५.)
**बरबट** (७.८८)
**बेंबळ** (१.१९७ - विव्हळप, लुळो पडप ह्या अर्थान.)
**भंवणें-भोंवणें** (१३.४८८; १८.५५१; ९.८१; १८.१३१०; १८.३१०; १५.१३७; १३.११०२ - फिरप ह्या अर्थान.)
**भाट** (१३.४५)
**भाणें** (८.१४३; १८.१८१; १८.७८५.)
**भांब** (७.२०७; ६.२५३; १०.७७ - भाबां (दागिने) ह्या अर्थान.)
**माणिकुली** (६.२६४)
**मालें** (१०.३३) म्होंवाचें मालें ह्या अर्थान.
**मुडा** (६.४८९; ९.३९.)
**मुदल-मुद्दल** (५.१५७; ८.२८; ८.१५८.)
**मूळवणें** (४.२२२)
**मेर** (२.२००; ९.५१; १३.१०७३; १६.९४; १८.४३८; ८.७४.)
**मोहर** (९.३६०; ९.४००; ११.३२८; १३.३१४; १६.४२३ - मुखार ह्या अर्थान.)
**रवा** (११.६४४; १३.८९४; १५.३४९ - ल्हान कुडके ह्या अर्थान.)
**लाठ** (१८.८५७; २.२१९; २.२१९.)
**लेखणें** (१८.१०२५; ११.५५३; ९.३८४ - मानप ह्या अर्थान; १०.३०३; ११.५९१; १५.४८ - गणप ह्या अर्थान; १३.९३७; १८.५७ - हिशेब, मेजमाप ह्या अर्थान.)
**वरकल** (१८.४९२ - भांगर पारखुवपाचो फातर ह्या अर्थान.)
**वरो** (१८.२५८.)
**वाढिलें** (८.१४३; ९.४३९.)
**वाढी** (९.५४; १८.५९९.)
**विभांडणें** (१३.८४; १६.१२२; १७.२९९ - इबाडणें ह्या अर्थान.)
**वोज** (६.१८३; १७.१६६ - वज ह्या अर्थान; १८.८३६; १८.१११७; १८.११७९ - रीत, प्रवृत्ती, पद्धत ह्या अर्थान.)
**वोतपली-ओतपली** (७.१३१; १०.१५६.)
**वोमथणें** (१३.५६०.)
**शिसार** (१८.१७९).
**सकट** (११.२३७; ११.६०; १५.३९८ - सयत; पुरायपणान ह्या अर्थानी.)
**सटवी** (१८.८३७ - सटी ह्या अर्थान.)
**सपूर** (१.६; ८.१६; ११.२४३ - ल्हान, सुपुल्लें.)
**संभ्रम** (१.१५९; १.२७१; १८.९९ - समारंभ ह्या अर्थान.)
**सरणें** (६.२०६; १८.१०६१; १८.१०९३ - सोंपप ह्या अर्थान.)
**सर** (लागसर) (१३.३२१.)
**सळ** (छळ) ३.५४; १०.२६८; १६.४५४; १७.१५१
**सांगडी** (७.८४; १८.२५५).
**सांदुकणें** (१.९० - उजो पेटत रावप ह्या अर्थान.)
**सोप** (८.६; १७.२४९ - व्यर्थ जावप ह्या अर्थान.)
**सोपान** (६.५४; ८.२२४; ११.९; १२.५६; १४.४०२; ११.४२४ - सोंपण/पायरी ह्या अर्थान.)
**हडप** (१३.४१९; १७.२७६ - विडो दिवपी ह्या अर्थान.)
**हातोफळिया** (१८.१२२ - कलीयुगांत हातार फळ.)
**हुटहुटणें** (९.३६९ - हव्यास बाळगप ह्या अर्थान.)

